# गोंयां तुज्या मोगाखातीर



## गुरुनाथ शिवाजी केळेकार




मडगांव, गोंय.

2017

**गोंयां तुज्या मोगा खातीर**

सुनापरान्त दिसाळ्यांत
7/9/2013 ते 25/7/2015 मेरेन
दर शेनवारा आयिल्लीं एकंदर 100 पत्रां.





**प्रकाशक :**
गुरुनाथ केळेकार,
कामत बिल्डिंग, हरी मंदिरा लागीं,
मडगांव, 403 601.
मो. 9420896125

16 नोव्हेंबर 2017

**मुखचित्र :**
श्रीधर कामत बांबोळकार, फोंडें.

**संगणक प्रक्रिया :**
रूपा प्रमोद क्षेत्री, मडगांव.

**मुद्रण :**
इंप्रेशन्स,
गोंधळी गल्ली,बेळगावी.

**मोल :**
200/- रुपया



गोंयचे प्रतिरूप

**माधवी (नान)**

हाका -

तुजी याद - आमकां प्रेरणा !

# वळख

**"हें पुस्तक म्हणल्यार आमकां उजवाडा वटेन व्हरपी एक धगधगती मशाल!"**

***हेमा नायक, वळवय.***

गुरुनाथबाब केळेकार एक व्यक्ती म्हणून वा तांचें 'गोयां तुज्या मोगा खातीर' हें चारशीं दोन पानांचें पुस्तक म्हणून, हातूंतल्या कित्याचेरय जर म्हाका दोन-चार उतरां बरय म्हण सांगलें, जाल्यार तें कशें शक्य जावं येता? पांच-स पानां भितर तर तें आटापून घेवप कशेंच जावचें ना. ताणी बरयल्ल्या शंभर पत्रांचो मजकूर वाचतकच आख्खो गुरुनाथबाबूच म्हज्या दोळ्यां मुखार उबो जालो आनी दिसलें हो आजूनय म्हाका आदलेवरीच शिटकायता आनी सांगता, 'हेमा हो अन्याय आमी वगी रावन सोंसूंक जायना. सडेतोड जाप विचारूंक जाय. तूं आमची दुर्गा, घे आतां अवतार. आमी आसात सांगाताक. हें गोंय आमचें. पुर्वजांनी तें राखून दवरलां. तें कोणाच्या भकीक घालपाचें ना. ब्रिटीश गेले, पुर्तुगेज गेले आनी आजूनय हे तखक्ते फिरंगी भाशेंत? काडपाक जाय हे सगळे आनी थंय कोंकणी लावपाक जाय.'

गुरुनाथबाब म्हाका आजूनय तेन्नाचें 18-19 वर्सांचेंच चली समजता आसुंये. स्कर्ट ब्लावज घालून अशें गबाळें दिसपी. हांव केन्नाय आक्यां तांच्या दुकानार (तांची एक एजन्सी आशिल्ली) वचून कोंकणी संबंदी गजाली करतालें. एक दीस तांच्या दुकानार एकलो आयलो, मडगांवकारच तो. ताणे विचारलें, 'हें कोण?' गुरुनाथबाबान म्हणलें, 'हें हेमा'. त्याबराबर ताणे विचारलें 'हेमा म्हणल्यार त्या धुमटकाराची भयण, बँकेंत आसा त्या?' गुरुनाथबाबाक सट्ट जालें. ताणे ताका

मर्दींच आडायलो आनी म्हणलें, 'हाका हेमाच म्हण वळखुपाचें. भावा वयल्यान जावंक आनीक कोणा वयल्यान ताची वळख नाका, हें हेमा. ताका ताच्या कर्तुपा सयत वळखुपाचें.' आनी तेन्ना सावन एके स्वतंत्र अस्मितायेन जगपाची संवय म्हजे आंगवळणी पडली. तसो गुरु बी म्हणून न्हय तर म्हज्यांत चेतना जागोवपी आनी अर्दीं मर्दीं म्हज्या वावराची तोखणाय करून म्हाका उर्बा दिवपी एक मार्गदर्शक अशेंच मानीत आयलें. कॉलेजींत आसतना सावन कोंकणीकडल्या म्हज्या स्वाभिमानाची वळख घडोवपी तांच्या पुस्तकांतलें 75 वें पत्र म्हाका लेखून आसा. तें वाचल्यार कळटा म्हज्या सप् सप् करून नेटान उखलपी पावलांतले चालींतल्यान ताणी म्हज्यांतली निर्भिडताय आनी आत्मशक्त पारखिल्ली.

आयज एक कोंकणी मोगी, मनाक मानवना त्या गजालींआड स्पश्ट उलोवपाचें धाडस करपी हांव, अशें घडपांत जांचो वांटो आसा तातूंतले एक गुरुनाथबाब. कॉलेजींत वचपाक लागतसान तांचो आनी म्हजो परीचय. खरें म्हणल्यार रवीन्द्रबाब, चंद्रकांतबाब, गुरुनाथबाब, उदयबाब, नागेशबाब अशीं कांय व्यक्तिमत्वां म्हज्या जिवितांत आयलीं आनी तांच्या म्हजेकडल्या आपलेपणाच्या वागपांतल्यान म्हज्या मनाचेर जे अप्रुपाचे संस्कार घडत गेले त्यो कांय यादी बरोवन दवरपाच्यो केन्ना सावन तकलेंत घोळटालें. तेचबरोबर म्हज्या परिचयांत आयिल्ल्या आनीकय निश्ठवान कोंकणी मनशांचे उगडास जपून दवरपा खातीर तांची वळख घडोवपाच्या हेतान ल्हान ल्हान पुस्तिका उजवाडावपाची एक तळमळ अजून अंतस्करणांत आसा. कशी कितें जायत सांगूंक येना, पूण आयचे घडयेक ह्या पुस्तकाचेर बरोवपाची संद घेवन हातूंत उकतायिल्ल्या तांच्या विचारांकडेन जुळून येवपी आमचें आपलेपण सांगले बगर रावं नजो जालें.

आतां मेरेनच्या अणभवांतल्यान एक गजाल हांव शिकलां,

खंयचोय मनीस जेन्ना एखादें 'मिशन' म्हणल्यार ध्यास घेवन जगता तो केन्नाच म्हातारो जायना. तो अधिकाधिक परिपक्व जायत वता. ताच्या विचारांची गती चालूच आसता. हाच्या उरफाटें जेन्ना एखादो मनीस विचार करपाचो थांबता तेन्ना तो मेल्ल्यांतच जमा जाता. तेखातीर मनीस सदांच अस्वस्थ आसपाक जाय. ही अस्वस्थताय ताच्या काळजाक धोशीत रावता आनी तो तळमळत उरता. ही तळमळ ताका जगपाची प्रेरणा दिता. भोव खोशयेची आनी आमकां देखदिणी गजाल म्हणल्यार गुरुनाथबाबान पिरायेचीं ८८ वर्सां हुपल्यांत पूण तांच्या वागपांतलो आत्मविश्वास आनी सशक्त अशा पोजिटीव्ह विचारांची तांक पळयल्यार आमकां जगपाची नवी पालय फुटता.

'गोंया तुज्या मोगाखातीर' पुस्तकाचें वाचन करचे पयलीं ह्या लेखकाचो पिंड कितें, ताची वृत्ती कसली आनी ताचे मानसिकतायेचो अदमास आसचो म्हण हें बरोवप म्हाका गरजेचें दिसलें. सार्वजनिक जिणेंत अशे चवकस आनी प्रतिभावंत विचारसणेच्या असामीचे लेखणेंतल्यान जें कितें भायर सरलां तें तितलेंच मोलादीक आसता हें तांगेलीं शंभरूय पत्रां वाचतकूच जाणवता. आतां गरज आसा ती आमी शांततायेन आत्मनिरीक्षण करपाची आनी आमच्यांनी जाता तशे तांचे विचार चालीक लावपाची.

मतदारान एक सुबुध्द नागरीक जावपाक जाय हो तांचो हावेस. मतदाराचें सशक्तीकरण हें मिशन. तातूंतल्यान तांचे वेगवेगळे विचार आयल्यात. आमच्या दोळ्यां मुखार एखादो अन्याय घडटा, जावं तो आपल्याचेर आसूं वा दुसऱ्यांचेर घडिल्लो आसूं, तो आमी तोंड धांपून सोंसतले? तो पयस करपाक कांयच हालचाल करचेनात? हो प्रस्न तांच्या दरेका पत्रांतल्यान ताणी वाचप्यांक केला. दोळ्यांहुजरां ज्यो घडणुको आमी पळयतात त्यो तांणी ह्या पत्रांतल्यान मांडल्यात आनी सोपयताना ल्हवूच एक चिमटो काडला. केन्ना नागरीक म्हण

मिरयतल्या आमकां वा तशेंच त्या त्या समयार सत्तेर आशिल्ल्या सरकाराक. चुको घडल्यो जाल्यार आमकां संवय आसता त्यो दुसऱ्याच्या माथ्यार थापून मेकळें जावपाची. पूण ते अशेंय करीनात ते बरेच फावटी उपाय सांगतात आनी ताका लागून ह्या मजकुराक अर्थ फाव जाला.

मार्ग हो तांचो प्रिय विशय. ल्हान भुरगीं धरून जाणटीं मेरेन हाणी मार्गाचेर भोंवतना शिस्त पाळूंक जाय. मार्गाचेर अपघात जावपा सारकेले प्रसंग येवपाक जायना हें तांकां अंतस्करणांतल्यान दिसता आनी कांय वेळा त्या संवेदनांतल्यान न्हिन्नळून आयिल्लीं वर्णनांय आमकां वेदना भोगयतात. मार्गाचेर भोंवतात त्या गोरवां-सुण्यांची वेगळी वेवस्था जावपाक जाय हें तांचें म्हणणें. गोरवां फकत मारपा खातीरच उपकारनात तर आमकां तांचें दूद मेळटा. तूप, लोणी जाता. तांकां चरपाक मळ जाय, रस्ते न्ही आनी निमाणे ते म्हणटात. हें जर जमना जाल्यार गोमन्तक नांव बदलून सोमन्तक (सोरे मन्त क) करचें. दुदा बदलाक सोरो.

सरकारी शाळांचे बाबतींत तर तांचें सडेतोड विधान अशें. आयच्यो सरकारी शाळा कितें सांगतात? त्यो विद्यार्थ्यां खातीर न्हय तर शिक्षकांच्या अर्थाजना खातीर. आमच्यांत उणें आसा व्हीजन, आव्हानांक तोंड दिवपाची तयारी ना. सुखवस्तू जगप जाय. दनपारा न्हीद जाय. हेच बाबतींत एका पत्रांत म्हणटात, फक्त तिडक आसून उपकारना, पोटतिडक जाय. शिक्षकांचें काम विद्यार्थ्यांक खऱ्या अर्थान नागरीक करपाचें. अशे तरेचें सडेतोड बरप शिक्षकांनी वाचून आपल्या मनाची परिक्षा घेवपाची गरज आसा. तेचबरोबर एका पत्रांत ते नोकरी करतल्यांचेरय खुटलो मारतात, म्हणटात - सरकारी तशेंच बिनसरकारी नोकर कामार वेळार रुजू जायनात. तांकां विचारूंक जाय पगार कितलो घेतात आनी ताका जस्टीस दितात? जांकां लागता तांकां खुपतलें




पूण खरें तें खरें.

आपल्या शंभरूय पत्रांतल्यान ताणी अगणित विचार आमचे मुखार दवरल्यात. खुटयाळें मारपाक वणटीचेर हातोडेन खिळे धाडावचे पडटात तशीं हीं तांचीं पत्रां वाचतना आमचे तकलेचेर एकेक विचार सण् सण् करून ठोकिल्ल्यावरी  जाता आनी दिसता आमी खऱ्यांनीच जगतात तीं मनशां कांय आमच्यांतली वैचारीक शक्तच गळसणून बी वचूंक ना मू? तशें जाल्यार आमकां शादूर जावपाची वेळ आयल्या आनी ही शादूरसाण गुरुनाथबाब आमकां परत परत याद करून दितात.

तांगेल्या पत्रांतलीं हीं कांय म्हत्वाचीं वाक्यां हांगा म्हाका दिवपाक जाय. आमकां आमचें गोंय राखपाक जाय ही तांची तशेंच आमचीय बी अंतस्करणांतली तळमळ. गोंय राखतलीं जाल्यार गोंयकारपण तिगोवन दवरपाक जाय. गोंयांत केन्ना इतल्यो चोरयो, खून, बलात्कार सारख्यो पाड्यो प्रवृत्ती नाशिल्ल्यो. त्यो हालींसाराक बळावत चल्ल्यात. गोंयांत 'महानंद जल्माक येत अशें दिशिल्लें?' एका वाक्यान काळजाक पिंवळ पडटा. ते सांगतात, पोटाचें निमित्त सांगून गोंयकार परदेसांत वतात. मीन, पर्यटन, केसिनो, शिक्षण, सोरो, ड्रग्स, कोयर, सुणी, गोरवां, अपघात, बलात्कार, चोरयो, दरवडो... विकृत अर्थाची डिनॅशनलायझेनाची प्रक्रिया चालीक लागल्या. 'एका अर्विल्ल्या फ्रांसिस्कू लुईश गोमीशाची आज गरज आसा.' आमकां गोंयांत एक बरो वैज, लेखक, अर्थशास्त्रज्ञ, राजकारणी, शास्त्रज्ञ, इतिहासकार असल्या विविधांगी गूण वैशिश्ट्यांचो खडेगांठ मनीस जाय हें एका फ्रांसिस्कू लुईश गोमीशाचें नांव घेवन सांगप म्हणल्यार गुरुनाथबाबाच्या विचारांची केदी तांक!

आमच्या सगळ्यांचे मायेचें कोंकणींतलें बुदवंत भाशाशास्त्रज्ञ माधवी सरदेसाय हाच्या अकाली वचपाचें दुख्ख परंगटायतना आपल्या संवेदनांतल्यान ते हळवे जातात. पूण तितल्याच खंबीरपणान आदले

रातीकडेन ताच्या जिवाक शांती भोगची म्हण बिम्बाचे कार्यावळीक जमिल्ल्यांक उभे करून आमचे सयत आपल्या भरिल्ल्या दोळ्यांनी ताणी जिवाक थातारलां तें आमचें नदरेंतल्यान सुटूंक ना. एके कडेन ताणी आपल्या कुटूंबाचो थोडे भितर उल्लेख केला. तांची बायल कुमुदिनी एक शिक्षिका आशिल्ली. शांत सभावाची. चलयो संजीवनी आनी चित्रांगदा दोगी दोतोर. एकलो पूत समीर इंजिनियर. हुशार, बुदवंत. तीं आपापल्या संवसारांत. गुरुनाथबाबांक एकलेपण सतायना कित्याक तर ताणी आख्खो समाजूच आपलो संवसार मानलो. केन्ना तांकां खंतीन पिरंगल्ले हावें पळोवं ना. पूण आपलें मन ते पत्रांतल्यान उकतें करतना म्हणटात, घरकान्नीच्या जेवणाचो घोस्त वेगळोच. तांची ही निरशेवणी बरें जेवण मेळना म्हणून न्हय, तर कोणतरी मायेचो म्हज्यान आसचो अशें तांकां दिसता कित्याक तर तेच म्हणटात, 'घरचें जेवण करूंक कांय जिनस लागतात पूण एक आई, ताई वा घरकान्न लागताच लागता. हातूंत सगळें आयलें.

गोंय आनी गोंयकारपणाचेर उलयतना ताणी कसलोच मुद्दो सोडिल्लो ना. गोंय म्हणल्यार सदगुणांचें आगर म्हणटात ते. मुक्ती खातीर देखदिणो लढो दिलो तो गांधी मार्गान वचपी आशिल्लो. भावकेन कशे जियेवचें हें गोंयच्या हिंदू आनी क्रिस्तांव भावांनी देशाक दाखोवन दिलां ह्या उतरांतल्यान तांचो अभिमान दिसून येता. एक गजाल ते शिटकायतात, कोंकणी ही साहित्या पुरती दवरून चलचें ना. रस्त्यांचेर लायल्यात ते तख्ते बदलूंक जाय. सुस्वागतम, मोगाचो येवकार, देव बरें करूं अशें जावपाक जाय. 'गुड मॉर्नींग' चे सुवातेर 'बरें गोंय' म्हणपाक भुरग्यांक शिकोवचें ही तांची आमकां सुचोवणी. गोंयच्या कांय खाशेलपणांची ताणी लक्तुबायेन व्हडवीक गायल्या तातूंत सकाळची रुचीन खातात ती पातळ भाजी आनी पाव. बोरये पुला कडेन पावला पावलाक जायो घेवन उब्यो रावतात त्या बायलांक बसपाखातीर मांडणी करूंक जाय. तशेंच म्हाड्डोळच्यो जायो. गोंयचो




सैम एक नशा अशें ते म्हणटात. गोंयच्या भाडेलांचे प्रामाणिकतायेविशीं ताणी अप्रुपायेन सांगलां.

इतलीं बरीं वर्णनां करूनय सद्या गोयांत ज्यो अनिश्ठ गजाली चलल्यात तेविशीं ते खंत परगटायत ते बरयतात, 'भांगराळें गोंय काय कॅसिनोंचें गोंय काय मटक्याचें काय सोऱ्याचें, शिंदळकेचें गोंय. ही तांची अस्वस्थताय. 'गोयांत कितेंय चलता, लेडीज सिटांचेर दादले बसतात' ह्या एका वाक्यांत गोंयकारांचे बेशिस्तीचेर ताणी बडी मारल्या.

आपल्या पत्रांतल्यान कांय देखदिण्यो गजाली ताणी आमचे मुखार दवरल्यात. पुरुषार्थाक नमन! हें तांचें पत्र अतिशय सुंदर आसा. जळगांवचें गांधीतीर्थ ते म्हणटात वचून पळोवपाक जाय. कितलें सुंदर तरेन ताणी तें वर्णन केलां. मानवतेक अर्पण केल्लें गांधीतीर्थ म्हणलां ताणी. वाचतकच खरेंच थंय वचपाची उमळशीक लागली. तें नदरेन हांव म्हाका भाग्यवान समजतां कित्याक तर एक फावट भाऊ (पुरूषोत्तम काकोडकार) आनी एक फावट रवीन्द्रबाब केळेकार ह्या दोन म्हापुरुसांनी आमकां दिल्लींतलीं आनी मुंबयतलीं गांधींचीं संग्रहालयां, म्युजियम, लायब्ररी आनी इतिहासिक थळां भोंवडावन दाखयलीं. गांधी हो आमच्या देशांत घडिल्लो एक चमत्कार. अशे तरेचे चमत्कार सामके दुर्मिळ. आज गोंयाक एका तरनाट्या मोहनदास गांधीची गरज आसा अशें दिसना? एक दुर्मिळ पूण सकारात्मक प्रश्न. वाचून जिवाक थाकाय मेळटा. दिसता अशें केन्नातरी घडूं येता. गांधीवादी विचारसरणेंतल्यान वाडिल्ले गुरुनाथबाब त्याच संस्कारांतल्यान घडत गेले. आमकां गांधी मेळ्ळो ना पूण गांधींची शिकवण आमचे मेरेन पावोवपी अशे थोर मनीस आमकां मेळ्ळे!

आनी गोंयच्या विकासाचेर उलयतना आमकां भाजी-पालो फुलां ह्यासारक्यो गजाली आयात करच्यो पडटात अशें बरयतना गुरुनाथबाब एक प्रश्न करतात, 'आमी स्वयंभू केन्ना जातले?' कवी मनोहरराय सरदेसायांचे कवितेंतली उतरां वापरून म्हणटात, 'फायच्या

गोंयांत येद्दे नाल्ल आनी शेतांत तीन पिकां / फायचें गोंय म्हणटलें गा, तुमची भीक आमकां नाका...' कविचें हें सपन फळादीक जायत काय? हो हुस्को तांकां पडला. आमकां गोंयचो विकास जाल्लो जाय. कुळागर, माड, माडयांचो हो प्रदेश. पाचवेचार गोंय हें. ही भूंय पाचवीचार दवरूनच आमकां गोंयचो विकास जाल्लो जाय हें तांचे म्हणणे आनी ते खातीर ते बाकीबाबांच्या कवितेंतल्यो ह्यो समर्पक वळी दितात....

मार्क्साचो मज अर्थ हवा, फ्रायडाचा मज काम हवा
या असुरांपरी राबविण्या, गांधींचा मज राम हवा...

अरे व्वा! 'गोंयां तुज्या मोगाखातीर' हें पुस्तक म्हणल्यार विचारांचो खजिनो. तकली खरपुपाक लावपी, सकारात्मक विचारांतल्यान आनंद दिवपी आनी तरातरांच्या येवजण्यांचें खाद्य पुरोवपी.

फाटल्या पाऊणशीं वर्साच्या गोयांतल्या अर्थीक, समाजीक, भाशीक, राजकी, शिक्षणाची तशेंच बायलांच्या हक्कांची जागरूकताय अशा साबार मळांवयल्या घडामोडींचे गुरुनाथबाब गवाय. गोंय मुक्ती आंदोलन, ओपिनियन पोल, कोंकणीक साहित्य अकादेमीची मान्यताय, कोंकणी गोंयची राजभास जावंची, गोयांक घटक राज्याचो दर्जो मेळचो आनी कोंकणी संविधानाचे आठवे वळेरेंत वचची म्हण चलयिल्लें राजभास आंदोलन धरून हालींच जाल्ल्या मुळावें शिक्षण माध्यम धोरण चळवळीचे ते वांटेकार आनी साक्षी. पयलीं कृती आनी मागीर विचार. हेच विचारसरणेंतल्यान ताणी आमचे खातीर उकते केल्यात शंभर पत्रांत भोव मोलादीक कितलेशेच विचार.

आनी सोंपयतना हांव इतलेंच म्हणन, हें पुस्तक म्हणल्यार आमकां उजवाडा वटेन व्हरपी एक धगधगती मशाल!

# जाणटेपणांतलो पयलो चंवर

अणभव-समृद्ध जीण जो जियेता ताका जीण-सोंपत्यार पयलो चंवर आयल्यार तो कितलो फळादीक जावं येता तें ह्या पुस्तकाची 'वळख' दितल्या हेमाबायन सांगलां. हेमाबाय निव्वळ कथा कांदबरीकार न्हय. रवीन्द्रबाब जर रायटर आनी फायटर, जाल्यार हेमाबाय अन्याया आड झुजपी फायटर आनी रायटर.

बाकीबाबांनी बरोवन दवरलां : '*अजून सोंपूंक ना संगर आमचें...*' ह्या संगरांत आमकां फुडारपण दिवपाची कपशी हेमाबायंत आसाच आसा.

आमचें आदलें दिसाळें सुनापरान्त हाचे संपादक बाबली नायक हांच्या पालवाक लागून हीं पत्रां दर शेनवारा सुनापरान्ताच्या ऑफिसांत पावोवप म्हाका शक्य जालें. ताणी एक शेनवार चुकयलो ना. 101 व्या शेनवारा सुनापरान्त येवचो बंद जालो.

'गोंया तुज्या मोगाखातीर' हो मंत्र कवी मनोहरराय सरदेसाय हाणी गोंयकारांक दिला, तो हांगा घेतला.

ह्या पुस्तकाक आपली भेटवण म्हणून नामनेचे चित्रकार श्रीधर कामत बांबोळकार हाणी गोंयचें आयचें मानस दाखोवपी कवर-चित्र दिलां.

म्हजे कचेरेची पालवी रूपा प्रमोद क्षेत्री हिणे महात्मा गांधींच्या कोंकणी आत्मचरित्रा वरीच हें म्हज्या जिविताचें सार सुंदर रुपान सादर केलां. तशेंच बेळगांवच्या इंप्रेशन छापखान्याचे अतुल भातखंडे हाणी अपुर्बायेन हें छापलां.

'बरें जावं' हें म्हजें तांचेपासत मागणें.

वाचप्यांनी हीं पत्रां 7/9/2013 ते 25/7/2015 मेरेन सुनापरान्त दिसाळ्यांत दर शेनवारा उजवाडा आयिल्लीं हें मतींत बाळगुचें.

पुस्तकाच्या आनी प्रकाशनाच्या खर्चाचो भार म्हज्या तिगांय - संजू, समीर, चित्रा (सन्मीत्रा) - हाणी पत्करला. तांकां हातूंत कर्तव्यपुर्तीचो पुराय आनंद मेळ्ळा.

**मडगांव,** 16 नोव्हेंबर 2017. **गुरुनाथ केळेकार**

# अनुक्रम

*'गोंयांत अशें आसा कितें*
*खरेंच म्हाका सांगूंक येना*
*तुमी कोणूय सांगात तरी*
*अजून म्हाका नाट मेळना!'*

**बाकीबाब बोरकार**



# पुरुषार्थाक नमन!

बराबर दनपारच्या साडे बारांक गोवा ॲक्सप्रॅस जळगांव स्टेशनार थांबली. आमकां दोगांक, म्हळ्यार मोहनदास सुर्लकार आनी म्हाका, येवकार दिवंक गांधी तीर्थाचे वावुरपी नीलेश पाटील धव्याफुल्ल लेंग्यांत आनी सदऱ्यांत आयिल्ले. ते आमकां वळखले आनी आमी तांकां.

स्टेशना भायर मोटार रावताली. तांतल्यान आमी आठ-धा किलोमिटरांचेर आशिल्ल्या जैन हिल्स हांगा गांधी तीर्थार पावले. नीलेशान पयलीं आमकां आमचे पासत दवरलेल्या रुमार व्हेले. रुमांत एसी, टिव्ही, हिटर आनी फोन आदी वस्तू खंयच्याय एका बऱ्याश्या हॉटेलांत आसतात तश्यो आशिल्ल्यो. आमी वॉश रुमाचें दर्शन घेतलें आनी नीलेशा वांगडा नीट कॅण्टिनांत गेले. कॅण्टीन निवळसाणीन आनी उजवाडान चकचकतालें. दोनशीं जाण बसतीत अशें पन्नाशेक मेजांचें कॅण्टीन आशिल्लें. एका लांब मेजार लायनीन जिनस दवरलेले. भाजयांचो सूप, खिचडी, दोन भाजयो, विरविरीत चपात्यो आनी लोणचें बी. उप्रांत जळगांवचें हळडुवें केळें. सगळें शिवराक. मेजार एक तकटो आशिल्लो - 'तेल कम, मिर्च कम.'

जेवणा उप्रांत परत आमकां रुमार पावोवन 'सांजच्या चार वरांचेर तयार

रावात' अशें सांगून नीलेश गेलो. आमची गांधी-तीर्थ यात्रा सुरू जाल्ली.

आदल्या दिसा 4 ऑगस्ट सांजे चार वरांचेर आमी मडगांवां रेल्वे स्टेशनाचेर गोवा ॲक्सप्रॅस धरिल्ली. स्वातंत्र्य सैनिक रेल्वे पासाचेर आमकां सेकंड क्लास ए. सी. डब्यांत जनेला कडेन बेस बरे सीट मेळिल्ले. वीस वरां उप्रांत दुसऱ्या दिसा बारा वरांचेर आमी जळगांव पावले. हांगाच्यान दिल्लीक पावंक आनीक वीस वरां लागतात.

तशी आमी सेवाग्राम, साबरमती, दिल्ली बी जाग्यांनी गांधीजींची सासाय अणभविल्ली. आतां जळगांवांत एका कारखानदारान देशांतलें सगळ्यांत भव्य-दिव्य अशें गांधी तीर्थ बांदलां तें पळोवंक आमी जळगांवां पाविल्ले.

आठ धा म्हयन्यां पयलीं इश्ट कालिदास मराठे हाणी 'खोज गांधीजीकी' चो एक अंक म्हज्या हातांत दिल्लो. आनी तुमकां हो उपकारा पडटलो अशें म्हणिल्लें. तो वाचतकच जळगांवां गांधीजींचे यादीक एक गांधी महाल उबो जाला जो सगळ्यांक थंय आपयता म्हूण वाचूंक मेळिल्लें आनी हो महाल पळोवपाक वचपाची उमळशीक लागिल्ली.

गांधीजींचे आवय भाशेनूच आपल्या पुताचेर धर्म-संस्कार करपी आवयचे सांगणेक धरून सरकारी अधिकारी जावचो सोडून एक आय. ए. एस. तरूण सेवाधर्मी वेपार करूंक कसो भायर सरलो आनी खंयचे खंय पावलो. खंयचे वटेन गेलो ताचो जळगांवचें गांधी-तीर्थ हो आलेख.

आपणा कडेन आशिल्ले सात हजार रुपये पुताच्या हातांत दिवन ते जैन साध्वीन ताका सांगलें, 'तुजो धर्म सरकारी चाकरी करपाचो न्हय, तुजो धर्म वेपार करपाचो. असो वेपार कर, जाका लागून जण एकल्याच्या घरांत उदक पावूं दी, दिवो पेटूं दी.'

आनी जळगांवच्या श्री. भंवरलाल जैन हांणी केरोसिनाचो वेपार सुरू करून आपलो धर्म चालीक लायलो. जळगांवांत रातीचो दिवो पेटना अशें घर दवरचो ना अशी थारावणी घेवन गांवांतलें घर आनी घर नियाळ्ळें आनी दिवे नात थंय पेत्रोल पावत अशी तजवीज केली. परिणामी, एक आगळो

सतशील वेपारी म्हण तांचें नांव जालें. आनी जम बसूंक कळाव लागलो ना. ताणें रांदपाच्या गॅसाची एजन्सी घेतली आनी घराघरांत गॅसाच्यो चुली पेट्टल्यो हाचेर नदर दवरली.

आतां उप्रांत वेपार वाडयतलों तो विधायक नदर दवरुनूच अशें थारावन भंवरलाल जैन नांवाच्या ह्या आय. ए.एस. जाल्ल्या वेपाऱ्यान ह्या मुखार 'उदक' ही मुळावी गरज जातली हें मतींत घेवन प्लास्टीक पायपांची निर्मिती करूंक सुरवात केली. पायप फकत उदक पावोवंक न्हय, तर वांज भूंय पिकावळ दिवपी कशी जावं येता हें दाखोवंक भंवरलालान पयलीं भोंवतणची पडिंग जमीन घेतली आनी वावराक हात घालो. उदक सगळे कडेन पावपाक 'ठिबक सिंचन' चड गरजेचें, ठिबक सिंचना खातीर पायप तयार करूंक लागलो. उण्यांत उण्या खर्चान पावसाचें उदक कशें साठावंक जायत हाचे प्रयोग सुरू केले. हाका लागून जैन पायपांची विक्री वाडत गेली आनी देशभर 'जैन इरिगेशन पायप' नांवाजते जाले.

गांधी, नेहरू आनी टाटा हांचेर भावार्थ दवरपी ह्या आयच्या 75 वर्सांच्या, बाय पास करून घेतिल्ल्या आनी आंगांत पेस-मेकर घेवन भोंवतल्या भंवरलाल जैन ह्या कारखानदारान उप्रांत देड हजार एकर जमीन घेतली आनी आपल्या पायपांच्या आधारान पावसाचें उदक जमनींत सांठायलें, तशें सगळ्याक शिंपलें!

हाचें फळ?

जैन हिल्स म्हण नांवाजती जमीन आज पाचवीचार जाल्या, हजारांनी आंब्यांची, पोपायांची, पेरांची पिकावळ दिवपी झाडांनी भरल्या. हांगा आठ धा कारखाने णव हजार कामगारांक घेवन उत्पादन दितात. हांगा आंब्यांचो रोस, कांद्याचें पीठ, प्लास्टिकाचीं पायपां तशेच तरेकवार बोर्ड, सौर उर्जा हांचे कारखाने शिफ्टांचेर चलतात. सगळो माल देशांत तसो परदेशांत वता. हांगा फळांचेर, फळझाडांचेर मोट्या प्रमाणांत संशोधन चलता आनी देशभराचे शेतकार हांगाचें विस्मीत पळोवंक पंगडापंगडांनी येतात.

हें सगळें जें कितें चल्लां तें आमच्या सारक्या थंय पाविल्ल्यांक 'परिश्रम' नांवाचे भव्य वाटकुळे एसी इमारतींत मांडिल्ल्या प्रदर्शनांत एक गायड दाखयता, आनी आमी खंय पावल्यात आनी मुखार आमकां प्रत्यक्षांत कितें कितें पळोवंक मेळटलें हाची सुलूस आमकां लागता. हें सगळें कुलकर्णी नांवाच्या गायडान आमकां इतले बरे भाशेन सांगलें की हांगा काम करता तो नोकर न्हय, तर धनीच अशें दिसलें.

सांज जाल्ली. मोटार आयली आनी आमकां दोंगुल्ले वयल्या आमच्या रुमांत पावोवन गेली.

दुसऱ्या दिसा 6 वेर, मंगळारा, साडेणवांक मनीस आयलो आनी ताच्या सांगाता आमी गांधी-तीर्थाच्या ऑफिसांत पावले. हांगा गांधी-तीर्थाचे वेवस्थापक उदय महाजन हाणी आमकां येवकार दिलो. दिसूंक शांत, हळू उलोवपी उदय महाजन हाणी गांधी-तीर्थ कशें उबें जालें तें सांगलें.

कारखनादार टाटा हांकां चित्तांत दवरून उबें केल्ल्या साम्राज्याच्या प्रणेत्यांक आतां गांधी-तीर्थ स्थापन करपाची ताकतीक लागली. गांधी-तीर्थाच्या जल्मा संबंदान 'खोज गांधीजीकी' यादस्तिकेंत अशें वाचूंक मेळ्ळें:

'खंयचीय संस्था चलोवंक तिका आपले अशे वास्तूची गरज पडटा. जें येवजिलां तें रुपकाराक हाडूंक ज्या तथ्यांची गरज भासता तीं लक्षांत दवरून वास्तू बांदची पडटा. थारायल्ले सुवातेर भंवरलाल जैन हाणी 30 जून 2010 दिसा वैदीक मंत्रांच्या उच्चारणांत गांधी-तीर्थ बांदपाक शुभारंभ केलो. तीर्थान 80 हजार चवखणे फूट जमीन व्यापल्या. हांगा अध्यापन, पुस्तकालय, वाचनालय, संग्रहालय, आर्कायव्ह, सभाघर आदी आसपावलां. हें गांधी-तीर्थ उबारूंक वीस कोटी रुपया लागले. ह्या वाठारांतलें एकूय झाड कापूंक ना. अर्विल्लें तंत्र वापरून झाडां मुळा सकट काडून दुसरे कडेन रोयल्यांत. जोधपुरी फातर वापरून राजस्थानी कारागिरांनी गांधी तीर्थ बांदलां. पारंपारीक उर्जा स्रोत वापरल्यात. तीनशीं परस चड वर्सां हें भवन सुगूर उरचें हें लक्षांत घेवन तें बांदलां. 8-5 रिक्टर स्केल भुंयकांप जाल्यार लेगीत तें कोंसळचें ना.

हें तीर्थ बांदूंक एक वर्स चार म्हयने अठरा दीस लागले.

गांधी-तीर्थांत 'खोज गांधीजी की' ह्या नांवाचो एक ऑडियो व्हिडियो म्युझियम आसा. हाका कितलेशेच विभाग आसात. गांधीजींचें भुरगेपण, ताणी केल्ल्यो चुको, लंडनाक शिक्षण, दक्षीण आफ्रिका आनी उप्रांत देशांत घडिल्ले प्रसंग म्युझियमांत जिवे तट्टीत जाल्यात.

शेवटाक तरेकवार चरख्यांचें एक प्रदर्शन पळोवंक मेळटा. खादी भांडारूय आसा. आनी गांधी साहित्यूय आसा.

सकाळीं साडेणवांक हो म्युझियम उक्तो जाता तो स मेरेन उक्तो उरता. एक गायड आठ जाणांक घेवन सगळे विभाग दाखयता. दुसऱ्या मजल्यार हें संग्रहालय सुरू जाता, वयर वचूंक लिफ्ट आसा. दुसऱ्या मजल्या वयल्यान तळ मजल्यार पावसर दोन वरां लागतात. एकूय सोंपण देंवचें पडना अशी सगळी देंवती केल्या. सकयल केन्ना पावता तें कळचना.

दुसऱ्या दिसा 6 वेर अनीलेश जगदाळेन आमकां म्युझियम दाखयलो. त्या दिसा सांजे आमकां सुबोध सराफ हाणें कारखाने आनी संशोधन केंद्रां दाखोवंक मोटारीन व्हेले. हें सगळें वैभव पळोवन आमी तटास जाले. केदो पुरुषार्थ!

तिसऱ्या दिसा 7 वेर सकाळीं 8000 पुस्तकांचें गांधी ग्रंथ संग्रहालय आमी पळयलें. तीनेक वरां आमी हीं हजारांनीं पुस्तकां पळयत सारलीं. गांधीजीन बरयल्लीं आनी गांधीजींचेर बरयल्लीं वेगळ्या वेगळ्या भासांतलीं हीं हजारांनीं पुस्तकां पळोवन हांगा कोंकणी पुस्तकां आसात काय म्हण लायब्रेरियन चंद्रशेखर वाघाक आमी विचारलें. ताणें गोमंतभारतीन उजवाडायिल्लीं चार पुस्तकां दाखोवंक हाडलीं. 1956 त उजवाडा हाडिल्लीं हीं पुस्तकां पर्थून डिजिटल पद्दतीन छापल्यांत. आमी गांधीजींची कोंकणी आत्मकथा तांकां अर्पण केली. हालींच उजवाडा हाडिल्लें 'अशे आशिल्ले गांधीजी - 5 वांटे' आनी नारायण महादेव देसाई हांचें 'परमसूख - गांधीजींच्या सांगाता भुरगेपण' हींय पुस्तकां लायब्ररीक दिलीं.

त्या दिसा सांजे 'खोज गांधीजीकी' ह्या नेमाळ्याचे संपादक डॉ. योगेंद्र

यादव हांणी आमची भेट भंवरलाल जैन हांचे ज्येश्ठ सुपुत्र अशोक जैन हांचे कडेन घडोवन हाडली. भंवरलाल जैन दिल्लीक गेल्ल्यान आमी तांकां मेळूंक पावलेनात. अशोक जैन हांकां आमी पणजेच्या आजाद मैदाना वयल्या गगनाक गवसणी घालपी यादस्तिकाची प्रतिमा आमची भेट म्हण दिली. वांगडाच 'मार्गा'चें सगळें साहित्यूय दिलें. आपले फॅक्टरींत तयार जाल्लो आंब्याचो रोस पियेवंक दिवन ताणी आमचें स्वागत केलें.

जळगांव जैन हिल्साक गांधीप्रेमीच भेट दितात अशें न्हय. जैन कारखान्यांत जें उत्पादन जाता ताची एजन्सी घेवंक एजंटांची रांग लागता इतले तांचे जिनस लोकप्रिय आसात.

गांधी म्युझियम सुरू जावन तर 18 म्हयने जाल्यात. म्युझियम पळोवंक येवपी लोक वाडत वतलो हातूंत दुबाव ना. कारण अशें गांधीजींचें भव्य दिव्य स्मारक दुसरे कडेन ना.

पूण तें स्थापन करतल्यांक गांधी विचारांचो प्रचार तसो प्रसारूय जाल्लो जाय. हे पासत गांधी तीर्थान 'गांधी संस्कार परिक्षा' विद्यार्थ्यां खातीर सुरू केल्यात. पाचवे सावन बारावी मेरेनच्या भुरग्यांनी हे परिक्षेक बसूं येता. तांकां सर्टिफिकेटी दिवपाचीय तजवीज केल्या.

मानवतेक अर्पण केल्ल्या ह्या गांधी-तीर्थाचें उद्‌घाटन भारताच्यो तेन्नाच्यो राष्ट्रपती प्रतिभाताई पाटील हांणी 25 मार्च 2012 वेर केलें. न्यायमुर्ती चंद्रशेखर धर्माधिकारी गांधी रिसर्च फावंडेशनाचे अध्यक्ष आसात. ह्या वेळार भंवरलाल जैन हांची तोखणाय करतना प्रतिभाताई पाटील हांणी म्हणलें, 'भावू, आयचे उप्रांत तुमकां तुमचे कारखानदारीक लागून लोक वळखुचेनात, गांधी-तीर्थाक लागून वळखतले!'

आमची जळगांवची 4 तारखेक सुरू जाल्ली भोंवडी 8 तारखेक जळगांव सोडटना सोंपली. 9 तारखेक आमी फांतोडेर मडगांव स्टेशनार देंवले.

आपल्या इश्टांक घेवन आपूण पर्थून गांधी-तीर्थाक भेट दिवंक जळगांव वतलों अशें मोहनदासबाब म्हणटा.





# विद्यार्थ्यांक नागरीक करप ही शिक्षकांची जबाबदारी.

मुंबय फोर्टांत खादी भांडाराचे मात्शें फुडें पासयेचेर पोरणीं तशीं दुर्मीळ पुस्तकां विकतल्यांचे मांड तुमकां आपयतात. हजारांनी पुस्तकां हांगा आपल्याक कोणूय पुस्तक-मोगी आपल्या हातांनी उखलतीत काय म्हण रावतात. कांय पुस्तक-मोगी तर वरांचीं वरां थंय पुस्तकां चाळीत उबे आसतात. पसरकार ती आडखळ कशी मानिनात. कारण ते पुस्तक-मोग्यांक वळखतात. आनी हे वाचपी आपल्याक जाय तसलें पुस्तक वा पुस्तकां गावलीं की ताचें मोल फारीक करून तीं आपल्या बॅगांत घालून घरची वाट धरतात.

पसतीशेक वर्सां पयलीं एक दीस हांव थंय पाविल्लों तेन्ना थंयच्या एका पुस्तकान म्हजें लक्ष ओडून घेतिल्लें ताची म्हाका याद जाता. वीस रुपयांक तें हांवें घेतिल्लें. म्हज्या ग्रंथसंग्रहालयांत आज लेगीत हें पुस्तक म्हत्वाची सुवात मेळोवन बसलां. परपरत हांव तें काडटां, चाळटां आनी दवरतां. ह्या पुस्तकान म्हाका एक नवी नदर दिली म्हळ्यार जाता.

ह्या पुस्तकाचें नांव 'ध अमेरिकन सिटिझनस् हॅण्डबूक'. म्हजे कडेन आसा ती ह्या पुस्तकाची दुसरी आवृत्ती 1942 वर्सा उजवाडा आयिल्ली. पयली आवृत्ती 1941 तली. उप्रांत ह्या पुस्तकाच्यो आवृत्त्यो येत आसात.

अमेरिकेंत बायबल, डिक्शनरी फाटोफाट हें पुस्तक घराब्यांनी पळोवंक मेळटा.

ह्या पुस्तकांत अमेरिका कशी जाली, थंय लोकशाही कशी उदेली आनी थीर जाली, नागरीक कशे अमेरिकेच्या जिवितांत समरस जावन वांटो घेतात तें आमकां वाचूंक मेळटा. ह्या पुस्तकांत अमेरिकेचे म्हान पुरूस, तांचे फोटे, तांचे लेख, अमेरिकनांक स्फूर्त दिवपी स्मारकांचे फोटो, अमर जाल्लीं अमेरिकन कविता / गितां, कितें ना अशें ना.

ह्या पुस्तकांतल्या दोन लेखांविशीं बरोवचेंशें दिसता. एक लेख 'तुमी नागरीक कशे जाले ?' आनी दुसरो 'आमचीं विद्यालयां'. अमेरिकेचे जाणटे तशे नेणटे 'नागरीक' कशे जाले हें आमकां ह्या लेखांनी वाचूंक मेळटा. ते सांगतात, विद्यार्थ्यांक नागरीक करूंक आमी पब्लीक स्कुलांचो आलाशिरो घेतलो. तांकां आमी देश म्हळ्यार कितें, नागरीक म्हळ्यार कितें, देशासवें आमची नागरीक ह्या नात्यान लागणूक कितें, देश नागरिकांक कसलो अधिकार दिता, स्वातंत्र्य म्हळ्यार कितें, लोकशाही म्हणचे कितें हें शिकयलें. सांजेच्या वेळा शाळेचीं दारां जाणट्यां खातीर उगतीं जातालीं. दिसाचीं कामां आटापून हे जाणटेले येताले आनी नागरिकत्वाचें म्हत्व लक्षांत घेवन परतताले.

ते म्हणटात, "आमी नागरीक जाल्ल्यान अमेरिका व्हड जावंक पावली. अमेरिका हें संवसारांतलें बळिश्ट राष्ट्र जालें; चड गिरेस्त राष्ट्र जालें. अमेरिकेक आयज संवसारांतली महासत्ता मानतात!"

आनी अमेरिका हाच्या नाड्यार संवसारांत दादागिरी गाजयता !

आज आमच्या देशाची अर्थीक तशी मानसिक परिस्थिती घसरल्या. आमी अमेरिके भाशेन महासत्ता जावचे वाटेर आसात, अशें आमी कांय वर्सां आदीं मानताले आनी म्हणटाले. आज तसलें एक उतर आमी काडिनात.

खरें म्हळ्यार, अशें सपन गांधी नेहरूंच्या भारतान बाळगूंक फावना हें आमच्या जायत्या फुडाऱ्यांक तेन्ना कळनाशिल्लें. गोंयकारांक वर्सा दोन वर्सां पयलीं पयशांचो कैफ चडिल्लो, तेच भाशेन देशाकूय तेन्ना चडिल्लो वा देशांतल्या कैफाचो वसो आमी घेतिल्लो म्हळ्यार जाता.

गांधी नेहरूंनी देशाक महासत्ता करपाचें केन्नाच चिंतलें ना. हाचो अर्थ आमचो देश अर्थीक नदरेन दुबळो उरचो अशें तांकां दिसतालें अशें न्हय. म्हाका याद जाता, नेहरूंच्या काळांत भारतान एका मागाशिल्ल्या देशाक मजत केल्ली तेन्ना त्या देशान हे मजती खातीर भारताचे चड उपकार मानिल्ले. प्रधानमंत्री नेहरू हाणी हाका आक्षेप घेतलो. 'हे उपकार न्हय, हें सहकार्य (कॉओपरेशन)' अशें ताणी म्हणिल्लें. हाचे वयल्यान भारत अमेरिके सारकी दादागिरी चलोवपी महासत्ता जावची अशें त्या वेळच्या आमच्या फुडाऱ्यांक केन्नाच दिसलें ना अशें म्हणूं येता.

दुर्दैव म्हळ्यार महासत्ता खंयची, आमी नागरिकूच जाले नात. आमचें गणीत खंय चुकलें हें म्हाका तरी उमजना. पंडित नेहरू तर एक महा शिक्षक. सगळें आयुष्य जनतेक शिकोवपांत ताणी सारलें. 'भारतमाता की जय' म्हळ्यार कितें हाचेपासून ह्या शिक्षणाची सुरवात जाल्ली. पूण म्हाका दिसता, तांचें मुखेल लक्ष देशांतली गरिबी उणी करपा कडेन लागिल्लें. गरिबी नश्ट जाले खेरीज दुसरें कांय धरचें ना अशें तांकां दिसतालें जावंक जाय.

हाचो परिणाम म्हळ्यार देशांतली कारखानदारी वाडिल्ल्यान लोकांच्या हातांत पयसो घोळूंक लागलो. पूण लोकशाही योग्य रितीन आमी केळयली ना. म्हणचेच आमी नागरीक जालेच ना. आमची लोकशाय 'लाद्रूच्या गोठ्यांत पेद्रूची गाय' इतल्याचेरूच उरली.

आयच्यो आमच्यो सरकारी शाळा कितें सांगतात ? त्यो विद्यार्थ्यां खातीर न्हय तर शिक्षकांच्या अर्थार्जना खातीर चलतात अशें म्हळ्यार अतिताय जायत व्हय ?

अशी परिस्थिती पुर्तुगेजा काळार नाशिल्ली. त्या काळा दर गांवांत एक सरकारी मुळावी शाळा चलताली, जिची इमारत डौलान मिरयताली. सांगचें लागनाशिल्लें, इमारत दिसनाफुडें हें इश्कोल प्रिमारिय (प्राथमीक शाळा) म्हण कळटालें. वारो आनी उजवाडा खातीर जनेलांच जनेलां आनी ऊंच रुंद दारां. शिकोवंक 'प्रोफेसोर' येताले ते टाय बांदून. कांय हिंदू प्रोफेसोर पुडवें

न्हेसून आनी तोपी घालून येताले. तांच्या गळ्यांत टाय आनी पांयांत बूट आसताले. विद्यार्थ्यांकूच न्हय तर गांवांतल्या जाणट्यांकूय ह्या प्रोफेसोरांविशीं आदर दिसतालो. गांवांत प्रोफेसोराक एक आब, प्रतिष्ठा तशें व्यक्तित्व आसतालें तें 'मुळावें' शिक्षण दिताले हें विसरूंक फावना.

त्या काळा कांय मराठी शिक्षकांनीय नांव जोडिल्लें. मडगांवां दळवी, रावूत मास्तर बी थोर शिक्षक आसात हें आमकां पिर्वोळा आयकूंक येतालें. आमच्या गांवांत कार्लेकरांनी आनी दुसरे कडेन सामंतांनी नांव जोडिल्लें. काणकोणानूय अशे कांय गुरुजी दिल्ले जे उप्रांत स्वातंत्र्य लढ्यांत पडून थोर स्वातंत्र्य सेनानी जाले.

आयच्या मास्तरांक वा बाईंक हांव ल्हान लेखिना. हातूंत कांय हाडाचे शिक्षक आसात तांकां हांव नमन करतां. तांकां 'मास्तर' म्हणप वा 'बाई' म्हणप म्हाका आवडना. नांवांत कांय ना न्हय. नांवांतूय कितें पूण आसा.

म्हाका सांगूंक जाय म्हळ्यार ह्या आमच्या शिक्षकांनी आतां तरी आमच्या विद्यार्थ्यांक नागरीक करपाची जापसालदारकी घेवची. आमचे विद्यार्थी नागरीक जाले नात जाल्यार ताचें दुशण बऱ्याच प्रमाणांत मास्तरांक लावचें पडटलें.

हें बदलूंक जाय. देशांत तशें गोंयांतूय बदलूंक जाय. गोंयांत बदलप सोंपें. गोंय येदेंशें. हांगाचे लोक सुसंस्कृत तशे सुशिक्षीत. हांगा भावकी तशी घर-संस्कृती वसता. हांगा पयसोय घोळटा.

आमच्यांत उणें आसा तें म्हळ्यार 'व्हीजन'. उणी आसा ती आव्हानांक तोंड दिवपाची तयारी. आमकां सुखवस्तू जिविताची संवय जाल्या. गोंयकारांक आतां भायले लोक 'तुमी बांगडेखावू' अशे संबोधूंक लागल्यात. दनपारचे न्हिदे बगर तर आमचें कशेंच चलना.

आयज गार्फ लायल्यार कांय वर्सांनी आंबे मेळटले. आयचो विद्यार्थी फाल्यां नागरीक जातलो हे नदरेन आमी प्रयत्न करुंया. केदोय व्हड संवसारीक प्रस्न सोडोवपाचो होच एक मार्ग.






# गोरवांक मळां जाय; तो तांचो अधिकार !

गोंयांत हायवेंचेर गोरवांची आनी शारांतल्या मार्गांचेर सुण्यांची संख्या दिशीं दिशीं चड आनी चड वाडत आसा. हें आयच्या सरकाराचे कसले वृत्तीचें लक्षण तें समजना. जाका कर्तुत्वी मानतात तो मुखेल मंत्री शिंवासनार बसल्यार देड वर्स जावन गेलां, तरी तो ह्या गंभीर प्रस्नाक हात कसो लायना हो प्रस्न म्हाका सुटना.

तशें पळोवंक गेल्यार मार्गा वयलीं गोरवां आनी सुणीं हांकां मारिनासतना वा पिडिनासतना उणीं करपाक शास्त्रशुद्ध उपाय आसात. सरकार ते जाणा, पूण लोकाक समजावन सांगिना. दुसरे वटेन प्राणीमात्राक राखण दिवपी मेनका गांधी बरोवन आनी उलोवन शिकयत आसतात, पूण आमी तें वाचिनात वा आयकनात.

खासा मडगांवांतले आमचे इश्ट बाब सुरेश काकोडकार हाणी गाजघडघड करिनासतना कितलींशींच वर्सां हें मिशन आपणायलां आनी तें जैतिवंत करून दाखयलांय बी. कुडचडेंचें आपलें व्हडलें घर आनी भोंवतणची सुवात ते सुण्यां-मांजरांचें वा मोनजातींचे हॉस्पिटल कशें चलयतात. हाका लागून कुडचडें आनी सांगें वाठार सुण्यां पासून बरोच मेकळो जाला.

सुसंस्कृत समाजांत सुणें मार्गार दिसूंक फावना. सुणें हो फकत पोसपाचो प्राणी. आदीं सुणें सांबळटल्यांक नगरपालिकेक पटी दिवची पडटाली. पोशिल्ल्या सुण्याक उप्रांत नंबराचें तगड मेळटालें. धनी ताच्या गळ्याक हें तगड आशिल्लो पट्टो बांदतालो.

पोशिल्ल्या सुण्याक ताच्या धनयान मार्गार भोंवडावंक जाता. पूण तें मुतचें हागचें ना हाची जतनाय घेवंक जाय.

हे पासत जायतीं तंत्रां आयल्यांत. गोंयकार जगभर भोंवतात आनी ही संस्कृती पळयतात पूण ती आपल्या शारांत वा गांवांत आपणायनात.

हांव मडगांवां एके एक मजली इमारतींत रावतां. ते इमारती मुखार मार्गा पेल्यान मातशे कुशीक पुर्तुगेजा काळा सावन एक मुळावी शाळा चलत आयल्या. हे शाळेंत तुर्ताक विद्यार्थी येतात तांचे परस चड सुणीं शाळे भोंवतणी आपणाली 'नवी शाळा' चलयतात. ह्या सुण्यांच्या अन्नपाण्याची व्यवस्था नगरपालिकेन शाळे मुखार गार्बेज-बिनां दवरून केल्या. हाका लागून भोंवतणी कोयर-घाण कशी करची तें भुरगीं आपसूक पळोवन शिकतात.

आमच्या मडगांवांत कांय सुण्यां-मोगी आसात. ते रातीच्या काळखांत नुस्त्याच्यो शेश्ट्यो, मांसा-कुडके घेवन स्कुटरीन येतात आनी गुपचूप ह्या रस्ताद सुण्यांक घालून आपलो मोग दाखयतात. गोंयांत, म्हज्या अदमासा प्रमाण पंदरा वीस हजारां परस चड रस्ताद सुणीं आसतलीं. परिणामी सुणीं चाबिल्ले शेंकड्यांनी लोक आकांतान हेल्थांत वा हॉस्पिटलांनी धांवतात.

सुण्यांचें तशें जाल्यार गोरवाचें अशें! गोंयांक गोमन्तक अशेंय नांव आसा. गोमन्तक म्हळ्यार जंय उपाट गोरवां आसात तो धाकटुलो प्रदेश. पुर्विल्ल्या काळा गोरवां वयल्यान एकादऱ्याची गिरेस्तकाय तर्जिताले. हुण्डो म्हण गोरवां दिताले खंय! आयज चड सुदारिल्ल्या गोंयांत गोरवां हो मनशांनी 'प्रस्न' केला. आमकां गोरवां हो 'प्रोब्लेम' जाला. मार्गांचेर गोरवां बशिल्लीं आसतात वा अचकीत येतात. रातीच्या काळखांत तर घातूच जाता. आमच्या गाडयांक ताका लागून आक्सिदेंत जातात आनी मरणांय घडटात. अशा ह्या गोरवांक

खंय तरी व्हरून सोडात अशें मोटारकार मागतात. आनी सरकार गोरवांक मार्गा वयल्यान उबारप आनी फुडले प्रक्रिये पासत कोणा तरी सुवादीन करप हें धोरण चालीक लावंक सोदता.

हें करचे पयलीं सरकार गोरवांक विचारता व्हय? गोरवांक उलोवंक येना म्हण तांकां मोनजात म्हणटात. पूण गोरवां दोळ्यांनी उलयतात. समजता ताका उमजता. गोरवां सांगतात: 'आमचीं चरवाचीं मळां तुमी तुमच्या बिल्डिंगां खातीर, बंगल्यां खातीर हडप केलीं. तुमी आमचो विचारूच केलो ना. तुमी आमकां मार्गार घालीं. मार्गा कुशींतलें प्लास्टीक खावंक सोडलीं. प्लास्टीक खावन आमचें पोट जड जाता देखून मार्गाचेरूच आमी फतकल मारतात. आमचें खंय चुकता तें सांगात. हाका जाप तुमचे कडेन आसा? तुमकां 'गोविंदा' जाय तो गोरवांक लागून न्हय. तुमकां गोविंदा जाय तो धंयां-दुदाक लागून न्हय, इकरा, बावीस, तेत्तीस, चवेचाळीस हजारांचीं इनामां मेळटात ताका लागून...'

गोरवांची ही भास आमकां कोणाक कळटा व्हय?

दुदा तुपा संबंदान विचार करतना म्हाका बेळगांव दिसता. बेळगांवां कडोलकर गल्ली नांवाचो एक ल्हान रस्तो आसा. ह्या मार्गार कांय छापखाने आसात. पयलीं बेळगांवां गवळी छापखाने घालताले अशें हांवें आयकलां.

ह्याच मार्गार कांय लोणयांचीं दुकानां आसात. धवें फुल्ल लोणी थंय एके थाळयेंत घाल्लें आसता आनी हारशांच्या ल्हानश्या धुल्ल वचना तसल्या आरमारींत दवरलेलें आसता. लागींच तागडी. जाय तितलें ताजें लोणी घेवचें. ह्याच मार्गार घरावें तूप डब्यांनी भरपाचे कारखाने आसात. मार्गार भायर घराव्या तुपाचो घमघम! पावल थंयच थांबता. फुडें वचना! गोंयांत मार्गा वयल्यान वतना एकेकदां भाजिल्ल्या खाऱ्याचो वास तुमची चाल मंदायता ते भाशेन!

हे मुळावे गिरेस्तकायेक लागून बेळगांव म्हजें देशांतलें सगळ्यांत चड मोगाचें शार जालां. हांगा गांव आनी शार हांचो गोड सुमेळ जाणवता.

ह्या पत्रा वरवीं म्हजी सरकाराक सुचवण. गोंयचेर गोरवांचोय अधिकार आसा असो एक अधिकृत फतवो काडचो. खेळगड्यांक जर गांवांत मैदान जाय (आनी तें तांकां मेळचें) जाल्यार गोरवांकूय तांच्या अधिकाराचें गांवा भायर चरपा खातीर मळ जाय. गोंयांत गोरवां फकत मारपा खातीर उपकारयतात असो समज पातळावंक दिवंक फावना.

हें जर जमना जाल्यार गोंयचें गोमन्तक हें नांव बदलून 'सोमन्तक' (सोरो + मन्त + क) अशें दवरचें. कारण दुदा बदला पावला पावलाक सोऱ्याची हांगा व्यवस्था आसा.






# 'रामनगरी' गोंयांत प्लेग हाडटली ! सावधान !

1994 वर्सा गुजरात राज्यांतल्या सुरत शारांत प्लेगाची धाम पातळ्ळी. सुरतेक देशांतली 'डायमण्ड् सिटी' म्हण पाचारतात. सांगपाची गरज ना, सुरतेन देशांतलें एक गिरेस्त शार म्हण नांव जोडलां.

आनी देखुनूच जावये, सुरत देशांतलें एक हळशिकेन भरिल्लें शार जालें. परिणामी, प्लेगाचे धामीक थंयच्या लोकानूच आपोवन हाडली म्हणूं येता. आता प्लेग आयलो, हुंदीर मरून पडिल्ले दिसूंक लागले आनी उप्रांत मनीस पडूंक लागले. म्हणटकूच सुरत शार जागें जालें. जागें जालें म्हळ्यार गरीब मेल्यार चलतात, पूण श्रीमंत मेल्यार ? धाम खंय पळोवंक आयल्या कोण गरीब, कोण श्रीमंत ?

श्रीमंतांक जेन्ना हें आंगलट येता म्हण दिसलें तेन्ना ताणी आपले शोरूम बंद केले, कारखाने बंद केले आनी ते शारा भायर पळूंक लागले.

एकेकदां गोंयचेर अशी परिस्थिती आयल्यार गोंयकार कितें करतले, ताचो देखाव म्हज्या दोळ्यां मुखार उबो रावता. म्हळ्यार, गोंयकार आपल्या भुरग्यां-बाळांक घेवन बेळगांवां पळटात तें म्हाका दिश्टी पडटा. दोनूय घांटांचेर हांव मोटारींच्यो रस्ती 'बंपर टू बंपर' लागिल्ल्यो पळयतां. बेळगांवचीं सगळीं हॉटेलां तुटुंब भरिल्ल्याचें म्हाका दिसता ! पूण तें आसूं.

सुरतेची परिस्थिती हाताभायर गेल्ल्यान केंद्र सरकारान एक खाशेलो आय.ए.एस. अधिकारी सुरत महापालिकेचो कमिशनर म्हण धाडलो. सुरतेक 'ऑपरेशन प्लेग भगाव' सुरू जालें.

श्री. सूर्यदेव राव 28 लाख लोकवस्तीचें शार प्लेगमुक्त करूंक सुरतेक पावलो. महापालिकेचो कमिशनर म्हण आसनस्थ जायनाफुडें ताणें आपली येवजण तयार केली. ताणें सुरत शार झोनांनी वांटलें आनी दर एका झोनार एक अधिकारी नेमलो. महापालिकेन ताका कामगार आनी हेर स्टाफ दिलो. सकाळीं स वरांचेर ह्या अधिकाऱ्यान आपले कचेरेंत वचपाचें आनी उप्रांत कामगारांक घेवन नरकाचे सायटीर वचपाचें आनी झोन निवळ करपाचो वावर सुरू करपाचो अशें थारलें.

हे वटेन सूर्यदेव रावान फांतोडे पारार आपली झोन-भोंवडी सुरू केली. झोन-भोंवडी म्हळ्यार प्रत्यक्ष नरकांत भोंवप. दुसरे वटेन महापालिकेंत कमिशनराक मेळूंक येतल्यांची गर्दी जावंक लागली पूण सूर्यदेव रावान आपले कचेरीच्या दारार नोटीस लायली :

'जांकां कोणाक कमिशनराक मेळचें आसा ताणी दनपारचें तिना उप्रांत येवचें. कमिशनर जण एकल्याक मेळटलो.'

सांगची गरज ना, सुर्वेक विरोध जालोच. 'हो कोण आमकां शिकोवंक आयला ?' लुटमारे वेपारी तापूंक लागले.

इतल्यान खंय सोंपूंक आयलां ? एकलो आमदार तर सामको खुबळ्ळो. ताणें केल्ल्या येंक्रोचमेण्टांचेर अधिकाऱ्यांनी हात घाल्लो.

"थांबयात तीं कामां !" तो आमदार आड्डलो. "थांबयतात काय ना ? ना जाल्यार...." त्या आमदारान बोल्सांतल्यान पिस्तोल काडून झोन अधिकाऱ्याचेर जोखलें.

झोन-अधिकारी काचाबूल जालो. ताणें सूर्यदेवाक फोन लायलो. भोंवत आशिल्ल्या सूर्यदेवान गाडी झोनल अधिकाऱ्यासरीं हाडली. तो आमदार तर्र जाल्लो. तो आतां चड खुबलो. हो कोण आयला म्हाका जाणवायो सांगपाक? अशें विचारून परतून बोल्सांतल्यान पिस्तोल काडून ताणें प्रत्यक्ष वयर फार सोडले.

हें सोंसपापेलें आशिल्लें. सूर्यदेवान थंयचे थंय त्या आमदाराचे सोंडकुटेचेर एक चौसश्टां दरेचें फुलयलें आनी पोलिसाक ताका थंयचो उबारूक हुकूम दिलो. सुरत प्लेग मुक्त जावंक एक थापट पुरो जालें. सगळे सुरतकार आतां पालव दिवंक फुडें सरले.

सूर्यदेव राव आनी सांगात्यांनी स म्हयन्यांत सुरत शार खुबसुरत केलें. प्लेग गेलो. वेपार धंदो परतून सुरू जालो. काम पुराय जातकूच सूर्यदेव राव परत पयलींच्या कामार दिल्ली रुजू जालो. उप्रांत ताची विशाखापट्टणम पोर्ट ट्रस्टाचो अध्यक्ष म्हण नेमणूक जाली.

ही सगळी खबर 'हिन्दू' दिसाळ्याचेर हांवें वाचली आनी सूर्यदेव रावाक पत्र बरयलें. गोंयां बी पावचो आसा काय म्हण विचारलें. मार्ग संस्थेच्या वावरा संबंदान सांगलें. स्वातंत्र्य सैनीक म्हण वळख करून दिली. मडगांव शारांतलो 1200 ट्रक चिखोल लोकांच्या पालवान आमी उपशिलो आनी साऱ्याक वापरलो म्हणुनूय सांगलें.

रोखडी सूर्यदेव रावाची जाप आयली. गोंयां ह्या दिसांनी भारतांतल्या पोर्ट ट्रस्ट चेअरमनांची बसका जावची आसा; आपूण हे बसकेक येतलों तेन्ना मेळचें अशें ताणें बरयलें. हांवें ही खबर तेन्नाचो मंत्री दिगंबर कामत हाच्या कानार घाली. दिगंबर कामतीन सूर्यदेव गोंया आयलो तसो ताका धरलो आनी आमचे कडेन मडगांवां उलोवंक येवंक आमंत्रण दिलें. सूर्यदेव रावान ही विनंती मानून घेतली.

ते सांजे सूर्यदेव राव मडगांवां आयलो. मडगांवच्या वुडलॅण्डांत ऐन वेळार ही सभा जाली. तिका शंभरेक जाण आयिल्ले.

सूर्यदेव रावान सुरतेचो सगळो इतिहास सांगलो. 'तुमी कोणा पासून प्रेरणा घेतली ?' ह्या प्रस्नाक 'आमच्या गांवांत सफाई कामगार नात; आमच्यो आवयो, घरच्यो चलयो वा सुनो न्हावचे पयलीं घराफुडलो मार्गाचो कुडको धुयतात आनी न्हावन जातकूच ताचेर रांगोळी घालतात' अशें ताणें सागलें.

ते भायर महात्मा गांधीय आपणें वाचला, तांचे पासून आपणें स्फूर्त घेतल्या अशें ताणें म्हळें.

"हांगाचे चडशे सरकारी वा निमसरकारी नोकर कामार वेळार रुजू जायनात, जायतो वेळ कदेलां रिकामीच दवरतात....." अशें हांवें म्हळें तेन्ना, 'तांकां तुमी पगार कितलो घेतात आनी पगाराक 'जस्टीस' दितात कांय म्हण विचारात' अशें ताणें सुचयलें.

* * *

म्हाका हांगा आमचे उपमुख्यमंत्री तशे शार विकास मंत्री श्री. फ्रांसिस्क सोवजा हांकां एक याद करून दिवची आसा. 2000 वर्सा तुमी मंत्री आसतना आमच्या मागण्याक मान दिवन मडगांवां आयिल्ले. तुमकां आमी मडगांव दाखयलें तेन्ना शारांतली हळशीक पळोवन 'हांगा प्लेग येवं येता' अशे उदगार तुमी काडले. तीं उतरां धरून 'मडगांवां प्लेग येतलो, प्लेग येतलो' म्हण आमी आरड मारली आनी खासा आमी स्वातंत्र्य सैनिकांनी नागरिकांक विस्वासांत घेवन पंगड घडलो. परिणामी पयशे दितल्यांची रांग लागली. शेवटाक पयशे नाका म्हणपाची पाळी आयली. मडगांवांत सात कानाल आसात जांकां नगरपालिकेन पन्नास वर्सां हात लावंक नाशिल्लो. आमी शावलीन घालून 1200 ट्रक चिखोल काडून शारांतले सातूय नाले साफ केले.

* * *

आज हांव शार विकास मंत्री फ्रांसिस्कु सोवजा हांकां परत मडगांवां आपयतां. तांच्या वांगडा पंचायत मंत्री लक्ष्मीकांत पार्सेकार हांकांय आपयतां. मडगांव आनी सरभोंवतणी एक पासय मारुया म्हण जाहीर आमंत्रण दितां. मडगांवांक तेंकून रामाची नांव घेतिल्ली 'रामनगरी' आसा तिचेंय दर्शन घडयतां.

म्हाका खात्री आसा मडगांव, मडगांवां भोंवतणचो वाटार आनी 'रामनगरी' पळोवन 'गोंयांत प्लेग येवं येता' अशे उदगार परतून फ्रांसिस्कु सोवजा काडटले!






# 'गांधीवादी विचारवंत' कोणाक म्हणचें ?

'गांधीवादी विचारवंत' कोणाक म्हणचें हें आमी गोंयकारांनी सोदूंक वचची गरज ना. आमच्यांत रवींद्रबाब जावन गेले जांणी हो मान जोडिल्लो.

जाता कितें म्हळ्यार मनीस जायतेदां घाळटा. म्हाका लेखून जायतेदां हें घडत आयलां. एकाद्रे बसकेक वा सभेक हांव माचयेर आसतां तेन्ना सुत्रधार म्हजी वळख अचकीत 'रवींद्र केळेकार' म्हण करून दिता. प्रेक्षक वर्गाक ही चूक रोखडी कळटा तशी तांची अस्वस्थताय सुत्रधारा मेरेन पावता आनी तो चुकीची दुरुस्ती करता. हांव हांशिल्ले भाशेन करतां.

आमी जाणात, हिमालय एकूच आसा आनी सदांकाळ आसतलो. तेच भाशेन महात्मा गांधी एकूच आसले, कुडीन न्हय जाले तरी अजून आसात आनी सासणा खातीर एकूच उरतले.

हिमालयार चडपा खातीर जायते जाण प्रयत्न करतात. तांतले एक दोग जाण हिमालयाच्या तेमकार पावतात आनी थंय जैताचो बावटो लायतात. बाकीचे हिमालयाच्या मुळसांतूच उरतात. घडये धोंपरा मेरेन पावून परततात. तेच भाशेन गांधीजी मेरेन पावपाचो जायते प्रयत्न करतात पूण पावनात. 'येरा गबाळ्याचे ते काम नोहे'.

हाचो अर्थ हांव गांधी विचारां कडेन पावूंक ना असो न्हय. रवींद्रबाबाचो हात धरून हांव गांधी विचारांसरीं पावलां.

रवींद्रबाबाची आनी म्हजी भेट 1940 उप्रांतची. रवीन्द्रबाब दीवा सावन येतनाच गांधी आनी टागोर घेवन पिर्वोळच्या आमच्या चौगां घरांत आयले. मुखार तांकां काकासायब कालेलकर हांचो वर्ध्याक सांगात मेळ्ळो. हे निमतीं म्हाकाय बी काकासायबांचो इल्लो चंदनाचो वास लाबलो.

परिणामी, हांवें गांधी कांय प्रमाणांत वाचलो. गांधी वाचलो म्हणटकीर 'गांधीवादी विचारवंत' जायना हें त्या वाचनांतल्यान म्हाका समजलें तशें उमजलें.

निमाणें हालींच गांधीजींचें आत्मचरित्र 'तूं कोंकणी कर' अशी रवींद्रबाबा कडल्यान ओर्द सुटली. 'हें काम हांव अमक्या कडेन सोंपयतां' अशें म्हणनाफुडें एका धेंगशाक म्हाका तोंड दिवचें पडलें.

अहमदाबादच्या गांधीजींनी स्थापन केल्ल्या नवजीवन ट्रस्टान रवींद्रबाबांचे लिखीत शिफारशीन आत्मकथा कोंकणींत करपाचो वावर म्हजेर घालो आनी थारिल्ल्या वेळांत हें काम हांवें केलें. दुर्दैवान प्रकाशन समारंभाक रवींद्रबाब रावले नात. राविल्ले जाल्यार ते माचयेर दिसतले आशिल्ले. आनी आतां पुरस्कार मेळिल्ल्याची खूष-खबर आयकुपाकूय ते नात.

नवजीवन ट्रस्टाचे कारभारी जितेंद्र देसाय पुस्तक प्रकाशनाच्या सुवाळ्याक हांगा आयिल्ले. तेवूय आज नात. कॅन्सराच्या दुयेंसान ते दोन वर्सा पयलीं भायर पडले.

गोंयांत आतां जायते बरे बरे बरोवपी जाल्यात. अणकारपीय जाल्यात. हो भार दुसऱ्याचेर कोणाचेरूय पडिल्लो जाल्यार तोय अणकार करतलो आशिल्लो आनी पुरस्कारूय जोडटलो आशिल्लो. पूण 'दाने दाने पर लिखा है खानेवाले का नाम' ह्या न्यायान हो पुरस्कार म्हाका मेळपाचो आशिल्लो आनी अर्जांवर जाल्ले गांधीजींचे आत्मकथेच्या कोंकणी अणकाराचेर लेखक मोहनदास करमचंद गांधी हांच्या नांवा खाला म्हजें नांव अणकारपी म्हण

सासणाचें सुवात मेळोवपाचें आशिल्ल्यान हें अशें घडलें.

म्हाका दिसता गांधीजी नव्यान जल्माक येवचे. आयज तांची चड गरज आसा. ते गोंयांत जल्माक येवचे म्हण आमच्या समाजांत पोटतिडक निर्माण करूंक सोदतल्या म्हाका हांव एक वावुरपी मानतां. म्हाका गांधी मोगी वा भक्त म्हणून घेवंक आवडटलें. हांव जाणा नवे गांधी आदल्या रुपान वा भेसान येवचे नात. पूण अहिंसा आनी सत्याचे पुरस्कर्ते आसतलेच आनी अन्याया आड झुजपी आसतले.

जायत्या जाणांक गांधी सामके  सोंपे तशे सवाय दिसतात. गांधीजी मिळमिळीत, पचपचीत अशें म्हणपाची धाम आयल्या. अहिंसा म्हळ्यार पेज म्हणटात. गांधीन पाकिस्तान दिलें, पाकिस्तानाक पंचावन्न कोटी रुपये दिले अशें बडबडत आसतात. कोण तरी गांधीजी आड हो प्रचार करीत आसतात काय दिसता. आमच्या समाजांत तो खपताय बी.

म्हज्या सारकिल्याक गांधी लोका मेरेन  पावोवचो दिसता. हें काम आज मेरेन हांव करीत आयलां. तातूंत 'सत्याचे प्रयोग' कोंकणी अणकाराची भर पडल्या.






# गांधी विचार आनी मनोहर पर्रीकार

फांत्या पारार शेनायेचे गोड सूर आयकूंक येवचे तशेंशें गांधी जयंती दिसा सकाळीं फुडें एक गोड भाशण आयकूंक मेळिल्ल्यान जालें.

"अहिंसा म्हळ्यार काया, वाचा आनी मन हांचे कडसून प्राणीमात्राक वा रुखावळीक दूख बादची ना हे विशीं घेवपाची जतनाय. थोड्यांक दिसता, दुसऱ्याक प्रत्यक्ष मारिनासतना आमी रावले, दुसऱ्याचें रगत काडलें ना, म्हणटकच 'अहिंसा' जाली! पूण तें तशें न्हय. दुसऱ्याक वाचेन लेगीत दुखोवंक फावना, इतलेंच न्हय तर मनांत लेगीत दुसऱ्या विशीं वायट विचार येवंक फावनात, तेन्ना अहिंसा परगटली अशें म्हणूंक जातलें."

हीं उतरां (वा उतरांचो सार) म्हणचेच गोंयचे मुखेलमंत्री मनोहर पर्रीकार हांचे सकाळचे सूर! गांधी जयंती दिसा ते व्हडल्या गोंयां महात्मा गांधी हांच्या पुर्णाकृती पुतळ्याक फुलांचो हार घालून जाले उप्रांत उलयताले.

ताणी फुडें म्हळें, "भुरगेपणांत म्हाका गांधी आवडनाशिल्ले. जाणटो जायत वचूंक लागलों तशें गांधी विचाराचें बळगें म्हाका कळूंक लागलें. आज हांव तांच्या विचारांक मानपी जालां."

हें सगळें टीव्हीर पळयतकूच आनी पेपरांचेर वाचतकूच दिसलें. 'ह्या

मनोहर पर्रीकारांत एक स्वयंभू गोंयकार आसा आनी तो अदींमदीं तकली वयर काडीत आसता. येत काय तो दीस ज्या दिसा मनोहर पर्रीकार बीजेपी, आरएसएस असलीं घेतिल्लीं अडेचीं रुपां काडून उडोवन अस्सल गोंयकार म्हण फुडें येत?'

ह्या संदर्भांत एके घडणुकेची याद जाली.

हिंसा आनी अहिंसा ह्यो दोन वृत्ती. हिंसा तर मनशांत मुळांतूच वसता. अहिंसा मात केळोवची पडटा. तें सोंपें न्हय. मनीस मुळांतूच 'कॉम्युनल' आसता. 'कॉम्युनल' ह्या उतराक तसो वायट अर्थ ना. 'कॉम्युनल' तो जो कॉम्युनिटीची व्हडवीक मानता. हें चूक न्हय. 'कॉम्युनल' मनीस जेन्ना 'म्हजें' आनी 'ताचें' हे वृत्तीक पोसवण दिता तेन्ना तो 'जातीवादी', एकचार मोडपी थारता.

डॉ. नारायण हर्डीकर हे एक व्हड देशभक्त जावन गेले. देशाक सेवेची गरज आसा असो ताणी ध्यास घेतिल्लो. डॉक्टरकी शिकूंक ते अमेरिकेक गेल्ले. आनी देशांत मिशनरी काम करतात तसलें काम करचें अशी थारावणी करून परतले. त्या काळा देशभक्तीक देशांत हुंवार आयिल्लो.

भारतांत परतना फुडें तांचें लक्ष दुसरेच गजाली कडेन ओडलें. आमच्यांत शिस्त ना. एक समाज म्हण मांडणेन कशें जियेवचें तें आमकां कळना हें तांच्या लक्षांत आयलें.

तेन्ना कॉंग्रेस स्वातंत्र्य लढ्यांत घुस्पल्ली. महात्मा गांधींच्या फुडारपणा खाला पुराय एकरूप जावन गेल्ली. गांधीजी आनी हेर फुडाऱ्यांक पळोवंक आनी आयकूंक लाखांनी लोकांच्यो सभा जातात्यो. लोक कोसाचे कोस वाट चलून येताले. ते एकेक दीस पयलीं पावताले.

पूण तांच्या रावपाची, न्हिदपाची, पोटा-पाणयाची वेवस्था आशिल्ली व्हय? ना. पुलीस येताले ते ब्रिटीश सरकाराचे. ते लाकडांचे खांबे कशे फकत उबे रावताले. सभा दिसाच्यो, रातीच्यो जातात्यो. खावपाची जेवपाची मांडणी ना, पियेवंक उदक ना, टॉयलेट वेवस्था ना! हाल हाल जाताले लोकाचे, पूण

उमेद उणी जायनाशिल्ली.

अशे परिस्थितींत हर्डीकर हांकां दिसलें, देशाक पयलीं गरज आसा शिस्तीची आनी बंदोबस्ताची. ते पासत एक स्वयंसेवक दल घडोवप ही पयली गरज अशें तांकां दिसलें. ते पंडित नेहरूसरीं गेले. नेहरू तर शिस्तीचे भोक्ते. ताणी हर्डीकरांक पुराय पालव भासायलो आनी गांधीजींक मेळपाचो सल्लो दिलो. हर्डीकर गांधीजींक मेळ्ळे आनी तांकां आपली येवजण सांगली. आपूण एक सेवादल स्थापूंक सोदतां म्हण सांगलें. गांधीजीनी म्हळें: 'येवजण बेस बरी आसा. पूण एके कबलातीचेर हांव तुमकां 'फुडें वचात' म्हण सांगन. तुमी तुमच्या स्वयंसेवकांच्या हातांत खंयचेच परिस्थितींत 'लाठी' दिवचे नात. तांकां स्वयंरक्षण शिकोवचेंच पडटलें पूण 'दंडा' हातांत घेवन न्हय. मारचे परस मरणाक फुडो कसो करचो तें पयलीं शिकोवचें. मरणाक भियेनात तसले म्हाका स्वयंसेवक जाय.'

हर्डीकर तर दुसरे गांधीजीच आशिल्ले. ताणी अट मानून घेतली आनी हे येवजणेंतल्यान कॉंग्रेस सेवा दल उबें जालें. सगळो देश ह्या शिस्तीन वावुरतल्या सेवादलान व्यापलो. पांच पांच लाखांच्यो सभा, कॉंग्रेसीचीं अधिवेशनां हें 'कॉंग्रेस सेवादल' शिस्तीन हाताळूंक लागलें.

हर्डीकर हांणी लोखणाचे खांबे कशे स्वयंसेवक तयार केले. तांकां व्यायाम, कसरत शिकयली. कुस्ती, मल्लखांब हांतल्यान तांच्यो कुडी लोखणाच्यो केल्यो.

एक दीस एका गांवांत दंगो सुरू जालो. गांवचे लोक धांवत हर्डीकरां सरीं आयले. आनी दंगो आळाबंदा हाडूंक कोणाक तरी धाडात म्हण विनोवंक लागले.

हर्डीकरांच्या एका उल्यान शेंकड्यांनी स्वयंसेवक जमले. हर्डीकरांनी फर्मान सोडलें. 'वचात आनी हात उबारिनासतना दंगो आटापा हाडात.'

सेवादलाच्या वांगड्यांक पळयना फुडें दंगो करपी रावतात कित्याक? पळून गेले.

आयज तें काँग्रेस सेवा दल उरूंक ना. देशाक स्वातंत्र्य मेळना फुडें काँग्रेसींतल्यान भायर सरून दुसरे जायते राजकी पक्ष स्थापन जाले. ताणी आपापलीं सेवा दलां वा तत्सम पंगड घडले. डॉ. हर्डीकर दिल्ली सोडून कर्नाटकांत घटप्रभेक येवन रावले. आज ते आमच्यांत नात.

आजय गोंयांत काँग्रेस सेवा दल आसा जाची हांवें पळयल्ली दशा फुडें केन्नाय सांगूं येत.

म्हजो प्रस्न असो : राष्ट्रीय स्वयंसेवक संघांतल्यान म्हळ्यार आर. एस. एसांतल्यान तयार जाल्ले स्वयंसेवक मनोहर पर्रीकार जेन्ना अहिंसेचेर उलयतात, गांधीक मानतात म्हणटात तेन्ना तांचें मतपरिवर्तन जायत चल्लां असें मानचें काय कितें?






# चारित्र्य आनी विद्वत्तेच्या लकलकान गोंय चकचकचें !

आयआयटीयन मनोहर पर्रीकार ही व्यक्ती वैचारीक नदरेन एका खाशेल्या स्कुलांत ट्रेनिंग घेवन वाडल्या. हे व्यक्तीक अघळ-पघळ उलोवपाचीय वज, जी तांकां जाणटेल्यां कडल्यान आयल्या अशें काय दिसता. हाका लागून ते उलोवन हेरांक जायतेदां 'प्रोवोक' करतात. पूण ही वायटशी गजाल न्हय.

हालींच प्रुडंट मिडियान 'महासंग्राम' ह्या नांवान एके वटेन विद्यार्थी आनी पत्रकार, तर दुसरे वटेन मुखेल मंत्री पर्रीकार असो एक संवाद घडोवन हाडलो. ताका 'महासंग्राम' हो माथाळो प्रुंडटान कित्याक दिलो तें म्हाका समजलें ना.

ह्या संवादा वेळार एका विद्यार्थ्यान पर्रीकार हांकां एक प्रस्न केलो. 'दिल्ली वचप तुमकां आवडटलें ?' पर्रीकार हाणी ताका उत्तर दिलें : 'म्हजी कालेत (टेम्परामेण्ट) दिल्लीक चलपा सारकी न्हय. म्हाका हांगा गोंयांतूच काम करप आवडटा. तें हांगाच करपांत म्हाका आनंद आसा. पूण पाकिस्तान वा चीनान भारताचेर घुरी घाली आनी दिल्लीन म्हाका आपयलो जाल्यार हांव गोंय सोडून तत्काळ दिल्लीक धांवतलों !'

तांचीं जश्याक तशीं हीं उतरां न्हय. म्हाका समजल्लो सार हांवें दिला.

ह्या जवाबांत हांव दोन प्रवृत्ती, दोन पर्रीकार पळयतां. पयलो : गोंयचो जिवापेलो मोग करपी पर्रीकार. गोंयकारांच्या मनांतलें गोंयचें सपन फळादीक करूंक सोदपी पर्रीकार. आनी दुसरो : मराठी नाटकांनी मोयरां आड हातांत तलवार घेवन वावुरपी एक नट. पर्रीकार हांच्या त्या दिल्लीक वचपा संबंदान उलयल्ल्या वाक्यांत म्हाका जाल्यार डॉन क्विझोटीक खुमखुमी दिसली.

ह्या असल्या चिंतपा कडेन हांव एके दुसरे तरेन पळयतां. पर्रीकार गोंयां संबंदींचें गोंयकाराचें सपन फळादीक करूंक वावुरता अशें हांव मानतां. आज आमच्या ल्हानश्या गोंयांत आमी न्हय ते प्रस्न आमचे मुखार उबे केल्यात. खण व्यवसाय आनी पर्यटन (टुरिझम) व्यवसाय हे दोनूय गोंयकारांचे कालेतीक छेद दिवपी व्यवसाय. आमी ते एके मर्यादेंत दवरून तांचे पासून फायदो घेवंक पळेलें ना. भांगराचें तांतीं आमी फोडलें. हांतल्या खणीच्या भस्मासुरान आपल्याच माथ्यार हात दवरून आपलो आनी आमचो सत्यानाश केलो. टुरिझमाचो म्हारू आतां आमच्या शांत अंतरांत घुसूंक पळयता.

कांय वर्सां पयलीं जस्टीस चंद्रशेखर धर्माधिकारी हांचें मडगांवां एक व्याख्यान जाल्लें. ज्या ज्या देशांनी पर्यटन आपणायलें थंय पर्यटना परस दुसरे नाका ते व्यवसाय कशे पातळ्ळ्यात तें ताणी सांगून आमकां शिटकावणी दिल्ली. पर्यटनाक लागून कितले तरी गुन्यांवगारी प्रस्न गोंयच्या प्रशासना मुखार उप्रासल्यात ते आमी भोगतात. गोंय योग्य मार्गान वचना. तें 'ट्रॅकार' हाडटलो जाल्यार पर्रीकारा सारकिल्लो कर्तुत्वी फुडारी जाय अशें हांव पर्रीकाराक 'बेनेफीट ऑफ डावट' दिवन म्हणीन. आमकां गोंय फक्त भव्य करपाचें न्हय, तर 'दिव्य' करपाचें आसा. पूण तें पर्रीकाराचो दिल्लीक बळी दिवन न्हय. गोंयांत विकासाक आकांताचो वाव आसा. सोनिया गांधी तर गोंयाक भारताच्या मुकुटांतलो हिरो म्हणटा. चारित्र्याच्या आनी विद्वत्तेच्या लकलकान हो हिरो चकचकूंक जाय. गोंयचो डिफेन्स मिनिस्टर जावन पाकिस्तानाक मार दिवपी पर्रीकारा परस, गोंयकारांच्या सद्गुणांचो सुगंध चारूय दिकांनी पातळावपी पर्रीकाराक हांव चेपें काडीन.

गोंय म्हळ्यार सद्गुणांचें आगर. येद्याश्या गोंयान मुक्ती खातीर देखदिणो असो लढो दिलो. पंडित नेहरू म्हणटात 'ल्हान गोंयान जो व्हड प्रमाणांत त्याग केलो तो विसरपा सारको न्हय.' मुखेलपणान गांधी-मार्गान वचपी तो लढो आशिल्लो. उप्रांत गांधी-मार्गान आमी स्वराज्य जोडलें. 'खुरीस मोडले, तुळशी मोडल्यो' अश्यो दुस्मानांनी जायत्यो हुली पातळायल्यो, पूण तसलें कांय हांगा आमी घडूंक दिलें ना. तेच बराबर एका फाटल्यान एक अश्यो वेंचणुको हांगा जाल्यो. वेंचणुको म्हळ्यार भारतांत हिंसा. पूण गोंयकारांनी खंयच शांतीचो भंग जावंक दिलो ना.

भावकेन कशें जियेवचें हें गोंयच्या हिंदू आनी क्रिस्तांव भावांनी देशाक दाखोवन दिलां. आतां गोंयांत मुस्लीम समाज येवन व्हड प्रमाणांत स्थायीक जाला. गोंयच्या हार्मोनियस संगितांत नव्या एका गोड सुराची भर पडची हे नदरेन सगळे वटेन प्रयत्न जावंक जाय. आमकां दुसरी सुटका-वाट ना.

हाचे फुडें वचून हांव अशें म्हणन की हें संचीत घेवन गोंयकारांनी भारत-भोंवडेर वचूंक भायर सरचें. स्वातंत्र्य आनी स्वराज्य मेळोवपा खातीर आमकां सगळ्या भारतीयांनी मजत केली. देशांत जंय जंय स्वराज्य आनी स्वभाशे खातीर प्रामाणिक लढे चलतात तांकां गोंयकारांनी नैतिक बळ दिवचें. आमची भावकी आनी आमी घेतिल्लें शिक्षण हांची एक नवी वळख आमी देशाक दिवंक जायतो अवसर आसा.

म्हाका हांगा रवींद्र केळेकार हांचो उगडास येता. ताणी दिल्लीक स्थायीक जावन व्हड नांव जोडूं येतालें. पूण ताणी आपली पुराय जीण गोंयाक आनी कोंकणीक ओंपली आनी गोंयकारांक जैताच्या तेमकार पावयले.

हो आदर्श पर्रीकारानूच न्हय तर सगळ्या गोंयकारांनी घेवचो आनी गोंयची आनी गोंया वरवीं देशाची सेवा करची.





# पुतळे, यादस्तिकां सांबाळप आमकां कित्याक जमना ?

दर वर्साच्या ऑगस्टाचे 9 तारकेर भारताचे राष्ट्रपती आपणाले रावतिकेंत, म्हळ्यार राष्ट्रपती निवासांतल्या सभाघरांत, देशांतल्या स्वातंत्र्य सैनिकांक पार्टी दितात. दर एका स्वातंत्र्य-सैनिकाक एक मोलादीक वस्त, खाणाचें एक बॉक्स, फुलां-तुरो अशें कितें कितें भेटवण म्हण दितात. हे कार्यावळीक उपराष्ट्रपती, कांय मंत्री, विरोधी फुडारी, खासदार, आमदार, नामनेचे नागरीक, काँग्रेस अध्यक्षा आदी उपस्थीत रावतात. स्वातंत्र्य सैनिकांचो राष्ट्रान केल्लो तो भोवमानूच म्हणूं येता.

दर वर्सा दर एका राज्यांतल्यान पांच स्वातंत्र्य सैनिकांक हो पावणार मेळटा. म्हाका ही संद 9 ऑगस्ट 2005 वेर मेळ्ळी. ह्या समारंभांत खासा राष्ट्रपती दर एका स्वातंत्र्य सैनिकासरीं वतात आनी दर एकल्याक भेटवणीच्यो वस्तू भेटयतात. त्या वेळार तांचे कडेन उलोवंक मिनूट दोन मिनुटां त्या त्या स्वातंत्र्य सैनिकाक मेळटात. म्हज्या वेळार श्री. ए. पी. जे. कलाम राष्ट्रपती आशिल्ले. ताणी दिल्ल्यो वस्तू घेतकूच हांवें ताकां म्हजी इंग्लीश-कोंकणी डिक्शनरी आनी मार्गाचीं पुस्तकां आनी हेर साहित्य दिलें.

मडगांवां परततकूच दोन तीन दिसांनी दिल्लीच्यान राष्ट्रपतींच्या सचिवांचें

राष्ट्रपतींक डिक्शनरी आनी हेर साहित्य पाविल्ल्याचें पत्र आयलें.

तीन म्हयन्यां उप्रांत परतून दिल्ली वचपाचो योग आयलो. जमल्यार पळोवया म्हण हांवें राष्ट्रपतींच्या सचिवाक एक पत्र बरोवन आमी दोग तीग जाण दिल्लीक पावपाचे आसात, आमी राष्ट्रपतींक मेळूंक सोदतात, शक्य जाल्यार आमची भेट घडोवन हाडची अशी विनंती केली. दिल्लीक पावूंक म्हाका राष्ट्रपती भवनांतल्यान अमक्या दिसा सांजेच्या 4 वरांचेर राष्ट्रपतीं कडेन भेट थारायल्या असो संदेश मेळ्ळो.

थारिल्ल्या वेळार स्वा. सै. रोनाल्द कोवतीन आनी अँथनी फेर्नांदिश ह्या वांगड्यां सयत हांव राष्ट्रपती निवासांत पावलों. एका वेगळ्या रुमांत च्या आनी गोडशें दिवन आमकां येवकार मेळ्ळो आनी उप्रांत रोखडेच आमकां राष्ट्रपती श्री. ए. पी. जे. कलाम हांचेसरीं तांच्या सचिवान व्हेले.

नमस्कार बी जातकूच राष्ट्रपती आपल्या मेजार आनी आमी फुडें बसले. तांकां हांवें मार्ग अभियान हे संस्थेच्या वावरा संबंदान सांगलें आनी उप्रांत दुसऱ्या एक विशयाक हात घालो. तो म्हळ्यार मडगांवच्या लोहिया मैदानार डॉ. राम मनोहर लोहिया हांच्या पुतळ्याचें उक्तावण. "सरकाराचें आमंत्रण तुमकां येतलेंच, पूण हें आमचें स्वातंत्र्य सैनिकांचें तुमकां खाशेलें आमंत्रण" हांवें म्हळें.

हाचेर राष्ट्रपतींनी जी जाप दिली ती आयकून म्हाका अजाप जालें. ताणी म्हळें, "आमकां भारतीयांक पुतळे जाय, पूण तांचो सांबाळ करपाची जापसालदारकी नाका ! पुतळ्यां बदला व्हडल्या मनशांचीं नांवां शाळांक, हॉस्पिटलांक दिवचीं. तीं लोकाच्या तोंडांत तरी घोळटलीं...."

हांव खंय वोगी रावंक आयिल्लों ? हांवें ना ना म्हळें. "गोंयांत आमी तशें जावंक दिवचे नात. गोंयचे पुतळे आमी सांबाळटले" अशें सांगून मेकळो जालों. मडगांवच्या लोहिया मैदाना वयलो लोहियाचो पूर्णाकृती पुतळो तेच भाशेन फुटपाथा वयलो फ्रांसिश्कु लुईश गोमीश हांचो अर्दपुतळो आदले मुखेल मंत्री दिगंबर कामत हांचे फाटीक लागून सरकार आनी नगरपालिके

मार्फत आमीच करून घेतिल्लो आनी तो आमी सांबाळटायूय बी.

हांगा येतकूच ही गजाल हांवें मंत्री दिगंबर कामत हांकां सांगली आनी गोंयांतल्या पुतळ्यांचें सर्वेक्षण करूंक एक समिती नेमची अशें सुचयलें. ताणी रोखडीच समिती नेमली आनी म्हाका तिचो निमंत्रक केलो.

हे समितींत मार्टीन मिनीन, प्रजल साखरदांडे, जुजे लोवरेन्स, तोमाझीन्यु कार्दोज, डॉ. कस्तुरी देसाय इतले वावुरपी आशिल्ले. समिती गोंयभर भोंवली, एकान एक पुतळो तशें यादस्तीक पळयलें आनी तांची परिस्थिती दाखोवपी एक पुस्तिकाय कला आनी संस्कृती खात्या मार्फतीन काडली. आमी जीं सगळीं यादस्तिकां पळयल्लीं तांतलीं धा एक सोडल्यार हेर सगळ्यांची काकुटवाणी परिस्थिती दिसली.

दिगंबर कामतीच्या सरकाराच्या मनांत सुरवेक ह्या पुतळ्यांची राखण करची असो विचार आशिल्लो पूण तें काम खर्चीक जाल्ल्यान कला आनी संस्कृती खात्यान तें नगरपालिका आनी पंचायतींचेर सोडलें. कांय यादस्तिकां खासगत संस्थांनी बांदिल्लीं तांचो भार सरकाराचेर कित्याक, अशेंय तांकां दिसलें आसुये.

कुडचड्यार आंबेडकरांचो अर्द पुतळो आशिल्लो. आशिल्ल्या परस नाशिल्लो बरो अशी ताची आवतिकाय जाल्ली. कोणाक तरी तो फोडचोसो दिसलो. ही कोणाची तरी क्लृप्ती आशिल्ली जावं येता. दुसऱ्या दिसा आंबेडकरभक्तांनी हामेट्यो घालीत पुरसांवां काडलीं आनी मागीर थंय नवो पुतळो परस्पर उबो जालो.

कोंकणी चळवळी वेळार मडगांवां घोगळांत फ्लोरियान वाज हुतात्मो जालो अशें म्हणटात. आगशी दुसरे कांय हुतात्मे जाले, अशें सांगतात. त्या स्मारकांची घोगळांत वा आगशी तुमी दशा पळयल्या? खंयच्या तोंडान हे तांचीं नांवां हुतात्मे म्हण घेतात ?

वयर सांगलां ते प्रमाण गोंयांत पुतळे आनी दुसरीं यादस्तिकां मेळून शंबरेक नग आसात.

हे पुतळे आनी स्मारकां हांचे भायर सोबितीकरणाच्या नांवा खाला कांय बँकांनी वा कॉर्पोरेटरांनी मार्गा वयले जुंवे घेतल्यात ते आसात. तांची काकुटवाणी दशा पळोवं नज. त्या बँकांच्यो वा व्यापाऱ्यांच्यो पाटयो मात थंय व्यवस्थीत दिसतात. तांकां विचारपी कोण ना !

भायल्या देशांनी आमी वतात तेन्ना, आमचे खातीर त्या देशांतल्या व्हड मनशांचे पुतळे वा स्मारकां पळोवपाचो एक कार्यक्रम दवरलेलो आसता. थोडें अस्तंतेवरी दिसतल्या गोंयान अशीं कांय पथ्यां पाळपाची गरज आसा.

ल्हानशें गोंय सोबीत सुंदर तशें निवळ दवरपा खातीर नागरिकांनीय आपलो वांटो उखलूंक फुडें सरचें. पूण हांगा सरकार आसा तें दिसता, नागरीक दिसनात.

ज्या सरकाराक नागरिकांक मान दिवन तांचें सहकार्य घेवंक कळटा थंय लोकशाही बरी नंदता म्हणूं येता.

नाजाल्यार नव्या कालवी पुलाचें उद्घाटन जाता आनी तेच राती कोण तरी पुलाचो तकटो फोडपाचो प्रयत्न करता, हें कसलें लक्षण ?






# मार्गां वयली बेशिस्त आनी अपघात: उपाय आसात, पूण ते करूंक जाय!

पांय-यूग सरलां. चक्र-यूग सुरू जालां. मनशां परस गाडयो वाडूंक लागल्यात. पांयांचेर अंकूश दवरप सोंपें. मनशाक मेळिल्ली मानसिकताय (मायण्डसेट) पांयांक जुळ सारकी आसा. चक्र-युगाक नवी मानसिकताय जाय. कारण चक्र फास्ट, फास्ट, फास्ट धांवता. लागून चत्राय बाळगिली ना जाल्यार चक्रान मार्ग सोडलोच. चक्र हाताळूंक दोळयांच्यो पातयो धांपनात असली मानसिकताय जाय.

जाका आयज आमी ट्राफीक आनी ट्रान्स्पोर्ट म्हणटात ताका लागून जगभरांतल्या लोकाक एकामेकाक मेळप सोंपें जालां. माल हाडप-व्हरप सोंपें जालां. पूण वांगडाच ॲक्सिडेंट वाडत वचूंक लागल्यात. जखमी जातल्यांची तशी मरतल्यांची संख्या लाखांनी वाडूंक लागल्या.

युनायटेड नेशनाच्या वर्ल्ड हेल्थ ऑर्गनायझेशनाक (WHO) हाचो चड हुसको जाला. WHO न पळयलां, विकसीत देशांनी मस्तेक लागून चड ॲक्सिडेंट जातात; जाल्यार मागास देशांनी अज्ञानाक लागून, बेशिस्तीक लागून ॲक्सिडेंटांचो आंकडो वाडत आसा.

झूज जाल्यार जितले लोक मरनात, आकांतवादांत जितले लोक मरनात, रस्त्यां वयल्या अपघातांत मात ताचे परस चड आनी चड लोक मरतात.

WHO न थारायलें, आतां सस्त बसप ना. WHO न थारायलें, आतां मार्गा वयले अपघात उणे कशे जावचे, मरणां उणीं कशीं जावचीं हाचो अभ्यास करून कांय सुत्रां तयार करचींच पडटलीं. आनी जगांतल्या चडश्या देशांक तीं शिकोवचींच पडटलीं. WHO न सगळ्या देशांक कळयलें, हे नेम लागू करात, तुमकां ॲक्सिडेंट उणे जाल्याचें दिसतलें आनी मरणांय कमी जातात म्हण कळटलें.

आनी आतां WHO सांगता, आफ्रिकेंतल्या कांय मागास देशांनी आमी सांगिल्ले उपाय लागू केले आनी थंय अपघात बऱ्याच प्रमाणांत देंविल्ल्याचें दिसून आयलें.

एक गजाल लक्षांत दवरूंक जाय, ती म्हळ्यार मार्गा वयल्या वाहनांच्या अपघातांक मनशांनी केल्ले अपघात man made crashes म्हणटात. मनशांनी केल्ले, म्हण मनीस आळाबंदा हाडूंक शकतात अशे.

हें हांव म्हज्या वाचप्यां खातीर बरयतां, जांकां हांव 'नागरीक' मानतां. पूण हाचे भायर आनीक एकल्यान वाचचें म्हणुनूय बरयतां. तो आनीक एकलो म्हळ्यार वाहतूक मंत्री बाब सुदिन ढवळीकार.

देशांत गेल्या वर्सा 1,40,000 लोक मार्गांचेर वाहन-अपघातांनी मेले. देशांत कर्रप्शन चलता, तें चलपाचेंच म्हणपाचें; देशांत बलात्कार जातात, ते जावपाचेच म्हणपाचें; देशांत मार्गाचेर लाखांनी लोक मरतात, मरपाचेच म्हणपाचें, इतले आमी मुर्दाड जाल्यात! ताचे फुडें वचून अशें म्हणूं येत : 'देशांत लाखांनी लोक अपघातांनी मरतात, गोंयांत हजारांनी मरूं येताले ते कांय शेंकडेच मरतात ! म्हणटकूच आमी बरे आसात !'

हें सोब सारकें उलोवप जालें ?

ही भास कॉंग्रेसीक सोबता. महाराष्ट्रवादी गोमंतक पक्षाच्या मुखेल्याक सोबची ना. सुदिन ढवळीकार हांचे कडल्यान हांव वेगळी भास अपेक्षितां. ती म्हळ्यार : WHOन सांगल्यात ते उपाय हांव गोंयाक लागू करतलों आनी गोंयांतल्या मार्गा वयल्या मरणांचो आंकडो हांव उणो करून दाखयतलों. केन्द्राचेर अशी परिस्थिती हाडटलों की ते म्हणटले : "आरे, आमकां जमलें

ना तें गोंयकारांनी करून दाखयलें मरे ! खरेंच, अजीब मरे हे लोक ! आमकां लज केली मरे हाणी !"

म्हजें मंत्री ढवळीकार हांकां सांगप आसा, हो विनोद न्हय. ट्रान्सपोर्ट डायरेक्टर अरूण देसाय आयचे गोंयांतले मार्गा वयले परिस्थिती कडेन झुजत आसात. इतली तकालस घेवन काम करपी गोंयांत 'खंवटो' नांवाचो दुसरो एकलोच डायरेक्टर जावन गेलो. डायरेक्टर अरुण देसायाक जैत मेळोवन दिवप तुमच्या आमच्या हातांत आसा.

आज जंय जंय मार्गार वा रेल्वेचे अपघात जातात तेन्ना तेन्ना लोक लाल बहादूर शास्त्री हांचो उगडास काडटात. रेल्वे अपघातांत मेल्ल्यांची जबाबदारी आपणाचेर घेवन ताणी मंत्रीपदाचो राजिनामो दिलो. सुदिनबाब आमी तुमचे कडेन राजिनामो मागिनात पूण तेच बराबार मागतात की तुमी एक पण करचो की गोंयांत मार्गा वयले अपघात सामके देंवोवपा खातीर हांव WHOन सांगल्यात ते उपाय करतलों.

तुमी कितें करचें अशें म्हाका दिसता तें हांव सुचयतां :

1) WHOन ज्यो सुचोवण्यो केल्यात त्यो आमचे कडेन आसात. तांतल्यो खंयच्यो सुचोवण्यो गोंयाक लागू करूंक जायत हें सांगूंक एक समिती घडची आनी एका म्हयन्यांत तिचो रिपोर्ट घेवचो.

2) ट्रान्सपोर्ट जाणकारांचें एका दिसाचें एक शिबीर घेवन ताका दीसभर तुमी उपस्थीत रावचें.

3) 2014 वर्स हें लोकसभा वेंचणुकेचें वर्स. वेंचणुको जातकूच सगळें वर्स 'ॲण्टी ॲक्सिडेंण्ट' वर्स म्हण मनोवचें. टीव्हीचो चडांत चड उपेग करून घेवचो.

4) 'मार्ग अभियान' आनी हेर संस्थांनी वा ट्रॅफीक पोलिसांनी एक जागृताय निर्माण केल्या तिका 'हम होंगे कामयाब' ची जोड दिवची.





*“फायच्या गोंयांत येद्दे नाल आनी*
*शेतांत तीन पिकां*
*फायचें गोंय म्हणटलें गा,*
*तुमची भीक आमका नाका....”*

# कवीचें हें सपन फळादीक जायत काय ?

आमदार किरण कांदोळकार हाणी गोंयांत मोट्या प्रमाणांत भाजयेचें पीक काडपाचें थारायलां ही गोंयकारांक चड उमेदीची गजाल. आतां गोंयकारांक गोंयची रसरशीत भाजी मेळटली हाची खोस आसाच, पूण चड म्हत्वाचें म्हळयार आमचें गोंय कूस परतूंक लागलां हाची तातूंत सुलूस आसा.

गोंयकार गेल्लीं जायतीं वर्सां बेळगांव वा तेवटेनचे भाजयेचेर जियेतात. हांगा थोडीशी मोसमी भाजी सोडल्यार हेर भाजी भायलीच. हो भाजयेचो, फळांचो, फुलांचो व्यापार गोंयां भायल्या लोकांनी गिळंकृत केला. ते जातकूच कश्टकाडे तशे उग्र जाल्ल्यान आमकां तांचे कडेन सर्त करूंक जमना.

गोंयांत भाजी जायना अशें न्हय. वांयंगी, मुळे, भेंडे, नाब, वाल तश्यो पाले-भाजयो तरातरांच्यो जातात. पूण आमकां मांडणेन पीक काडप जमना, देखून भायल्या भाजयांक च्यान्स पडला.

ह्या दिसांनी दक्षीण गोंयांत मडगांव सावन पोळें मेरेन चिबडां विकूंक बशिल्लीं बायलां मार्गभर दिसतात. सरकारान वा पंचायतिनी मडगांव - पोळें हायवेचेर तांचे खातीर बसपाची मांडणी केल्या. थंयचीं चिबडां, भेंडे, तवशीं, दुधी, कारांदे पळोवन हें आमचें पीक ही गजाल आमची छाती फुलयता.

अश्यो भाजयोच न्हय तर फळांचेंय गोंयांत पीक काडुंया. गोंय कुळागरांनी आनी माडयांनी भरलां. कुळागरांनी केळीं आसात, पूण आमकां केळ्यांचें बरें पीक काडूंक जमना. फाटीं आमी महाराष्ट्रांतल्या जळगांवां गेल्ले. जळगांव केळ्यांचो गांव. हांगा शास्त्रीय पद्दतीन केळ्यांचें पीक काडून शेतकार करोडपती जाल्यात अशें आमकां कळ्ळें.

जळगांवांत भंवरलाल जैन नांवाचे कारखानदार - वेपारी - शेतकार आपणाले देड हजार एकर जमनींतल्यान घे म्हण पीक काडटात. तांचे जमनींतल्यान ते तरेकवार जातींचे आंबे काडटात. कारखान्यांत तांचो रोस काडून पॅक करून परदेसाक धाडटात. थंय चिकू, पेरां, पोपायो, केळीं बी मोट्या प्रमाणांत जातात. आमच्या कांय शेतकारांक कांदोळकारान अभ्यासा खातीर थंय धाडूं येता.

भाजयो, फळां हांचे वांगडा फुलांय गोंयांत फुलोवंक जाय. गोंयांत फुलां व्हड प्रमाणांत खपतात. गोंयकारांक भाजयो, फळां, फुलां हांचेर पयशे मोडूंक उमेद. ते वटेन बेळगांवकार गोंयकारांचेर फडफडटात. गोंयकारांक लागून बेळगांवां भाजयो म्हारग जाल्यात अशी तांची तक्रार.

सार म्हळ्यार, किरण कांदोळकार हांणी घाल्लें पावल कौतूक करपा सारकें आसा. अशीं एका फुडें एक पावलां पडत जाल्यार वांकड्या मार्गान वचपी गोंय दिशा बदलतलें. फुडाराचें गोंय कशें आसचें हें चिंतपी कोण नाशिल्ले अशें न्हय. कवी म्हळ्यार द्रष्टे. आमच्या जावन गेल्ल्या कवींतल्या जण एकल्यान आपल्या सपनांतलें गोंय पळयल्लें आनी तें समान आशिल्लें.

कवी दामोदर अच्युत कारे "विमल उजळ चिरहिरवा शालु तव किती, बहुरंगी रम्य फुले त्यास खुलविती....." अशें गायत गेले.

बाकीबाब बोरकार "माझ्या गोव्याच्या भूमींत गड्या नारळ मधाचे, कड्या कपारी मधोनि घट फुटती दुधाचे !" सांगून गेले.

मनोहरराय सरदेसाय "फायच्या गोंयांत येद्दे नाल्लं आनी शेतांत तीन पिकां, फायचें गोंय म्हणटलें गा, तुमची भीक आमकां नाका...." अशें फायचें

सपन दिवन गेले.

आमी तांकां खोटे थारायले. आमी झाडां रोवचीं सोडून गोंयची माती विकूंक लागले. आमची माती ट्रकांनी आनी बार्जींनी भरभरून आमी चीनाक आनी जपानाक धाडली. ते भराव घालून आपल्या देशाची जमीन वाडोवंक लागले. आमी सादूर जाले नात. च्यान्स पडल्यार सगळें गोंय विकपाची आमची तयारी.

अशे परिस्थितींत म्हाका एक विचार भेश्टायतालो. "चीन वा जपान हे देश एकाद्रो 'मारुती' बी तयार करचेनात मू ? आमच्या रामायणांतल्या मारुतीन हिमालयांतलो एक पर्वतूच उखलून लंकेक व्हेल्लो. चीन आनी जपान तसले मारुती करतीत जाल्यार हांगाचे व्यापारी हांगाचे दोंगरा फाटल्यान दोंगर विकूंक फाटीं रावचे नात" असो हो विचार.

पूण अचकीत मीन निर्गतीचेर बंदी आयली आनी म्हाका सू जालें.

आमदार किरण कांदोळकार गोंय नव्यान पाचवें करूंक सोदता. तो कोणाय पक्षाचो जावं. आज थंय, फाल्यां हांगा ! आमचें काम जातकूच जालें. आमचें गोंय आमकां सांबाळिल्लें जाय. आमचें नुस्तें, आमचे आंबे, पणस, पोपायो, काळंगां, चिबडां, तवशीं .... आमच्यो भाजयो.... आमचीं फुलां हांगाच जाल्लीं आमकां जाय. आमचे झरे वझरे जाय !

हाचो अर्थ गोंयचो विकास जाल्लो आमकां नाका अशें न्हय. आमकां विकास जायच आनी गोंयची तांबडी भाजीय जाय. हाकाच हार्मनी म्हणटात.

बाकीबाब म्हणटाले, "मार्क्साचा मज अर्थ हवा; फ्रायडचा मज काम हवा; या असुरां परी राबविण्या, गांधींचा मज राम हवा."





# गोंयांतली वाडटी हिंसक प्रवृत्ती कशी आटापा येत ?

कोणेंय आमचें कसलेंय काम केल्यार वा आमचें बरें मागल्यार पुर्तुगेजा काळार आमी 'ओब्रिगादु' म्हणटाले. गोड उतर ! त्या उंड्यां बराबर तेंय गेलें. आतां आमच्या तोंडांत 'थॅंक्स' घोळूंक लागलां.

हालीं हालीं गोंयांत व्यक्तीगत वा भोवशीक मळार क्रिस्तांवा वांगडा हिंदूय 'देव बरें करूं' उपकारावंक लागल्यात.

'देव बरें करूं', म्हाका दिसता, God bless you हाचे वयल्यान आयलां. आमचे क्रिस्तांव भाव आदल्या काळा बोटींचेर कामाक वताले. तांकां बोटलेर वा तारवटी म्हणटाले. तांकां इंग्लीश कळनाशिल्ली. पूण तांच्या कानार मात इंग्लीश भास निस्सं निस्सं पडटाली. God bless you तर सदचेंच जाल्लें. कोणें तरी गोंयकारान ताचें 'देव बरें करूं' केलें. तें खपलें. हरशीं 'देवाचो तुका आशिर्वाद फावो जावं' असो ताचो कोंकणी अणकार करूं येत.

'देव बरें करूं' हातूंत 'थॅंक्स' आसात अशें आमी धरतात. पूण ताचे मार्फतीन आमी अदिकतराचो एक खाशेलो संदेशूय पावयतात, तें चडशें आमच्या लक्षांत येना. 'देव तुमचें सगळ्यांचें कल्याण करूं' असोय एक अर्थ तांतल्यान व्यक्त जाता आनी हाका लागून आमी एका ऊंचेल्या पांवड्यार

अचळय पावतात.

आतां 'थँक्स', 'प्लीज' हीं उतरांय आमी सर्रास वापरतात. तीं सदांच चलनांत उरतलीं, आनी उरलीं म्हण कोणें तक्रार करची गरज ना. कारण तीं मूळ इंग्लेज उतरां आतां कोंकणी जाल्यांत म्हणूं येता. खरें म्हळ्यार, तीं उतरां प्रत्यक्षांत चमत्कार घडयतात हें विसरूंक फावना.

'थँक्स' उतर आमकां नम्र करता आनी जो आमकां उपकारा पडटा ताका व्हड करता. तोय 'you are welcome' म्हणून आमच्यार पांवड्यार रावता.

'प्लीज' हें उतर तर जादूच घडयता. दुसऱ्या कडेन उलयतना 'प्लीज' हें उतर वापरचें. प्लीजांतलें 'प्लीऽऽ' मातशें ओडून धरचें. काम जालेंच म्हण समजुचें. आमच्या सांगात्यांक हांव सदांच सांगत आसतां, 'थँक्स' आनी 'प्लीज' उतरां वापरीत रावात. तीं खोस पातळायतात आनी फायद्याक पडटात.

पूण 'देव बरें करूं' ह्या वाक्याचोय आमी उपेग करचो अशें म्हाका दिसता. खासा करून सामाजिक वातावरण शुद्ध करूंक तें चलोवचें अशें हांव म्हणन.

देखीक, आमच्या मार्गांचेर पंचायती आनी नगरपालिका हांच्यो शिमो सुरू जातात थंय आमी 'Welcome' तक्ते लायतात आनी शिमो सोंपतात थंय 'Thank you, come again' तक्ते लायतात. ताचे बदला आमी नागरींत आनी रोमींत 'मोगाचो येवकार' 'Mogacho Yevkar' वा 'सुस्वागतम्' 'Suswagata'm' लावचें आनी शीम सोंपता थंय 'देव बरें करूं' 'Dev borem korum' लावचें. अशे तरेन आख्या गोंयभर 'मोगाचो येवकार' आनी 'देव बरें करूं' जळीं मळीं दिसचें. तांकां लागून आमकांय बरो प्राणवायू मेळटलो आनी पर्यटकूय तांचो अर्थ समजून घेवन 'देव बरें करूं' म्हणूंक शिकतले.

आमच्या रस्त्यांचेर इतले देव आसतना ह्या नव्या देवांची भर कित्याक अशें कोणूय विचारतीत जाल्यार "आतां रस्त्या वयले अदिकशे देव हालोवपाची सरकारान थारावणी घेतल्या. ते संप्रदायांचे देव, पूण आमचे

सामाजिक बलायके पासतचे देव म्हण सांगचें".

म्हाका अशेंय दिसता की केरळ राज्य आपणाक God's own terrritory म्हणोवन घेता आनी काश्मीर 'नंदनवन' म्हणयता. गोंयानूय आपणाक 'पुण्यभूंय गोंय' अशें नांव घेवचें. सरकारी जाहिरातींचेर, कळोवण्यांचेर 'गोंय - एक पुण्यभूंय' अशें आसचें.

गोंयच्या सरकारा कडल्यान हें करून घेवपाचें काम कोंकणी भक्तांनी पत्करचें. कारण हें दायज फुडें व्हरपाची जबाबदारी आमची जावन आसा. हांवें ह्या संदर्भांत मुखेल मंत्र्यांक बरयलां. पूण तांकां पत्रांक जाप दिवपाची संवय ना. तांतूंत नागरिकां कडलें दुर्लक्ष तांकां जाणवना.

पुर्तगेजा काळार सरकारी डिक्टेटरशिपीक लागून गोंयच्या लोकांत हिंसक प्रवृत्ती दिसनाशिल्ली वा आशिल्ली, पूण व्यक्त जायनाशिल्ली. ह्या पन्नास वर्सांत ती वाडत गेल्या, व्यक्त जायत गेल्या तें जाणवता. व्यक्तीगत तशी भोवशीक मळांचेर संप्रदाय वृत्तीय वाडत चल्ल्या. हें गोंयच्या बऱ्याचें वा भल्याचें लक्षण न्हय. ही हिंसक वृत्ती कशी आळाबंदा हाडची हाचेर उपाय जाय.

कवी पांडुरंग भांगी हांची 'वारेंच परतें घुंवता' अशा माथाळ्याची एक कविता आसा. वारें परतें घुंवता तें आरतें घुंवचें म्हण आमी कितें तरी करपाची वेळ आयल्या, नाल्यार हे हिंसेचो स्फोट केदो मोटो जायत सांगूं नज.





## मोगाळ दिव्या, दाखय वाट......

सुनापरान्ताच्या ता. 12-11-13 च्या अंकांत महेश दिवेकार हांचो 'पर्वरी प्रकरणांत आमीय जापसालदार नात ?' हो आनी ता. 13 च्या अंकांत दिनेश मणेरकार हांचो 'गोंय गुन्यावकारांचें नंदनवन जावंक दिवंक फावना' हो लेख आयला. दोगूय लेखक आयचे गोंयचे परिस्थितीचेर हुसको परगटायतात आनी तिचेर निवळण सांगतात.

कोंकणींतूच न्हय तर मराठी तेच भाशेन इंग्लीश दैनिकांतूय आनी हेर नेमाळ्यांचेरूय हेच परिस्थितीचेर बोट दवरून लेख तशीं पत्रां येत आसतात.

हाचोच अर्थ, सुज्ञ गोंयकार विचार करीत आसात, पूण परिस्थितींत बदल घडिल्लो दिसना. कित्याक ?

सगळ्या गोंयांत एक हिंसक खुनशी वृत्ती बळावत चल्ल्या आनी एका काळा ज्या प्रदेशांत जळा-मळा उदकाचे गोड झरे व्हांवताले आनी तानेल्ले वाटसूर माथ्या वयलें वजें दवरण्याचेर दवरून ह्या झऱ्यांचें उदक मनसोक्त पियेताले ते सुवातेर रगताचे झरे दिसूंक लागल्यात.

गोंयकारांक रगत म्हळ्यार कांय न्हय जालां. पयर गोंयकारांचो एक झुंड दांडे घेवन नायजेरियनांक मारपाक तांचे फाटल्यान "धरात तांकां, मारात

तांकां" अश्यो हुयेली मारीत धांवताना पळयलो. निमाणे ताणी दोगांक धरले आनी रगतबंबाळ जाय सर पेटले. पोलिसांनी आडायल्यात तेन्ना ताणी हात फाटीं घेतले. नाजाल्यार ते तांकां जिवानशीं मारतले आसलेच आनी पळटलेय बी आसले. ताचे पयलीं नायजेरिनयांनी पर्वरे हायवेचेर धुमाकूळ घाल्लो आमी पळयल्लोच, पूण ताणी मार्गा वयल्या डिवायडरांचेर राग काडिल्लो.

पूण हो एकूच प्रसंग न्हय. एकलो एकसुरो गोंयकार कांय न्हय करून दुसऱ्याक जितो मारता, तेच भाशेन शेंकड्यांनी गोंयकार अकस्मात जमतात आनी कोणा एकल्याक खुनी मानून, ताका धरूंक न्हय तर जितो मारूंक दोंगरार शस्त्रां घेवन धांवतात.

हालींच बार्देसांत हो प्रसंग घडलो. कोणें एकल्यान एके चलयेक रानांत जिवानशीं मारली अशी खबर पातळ्ळी. पोलिसांक खुनी मेळना जालो तेन्ना गांवच्या लोकान फाटीं फुडें विचार करिनासतना कायदो हातांत घेतलो. कोणे तरी खबर हाडली खुनमारो वयर दोंगरार भोंवता. वारें कशी खबर पातळ्ळी आनी हातांत मेळत तें शस्त्र घेवन शेंकड्यांनी लोक दोंगरार धांवले. पूण तांकां तो मेळ्ळो ना. मेळिल्लो जाल्यार ताचो ते खिमा करतलेच आशिल्ले.

दोन दिसां उप्रांत सावंतवाडीचो कोण तरी गोंयांत आयिल्लो ताका खुनमारो समजून कांय जाणांनी धरून रगत व्हांवसर पेटलो. आनी बाकी जें घडलें तें तर गोंयकार खुनमारे जाल्ल्याचें लक्षण.

ही जाली लोकांच्या जम्याची वागणूक. गोंयकार व्यक्ती वा मनीस इतलो क्रूर जायत अशें कोणें सपनांत लेगीत येवजूंक ना आसतलें. भुरगेपणांत आमकां पन्नास साठ वर्सां पयलीं गोंयांत कोणें एकल्यान कोणा एकल्याचो खून केल्ल्याची खबर सांगतालीं. आनी तेल उदकांत उफेता ते भाशेन खून उगताडार येताच म्हणुनूय सांगतालीं. खून करपी निमाणे मेळिल्ल्याचें सांगून कथा सोंपतालीं.

आदल्या काळाची अशा वेळार याद येता. गोंयांत खून म्हणटात ते केन्ना

जालेच नात. पुर्तुगेजाच्या सोंपत्या काळार मडगांवां एका स्टुडियोसरीं एकल्यान दुसऱ्याक पिस्तोलान मारिल्ल्याची खबर म्हाका मडगांवच्यान 25 किलो मिटर पयस आशिल्ल्या पिर्वोळा आयकूंक मेळ्ळी. तेन्ना पेपर नाशिल्ले. दोग जाण एकेच चलयेचो मोग करताले. हांतल्यान एकल्यान दुसऱ्याक जितो मारलो. कितलो काळ ही खबर मीठ मसालो लावन लोक एकामेकांक सांगून वायट काळ आयला म्हण हुसको परगटायताले.

ह्या गोंयांत 'महानंद' जल्माक येत अशें केन्ना कोणें चिंतिल्लें ? महानंद अस्सल गोंयकार. एक दोन न्हय, सतरा-अठरा चलयांक ताणें जिवानशीं मारिल्ल्याचें सांगतात. तो तांकां लग्नाचें उतर दितालो, गोड उलोवन निर्जन सुवातेर व्हरतालो आनी तांच्यो वस्ती काडून तांकां दुपट्ट्यान गळो आंवळून मारतालो. एक गोंयकार आनी असो राकेस ?

अशे एका फाटल्यान एक ल्हानां व्हडां कडल्यान पयशांपोटीं, मोगापोटीं गोंयांत खून जायत आसात. कोण कोणाची तकली धडावेगळी करता, कोण कोणा आवय-बापायक जितीं मारून तांच्या भुरग्यांक अनमोड घाटार देगाणा वयल्यान सकयल उडयता....

फाटीं कुडचड्यार जें धर्मकांड घडलें, मोती दोंगरार जें तलवारी-कांड घडलें तें पूर्व नियोजीत आसलें देखून तें चड भयांकृत म्हणूं येता.

ह्यो जाल्यो शंबरांतल्यो दोन-तीन दुसऱ्यांक जिवानशीं मारपाच्यो घटना.

दुसऱ्यो घडणुको म्हळ्यार मार्गार घडटात तीं दिसपडटीं मरणां. आमकां त्यो फकत 'बातम्यो' जावंक लागल्यात. हांव काल अपघातांची खबर आयकून उचांबळ जातालों. आज जायना. एक फावट सांग्या पासून 20 किलो मिटर पाडी हांगाच्या दोन ल्हान भुरग्यांच्या बापायक स्कुटर चलयतना ट्रकान धपको दिवन मारलो. ती खबर आयकून हांव मार्गा खातीर वावुरतल्या वकील सुमिता सावंत देसाय हे चलयेक घेवन उटंगारांच्या पावसांत पाडी गेलों आनी ते गरीब आवयचें सांत्वन करून पांच हजार रुपये दिवन परतलों. उप्रांत आमी मुखेल मंत्री दिगंबर कामत हांकां विनंती करून तिका पंचवीस हजार रुपये पावते केले.

आज हें मनीसपण म्हज्यांतलें पातळ जायत वचूंक लागलां हाचें म्हाका अजाप आनी दुःख जाता.

म्हाका जाल्यार खणींचो प्रस्न न्हय, टुरिजमचो प्रस्न न्हय, ड्रगांचो प्रस्न न्हय, सोऱ्याचो प्रस्न न्हय, कोयराचो प्रस्न न्हय, ॲक्सिडेंटांचो प्रस्न न्हय तर गोंयकारांचें मनीसपण शेणलां हो प्रस्न चड भयांकृत दिसता. हाचे इतली अधोगती ना.

गोंयकारांचो मायण्डसॅट पुराय बदल्ला. सगळ्या गोंयकारांक हें खबर आसा. पूण फुरसत कोणाक आसा ? जण एकलो धांवत आसा. पूण तुमच्यांनी / म्हज्यान थंड बसूं येता व्हय ? ही गोंयकारांच्या मनाची बळावत चल्लेली खुनशी वृत्ती कशी आळाबंदा हाडप ? फकत लेख पत्रां बरोवन ह्या विळख्यांतल्यान गोंय मुक्त जावचें ना. हे खातीर आमी भायर सरचें पडटलें. 'वचूं तुटूं बोंबलेचो देंट, मार बोब !' कवी बयाभाव म्हणटाले, तो वेळ आयला.

* * *

आयज आमी आयचो दीस 'मार्ग दीस' म्हण मनयतात. ते पासत आमी कांय वावुरप्यांनी मडगांवां जमचें थारायलां. हांवें तर सगळ्या गोंयकारांक नागरीक करपाचो आमचो 'पॅट प्रोजेक्ट' चालीक लागसर जियेवचें थारायलां.

फकत व्होटर जावन आशिल्ल्या गोंयकारांक नागरीक करप ही आमी मोख दवरल्या. पयलीं विद्यार्थ्यांक नागरीक केले की लोकशाही जैतिवंत जालीच म्हण समजुचें . ताका वर्सां लागूं येतात. पूण पयलें पावल तर घालुंकूच जाय. आमकां तर लोकशाही देशाक शिकोवची आसा.

दुसरें म्हळ्यार, गोंयकारांचो मायण्डसॅट आदले भाशेन शांतिप्रीय करपा खातीर गोंयांत एक नागरिकांचें 'शांति सम्मेलन' घडोवन हाडचें वा 'गांधी यात्रा' काडची गरज म्हाका दिसता.

आयज 'मार्ग दिसाचे' हे दोन संकल्प तडीक व्हरूंक अंतरांतलो मोगाळ दिवो वाट दाखयतलोच दाखयतलो !






# गोंयान 'नागरीक' घडोवंक फुडाकार घेवचो

गोंयचे मुक्ती उप्रांत जानेवारी 1962 त आचार्य काकासायब कालेलकर गोंया आयिल्ले. तांकां मडगांवां पावणार दिवपाचें भाग्य म्हाका फावो जाल्लें.

काकासायब कोंकणीचो पुरस्कार करपी. ताका लागून तांकां मेळपाक कोंकणी भक्तांची आमगेर रीग लागिल्ली. आनी ताकाच लागून मराठीवादी म्हणटल्यांतले दोग तीग सोडल्यार कोण तांकां सदिच्छा भेट दिवंक आयिल्ले अशें म्हाका तरी याद जायना. याद जाता ती काशिनाथ दामोदर नायक, नरसिंह सुकेरकार आनी कवी दामोदर अच्युत कारे हांची. ते येवन काकासायबांसरीं बशिल्ले.

ह्या काळांत काकासायबांचें एक व्याख्यान मडगांवच्या सारस्वत ब्राम्हण समाजाच्या सालांत जाल्लें. आयज हे संस्थेक गोमन्त विद्या निकेतन म्हणटात. तेन्ना ती संस्था एका माळी नाशिल्ल्या नळ्यांच्या घरांत आतांचेच सुवातेर चलताली. तिच्या रस्त्याकुशीनच्या सालांत काकासायबांची सभा जाल्ली. ते 'लोकशाही' ह्या विशयाचेर उलयल्ल्याचें येवजता. गोंय तेन्ना लोकशाहीक नवें आशिल्लें. आपल्या उलोवपांत काकासायब हाणी सांगिल्लें घट यादींत आसा. तें म्हळ्यार, लोकशाही 80-20 ची आसची. 51-49 ची आसूंक फावना.

आज वेंचणुकांनी 51% सोडाच अर्दापरस उणे जागे मेळ्ळ्यार लेगीत तो पक्ष आपूण जिखलो म्हण हक सांगून सरकार घडोवंक शकता.

हे फाटभुंयेर आमी आमच्या देशांत लोकशाही जैतिवंत जाल्या म्हण गर्वान सांगतात. इतलें खरें, पांच पांच वर्सांनी आमच्या देशांत वेंचणुको जावपाची चाल रुजल्या. वेंचणुकांनी आदले भाशेन हिंसा वा मतपत्रिका झोंपून घेवंक मेळना. आज यंत्रा मार्फतीन मतदान करूंक मेळटा.

आनीक एक म्हळ्यार भारतांत मताचो अधिकार 18 वर्सां वयाचे कोणाय व्यक्तीक मेळ्ळा. सुरवेक हो अधिकार शिकिल्ल्यांकूच मेळचो असो कांय जाण आग्रो धरताले. पूण तेन्नाच्या फुडाऱ्यांनी हें मान्य केलें ना. मनीस शिकून गिन्यानी जावं येता, पूण सामान्य मनशांत वेव्हारीक शाणपण जातकूच आसता हाचेर बोट दवरून आमच्या फुडाऱ्यांनी सगळ्यांक मतदानाचो हक दिलो.

लोकशाही संदर्भांतले भारतांतले हे 'प्लस पॉयण्ट'. तरिपूण अस्तंतेच्या इंग्लंड अमेरिका देशांत जे तरेन लोकशाही रुजल्या तशी साठ वर्सांत हांगा रुजूंक ना. हाका कारण आसा. भारतांत जल्म जाल्ले आनी पिरायेचे 21 वर्सांचे  दर एके व्यक्तीक आमी नागरीक मानून मतदानाचो हक दिलो. पूण तांकां नागरिकत्वाचें शिक्षण दिलें ना. हांकां खऱ्यांनीच नागरीक म्हणूं येत काय ?

सिटिझन वा नागरीक हांकां दोन कामां आसतात. शाणपणान मतदान करून सरकार वेंचून काडप. ह्या सरकाराक कराच्या रुपान नागरिकांनी पयशे दिवप आनी सरकारी पांवड्यार आपणाक जे अधिकार मेळटात तांचो लाव घेवप. देखीक, सरकार नागरिकांक राखण सेवा दिता, शिक्षण सेवा दिता, भलायकी सेवा दिता, पासपोर्ट सेवा दिता... आदी

सिटिझनाचें दुसरें काम म्हळ्यार समाजांत रितीन जियेवप; ल्हान मोटे नेम कायदे पाळप; दुसऱ्या घटकांक त्रास जावचे नात अशें शिस्तीन वागप. दोनूच उतरांनी सांगचें जाल्यार सिवीक सेन्साक पाळो दिवप.

अस्तंत देशांतले नागरीक हीं दोनूय पथ्यां पाळटात. तीं तांकां पोलिसांनी शिकोवचीं लागनात. विद्यार्थी अवस्थेंतूच तांकां सिटीझनशीप आनी सिवीक सेन्स शिकयतात. ते घरा भायर येरादारीचे, निवळसाणीचे नेम पाळटात. विद्यार्थी अवस्थे सावन नागरिकत्वाचें तांकां रितीन शिक्षण मेळिल्ल्यान तांचो मायण्डसॅट सामको शिस्तप्रीय जाला हें आमकां स्पश्ट दिसता.

मध्यपूर्वेच्या देशांनी हुकुमशाही चलता. थंय रस्त्याचे कायदे नेम मोडटल्यांक कडक ख्यास्त जाता देखून थंय मार्गांचेर शिस्त दिसता.

आमच्या देशांत आमी नागरिकत्वाचे कसलेच नेम पाळिनात आनी सरकारूय आमचे कडल्यान पाळून घेना. कारण आमकां सरकार कशें चलोवचें तें अजून कळना. हांगा कोणूय पोलिटिशयन आडगां नाडगां करून वेंचून येता आनी सत्ता हातासून तिचे वरवीं लोककल्याणा बदला आपलें कल्याण सादयता.

अशे हे आमचे तशे अस्तंतेचे दोन तरांचे मायण्डसॅट. जे मेरेन भारतीयांचे मानसिकतायेंत बदल घडोवन हाडपांत आमी जैत जोडिनात ते मेरेन लोकशाही म्हळ्यार घरा भायर कोणेंय कशेंय वागप हें चलत उरतलें. आनी हाचो शेवट हुकुमशाहींत जातलो.

देशांत ही अशी भयांकृत अवस्था आसा. गोंयांतूय तिणे बस्तान मांडलां. हाचेर खूब पेनां झरयल्यांत. हें रडगाणें न्हय. मार्ग सोदपाची ही प्रक्रिया.

आचार्य काकासायब गोंयाक एक प्रयोगशाळा करात म्हण परपरत सांगताले. प्रयोगशाळे पासतचें सगळें इन्फ्रास्ट्रकचर हांगा जातकूच आसा. सगळ्यांचे हात-पांय पावतात असो प्रदेश, मर्यादीत लोकसंख्या, सुशिक्षीत तशी सुसंस्कृत आनी जगभर भोंवन येवपी प्रजा, पयसोय आसा. आनीक कितें जाय ? जाय जिद्द आनी 'आमी करून दाखयतले' ही वृत्ती.

अश्या चिंतनांतल्यान आमकां कांय जाणांक गोंयांत एक 'इन्स्टिट्यूट फॉर सिटिझनशीप ॲण्ड सिवीक सेन्स एज्युकेशन' स्थापन करीन दिसलां. ह्या इन्स्टिट्यूटा वरवीं दर एका हायस्कुलांत आनी कॉलेजींत 'सिवीक क्लब'

स्थापन करपाची येवजण आनी अभ्यासक्रम तयार केल्यात. आमकां कांय जुवान गडेय मेळ्ळ्यात. स्थापन जाल्यार देशांतलो तो पयलोच तसो क्रांती करपीय इन्स्टिट्यूट थारतलो.

अमेरिकेंत इंग्लंडांत वचत थंय सिटिझनशीप विद्यालयां आसात. आमच्या देशाच्या लोकशाही जिवितांतली ती तूट भरून काडपा खातीर नियतीन गोंयकारांक फुडें काडल्यात अशें हांव मानतां.





# प्रोब्लेम आमी तयार केल्यात, ते आमीच सोडोवंक जाय.

आमचे डॉ. नंदकुमार कामत हे अगाध बुद्धिमत्ता लाभिल्ले एक गोंयकार. तांचें कौतूक करूंक घडये हांव कमी पडन. तांच्या विचारांचें जाळें विश्व आसपावपी. तांकां अमको एक विशय वर्ज्य ना. ते मुर्तिमन्त गिन्यान. मानवी कल्याणाचेर ते भाष्य करतातूच, ताचे भायर देश आणि गोंयचेर ते पुराय प्राण ओतून बरयतात. तांच्या लेखांनी शेंकडेच न्हय, तर कांय हजार हुपल्यात.

गेल्ले दोन सोमार नवहिन्द टायम्साचेर तांचो दोन वांट्यांनी एक लेख आयला. What Swami Vivekanand means to Goa असो ताचो माथाळो. विवेकानंदांक ताणी गोंयकारां कडेन 'रिलेट' केल्यात. आनी गोंयची जी अधोगती जायत चल्ल्या तिचेर भाष्य केलां.

डॉ. नंदकुमारांचे अस्वस्थतायेंत म्हजे भाशेन कितलेशेच गोंयकार वांटेकार जातले. गोंयचे परिस्थितीचेर परपरत वेगवेगळें बरप येत आसता. भाशणां लेगीत जायत आसतात. तिचेर उपाय म्हणून "अशें जावंक जाय, तशें जावंक जाय" अशीं वाक्यां आमकां परपरत वाचूंक मेळटात. पूण एक व्हिजन घेवन फुडें सरपी कोण मान्य फुडारी दिसना. मनोहर पर्रीकारांत फुडाऱ्याचे कांय गूण आसात. पूण ही व्यक्ती सगळ्यांक मान्य जावप कठीण.

एकेकदां एका मनशाच्या तोंडांतल्यान लक्षांत घेवपा सारकीं कांय उतरां

आपशींच भायर सरतात. मडगांव नगरपालिकेक म्हजे नदरेन एक कुशळ अशी चीफ ऑफिसर मेळ्ळ्या. एक-दोन फावट हांव तिचे सामकार बसलां. पयर असोच बशिल्लों आसतना तिचें फोनार चलतालें तें उलोवप हांवें आयकलें. मॅडिकल गारबेजी संबंदान ती फोनार उलयताली. हे विशीं उलोवपा खातीर डॉक्टरांची एक बसका आपणें आपयल्या अशें कोणाक तरी सांगताली. 'प्रोब्लेम आमी तयार केल्यात, ते आमीच सोडोवंक जाय', अशीं उतरां हांवें आयकलीं आनी हांव पळयत उरलों. म्हज्या मनांतलेंच ही अधिकारी उलयता अशें म्हाका दिसलें. उपाय फळादीक जावं वा जावं नाका, पूण ते आमी सोदून काडून लागू करूंक जाय हें तथ्य मनांत बाळगून वावुरपाचो वेळ केन्ना येवन गेला.

गोंया संबंदान आमी विचार करिनात अशें न्हय. पूण निर्णय घेवपाची शक्त आमी वगडावन बसल्यात. गोंयांत दोन पांवड्यांचेर जिवीत चल्लां. एका पांवड्याचेर चोरयो, मारामाऱ्यो, दरोडे, खून, बलात्कार, भुरग्यांचेर लैंगीक अत्याचार, ॲक्सिडेंट अशीं हिंसक कृत्यां घडत आसात. आनी दुसऱ्या पांवड्याचेर कॅजिनो, सनबर्न आनी मूनबर्न पार्ट्यों आनी सेक्सी फॅस्तां चलतात.

कोण तरी इफ्फीची मौज चाखूंक गोंया येवंक सोदतालो. इफ्फींत 'ज्ञानेश्वर' फिल्म दाखयतले अशें ताच्या कानार पडलें. "गोंयांत 'ज्ञानेश्वर' पळोवंक वचपाचें ?" ताणें विचारलें. भायले लोक धरून चलतात की गोंयांत वचप तें ड्रग्स, सोरो आनी आनीक कित्याखातीर.

हाचेर उपाय ना व्हय ? कोण म्हणटा उपाय ना ? मडगांव नगरपालिकेची चीफ ऑफिसर सांगता, 'प्रॉब्लेम आमी तयार केल्यात. ते आमीच सोडोवंक जाय !' शंभर टक्के सत्य !

फकत तिडक आसून उपकारना. जाय पोट-तिडक !

आनी बाकीबाब तर मार्ग दाखोवन गेल्यात. 'रस्तो बारा हात रुंद करपाच्या वावराक लागात. तो (गांधी?) परतून येवचो आसा,' अशें ब्रम्हवाक्य ताणी उच्चारलां.

निर्शेवन वचपाची गरज ना. स्वामी विवेकानंद शंबर जाणांक पुंजावपाचें काम करताले. पूण तांकां मर्दीच चड गरजेच्या दुसऱ्या कामाक आपोवणें आयलें. हांव तर म्हणन, एकलो पुरो. एकल्याचे दोग आनी दोगाचे पांच जातलेच जातले.

पयर काणकोणा, आमोण्या गांधी साहित्य घेवन गेल्लों. मदीं मदीं सभा-मंटपांत वचून बसतालों. थंय आयचो वावुरपी आनी फायचो फुडारी गोपीनाथ गांवस हाचें उलोवप आयकून धन्य जालों. सत्तरींत ज्या आत्मविस्वासान नागरीक घडोवपाची शाळा तो चलयता तें रस्तो बारा हात रुंद करपाचेंच काम !

काणकोणा माशां शिक्षिका माया गांवकार हाणी संत गाडगेबाबा सिवीक क्लब स्थापन केला. दुसरे कडेन आनिकूय शिक्षक आसतले, जे खऱ्या अर्थान नागरीक घडोवपाचें कार्य करतात आसतले. तांकां आमचें नमन.

हें बरयताना कोंकणी भाशा मंडळान डिसेंबरांत जी कोंकणी शिक्षकांची परिशद घेवची केल्या थंय म्हजें लक्ष गेलां. ह्या शिक्षकांनी बाकीबाबांनी सांगिल्लें कार्य हातांत घेवचें.

तांकां कोंकणी कशी शिकोवची, बरोवची, कविता कशी रचची, कथा कशी घडोवची हें सांगपांत वेळ वघडावं नाकात. डॉ. नंदकुमार हांणी गोंयची अधोगती सांगल्या तांतल्यान गोंय वाटावपाची जबाबदारी कोंकणी शिक्षकांनी पत्करूंक जाय. हिका भांगराची संद म्हणटात. गोल्डन ऑपॉर्च्युनिटी ! चॅलेंज! आव्हान ! तिचो पत्कर घेवया.

शिक्षकांचें काम विद्यार्थ्यांक खऱ्या अर्थान नागरीक करपाचें. पांच वर्सांत कांट्यां-खुट्यां विरयतचो रस्तो तयार करुंया. तो परत येतलोच येतलो ! देशा पासत खूब रगत दिलां ताणें. आतां तरी रस्तो नितळ तसो निवळ करपाचे लागणुकेक पाळो दिवया. ताचे प्रार्थनेंत वांटेकार जावया.





# थारावण्यांनी आमी आमकां बांदून घेवचें पडटलें.

कवी बाय राधा भावे हांची अदींमदीं भेट घडटा. (तांकां 'कवयित्री' ह्या कर्कश संबोधना बदला 'कवी' संबोधनूच वापरपांत हांवें समाधान मानलां.) त्यो गोवा म्युझियमाच्यो संचालकूय (संचालिका ?) आसात. दोनूय नात्यांनी आमकां त्यो लार्गी. तांच्या ऑफिसांत बसतां तेन्ना तांचो प्रस्न आसता, 'मार्ग अभियान कशें चलता ?' 'कालचे परस बरें' म्हण सांगून हांव मेकळो जातां. उप्रांत हांव तांकां तांच्या कवितां संबंदान विचारतां.

हालींचे भेटेंत ताणी म्हाका जें सांगलें तोच ह्या पत्राचो विशय करीनशें म्हाका दिसलें.

आपली कविता महाराष्ट्रांतल्या एका नामनेच्या पत्रांत उजवाडा आयली आनी तिका लेखून आपणाक महाराष्ट्रांतल्यान तिशेक संदेश आयिल्ल्याचें राधा भावे हांणी म्हाका सांगलें. पत्रां, इ मेल, एस एम एस, फोन हांतल्यान महाराष्ट्रांतल्या रसिकांनी आपले कवितेक 'दाद' दिल्ल्याचें ताणी उमेदीन फुडें म्हळें. म्हाका तें पटलें.

हांवें तांकां म्हळें : 'महाराष्ट्रांत हें कल्चर तयार जालां. तें बेश्टेंच न्हय. जायतो काळ रसिकांनी तें केळोवन तयार केलां.' इतलें सांगून 'गोंयांत रसीक आसात, पूण ताणी आपलें मत बरोवन कळोवपाची संवय लावन

घेवंक ना,' अशें म्हजें मत हांवें मांडलें. हांवें म्हजी परिस्थिती सांगली. 'मार्ग बुलेटिनाचे कांय शेंकडे अंक आमी पोस्टांत घालतात. एका तपा परस चड काळ जालो, हो वावर चल्ला. गोंयांत 'मार्ग' हें नांव ब्रॅंड जालां, पूण एक लेगीत (एक लेगीत) सुभागी आपणाक अंक पावलो म्हण बरोवन आसूंच, फोनान लेगीत कळयना.

हो शीण न्हय. समाज ह्या नात्यान आमच्या सभावगुणांची ही दखल. हें बदलूंक जाय म्हण हो प्रपंच आनी हावेस. गोंयकारांक आपलें कर्तुत्व दाखोवंक मेळचें म्हण आमी कोंकणी घेतल्या. दुसऱ्या अर्थान कोंकणी आमी समाजप्रबोधना खातिरूय घेतल्या. साहित्य निर्मिती हो ताचो बाय-प्रॉडक्ट. कोंकणीच्या आधारान समाजोन्नती साधप हें आमचें मिशन. पूण आमची गाडी साहित्यीक स्टेशनारूच थांबल्या. ती हालच ना. साहित्यांत आमी हिमालयाचें तेमूक गांठ्ठले हातूंत दुबाव ना, पूण निमाणे प्रगल्भ महाराष्टांत जशी शिवसेना राज्य चलयता वा थंय जशी 'राणेगिरी' चलता ते भाशेन गोंयांतूय हे वा ते सेनेचेंच राज्य आमी स्थापन करतले काय दिसता.

कोंकणी भास आनी साहित्यीक हांच्या आधारान आमी कोंकणी समाज म्हण कांय नव्यो चाली रिती आपणावंक फावताल्यो, तांतूत आमी कमी पडिल्याचें जाणवता.

सुनापरांताचेंच घेवया. आमच्यांत आतां पायलेक पांचशीं 'रायटर' जाल्यात. चर्चे खातीर लोकशाहीन आमकां हजारांनी आंबट-तीख विशय दिल्यात. जाल्यार आमचे बरोवपी साहित्य (कथा, कविता, कादंबरी, निबंध) सोडून दिसपट्ट्या जिवितांत कांय गटखळ प्रस्न उपरासल्यात तांचेर कित्याक बरयनात ? सुनापरांताचेर पत्रांचो पावस पडूंक जाय आसलो अशें तुमकां दिसना ? सुनापरान्ताचें हें आंग कित्याक दुबळें उरचें ?

आमच्या कोंकणी समाजांत रिगिल्ली अनास्था आमी कोंकणी साहित्यिकांनी, कोंकणी भक्तांनी जबाबदारी पत्करून शेतांतल्या नेराक काडून उडयतात तशी हुमटून काडून उडोवंक जाय अशें म्हाका तरी दिसता.

वेळाचे बाबतींतूय पन्नास वर्सां जालीं आमी बदलनात. चार म्हळ्यार साडेचार, पांच म्हळ्यार साडेपांच हें कोश्टक आमी कशेच सोडूंक तयार नात. मुखेल पावणो म्हूण एके कार्यावळीक हांव दिल्ल्या वेळार म्हळ्यार पांच वरांचेर पावलों. पळयत जाल्यार सभाघर उकतेंच करूंक ना. सवाय पांचांक कोण तरी आयलो आनी ताणें साल उकतें करून पळयलें जाल्यार थंय कोयर भरला, कदेलांय मांडचीं आसात. ताणें हें काम सुरू केलें.

साडेपांचांक म्हाका आमंत्रण दिवपी इश्ट आयलो आनी "आरे तूं आयलो? पांच म्हळ्यार साडेपांच म्हण तुका खबर ना ?" ताणें विचारलें. "हांगा स पयलीं कोण येना, देखून तांकां आमी 5 वरांचेर कार्यावळ सुरू जातली म्हण बरयतात. अशें केल्यारूच ते संक येतात. इल्ली च्या घे. इतल्यांत ते येतले." हांवें कपलार हात मारलो.

तिसरी गजाल म्हळ्यार आमकां लागिल्लें एक नसतें वेसन. तें म्हणचे भायले जे कोण मेळटात, वा जांचे कडेन वळख जाता तांकां गोंया येवपाचें आमी परपरत दितात तें आमंत्रण.

हांव दिल्लीक दोन फावटी कॉलेज विद्यार्थ्यांक घेवन गेल्लों. दोनूय फावटी विशेक विचारवंतां कडेन विद्यार्थ्यांची भेट घडयली आनी तांचे विचारूय आयकयले. हावें पळयलें, आमचीं भुरगीं दर फावटी ह्या लोकाक गोंया येवचें आमंत्रण दितात आनी ते हांशिल्ले भाशेन करतात.

ह्या भुरग्यांक जेन्ना हांवें विचारलें, "जर हांतल्या दोग चौग जाणांनी गोंया येतात म्हण सांगलें जाल्यार तुमी तांची खंय व्यवस्था करतलीं ?" हाची जाप तांचे कडेन नाशिल्ली. "भायल्या पावण्यांक आमी जेन्ना गोंया आपयतात तेन्ना तांच्यो येवपा-वचपाच्यो विमानाच्यो तिकेटी, तांचो बऱ्यांतल्या बऱ्या हॉटेलांत रावपाचो खर्च, जेवणाचो खर्च, तांच्या भाशणाचो विडो हें सगळें तांकां दिवचें पडटा. ते भायर तांकां दोन तीन दिसां खातीर ड्रायवरा सयत बऱ्यांतली गाडी दिवची पडटा. ते मागीर गोंय पळयतात आनी गोंय एकदम सुंदर म्हण सर्टिफिकेट दिवन वतात. आनी आमकां सर्गाक

हात लावंक तितलें पुरो जाता."

इफ्फीक जे भायले आमंत्रीत आयले तांकां टीव्ही रिपोर्टरांनी 'गोंय कशें लागलें ?' हो प्रस्न विचारलोच. हांतल्या कांय जाणांचे हांगा बंगले आसात आनी कांय जाणांच्यो जमनी आसात हें आमकां खबर आसूंक जाय. भायल्यांक गोंय बरें लागलां आनी गोंयकार बरे (?) दिसूंक लागल्यात देखून 'भायले' गोंयकार जावपा कडेन पावल्यात, आनी गोंयकार भायले.

हें सगळें लक्षांत घेवन, 'तशें जाल्यार आमी कितें करचें' ह्या प्रस्नाचें उत्तर दिवचें पडटलें. हाका म्हजें उत्तर अशें :

1) आमी कोंकणी भक्तांनी आमी जावन 'पावलें, वाचलें, बरें लागलें' असो साहित्यिकां कडेन वा समाजवावुरप्यां कडेन संवाद चलोवचो पडटलो.

2) आमी कोंकणी भक्तांनी वेळाचें म्हत्व मानून वक्तशीर जावचें. पांच म्हळ्यार आमचे खातीर साडेपांच नासचीं.

3) आमी सुनापरान्तांत पत्रां बरोवपी जावन 'बल्कांवा' चें म्हत्व आनी गरज वाडोवची.

4) भायल्यांक गोंय पळोवंक येयात म्हण आमंत्रणां दीत रावचें न्हय. आमंत्रणा बगर ते आतां येतात.

ह्या चार-पांच थारावण्यांनी आमी आमकां बांदून घेतल्यार योग्य दिशेन आमी एक पावल घाल्ले भाशेन जातलें.



16

# एका अर्विल्ल्या फ्रांसिस्कु लुईश गोमिशाची आयज गोंयांक गरज आसा.

देश स्वतंत्र जालो त्या दिसा सावन खरें म्हळ्यार भारतांत आम आदमीचें राज्य सुरू जालें. मताचो अधिकार आम आदमीक मेळपाक जाय असो आग्रो तेन्ना घटनाकारांनी धरलो. मताधिकार फकत शिकिल्ल्यांकूच मेळचो अशें कांय जाण मागताले. तांचें तेन्नाच्या फुडाऱ्यांनी काना-मनार घेतलें ना. शिकूंक नाशिल्ल्या मनशाकूय वेव्हार-गिन्यान आसता हें ताचें फाटलें एक कारण आशिल्लें म्हणूं येत. दुसरें म्हळ्यार, कालांतरान आम आदमी शिक्षीत जातलो आनी खऱ्या अर्थान नागरीक जातलो अशें सगळे जाण मानताले आसुंये.

आम आदमी कायद्यान देशाचो नागरीक, तरी नागरिकत्व म्हळ्यार कितें कात तें चडश्यांक खबर आसना. देखून आम आदमीक आनी विद्यार्थ्यांक नागरीक करपाचो वावर सरकारान हातांत घेवचो अशी अपेक्षा आसता, जशें अमेरिकेन करून दाखयलें.

आम आदमी पक्षाचे अरविंद केजरीवाल आनी योगेंद्र यादव हांचें हांव एक आम नागरीक म्हण अभिनंदन करतां. 'हें आमचें जैत न्हय, हें दिल्लीच्या आम आदमींचें जैत' अशें सांगून ताणी सगळें श्रय मतदारांक दिलां, हें बेस बरें सोबलें.

पूण हांव अभिनंदन करतना सांगूंक सोदतां की तांचे आम आदमी जी सारण उबयतात तें मात बरें दिसना. सारण उबयनात, सारण 'मारतात'. ह्या आम आदमींनी सारण मारून दिल्ली शार निवळ करचें अशें हांव सुचयन. 'कर्रप्शन' सारके न्हयकारी घोशणे वांगडा महात्मा गांधी हांचे शिकवणे प्रमाण कसलो तरी विधायक वावर आम आदमींनी हातांत घेवचो. जैताक हयकारी रूप दिवचें.

पराजया उप्रांत राहूल गांधींनी जें उलोवप केलें तें नेहरू घराब्याचे सभ्यतायेक सोब सारकें दिसलें. 'आम आदमी पक्ष जसो लोकाचो विस्वास जोडूंक शकलो तशे आमी शकले नात' ही तांची कबुली तांकां व्हड करून गेली. ते जर अशें उलोवंक नाशिल्ले जाल्यार दुसरे काँग्रेसी गण आम आदमी पार्टीक दुशणां दीत रावतले आसले. तांची 'बोलती' खासा तांच्या फुडाऱ्यान बंद केली हें बरें जालें.

एक गजाल लक्षांत दवरूंक जाय की राहूल गांधी हाणी आतां मेरेन तरी प्रधानमंत्री पदाचो आपूण उमेदवार म्हण केन्नाच उच्यारूंक ना. मिडियान तशें म्हणून तांची प्रतिमा इबाडपाचो प्रयत्न केला. आपल्याक काँग्रेस जाग्यार घालूंक जाय म्हण राहूल गांधी परपरत सांगत आसतात. काँग्रेसीक 'भायरेची' गरज आसा, हांतूल दुबाव ना. गोंयची काँग्रेस तर अजून निवळना.

काँग्रेसीन फोडपाची न्हय तर जोडपाची नीत आचरची अशें राहूल गांधी हांकां दिसता. दिल्लींत नॅशनल युनियन ऑफ स्टुडंटस इन इंडियाच्या पदाधिकाऱ्यां सामकार ताणी केल्लें उलोवप म्हाका आयकूंक मेळ्ळें. तांकां जेन्ना गोंयांतल्या मार्ग अभियानाचें पंचशील एन यू एस आयन देशभर चालीक लावपाक आरंभ केला म्हण कळ्ळें तेन्ना ताणी म्हजें अभिनंदन केलें. मंत्री जयराम रमेश हांकां 'स्वच्छ नारायण पुजा' इतली पसंत पडली की तांच्या तोंडांतल्यान 'वा वा' उदगार भायर सरले.

हांगा गोंयांत मनोहर पर्रीकार हांणी 'आमी सेमीफायनल जिखले' अशी गर्जना केली तें तांकां सोब सारकें जालें. ती तांची रीत, आमीय मानतात.

पूण सेमीफायनल दोग पंगड जिखतात. अरविंद केजरीवालांचो पक्षूय सेमीफायनल जिखला. पूण ते गर्जना करिनात. ते आमी जिखल्यात म्हणच नात. 'हमारी क्या अवकात ?' ते विचारतात.

देशांत वेंचणूक जिखतलो जाल्यार पक्षाच्या फुडाऱ्याक करिश्मा गरजेचो. तो इंदिरा गांधीं कडेन, राजीव गांधीं कडेन आशिल्लो. सोनिया गांधी हांकां तर प्रधानमंत्रीपद मेळिल्लें. तें ताणी न्हयकारलें. देखुनूच काँग्रेस दुसरे फावट वेंचून आयली.

आयज भाजपाच्या नरेंद्र मोदींक पळोवंक जनसमुदाय मोटे संख्येन जमता. तांचें उलोवप आयकुचे पयलीं लोक ताळयो पेट्टा. 'तुमकां मार्गार च्या विकपी प्रधानमंत्री जाय काय देश विकपी प्रधानमंत्री जाय ?' हो प्रस्न ते जमिल्ल्या लोकाक विचारतात. आनी 'आमकां च्या विकपी प्रधानमंत्री जाय' म्हण लोक आड्ड्यो मारून सांगतात. देश कोण आनी कसो विकतात हें मोदींनी समजावन सांगूंक जाय आसलें. लोक गिन्यानी जातले आशिल्ले.

पूण आतां नाटकाचो दुसरो प्रयोग सुरू जावचो जाला. अरविंद केजरीवाल आतां भायर सरचे आसात. करिश्मा तेय जोडूंक लागल्यात. ही सर्त पळोवंक बरी दिसतली.

हे सगळे फाटभुंयेर गोंयचो विचार केल्यार गोंयकार आपणेंच निर्माण केल्ल्या प्रस्नां भितर घुसपल्ले दिसतात. आपल्या कर्तुत्वान भारतीय नागरिकत्व मोलादीक करपा बदला गोंयकार तें न्हयकारूंक लागल्यात.

हे वटेन पोटाचें निमित्त सांगून फुडाराचो विचार करिनासतना आपलें नागरिकत्व - म्हळ्यार व्यक्तित्व - पुसून उडोवन गोंयकार लाखांचे संख्येन परदेसांनी वचूंक लागल्यात. दुसरे वटेन गोंयांत गडगंज गिरेस्तकाय आसा अशें कळिल्ल्यान देशांतल्यान लाखांनी लोक गोंयांत येवन बस्तान ठोकूंक लागल्यात.

आपणाक मेळिल्ल्या शिक्षणीक बळार, अर्थीक बळार, सुसंस्कृताये बळार, परदेस पळोवन मेळिल्ल्या गिन्यानाच्या बळार, धर्म सम भाव वृत्तीच्या

बळार संकटांत आशिल्ल्या आपल्या देशाक कितेंय दिवचे बदला गोंयकार आपणेंच निर्माण केल्ल्या चिखलांत मुंगरूंक लागला.

प्रस्न तरी कसले ते पळोवया :

मीन, पर्यटन, कॅसिनो, मोपा विमानतळ, शिक्षण, सोरो, ड्रग्स, कोयर, सुणीं, गोरवां, अपघात, बलात्कार, चोरयो, दरवडे.....

गोंयांत एक विकृत वेगळ्या अर्थाची डिनॅशनलायझेशनाची प्रक्रिया चालीक लागल्या. तातूंत एकाच धर्माचे लोक आसात असो सोयिस्कर गैरसमज करून घेवंक फावना.

एका अर्विल्ल्या फ्रांसिस्कु लुईश गोमिशाची गोंयाक आज गरज आसा. देशा खातीर उजवाड मागपी फ्रांसिस्कु लुईश गोमिशाची आज गरज आसा.






# आमी आमची जापसादारकी समजून घेवया.

म्हजो दीस सकाळीं न्हाले उप्रांत 6 वरांचेर सुरू जाता.

आयज 19 डिसेंबर, गोंयचो मुक्तिदीस. सकाळीं फुडें लोहिया मैदानार वचपाची ताकतीक. आठांक भायर सरून धा मिनटांनी लोहिया मैदानार पावतां. थंय पळयल्यार मडगांव नगरपालिकेच्यो चीफ ऑफिसर दीपाली नायक हांची गाडी दक्षीण गेटी मुखार उबी. हांव तांचे उप्रांत पाविल्ल्यान लज शी जाता. कलेक्टर कचेरेंतल्यान 'मंत्री' लोहिया मैदानार 8.40 क पावतले असो पयल्या दिसाचो निरोप आसता. नगरपालिकेंतल्यान निरोप पाविल्लो नासता.

आमी कांय 'बुढ्ढे' स्वातंत्र्य सैनीक लोहिया मैदानाचे राखणदार असो कांय जाणांनी समज करून घेतला. गेट उक्ती दवरात असो आमकां निरोप येता तेन्ना आमी ताका पाळो दितात.

कांय वेळान नगरसेवक अविनाश शिरोडकार येता. आपूण स्वातंत्र्य सैनिकाचो पूत हाचो ताका रास्त अभिमान. लोहिया मैदानाची जतनाय काडप ही आपली लागणूक तो मानता. ताचे उप्रांत नगरपालिका अध्यक्ष दयानंद देवुलकार येतात.

तिगांय हुतात्मा स्मारकाक आनी डॉ. लोहियांच्या पुतळ्याक फुलां अर्पून स्वातंत्र्य सैनीक कचेरेंत दोन मिनटां बसतात आनी ध्वजवंदना पासत नगरपालिकेंत वतात. मडगांव नगरपालिकेचे वीस नगरसेवक. फकत दोग जाण लोहिया मैदानार येतात.

8.40 क मंत्री आवेर्तान फुर्तादा घरकान्न आनी चल्या सयत लोहिया मैदानार पावतात. आवेर्तान हें एक प्रसन्न व्यक्तीमत्व. आर्गां ओंपून जाले उप्रांत स्वातंत्र्य सैनीक कचेरेंत पांच मिनटां बसून ते वतात. ह्या वेळार लोहिया मैदानार फकत हो बरोवपी आनी स्वा. सै. दयानंद कंटक आसतात.

हरशीं लोहिया मैदानाचेर सात आठ स्वातंत्र्य सैनीक नित्यनेमान उपस्थीत रावपी. तांकां हांव 'रोजचेच यशस्वी कलाकार' म्हणटां. तांतले वसंत मळयो, वसंत हेगडो आनी रोनाल्दु कोवतीन उर्फ पिटी लोहिया मैदान आमचे कडेन दिवन गेले. सगळे कावलाक आयल्यात. आयज कंटक आनी हांव सोडल्यार हेर यशस्वी कलाकार आयले नात. शीं खाता म्हणून जावंये.

* * *

जून 10, 1946. डॉ. राममनोहर लोहिया गोंया असोळण्यां आपल्या इश्टागेर डॉ. ज्युलियांव मिनेझीश हांगेर थोड्या दिसांच्या राबित्याक आयल्यात. हांगा तांकां गोंयांत नागरीक स्वातंत्र्य (Civil liberties) ना म्हूण कळटा. सभावा प्रमाण ते उसळटात आनी पुर्तुगेजाचो हो कायदो मोडटलों म्हूण जाहीर करतात.

18 जून 1946 ह्या दिसा सांजे आज जाका लोहिया मैदान म्हूण पाचारतात ते ल्हानशे दोंगुल्लेचेर लोहिया उबे रावन भाशण करून कायदो मोडटात.

त्या खिणाक त्या मळाभोंवतणी पांच-स हजार गोंयकार महात्मा गांधी की जय, इन्किलाब झिंदाबाद ह्यो घोशणा दीत जमिल्ले. मोबायल नात, टेबल फोन नात, मिर्गाचे पावशी दीस, भायर पिरीपिरी पावस अशा वेळार गोंयभरचे हे पांच-स हजार लोक कशे आयले, तांकां खबर कशी कळ्ळी हें एक अजापूच!

मुखार जालें तो इतिहास. त्या 18 जूनान 19 डिसेंबराक सुटके-दीस केलो. गोंय आनी गोंयकारांच्या जिवितांतले हे दोन अज्रांवर दीस. 18 जूनाक गोंयकारांनी गांधीजींक आनी लोहियांक होरायले आनी 19 डिसेंबराक मडगांवांत प्रवेश करतल्या भारतीय सैन्या वांगडा पंडित नेहरू झिंदाबाद म्हणीत गोंयकार अक्षरशा नाचले.

हो जितो जागतो इतिहास आसतना जावं 18 जूनाक वा 19 डिसेंबराक मडगांवचो एकूय नागरीक लोहिया मैदानाचेर येना हाचो अर्थ कसो लावचो?

पूण हें मडगांवांतूच न्हय, गोंयांत सगळ्याक. राष्ट्रीय सणां विशीं लोक उदासीन दिसता. लोक राष्ट्रीय दीस मानिनात, तेन्ना सरकार शाळांतल्या विद्यार्थ्यांक हाडटा आनी 'शो' चलयता. हे विद्यार्थी मुखार नागरीक जातले काय? कालचे भुरगे आयचे नागरीक जाल्यात व्हय?

हें अशें कित्याक घडटा? जाप सगळे जाणात. पयसो येवंक लागला. सगळ्यांचें लक्ष चडांत चड पयसो जोडपा कडेन लागलां. पयशे जोडप हें पातक न्हय. हो गुन्यांव न्हय. हो पुरुषार्थ. पूण 'कोणाय मार्गान' पयशे जोडपाचें आमकां व्यसन लागलां. हातूंत राजकारणी मुखार आशिल्ल्यान हो आदर्श जाला. आयज मंत्रीच धंदे करूंक लागल्यात. अब्जाधीश जाल्यात. परिणामी गांधी फकत वणटीचेर उरल्यात. स्वातंत्र्या खातीर परम त्याग केल्ल्यांक लोक विसरल्यात.

सरकारानूच स्वातंत्र्याचें मोल झिरो करून उडयलां. म्हणटकूच नागरिकांनी राष्ट्रीय दीस मनोवचे आसतात हाचें भान नागरिकांक कशें आसतलें? जांणी ड्रगबंदी मटकाबंदी करपाची तेच मंत्री तथा आमदार त्या धंद्यांचेर कोट्याधीश जाल्यात. तेन्नाचे हे विद्यार्थी आयज नागरीक जालेच नात. ते नागरीक जाल्ले जाल्यार 'आयचे विद्यार्थी इबाडल्यात' अशें म्हणपाची पाळी आमचेर येवचीच नासली.

आमकां जाणट्यांक जे मेरेन राष्ट्रपिता महात्मा गांधींचें म्हत्व कळना, राष्ट्रीय परबांचें म्हत्व कळना, हुतात्म्यांची आनी जावन गेल्ल्या म्हान स्वातंत्र्य

सैनिकांची याद जायना ते मेरेन लोहिया मैदान अशें सुकेंच उरतलें.

फ्रासिश्कु लुईश गोमीश नांवाचो एक गोंयकार जावन गेलो. 30 सप्टेंबर 1869 त 40 व्या वर्सा तो सोंपलो. आपूण भारती वंशाचो, महाभारत रचपी आपले जाणटेले म्हूण संवसाराक अभिमानान सांगीत आशिल्लो.

आमचो एक गोंयकार खंय चाकरे पासत येवरोपांत पावलो. 'तूं खंयचो' असो प्रस्न त्या देशाच्या एका नागरिकान ताका केलो. ताणें सांगलें, 'हांव गोंयचो'. त्या मनशान विचारलें 'गोंय खंय आसा?' तेन्ना गोंयकारान इंडियांत म्हूण उत्तर दिलें. हाचेर त्या मनशान म्हळ्ळें: 'Oh! Gandhiji's India !'

आयज अशी परिस्थिती उद्भवल्या की आमकां नागरिकत्वाचें मोलूच समजना जालां. आपल्या भारतीयत्वा विशीं लज दिसूंक लागल्या.

दुसरे वटेन लोहिया मैदानाचेर सार्वजनिक गणेश पुजुया, सोर्ती दवरुंया, पयशे मेळटले आनी लोकांची गर्दी पडटली अशें कांय जाण सुचोवपाचें धाडस करूंक लागल्यात.

हें बदलप ही आमची जापसालदारकी हें आमी मानुया न्हय?






# गोंयकार तरणाट्यांमुखार शणै गोंयबाब, गांधीजी आनी देश आसचो...

'गोंयांत हें कितें चल्लां?' असो यक्षप्रस्न सुनापरान्तान नातलां दिसा आपल्या अग्रलेखांतल्यान केला. गोंयांत जें कितें विकृत चल्लां, म्हळयार चोरयो, घरफोड्यो, खून, बलात्कार, भुरग्यांचेर अत्याचार हें सगळें सरकारच्या नाकर्तेपणाक लागून अशें सुनापरान्त म्हणटा. तातूंत अर्द तथ्य आसा.

राज्यांत सुव्यवस्था राखप हें सरकाराचें आद्य कर्तव्य. गोंयांत काँग्रेसीन विस्वास वघडायलो म्हण लोकान सत्तेची चावी कर्तुत्वी म्हणटल्या मनोहर पर्रीकार हांच्या हातांत दिली. हाणेंय आपूण हें सगळें जाग्यार घालतां अशें उतर दिलें. पूण सत्तेर येवन दोन वर्सां जायत आयलीं, हांगाची अव्यवस्था वाडत आसा.

गोंयांत लोकशाही चलता. सरकार तर लोकान वेंचून काडलां. देखून जें चल्लां ताका लोकूय जापसालदार आसा, हाची जाण सुनापरान्तान लोकाक करून दिवपाची अशें आमकां दिसता. म्हणटकूच तें पूर्ण तथ्य जातलें आसलें.

गोंयांत वांकड्यो घडणुको घडटात ताका भायले लोकूच जबाबदार ? हांगा दीस रात फोल्गां मारपाचें वातावरण कोणें तयार केलां ? हांगा बाराय म्हयने आंगार वस्ती घालून जाणटीं बायलां लेगीत कित्याक भोंवतात ? गोंयांत

बाराय म्हयने उत्सव ! अमेरिकेंत खंय पांच दीस आंग मोडून काम करतात. आनी दोन दीस सुटी आनंदान मनयतात. आमी हांगा कितें करतात ? दोन दीस काम आनी पांच दीस मौजा अशेंच न्हय ? ज्या दिसा सुटी त्या दिसा कायदो मोडून आमीच कामां करतात न्हय ?

हांगाच्यो खणी आतां बंद आसात. हाका लागून लोकाक जायतो त्रास जालो हें मान्य. पूण खणी चलतना अच्छेव तेंगशेर पाविल्लो हें कोण न्हयकारीत? रोखडय़ोच खणी नव्यान सुरू जावच्यो आसात. जावं दी. आतां त्यो रीत-रविशेन चलतल्यो कारण जें चलतलें ताचेर नदर दवरूंक सरकारा भायर एक खाशेली यंत्रणा आसतली.

आतां गोंयांत टुरिझम धुमशेणां कांडूंक लागला. तो दर्या देगेर पावला. एक दीस दर्यांत कोसळटलो. पळयल्ले अंतीं खण प्रकरणा पासून आमी बोध घेतला अशें दिसना. गोंय जगांतलें अग्रगण्य पर्यटन थळ करपाची सरकारान पैज मारल्या. म्हणटकूच हातूंत कॅसिनो आयलेच, ड्रग्स आयले, सोरो आयलो आनी दुसरीय मौज-मजा आयली. पयशे फारीक करून मेळटा तसली. पयशांनी तर मेळना अशें कांय ना.

हें सगळें दुश्ट चक्र. गोंयांत पयशांचो गोबर करपा खातीर जायते जाण येतात. हांगा जायतो पयसो घोळटा अशी भायर गोंयची नामना जाल्या. देखून पयशे जोडपा खातीर लोकाच्यो झुंडयो गोंया येत आसात. गोंयांत भीक मागपाचो 'धंदो'य बेस बरो चलता अशी खबर भायर पावल्या. हांगा भीक मेळटा ती धा रुपयांचे नोटीन. म्हणटकूच रेलगाडयेंतल्यान शेंकडयांनी भिकारी मडगांवां देंवतात आनी मडगांव तर आदली मुंबय कशें. येता ताका आपणावन घेवपाची मडगांवां कडेन अपूर्व अशी तांक आसा.

ह्या दुश्ट चक्रांतल्यान एक नवी वाट गोंयकारांक जाय. ती ताणीच सोदून काडची पडटली. अती थंय माती. 'हें कितें चल्लां' अशें सुनापारान्त विचारता. हें अती जालां म्हण अशें चल्लां. तें आळाबंदा हाडूंक जाय. गोंयची नवी प्रतिमा घडोवप गोंयकारांच्या हातांत आसा. मुक्ती उप्रांत लाखांनी गोंयकारांनी

शिक्षण घेतलां. नवी प्रतिमा घडोवपांत तांचें योगदान आसचें ना ?

दीस-रात आमी उत्सवांनी रमले आनी दुसऱ्यांक रमयले म्हण आमची प्रतिमा सुदारतली ? ती कशी सुदारप तर ? अमेरिकेंत पाविल्ल्या एका गोंयकारान आपूण इंडियन सिटिजन म्हण सांगलें. तेन्ना 'ओ, गांधीज इंडिया!' अशे त्या अमेरिकनान उदगार काडले. प्रतिमा उंचावपाचो एकूच मार्ग आसा तो म्हळ्यार पुरुषार्थाचो.

पंडित नेहरू म्हणटात, 'आमी ल्हान. आमकां गांधीजीन हिमालया येदो म्हान कॉज दिलो आनी आमी व्हड दिसूंक लागले.' शणै गोंयबाबान आमकां कॉज दिल्ल्यान आमकां स्वराज्य मेळ्ळें. ताणी आपल्या 'अमृताच्या पावसांत'' पुरुषार्थाचो मार्ग दाखयला. ताणी ज्या तरणाट्या गड्यांचें मागणें केलां त्या तरणाट्यां मुखार शणै गोंयबाब, गांधी, आनी देश आसूंक जाय.

सुनापरान्त असल्यांक फाटबळ दीत आसा. नव्या वर्सा एक नवें गोंय घडोवपाचो यत्न करुंया.






# दोतोरांनी दोतोरके वांगडा समाजकार्याकूय वेळ दिवचो!

आपल्या प्रवचनांतल्यान जेजू 'सर्गीचें राज्य हांगा येवचें आसा' म्हण सांगतालो खंय. पयलीं पयलीं आयकुपी लोक वयर मळबा कडेन पळयताले. तेन्ना जेजून म्हणचें : 'सर्गीचें राज्य वयल्यान येवपाचें ना. तें आमी हांगाच घडोवचें पडटलें !'

जेजू गेल्यार दोन हजार वर्सां जावन गेलीं. सर्गीचें राज्य आमकां सगळ्यांक जाय. पूण तें घडिल्लें दिसना.

सर्गीचें राज्य हांगा जाल्लें जाल्यार आमकां दर वर्साचे सुरवेक Happy New Year म्हणचें पडचें नाशिल्लें. हॅपिनेस हांगा सासणाची आसपाची.

सर्गीचें राज्य हांगा हाडपाचे आमचे प्रयत्न एक तर उणे पडटात, ना तर आमी खऱ्या अर्थान प्रयत्नूच करिनात.

पयर बुधवार. नव्या वर्साचो पयलो दीस. मेळटा ताका 'हॅपी न्यू ईयर' म्हणपाचो दीस. मोट्या मोट्यांचे शुभसंदेश वाचपाचो दीस. पूण फांत्या पारार दिसाळें हातांत पडलें आनी ताणें एक सणसणीत मूठ मारली. मंगळारा 31 तारखेर दनपरां जाचे कडेन फुटपाथार रावन वरभर उलयलों तो दोतोर उदय नगर्शेकार बुधवारा आतांचो आतां ना ही जायरात वाचची पडली.

'अशेंय घडूं येता' हाचो अणभव आसून लेगीत 'अशें कशें घडचें ?' ह्या प्रस्नाच्या भोंवऱ्यांत सांपडलों.

जायत्या म्हयन्यां उप्रांत 31.12.13 दिसा हांव वास्को गेल्लों थंयच्या इश्टांक मेळूंक. चिखले रावतल्या इश्ट अरविंद काकोडकाराचो सांगात घेतिल्लो.

आदीं आमी परेश वसंत जोशी हांकां भेटले. वसंतबाब जोशी गेले हाचे वयर जाप दिवंक आमी गेल्ले. आमी 'कशे गेले, केन्ना गेले, बरे नाशिल्ले ?' असले नाका जाल्ले प्रस्न विचारूंक वचूं नाशिल्ले. वसंतबाबांच्या गुणसंकिर्तना उप्रांत उलोवणें मार्ग अभियानाचेर आयलें. गाडयांच्या वेवसायांत आशिल्ल्या परेशबाबाक 'मार्ग' विशय प्रिय. ताणी आयचो काळ मार्केटिंगाचो म्हण सांगलें. नव्या साधन सुविधांचो वापर करून, म्हळ्यार फेसबूक, वेबसायट हांचो आधार घेवन आयच्या भुरग्यां सरीं पावूंक जाय हाचेर ताणी भर दिलो.

आमी वसंतबाबांचो उगडास काडलो. 2009 वर्सा मार्ग अभियानान वास्को एक भव्य परिशद घेतिल्ली. वांगडाच मार्ग-प्रदर्शन मांडिल्लें. त्या प्रदर्शनाचें उद्घाटन वसंतबाबान केल्लें. त्या प्रसंगाचो फोटो आशिल्लो मार्ग बुलेटिनाचो अंक हांव घेवन गेल्लों. ह्या फोटवांत वसंतबाबचे हात विश्व वेंगायतात काय दिसताले. तांच्या सांगाता आशिल्ले दो. उदयबाब नगर्शेकार जांच्या आधाराक लागून वास्कोंत मार्ग परिशद घेवप आमकां शक्य जाल्लें.

आज अण्णा म्हळ्यार वसंतबाब जोशी नात. ते पुरुषार्थी आशिल्ले. प्रेरणा दिवपी आशिल्ले. तांचें कार्य पूर्ण जालें. तांचें निर्वाण आमी 'सेलेब्रेट' केलें.

आनी आतां उदयबाब नगर्शेकार. वास्कोचे नामनेचे गायनोकोलोजिश्ट. 'हे नांवाजते तरणाटे भुरगे दिसतात ते म्हजे भुरगे, तांकां पयलो उजवाड हांवें दाखयल्लो,' दोतोर अभिमानान सांगताले.

उदयबाब मार्गा कडेन एकजीव जाल्ले. वास्कोंत ते 'मार्ग' दाखोवपी आशिल्ले. मार्गाचे दर एके म्हत्वाचे कार्यावळींत तें वांटो घेताले. तांच्या

सारक्यांक लागून सगळ्याक 'मार्ग मार्ग' जालां.

हालीं मडगांवां ट्राफीक पुलिसांची एक कार्यशाळा जाली. दोतोरान मार्गार उबे रावतल्या पुसिलांक 'उपाशीं पोटार मार्गार येवं नाकात' म्हण सल्लो दिलो. सरकारान ट्राफीक पुलिसांची फावोशी जतनाय काडूंक जाय अशें ताणी सरकाराक शिटकायल्लें. पिल्लुको मारून मारून आनी धुल्ल आनी धुंवर गिळून पुलिसांक टीबी जावं येता म्हूण ताणी सांगिल्लें.

हरशीं तशें पळोवंक गेल्यार दोतोर सामाजिक वावर करतना दिसनात. कारण तांचो व्यवसायूच सामाजिक वावरच आसता. लोक दोतोरांक तर देव मानतात. सगळेच दोतोर देव आसूंक जाय आसले. दोतोर उदयबाब नगर्शेकार हांतले आसले.

ज्या वास्को शारान आपणाक इतलें दिलें त्या वास्कोक हावें आगळी वेगळी सेवा दिवंक जाय अशें मानतल्या दोतोरान वास्कोचे येरादारीक शिस्त लावपाचे अविरत प्रयत्न केले. 'हीं रोड साय्न्स (Road signs) दिसतात तीं साळगांवकाराच्या आधारान हांवें उबीं केल्यांत' ते अभिमानान सांगताले.

अरविंदान आपणागेर म्हज्या जेवणाची व्यवस्था केल्ली. देखून ड्रायव्हराक हॉटेलांत धाडून फुटपाथार उबे रावन आमी गजाली करताले. इतल्यांत दोतोर थंय पावलो.

'तुमी आयल्यात म्हण कळ्ळें. चुकले हाचे चुरचुरे पडिल्ले. पूण अखेर भेट घडली.' दोतोरान म्हळें.

ड्रायवर जेवन ये मेरेन पावूण वर अदीक आमच्यो गजाली चल्ल्यो. गजाली मार्गा संबंदीत, सिटिझनशीप इन्सिट्युटा संबंदीत. जेवणाक येवंक आग्रो करताले. गांधीजींच्यो आत्मकथा घेतिल्ल्यो तांचे एक हजार रुपये पाकीट उकतें करून तांतल्यान काडून दिले.

आनी आमचो ड्रायवर जेवण करून आयलो. दोन जाल्लीं. दोतोर उदयबाब नगर्शेकार आपणाले तांबडे गाडयेंत बसून नाच्च जाले.

* * *

दोतोर म्हळ्यार दानत! अशे दानतीचे दोतोर जायते आसात. तांकां समाज देव मानता. दोतोर उदयबाब हांतले आशिल्ले. ताणी अशे तरेन आमकां सोडून वचप हें आमचें गोंयकारांचें दुर्दैव. तांच्या घराब्याचें दुख्ख हांव समजूं शकतां.

म्हजो धाकलो भाव प्रो. शशीकर केळेकार असो कांय वर्सां पयलीं मासीव हार्ट अॅटॅक येवन अचकीत गेलो. आयज तसलोच म्हजो धाकलो भावूच गेल्ल्यान म्हजें काळीज जड जालां.

आमी फकत Happy New Year म्हणटल्यांतले न्हय. जेजूचें सर्गीचें राज्य हांगा हाडप कितलें अवघड तें आमकां कळटा. पूण तें आमी हाडचेंच पडटलें.

समाजांत सुख समादान नंदचें, अशे जबरदस्त आघात लोकाक सहन करचे पडचे न्हय हे पासत आमी थोडेशे वावुरतात. एक एक पावल घालतात. आयज एक पावल थांबलां. दोतोराचो चलो तें घालतलो अशी आस्त बाळगितां. हेर दोतोरांनीय फुडें सरचें.

म्हाका जाल्यार बेश्टेंच Happy New Year म्हणपांत पुरुषार्थ दिसना. आमी सगल्यांनी We shall overcome म्हणची गरज आसा. अशें म्हाका दिसता.






# सकाळींफुडें पातळभाजी + पाव = गोंयकारपण!

आज आमी मात्शे बेगिनूच म्हळ्यार सकाळीं साडेसातांक भायर सरले. आमकां आठ साडेआठांक मडगांवच्यान कुंकळे पावूंक जाय आशिल्लें. आमकां कॉलेजींक, हायर सेंकडरींक आनी हायस्कुलांक भेट दिवंक जाय आशिल्लें. बेगीन पावल्यार प्रिन्सिपॉल, हेडमास्टर-मिस्ट्रेस उलोवंक मेळटलीं असो अदमास आशिल्लो.

आमी - म्हजो इश्ट आनी हांव - निखटी च्या घेवन भायर सरिल्ले. असो जेन्ना सकाळीं फुडें हांव भायर सरतां तेन्ना फकत एक च्या घेतां. सकाळीं फुडें खावंक म्हाका भाजी आनी पाव जाय आसता. तो मडगांवां हॉटेलांत घेतां, कारण 'हॉटेल मे खाना और मशीद मे सोना' हे जिवितांतले अवस्थेंतल्यान सध्या म्हजो प्रवास चलता.

सकाळीं भायर सरतां तेन्ना मडगांवचीं हॉटेलां हांव टाळटां. मडगांव सोडटकूच वाटेर कुशीक एक ल्हानशें हॉटेल दिसता काय पळयत रावतां. वाटे वयल्या ल्हान हॉटेलांनी खाशेली गोंयची पातळ भाजी आनी पाव मेळटा.

आमी कुंकळे पावले आनी खंयच्या हॉटेलांत वचचें हें हांव येवजितनाच म्हज्या इश्टान गाडी थांबयली आनी तो मार्गार देंवलो आनी मार्गा वयल्यान वतल्या एकल्याक ताणें विचारलें, 'हांगा बरी पातळ भाजी खंय मेळटा ?'

आतां हें कितें विचारप जालें ? कुंकळ्ळे हॉटेलां नात ? इश्टान जाका विचारलें तो क्रिस्तांव आशिल्लो. आमी शाराक अनवळखी अशें ताणें धरलें आनी 'बॉमय सावन येयल्यात ?' प्रस्न केलो.

'ना ना. मडगांवच्यानूच आयल्यात. आमकां गांवांतली बऱ्यांत बरी पातळ भाजी आनी पाव जाय.' इश्टान म्हळें.

'गोमलें गोमलें. हांव सांगतां. तुमी ओशें कोरात. नीट काणकोणचे वाटेन ओसात. रोखडोच देमानी वाडो लागतोलो. थूंय शिवानंदालें हॉटेल आसा. थूंय नंबर वन भाजी पाव खायात.'

'थॅंक यू !' इश्टान म्हळें आनी गाडयेंत बसून गाडी काणकोणचे दिशेन दामटिली. एक किलो मिटर वाट कातरली. हॉटेलाचो वास ना.

'ताणें आमकां शिंगां लावंक ना मरे ?' हांवें इश्टाक विचारलें. 'शारांतल्या एका खंयच्याय हॉटेलाचें नांव सांगचे बदला शारा भायर हॉटेल आसा अशें ताणें कित्याक सांगलें ?'

इतल्यांत दाव्यान पोलीस स्टेशन दिसलें. 'पोलिसांक विचारुंया' अशें उमेदीन म्हणून इश्ट केन्ना स्टेशनाचीं सोपणां चडूंक लागलो समजलेंच ना. मुखार पोलीस हातांत आर्म घेवन उबो आशिल्लो.

इश्टान ताका विचारलें : "हांगा पातळ भाजी आनी पाव खंय मेळटा ?"

आतां पातळ भाजी खंय मेळटा अशें पोलीस स्टेशनाचेर मोटार घेवन वचून कोण विचारिना. पूण आमच्या गोंयांत असलें अजीबपण चलता.

इतल्यांत थंय दुसरो पोलीस आयलो आनी ताणें 'कितें जालां ?' असो प्रस्न विचारलो. गोंयांत खंयच्याय सरकारी ऑफिसांत कामाक वचत जाल्यार पियून, क्लार्क बी सगळे पयल्या धपक्याक 'कितें जालां?' काय विचारतात.

म्हज्या इश्टान सांगलें, 'हांगा पातळ भाजी आनी पाव खंय मेळटा तें विचारूंक आयिल्लों. कोणें आमकां सांगलें, हांगा एक बरेंऽ हॉटेल आसा... तुमी जाणात ?'

आतां पोलिसाची लायट पेटली. 'आसा आसा,' ताणें सांगलें. 'पूण तुमी मोटार परतुची पडटली आनी कुंकळे वाटेन वच्चें पडटलें. तुमकां वाटेर दाव्यान शिवानंदालें हॉटेल मेळटलें.'

म्हणटकूच आमकां कोणें शिंगां लावंक नात म्हणपाचें शिद्द जालें. इश्ट गाडयेंत बसलो आनी गाडी परतून कुंकळ्ळे वाटेन सवकास व्हरूंक लागलो. शिवानंदालें हॉटेल बाजारांतल्या हॉटेला भाशेन आसचें ना हें इतल्यान आमकां कळिल्लें. रोखडीच आमकां एक खोंप दिसली. इश्टान म्हळें, 'हेंच आसूंक जाय.' तो देंवलो आनी ते खोंपीसरीं गेलो आनी कुरवेन म्हाका ताणे यो म्हळें. शेवटाक आमकां शिवानंदाचें हॉटेल मेळिल्लें. वाटे वयलीं हॉटेलां अशींच आसतात. शिवानंदालें हॉटेल तसलेंच आशिल्लें. चार पोरणे बांक आनी चार पोरणीं लांकडी मेजां. लायट गेल्ल्यान हॉटेलांत काळोख.

आमचे तकलेंत मेजां बांक नाशिल्लीं. पोटांत कावळे रडटाले. सकाळीं कांय खावं नाशिल्लें. इश्टान ऑर्डर सोडली. 'दोन पातळ भाजी.... '

हॉटेलांत दोग भाव काम करताले. वणटीर एक फोटो आशिल्लो. तो तांचो बापूय आसुये.

खिणांत दोन पातळ भाजी आनी चार पाव आयले. पाव हातांत घेतले तेन्ना तांची रूच कळ्ळी. तोर्राद पाव. चड घट न्हय, चड मोव न्हय. हातांत कुरकुरताले. भाजी कुलेरान चाखून पळयली. भाजी म्हळ्यार भाजी. आमच्या घरांनी असली भाजी जायना. एक वेगळीच रूच. हॉटेल सोदपाचे आमचे कश्ट फुकट गेले नात. त्या क्रिस्तांवांचे आमी मनांत थँक्स मानले. गोंयांत हें अशें चलता. क्रिस्तांवांची आनी हिंदूंची भाजये संबदान, शीत कडये संबंदान रूच एक. आमच्या एकवटाचे हेंच मूळ न्हय मू ?

भाजी केन्ना सोंपली तें कळ्ळेंच ना. पाव उरिल्ले. तें एका भावान पळयलें आनी तो भाजयेचो रोस (रस्सा, ग्रेवी) घेवन आयलो आनी ताणें तो आमचे ताटलेंत ओतलो. दुसरे कडेन असो आलायतो रोस दिनात. आमी दोन दोन पाव खाले आनी बिनशक्कर च्या घेतली.

सकाळचो 'नाश्ता' जालो. 'अशी भाजी आनी अशे पाव खूब थोडे कडेन खाल्यात,' हांवें म्हळें.

* * *

आमचो समीर 1992 मेरेन धायेक वर्सां अमेरिकेक रावलो. मदीं मदीं बॉम्बे काफेची पातळ भाजी खायन दिसल्या अशें बरयतालो. आनी आमी उमेदीन 'टेलीफोनांत घालून धाडटात' म्हणटालीं. तेन्ना मोबायल नाशिल्ले. अमेरिकेंत बॉम्बे काफेची पातळ भाजी मेळ्ळयार एक डॉलर दीन म्हणटालो.

आतां समीर बंगळूर आसता. म्हयन्या दोन म्हयन्यांनी गोंया दोन दिसां खातीर येता आनी मडगांवां घरा पावनाफुडें 'बॉम्बे काफेची पातळ भाजी 'मारून' येतां' म्हण सांगून बॉम्बे काफे कडेन वता.

हॉटेलाक खबर नासता, हें गिरायक आठ धा वर्सां अमेरिकेक राविल्लें, आतां हो मनीस देशभर भोंवता, व्हडल्या व्हडल्या हॉटेलांनी खाता पूण ताचे खातीर बॉम्बे काफेची पातळ भाजी आनी पाव गोंयांत त्या दिसां पुरतें सर्वस्व आसता, अमृत आसता !

गोंयांतल्या खंयच्याय गोंयकार हॉटेलांनी तुमी सकाळीं सात ते धा मेरेन वचात. मडगांवां वा धारबांदोड्या. हांगा तुमकां जात धर्म विसरून फकत पातळ भाजी-पाव खावपी गोंयकार दिसतलेच दिसतले ! हाकाच गोंयकारपण म्हणटात न्हय !





# यह गोवा है ।

म्हाका एका इश्टान सांगिल्ली ही गजाल. बंगळूरच्यान पयलेच फावट एक तरणाटो वेपारी गोंयां आयिल्लो. ताका काम आशिल्लें थियें. तो बसीन आयिल्ल्यान ताणें पणजे देंवप पसंत केलें आनी एका हॉटेलांत तो रावलो.

दुसऱ्या दिसा थियें कशें वचपाचें हाची खबर घेवन तो पणजे कदंब बस स्टॅण्डार गेलो. तो थंय पावपाक म्हापश्यां वचपी एक व्हडली बस स्टॅण्डार आयली आनी पन्नास साठ पॅसेंजरांनी तिच्या दारार खेट केली. अशा वेळार बायलां, ल्हान भुरगीं, जाणटे हांची कशी दशा जाता तें सांगची गरज ना.

दारा वयली खेट पळोवन हो आमचो बंगळूरकार भाव अजापलो. ताणें थंयच्या एकल्याक विचारलें, "यह लोग क्यू करके अंदर क्यूं नही जाते ? बंगळूरमें ऐसा नहीं चलता..." तर त्या मनशान ताका जाप दिली : "यहां ऐसाहि चलता है । यह गोवा है।"

ही जाप आयकून घेवन आतां आमचो बंगळूरकार बशींत चडलो.

लेडीज सिटासरीं पावना फुडें मदले पॅसेजीचेर आसतना ताणें पळयलें, लेडीज सिटांचेर दोग तरणाटे बसल्यात, तर पॅसेजीचेर बायलां उबीं आसात. बंगळूरकारान शेजरा उबो आशिल्ल्या गोंयकाराक म्हळें : "यह लेडीज सीट

है. बंगळूरमें लेडीज सीट खाली रखेंगे लेकीन जॅन्ट्स उनपर नहीं बैठेंगे.... "

त्या गोंयकारान जाप दिली, "यहां ऐसा ही चलता है । यह गोवा है..."

बस सुरू जाली. आवा-शिवा करून बंगळूरकार म्हापश्यां पावलो. ताका "एकीक" जालें. ताणें थंय कोणा एकल्याक विचारलें, "यहां सुलभ टॉयलेट कहाँ है ?" ताणें बोटान दिशा दाखयली. "ऐसा सीधा जाव... वहाँ आपको दुर्लभ टॉयलेट मिलेगा. सुलभ नहीं..."

तो ते दिशेन गेलो जाल्यार कितें पळयतलो ? धा पंदरा जाण सुलभ शौचालयाच्या भायर उब्यांनी 'एकी' करतात !

गोंयां विशीं ताणें कांय गजाली आयकल्ल्यो, पूण गोंयकार बेशिस्त म्हण ताणें केन्नाच धरूंक नाशिल्लें. ताणें एकल्याक विचारलें, "यह लोग यहां पेशाब क्यूं कर रहे है ?" ताणें जाप दिली, "यहां ऐसा ही चलता है, यह गोवा है !"

बंगळूरकार सुलभ शौचालयांत गेलो. आठ आणे फारीक करून आपलें काम केलें आनी मार्गार आयलो. आतां ताका थिये वचूंक जाय आसलें. मार्गा वयल्यान वतल्या एकल्याक ताणें विचारलें : "थिवी जाने का है, कैसा जानेका?"

जाप मेळ्ळी. "वहाँ जाव. वहाँ पायलट मिलेंगे. उनमेसे एक को लेकर थिये चलो. नजदीक है."

बंगळूरकारान विचारलें. "पायलट ? ॲरोप्लेन है क्या ?" गोंयकाराक हांसूंक आयलें. ताणें सांगलें: "जाकर तो देखो..."

बंगळूरकार थंय पावलो. पळयल्यार हळडुव्या रंगाच्यो मोटारसायकली शिस्तीन उब्यो आसात. कोण कोण येतात. तांचीच गाडी आशिल्ले भाशेन मोटारसायकलीचेर बसतात आनी पायलट सूं करून गाडी सोडटा.

इतल्यान कांय आडसाट्यो दोगी चलयो थंय आयल्यो. कांय उलयनासतना दोगीय दोन मोटारसायकलींचेर बसल्यो आनी पायलटांनी तांचे भितर कितें

समजणी आशिल्ले भाशेन गाडयो सोडल्यो. बंगळूरकाराक अजाप जालें. हांकां घेवन हे पायलट खंय वतात ? बंगळूरांत तर अश्यो मोटारसायकली नात !

बंगळूरकार चिंतूंक पडलो. च्या घेवपाक म्हणून तो एका हॉटेलांत गेलो आनी ताणें गल्ल्यार बशिल्ल्याक विचारलें : "यह ज्यो लडकियां पायलटों के साथ जाती हैं, उनको डर नही लगता ? कही उनको वह भगा लेके जायें ऐसा? " गल्ल्या वयलो मनीस हांसलो. "नहीं, नहीं, नहीं. यहां ऐसा नहीं चलता, यह गोवा है।" ताणे बंगळूरकाराक सांगलें.

बंगळूरकाराक शॉक. हाचे पयलीं पणजे बशींत चडटना, बशींत भितर, म्हापशां सुलभ टॉयलेटा कडेन "यहां ऐसा ही चलता है, यह गोवा है" हीं उतरां ताणे आयकल्लीं आनी आतां तो "यहां ऐसा नहीं चलता, यह गोवा है !" हीं उतरां आयकतालो.

तेच गोंयकार, एकेठांय बेशिस्तीन, बेमर्यादेन, लज बाळगिनासतना वागताले, तर दुसरे कडेन पुराय सचोटी, प्रामाणिकपण दिसतालें !

बंगळूरकाराच्या तोंडांतल्यान आपसूक उतरां भायर सरलीं : "यह गोवा है !"



22

# महात्मा गांधी आनी गोंयकार

आमकां गोंयकारांक भारतीय जावनूय बी मुक्ती लढ्याच्या काळांत वा पयलीं महात्मा गांधींचें मार्गदर्शन मेळ्ळें ना. कारण तांकां 30 जानेवारी 1948 ह्या दिसा हो संवसार सोडून वचचें पडलें.

नाय म्हळयार पुरुषोत्तम काकोडकार हांकां महात्माजींचो सांगात मेळिल्लो. उप्रांत ताणी गोंयांत येवन कांय विधायक कार्यक्रम हातांत घेतले. तातूंत प्रार्थना, सूत-कताई, केन्ना केन्ना प्रभात फेरयो, गांधी विचारांचेर चर्चा असलो वावर चलतालो. पुर्तुगेज सरकाराक हो वावर निरुपद्रवी दिसतालो आसूंक जाय. गांधीजी अहिंसेचे पुजारी, म्हणटकूच तांचे कडल्यान त्रास कशे जातले अशें ते धरताले आसूं येता. तात्पर्य काकोडकार हांचो मुळावो वावर चलतालो. ताका केन्ना तरी वाचा फुटप शक्य आशिल्लें अशें म्हणूं येता.

इतल्यांत डॉ. राम मनोहर लोहिया गोंयांत आयले आनी ताणी 18 जूनाक पुर्तुगेज सरकाराचो सभाबंदी कायदो मोडपाचो थारायलें आनी 18 जून 1946 दिसा मडगांवां कितें घडलें तें वाचपी जाणात.

पयले फावटी पुर्तुगेज सरकार गडबडलें. ताणें डॉ. लोहियांक धरले आनी दुसऱ्या दिसा गोंयचे सरादीचेर सोडले. पर्थून डॉ. लोहिया 19 सप्टेंबराक

गोंयांत भित्तर सरले. तेन्ना पुर्तुगेज सरकारान तांकां कुळ्या गाडयेंत धरून नीट आग्वादाक व्हेले. थंय कांय दीस दवरून 8 आक्टोबराक तांका शिमेर सोडले आनी परते येशात जाल्यार 'खबरदार' म्हळें.

डॉ. लोहिया परतून गोंयां येवपाचे आशिल्ले. तितल्यांत तांकां गांधीजींचो निरोप मेळ्ळो. 'परते गोंयांत वचचे पयलीं म्हाका मेळात.' डॉ. लोहिया महात्मा गांधींक मेळ्ळे. महात्माजीनी तांकां 'हो प्रस्न सोडोवपाचो वावर पंडित नेहरूं कडेन सोंपोवया' म्हण सांगलें. डॉ. लोहियांनी गांधीजींच्या मागण्याक पाळो दिलो. ते गोंय मुक्त जाय मेरेन गोंया परतून आयले नात. मुक्ती उप्रांत आयले.

स्वातंत्र्या खातीर झुजताना गोंयकारांक गांधींजींचें मार्गदर्शन मेळ्ळें ना. पूण चडावत लढो महात्मा गांधी हांणी दाखयल्ल्या मार्गानूच चल्लो. ताका सत्याग्रह नांव फावो जाल्लें. जायतेदां मनांत प्रस्न येता, मुक्ती चळवळ सालाझाराआड आशिल्ली हें खरें, पूण सत्याग्रह नेहरूंक मोख दवरून करताले. कारण चळवळीक लागून गोंय मुक्त जावप शक्यूच नाशिल्लें अशें म्हजें मत. त्या काळा अमेरिका आनी तेन्नाची रशिया हांच्यांत केन्ना झूज पेटत तें कळनाशिल्लें. पंडित नेहरूंक लागून दुसरें महायुद्ध जालें ना अशें तेन्नाचे विचारवंत म्हणटात आनी मानतात. अमेरिका तेन्ना दुसऱ्या राष्ट्रांक घेवन नॅटो, सियाटो अशे ग्रूप करीत वताली. वता थंय मिलिटरी कॅम्प स्थापन करताली. गोंय एक दीस अमेरिकी तळ जावप न्हयकारूंक येन्ना आशिल्लें. नेहरूंक हो हुसको आशिल्लोच.

गोंयां सैन्य धाडपाची तयारी नाशिल्ल्या नेहरूंक हांगा सैन्य धाडूंक हें एक कारण जालें अशें सांगतात. अमेरिकेचें सैन्य गोंया देंवचे पयलीं गोंयाक भारताच्या गोपांत घेवंक जाय असें थारिल्ल्यान गोंयांत मिलिटरी देंवली.

पंडित नेहरूंनी भारताच्या स्वातंत्र्य लढ्यांत णव वर्सां अदीक काळ बंदखण भोगिल्ली. तेवूय एक महान 'रायटर तशे फायटर' आशिल्ले. झुजले बगर स्वातंत्र्य मेळना अशें मानतल्यांतले ते आशिल्ले. डॉ. लोहियांनी जशें

गोंयकारांक 'फायट' दियात म्हण सांगलें तशेंच नेहरूंनीय म्हणिल्लें. खासा गोंयकारांनी झुजूंक जाय असो तांचो संदेश आशिल्लो. मुक्ती उप्रांतच्या संदेशांत ताणी गोंयकारांची तुस्त केल्या. ताणी म्हळां :

"गोंयचे मुक्ती चळवळीची कथा सगळ्यांनी उगडासांत दवरूंक जाय. उगडासांत दवरुपाचें कितें म्हळ्यार ह्या ल्हान प्रदेशान हेर प्रदेशांचे तुळेन हे चळवळी पासत मोटो त्याग करपी जायते दादले तशीं बायलां दिलीं."

हांव तर जायतेदां विचारतां, ' गोंय 46-47 त मुक्त जाल्लें जाल्यार आमी स्वातंत्र्य सैनीक जातले आशिल्ले व्हय ?'

इतलें खरें की गांधीजींचे पांय गोंयाक लागले नात. पंडित नेहरू म्हणटाले, 'तांचें पावल पडलें थंय तीर्थ जालें'. गांधीजी गोंयांत पावले नात. देखून गोंयांक तीर्थ जावपाची संद मेळ्ळी ना.

हांव परपरत आचार्य काकासायब कालेलकर हांची याद काडीत आसतां. ताणी गोंयाक 'पुण्यभूमि' म्हण बिरूद दिवन जालां.

अशें जरी आसलें तरी आमची लागणूक इतल्यान सोंपना. गांधीजी म्हणटाले सत्याचो सदांच जय जाता हें खरें न्हय. सत्याचो जय घडोवन हाडूंक जाय. ते खातीर लढो दिवचो पडूं येता. तेच भाशेन गोंयान 'पुण्यभूमि' बिरूद जोडलां म्हण आमी सस्त रावूंक जायना. गोंय ही भुमी पुण्यभूंय आसा जाल्यार ती सदांकाळ तशी उरतली हे पासत डोळ्यांत तेल घालून आमी राखूंक जाय. आमी राखतात व्हय ?

* * *

महात्मा गांधींची आत्मकथा 'सत्याचे प्रयोग' कोंकणींत तयार जाली आनी म्हजेर केदी जबाबदारी पडल्या हाची म्हाका जाण आयली. अणकार करून हावें सस्त रावंक जायना; ही आत्मकथा आतां गोंयकारांच्या घराघरांनी कशी पावतली ताचे कडेन हांवें लक्ष दिवंक जाय आनी वावरूंक जाय अशें म्हाका दिसलें. 18 डिसेंबर 2010 वर्सा आत्मकथा कोंकणींतल्यान उजवाडा आयली. खासा गांधीजींचे नातीन उषा गोकाणी हाणी ती उडवाडा हाडली.

उप्रांत तिका 2013 वर्सा साहित्य अकादमीचो अणकार-पुरस्कार मेळ्ळो. म्हजी जबाबदारी आनीक वाडली.

थोड्या काळांत आत्मकथा विक्रीचो 20,000 चो आंकडो हुपतली. "दोन हजार रुपये दियात आनी आत्मकथेच्यो प्रती घेयात आनी इश्टांक वांटात. तुमकां गांधीजींची म्हूर्त दितां" अशें हांवें म्होवाचें बोट दाखयलें. "दोन हजार नात तर एक हजार दियात". साठ जाणांनी प्रती घेतल्यात. एका सद्गृहस्थान तर चार हजार रुपये धाडून प्रती तुमीच वांटात अशें बरयलें.

हेंच कारण पुरो जालें नवजीवन ट्रस्टा कडल्यान म्हाका गांधीजीं विशींचीं हेर पुस्तकां हाडूंक. नवजीवन ट्रस्ट हे खातीर गोंयकारांचेर खोशी आसा. पंडित नेहरू भाशेन तांचेंय सर्टिफिकेट गोंयकार मेळयले बगर रावचे नात हाची म्हाका खात्री आसा.

ह्या सगळ्या उचापतींतल्यान 'महात्मा गांधी आमच्या गोंयांत' ही कल्पना रूप धरूंक लागली. गांधीजींचें पयलें पेणें कुंकळ्ळे 30-31 जानेवारी आनी 1 फेब्रुवारी मेरेन आसतलें. भोवमानादीक राज्यपाल भारत वीर वांछू ताचें उदघाटन करतले.

तुमी कुंकळ्ळेक भेट दितले तेन्ना खासा गांधीजी चरख्यार सूत काडटनाचें दर्शन तुमकां घडटलें. गांधीजींचें दर्शन घेवंक आमंत्रण जाय व्हय ?





# गोंयकारांक व्हड करूंक मोहनदासाची गरज !

एक काळ असो आशिल्लो जेन्ना ह्या आमच्या विशाल देशाचेर येदेशा ब्रिटीशांची सत्ता चलताली. ब्रिटीश गोरे. ते आमकां उणाक लेखताले. आमकां मनीस म्हूण समान हक्क नासताले. देश आमचो, पूण आमकां कांय सुवातांचेर वचूंक बंदी आसताली. देशांत तर पराकाश्टेची गरिबी आशिल्ली. हे गरिबीक लागून पोटा-पाणया खातीर जायते हिंदुस्थानी लोक दोन वेळचें जेवण मेळचें म्हूण भायल्या देशांनी वताले.

परदेशांतलें दक्षीण आफ्रिका हें एक थळ. थंयूय गोऱ्यांचें वर्चस्व चलतालें. थंय बस्तान ठोकिल्ले गोरे लोक थंयच्या मुळाव्या काळ्यांक बंदे लेखताले. ह्या गोऱ्यांक कश्टकाड्या लोकांची चड गरज भासताली. देखून थंयचे गोरे आमच्या देशाचेर राज्य करपी गोऱ्यां कडेन हिंदुस्थानांतल्यान लोक थंय धाडचे म्हूण मागणें करताले. आनी हांगा सामकी गरिबी आशिल्ल्यान थंय वचपाक जायते आमचे लोक तयार जाताले. अशे तरेन हजारांनी हिंदुस्थानी लोक काम करून जोडूंक दक्षीण आफ्रिकेक वताले.

दक्षीण आफ्रिकेच्या गोऱ्यांक हो चान्स. कश्टांचीं कामां करपी लोक तांकां आपसूक मेळटाले. हांतले अदिकशे दक्षीण भारतांतले कातीन काळे

लोक आसताले. हांकां दक्षीण आफ्रिकेंतले गोरे 'कुली' म्हूण पाचारताले इतलेंच न्हय तर साप उणाक वागणूक दिताले. कारण ते गोरे आपणाक वरते लेखताले. ह्या हिंदुस्थानी लोकां मदीं कांय बुदवंतूय आसताले ताणी वेपार वेवसाय करून थंय अर्थीक जम बसयल्लो.

अशें आसलें तरी ह्या वेपाऱ्यांक बराबरीचे नागरीक म्हूण दक्षीण आफ्रिकेंत वागणूक मेळनासली आनी हे वेपारी कितलोय अपमान जाल्यार जावं, आमचें काम वेपार करून जोड वाडोवपाचें अशें मानून मोन्यांनी अन्याय सोंसताले.

अन्याय असो म्हळयार तांकां कुली म्हणटना तांकां मेकळेपणान भोंवूंक लेगीत मेळनासलें. कांय रस्त्यां वयल्यान वचपाक बंदी, सार्वजनीक बांकांचेर बसूंक बंदी, रेल-गाडयांनी ताचे खातीर वेगळे डबे, तांकां मार दिवप आनी तांचेर हेर आगळिको करप, दिसवडो उणो दिवप आनी पावला पावलाक तांकां हिणसावप चलतालें. आनी 'लेबर' म्हूण दक्षीण आफ्रिकेंत वचपी हिंदुस्थानी लोक थंय हें सगळें मोन्यांनी सोंसताले.

* * *

ह्या अश्या काळांत मोहनदास करमचंद गांधी नांवाचो एक हिंदुस्थानी तरणाटो वकील दक्षीण आफ्रिकेंत पावलो. मोहनदास हिंदुस्थानांतल्या गुजरात वाठारांतलो. इंग्लंडांत तीन वर्सां रावन ताणें बॅरिस्टरी केल्ली. पूण देशांत ताचो जम बसनाशिल्लो. तितल्यांत दक्षीण आफ्रिकेंतल्यान नोकरेची ऑफर आयिल्ल्यान ताणें ती पत्करली आनी बायलेक घरा दवरून ताणें जोडीचे आशेन दक्षीण आफ्रिकेची वाट धरली.

मोहनदासाची बोट दक्षीण आफ्रिकेच्या धक्क्याक लागली. ज्या वेपाऱ्यान नोकरे पासत ताका आपयिल्लो तो ताका घेवंक बोटीर आयिल्लो. बोटीर त्या वेळार गोरे अधिकारीय चडिल्ले. ते ह्या वेपाऱ्याक वळखताले पूण तांची त्या वेपाऱ्या कडेन वागणूक एक वेगळेच तरेची आशिल्ली. तरणाट्या मोहनदासाक हें कळूंक वेळ लागलो ना. 'दाल में कुछ काला है' हें मोहनदासाक खिणांत जाणवलें. उप्रांत त्या वेपाऱ्यान मोहनदासाक थंयची परिस्थिती

इतंभूत सांगली आनी पयशे जोडूंक जाय जाल्यार मान खाला घालून हांगा जियेवंक जाय म्हणपाचें शिटकायलें.

मोहनदास गांधीक हाचो पडटाळो रोखडो आयलो. रेलगाडयेंतल्यान पयल्या वर्गाचे तिकेटीन प्रवास करतना कातीन गोरो न्हय म्हूण गोऱ्या चेकरान ओडून सकयल देंवयलो. फुटपाथा वयल्यान चलून वतना खोंट मारून थंयच्यान हुसकायलो. अशे एका फाटल्यान एक अन्याय ताका सोंसचे पडूंक लागले. खीणभर ताका दिसलें, हांगा रावचे परस, अशें अपमानाचें जिवीत परदेशांत जगचे परस आपल्या देशाक परतल्लें बरें. पूण थंड चित्तान येवजिले उप्रांत दक्षीण आफ्रिकेंत राबित्याक आयिल्ले समस्त हिंदुस्थानी लोक हेंच भोगतात तेन्ना आपणें चडशें येवजिनासतना ह्या लोकाक जाग हाडपा खातीर दक्षीण आफ्रिकेंत रावन लढो दिवंक जाय ह्या निर्णयार पावन ताणें थंयच रावन 'फायटर' जावचें थारायलें.

ह्या मोहनदास करमचंद गांधी नांवाच्या हिंदुस्थानी तरणाट्या वकिलान 'सत्याग्रह' नांवाचें अहिंसक शस्त्र वापरून दक्षीण आफ्रिकेंत एक जबरदस्त लढो थंयच्या हिंदुस्थानी लोकाक वांगडा घेवन दिलो आनी थंयच्या गोऱ्या सरकाराक कितलेशेच काळे कायदे फाटीं घेवंक लायले आनी दक्षीण आफ्रिकेंतलें आपले मिशन पुराय करून तो आपल्या देशाक परतलो आनी देश स्वतंत्र करपाचो वावर तडीक पावयलो.

हालींच भायर पडल्यात ते दक्षीण आफ्रिकेचे आदले अध्यक्ष नेल्सन मंडेला हांणी ह्या संदर्भांत मार्मीक उद्गार काडले. 'तुमी हिन्दी लोकांनी आमकां मोहनदास दिलो आनी आमी ताका 'महात्मा' करून तुमकां भेटयलो.'

* * *

म्हाका हांगा गोंयांत ल्हानश्या प्रमाणांत त्या काळा वयली दक्षीण आफ्रिका जाणवूंक लागल्या. गोंया भायल्या भारतांतल्यान कामाचे आशेन हजारांनी भारतीय गोंयांत येत आसात. गोंयकारांक कामां पासत ते जाय. तांचे बगर जायना अशी हांगा परिस्थिती जाल्ल्यान ताणी सगळें गोंय व्यापलां. उत्तरेंत

झारखंड, छतीसगड, मणिपूर, मेघालय आनी दक्षीणेंत कर्नाटक, आंध्र प्रदेश, तामीळनाडू हांगाच्यान लोक हांगा कामा पासत झुंडीनी येतात आनी भियेत भियेत जियेतात. दुसरे वटेन मुस्लिमांचें लाखांचे संख्येन हांगा स्थलांतरूच जालां म्हणल्यार जाता. ते वेपारी जावन आयल्यात. तांचे बगर आमचें जायना आनी तांचे कडेन आमचें जुळना. परिणामी एका रागाचे मनस्थितींत आमी तांकां 'घांटी' म्हूण पाचारूंक लागल्यात, जशे दक्षीण आफ्रिकेंत आमकां 'कुली' म्हूण पाचारताले.

ही एक प्रवृत्ती. हो गोंयकारां मुखार आशिल्लो जसो प्रस्न, तसो भायल्यान हांगा येवन स्थायीक जाल्ल्यां मुखार उबो जाल्लो प्रस्न. आयज गोंयांत ल्हान व्हड शारांनी भायल्यान आयिल्ल्यान वावराड्यांचे बाजार भरतात आनी गोंयांत वैयक्तीक तशें भौशीक पांवड्याचेर चड प्रमाणांत विकास कामां चलत आशिल्ल्यान तांकां दिसवड्याच्या कामार व्हरूंक मोटारी, पिकपी येतात आनी तांचेर ह्या वावराड्यांच्यो झुंडी पडटात. एके वटेन कितले तरी हे 'घांटी' बांदकामां चलतना तीं मोडून पडिल्ल्यान तांचे पोंदा चिड्डून मरतात. दुसरे वटेन फांतोडेर गोंयांत उक्त्यो जातात त्या गादयांचेर कितले तरी 'घांटी' जमून तांकां दितात तो विखयाळो सोरो पियेवन मडीं कशीं मार्गार पडिल्लीं दिसतात. आमकां ते फकत 'घांटी' आसतात.

हे सगळे परिस्थितीन गोंयकारांचेर एके नदरेन एक भंयांचें वागरें पडलां आनी दुसरे नदरेन गोंयकार गोंया भायल्या हेर भारती भावां कडेन रागान 'घांटी' म्हूण पळोवंक लागला. हाचो परिणाम म्हणल्यार गोंय आनी हेर भारत हांचे भितर आपलेपण बदला एक परकेपणाचें नातें वाडूंक लागलां. एके वटेन हे परिस्थितीन गोंयकारांचो सॅण्डवीच केला आनी दुसरे वटेन इतलें शिक्षण मेळ्ळुनूय गोंयकार भारता येदो व्हड जावचे बदला गोंयां परस ल्हान जावंक लागला. आयज गोंयाक एका तरणाट्या मोहनदास गांधीची गरज आसा अशें तुमकां दिसना ?





# शणै गोंयबाब हांचो 'अमृताचो पावस'.

आपल्या 'अमृताचो पावस' ह्या लेखांत शणै गोंयबाब "नवें गोंय पोरण्या गोंयातसुनूच वयर सरलां" हाची याद करून दितात. "आपूण सुखी जावन सगळो संवसार उपाट सुखी करचो ही ताची मोटी वान्सा" अशें सांगतात. मुखार शणै म्हणटात "तरण्या-धाकट्या उमेदीच्या गड्यांची ताका (नव्या गोंयाक) मोटी ओड." अशे तरणे-धाकटे गडे कशे आसचे तें विस्तारान सांगून शणै परत "असल्या गड्यांक हाताक धरून आपल्या आनी संवसाराच्या बऱ्याक वावुरचेली ताका (नव्या गोंयाक) मोटी उमेद" अशें म्हणटात. "ही तागेली (नव्या गोंयची) इत्सा तडीक वचून सगळो संवसार सुखान नंदू अशें हांव मागतां," ह्या उतरांनी हो लेख ते सोंपयतात. ('नव्या गोंयाक' 'नव्या गोंयची' हीं उतरां म्हजीं.)

देशांत 1934 त स्वातंत्र्याची चळवळ महात्मा गांधी हांच्या फुडारपणा खाला धगधगताली तेन्ना शणै गोंयबाब हांणी हें बरयल्लें. ते गांधीजींक मानताले हें तांच्या बरपा वयल्यान कळटा. ते संवसार उपाट सुखी 'जावचो' म्हणनात. 'करचो' म्हणटात हें लक्षांत घेवपा सारकें आसा.

आतां पंडित जवाहरलाल नेहरू हांचे ते चळवळी वेळा वयले विचार

समजून घेवया. नेहरू 'राष्ट्रवाद' म्हळ्यार 'आपल्या पुरतें पळोवपी विचार' म्हणटाले. राष्ट्रवादाक ते संकुचिततावाद (पॅरोकियालिझम) लेखताले. पूण ह्या वेळार आमकां राष्ट्रवाद आपणावप चुकना अशेंय ते म्हणटाले. कारण आमचो देश परकी शेकातळा आसा आनी आमकां तर सगळी तांक उपकारावन पयलीं आमच्या माथ्यार बशिल्ल्याक धांवडावचें आसा. तो तोंड घेवन गेलो म्हणटकूच राज्यकारभार जनतेच्या हातांत येतलो आनी आमकां चार पावलां मुखार घालूंक मेळटलीं असो नेहरू भरवंसो दिताले.

गांधीजी नेहरूंच्या विचारांक पालव दिताले. संवसारांत आमच्या देशाची व्हड नामना नेहरूंक लागून जाल्या अशें गांधीजी म्हणटाले. नेहरूंची संवसाराक आपणावपाची नदर तांकां आवडटाली.

म्हणटकूच 'सारे जहांसे अच्छा हिंदोस्तां हमारा' हें गीत आमकां कितलेंय आवडलें तरी तें आमच्या  आयच्या विचारांक मर्यादा घालता अशें मानचें पडटलें. सगळ्या जगांत आमचो देश बरो असो अहंकार ह्या गितांत आसा. खंयचे शिमे मेरेन हो विचार आमी उखलून धरचो तें आमीच थारावचें पडटलें.

आतां गोंयच्या मुक्ती लढ्याची गजाल घेवया. स्वातंत्र्य सैनिकांनी ह्या झुजांत वांटो घेतलो ताचे फाटलो विचार गोंय स्वतंत्र जावचें इतल्या पुरतो मर्यादीत नाशिल्लो. लक्षांत दवरुपा सारकें म्हळ्यार सगळ्या सुटके झुजाऱ्यांक - सगळ्यांक म्हळ्यार एकान एकाक - मुक्ती उप्रांत गोंय भारत जाल्लें जाय आशिल्लें. कांय अशेय आशिल्ले जांकां गोंय मुक्त जाल्लें जाय आशिल्लें, पूण गोंयचें एक स्वतंत्र राष्ट्र जावचें अशें दिसतालें. हांतल्या एकल्याय सभाग्यान मुक्तीलढ्यांत वांटो घेवंक ना हें लक्षांत दवरचें पडटलें.

आतां गोंय मुक्त जावन 52 वर्सां जावन गेल्यांत. सुरवेक गोंयकार मेळ्ळो की भायले लोक 'पयलीं बरें आशिल्लें काय आतां बरें आसा ?' विचारताले. ह्या प्रस्नाचो अन्वयार्थ कळनाशिल्ले कांय जाण पयलीं कितलें बरें आशिल्लें हें सांगतना थकनाशिल्ले. बावडे पुर्तुगेजाची याद काडून जियेताले. आतां त्या काळा वयल्या समज आशिल्ल्या लोकांनी सत्तरी हुपल्या. आतां तो प्रस्न

पातळ जाला. म्हाका कोणें असो प्रस्न विचारना फुडें हांव तेन्नाचे गोंय कितलें बरें आशिल्लें तें सांगतालों, पूण गळ्यांत मात पट्टो आशिल्लो हें सांगूंक विसरनाशिल्लों.

* * *

आयज आमच्या तरणाट्यांक आयची तशी फायची चिंता. पूण ही चिंता काडटना शणै गोंयबाब आनी तांचीं तीं 'आपूण सुखी जावन सगळो संवसार उपाट सुखी करचो' हीं उतरां ताणी विसरूंक फावना.

आमच्या हाताची वा पायाची किरंगळी हो आमचे कुडीचोच एक भाग. किरंगळी आपटली वा तिका ल्हानसो घाय जालो की सगळे कुडीक दुखता. पूण कितेंय लावन ती दूख उणी करूं येता. पूण हेच किरंगळीक मोटो कातरो पडलो जाल्यार सगळें आंग दुखूंक लागतलें आनी एक तर पोटांत वखद घेवचें पडटलें वा इंजेक्शन घेवचें पडटलें.

आमचें गोंय राज्य किरंगळी सारकें ल्हान. गोंयाक जाल्लीं कांय दुयेंसां हांगाच उपाय करून पेकोवपा-सारकीं. दुसरीं कांय व्हड दुयेंसां आसात जीं सोडोवंक वयर पळोवचें पडटा. पूण आमचे भाशेनूच देशाचीं हेरूय राज्यां अशा ल्हान व्हड दुयेंसांक तोंड दितात तांचेरूय आमचें इल्लें लक्ष आसूंक फावता. आमकां आमचें राज्य मेळिल्ल्यान आमी संकुचिततायेंतल्यान भायर सरूंक जाय. आमचीं दुयेंसां आमी निवारचीं पडटलींच पूण दुसऱ्यांचे दुखीचेर फूक मारपाची कपशी आमी आमच्यांत हाडची पडटली. आयज आमी फकत गोंयचोच विचार करतना दिसतात. तो विचार करतना आमच्यांत दुसऱ्यांचीय व्यथा समजुपाची क्षमता आयल्या हें दाखोवपाचो वेळ आयला.

शणै गोंयबाब 'नव्या गोंयान' संवसाराच्या बऱ्याचो विचार करचो अशें सांगताले. आमी आज ह्या 'नव्या गोंयांत' आसात आनी हें 'नवें गोंय' हेरां राज्यां परस कितलेश्याच पटींनी सुधारलेलें आनी गिरेस्त आसा देखुनूच हांगा भायल्यांच्यो झुंडी पोटापाणयाक येतात.

तशें जाल्यार आमी कितें करचें ? आमचे प्रस्न सोडयतना आमचो

धर्म-सम-भाव, आमची शिक्षणाची आवड, आमची परगांवांतली निरुपद्रवी वृत्ती, आमची दुसऱ्याक आनंद दिवपी निर्मळ संस्कृती, दुसऱ्यांच्या आधाराक धांवपाचो आमचो सभाव आमच्यांनी भायर पसरावं येता.

आमचे परिस्थिती कडेन दुर्लक्ष करिनासतना हेरांक आनंद दिवप, हेरांक समजून घेवप हांतल्यान आमकां एक आगळी शक्त मेळटली.

अश्या वेळार म्हाका डॉ. कोटणीस हांचे अमर कथेची याद येता.





# “पयसुल्यान वाजली घांट दाटलो न्हयचो कंठ कांठ...”

*“पयसुल्यान वाजली घांट, दाटलो न्हयचो कंठ कांठ*
*सावळ्यांनी घमघमाट सुटलो त्या खिणा...”*

बाकीबाबांच्या ‘त्या दिसा वडा कडेन गडद तिनसना’ हे अज्रंवर तरणे कवितेंतलें हें एक कडवें. मनाचे जाणटे अवस्थेंत बाकीबाबांनी ही खाशेली प्रेमकविता बरयल्ली. ते हुसकारिल्ले : “तांतलें कांय नुल्लें आज, सगळे जिणेक आयल्या सांज....”

जिणेची सांज अणभवतल्या म्हजे सारक्याक कळवळावपी ही कविता! गेल्ल्यो यादी काडपाची ही पिराय ! त्यो हजारदां येतात आनी शेंवणीं जावन भूर्र करून उडून वतात ! हें सभावीक !

पूण चत्राय ! हांव आतां जें बरयतां तें त्यो यादी सांगूक बरयना. हें बरयतना म्हजे मुखार एक ‘टार्गेट’ वा मोख आसा.

“पयसुल्यान वाजली घांट, दाटलो न्हयचो कंठ कांठ” इतलीच पंक्ती हांव घेतां. हें पक्तींत म्हाका कितें तरी गवसलां. हांव ताका साक्षात्कारूच म्हणन.

आमोरे वेळार, तिनसांजच्या पारार, गांवांतले इगर्जेची घांट वाजता. इगर्जेच्या माथ्या वयल्यान हो घंटानाद जाता जो सगळो गांवभर पसवता.

आनी सगळ्या गांवांक दीस सोंपलो, प्रार्थनेचो वेळ जालो म्हण जागयता. तो क्रिस्तांवां खातीर आसता जावये, पूण तो गांवांत सगळ्यां खातीरूय जाता.

हांव तर हाचे फुडें वतां. म्हजे खातीर हो नाद एका मोग्याचें रूप घेता आनी तेवटेन न्हयचें उदक मोगीण जावन त्या आवाजाक मेळपाचे ओडीन न्हयचो कंठ कांठ हुपूंक अनावर जाता. जाणें ते आमोरे वेळार, काळोख जायत वता त्या समयार, प्रत्यक्षांत घांट वाजतना हो न्हयेच्या कांठा वयलो देखावो पळयला तो त्या उदका वांगडा आकूळ-पिकूळ जाला आसुंकूच जाय.

हो नाद खासा हांव जेन्ना जेन्ना आयकतां तेन्ना हांव एके अनावर ओडींत विरघळून वतां. म्हज्या शिरंत्रांतलें रगत उचांबळटा आनी कुडीचो कंठ कांठ हुपून तें भायर सरपाचो यत्न करता अशें म्हाका जाणवता. इगर्ज ही क्रिस्तांवांची आनी हांव एक हिंदू हो भेद तेन्ना उरना. एका निर्मळ पवित्र अशा ह्या गोंयकारपणांतल्यान तो व्यक्त जाता अशें म्हाका दिसता.

गोंयांतल्या हिंदू-क्रिस्तांवां मदलो हो मम-भाव हेर धर्मियां मेरेन आमी पावोवचो हीच म्हजी मोख. शिरगांवची व्हडली भयण लयराई म्हापशेंचे धाकले भयणीक मिलाग्रीक मेळूंक वता ही कल्पनाच आंगा वयली ल्हंव फुलोवपी. वर्सासनाचे हे भयणी-भयणी मदले भेटेची कल्पना सगळीं मनां मोग भरीत करतात.

पयर 'महात्मा गांधी आमच्या गोंयांत' कार्यावळी वेळार कुंकळ्ळे परपरत वचप जालें. आमची कार्यावळ 30 ता. सुरू जावन 1 ता. र सोंपली. 2 ता.र कुंकळ्ळे फेस्त आशिल्लें. कोणें तरी सांगलें, ह्या फेस्ताचें खाशेलपण म्हळ्यार ह्या वाटारांतलो समस्त हिंदू समाज सायबिणीच्या दर्शनाक सांजे वेळार इगर्जेंत वता आनी तिका पांयां पडून आशिर्वाद आनी थाकाय जोडटा.

जांबावले दामबाबाच्या देवळाच्या हुंबऱ्यार माथें दवरून जायते क्रिस्तांव शांत न्हिदिल्याचें हांवें पळयलां. परिणामी, गोंयकार हो एकूच समाज हाचें प्रत्यंतर हांवें अणभवलां.

हाकाच लागून गोंयकार 'लिबरल' जाला. हांगा आंतरधर्मीक आनी आंतरजातीय लग्नां पावला पावलाक जातात आनी तांचो संवसार सुखान चलिल्लो आमी पळयतात.

हाकाच हांव गोंयकारपण मानतां. तें अदीक केळोवपाची गरज आसा. हें दायज मजबूत करपाची गरज आसा. हेर धर्मियांक हातूंत आसपावन घेवपाची गरज आसा.

कवीन बरोवन दवरलां : 'हिंदू क्रिस्तांव आमी भाव भाव; एकाच देवा कडेन वतात मार्ग दोन जावं !'

आज कवी ना. पूण ह्या कडव्यांत काळा प्रमाण हेरांकूय आसपावन घेवप आमचें कर्तव्य थारता.

* * *

आयज हांव इश्टा बराबर परतून कुंकळ्ळे शिवानंदागेर पावलों. पातळ भाजी खालीच, पूण च्या बदला कण्ण पियेलों आनी धादोशी जालों. वणटीर नदर गेली जाल्यार म्हजो 'सकाळीं फुडें 'पातळ भाजी + पाव = गोंयकार' हो लेख वणटीर बोल्ड टायपान कॅलेंडर कसो मिरयता. तो कोणें हाडून दिलो तें हांवें विचारलें ना.

जायत्या जाणांनी भेटेंत, फोना वयल्यान, मेसेजी धाडून हो लेख म्हळ्यार आमच्या अस्सल जिविताचें पडबिंब म्हणपाचें म्हाका कळीत केलें. कवी माधव बोरकार हांणी तर सुनापरान्ताक पत्र बरयलें.

आतां म्हजें वय काय हे गजालीक लागून भुरकुटून वचपा सारकें न्हय. पूण एक गजाल हांवें सांगूंक जाय ती म्हळ्यार म्हजीं पत्रां 'ललीत लेख' न्हयत. एक मोख मुखार दवरून तीं हांव बरयतां. ती मोख म्हळ्यार आमचें गोंयकारपण exclusive जायत चल्लां अशें म्हाका दिसता. तें सदांकाळ inclusive आसचें म्हण म्हजे आवंडे परगटावपाचो हांव यत्न करतां.






# होम गार्डांक न्याय मेळचो.

गोंय सरकारान सुमार 800 होमगार्डांची भरती करपाचें थारायलां अशें वाचलें.

होमगार्ड दिसता पोलीस कसो. पूण तो पोलीस न्हय. ताचे कडेन अधिकार ना. तो सरकारी नोकरेंत ना. सरकारान ताका दिसवड्यार दवरला.

मुळांत ही 'होमगार्ड' यंत्रणा आयज जे आवतिकायेर पावल्या ते पासत निर्मूंक नाशिल्ली, हें खूब थोड्यांक खबर आसतलें.

होमगार्ड यंत्रणा भारत स्वतंत्र जातना स्थापिल्ली. पोलिसांक आधार जावचो हो ही यंत्रणा स्थापन करपा फाटलो उद्देश आशिल्लो. ती स्वयंसेवकांची संघटना आशिल्ली म्हळ्यार जाता.

देश स्वतंत्र जावच्या पांवड्यार पाविल्लो. लोकाची उमेद कळशे भरून ओतताली. जण एक तरणाटो देशसेवा करूंक फुरफुरतालो. तेन्ना नेहरू गांधी आशिल्ले. अशा वेळार होमगार्ड अवतरलेल्लो.

होमगार्ड तेन्ना अदिकश्या शिकिल्ल्या तरणाट्यांची फौज आशिल्ली. तांकां मान-धन मेळटालें काय कितें ताची याद जायना. हांव त्या काळा मुंबय आसतालों. आमचो एक नातेवर्गी होमगार्डांत सामील जाल्लो. म्हाका याद

ज्ञाता ती म्हळ्यार हो आमचो नातेवर्गी लांब रुंद आशिल्लो. होमगार्डा खातीर तेन्ना धवोफुल्ल युनिफॉर्म आसतालो. तो ताका सोबतालो. खासा होमगार्ड तो शिवून घेताले. आपूण होमगार्ड म्हण सांगताना तांची छाती फुलताली.

कोण हात लायता ती वस्त खंय भांगर जाताली. सरकाराचे बाबतींत उरफाटें घडटा. सरकाराचो हात लागलो की भांगराचें लोखण जाता. आयच्या होमगार्डांची दशा पळयली की 'हेंचि काय फळ मम तपाला' अशें म्हणनशें दिसता.

आयचो होमगार्ड आमकां मार्गार ट्रॅफीक मॅनेज करतना दिसता. बावडो दीसभर हात हालयत आसता. तोंडांतले पिल्लुकेन फी फी करीत आसता. पयलीं होमगार्ड स्वयंसेवक ह्या नात्यान मान मेळयतालो. आयचो होमगार्ड दिसवड्याचो धनी. दिसवड्याच्या वावुरप्याक मान ना. ताका पोलिसांच्या हाता सकयल वावुरचें पडटा.

आयचो होमगार्ड दिसवड्याचो म्हळ्यार ताका आयतार ना. ताका रजा ना. ताका काम ना तेन्ना पगार ना. तो गांवांत आपल्या घरा रावता. ताका प्रवास खर्च ना. ताका कसल्योच सरकारी सवलती मेळनात. व्ही. आय. पी. येता तेन्ना होमगार्ड मार्गार फी फी करूंक उबो.

होमगार्डांक आज दिसाक 300 रुपये मेळटात. दोन वर्सां पयलीं ताका 200 रुपये मेळटाले. मार्ग अभियानाक पोलिसां विशीं आपलेपण. दोतोरांक दिता त्या पावंड्या वयलें प्रशिक्षण पोलिसांक दिवचें असो मार्गाचो आग्रो.

गेल्ले वेंचणुके आदीं कांय होमगार्ड म्हाका मेळूंक आयले. आपणाक 200 रुपये दितात ते 300 दिवचे अशें मागणें हांवें सरकारा मेरेन पावोवचें अशी विनंती करूंक आयिल्ले. सगळे तरणाटे. एका फुडें एक उमेदीचे दिसताले. ते बेस बरे उलयताले. तांकां राज्यांत कितें चल्लां तें खबर आशिल्लें. ते काणकोणच्यान, धारबांदोडेंच्यान सक्काळीं उठून मडगांवां पावताले. फुडें फाटीं सरकारांत तांकां आसपावन घेतले हे आशेन ते तरणाटे जियेताले.

हांवें तांची काकुटवाणी परिस्थिती समजून घेतली. आनी मुखेलमंत्री

दिगंबर कामत हांचे कडेन उलयतां म्हण तांकां उत्तर दिलें. उप्रांत हांव दिगंबर कामत हांकां मेळ्ळों. ताणी हांवें जें सांगलें तें आयकलें आनी होमगार्डांचो दिसवडो 200 चो 300 करतां अशें म्हाका उत्तर दिलें. फायल हालूंक लागली तितल्यांत वेंचणुकेंत पर्रीकार वेंचून आयलो.

पर्रीकार समजून घेतलो अशें धरून हांवें पर्रीकाराक पत्र बरयलें. थोड्याच दिसांनी नव्या सरकारान होमगार्डांचो दिसवडो वाडयल्याची खबर आयली. दिसवडो 300 रुपया केल्लो.

हांवें रोखडेंच पर्रीकाराक होमगार्डांनी तुमचे उपकार मानल्यात अशें कळयलें. म्हाका घरमंत्र्यांचो सेक्रेटरी पवन कुमार सैन हाचें ता. 18-12- चें पत्र आयलें. पत्र इंग्लीशींत आशिल्लें. तातूंत बरयल्लें : As advised by you the Government has already enhanced the daily allowance of the home guards from Rs. 200/- to Rs. 300/- per day.

पर्रीकाराचे कचेरेंतल्यान अशें पत्र. हांव खोशी जालों आनी अजापांतूय पडलों.

उप्रांत एके बसकेंत पर्रीकारा कडेन उलोवंक मेळ्ळें. तांकां हावें होम गार्डांच्या नांवान थॅंक्स दिले आनी एक फावट तरी तांकां मेळचें अशें म्हळें. मुखार थोडो नेट करून सगळ्या सरकारी नोकरांक मुक्तीचे सुवर्ण जयंती निमतान सरकारान 5000/- रुपये दिल्यात तशे होमगार्डांक दिवचे अशें मागलें.

हाचेर पर्रीकाराचें उत्तर : 'होमगार्ड सरकारी नोकर न्हयत....'

'पूण सरकारा खातीर ते बेस बरें काम करतात...' हांवें जाप दिली.

'ते सरकारांत नात म्हण बेस बरें काम करतात.' पर्रीकारान म्हाका चिप्प केलो. पूण रोखडेंच ताका आपलें खंय तरी चुकलां अशें दिसलें आसुंये. ताणें मुखार म्हळें: 'होमगार्डांक 5000/- रुपये दिवंक मेळचे नात. पूण तितलेच किर्ते तांकां पावत अशी हांव व्यवस्था करतां.'

मुखेल मंत्र्यान दिल्लें हें उत्तर हांवें होमगार्डांक कळीत केलें.

हाचेर आतां दोन वर्सां जाल्यांत. होमगार्डांक दिसाक फकत 300/- रुपये मेळटात. दुसरें कांय ना.

आज मडगांवां एक भाडेल दिसाक 400/500 रुपये जोडटा. दिगंबर कामत सरकारान दर एका भाडेलाक मुक्ती सुवर्ण जयंती निमतान 25,000/- रु. दिल्ले.

म्हजी पर्रीकारांक विनंती तांच्या खात्या अंतर्गत काम करतल्या त्या उमेदी तरणाट्या होमगार्डांक अपोवन तांचे प्रस्न समजून घेवचे. म्हाका खात्री आसा तांचे पासत कितें पूण करचें अशें तांकां दिसतलें. म्हाका दिसता उण्यांत उणो तांचो दिसवडो 500/- करचो. तांकांय आपणाक मान आसा अशें दिस सारकें कितें पूण करचें. तांकां व्यक्तित्व दिवचें. समाजाचे गरजेचे घटक अशें तांकां दिसचें.






# बेळगांवाक बरें मागून -

अखील भारतीय कोंकणी परिशदेचें 29 वें अधिवेशन फेब्रुवारी 28 वेर, म्हळ्यार काल बेळगांवां सुरू जालां. तें मार्च 1 आनी 2 मेरेन चलतलें.

एका अधिवेशनाचे दोन वांटे आसतात. एक सभाघरांतलो आनी दुसरो सभाघरा भायलो. सभाघरांतलो वांटो तकली चलोवपी, म्हळ्यार अभ्यास, चर्चा आदींनी भरिल्लो आसता. सभाघरा भायलो वांटो मात् तसो वावराचो नासता. तातूंत थोडीशी पिकनिकूय आसता. अधिवेशनाक आयिल्ले सभासद विचार करपी आशिल्ल्यान तांच्या मनांत परिशद ज्या शारांत जाता त्या शारा विशीं समजून घेवपाची उत्सुकताय आसप सभावीक. हातूंत आपसूक मनरिजवणूय येता.

बेळगांव शारा कडेन गोंयकारांचो दाट संबंद आशिल्ल्यान मोटे खोशेयेन ते थंय वत्तले. तांकां कांय गजाली म्हाका सांगीन दिसतात. हालीं वर्सांनी बेळगांवा कडेन म्हजो इल्लो दाट संबंद आयिल्ल्यान म्हज्या वाचप्यां कडेन म्हाका उलयन दिसता.

1) बेळगांवान गोंयचे मुक्ती खातीर खूब काम केलां. गोंया भायर चलतलो चडसो लढो बेळगांवच्यान चलतालो. 1955 वर्सा जेन्ना हजारांनी भारतीय सत्याग्रही गोंयांत वचूंक आयले तेन्ना ते पयलीं बेळगांवां येवन रावले. बेळगांवकारांनी ह्या हजारांनी सत्याग्रहींची रावपाची आनी जेवणा-खाणाची

मांडणी केल्ली. बेळगांवांतल्या दर एका घरान चपात्यो वा भाकऱ्यो करून त्यो हजारांचे संख्येन मुखेल कचेरे कडेन पावयल्ल्यो. सगळो देश तेन्ना पेटिल्लो आनी बेळगांव त्या लढ्याचें मदेवर्ती ठिकाण जाल्लें. त्या वेळार पुर्तुगेजांनी जायत्या सत्याग्रहींक जिते मारले. बेळगांवकारांनी त्या वेळार जी मजत केल्ली ती सदांच यादींत दवरपाची. 1911 वर्सा गोंय मुक्तीक 50 वर्सां जाल्ले निमतीं गोंय सरकारान बेळगांवां एक 'उपकार-दीस' मनयलो. जाचे वरवीं गोंयकारांनी बेळगांवकारांचे मना सावन उपकार मानले.

2) बेळगांवां स्वामी विवेकानंद पाविल्ले आनी राविल्ले. तांचे यादीक हांगा किल्लो म्हणटात ते सुवातेर विवेकानंद स्मारक मंदिर बांदिल्लें आसा. ताका जमता ताणी भेट दिवचीच. एके व्हडले सुवातेर हें शांती दिवपी ध्यान-मंदिर आसा. तांतून स्वामी विवेकानंद हांच्या वावराचें फोटो प्रदर्शन आनी पुस्तकांचें दुकान आसा.

3) बेळगांवां दोन भासो चलतात. कन्नड आनी मराठी. भासो सांगातान जियेतात आनी समृद्ध जातात. बेळगांवकारांक ह्यो दोनूय भासो येतात. ते नदरेन तांकां गिरेस्त मानूंक जाय. हांच्यांतल्या आपसांतल्या संबंदां कडेन आमकां देणें-घेणें ना. आतां बेळगांवांत तिसरी भास कोंकणी आपलें अस्तित्व दाखोवन शाराक अदीक गिरेस्त करतली. तशें जावं.

4) बेळगांवांत तसो चडसो साहित्यीक वावर चलना. भायल्यान पावणे येवन व्याख्यानां बी दितात तितलोच. हरशीं बेळगांव आपल्या व्यापार धंद्यांत व्यग्र आसता. बेळगांवांत व्हड कारखाने नात पूण मोट्या प्रमाणांत वेपारी उलाढाल चलता. तांतूंत गोंयूय वांटेकार आसा. बेळगांवाक गोंया कडल्यान मोट्या प्रमाणांत पयसो मेळटा आनी गोंय ह्या वेव्हारांतल्यान जाय तें मेळयता.

5) गोंय हें संवसारांतले नामनेचें पर्यटन थळ. पूण गोंयकारांक बेळगांव पर्यटन थळ. विसव घेवंक, रिलेक्स जावंक, पिकनीक करूंक गोंयकार बेळगांवां धांवतात. हांगा रावपाचीं तशीं जेवणा-खाणाचीं बरीं बरीं हॉटेलां आसात, जांतलीं चडशीं कोंकणी कामतींचीं, शानभागांचीं आसात. ह्या अधिवेशना निमतीं ह्या लोकालागीं गोंयकारांचें आपलेपण वाडटलें.

6) बेळगांव हें कश्टकाड्यांचें शार. बेळगांवकार कारागिरींत, मॅनुअल

लेबरांत वस्ताद. भोंवतणच्या वाटारांत हांगा खूब भाजी पालो रोवन काडटात. हांगा बाजारांत शोरूम दिसतात तांची कंगरखीस खासा बेळगांवकारांनी घडयल्ली. हांगा गांव आनी शाराचो गोड सुमेळ जाल्लो दिसता. गरीब तशे श्रीमंत हांगा मायेमोगान जियेतात.

7) बेळगांवांत 1924 वर्सा काँग्रेसचें अधिवेशन जाल्लें ताका गांधीजी आनी हेर फुडारी आयिल्ले. बेळगांवकारांक तांच्या यादींनी रमपाक आवडटा.

8) बेळगांवां के. एल. ई. नांवाचें एक व्हड आधुनीक हॉस्पिटल आसा. गोंयकार हांगा उपचारा खातीर मुजरत वतात. हॉस्पिटलाचो अती उत्तम नमुनो म्हण के.एल. ई. न नामना जोडल्या.

9) बेळगांवचो म्हाका मोग. बेळगांवां बेळगांवकारांनी 'बेळगांव मार्ग' स्थापन केला. बेळगांव हें एका काळा सायकलींचें शार. आज हजारांनी मोटारसायकली बेळगांवांत धांवतात. बेळगांवकार बेळगांवची येरादारी मांडणेर घालूंक सोदतात. तांच्या मनांत एक मार्ग अधिवेशन घेवचें आसा जें वेंचुणुके उप्रांत जावये. अनमोड-बेळगांव रस्तो पुणे-मुंबय सारको करचो अशें बेळगांवकारांचें मागणें आसा. गोंयकार तांकां पालव दितले हातूंत दुबाव ना.

10) गोंयकारांक बेळगांवच्यान परततना रसरशीत भाजी व्हरूंक आवडटा. ही भाजी सांजची शारांत येता. कोब, नाब, मुळे, पाले-भाजी पळयत रावची. म्हाका प्रत्यक्षांत बेळगांवची इडली आवडटा. सांबार आनी चटणे बगर. बेळगांवचे वट्ट इडलेंत एक खाशेली खातूस टेस्ट आसता ती म्हाका आवडटा. कांय कडेन इडले वांगडा लोणीय दितात. आरे व्वा !

निमाणें - बेळगांवांत परिशदेचे स्वागताध्यक्ष व्ही. व्ही. शणै हांचें तरणाट्यांक नोकऱ्यो मेळोवन दिवपाचें व्हडलें आस्थापन आसा. थंय इत्सुकांच्यो रस्ती लागिल्ल्यो आसतात. व्ही. व्ही. शणै मेळिल्ल्या गोंयकाराक आपल्या घरा व्हरतात. ह्या घराचे गच्चेर ताणी फुलां आनी भाजीपालो हांची बाग केल्या. ती पळोवपा सारकी आसा. व्ही. व्ही. शणै हांकां बेळगांवां एक गोवा भवन आसचें अशें दिसता. तांकां सांगात दिवंक जाय.





# एक पाडूक जाणें आवयक वागाच्या बचक्यांतल्यान वाटायली !

ही काणी एका पाडकाची, जाणें आपले निरागसताये बळार आपले आवयक वागाच्या बचक्यांतल्यान वाटायली.

तीन कातरीचो वेळ. गायेचें दोंगरार चरून जाल्लें. पोट भरिल्लें आनी होंटूय भरिल्ली. मन तृप्त जाल्लें. आतां घरा गोठ्यांत परतुचें आसलें. इतल्यांत थंय पावलो एक वाग आनी ताका दिश्टी पडली ही गाय. म्हणूंक लागलो: 'आयती मेळ्ळी. दीसभर आसां उपाशीं, तुका खावन जातां धादोशी !'

गायेक कळ्ळें. आपलो वेळ भरला. आतां कितें करचें ? घरा तर पाडूक आसा. रावता, केन्ना 'मम्मा' येतली आनी लुचुलुचून दूद पियेतलें ! गायेन वागाक म्हळें : "भावा, भयण लेखून म्हजें एकूच मागणें मानून घे. घरा म्हजें पाडूक म्हाका रावता. ताका एकटें सांडून हांव चरूंक आयिल्लीं. ताचे खातीर भरिल्ली होंट घेवन हांव वतां आनी बायक म्हज्या दूद दिवन परतून येतां !"

"ना ना ना ! तूं येतली हाका प्रूफ कितें ?" वागान विचारलें.

गायेन वागाक समजायलें: "प्रुफां बी मनशांनी मागपाचीं. मोनजातीचें उतर म्हळयार खणखणीत म्होर. हांव अश्शी वतां, अश्शी येतां. तूं हे आवयच्या उतराचेर भरवंसो दवर !"

वाग मात्सो वेगळो आशिल्लो. मनशां भाशेन न्हय. दुसऱ्याक पातयेवपी!

"चल तर, वचून यो. हांव तुका हांगाच रावतां !" वागान गायेक रजा दिली. गाय खोश्शी ! कांय वेळान आपूण मरची आसां म्हण ती विसरली ! आतां पोटच्या पोराक दूद दिवंक मेळटलें हे तनरेंत ती गुल्ल जाली. ती गोठ्यासरीं पावंक हांबेली. आनी आवयचो तो उलो कानार पडना फुडें तें पाडूंक उडक्यो मारूंक लागलें. पाडूक खोशेन लागो मारता तें पळयत रावचें!

आवय दिसना फुडें पाडकान चिंवेक तोंड लायलें आनी दूद घोटूंक लागलें. आवय सुखान पोराक चाटूंक लागली.

जालें ! पाडूक दूद पियेलें. ताणें एक धेंकर दिलो तशी आवयची तनरी भंगली. वागाक उतर दिलां, ताका पाळो दिवंक जाय. काळीज घट करून गायेन पाडकाक सांगलें. "जाणा मगो बाय, तूं शाणें. हांव तुका कितें सांगतां तें थंड चित्तान आयक. येतना वाटेर म्हाका वागान गांठलें, आनी म्हणूं लागलो, "*तुका आतां खातां.*" हांवें ताका सांगलें "*घरा म्हजें बाय म्हजी वाट पळयता ताका दूद दिवन येतां. मागीर म्हाका खा.*" तो वाग मनशा भाशेन न्हय. ताणें म्हाका म्हज्या उतरार सोडलें. देखून हांवें ताचे सरीं परतून वचुंकूच जाय. प्राण गेल्यार जाता, पूण उतर मोडूंक फावना, अशें जाणट्यांनी म्हणिल्लें हांवें आयकलां. तेन्ना हांव आतां वतां. वाग म्हाका खातलो. म्हणटकूच हांव परत येवचिना. तूं हेरां गोरवां वांगडा मस्ती करिनासतना खुशाल राव. म्हाका विसर!"

पाडकान विचारलें, "तुका विसरूं ? आवयक मरपाक सोडूं ? हांव पळयतलें वाग कसलो तो! हांव तुजे बराबर येतलेंच येतलें. तुका एकलेक वचूंक दिवचें ना !"

पोर हटी म्हण आवय जाणा आसली. "तशें जाल्यार तूंय यो, वागाचे भकीक पडूंक ! आतां आमकां देवानूच वाटावपाचें !'

अशें म्हणून आवय त्या पाडका सांगाता वागाक मेळूंक गेली. वाग वाट पळयतालो, गाय येतली अशें ताका दिसूंक नाशिल्लें. पळयत जाल्यार गायूच

न्हय तर तिच्या वांगडा एक पाडकुलेंय बी येता.

आतां पाडकान वागाक पळयलां मात्, ताणें वागाचेर एक उडकी मारून 'मामा मामा, कसो आसा, मामी कशी आसा ?' म्हण विचारूंक सुरवात केली. वागाक हें कितें चल्लां तें कळना जालें. आयज मेरेन ताका 'मामा' म्हणून कोणेच उलो मारूंक नासलो आनी मामीचीय वासपूस करूंक नासली. वाग सामको सर्गदन जावन ताका पळयत रावलो आनी निमाणें उद्गारलो : 'बरेंच लागोळें मगो तूं ! तुका हें कोणें शिकयलें ?'

वाग गायेक मारपाचें विसरलो. गायेक म्हणूंक लागलो, 'तुज्या ह्या पोरान म्हाका मनीसपण शिकयलें. तूं हे मुखार खरीच म्हजी भयण आनी ह्या पोराचो हांव मामा ! तूं आतां ताका घेवन बरे भाशेन घरा वच.'

"मामा, आमगेर केन्ना येता ?" पाडकान वतना विचारलें. वाग दोळे पुशीत कडसरलो.

* * *

तात्पर्य : वागाक लेगीत मनीसपण शिकोवं येता, जाय पाडकाची निरागसताय.

धाकटुल्या गोंयान अशी निरागसताय केळोवची आनी वयर उत्तरेक आनी सकयल दक्षीणेक आशिल्ल्या दोगांय वागां कडेन इश्टागत वाडोवची. तांकां मामा मानचें. ताकां लक्ष्मणरेखे भितर मात येवंक दिवचें न्हय.

एका काळा दोगांकूय, महाराष्ट्राक आनी कर्नाटकाक, गोंय जाय आशिल्लें. कर्नाटकाकूय गोंय आपलो वांटो जावचें अशें दिसतालें. पूण पंडित नेहरू हांणी 'आमी गोंय वेगळें दवरचें थारायलां' अशें स्पश्ट उतरांनी ह्या दोगांय राज्याच्या फुडाऱ्यांक शिटकायलें.

कर्नाटकान नेहरूंचें सांगणें आयकलें. महाराष्ट्रान ओपीनियन पोलांत मार खालो.

* * *

आमी मराठी भास शिकले देखून मराठी लोका कडेन तशें प्रदेशा कडेन आमी आपलेपणान पळयतात. कर्नाटक राज्यूय आमचें शेजारी. पूण चड प्रमाणांत अर्थीक वेव्हार आसुनूय कन्नड भाशेक लागून आमी तांकां परकी लेखतात. कांय गोंयकार कन्नड लिपीक 'जिलेबी लिपी' म्हणटात आनी कन्नड भाशेक 'अंडूगुंडू' भास म्हणटात. हें वर्तन देशाच्या एकचाराक बादिकार हें तांकां कळना.

एकेकदां दिसता, एदें महाभारत घडुनूय भाशेचें म्हत्व आमकां समजलेंच ना. समजल्लें जाल्यार आमी कन्नड भास शिकतले आशिल्ले. आमी कन्नड भास शिकूंक जाय. कन्नड साहित्याची वळख आमकां आसची. कन्नड साहित्याचो कोंकणींत आनी कोंकणी साहित्याचो कन्नडांत अणकार करपी आमकां साहित्यीक जाय. (मडगांवचे रमेश लाड मुजरत कन्नड शिकल्यात. आनिकूय दुसरे घडये आसतले.) भास ह्या नात्यान कन्नड खूब वयल्या पांवड्या वयली.

आमकां कन्नड उलोवंक येवंक जाय. सामान्य कन्नड मनशासरीं आमी पावूंक जाय. आमच्यांतली भावकी अदीक घट करपाक आमकां एकामेकांची भास उलोवंक येवंक फावता.

आयज कर्नाटकाचे आनी गोंयचे संबंद तितले गोड नात. हे संबंद निवळावंक तांची भास शिकप हो एक मार्ग. भास आपलेपण वाडयता.

कोंकणी परिशदेन गोंयांत कन्नड वर्ग चालू करचे अशें हांव ह्या वेळार सुचयन.






# भांगराळ्या गोंयां पासत वावुरतल्या उत्तमोत्तम प्रतिनिधीचो दिव्य सत्कार.

'भांगराळें गोंय' हें संबोधन तशें नवें न्हय. पुर्तुगेज लोक गोंयांक 'Goa Dourada' म्हणचेच 'भांगराळें गोंय' म्हणटाले.

गोंय ही आपणाक प्राप्त जाल्ली व्हडली देण अशें पुर्तुगेज हुकुमशाहा सालाझार मानतालो. राजसत्ता कॅथॉलीक आशिल्ली, ते भायर गोंयांत सांव फ्रांसिश्कु सायबाची कूड आसा, हाका लागून गोंय ही पुर्तुगालाची म्हान आस्पत (greatest possession) जाल्ली. देखुनूच धांवडावन घालीसर सालाझार गोंयांत रावलो.

आनी जेन्ना ताका, त्याच प्रमाण भाटकारी वृत्तीचे पुर्तुगेज प्रजेक, गोंय आपल्या हातांतलें गेलें म्हण कळ्ळें, तेन्ना सामकें गळगळून रडूंक आयलें. हजारांचे संख्येन नागरीक पुर्तुगालाच्या रस्त्यांचेर जमले तांकां लेखून सालाझारान 'Goa Dourada भांगराळें गोंय गेलें' अशीं जनतेक कळवळावपी उतरां रेडियो वयल्यान काडलीं.

हें भागराळें गोंय पुर्तुगेजा काळा खरेच भांगराळें आशिल्लें व्हय ? 'काय बरे ते दीस आशिल्ले!' म्हणपी आतां त्या काळचे खूब थोडे लोक उरल्यात. ते कशे चिंतताले ताचो एक नमुनो :

गोंय मेकळें जाले उपरांत एकलो गोंयकार मुंबय गेलो. ताका थंय फकत फियाट टॅक्सी दिश्टी पडपाक लागल्यो. तेन्ना ताणें एका मुंबयकाराक विचारलें : 'हांगा सगळ्यो टॅक्सी फियाट कश्यो ? आमच्या गोंयांत मर्सिडीज टॅक्सी आसात !' मुंबयकारान ताका सांगलें, 'हांगा ज्यो टॅक्सी दिसतात त्यो आमच्या देशांत आमी केल्यात. तुमचे थंय मर्सिडीज गाडयो तयार करपाचे कारखाने आसात काय कितें ?' त्या गोंयकाराक हाचो अर्थ समजूंक बरोच कळाव लागलो आसूंक जाय.

पुर्तुगेजा काळा गोंयांत धर्म विभागणी आशिल्ली, आनी मुखेल गजाल म्हळ्यार सरकारान 80% जनतेक अशिक्षीत दवरलेली. हांतल्यान हांगा एक स्वातंत्र्य-संग्राम सुरू जालो, जाका लागून भारत सरकारान पुर्तुगेजा कडल्यान गोंय काडून घेतलें.

अशे तरेन गोंयकार स्वातंत्र्य सैनिकांनी एक खरें भांगराळें गोंय घडोवपाचे वाटेर पयलें पावल घालें. उपरांत, आडमेळीं येवचीं थांबलीं नात. तीं हुपीत हुपीत समाज वावुरपी गोंयकारांनी एका फाटल्यान एक पावल फुडें घालीत घालीत गोंयां पासत स्वराज्य मेळयलें.

पन्नास वर्सां लोटलीं. एक पिळगी सोंपली. दुसरी सोंपचे वाटेर आसा. तिसरी आपलें अस्तित्व तिगोवंक धडपडटा आनी चौथी 'आमी आयल्यात' म्हण शिटकायता.

पूण गोंय भांगराळें जालां व्हय ? भांगराळें गोंय म्हळ्यार कितें ? जापे खातीर पुस्तकांची आरमार उकती करची. ते आरमारींत गोंय, कोंकणी, लोकसभा वेंचणुको हांचे संबंदान गजाली करपांत गुल्ल आशिल्ले शणै गोंयबाब, बाकीबाब, र. वि. पंडित, रवीन्द्रबाब, शंकर भांडारी, मनोहरराय, चंद्रकांत केणी बी तुमकां मेळटले. तांकां 'भांगराळें गोंय' म्हळ्यार कितें काय विचारल्यार शणै गोंयबाब 'गोड म्हजें गोंय' गीत गायतले; बाकीबाब 'माझ्या गोव्याच्या भूमींत गड्या नारळ मधाचे' म्हणटले; र. वि. पंडित 'गोंय म्हजी होंकल कशी पाचव्या चुड्यान भरलेली' म्हण तोखेतले; रवीन्द्रबाब 'संयुक्त गोंय घडोवपाचो

वावर विसरले ?' काय विचारतले; शंकर भांडारी 'दोरेमीफा सारेगम' म्हणटले; मनोहरराय 'गोंयां तुज्या मोगा खातीर' पुस्तक काडून 'हांगा जायो जुयो दाट, हांगा चांफ्या घमघमाट' वाचून दाखयतले, जाल्यार चंद्रकांत केणी 'हांव तुमकां जागयत आसतालों' ताची याद करून दितले.

हांतलो कोणूच भांगराळें गोंय म्हळ्यार कॅसिनोचें गोंय, मटक्याचें गोंय, शिंदळकेचें गोंय, सोऱ्याचें गोंय, बलात्काऱ्यांचें गोंय, दर दिसा चार चार मनीस मारपी रस्त्यांचें गोंय, मनशांक गिळपी दर्याचें गोंय, क्षुल्लक कारणा वयल्यान आत्महत्या करतल्या तरणाट्यांचें गोंय, के.जी. आनी मुळावें शिक्षण इंग्लीशींतल्यान  दितल्यांचें गोंय, पोटा पासत नागरिकत्व सोडटल्यांचें गोंय, शिमिटाच्यो म्हण सांगून पिठाच्यो बिल्डिंगो बांदून लोका कडल्यान पयशे उबारतल्यांचें गोंय म्हण सांगचे नात.

तशें जाल्यार असले आड वाटेन गोंयाक व्हरतल्यांक आमी आडावचें कशें ?

विचारल्यार ते तुमकां  सुधारणा नाकात म्हणटले. ते म्हणटले, 'तुमच्या मार्गान गेल्यार गोंय फाटीं उरतलें. बहुजन समाज फाटीं उरतलो. आज सुधारणांक लागून गोंय कितलें आधुनीक जालां तें पळयात. सगळो भारत गोंयां कडेन एक 'फॉरेन पॉकेट' म्हण मानान आनी अजापान पळयता'.

महाभयंकर अशी परिस्थिती आसा गोंयकारां मुखार. लक्षांनी भायलो लोक स्थलांतरान हांगा येवचो आसा. गोंयची गिरेस्तकायूच गोंयच्या मुळार आयल्या म्हळ्यार जाता. ते पासत 'भांगराळ्या' गोंयान दुसरे वाटेन 'लोखंडाळें' जावचें पडटलें. दोन उतरांनी सांगचें जाल्यार तरणाट्यांनी शणै गोंयबाबांचे 'जुवान गडे' जावचे पडटले. ताणी दिल्लो मंत्र 'अमृताचो पावस' तोंडपाठ करचो पडटलो. झुजाऱ्यांची म्हळ्यार फायटरांची तशी राजकी अभ्यासकांची यंत्रणा घडोवची पडटली, जी हळू हळू सरकार जावपाची क्षमता वाडयतली.

भांगराळें गोंय घडोवप ही सतत चलपी एक प्रक्रिया. हे प्रक्रियेंत मनीस

घडोवपाक चड म्हत्व आसा. हे प्रक्रियेंत पयलीं नागरीक जावप म्हत्वाचें.

म्हाका दिसता भांगराळ्या गोंयचो फुडार घडोवपाचो वावर नियतीन फकत कोंकणी भक्तांच्या लिडरशिपीच्या कसबाचेर सोंपयला. दुसऱ्या कोणाक गोंयच्या बऱ्या-वायटाचें सूख-दूख ना. आमकां गोंयाक भारताचें एक समृद्ध राज्य करचें आसा हें जालेंच, पूण वांगडा भारताचे उदरगतींतूय वांटो घेवचो आसा.

अश्या ह्या गोंयां पासत वावुरतल्यांचो उत्तमोत्तम प्रतिनिधी श्री उदय लक्ष्मीकांत भेंब्रे हांचो भव्य आनी दिव्य सत्कार नवी पिळगी आपूण जावन फुडें सरून आज करता. ह्या सत्कार समारंभांत आमी उमेदीन वांटो घेवया.





# आसा ती लोकशाय खरी करुंया !

वर्सावळीचो गोंयचो शिगमो जालो म्हणूं येता. आतां देशांत पांच वर्सांनी एक फावट जाता त्या 'शिगम्याक' सुरवात जाल्या. ह्या शिगम्याक नांव आसा 'वेंचणूक'. देशभरांतली सगळी प्रजा आपआपले आवडीच्या खासदाराक वेंचून काडपा खातीर मतदान करतली. जाका हेरां परस चड मतां मेळ्ळ्यांत तो उमेदवार वेंचून आयिल्ल्याचें जाहीर जातलें. उप्रांत ज्या पक्षाचे चडांत चड खासदार वेंचून आयल्यात तो पक्ष सरकार घडयतलो.

सरकार घडोवंक उण्यांत उणीं 51% मतां मेळूंक जाय अशें ना. ज्या पक्षान चड मतां मेळयल्यांत तो दुसऱ्या पक्षा कडेन संगनमत करून आपलें सरकार घडयतलो.

वेंचणुकेक हांवें शिगमो म्हळां. अशें म्हणटना म्हाका वायट दिसलां. स्वतंत्र भारतांत 1952 त पयली वेंचणूक जाली. पांच पांच वर्सांनी वेंचणुको जायत आसात. पूण पद्दत शिगम्याचीच. मतदाराक विचार करपाक कोणेंच शिकयलें ना. ते मतदारूच उरले. नागरीक जावन जबाबदारी वळखून मतदान करपी जाले नात. फरक इतलोच म्हळयार वेंचणुके दिसा रगतां व्हांवतालीं, मारामाऱ्यो जाताल्यो, मतदान-पत्रिका पिंजताले तें बंद जालां. अंदू मतदान पुराय जावंक दोन म्हयने लागतले.

देश स्वतंत्र जालो तेन्ना देशांत लोकशाही आयली अशें आमी मानलें. आमकां नागरीक स्वातंत्र्य मेळ्ळें. आमकां सगळ्यांक मतदानाचो हक्क मेळ्ळो.

आतां 'मत' म्हळ्यार कितें ? मत म्हळ्यार विचार. स्वातंत्र्य मेळ्ळें तेन्ना देशांत शिक्षीत अशे लोक शारां पुरते मर्यादीत आशिल्ले. खेड्यांनी रावपी लोक अशिक्षीत आशिल्ले. "अशिक्षितांक विचार करूंक कळना. शिक्षीत विचार करतात, तेन्ना अशिक्षितांक मतदानाचो अधिकार दिवचो न्हय" ह्या मताचे जायते लोक तेन्ना आसले. पूण "अशिक्षीत सदांकाळ अशिक्षीत उरचे नात; आदल्या काळा पंचायती आशिल्ल्यो आनी तांचो कारभार शिकूंक नाशिल्ले पूण वेव्हारीक शाणपण आशिल्ले लोक चलयताले" हाचेर बोट दवरून आमच्या फुडाऱ्यांनी वेगळेचार करिनासतना सगळ्यांक मतदानाचो अधिकार मेळोवन दिलो. आयचो अशिक्षीत फायचो शिक्षीत जातलो हाचेर ठाम रावन सगळ्यांक मतदानाचो हक फावो जालो.

आज साठ वर्सां उप्रांत परिस्थिती कशी आसा ? जांकां शिक्षीत म्हणटात ते मतदान टाळटात. तो सुटये दीस पिकनिके खातीर वापरतात. गोंयांत जायते जाण बेळगांवां वचून थंय वारें खावन दुसऱ्या दिसा परततात. अशिक्षीत लोक मतां दिवंक गर्दी करतात. पूण विचार करून मतां दिवप तांकां शक्य जाता व्हय ? कोणाच्या व्यक्तिगत वा गटाचे भीड-मुर्वतीन वा जायतेदां पयशे घेवन एक गठ्ठा मतां दितात.

* * *

नागरीक ह्या नात्यान म्हज्या अशा चिंतपांत दोश आसा काय ? म्हाका जाल्यार दिसना एक समाज-वावुरपी ह्या नात्यान सस्त बसप म्हाका पुटवत? म्हजे वाचपी आपणाक नागरीक मानतात मू ? ते ही परिस्थिती सोंशीत रावतले, काय आपल्या मर्यादां भितर ती बदलूंक हात-भार लायतले, काय "आमी गोंयकार, आमकां तसल्यो व्हड जबाबदाऱ्यो पत्करप परवडचें ना" म्हणटले ?

म्हजी तशी म्हजे वांगडा काम करतल्यांची वोगी बसपाची तयारी ना. मतदाराचो नागरीक करूंक कितें पूण करूंक जाय ह्या निर्णयार आमी पावल्यात. 17 वर्सां मार्गांपासत वावरून, 70 हजार विद्यार्थ्यां कडेन संवाद सादून, हजारांनी नागरिकां कडेन भासाभास करून रस्त्या वयली परिस्थिती बदलना जाल्यार आमी एके वेगळे वाटेन पावल घालचें पडटलें ह्या निर्णयार आमी पावल्यात. गोंयांत देशांत दुसरे कडेन ना अशी 'नागरिकत्व आनी समाज-भान जागोवपी' अशी शिक्षणीक संस्था आमी स्थापन केल्या. ह्या संदर्भांत आमी गोंयांतल्या तशें देशांतल्या कांय म्हालगड्यां कडेन उलयल्यात. आमची संस्था गोंयच्या शाळाशाळांनी 'सिवीक क्लब' स्थापन करतली. आनी वर्सा भितर कांय शेंकडे ज्युनियर सिटिझन निर्माण करतली. पोरूं वर्साच्या 26 मेक पणजे पाट्यार संस्कृती भवनांत आमी एक बुदवंतांचो मेळावो घेतिल्लो. थंय सगळ्यांनी अशे शिक्षण संस्थेची गरज मानून घेतिल्ली. आज गोंयांत धरून देशांतल्या शारांनी, तथाकथीत 'इंटरनॅशनल' तेच भाशेन 'नॅशनल' हायफाय शाळा सुरू जावंक लागल्यात. कांय पालकांक शाळांनी आपयतात आनी भुरग्या कडेन घरा इंग्लीशींत उलयात असो सल्लो दिवंक लागल्यात. हे फाटभुंयेर आमची शिक्षण संस्था गोंयांत आनी देशांत एक आगळी-वेगळी थारतली. आमी गोंयाक हो मान मेळोवन दिवपाचो प्रयत्न करतले.

आमकां कांय शिक्षणीक मान्यवरांनी सक्रीय मार्गदर्शन करपाचें मान्य केलां.

"आयलां तें स्वातंत्र्य न्हय. स्वातंत्र्य न्हय. स्वातंत्र्य न्हय" अशें बाकीबाब म्हणून गेले. आयल्या ती लोकशाही न्हय म्हणप आनी ती खऱ्या अर्थान हाडपाक प्रयत्न करप ही देशाचे नागरीक ह्या नात्यान आमची लागणूक थारना?






# कारवारच्या साहित्यविश्वाक पालव दिवची गरज.

रवीन्द्रबाब दोन जापसालदारक्यो आमचेर सोडून गेल्यात.

1) पयली : इंग्लीशी संदर्भांतली लक्ष्मणरेषा थारावचेली. ज्ञानपीठ पुरस्कार वितरणा वेळार तांचें हिन्दी उलोवप लेखक श्री. नामवरसिंह हांणी वाचून दाखयल्लें, त्या उलोवपांतल्यान ताणी आपणाली इंग्लीशी विशींची व्यथा उकती केल्ली. लोकसभेच्यो अध्यक्षा मीरा कुमार ह्या कार्यक्रमाक उपस्थीत आशिल्ल्यो. ताणीय तांच्या विचारांक पालव दिल्लो.

2) दुसरी : कारवार जॉयडा प्रदेश गोंयाक जोडून संयुक्त गोंय घडोवचेली.

हे विशीं कोंकणी वावुरप्यां भितर चर्चा जावची गरज आशिल्ली. ह्या संदर्भांत हांव पुंडलीक नायका कडेन उलयलों. म्हाका दिसतालें, आमी फुडें सरून भारतीय भासांचे जे नामनेचे लेखक आसात तांचें एक संमेलन ह्याच विशयाचेर गोंयांत घेवचें. भारतीय जनमानसांत इंग्लीशीचें स्थान ह्या संमेलनांत ताणी थारावचें.

हावें मार्गा विशीं जायतीं संमेलनां घेतल्यांत. पूण लेखकांचें संमेलन घेवपाक हावें फुडें सरप म्हाका योग्य दिसलें ना. उपरांत अकस्मात 'भारतीय भाषा सुरक्षा मंच' स्थापन जाल्ल्याचें वाचलें आनी जेन्ना तो मराठी आनी

कोंकणी पुरतोच आसा म्हण कळ्ळें तेन्ना उमेद दिसली ना.

कारवार आनी जॉयडा ह्या प्रस्नांत तूं लक्ष घाल अशें कांय वर्सां आदीं रवीन्द्रबाबान म्हाका म्हणिल्लें. तें उखलून धरून चार लोका कडेन उलोवया अशें थारावन हांव कारवारा गेल्लों आनी कांय जाणांक मेळिल्लोंय बी. तेन्ना थंय इश्ट दीपक गांवकार आशिल्लो.

कारवारच्यान परतले उपरांत हांवें रवीन्द्रबाबाक लेखी रिपोर्ट दिलो ताका लागून तांची उमेद वाडिल्ली. हे मोहिमेक हांव गती दिवंक पावलों ना.

तग धरिल्ली जाल्यार ती एक राजकी चळवळ जावये आशिल्ली. आनी ती कारवारांतूच न्हय तर गोंयांतूय चलूंक फावताली. कोंकणी मोग्यांनी गोंयांत जैत जोडलें. तें एका अर्थान अर्देंच उरलां. कारवार जॉयडा हो पुराय कोंकणी प्रदेश; देवनागरी लिपी आपणायल्लो प्रदेश; भाताचो पिकाळ प्रदेश; प्रदुशण विरयत प्रदेश ; तथाकथीत विकास जावंक नाशिल्लो निर्मळ (वर्जीन) प्रदेश; आकारान गोंयच्या 2/3 प्रदेश जो आपूण जावन गोंयांत विलीन जावंक सोदता.

राजकी नदरेन कारवारा सयत संयुक्त गोंय घडना अशें दिशिल्ल्यान जावये, नांवाजते कोंकणी साहित्यकार महाबळेश्वर सैल हांणी कोंकणी परिशदेचे माचये वयल्यान 'देशांत सांस्कृतिक राज्यां स्थापन करचीं' अशी एक अभिनव कल्पना मांडली. जायत्या जाणांक ती पयल्या फाराक आवडलीय बी, पूण सैल हांणी वा दुसऱ्या कोणेंय तिची फोडणिशी वा चिकित्सा केली ना. अजापाची गजाल म्हळ्यार जायत्या वर्सां उपरांत पंदरा दिसां पयलीं मडगांवां उदय भेंब्रे हांणी तांच्या सत्काराक जाप दितना 'सांस्कृतिक राज्याची' कल्पना उखलून धरली पूण अजून मेरेन ती प्रत्यक्षांत कशी हाडची, तिचें रूप कितें आसचें, एकूच राज्य काय चड राज्यां आसचीं हाची फोडणिशी तांचे कडल्यान येवंक ना.

कारवारान आमकां महाबळेश्वर सैल, देविदास कदम सारके व्हड लेखक दिले. त्या वाटारांत उजवाडा येवंक नाशिल्ले जायते नाटककार, कथालेखक, कवी बी आसात म्हण हांव आयकतां. पूण साहित्य प्रकाशनाक थंय वाव

नाशिल्ल्यान तांचें नांव जायना.

संयुक्त राज्य, सांस्कृतिक राज्य ह्या कल्पनांक तुर्ताक चड नेट दिनासतना त्या वाटारांत कोंकणी साहित्य किल्लचें, कोमरेवचें, आंकरेवचें, ताका पालय येवची हे नदरेन आमच्यांनी जायतें करूं येता.

खासा हांव एक दोनदां इश्टां सयत तेवटेंतल्या कॉलेजींनी गेल्लों आनी शिक्षक वर्गा कडेन आनी कांय विद्यार्थ्यां कडेन उलयल्लों. विद्यार्थ्यां कडेन आमी उलयले तेन्ना तांची नुरा उमेदीन फुलिल्ली आमकां दिसली. हांच्यांत जायते कवी, कथाकार आसतले असो आमी अदमास केलो. हांकां फकत 'बरवते' करूंक जाय अशें आमकां दिसलें.

गोंयांत पुंडलीक नायक, रमेश वेळुस्कार, एन. शिवदास, प्रकाश पाडगांवकार, तुकाराम शेट हे आनी दुसरे जायते जाण बरोवंक लागले आनी बरयतां बरयतां समाजवावुरपी जावन गोंयचें कोंकणी राज्य घडोवपी फुडारी थारले.

गोंयांत आतां कोंकणी लेखक संघ कार्यरत जाला. संघाच्या वांगड्यांनी कारवारच्या कॉलेजींक भेट दिवं येता आनी थंयच्या कोंकणी साहित्य विश्वाक उदक-पाणी घालूं येता. तांतल्या कांय लेखक विद्यार्थ्यांक गोंया हाडूं येता. तांकां बरोवंक लावन वर्साक एक दोन तांचे अशे खाशेले अंक काडूंक तांकां आधार दिवं येता. हांतल्यान थंयचे पुंडलीक, रमेश, शिवदास, प्रकाश, तुकाराम फुडें सरतले आनी कारवार जॉयडाचो फुडार थारायतले.

निमाणे आनीक एक विचार परपरत म्हज्या मनांत येता. कारवार, माजाळी, सदाशिवगड वाटारांत दीस-रात उषा राणे, आशा पालनकर, प्रकाश पालनकर आदी कारवार-गोंयच्या मिलना पासत वावुरतात. ताणी हे पासत संकश्टांकूय तोंड दिल्लें आसा. ह्या फुडाऱ्यांची कोंकणी परिशदेन जाहीर नोंद घेवची.





# उठून दिसपा सारके गूण आमच्यांत आसात न्हय ?

पोर्तुगेजा काळा सालाझार कांय पाखले आनी कांय खांपरी हांचें सैन्य गोंयांत हाडून दवरतालो. चर्चा चलताली तिचे वयल्यान हे अदिकशे अशिक्षितूच आसताले. सामान्य जनते कडेन तांचो संबंद येनाशिल्लो. तशे ते उपद्रवूय करिनाशिल्ले.

सालाझार भारता विशीं सदांच दुगदूग बाळगितालो. केन्ना तरी भारत घुरी घालुंये, अशें ताका दिसतालें आसूंक जाय. अशें झूज पेटलें जाल्यार अमेरिका आनी इंग्लंड हे देश आपल्या आधाराक येतले असो ताणें (अप)समज करून घेतिल्लो.

अशी परिस्थिती आशिल्ल्यान गोंयांत आशिल्ल्या पाखले आनी खांपरी हांच्या सैन्याक झुजाचे तयारेंत दवरूंक जाय ही मोख दवरून तांकां नित्य नेमान राज्यकर्ते शिक्षण दिताले.

शिक्षण कसलें तर गोंय हो पेर्तुगालाचो भाग; भारत गोंय खावंक सोदता हो व्हड अन्याय; असलें कितें ह्या शिक्षणांत आसतालें. आतां ह्या सैन्यांतले चडशे पाखले तशे खांपरी अबुद्दी आशिल्ल्यान आनी राज्यकारभार एकतर्फी जाल्यान हांगा भासाभाशेक सुवातूच नासताली.

वर्ग कशे चलताले ? अशें सांगतात की क्लासरुमाचे वणटीर गोंयचो एक व्हडसो नकासो आनी भारताचो एक ल्हान नकासो हुमकळयताले आनी गोंय भारता परस कितलें व्हड आनी भारत देश कितलो ल्हान तें सांगताले. गोंय व्हड जाल्ल्यान भारताक हारोवप कितलें सोंपें हें तांच्या त्या नकाशांच्या आधारान भेज्यांत भरताले. आनी ह्या गिन्यानान ते चड उमेदीन दीस सारताले. तांतले सगळेच अबुद्दी आसताले अशें म्हणप अतितायेचें जावं येता.

निमाणे जावचेलें तें जालेंच. सव्वीस वरांत सालाझाराच्या सैन्यान आर्मां खाला दवरलीं. रोखडेच पोर्तुगाली सैन्याक व्हाया कराची पोर्तुगाला धाडले. गोंय एदें व्हडलें आनी भारत वा 'इंदिय' इतली ल्हान आसून आमकां हार खावची पडली हो प्रस्न तांतल्या कांय जाणांक पडला आसतलो आनी आमी वाटावले म्हण ते सुखावलेय आसतले.

सांगपाचें म्हळ्यार, भारताचे तुळेन गोंय केदें ल्हान हे सालाझाराक आपल्या सैन्याक कळिल्लें नाका आशिल्लें आसूं येता. प्रत्यक्षांत तो अमेरिका आनी इंग्लंड देशांचेर पातयेवन रावतालो. ते धांवून आयले नात आनी गोंय हातचें गेलें तें गेलेंच.

* * *

आतां गोंय कितलें ल्हान हें आमी जाणात. गेल्ल्या दिसांनी एक टी व्ही चॅनल 'इलेक्शन ट्रॅकर' ह्या नांवान एक कार्यक्रम दाखयतालो. कालूच ताचो निमाणो वांटो आमकां पळोवंक मेळ्ळो. हातूंत कोणा राज्यांत कोणा पक्षाक कितलीं मतां मेळटलीं आनी कितल्यो सुवातो मेळटल्यो हें त्या चॅनलान जाहीर केलां. ह्या चॅनलाचो वेंचणूक निकाल खरो काय खोटो, ती जाहिरातबाजी काय कितें तें कळपाचें आसा.

तांच्या ह्या गणितांत गोंय, मिजोराम हीं ल्हान राज्यां नात. म्हळ्यार, हो ओपीनियन पोल व्हडल्या राज्यांच्या संख्याबळाचेर आधारिल्लो आसा, न्हय बुद्दीबळाचेर ! तें सारकेंय आसूं येता. फाटीं 'आवटलूक' नेमाळ्यान बरें प्रशासन दिवपी 'ल्हान राज्य' म्हण गोंय सरकाराक पयलो नंबर दिवन तुस्त

केल्ली. बरें प्रशासन गोंयकार खऱ्यांनीच अणभवतात व्हय? हें गोंयकारांक विचारपाचें, न्हय आवटलुकान थारावपाचें!

'मनशाक वेंतानी मेजिनात' अशी एक पुर्तुगेज म्हणणी आसा. संख्या हें मनशाच्या कर्तुत्वाचें मेज-माप जावं नज. पूण आमची लोकशाही गुणांनी न्हय तर संख्येन वा आंकड्यांनी मेजची पडटा. आमचो देश स्वतंत्र जायत सावन सगळ्यो वेंचणुको संख्याबळाचेर जाल्यात हें सांगची गरज ना. ह्या संख्याबळाचें गुणांत परिवर्तन जातलें तेन्नाच लोकशाही खऱ्या अर्थान जैतिवंत जातली ! ते दिशेन आमचीं पावलां पडटात काय ?

हे नदरेन पळयल्यार आमचो 'मायण्डसॅट' बदलपांत आमी जैतीवंत जावंक नात. आमच्यो वेंचणुको चड आनी चड हिंसक जायत वताल्यो. अशे परिस्थितींत कोण एकलो वेंचणूक अधिकारी आयलो आनी कायद्याच्या आधारान ताणें हे हिंसेक लगाम घालो. वेंचणुकांनी मारामाऱ्यो जाताल्यो, खून जाताले, बूथ कॅप्चर करताले, वेंचणूक पत्रिका पिंजून उडयताले. ही हिंसा बंद जाल्या म्हणूं येता. लोक सुधारल्यात म्हणून न्हय, कायदे लागू केल्यात म्हण.

पूण दुसरे वटेन हे खेपेचे वेंचणुकेन जो उणाक पावंडो गांठला तितलो हाचे पयलीं केन्नाच गांठूंक नाशिल्लो अशें सांगतात. तरसाद वावडूंक मेळना पूण जिबेची तरसाद चलोवंक मेळटा. ताचो एका फाटल्यान दुसरो लाव घेत आसा. कायद्याचें आडावण नाशिल्लें जाल्यार कितलीं मडीं पडटलीं आसलीं सांगूं येना.

* * *

हे फाटभुंयेर आमचें गोंय गुणांचे नदरेन उठून दिसना ? हांगा एका काळा हुकुमशाही चलताली. सरकाराआड 'ब्र' काडूंक मेळनाशिल्लें. रातयांत हुकुमशाही ना जावन लोकशाही आयली. अशे अणभव नाशिल्ले परिस्थितींत आमी ओपीनियन पोलाक तोंड दिलें. हांगा जायती हिंसा घडूं येताली. धर्मां भितर, जातीं भितर पेटचें म्हण प्रयत्नूय चलताले. पूण हांगा मारामाऱ्यो

जाल्यो नात आनी खुनूय जाले नात. कोणें हातांत पिस्तूल घेतलें ना, सुरो घेतलो ना, दांडोय घेतलो ना. झगडले, पूण भाव म्हणून. हात कोणें उबारलो ना. आनी गोंयांत ही आतां चाल जाल्या. इतल्यो पंचायतींच्यो, आमदारकेच्यो, खासदारकेच्यो वेंचणुको जाल्यो पूण गोंयांत केन्नाच शांतीचेर हावळ आयली ना.

सध्याचे लोकसभेचे वेंचणुकेक दोन जाग्यां खातीर गोंयांत 19 जाण उबे रावल्यात. ही आमची असकताय आसूं येता. पूण भावकी सांबाळून हें झूज चल्लां. तातूंत आमची सभ्यताय, संस्कृताय जाणवता. हांगा गोंयांत हेर राज्यांचे तुळेन वेगळे तरेन वेंचणुको जातात अशें तुमकां दिसना ? ताचो अभिमान दिसना?

आमचे दोश आमकां कळटात. आमचें व्हडपण कित्यांत आसा हें आमकां कळूंक जाय. 'गोंय एक प्रयोगशाळा जावं दियात' अशें कोण एक जाणटेलो सांगून गेलो. वेंचणुको शांतीन आटापूं येतात हो प्रयोग आमी सिद्ध करून दाखयलो ना ? अशे उठून दिसपा सारके गूण आमच्यांत आसात न्हय ?





## वेंचणूक कालची, वेंचणूक आयची.

12 एप्रील 2014. आयज तो दीस आयला. आयज गोंयकार मशिनाचो बटन दामून आपणाक 19तले कोण 2 खासदार जाय तें सांगतले. मतदान सकाळीं 7क सुरू जातलें जें सांजे 7क बंद जातलें. गोंयकार परंपरेक धरून सगळें सायसंगीत चलतलें.

परंपरा म्हणटकूच आदल्या कांय वेंचणुकां-दिसांची याद जागी जाली. त्या वेंचणुकां-दिसांनी सगळें गोंयभर एक वेगळेंच भारिल्लें (charged) वातावरण तयार जातालें. तेन्ना आयचे भाशेन कडक 'कोड ऑफ कंडक्ट' नासतालो. कांय नेम आसताले, पूण ते मोडपांत राजकी पक्षांच्यो सर्ती लागताल्यो.

तेन्ना शारांतल्यो वणटी पोस्टरांनी भरून ओतताल्यो. ते पोस्टर वाचपांत एक मजा येताली. एक फावट तर **'उमेदवार असावा असा, जसा मुसा महमद मुसा'** ह्या पोस्टरान आखें मडगांव न्हावन गेल्लें. मुसा शारांतलो एक मध्यमसो वेपारी. तो तसो राजकारणांत नासतालो, पूण एका वरिश्टान ताचो बोकडो केल्लो. दुसऱ्या उमेदवाराचीं मतां फोडूंक ताका उबो केल्लो. तो पडलो पूण तो स्लोगन जायतो काळ उरलो. 'उमेदवार असावा असा, जसा मुसा महमद मुसा !'

तेन्ना आतांचे भाशेन फ्लॅक्स बॅनर नासताले. कपड्याचे बॅनर तयार करचे पडटाले. नांवाजत्या राजकी पक्षांक शेंकड्यांनी बॅनर्स लागताले. गोंयांत इतल्या मोट्या प्रमाणांत चार दिसांत बॅनर करप जमनाशिल्लें. देखून बेळगांवच्यान पेंटरांक आपयताले जे वांगडा चार-पांच वांगड्यांक हाडटाले. ते हांगा कांय दीस रावताले आनी 500/600 बॅनर चार दिसांत तयार करून दिवन वताले.

उप्रांत बिल्डिंगो, वणटी, झाडां, पेडांचेर बॅनरूच बॅनर. राजकी पक्ष ते लावन घेताले, पूण ते काडपाचे जापसालदारकेक पाळो दिनाशिल्ले. कांय दुर्बळ लोक पांगरूंक, न्हिदूंक, आपणाल्यो खोंपयो शाकारूंक, न्हेसपाक ते बॅनर उपकारायताले. उरिल्ले म्हयन्याचे म्हयने हुमकळत उरताले. नगरपालिका, पंचायती म्हणटाल्योः 'आमकां कित्याक पडलां ?'

एकदां एके वेंचणुके-समयार पणजे एका व्हड फुडाऱ्याचो पोस्टर शाराच्या सगळ्या वणटींचेर लागिल्लो. ताका बुद्द शिकोवंक कोणें दुसऱ्यान ताच्या पोस्टरां पोंदा WANTED 'वॉण्टेड' उतरां दसयलीं. पणजे तो दीस बरेच चर्चेन रंगलो.

तेन्ना वेंचणुकां-दिसांनी लावडस्पिकर लायिल्ल्यो पांच-स गाडयो एका बराबर भायर सरताल्यो. तरेतरेची कॉमीक पदां लायताले. याद जाता, एके गाडयेर 'सांग ग सखू, सांग ग सखू, तुजें मत कोणाला?' पद लागतालें आनी ताका जाप - 'म्हाजें मत फुलाला, मत फुलाला' अशी आसताली.

तेन्ना बायलां मातशीं बाळबोध वळणाचीं आसतालीं. दादल्यांनी भाशणां ठोकपाचीं आनी बायलांनी आयकुपाचीं अशें चलतालें. दादले सांगताले : "फांतोडेर उठात, न्हायात-धुयात, नवीं कापडां, पातळां न्हेसात, फुलां माळात आनी देवाक आनी घोवाक पांयां पडून भायर सरात आनी लायनींनी रावात. मत कोणाक घालतात तें मात कोणाक सांगूं नाकात."

रोखडोच दुसऱ्या दिसा, निकाल लागतालो. एक फावट कॉंग्रेसीचे तिकेटीर मडगांवां एक मिनेर उबो राविल्लो. ताणें रिजल्ट जायना फुडें फोगोट्यो मारपाचें थारायिल्लें. रिजल्ट जालो. फोगोट्यांचो घडघड, पूण प्रत्यक्षांत तो

हारिल्लो.

आतां आयचे वेंचणुके संबंदान –

आयची वेंचणूक आनी कालची वेंचणूक, कांयच सुधारणा ना. कडक कायद्याक लागून बोवाळ ना वा तोड-फोड ना. उमेदवार तेच. हातूंत 'सगळे' आसात.

एक गजाल लक्षांत आयल्या आसतली की पक्षाचें नांव घेवन उबे राविल्ले उमेदवार, वा स्वतंत्र व्यक्ती म्हण उबे राविल्ले उमेदवार आश्वासनां दीत आशिल्ले. तुमकां हें दितां, तुमकां तें दितां. दिल्ली तांकां हें वा तें दिवंक सामकी उचांबळ जावन रावल्या अशें दिसतालें.

गम्मत म्हळ्यार सगळे एकूच सीडी वाजयतात काय दिसतालें.

गोंयाक स्पेशल स्टेटस; गोंयाक कोट्यांनी रुपया ; गोंयाक पूल आनी बिल्डिंगो, गोंयांत खणी नव्यान सुरू; गोंयाक सूर्य, गोंयांक चंद्र !

आपूण गोंयकारांच्या नांवान देशाक कितें दितलों तें एकल्यान केन्ना सांगलें ना.

सभाग्यांनो, तुमच्यांतले जे दोग जाण दिल्ली वतले ते भारतीय लोकसभेच्या पवित्र आसनांचेर बसतले. ह्या आसनांचेर एका काळा राजाजी, राजेंद्रबाबू, राधाकृष्णन, पंडित नेहरू, सरदार पटेल, मौलाना आजाद, आचार्य कृपलानी, बाबू जगजीवनराम, डॉक्टर लोहिया आदी दिग्गज बशिल्ले आनी न्हय फकत आपल्या राज्याचें, तर मुखेलपणान देशाचें येवजिताले आनी थारायताले. तुमचे तकलेंत 50% तरी देश येवपाचो तो कसो येना तें कळना. तुमी देशाक कितें पूण दितले म्हण देश रावता.

* * *

पर्रीकाराक तर गोंयचे दोनूय सीट जिखून दाखोवपाचे आसात. दोनूय सीट जिखून दाखयले की दिल्लींत ताची सुवात थीर. दिल्ली पर्रीकाराक रावता आनी पर्रीकार दक्षीण गोंय आपल्या वांगडा येतलें म्हण रावता. ते

पासत तो कितेंय दिवंक तयार आसा. आतां वेळ जाल्लो आसा पूण निमाणें 'हांव तुमकां रेड्या-पाड्यांच्यो धिरयो दितां' अशें सांगून पर्रीकार मेकळो जाल्लो आसा.

सध्या legally हें उतर राजकारणी सगळ्याक लायतात. पर्रीकारान धिरयो legally जावच्यो पडटल्यो, तें कशें बसोवंक जायत तें हांव पळयतां म्हळां. ह्या निमतान मटकोय legally करून सोडटां अशें पर्रीकारान सांगूं येतालें. एका निमतान दोन कामां जातलीं आसलीं.

What an idea Sirji ? !





# कोंकणी भास आतां 'भास' उरूंक ना आतां ती संस्कृती जाल्या.

आमकां गोंयकारांक वरकड देशा परस वेगळो इतिहास आसा. ह्या इतिहासान आमकां कांय गूण दिल्यात तशे अवगुणूय दिल्यात. आमकां गोंयकारांक घडयल्यात, अशें म्हणूं येत.

पुर्तुगेजा काळा गोंयकार नोकऱ्यां पासत गोंया भायर मुंबय बंगळूर वताले कारण गोंयांत नोकऱ्यो मेळनासल्यो. अदीकशे क्रिस्तांव भाव बोटींचेर वताले. थोडे आफ्रिकेक वचून थंय स्थायीक जाल्ले. आस्तीक क्रिस्तांव पुर्तुगाल, इंग्लंड, अमेरिका, कॅनडा बी वचून थंयचे जाताले.

सरकारी नोकर पेडणें ते काणकोण मेरेन फेरयो मारीत आसताले. कांय जाणांक दीव दमण वचचें पडटालें तें तांच्या जिवार म्हणटा तशें येतालें. दामांव वा दमण मुंबय लागीं, पूण दीव गोंयसून बरेंच पयस. थंय रावप जातकूच सपसप येवप जायनाशिल्लें. तेन्ना आयचे परी प्रवासाचीं साधनां नाशिल्लीं. पोर्तुगेजाच्या अखेरच्या काळांत दीव दामांव विमानसेवा आशिल्ली काय दिसता.

आयज हें चित्र पुराय बदल्लां. आयज गोंयकार तरणाटो गोंयांत रावंक तयार ना म्हळ्यार जाता. कांय न्हय कशे कांय तरणाटे शिकूंक अमेरिका,

इंग्लंड, जर्मनीक वतात. कांय नोकऱ्यो मेळोवंक वतात. दुसरे कांय हेवटेन मध्यपूर्वेक वतात. आंकडो सांगूंक जावचो ना इतले तरणाटे सर्त लागिल्ले परी बोटीं वयल्यो नोकऱ्यो करूंक वतात. हातूंत पयलीं क्रिस्तांवूच आसताले. आतां हिंदूय वतात.

अशें उलयल्लें आयकूंक येता की क्रिस्तांवागेर तरणाटो भुरगो बोटीर नोकरेक आसले बगर ताका चेडूं मेळना. हे भुरगे णव म्हयने बोटीर वावुरतात. तीन म्हयन्यां खातीर गोंया परततात. ह्या तीन म्हयन्यांत काजार सलवासून परत बोटीर वतात, णव म्हयन्यांनी परत येवंक.

आमच्या मार्गाच्या ऑफिसांत एक क्रिस्तांव चली काम करतालें. बोटी वयल्या तरणाट्या कडेन ताची सोयरीक जाली. तो ऑक्टोबरांत आयलो. नोवेंबरांत लग्न जालो आनी डिसेंबरांत बोटीर गेलो, फाटल्यान बायले कडेन लग्नाचो आलबम दवरून.

तरणाट्यांनी भायर वचप हाचे फायदे आसात तशें लुसकानूय आसा. लुसकान म्हळ्यार कुटुंबीक जिवीत उथळ जाता.

पूण एक गजाल स्पश्ट जाल्या ती म्हळ्यार गोंयकार तरणाटो आतां 'घरकोंबडो' उरूंक ना. म्हजो नातू गोंयांत इंजिनियर जालो; तेच फर्मागुडये वयले कॉलेजींत दोन वर्सां शिकोवपी जालो; उप्रांत भुवनेश्वर वचून एम. बी. ए. जालो इतल्यांत ताका हैदराबादेक टाटांत प्लेसमेंट मेळ्ळो.

तात्पर्य, शिकूंक वा नोकरे धंद्या प्रित्यर्थ गोंयकार आतां देशभर वास्तव्य करता तशें परदेसाकूय वचून कांय न्हय करून थंय रावता. फोना वयल्यान तो दिसपट्टो घरा कडेन संपर्क दवरता. ई-चेर ताका आपलीं मनशांय दिसतात, उलोवंक मेळटात. चलेच कित्याक, आमच्यो चलयोय आतां चल्यां भाशेन पुण्या बंगळूर तश्यो अमेरिकेक वतात.

शाब्बास म्हणूंक जाय !

* * *

पूण एके नदरेन हें सगळें आपल्या अभ्यासा खातीर वा पयशे जोडपा खातीर. हाचो एक परिणाम म्हळ्यार तरणाटें रगत आनी तरणाटी बुद्द गोंय सोडून भायर वचूंक लागल्या, म्हणटकूच तिचो गोंयां पासतचो मोग पातळ जायत वचप सभावीक जालां. आपूण गोंयाक परकी जायत वतां हाचें ताका, आमच्या काळा आमकां दुःख जातालें वा जाता, तशें जायना. पूण हाचोच दुसरो परिणाम म्हळ्यार ह्या तरणाट्या रगताचें आनी बुद्दीचें गोंयां वयलें वर्चस्व उणें जायत वचूंक लागालां. तो गोंयाक आनी गोंय ताका परकी जावंक लागलां. ताचे परस चड मनाक लागपाची गजाल म्हळ्यार हें गोंया वयलें वर्चस्व परक्यांच्या हातांत वचूंक लगालां वा अशक्त तश्या दुर्बळ गोंयकारां कडेन वचूंक लागलां.

देशाच्या स्वातंत्र्या पयलींच्यो कांय गजाली आमच्या कानार पडटाल्यो त्यो म्हळ्यार, देशांतले कांय तरणाटे, नांवांच घेवन सांगचीं जाल्यार जयप्रकाश, लोहिया, अच्युत पटवर्धन आदी अमेरिकेक, इंग्लंडांत हॉटेलांनी वेटरांचीं कामां करताले, पूण तेच बराबर अभ्यास पूर्ण करून देश स्वतंत्र करपाचे लढाये पासत परत भारतांत परतुपाचीं सपनां पळयताले !

गोंयकारांत ही कीट दिसना, काय आज तिची गरज ना ?

* * *

गोंय मुक्त जावन 50 वर्सां जाले उप्रांत आज, म्हाका दिसता, गोंयकारांनी गोंयां भायर, देशा भायर लेगीत, गोंयची 'संस्कृती' घेवन वच्चें. कोंकणी भास आतां 'भास' उरूंक ना. आतां ती संस्कृती जाल्या. पंचवीस वर्सां कोंकणी भास 'साध्य' आशिल्ली. आज ती विस्तारान संस्कृती जाल्या, 'साधन' जाल्या. कोंकणी लोक फकत गोंय, महाराष्ट्र, कर्नाटक आनी केरळ अशा चार राज्यांनीच न्हय तर उण्या अदीक प्रमाणांत हेर राज्यांनीय आसात. गोंयकार तरणाट्यांनी हो संस्कृतीचो बावटो घेवन, दर वर्सा गोंया भायर भोंवडी मारून येवचें.

खेळा-मळार, संगिता-मळार, कले-मळार गोंयकार पयस पल्ल्याक पावतात आसतले, पूण ताणी आतां गोंयची सांस्कृतिक गिरेस्तकाय वांटपा

खातीर गोंयां भायर वचप ही एक मोख दवरची.

बाकीबाबा विशीं अशें आयकल्लें म्हळ्यार आपली कविता ताणी एका नामनेच्या मराठी नेमाळ्याक धाडली. ती त्या नेमाळ्यान छापली पूण अनुस्वार काडून. तेन्ना मराठीन अनुस्वार काडपाचें थारायल्लें. बाकीबाबाक ती छापिल्ली कविता अयणी लागली. ताणी रोखडेंच संपादकाक बरयलें, मराठीन अनुस्वार काडून उडयल्या आसतीत, ती तिची प्रकृती; म्हजी मराठी अनुस्वार घेवनूच येतली, कारण ती आमची प्रकृती. गोंयकारांच्या जिवितांतलें संगीत ह्या अनुस्वारांत आसा. ही आमची संस्कृती. (लेखकाचे माहिती प्रमाण.)

हो अनुस्वार आमच्या गोंयकारांच्या रगता-गुणांत वसला. कोंकणी तर ताचेरूच थिरावल्या. ह्या अनुस्वारान आमच्या जिविताक एक नाजुकसाण दिल्या.

आमची संस्कृती आमचे भावकेंत आसा; आमचे हिंसा विरयत जिवितांत आसा; शेजारधर्मांत आसा; चुरक्यांत आसा; शिक्षणाचे ओडींत आसा; सचोटींत आसा.... कितें कितें म्हण सांगचें ?! देशाक दिवपा सारक्यो ह्यो गजाली आमचे कडेन आसात.

आमचें सगळें कितें गोंयां पासत असो आमी मनाचेर परिणाम करून घेतला. हे फासकेंतल्यान आमी जितले बेगीन भायर सरूं तितलें बरें !

अशें करतले तेन्ना गोंयां विशींचे भायर जाल्ले वा करून दिल्ले अपसमज ना जावंक मजत जातली.





# 35

# सत्यनारायण आनी स्वच्छनारायण

पं. महादेव शास्त्री जोशी हांच्या संस्कृती कोषांत सत्यनारायणा विशीं अशें वाचूंक मेळटाः

“सत्यनारायण हें काम्य व्रत. बंगाल आनी महाराष्ट्रांत चड लोकप्रीय. शंबर वर्सां पयलीं महाराष्ट्रांत हें व्रत कोणाक खबर नाशिल्लें. तें हिमालय बंगालांतल्यान महाराष्ट्रांत आयलां.

“पं. हरप्रसाद शास्त्री हांच्या मता प्रमाण सत्यनारायण पुजेचो उदय मुसलमानी. सुर्वेक हे पुजेक ‘सत्यपीरे पूजा’ अशें नांव आशिल्लें. अजून कांय सुवातांनी हें नांव चलता.

“तुर्ताक सत्यनारायण पुजेक सुवाळ्याचें रूप आयलां. लग्ना उप्रांत नव्या जोड्यान ही पुजा करपाची चाल पडल्या. ही पुजा वैयक्तीक तशी भोवशिकूय करतात.”

काम्य व्रत म्हळ्यार मागणें करपाचें व्रत. मागणें फळाक आयलें म्हणटकूच उपकार मानपाचें व्रत. आमकां मागप आवडटा. मागपा खातीर आमकां अमकोच वा आमचोच धर्म जाय अशें ना. हे बाबतींत आमी सर्वधर्म**मम**भावी.

मागल्यार मेळटा म्हण कानार पडना फुडें आमी धांवलेच. देवूळ, इगर्ज, मशीद, गुरुद्वार हांगा मागपी लोक लायनींनी उबे रावतात. सरकार दिता अशें

कळ्ळें रे कळ्ळें, आमी पावलेच सरकारी दारांत. अशे तरेन मागप हो आमचो धर्म जाला.

गोंयांत मुक्ती पयलीं सत्यनारायणाची पुजा घरा पुरती आसताली. चवथी भाशेन. ह्या धर्मकारणाचें सार्वजनिकरण, सोर्तीकरण मुक्ती उप्रांत जालें. मुक्तीन आमकां 'असलें' खूब दिलां !

आदीं घरांतले सत्यनारायण पुजेंत एक सात्वीक, धर्मीक वातावरण जाणवतालें. मागप आसतालें तें म्हळ्यार भुरगेंबाळ वा सोयरीक जावची हें. आतां भुरग्या खातीर सत्यनारायण लागना. दोतोर लागता. मोटार, स्कूटर, फ्लॅट दिवपाची तयारी आसत जाल्यार सोयरीक जाता. म्हणटकूच सत्यनारायणा कडेन मागणें आसता तें फकत धनदौलतीचें. आतां गोंयांत खणी चालू जातल्यो, ट्रक मार्गार धांवतले. तेन्ना सगळ्याक सत्यनारायण जातले !

तेन्ना केळी-पानांतल्या दोण्यांत साजूक तुपाचो शिरो वांटून सत्यनारायणाचे पुजेची सांगता जाताली. लोक भावार्थान दोणो घेवन घरा वताले. आतां प्लास्टिकाचे दोणे आयल्यात. ते जमनीर उडोवपाचे आसतात. आतां शिऱ्या उप्रांत पार्टी आसता.

वयर म्हळां तशे आमी भारताच्या संविधानाक धरून वा सत्यनारायणाक लागून सर्वधर्मममभावी जाल्यात. आतां सरकारी माहिती खातें, खण खातें, पर्यटन खातें, भोवशीक बांदावळ खातें, हिशेब खातें सत्यनारायणाची पुजा करतात. पुजेक जाय ते घोव बायल हांचें जोडपें. दांपत्य. घोव मुकटो न्हेसता. जानवेंकार आसल्यार नवें तशें धवें जानवें घालता. बायल सौभाग्यवती. सौभाग्याचें लक्षण म्हण ती नाकांत नथ आनी आशिल्लें नाशिल्लें भांगर आंगार घालता. तांचो मागीर फोटो काडटात.

आतां सगळ्याक सार्वजनीक गणपती पुजतात थंय सत्यनारायण पुजे पासत एक दीस दवरतात. पयशे घालपाक व्हडलें आयदन दवरचें पडटा. लोक देवाक पयशे दितात आनी देवा कडेन पयशे मागतात. खासा करून

वाड्या वयल्यो चलयो देवाक पांयां पडूंक येतात. त्यो घोव मागतात अशें सांगतात, पूण त्यो 'एम्पावरमॅण्ट' मागतात अशें म्हाका दिसता. त्यो स्कुटरीर बशिल्ल्यो नासतात देखून तांचीं सुंदर मुखामळां भाग्यवानांक पळोवंक मेळटात. आज तेंय कठीण जालां !

गोंयांत आनीक एक सत्यनारायण पुजा गाजघडघडान जाता. ही पुजा गोंयकारांचें जनमत तयार करपी गोंयचीं दिसाळीं आपल्या वाडदिसा निमतान करतात. पयरूच लोकमत तयार करपांत आपणाक अग्रणी मानपी दिसाळ्यान पांच वर्सां पुराय जालीं म्हण सत्यनारायण पुजा केली. अशा वेळार शिऱ्या पासत घे म्हण गर्दी. प्रतिश्ठितांची. हांचे फोटे दुसऱ्या दिसा छापून येतात.

लोकाक विचार करूंक शिकोवपी हीं दिसाळीं, लोकशाही घट आनी थीर करूंक बरोवपी हीं दिसाळीं निमाणे सत्यनारायणा कडेन पावतात. हाचो रिजल्ट आतां म्हयन्या उप्रांत कळटलो.

सत्यनारायणाक पर्याय ना. देखून माथाळ्यांत 'काय' नाजाल्यार 'वा' ह्या उतराचो उपेग करूंक ना.

* * *

आनी आमचो स्वच्छनारायण. हो हिमालयांतल्यान वा चालीक धरून महाराष्ट्रांतल्यान गोंयांत येवंक ना. तो दर्यांतल्यानूय येवंक ना. हो गोंयचे भुंयेर जल्माक आयला. पार्वतीन म्हेळाचो गणपती केल्लो खंय, तसो आमीय म्हेळाचो स्वच्छनारायण केला.

पूण तो सत्यनारायणा भाशेन गोंयांत पॉप्युलर जावंक ना. मार्केटिंगांत तो फाटीं पडला आसूं येता. खरें म्हळ्यार हो स्वच्छनारायण भांगर दिवपी. आमच्या वडिलांनी मडगांवचे ते दोंगुल्लेक शंबर वर्सां पयलीं सोनसडो नांव वोगीच दवरलेलें ? 'टाकावू पासून टिकावू, कचऱ्या पासून सोने पिकविणारा डोंगर' म्हणून ताका सोनसडो हें नांव दिल्लें.

आमचो स्वच्छनारायण भायर लोकप्रीय जावंक लागला. दिल्लींत मधु किश्वर हे समाज-वावुरपेन फेरीवाल्यांक स्वच्छनाराय**णी**चीं चार वणटींचीं

देवळां बांदून दिल्यांत. मार्ग बुलेटीनांत तिणें पयलें स्वच्छनारायणाचें दर्शन घेतिल्लें.

पयर केंद्रीय मंत्री जयराम रमेश हांच्या कानार स्वच्छनारायण हें नांव पडलें. ते कदेला वयले उठलेच म्हळ्यार जाता. भारताक घाणी पासत नोबेल पुरस्कार फावो जावं येता अशें ताणी मत मांडिल्लें. गांवांनी घराघरांनी टॉयलेट अभियान तांच्या खात्यान सुरू केलां.

सत्यनारायणाक पर्याय ना. पूण ताचे वांगडा स्वच्छनारायणूय आसचो.





## ‘जायो’ जायो?

गेल्लीं पन्नास वर्सां हांव मडगांवां शारांत रावतां. मुळांत हांव पिर्वोळचो. म्हाड्डोळ पिर्वोळ गांवचें कॅपिटल. भुरगेपणांतलें म्हजें भायलें जिवीत म्हाड्डोळांत गेलें. आमचो बाजार म्हाड्डोळा. नुस्त्याचो तिटो म्हाड्डोळा. करंजाळे सावन येवपी सगळयो नुस्तेकान्नी नांवान वळखीच्यो. एक वसुलें, एक पारू.... नुस्तें घेवंक तिट्यार पांय दवरना फुडें ‘चल्या चल्या’ म्हणून आपयताल्यो. तेन्ना दोन आण्यांनी सुंगटांचो वांटो, आठ आण्यांक वेंतभर गाबोळेचो हातभर शेंवटो. हें सांगीत रावल्यार हाका आदल्या काळाच्यो गजाली सांगपाची वज लागल्या अशें आयचे वाचपी म्हणटले.

पूण खरें सांगचें जाल्यार भुरगेपणांतल्यो यादी घोळोवपा सारकें जाणटेपणांत सूख ना. मराठी चौथी मेरेन घरा लागीं शिकून जातकच पुर्तुगेज चार क्लासी शिकूंक दोन किलोमिटरांचेर म्हाड्डोळा प्रायमरी शाळेंत शिकप सुरू जालें. आतां बायपास जाल्ल्यान तेवटेन वचप जायना. पूण जेन्ना ती इमारत दिसता तेन्ना भुरगेपणांतल्यो यादी मन उचांबळायतात.

हे पुर्तुगेज शाळेंत जितेंद्र अभिषेकी आनी हांव वांगडाच शिकताले. शिकताले ताचे परस खेळटाले म्हणप सोबतलें. तेन्ना जितेंद्र आशिल्लो ‘गंपू’.

म्हाड्डोळ विविधांगी तशें विविधरंगी. म्हाड्डोळ फुलांचो गांव. फुलकार समाजाचो गांव. म्हाळशेच्या आलाशिऱ्याक हीं फुलकारांचीं घराणीं सुखान आनी मानान संवसार करतात. आतां म्हाड्डोळा वचपूच जायना. केन्नाय पावल्यार कोण वळखना. आतां हायवे बायपास जाला. दाव्यान बाजार दवरून बायपास नीट कुंडयची चडटी धरता. भुरगेपणांत शेंकड्यांनी खेपे हांवें ती चडटी पांयांनी हुपल्या आसतली.

त्या काळांत तेन्नाचे कामिन्यांव (बशी) मंगेशीं वटेन वा फोंडे वटेन म्हाड्डोळा बाजारांत भितर सरताले तेन्ना तांचें फुलांच्या परमळान तशें घमघमान स्वागत जातालें. 'जायो जायो?' हो आवाज कानार सादतालो. आनी बशींतलीं वा ल्हान गाडयांतलीं बायलां जायांचे पोड घेवन फुडें वताल्यो. खिणांत जायां-पुडो उक्तो जातालो आनी हात दोन हात लांबायेचो पोड भूंय तेंकतालो.

म्हाड्डोळच्या फुलकारांचे दोन वेवसाय. एक फुलांचो आनी एक फोगाचो. म्हाड्डोळची जायां-पुजा गोंयभर नांवाजती. फुलकार त्या दिसा एक फूल विकिनात. दोळे दिपकावपी ती सजावट पळोवंक सगळें गोंय म्हाड्डोळा लोट्टा. 'देवता म्हाळसा आमकां सांबाळटा. तिचें रीण आमच्यांनी फारीक करूंक जाता?' फुलकार विचारतात, 'कृतज्ञतायेन भरिल्ल्या मनान आमी ही अशी देवतेची सेवा करतात.' ते सांगतात.

आमी गोंयकार कितलेय व्यक्तीवादी आसूं, पूण कांय कडेन आमी समाजवादी जातात. समाज ह्या नात्यान एक बंधन घालून घेतात. जायां-पुजे दिसा एक फूल विकप ना हें समाजान आपणाचेर घाल्लें बंधन. अशेंच बंधन जांबावले गुलाला दिसा पळोवंक मेळटा. बायलांचेर एक कूसभर लेगीत गुलाल उडोवप ना. हो आपणेंच आपणाक लागू केल्लो कायदो दुसरे कडेन खंय पळोवंक मेळटा? हाकाच लोकशाय म्हणटात न्हय? देवकार्या पुरती तरी आमी ती पाळटात.

* * *

खरें म्हळ्यार म्हाड्डोळाचेर बरोवंक हांव बसूंक ना. हांव बोरी गांवाचेर बरोवंक बसलां. बोरयेन संवसारभर नामना जोडल्या. दोन-चार वर्सां पयलीं बोरकारांनी बोरये 'बोरकार सुवाळो' मनयलो. आमकां बोरी बाकीबाबांक लागून लागीं. थंय तांचें घर आसा. बोरकारांनी तांचो बोरये पुतळो बांदला. सांस्कृतीक कार्यावळींक लागून बोरी नांवाजती. आतां तर थंय साईबाबाचें देवूळ जालां. हजारांनी साईभक्त देवळाक भेट दितात.

बोरयेंतल्यान वता तो राज्यरस्तो सामको अशीर. आत्र्या-पयऱ्यान थंय मार्गार अपघात जायत आसतात. साईबाबाच्या देवळाक लागून हो रस्त्याचो प्रस्न जडायेर पडपाचो आसा. आतां थंय देवळा फाटल्यांतल्यान बायपास बांदचो पडटलो.

पूण म्हाका दुसरी गजाल अस्वस्थ करता. बोरयेचो पूल काडलो रे काडलो, वाटभर रस्त्याच्या दोनूय कडांनी कांय बायलां उदाऱ्या हातान उबीं राविल्लीं हांव पळयतां. लागीं पावतकच कितें मागपाक तीं उबीं रावंक नात म्हूण कळटा. तांच्या हातांत चोळखो आसता जातूंत जायांचे पोड आसतात. बोरयेय जायो जातात. म्हाका दिसता, वाटभर तीस-चाळीस बायलां उबीं आसतात. गाडी आयली की हीं बायलां हात फुडें काडटात. ह्या रस्त्या वयल्यान हजारांनी ल्हान गाडयो आनी हेर वाहनां वतात. ह्या बायलांक गाडयेकारांनी आपले सरीं गाडयो थांबोवन आपलीं फुलां घेवचीं अशें दिसता. हे गाडयेकार गोंयकारूच आसतात अशें न्हय. जगा वयले आसतात. कांय गाडयांचे हारशे काळे आसतात. गाडयेंतले लोक सभ्य आसतात अशेंय न्हय. कांय लोक पियेल्लेय आसतात.

आमचीं हीं फुलां विकपी बायलां, म्हाका दिसता, आस्तीक घराब्यांतलीं. तांचीं भुरगीं - पूत तश्यो धुवो शिकतात वा नोकरी करतात आसूंक जाय. पयशांचे गरजेंतल्यान तीं मार्गार उबीं राविनात.

म्हाका ही रीत मानना. पावसा दिसांनीं फर्मागुडयेर सावन म्हाड्डोळ मेरेन मार्गार बायलां उबीं रावन पिपऱ्यो विकतात. हेंय सारकें दिसना.

असलोच वेवसाय काणकोणा दोंगरा वयलीं वस्तेकारां करतात. थंय पंचायत, म्हाका दिसता, दर वर्सा तांचे खातीर रस्त्या कुशीक तात्पुरते गाळे बांदून दिता. अशी वीस पंचवीस गाळ्यांची रस्त आसता. तीं चिबडां, तवशीं, घोंसाळी, कारांदे बी फळां विकतात. मोटारी रस्त्या कुशीक थांबतात आनी गिरायक गाळ्या मुखार येवन खरेदी करतात. हांगा बायलां एकठांय आशिल्ल्यान सुरक्षाय मेळटा.

बोरयेकारांनी आनी पिर्वोळकारांनी अशे आपापले पंचायती कडल्यान गाळे बांदून घेवचे आनी त्या गाळ्यांनी बसून प्रतिष्ठेन धंदो वेवसाय करचो.





## 27 मे 2014: पं. नेहरूंची 50 वी पुण्यतीथ!!

27 मे 2014 दिसा पं. जवाहरलाल नेहरू हांची 50 वी पुण्यतीथ. 50 वर्सां पयलीं 27 मे 1964 दिसा ते प्रधानमंत्री आसतना दिल्लींत भायर पडले. म्हाका याद जाता, 'इंडियन एक्सप्रेस' दिसाळ्यान 'इंडिया लॉस्ट इट्स ज्युवेल' हो माथाळो दिवन त्या दिसा अंक काडिल्लो. आचार्य अत्रे हाणी 'सूर्यास्त' माथाळो दिवन लागून धायेक दीस आपल्या 'मराठांत' नेहरूंचेर अग्रलेख बरयल्ले.

ताचे आदीं निमाण्या कांय वर्सांत 'नेहरू उप्रांत कोण?' हाचेर चर्चा चलताली. तिका ते जापूय दिताले. खासा ताणी देशाक 'लोकशाही' दिली. ही लोकशाहीच ह्या प्रस्नाची जाप दितली अशें तें सांगताले.

प्रधानमंत्री पदा खातीर ताणी इंदिरा गांधी हे आपले धुवेक तयार करूंक नाशिल्ली. पूण तांच्या सान्निध्यांत तिणें पाठ घेतिल्ल्यान ती देशाची प्रधानमंत्री जाली. उप्रांत राजीव गांधी प्रधानमंत्री जाले. आमकां सगळ्यांक खबर आसा, सोनिया गांधी प्रधानमंत्री जाल्ल्यांत जमा आशिल्ली पूण ताणी फुडलो फाटलो विचार करून ती जापसालदारकी डॉ. मनमोहन सिंग हांचेर घाली. येता ते 16 तारखेर वेंचणुकेचो निकाल लागतलो. कोण वेंचून येतले आनी कोण

प्रधानमंत्री जातलो हाचे कडेन आमचें सगळ्यांचें लक्ष लागलां.

भारतांत चलता ती जगांतली व्हडली लोकशाही. तिचो आमी अभिमान बाळगितात. आतां मेरेन देश स्वतंत्र जाले उप्रांत आनी नव्या संविधाना उप्रांत लोकसभे खातीर पंदरा वेंचणुको जाल्यो. विधानसभां खातीर आनी पंचायतीं खातीर अगणीत वेंचणुको जाल्यो. ह्या वेंचणुकांनी मोठ्या प्रमाणांत गुंडगिरी तशी हिंसा जाताली. ती आळाबंदा हाडपा खातीर एका दिसांत वा दोन दिसांत जावपी वेंचणुको देड दोन दोन म्हयने घेवंक लागल्यो. इतले मेरेन आमी जैत जोडलां म्हणूं येता. बाकी, जाल्यात त्यो खऱ्या अर्थान वेंचणुको काय कितें, आमच्या देशांत चलता ती खऱ्या अर्थान लोकशाही काय कितें हाचे वयर जाणकार जायते प्रस्न करतात.

पूण भारतांत लोकशाहीन जें मेकळेपण दिलां तें भोंवतणच्या देशांनी दिवंक ना ते पासत भारताचें सगळ्याक कौतूक जाता.

लोकशाही हो पं. नेहरूंनी देशाक घालून दिल्लो मोलादीक पाठ. हे लोकशाहीन लोकाक तशें जनतेक भंयमुक्त केल्या. आमी सालाझाराची हुकूमशाही अणभवल्या. हुकूमशाही म्हळ्यार एक व्हड बंदखण. खासा इंदिरा गांधी हाणी जेन्ना लोकशाही आंवुळ्ळी, तेन्ना देशाचो कसो घुस्मटमार जालो हें आमी पळयलां आनी अणभवलां. ताणी हुकुमशाही फाटीं घेतली आनी लोकशाहीची पुनर्प्रतिष्ठापना केली. इंदिरा गांधी हाणी शाणपण दाखयलें आनी जनतेन जैत जोडलें.

पंडित नेहरू हांचो हांव एक मोगी. हांव नेहरू वाचतां आनी समजुपाचो प्रयत्न करतां. म्हजे कडेन नेहरू पुस्तकांचो संग्रह आसा, देशाचे स्वातंत्र्य चळवळीच्या काळांत ताणी बंदखणींत बरयल्लीं पुस्तकां आसातूच, उप्रांत प्रधानमंत्री जातकूच चालंत विशयांचेर बरयल्ले 60 सिलेक्टेड वर्क्स आसात. दोन म्हयन्यांत एक असो आठशीं हजार पानांचो ग्रंथ जवाहरलाल नेहरू

मेमोरियल फंड ही संस्था उडवाडायता. 1958 मेरेनचे ग्रंथ म्हजे कडेन आसात. 1964 मेरेन, म्हळ्यार पंडित नेहरू आशिल्ले त्या काळा मेरेन आनीक जायते ग्रंथ उडवाडा येतले आनी म्हज्या ग्रंथ संग्रहांत भर घालतले अशी आशा आसा.

पंडित नेहरू हे एक वैचारीक तशे ललीत लेखकूय बी. ते चरित्रकारूय बी. तांच्या आत्मचरित्रान आनी 'डिस्कवरी ऑफ इंडियान' देशांत तशे परदेशांत तांकां अगणीत वाचपी मेळोवन दिले. प्रधानमंत्री जाले उप्रांत ते पयले फावट अमेरिकेक गेले तेन्ना एके विद्यार्थिनीन तांकां 'नवें पुस्तक केन्ना मेळटलें?' असो प्रस्न केलो तेन्ना 'नो जेल, नो बुक्स' असो जवाब ताणी दिलो.

पूण प्रधानमंत्री जाले उप्रांत ते बरयत रावले तशे उलयत रावले. भारतांतल्या खांची कोनश्यांनी चलतल्या जिविताची तांकां जाण आशिल्ली. देशासवें इतलें तादात्म्य जोडिल्ली व्यक्ती गांधी वांगडा फकत नेहरू आशिल्ली.

वयर सांगलां ते प्रमाण खासा नेहरूंनी बरयल्लीं पुस्तकां म्हजे कडेन आसातच वांगडा तांचेर अभ्यासकांनी बरयल्लीं शें-शंभर पुस्तकां आसात. फकत तांचें कौतूक करपी बरप न्हय, तर खर टिका करपी बरपूय ह्या ग्रंथांनी आसा, नेहरू अभ्यासकांनी हाचो लाव घेवं येता.

नेहरू आमकां लोकशाही दिवन गेले. आमकां जियेवपाक चड गरजेची वैचारिक मेकळीक वा हवा दिवन गेले. पूण खासा ते जैत जोडून गेले अशें जायते जाण मानिनात. चीनान भारताक 1962 त जो मार दिलो, जी हार घाली हो नेहरूंचो व्हडांत व्हड पराजय अशें कांय जाण म्हणटात, कांय जाण ताका गोंयूय जोडटात. एदेंशें गोंय, एदेंशें गोंय म्हणटां म्हणटां गोंय हो कॅन्सर जालो, तरी वेळार ऑपरेशन जाल्ल्यान संकश्टाचें निवारण जालें. पूण हातांत शस्त्र घेनासतना गोंयचो प्रस्न सोडोवप तांकां शक्य जालें ना ही तांची

व्हडली हार मानपी लोक आसात. कांय जाण तर अशें म्हणटात, की चीन आनी गोंय हाणी प्रत्यक्षांत नेहरूंचेरूच घाव घाले आनी तांचो अंत लागीं हाडलो.

गोंयकारांनी नेहरूंचो बारीकसाणीन अभ्यास करूंक जाय. नेहरूंक चीन आनी गोंय पुरते मर्यादीत दवरूंक फावना. नेहरू म्हळ्यार निर्मळ वैचारिकतेचो व्हांवतो झरो. व्हडले जातले जाल्यार, व्हडल्यो जबाबदाऱ्यो पत्करतले जाल्यार नेहरू अभ्यास गरजेचो.






# गोंयकारांनी एक दीस अपघात - विरोधी श्रद्धांजली दीस पाळचो!

येरादारी पोलीस अधिकाऱ्यांच्यो ह्या दिसांनी मार्ग अपघातां संबंदान दिसाळ्यांचेर मुलाखती येत आसात. हातूंत पोलीस उपमहानिरिक्षक डॉ. ओ. पी. मिश्रा हांचीय एक मुलाखत आयल्या. तांच्या एका वाक्या कडेन वाचप्यांचें हांव लक्ष ओडूंक सोदतां. ताणी म्हळां :

'मार्ग अपघातांत मरतल्यांचे संख्येची गंभीरताय गोंयकारांनी लक्षांत घेवची आनी येरादारी नेम पाळून आपले सुरक्षेची जतनाय काडची.' तांच्या ह्या आवाहनाक हांव येवकार दितां आनी नागरिकांनी 'आमकां कांय लागना' ही वृत्ती सोडची अशें मागतां.

परचक्रा संबंदान एक आख्यायिका आसा. परचक्र सरादीर पावलें तेन्ना नागरिकान म्हळें, 'पयस आसा. म्हाका कित्या लागचें ?' परचक्र देशांत भितर सरलें. नागरीक उद्गारलो 'म्हाका कित्याक पडलां ?' परचक्र शारांत पावलें तेन्ना नागरिकान म्हळें, 'हांव तर गांवांत रावतां. शारांतले लोक हुशार. ते पळोवन घेतले !' परचक्र गांवांत पावलें. घरांत बशिल्लो नागरीक म्हणटा, 'गांवांत येवं. आमगेर कित्याक येतलें ?' मागीर दारार 'ढा ढा' जालें. परचक्र

दारांत पाविल्लें आनी फुडें जावचेलें जालें !

गोंयांत दिसाक तीस चाळीस मार्ग-अपघात जातात आनी दोग तीग जाण मरतात. हातूंत 75% तरणाटे आसतात.

फाल्यां जाचें लग्न तो आज मार्गार मरता. काल लग्न जाल्लो आज मार्गार सोंपता. पयलें बाय जालां ताका पळोवंक हॉस्पिटलांत वचपी परततना मार्गार मरता.

कोणा काळान ह्या आमच्या अपुरबायेच्या गोंयचेर अशी अभद्र सावळी घाल्या काय?

फाटल्या चाळीस वर्सांत पंदरा वीस हजार लोक गोंयांत रस्त्या वयल्या अपघातांत मेल्यात. आमी तांकां विसरल्यात. पूण जांचे संवसार उध्वस्त जाले तीं तांकां कशीं विसरतीत ?

तर हें मरण-सत्र आळाबंदा हाडप अजिबात शक्य ना ? ह्या मरण-सत्राचे 'यशस्वी कलाकार' आमीच न्हय ? आमीच हीं मरणां घडोवन हाडल्यांत! अशें जर आसा जाल्यार तांकां आडावण घालप आमचें कर्तव्य जायना ? अचकीत 'तुजो घोव आक्सिदेंतांत सांपडला' असो बायलेक फोन येता वा आवयक 'तुज्या चल्याक आक्सिदेंत जाला' अशें फोना वयल्यान कळटा तेन्ना तांकां कितें जाता आसुंये काय ?

पोलिसांनी मुलाखती दिवन आमी हें करतले, तें करतलें अशें जायतें सांगलां. ते अशे मदीं मदीं सांगीत आसतात. हांव तांकां वळखतां. फाटलीं तीस वर्सां हांवें मार्ग संस्कृतीक दिल्यांत. कांय पोलीस अधिकारी म्हाका मानतात. पूण म्हाका तांची काकूट दिसता.

मार्गा वयले अपघात उणे जावप, मरणांचो आंकडो देंवप म्हळयार पोलिसांक जैत. पूण जे पद्दतीन पोलीस प्रयत्न करतात ती पद्दत तांकां जैत मेळोवन दीत अशें म्हाका दिसना. तेवूय तें बरें जाणात. पूण मदीं मदीं अशें कितें केले बगर पोलीस कितें पूण करतात अशें लोकांक दिसना.

हो जडावलेलो प्रस्न मनोहर पर्रीकार आनी सुदिन ढवळीकार हाणीच

सोडोवपाचो. तो तांकां सोडोवंक लावप पोलिसांच्या हातांत ना. तें नागरिकांच्या हातांत आसा.

पर्रीकार हे बाबतींत सिरियस आशिल्ले म्हाका मात पूण दिसना. तांचे तकलेंत खणींतल्या लोखणान भांगराचें घर बांदलां. तांचो नागरिकां कडेन संवादूच ना. नागरीक नांवाचे बुन्यादीचेर लोकशाहीचें मंदीर उबें आसा अशें ते मानतात तरी काय ?

दुसरो सुदिन ढवळीकार. दाट वळखीचो. केन्नाच उलोवंक आपयना. मेळटा तेन्ना उलोवया म्हणटा. उलयता तेन्ना मार्ग रुंद करूंक जाय हें पालुपद. रुंद रस्त्यांचेर लोक चड मरतात हें तो नेणा काय ?

पूण आतां नागरिकांनी सस्त बसून चलचें ना. कांय मागणीं :

1) फाटल्या चाळीस पन्नास वर्सांत मार्गा वयल्या अपघातांत जे सोंपले तांची फोटो सयत सरकारान श्वेतपत्रिका काडची.

2) गोंयांत एक येरादारी पोलीस प्रशिक्षण केंद्र चालू करचें. जशें डॉ. रोहित बलुजा हाणी सूरजकुंडाक बांदलां. हें केंद्र गोंय, कोल्हापूर, पुणें, बेळगांव, हुबळी हांगाच्याय ट्रॅफीक पोलिसांक प्रशिक्षण दितलें. खूब मुखा वयलें पळोवची गरज आसा.

3) गोंयांतलीं सगळीं ड्रायविंग स्कुला बंद करचीं. गोंयांत एक ड्रायविंग महाशाळा स्थापन करची. प्रस्न आसा मायण्डसॅट वा मानसिकता बदलपाचो.

4) देशाक लागू केला तो मोटर व्हेइकल अॅक्ट बदलुपाचें मागणें करचें. गोंयांत पयलीं code of the road आशिल्लो. ताचे अंतर्गत फुटपाथ, सायकली, गाडे बी येताले. हें काम सोंपें न्हय. हे नदरेन चर्चा तरी जावची. देशांत वर्साक देड लाख लोक रस्त्यार मरतात. कोणाक ताची पर्वा आशिल्ली दिसना. हे बाबतींत गोंयान फुडाकार घेवचो.

5) गोंयांत ड्रायविंग ट्रॅक बांदचे. वाहन चलोवंक जे शिकूंक सोदतात तांचे पासत ही शास्त्रोक्त पद्दत चालू करची.

6) हायवे वयलीं सगळीं सोऱ्याचीं दुकानां (बार्रा) बंद करचीं.

7) गोंयांत एक दीस अपघात विरोधी श्रद्धांजली दीस कसो पाळचो. त्या दिसा एक वाहन घरा भायर काडूंक दिवचें न्हय. हो संदेश दर एका नागरिका मेरेन पावूंक जाय.

8) गोंयच्या पोटांत तिखें आसा. हड्ड्या भितर तिखें आसा. सरकारान आनी नागरिकांनी हें वैभव भांगर-शिंगर वा मोटारी घेवपा पयलीं दारांत आयिल्ल्या मरणांक पयस दवरपाक वापरचें.

9) गांधी जयंती मेरेन हीं पावलां उबारचीं. नागरिकांनी आमच्या ह्या मागण्यांक पालव दिवचो.

हांव जाणां, पोलीस मुलाखती दीत रावतले. करोडो रुपयांचो दंड वसूल करीत रावतले आनी गर्वान 'हो वावर केलो' म्हूण सांगतले. हाचो अर्थ गोंयांत कायदे कोण पाळिनात असो जाता.

हें ते लक्षांत हाडचे नात.

'म्हज्या राज्यांत कायदे कोणूच मोडिनात. देखून दंड कोण फारीक करिनात' हें सांगपी तिख्या काळजाचो मंत्री गोंयकाराक केन्ना मेळत काय ?






# विकास जनकल्याणकारी जावं नज?

अंकोल्या वतालों. वांगडा एक इश्ट आशिल्लो. मडगांवां सकाळीं संक भायर सरले. कुंकळ्ळे शिवानंदाच्या हॉटेलांत पाव-भाजी मारली आनी कण्ण पियेले. साडेसातांच्या अदमासाक कारवारा पावले. हांगा परत फकत एक च्या घेतली आनी नीट अंकोल्याची वाट धरली.

अंकोला कारवारा सावन तीस पस्तीस किलो मिटरांचेर आसा. थंयच्या एका शिक्षणीक कॉम्प्लॅक्साच्या मॅनेजरान अंकोला वाठारांत 'मार्ग' चालू करूंक येत काय कशें हाचेर चर्चा करूंक आमकां आपयल्ले.

मोटारीन कारवार सोडलें. मुखार चडटी, रुंद रस्त्याची. त्या सकाळच्या पारा थंड शितळ वाऱ्यान मन सामकें फुलार केलें. फुडें फुडें सरतात तशें सैम पिशें लावंक लागलें. रस्त्याच्या दोनूय कडांनीं कुळागरां - माडयो, केळी, माड आनी हेर फळावळ दिवपी रूख आनी थंयच शेतां, उदकान चकचयाळ. इतल्यान खंय सोंपलां? नळ्यांचीं घरां जीं गोयांत आतां दिश्टी पडनात! हांव हें वैभव पळोवन आदलें गोंय येवजितालों. इतल्यांत इश्टान म्हळें, 'हांगा कांयच विकास जावंक ना मरे!'

म्हाका सट्ट जालें. तनरी भंगली. इश्टाचें चिंतप म्हाका समजलें. विकास जाल्ल्या प्रदेशांतल्यान तो मागास प्रदेशांत पाविल्लो. हांगा शिमिटाच्या पाश्टाचें

एकूय घर दिसनाशिल्लें. हांगा शेतांनीं गोरवां दिसतालीं जीं गोंयांत आतां भितर गांवांनी चुकून दिसतात. हांगा विकास जावंक नासलो इतलें खरें.

आचार्य विनोबा भावे हांचे सांगाती दादा धर्माधिकारी नागपूरचे. तांच्या एका लागींच्या डॉक्टर नातेवर्गियान गांवांत वैजकी सुरू केली. हळू हळू जम बसलो. पिडेस्त वाडूंक लागले. डॉक्टराक दिसलें, ल्हानशें हॉस्पिटल बांदुया. लोकाक बऱ्याक पडटलें.

डॉक्टरान हो विचार रोखडोच प्रत्यक्षांत हाडलो. गांवांत धा खाटांचें हॉस्पिटल उबें जालें. लोक खोशी जालो. आतां हॉस्पिटलाचें उक्तावण करचें थारलें. डॉक्टर दादासरीं गेले आनी तांकां उक्तावण करूंक येवपाची विनंती केली.

दादान म्हळें, 'येतां, पूण एके कबलातीचेर. हांव तुजें हें हॉस्पिटल रिकामें उरूं म्हूण मागतलों.'

डॉक्टर दादाक वळखतालो. ताका अजाप जालें ना. हॉस्पिटल रिकामें उरूं हाचो अर्थ गांवाक पिडा-रोग आफडूंक पावूं नाका. म्हणटकूच हॉस्पिटलाची वा डॉक्टराची लेगीत गरज पडची ना.

आतां प्रस्न, विकास खंय आसा? हॉस्पिटल बांदपांत आसा काय लोकांचे भलायकेंत आसा?

आमच्या गोंयांत चलता तो विकास दोळ्यांक स्पश्ट दिसता. हजारांनी बांदावळी गोंयांत वयर सरतना पळोवंक मेळटात. काणकोण एक पांच मजली इमारत कोसळ्ळी आनी 30/35 कामगार मेले. हें चलपाचेंच, विकास जाय जाल्यार ताचो 'प्रायस' फारीक करचोच पडटलो, अशेंय सांगपी आसात.

गोंयांत हॉस्पिटलां पळयात. अपोलो, न्युसी...एका फुडें एक महाहॉस्पिटलां. तांचे वांगडा सरकारी हॉस्पिटलां; खाजगी हॉस्पिटलां तर पायलेक पंचवीस, सगळीं भरून ओततात. सरकारी हॉस्पिटलांत कोण येना असो ना. खाटी पावनात जमीन लेगीत पावना. हाचे भायर सरकारी तशे खाजगी दोतोर आसातूच. 'दोतोर, दोतोर, सगळ्या इतल्याक दोतोर, पूण

आकांता वेळार उल्याक दोतोर ना!'

विकास जाल्यार प्रदेशांत इतले रोगी? हो विकास?

भायले लोक मोटे उमेदीन टुरिस्ट म्हूण गोंयांत येतात. तांकां गोंयच्या रस्त्यांचेर हजारांनी गाडयो दिसतात. 'कितें पूण गोंयान विकास केला!' ते तोखेतात. पूण आमकां बशींनी बसूंक जागो कित्याक मेळना असोय ते प्रस्न करतात.

विकासाचो खरो अर्थ एन्नादर आमकां समजूंक फावतालो. मिनाच्या वेपारा पसून तो आमी शिकल्यात. अती थंय माती. तॉलस्तॉयचे ते कथेंत 'तूं धांवन वता ती जमीन तुका' म्हूण सांगतकूच तो धांवता धांवता आनी निमाणें मरून पडटा. आपणाक शेवटाक स फूट जमीन पुरो जाली हें समजूंक तो उरना. आमकां तरी उमजुचें!

मडगांवांत एक कलेक्टर कचेरी बांदल्या. बंगळूरच्या विधानसौधा भाशेन. खरेंच, असले इमारतीची आमकां गरज आशिल्ली? सामान्य मनशाक ती ओडटा काय पयस धुकलता? लोकशाहींतल्या सामान्य मनशाक सोंपेपण तें असलें? अधिकाऱ्यां पासून पयस दवरपा सारकें?

आतां खंय शारांनी पार्किंग प्लाजा बांदतले. बांदात, पूण शारांत चार कडेन ल्हान ल्हान बांदात. एकेच कडेन दोनशीं गाडयांचो एक बांदचे बदला चार कडेन चार ल्हान प्लाजा कित्याक बांदचे न्हय? शारांत एकूच व्हड मार्केट जाय? मडगांवां बांदलां तसलें? फकत गाडयो आसात ताणीच वचपाचें? चार ल्हान मार्केटां कित्याक बांदचीं न्हय?

विकासाच्या नांवान लोकाक पिडूं नाकात. विकासाक हात घालचे पयलीं हो विकास सामान्यांक सोंपेपण दितलो मूं ताचो विचार करात. मडगांवांतलें न्यू मार्केट तशें गांधी मार्केट हीं विकासाचीं लक्षणां?

गोंयच्या विकासान आमकां पर्यटन दिलां तें आमकां गोंयकारांक सूख दीत व्हय? एक पोलीस अधिकारी सांगता ते प्रमाण ह्युमन ट्रॅफिकिंग खूब मोट्या प्रमाणार चलता. दुसरो पोलीस अधिकारी सांगता 'मार्गार लोक मोट्या

प्रमाणार मरतात. गंभीरपणान विचार करात.' तिसरो अधिकारी गोंयचेर आकांतवाद्यांचें लक्ष गेलां म्हूण शिटकायता.

हें सगळें विकासाक लागुनूच मूं?

विकास जनकल्याणकारी कित्याक जावं नज?

आनी त्या डॉ. माशेलकार हाणी दिल्ल्या सपनाचें (रिपोर्टाचें) कितें जालें?






# गांधीजीं पसून नेहरूंक तोडप शक्य ना !

काँग्रेसमॅन भाजपा विशीं उलयतना सदांच तक्रार करतात ती म्हळ्यार 'आर एस एस संघटना हिंदू भुरग्यांक तीं पांचवेंत आसतनाच कवळटा. ह्या भुरग्यांक 'भारतमाता की जय' हांगा सावन शिकोवंक सुरवात जाता. भारत माता म्हळ्यार आमची दुसरी आवय. तिचेर अन्याय जावंक दिवंक जायना. दोळ्यांत तेल घालून भारतमातेचें आमी रक्षण करूंक जाय. अशी ती कट्टरपंथी शिकवण आसता !'

काँग्रेसवाल्यांची ही तक्रार आयकून आमी सस्त बसूंक जायना. आमी ह्या काँग्रेसवाल्यांक विचारूंक जाय, "तुमकां कोणें आडायल्यात ? तुमी भुरग्यांक तुमची शिकवण कित्याक दिनात ? तांचे कडेन फकत भारतमातेचें एक रंगीत चित्र आसा. तुमचे कडेन तर मुर्तिमंत भारतपिता महात्मा गांधी आसात. तुमी ह्या भुरग्यांक महात्मा गांधी हांची पुराय वळख कित्याक करून दिनात ?"

"गांधीजीच कित्याक, तुमचे कडेन भुरग्यांचे चाचा नेहरू आसात. ह्या चाचा नेहरूंनी भुरग्यांचो जो मोग केला ताका तुळा ना. देखुनूच तांचे जयंतीक 'भुरग्यांचो दीस' मानतात. ताणी भुरग्यां खातीर जायतें बरयलां. तांकां भुरगीं म्हळ्यार जाल्लीं. इतलेंच न्हय तर 'भारतमाता की जय' हाचो खरो अर्थ

नेहरूंनीच सांगून दवरला. भुरग्यांच्या अभ्यासांत हो पाठ आसा. भारतमाता म्हळ्यार कोण बायलमनीस न्हय. भारतमाता म्हळ्यार भारताची जनता."

काँग्रेसवाल्यांनी भाजपाचेर तक्रार करपा बदला लोकशिक्षणाचेर भर दिवपाचो. हें काम भाजपा बेस बरें करता. तांचें तत्वज्ञान कोणाक आवडूं नावडूं. ते भुरग्यांक ट्रेनिंगूय दितात. भुरग्यांची शिकवणेन मानसिकता बदलतात.

एक गजाल मानचीच पडटली ती म्हळ्यार लोकाक आपले वटेन ओडूंक शिक्षणा सारको मार्ग ना.

स्वातंत्र्य लढ्यावेले काँग्रेसीन लोकशिक्षणाचो आधार घेवन लोकांक आपले केल्ले. महात्मा गांधी आनी पंडित नेहरू हे सगळ्यांत पयलीं शिक्षक आशिल्ले. पंडित नेहरू हाणी तर बरोवन आनी उलयत रावन लोकशिक्षणाचें कार्य केलें. तांकां अमकेच लोक जाय अशें नाशिल्लें. शेतकार आसूं वा कामदार. वेपारी वा कारखानदार वा कलाकार. पंडित नेहरू ह्या सगळ्यां कडेन संवाद सादताले.

काँग्रेसीन सेवादल नांवाची एक संघटना स्थापन केल्ली. तिचे संस्थापक आशिल्ले डॉ. नारायण हर्डीकर. गांधी नेहरू हाणी तांकां फाटबळ दिलें ताका लागून काँग्रेस सेवादल ही देशभरांत एक शक्ती जाली. तिका आर एस एस भाशेन हातांत बडी घेवपाचो अधिकार नाशिल्लो. अहिंसा हें सेवादलाचें शस्त्र आशिल्लें. ब्रिटिशांच्या काळांत काँग्रेसीच्यो लाखांनी लोकांच्यो सभा जाताल्यो तांचो आटाप सेवादल सांबाळटालें.

देशाक स्वातंत्र्य मेळ्ळे उप्रांत डॉ. हर्डीकर कर्नाटकांतल्या घटप्रभेक रावंक गेले. कर्नाटक आरोग्य धामांत ते रावंक लागले. स्वातंत्र्या उप्रांत जायत्यांनी वेगळ्यो रांदनी मांडल्यो तशीं आपापलीं सेवादलां स्थापन केलीं. काँग्रेस आपल्या काँग्रेस सेवादलाक घेवन रावली.

काँग्रेसीन सत्ते फाटल्यान वचचे बदला लोक सेवा करची अशें गांधीजींक दिसतालें. जांकां सत्ता जाय ताणी आपापलो पक्ष काडचो अशें तें म्हणटाले. नेहरूंक हें पटनाशिल्लें. काँग्रेसीची इतल्या वर्सांची यंत्रणा आसा. लोकाचीं

काळजां कॉंग्रेसीन जिखल्यांत. हे शक्तीच्या आधारान देशाचे उदरगतीच्या कामाक लागचें अशें नेहरूंक दिसतालें. तांकां देशांतली गरिबी सहन जायनाशिल्ली.

पंडित नेहरूं कडेन सोळा वर्सां सत्ता उरली. ह्या काळांत उदरगतीचें सगळें मुळावण ताणी घालून दिलें. 'देशांत आतां पयसो घोळूंक लागतलो. 'आमी पयसो पळोवंक ना. तो कसो मोडचो तें आमकां कळूंक जाय.' असो ते हुसको परगटायताले.

आनी तशेंच जालें. कॉंग्रेस लोकशिक्षण, चारित्र्य, शिक्षण विसरली आनी करप्शना फाटल्यान लागली. गोंयांत तर कॉंग्रेसीन साप विटयलें. हो प्रकार कितें सांगता ताचो विचार करचो.

कांय वर्सां पयलींची गजाल. मडगांवां कॉंग्रेस सेवादलाची सभा आसली. चिदंबरम मुखेल सोयरे आसले. मडगांवच्या विद्याभुवनांत ही सभा आसली. हांव हे सभेक गेलों. थंय जें म्हाका दिसलें तें हांसपाचें काय रडपाचें तें कळना अशें आसलें. सगळें सभाघर हावसफूल, सगळ्या कदेलांचेर खादीधारी म्हळ्यार खादीचो धवो सदरो, धवो लेंगो, धवी तोपी घालून सेवादल सैनीक बशिल्ले. अब्बा, मडगांवांत इतले सेवादल सैनीक ? पळयल्यार ते भाड्याक हाडिल्ले मडगांवांतले मानाय आशिल्ले. तांतल्या कांय जाणांक हांव वळखतालों. म्हाका पळोवन ते हांसूंक लागले. ताळयो मारपाची शिकवण दिवन तांकां हाडिल्ले.

देशाची उदरगत जायत वताली आनी प्रवास हे दिशेन सुरू जाल्लो. परिणाम जावपाचो तो जालो.

कॉंग्रेस आवय पुता पसून मुक्त करपाक भाजपा भायर सरिल्ली. तशें घडलां अशें कांय जाण गैरसमज करून घेतात आसले, तरी देश गांधीजी पसून मुक्त करप शक्य ना हें नव्या प्रधानमंत्र्यांनी आपले कचेरेंत गांधीजींची प्रतिमा स्थानापन्न करून दाखोवन दिलां आनी गांधी पसून नेहरूंक तोडप तर शक्यच ना हेंय कळूंक वेळ लागचो ना.






# 'तुमी कितें करतात?'

एक नांवाजतो संत, कोणूय अनवळखी मनीस दर्शनाक येतालो तेन्ना ताका 'तुमी कितें करतात?' असो प्रस्न करतालो.

ह्या ताच्या प्रस्नाक ताका मेळूंक येवपी मनशाची जाप आसताली, 'हांव डॉक्टर, हांव इंजिनियर, हांव शिक्षक....'

'जाणां जाणां', तो संत हांसून म्हणटालो, 'तुमकां पळयतकूच तें कळटाच, पूण म्हजो प्रस्न तुमी कसलो वेवसाय करतात हो न्हय. तुमी चरितार्था खातीर प्रामाणीकपणान कितें तरी करता आसतलेच. सगळे जाण करतात. पूण ताचे भायर तुमी कितें करतात हें कळचें म्हणटालों. भायर रित्या वा अर्द्या पोटार जियेवपी जायते आसात. अपंगूळ तशे रोगीय आसात. हांचे पासत तुमी कितें तरी करतात आसतलेच. बरोबर मूं?' तो समारोप करतालो.

आमच्या देशांत आमी आमचें सगळें जिवीत जोडी खातीर सारतात. आदीं आमचे कडेन कितेंय थोडेंशें इल्लें आसतालें, तेन्ना तांतलो कांय वांटो आमी दुर्बळां खातीर दवरताले. हाका दानत म्हणटाले. आयज जायते जाण बऱ्या वायट मार्गान उपाट पयसो करतात. पयलीं श्रमा बगर जोड जायना आशिल्ली. तें आयज उरूंक ना. आयज बुद्दीकळाशेन जायते जाण अमाप

पयसो जोडटात. थोडे गिरेस्त आपल्या गरजेवंत भावांक विसरनात. थोडे 'सत्य नारायण' करून समाधानी जातात.

पांडव कितले आशिल्ले ह्या प्रस्नाक 'पांच' ही आमची थारिल्ली जाप आसता. तर कर्ण कोण आशिल्लो? मागीर आमकां याद जाता. कोण ताका पयलो पांडव म्हणटा तर कोण सवो.

ह्या पयल्या वा सव्या पांडवाक लागून व्हड झूज जालें अशें कांय जाण म्हणटात. समाजांतूय असो एक सवो आसा वा सवो वर्ग आसा. सांडिल्लो, चिड्डलो, माड्डलो, अगतीक. तो केन्ना केन्ना तिडकता. कितें करीत कळना. अन्याय सोंशिना. देखून आस्तिकांनी ताका वयर सरपाक आधार दिवंक जाय. हो सवो चाळवत जाल्यार आमची धडगत ना. समाजांत आयज इतली संपत्ती घोळटा, शिक्षण इतलें चलता, पूण एक वर्ग गरिबी रेशे खाला जियेता.

'तूं कितें करता!' ह्या त्या संताच्या प्रस्नाक जाप दिवंक येवची, 'हांव प्रामाणीकपणान जोडटां ते जोडीचो कांय वांटो - सवो वांटो हांव गरजेवंतांक पावयतां. सरकाराक दितां तसो.'

* * *

आमी केळेकार. मुळचे आमी मंडूर-नेवरेंचे अशें आमकां सांगत आयल्यात. तो वाठार आमी कित्याक सोडलो तें खबर ना. थंयच्यान आमी वसती करूंक अंत्रूज म्हालांतल्या पिर्वोळा गेले. हांगा आमी शेतां, भाटां, कुळागरां वसयलीं. बुदवंत जाल्ल्यान नांव जोडलें. जोडी खातीर फळावळ सांतेक (भाणस्तारी) धाडूंक लागले. आमीय वचूंक लागले. फळावळींत केळीं चड आसतालीं म्हणून आमकां केळेकार म्हणूंक लागले अशें जाणट्यांनी सांगिल्लें आमी आयकलां. पूण म्हाका तरी तें पटलें ना. केळीं विकपी शेंकड्यांनी लोक आसात ते कित्याक 'केळेकार' जाले नात?

पाळें नांवाचो एक गांव आसा. केळें नांवाचो गांव आशिल्ल्याचें आयकूंक ना. म्हणटकूच गांवाच्या नांवा वयल्यान आमी केळेकार जाले नात अशें म्हणूं येता. घडये आमी मंडूरकार आशिल्ले जावं येता. तें केळेकार केन्ना आनी कित्याक जालें?

मडगांवांत एक मार्केट आसा. ताका 'न्यू मार्केट' म्हणटात. ताच्या पयल्या दरवट्यार केळीं घेवन कांय बायलां तशे दादले बसतात. तांतले अदीकशे केळीं विकपी बोरयेचे. तांकां मार्केटांत केळेकार म्हूण पाचारताना हावें आयकलां. कोण एक केळेकार थंय मटको घेतालो. म्हज्या एका क्रिस्तांव इश्टान मुंबय मेळिल्ले कडेन केळेकार मडगांवां मटको घेता म्हळें. पैजेन सांगतां म्हणूंक लागलो. हांवें मडगांवां परतकूच चवकशी केली तेन्ना कोण तरी केळीं विकपी मटको घेता हें खरें म्हणपाचें कळ्ळें.

जरी हांकां केळेकार म्हळे तरी ताणी केळेकार हें नांव आपणायलें ना. ते बोरकार लायतात, नायक लायतात. एका दिसा हांवें तांतल्या एका वळखीच्याक म्हजें नांव केळेकार म्हूण सांगलें. तो हांसलो. बरोवपी वा समाज वावुरपी म्हूण केळेकार हें नांव चार कडेन जालां हें तो नकळ आशिल्लो.

तर केळेकार हें सर्वनाम आमचे बाबतींत विशेश नाम कशें जालें? गोंयांत एकूच केळेकार घराबो आसा. तांचें चौगां - घर पिर्वोळा आसा. रवींद्रबाब केळेकार रावताले तें घर तांच्या बापायन 1946 च्या अदमासाक बांदिल्लें. आतां हो केळेकार घराबो पांच पंचवीस फामिलींनी वांटला आनी सगळ्याक पसवला. थोडे परकी 'केळेकार' हें उतर 'केळकर' म्हूण उपकारायतात. देखीक 'रवींद्र केळकर याना ज्ञानपीठ पुरस्कार जाहीर झाला आहे.'

म्हाका जेन्ना 'केळेकार' ह्या विशेश नामाचो सोद घेन दिसलो तेन्ना उलगडो जालो तो असो:

त्या काळांत जायते जाण फळावळ घेवन सांतेक वताले. तांकां गणीत कळनाशिल्लें. आंकडे मेजूंक जमनाशिल्लें. आयज लेगीत कांय क्रिस्तांव पंचविसांक वीस आनी पांच म्हणटात. ह्या तांच्या अज्ञानाचो कांय बामणबुद्दीचे ठोक वेपारी तांचे जिनस विकते घेतना आड-फायदो घेताले. तांकां नाडटाले. शाण्णोय, सत्त्याण्णोय, अठ्याण्णोय, णव्याण्णोय...उप्रांत शंबर म्हणनाशिल्ले. णोय म्हणटाले आनी परतून एक्याण्णोय, ब्याण्णोय मेजताले, अशें तीन चारदां मेजतकूच शंबर म्हणटाले. कोणाक तरी हातूंत

कितें गोमनाणें आसा अशें दिसलें. तो नीट गणितज्ञ केळेकारासरी गेलो आनी खंय तरी कोण तरी आमकां फटयता अशें सांगलें. ह्या केळेकारांतलो एकलो तें पळोवंक गेलो तेन्ना ताणें त्या ठोक वेपाऱ्याक रंगेहाथ धरलो.

अशे तरेन गणितज्ञ केळेकार आंकडेमोड कळनाशिल्ल्यांक पावले. हाचो परिणाम केळेकारांक 'केळेकार' हें विशेशनाम जावन दसलें.

'जें जें आपणा ठावें तें इतरांस शिकवावें' हो केळेकारांचो धर्म जाला. तुमी कितें करतात ह्या संताच्या प्रस्नाक केळेकारां कडेन समाधान जाय सारकी जाप आसा.

तुमीय अशें कितेंय करतात आसतलेच.





# प्रधानमंत्री सांगतात, पांयां पडूं नाकात !

श्री. नरेंद्र मोदी प्रधानमंत्री जातात हें जगजाहीर जाले बराबर तांच्या पांयांक हात लावंक वा तांच्या पांयां पडूंक सर्तूच लागली म्हळ्यार जाता. इतली म्हळ्यार, निमाणे प्रधानमत्र्यांनी सांगलें, 'म्हज्या, पांयां पडूं नाकात !'

हें पांयां पडप अती जालें. परिणामी प्रधानमंत्र्यांच्या पावलांक हजारांनी हात लागूंक लागिल्ल्यान घडये तांकां दुखलांय आसूं येता. घडये खासदारांनी आमदारांनी पांयां पडप तांकां पसंत पडना अशेंय आसूं येता.

कांय वर्सां आदीं हांव विपश्चना शिबिराक महाराष्ट्रांतल्या इगतपुरीक गेल्लों. शिबिराच्या निमाण्या दिसा थंयचे गुरुजी गोयेंका शिबिरार्थींक दर्शन दिवंक आयले. ते वताले ते वाटेच्या दोनूय कुशींनी शिबिरार्थी उबे रावन तांकां नमस्कार करताले. इतल्यांत शिबिरार्थींतल्या एकल्यान आपल्या आंगांतलें खमीस काडलें आनी तांच्या पांयांर उडयलें. एकल्यान करूंक ताचे फाटल्यान दुसऱ्यान, तिसऱ्यान आंगा वयलीं काडून गुरुजींच्या पांयांर उडोवंक आरंभ केलो. गुरुजींचे पांय तांकां लागचे ही तांची इत्सा आशिल्ली. ताका ते दैवी स्पर्श मानताले.

हें चलतना लावड स्पिकरांतल्यान आवाज आयलो, 'अशे कपडे गुरुजींच्या पांयांर उडोवं नाकात. कपड्यांचे बटन तांच्या पांयांक तोपतले. बोल्सांनी

कितेंय आसल्यार तेंय लागतलें.'

आयज गोयेंका नात. पूण भक्ती कितली त्रास दिवपी जावं येता तें हाचे वयल्यान कळटा.

गांधीजींच्याय अशेच पांयां पडटाले. तांकां आवरतासर नाका जातालें. पूण पांयां पडपा संबंदान तांचीं खाशेलीं मतां आशिल्लीं. तांचे सचीव महादेवभाई देसाई हांचे 1921 चे डायरेच्या तिसऱ्या खंडांत पान 98 चेर अशें आसा :

"म्हाका चरण-स्पर्श नाका. म्हाका म्हजी पुजा मान्य ना. म्हज्या पांयांक हात लायतात तें म्हाका बरें लागना. म्हाका हें मात पूण आवडना. हातूंत भारताची अधोगती आसा. पांयांक हात लावन भारत स्वराज्य मेळोवंक पावचो ना. म्हाका भारत नीट उबो राविल्लो जाय. संवसारांतल्या सगळ्या देशां मुखार भारत नीट सरळ उबो राविल्लो हांव पळोवंक सोदतां. म्हाका नाका गांधी-राज्य आनी नाका व्यक्ती-राज्य. म्हाका फकत एक स्वराज्य जाय. देखून म्हाका चरण-स्पर्श नाका."

आतां पंडित नेहरू कितें म्हणटाले तें पळोवया :

"ल्हान ल्हान कामां खातीर आमकां बाग घेवपाची संवय जाल्या. ताका लागून एका मनशाचेंच न्हय तर समाजाचेंय मन पिडेस्त जाता. बाग घेवप आनी मोडप म्हाका पसंत ना. पांयांक हात लावंक म्हजें आडमेळें ना. पूण बाग घेवप संवयेर पडूंक जायना. हांवें जायतेदां पळयलां 'जनगणमन' म्हणटना आमचे चले आनी चलयो तकली बागोवन गुणगुणटात. म्हज्यान हें कशेंच सोंसूंक जायना. आमी आमची तकली नीट उबी दवरूंक जाय. आमकां जें कितें सांगपाक जाय तें मान बागोवन आनी दोळे भुंयेक लावन सांगपाची गरज ना."

पांयां पडटल्यांचेर नेहरू जायतेदां तापल्यातूय बी..

म्हाका दिसता पांयां पडप देशाचे उत्तरेक चड आसा. थंयच्यान तें महाराष्ट्रांत देंवलां आनी संवयेक धरून हांगाच्यान गोंयांत. तामीळनाडून तर

विटयलां. जयललिताअम्माक जाणटे खासदार आमदार साष्टांग नमस्कार घालतात. हे लोक देशाक उबो रावंक कशे दितले हो प्रस्न पडटा.

कांय वर्सां पयलीं टीव्हीचेर एक जाहिरात येताली. जाहिरातींत विद्या बालन आशिल्ली. हे नवे सुनेक घरांत एक शिकवण मेळिल्ली. ती म्हळ्यार घरांत येता-वतात तांच्या पांयां पडचें. तिणें ती संवयूच लावन घेतिल्ली. एक फावट सोयऱ्यांचें एक भिरेंच तांगेर आयलें. हे सुनेन रोखडेंच वयर पळयनासतना तांच्या पांयांक हात लावंक आरंभ केलो. निमाणें आशिल्लो पोस्टमन. ताच्या पांयांक हात लावंक आपूण कितें करता तें तिका कळून लज जाली.

असोच एक प्रसंग पांच स वर्सां पयलीं कॉलेज भुरग्यांक घेवन हांव दिल्लीक गेल्लों तेन्ना हांवें अणभवलो. विद्यार्थ्यांक किरण बेदीन आपल्या ऑफिसांत संवादा खातीर आपयल्लें. चलयो चले, च क्क बरें न्हेसून गेल्लीं. ह्या विद्यार्थ्यांत एकलें क्रिस्तांव चली आपणाक पोलीस जावचें आसा अशें परपरत सांगतालें. विद्यार्थ्यांक ओव्हल टेबला भोंवतणी बसपाची व्यवस्था केल्ली. हे चलयेक हांवें किरण बेदी म्हऱ्यांत बसयलें.

जिस्त दिल्ल्या वेळार आपल्या पोलिसी भेसांत किरण बेदी आयली. विद्यार्थ्यांनी आपापलीं नांवां सांगलीं. उप्रांत गजाली रंगल्यो. गोंयांतल्या जुवारी पुलाचें आपणें उक्तावण कशें केलें ती गजाल सांगून बेदीन सगळ्यांक हांसयलें. उप्रांत संवाद जालो. आतां किरण बेदी वचूंक उबी रावतना ते क्रिस्तांव चलयेन तिच्या पांयांक हात लायलो. आनी हें पळोवन बाकीच्या भुरग्यांनी लायन धरली. किरण बेदी फाटीं सरली. सलाम करप आनी घेवप हाची संवय जाल्ली किरण बेदी पांयांक हात लावन घेवंक येवं नाशिल्ली.

ही पांयां पडपाची धाम आतां गोंयांत आयल्या. आदीं घरांनी दिवाळी वा चवथीचे परबेक जाणट्यांक भुरगीं पांयां पडटालीं आनी आशिर्वाद घेतालीं. आतां घरांत कोणूय आयलो की मम्मी-पप्पा भुरग्यांक सांगतात, 'पांयां पड.' आनी भुरगीं पांयां पडटात.

आतां जाणटेय चार चौगांत लीडरांक पांयां पडटात आनी ही आमच्या देशाची संस्कृती म्हण अभिमानान सांगतात.

प्रधानमंत्री नरेंद्र मोदी हाणी आपल्या पांयांक हात लावं नाकात म्हण सांगलां तें आपल्या खासदारांक आनी आमदारांक, घडये सगळ्यांकूय आसुंये. आनी पांय दुखतात म्हणुनूय अशें म्हणूं येता. ह्या संदर्भांत ते गांधीजींक मानतात अशें मानचें काय ?






# पयलीं बरें आशिल्लें, काय आतां बरें आसा?

'पयलीं बरें आशिल्लें, काय आतां बरें आसा?' हो प्रस्न हालींसाराक कोण विचारिना. गोंय मुक्ती उप्रांत कांय वर्सां हो प्रस्न गोंया भायले लोक गोंयकारांक करीत रावताले.

म्हाका जेन्ना कोणूय हो प्रस्न विचारतालो तेन्ना हांव जाप दितालों, 'तेन्ना खरेंच तर आमी सर्गसूख भोगताले! मात तेन्ना आमच्या गळ्यांत एक सरपळी आसताली!' सगळ्यांक हे जापेचो अर्थ समजतालो अशें न्हय, स्वातंत्र्य म्हळ्यार कितें हाचो अर्थ जांकां केन्नाच कळ्ळो ना अशे गोंयांत तशे गोंयां भायर जायते लोक पयलीं आशिल्ले आनी आतांय आसात.

गोंयांत 'पयलीं बरें आशिल्लें' हाचो अर्थ, तेन्ना फॉरेन वस्तू मेळटाल्यो; खाणा-जेवणाचे जिनस परदेशांतल्यान येताले; तरेकवार भायलें लुगट मेळटालें जें म्हयनोभर धुयना जाल्यार चलतालें आनी फॉरेन सोरो न्हावपाक पावत इतलो मेळटालो, असो आशिल्लो. गोंया भायले लोक असल्या वस्तूंक वसवसताले देखून आमकां गोंयकारांक ते भाग्यवंत लेखताले.

ह्या गोंयकारांत तो ड्रायव्हर मोडटालो, जो मुंबय वतालो तेन्ना थंयच्या लोकांक गोंयांत मर्सिडीज टॅक्सी चलतात अशें गर्वान सांगतालो.

आयज जमाना बदल्ला. आयज देशांत 'फॉरेन' वस्तू तयार जातात वा चीनांतल्यान येतात. अशे परिस्थितींत 'पयलीं बरें आशिल्लें काय आतां बरें आसा?' हो प्रस्नूच येना.

तरी लेगीत ह्या प्रस्नाक 'तेन्ना बरें आशिल्लें' ही जाप आयज हांव दितां आनी कित्याक तेंवूय सांगतां.

गोंयकारांचे न्हेसप: आयज गोंयांत गोंयकाराक सोदचो पडटा, जो ताच्या ड्रेसा वयल्यान थोडोसो वळखूंक येता. गोंयकाराचें हें आंगभर कपडे घालप पुर्तुगेजा कडल्यान आयलां. जायत्या जाणांक खबर आसचें ना, एका काळा गोंयांत कांय विशिश्ट समाजांतले दादले काश्टी न्हेसताले आनी बायलां चोळये बगर बाजारांत वतालीं. तेन्ना हांगा पराकाश्टेची गरिबी आशिल्ली. बाकीबाबांचे 'दोतोर बॉस दोतोर बॉस' हे 1946तले कवितेंतली 'लजेक लुगट म्हारग जालें, उकती पडली जांग!' ही वळ दुसरें कितें सांगता?

1945 च्या अदमासाक पुर्तुगेज सरकारान एक फतवो काडलो. बाजारांत येतल्या दादल्यांनी धोंपरा मेरेन वस्त्र वापरुंकूच जाय. बायलांनी पोलके घालुंकूच जाय. तो काळ गरिबीचो आशिल्लो खरो, पूण ह्या फतव्यान गोंयांत एक प्रतिष्ठेचें युग सुरू केलें.

हालींच हांव अंकोला गेल्लों. थंय हांवें बायलांचो एक जथो पळयलो. तांच्या आंगार चोळी नाशिल्ली. आयज गोंयांत ही कल्पना लेगीत करूंक येवचीना.

तेन्नाचे हिंदू, पुडवें न्हेसपी, कोट तोपी घालपी (आनी ह्या भेसार टाय आनी बूट वापरपी) आयज फकत खंय खंय तियात्रांनी लोकांक हांसोवंक दाखयतात. सांगपाचें म्हळयार, वेवस्थीत न्हेसप हें आयज आमच्या आंगवळणी पडलां.

निवळसाण: गोंयकार निवळसाणीचो भोक्तो. त्या काळा मार्ग निवळ आसताले. मुखेल मार्ग 'कांतोनेर' नांवाचे सरकारी कामदार सांबाळटाले. बाकीचे मार्ग पावस सांबाळटालो. पावसाचे एके दडकेन मार्ग चक्क जाताले.

हांवें आतां मेरेन एकूय गोंयकार मार्गार मर्दीं थुकतना पळोवंक ना. तेन्ना बाजारांत पानपट्ट्यो मेळनाशिल्ल्यो. घरांत बायलेन घोवाक विडो दिल्यारूच पान खावप जातालें. परिणामी, आयज मार्गार जें तांबडें पेंटिंग दिसता, तें तेन्ना नासतालें. आयज झाडुवाली मार्गार सान्न मारता थंय आसा, पचक् करून पानपट्टेची रगत कशी पीक मार्गार सोडटना कोणाक कांय दिसना. पयर एका नव्या लिफ्टांतल्यान वतालों. ह्या नव्या लिफ्टांत एका हैवानान थुकून घाण केल्ली. म्हजो जीव घुस्मटलो. त्या काळा पावस गांव निर्मळ दवरतालो. व्हाळाच्या एका हुंवारांत सगळें व्हांवन वतालें आनी शारांनी कामराचे मनीस फिनेल घेवन घरां फाटल्यान पावताले.

भलायकी: त्या काळचे दोतोर गांवांनी पांयांनी भोंवताले वायटकारांक तपासूंक. शारांनीं कांय दोतोर सायकलींनी पेशंटागेर वताले. मडगांवां दोतोर शांताराम नायक सायकलीन वतना हांवें पळयला. आयच्या वैजकी वेपारा संबंदान बरयना तितलें बरें!

एक दीस पुर्तुगेज सरकारान हुकूम काडलो. कसलेंय शिजयल्लें खाण धव्या आनी बटर पेपरांत घालूनच विकचें. पुर्तुगेजाचो हुकूम मोडपाची छाती कोणाक? गोंयांतलीं हॉटेलां धव्या पेपरान पार्सल सर्वीस दिवंक लागलीं. आयज मडगांवांत बॉम्बे काफे, दिलखूश, वसंत, कोहिनूर अशीं कितलींशींच तेन्नाचीं हॉटेलां खाणा-जिनस धव्या पेपरांत पॅक करून दितात. तांचें कौतूक करीत तितलें थोडें. आंगवळणी पडप म्हणटात तें हाका.

नाजाल्यार गाड्यां कडेन वचात. आयज गोंयांत हजारांनी गाडे लाखांनी रुपये जोडटात. बटाटवडे, सामोसा, भजीं, मिरसांगो, बटाट-कापां थंयचें थंय तळून विकतात, कित्यांत घालून ? बोलेतिनांत, रद्दींत घालून. ह्या गाड्यां मुखार लोक सांजचे साडेपांचांक गर्दी करतात आनी तळिल्लें तेल ओडपी रद्दी पेपरांत तें घेवन बकबक खातात. रद्दी पेपर घरांतल्यान धुल्ल आनी जल्ले घेवन येता.

फेस्त आनी जात्रां-दिसांनी खाजें धुल्लाक उक्तें दवरून विकतात.

मुख्यमंत्री पर्रीकार हांकां म्हजी विनंती, ताणी भलायकी खात्याक फतवो काडूंक लावन खाणाचे जिनस रद्दींत घालून विकूंक कडक बंदी घालची. हें एकूच काम गोंयची एक खाशेली इमेज तयार करपाक पुरो.

जायतें बरोवं येत. तेन्ना कांय बऱ्यो गजाली आशिल्ल्यो, वायटूय आशिल्ल्यो हें सांगपाची गरज ना. पुर्तुगेजाचे गूण गावंक हांव बसूंक ना. पूण बरें तें बरें म्हणुंकूच जाय.

ह्या पत्रांत चोळी आनी पानपट्टेचो उल्लेख आसा. ह्या वेळार याद जाता कवी र वि पंडित हांची आनी तांचे 'आयज तूं येतलो देखून' कवितेची.

*'आयज तूं येतलो देखून*
*शिरच्या पानार रंगला इडो*
*जीव माजेलो सैरभैर*
*पायण्यांत सारको रडटा चेडो...*
*आयज तूं येतलो देखून*
*खोप्यांत आबोलीं मुरगुट्टात*
*नेया खणाची चोळी माजेली*
*आंगांत सामकी तट्टटा...'*

कवी ह्या कडव्यांतल्यान विडो आनी चोळी हांची महती कळयता.





# आमी लक्ष्मण रेशा हुपूंक ना मूं?

पयरूच आयकल्ली खबर.

एक गोंयकार चली गोंयांत एमबीबीएस जावन फुडल्या शिक्षणा खातीर कर्नाटकांत सीट मेळिल्ल्यान थंयच्या व्हडल्या शारांत गेलें. थंय ताका अनपेक्षीत असो वेगळोच अणभव येवंक लागलो. आपूण गोंयकार म्हण सांगतकूच गोंया विशीं ताका नसतेच प्रस्न विचारूंक लागले. सगळ्यांक गोंय म्हळ्यार 'धंद्याची सुवात' दिसता अशें ताका कळ्ळें. हातुंतल्यान सुटका मेळोवपाक आपूण गोंयचें न्हय, गोंया शिकपा खातीर गेल्लें, अशें तें टिचरांक आनी इश्टिणीक सांगूंक लागलें.

ही वाऱ्या वयली खबर न्हय. हाचो खासा आमीय अणभव घेतला. कॉलेज भुरग्यांक दिल्लीक घेवन गेल्लों तेन्ना डॉ. करणसिंग सारकिल्यान 'गोंया संबंदान हांव कितें आयकतां हें?' असो प्रस्न केल्लो. हे गजालीक पांच स वर्सां जालीं. ह्या काळांत कांयच बदल जावंक ना. टुरिस्ट म्हण गोंया येता तो, देशी जावं वा परदेशी, गोंया विशीं चडशे असलेंच उलयता. सगळे हांगा मजा मारून वतात आनी आमी सगळे तांकां हांगा मजा मारूंक येयात म्हण आमंत्रणां दितात.

गोंय मुक्त जायना फुडें भायले लोक एके लक्तुबायेन आमचे कडेन पळयताले. आमीय हड्डें फुलोवन 'आमी गोंयकार' म्हण सांगताले. आयज ती परिस्थिती ना. आयज गोंयकार कोणाक नाका. गोंय मात सगळ्यांक जाय. मजा मारूंक, धंदे करूंक, बंगले बांदून फेस्तां करूंक. वेपार धंद्यांत केन्ना ताणी आमकां खाले. हाचीं कारणां सोदून काडपाचो वेळ केन्ना येवन गेला.

हालींच गोंयच्या टी.व्ही. चॅनलाचेर आमचो पर्यटन मंत्री दिलीप परुळेकाराक उलयतना आयकलो. फाटल्या सिजनाक चाळीस लाख टुरिस्ट गोंयांत येवन गेल्याची उमेदीची(?) गजाल ताणें सांगली. ट्रेण्ड पळयल्यार ह्या सिजनाक अंयशीं लाख टुरिस्ट अपेक्षीत आसात म्हणपाचें ताणें म्हळें. जितले टुरिस्ट चड तितली आमची जोड चड अशें ताका दिसता.

पंदरा लाख लोक रावतात. त्या गोंयांत अंयशीं लाख टुरिस्ट येवन वतात ताचो गोंयकारांच्या जिविताचेर, पयसो मेळटा तें सोडूच, दुसरो कसलो परिणाम जाता हाचो रिसर्च करपी यंत्रणा आमचे कडेन ना. आमचें जेवण..खाण, आमची येरादारी, आमची भलायकी, आमचेर मानसीक दडपण...कितें कितें घडटा हाचो उलगडो कोण करतलो?

जायतीं वर्सां जालीं. पंचवीस, तीस, तेन्ना टुरिझम इतलो फळफळूंक नाशिल्लो. गोंयां एक नामनेचे विचारवंत आयल्ले. जस्टीस चंद्रशेखर धर्माधिकारी. तांचीं एक दोन व्याख्यानां जाल्लीं. गोंय आनी टुरिझमाचेर ते उलयले. सावधान म्हण ताणी सांगिल्लें.

मनरिजवणेक शीम ना तशी मनभोगवणेकूय शीम ना. एका फुडें एक चलत आसतात. परदेशांनी 'फ्लेश ट्रेड' हो टुरिझमाचो एक प्रकार चलता. ब्लू फिल्मां थियेटरांनी दाखोवपाचो सरकारमान्य वेवसाय चलता. एकदां टुरिझम सुरू जालो की बाकीच्यो गजाली येवंकूच जाय. एका काळा गवर्नर प्रतापसिंग गील हाणी भायले लोक गोंयाक कीलर स्टेट मानतात म्हणिल्लें. ते आयज आशिल्ले जाल्यार 'क्रिमिनल स्टेट' मानतात अशें म्हणटले आशिल्ले हाचे विशीं म्हाका दुबाव ना.

एका विद्वाना कडेन चर्चा करतालों. गोंयकारांच्या देशभ्रश्टेपणाचेर तो उलयलो आनी उप्रांत 'दुसरें सांगूं?' ताणें विचारलें. तो सांगूंक लागलो. 'गोंयकारांत आपणाक पयशां खातीर विकपाचो एक सभावगूण वसता.'

हांवें हें सौम्य भाशेंत बरयलां.

हो चिंतनाचो तसो चिंतेचो विशय, आमी लक्ष्मण रेशा हुपूंक ना मूं?






# बेळगांवांत 'बेळगांव मार्ग परिशद'!

बेळगांवकार नागरिकांनी बेळगांवांत मार्ग संस्कृती रुजोवपा खातीर 'बेळगांव मार्ग' नांवाची एक स्वतंत्र संघटना पोरूं वर्सा स्थापन केल्ली. गोंयांतल्या मार्ग अभियाना कडल्यान स्फूर्त घेवन ही संघटना उबी जाल्ली, जिच्या उक्तावणाक गोंयच्यान साबार मार्ग मोगी गेल्ले. गेल्लें वर्सभर तांचो थंय कितें ना कितें वावर चलत आसता.

आतां अंदू ऑगस्ट म्हयन्यांत 23-24 वेर बेळगांव मार्ग संघटनेन बेळगांवांत पयली-वयली 'बेळगांव मार्ग परिशद' घेवची थारायल्या. गोंयचें मार्ग अभियान तांच्या सांगाता आसा हें सांगची गरज ना.

बेळगांव आतां कर्नाटकाचें दुसरें राजपाटण जालां. ते नदरेन शारांत गरजेच्यो इमारती वयर सरूंक लागल्यात. बेळगांव आतां आदलें सायकलींचे शार उरूंक ना. सायकलींची सुवात मोटार-सायकलींनी घेतल्या. हांगा मार्गाचेर मोटारी दवरूंक दिनात. शारांतल्या पार्किंग सुवातांनी मोटारी दवरतात.

बेळगांव शार मुळांत गल्ल्यांचें वा पायणींचें. कांय वर्सां पयलीं सरकारान कांय म्हत्वाच्यो गल्ल्यो रुंदावपाचें थारायलें आनी विरोधं मोडून खडे बाजार, गणपत गल्ली, मारुती गल्ली आदी गल्ल्यो रुंदायल्यो. पांच वर्सां उप्रांत सुरवेक

विरोध करपी वेपारी आतां आपल्या वेपारांत वाड जाल्ल्याचें उमेदीन सांगतात.

बेळगांवांत भोंवतणच्या खेड्यांतले शेतकार, कारागीर आपले जिनस घेवन येतात. हातूंत भाजी आनी फळां आसतातूच. लोखणाचीं आवतांय आसतात. बेळगांवांत गांव आनी शार हांचो सोबीत सुंदर सुमेळ जाल्लो अणभवाक येता. गांवांत जें पिकता वा तयार जाता तें खासा पिकोवपी बेळगांवां घेवन येतात, तशें कारखान्यांनी तयार जावपी मालूय मेळटा.

बेळगांवांत धर्मीक तशी भाशीक तीड आसा. हांगा अदीं मदीं झगडीं आनी मारामाऱ्योय जातात. पूण बेळगांवांतलो सामान्य नागरीक ताची पर्वा करिना. तो खुशालकायेन जियेतना दिसता. हाची देख म्हणल्यार सांजे वेळार वत मोव जाले उप्रांत शारांतल्या मार्गांचेर मनशांचो हुंवारूच आयिल्लो दिसता. दादले, बायलां, भुरगीं....कुटुंबां रस्त्यांचेर मेकळेपणान 'सेंशुस्त' भोंवतना दिसतात.

हे गर्देंत अकस्मात एकाद्रें गोंयचें जोडेंय मेळटा, 'आरे, केन्ना आयलीं?' विचारप जायना फुडें 'केन्ना वतलीं?' अशेंय विचारप जाता.

म्हाका दिसता बेळगांव शार गोंयकारांक खूब कितें दीत आयलां. आनी आपले वटेन गोंयकार बेळगांवांत पयसो ओतीत आसता.

आतां विरोधाभास पळयात. गोंय हेर भारतीयांक आनी फॉरेनरांक पिशें लावपी पर्यटन थळ. दुसरे वटेन बेळगांव गोंयकारांक विसवाचें थळ. निर्भेळ आनंद मेळोवपा खातीर गोंयकार बेळगांवां वता आनी आवडीच्या हॉटेलांनी रावता, खाता-जेवता; ल्हान व्हड वस्तूंची मनमेकळेपणान खरेदी करता; सिनेमा पळयता; सांजवेळा शारांत पांयांनी भोंवता आनी दोन दीस विसव घेवन गोंया परतता.

बेळगांवकार गोंयकारांक रोखडे वळखतात. गोंयकारांचें न्हेसप, कोंकणी उलोवप, इंग्लीश कातरप बेळगांवकारांक मौजेचें दिसता. रिक्षावाले, भाजी विकपी गोंयकारांक तशे नाडिनात पूण रुपया दोन रुपया चड घेतात आनी

गोंयकार दितातूय बी.

लग्न कारण थारलें की मध्यम वर्गी गोंयकारांक बेळगांवां वचपाचे वेध लागतात. लग्नाची शालू कापडां आदी खरेदी तांकां बेळगांवांत करपाची आसता. थंयच्या दुकानांनी गोंयकार बायलांक बेस बरो येवकार मेळटा. गादयांचेर बसून हजार तरांचीं शालू कापडां पळोवंक मेळटात. च्याय मेळटा. आदेस केन्ना सोंपलो तें कळच ना.

म्हजीच खबर सांगतां. आमच्या संजूच्या लग्नाचे खरेदीक आमी बेळगांवां गेल्लीं. 1994त ली ही खबर. खरेदीक वीस वर्सां जालीं. अजून तो 'मेहन्दी' नांवाचो शोरूम ताच्या लग्नाच्या वाडदिसाक कार्ड धाडीत आसता. आमी परतून थंय पावलींच ना. पूण आमी, म्हाका दिसता, पांच पन्नास जाणांक थंय धाडल्यांत आसतलीं. वेपारी कळाशी म्हणटात ती ही.

अशा ह्या बेळगांवां रेलगाडयेन परपरत दूदसागर पळयत वचूं येता. पणजे म्हापशेंचे लोक चोर्ला घाटान बेळगांवां वतात. चोर्ला घाटान वचप हो एक वेगळोच अणभव! पुराय घांट अशीर रस्त्याचो आनी मोडणांचो. जांबोटी पावसर दाट सावळी. हांव तर गाडी थांबोवन रस्त्यार देंवतां आनी त्या निवळ मार्गार कुशीक उदारो पडून पणजे आझाद मैदानाचेर आशिल्ल्या त्या स्मारकावरी हातांनी मळब वेंगायतां.

अनमोड घाटा वयल्यान बेळगांवां वचप हो एक प्रसंग! हो रस्तो केन्नाच सारको आसना. हालींच ताचेर कांय पॅच मारल्यात. ह्या रस्त्यार सामकीं बुरशीं हॉटेलां चलतात. वर्सांचीं वर्सां धंदो करतात. टॉयलेट नाशिल्ल्यान सगळ्याक खातसाणी. हांवें कदंबाक बरयलें तेन्ना ताणी तें कर्नाटक राज्यांत चलता देखून आमी कांयच करूंक शकनात अशें म्हाका कळयलें.

बेळगांवां जावपी परिशद खासा शाराक लागपी प्रस्न घेतलीच. शारांत सात रेल्वे गेटी आसात. पन्नास वर्सां पयलीं आशिल्ल्यो तश्योच. त्यो रुंद करच्यो, थंय पुलीस दवरचे आदी सुचोवण्यो परिशद करतली.

शारांत मुखेल रस्त्यार एक इलेक्ट्रीक सिग्नल आसा. झेब्रा क्रॉसिंग, स्पीड

ब्रेकर्स, धवे पट्टे खूब उणे आसात. हांचेरूय चर्चा जातलीच.

अनमोड बेळगांव रस्तो पुणे मुंबय सारको करूंक खूब वाव आसा. ह्या संबंदानूय सरकाराक निवेदन दितले.

मार्ग हो एक विचार. रस्त्याचो मोग करूंक हो विचार शिकयता. लोक नागरीक जाले जाल्यारूच रस्त्या वयले प्रस्न सुटूंक लागतले. मार्ग हो विचार गोंयांतल्यान बेळगांवां पावला. हें पयलेंच खेपे घडटा. गोंयकारांनी बेळगांव मार्ग परिशदेक पालव दिवचो.






# शणै गोंयबाब हांचो 'अमृताचो पावस'

शणै गोंयबाब द्रश्टे आशिल्ले. तांकां मुखा वयलें स्पश्ट दिसतालें. पोरण्या गोंयांतल्यान नवें गोंय वयर सरलां म्हूण ते सांगताले. हो दिश्टावोच आशिल्लो. 1934 त ताणी बरयल्लो 'अमृताचो पावस' 1961 तले गोंय मुक्तीची सुलूस दितालो!

शणै गोंयबाब महात्मा गांधींक मानताले. तांकां ते 'गांधीम्हात्मो' म्हणटाले. देश स्वतंत्र जावचो आसा, ब्रिटीश भारतांतल्यान वचचे आसात हें गांधींजींक जशें कळटालें तशें शणै गोंयबाब हांकांय गोंय मुक्त जावन देशाच्या गोपांत एकजीव जातलें अशें दिसतालें.

शणै गोंयबाब हांचें 'नवें गोंय' 1961 डिसेंबरांत जल्माक आयलें. वा पोरण्या गोंयांतल्यान वयर सरलें. गोंयच्या स्वातंत्र्य सैनिकांक स्वतंत्र गोंयचे उदरगतीची आंखणी करूंक जमलें ना, ताचें कारण पुर्तुगेजा काळार उलोवंक मेळनाशिल्लें, विचारांचें दिवप-घेवप जायनाशिल्लें.

नवें गोंय 1961 चे अखेरेक जल्माक येना फुडें नवें गोंयचे तरणाटे वावराक पेटले आनी ताणी कोंकणी राज्य मेळयलें. स्वातंत्र्य तर गोंयाक मेळपाचेंच आशिल्लें. आशिल्ली गरज मुखा वयले बांदावळीची. शणै गोंयबाबांच्या

तरणाट्यांनी उप्रांतच्या 25 वर्सांत हो बांदावळीचो वावर केलो. ह्या वावराक लागून गोंय देशाचें 25 वें राज्य जालें.

गोंय मुक्त जालें तेन्ना कोंकणी कितें आशिल्ली आनी 25 वर्सां उप्रांत कोंकणीन केदो पल्लो गांठलो हें तेन्नाच्या तरणाट्यांचे आव्हानां पेलपाचे तांकीचें दर्शन घडयता. साहित्य अकादेमीक कोंकणीक मान्यताय दिवची पडली आनी हाका लागून फुडल्यो घडणुको घडल्यो. गोंयचे 95% लोक कोंकणी उलयतात ह्या सुत्राक धरून कोंकणी राजभास जाली हें भायलेचाराक खरें आसलें तरी ताचें फाटलें कारण कोंकणीन घडयल्ली साहित्याची बुन्याद!

आतां जायत्या लोकाक गोंयची राजभास इंग्लिशूय जावची अशें दिसता. कोंकणी तांकां गांवठी दिसता. पूण बाजारांत गांवठी जिनसांक खूब मोल आयलां. गांवठी फळां, गांवठी भाजी घेवंक गोंयकार आशेता. गांवठी पोपाय, गांवठी केळीं, गांवठी भाजी सांगता त्या दरांत गोंयकार घेतात, कारण ताचें रगत ह्या फळां भाजयांनी घडयलां, जशें कोंकणी भाशेनूय घडयलां. खरेंच, ज्या तरणाट्या गोंयकारांनी कोंकणी राज्य मेळयलें तांकां धन्यवाद.

आनी आतां नव्या तरणाट्यांक नव्यान दुसरें नवें गोंय घडोवचें आसा, कारण दर एक नवें गोंय पोरणें जायत वतलें आनी ताचे सुवातेर नवें गोंय स्थानापन्न करचें पडटलें.

कोंकणी साहित्यान मुक्ती उप्रांतच्या गोंयची बुन्याद घट केली. आतां कोंकणींतल्यान भुरग्यांक मेळिल्लें मुळावें शिक्षण ही बुन्याद सासणाची घट करतली.

अशें आसलें तरी काळा प्रमाण नवीं आव्हानां कोंकणी राज्या मुखार येत आसात तें जाणवता. ह्या आव्हानांक तोंड दिवपाक नव्या तरणाट्यांनी पेंगट बांदचें पडटलें. आतां कोंकणी (भास) साहित्या पुरती मर्यादीत दवरून चलचें ना. शणै गोंयबाब हाणी तरणाट्यां मुखार एक मोख दवरल्या. ती म्हळ्यार खासा आपल्या बऱ्या खातीर आनी संवसाराच्या बऱ्या खातीर वावुरपाची. ह्या वावराक साहित्याचो पालव न्हयकारपाचो ना. पूण हो वावर साहित्याची

शीम हुपता, इतलेंच न्हय तर आपणा भोंवतणची भुगोलीक सरादूय हुपता हें लक्षांत घेवचें पडटलें. ताका लागून साहित्या भायलें विश्व आपणावचें पडटलें. अर्थकारण, राजकारण, शिक्षण ह्या मळांचेरूय गोंयच्या तरणाट्यांनी भोंवचें पडटलें. हे पासत नवें तंत्रगिन्यान आयलां तें आपणावचें पडटलें.

गोंयांत अशी एक प्रवृत्ती आसा (आनी जी बळावत चल्ल्या) ती म्हळ्यार पयशे मेळटात जाल्यार कितें विकचें आनी कितें विकचें न्हय हाचे धंगण विसरपाची. हे प्रवृत्तीक लागुनूच पोटांत लोखण आशिल्ले दोंगरा फाटल्यान दोंगर विकपाक आमी फुडें सरले. आतां तें आळाबंदा आयलां. आतां तें परत चालू जातलें तेन्ना लक्ष्मण रेषा आमी हुपचे नात अशी आस्त आसा.

आतां पर्यटनान ताची सुवात घेतल्या. हें पर्यटन दर्यादिगे वयल्यान गोंयच्या अंतरांत रिगपाचो प्रयत्न करता. हो राकेस भायली लक्ष्मण रेषा हुपून आमच्या घरांनी प्रवेश करूंक सोदता. देखून आमच्या तरणाट्यांनीं गांवागांवांनी भोंवून लोकांक शिटकावपाची गरज उपरासल्या.

ह्या दुसऱ्या नवें गोंयच्या नव्या तरणट्यांनी गांधीजींचीं तीं उतरां गिरोवचीं. “भायल्या वाऱ्याक हांव म्हज्या घराचीं जनेलां आनी दारां बंद दवरचों ना, पूण ह्या वाऱ्यान म्हजे पांय हालचे नात हाची चत्राय हांव बाळगितलों.”

गेल्या सरकारान डॉ. रघुनाथ माशेलकार हांच्या अध्यक्षपणा खाला GOA 2035, VISION AND ROAD MAP तयार करूंक एक 17 जाणांची समिती नेमिल्ली, तिणें आपलो अहवाल तेन्नाचे मुख्यमंत्री दिगंबर कामत हांकां दिल्लो. चलत्या सरकारान त्या रिपोर्टा विशीं कितें चिंतलां तें कळूंक ना. आमच्या तरणाट्यांनी त्या अहवालाचो अभ्यास करचो आनी पटल्यार तें सुत्र धरून आतांचें नवें गोंय घडोवपा संबंदान प्रचार करचो.






# प्रशासन अशें धील कित्याक?

गुजरातांतल्या सुरत शाराक 1994 वर्सा प्लेगाची लागण जाली. सुरत देशांतलें सगळ्यांत गिरेस्त शार. ताची तेन्नाची लोकसंख्या सत्तावीस लाख. म्हळ्यार गोंय राज्या परस दुपेटीन. देशांत सुरतेक 'डायमण्ट सिटी' म्हण पाचारतात. अश्या ह्या श्रीमंत शारांत प्लेगाची धाम कशी पावली ही अजापाची गजाल न्हय. शार गिरेस्त आसलें म्हण निवळ आसतलेंच म्हणूं येना.

सुरतेक प्लेग आयलो तेन्ना व्हडल्या वेपाऱ्यांनी आपलो धंदो बंद केलो आनी ते शारा भायर पळ्ळे. गोंयांत अशें कितेंय जावचें न्हय, पूण जालेंच जाल्यार  चोर्ला आनी अनमोड घांटांचेर गाडयांच्यो रस्ती लागिल्ल्यो हांव पळयतां.

कांय वर्सां पयलीं मडगांवांत अशेंच कितें घडुंये अशें दिसूंक लागलें. प्लेग येवंक नाशिल्लो. पूण मडगांवाक भेट दिवंक आयिल्ल्या तेन्नाच्या शार विकास मंत्र्यान मडगांवांत भोंवतना शारांतलो नर्क पळोवन 'हांगा प्लेग येवं येता....' म्हळें.

आमी जे मडगांव निवळ दवरूंक वावुरताले तांकां हीं उतरां 'बरी संद'

थारली. तिचो फायदो घेवचो म्हण आमी थारायलें आनी 'मडगांवांत प्लेग येतलो, प्लेग येतलो' म्हण बोवाळ घालो. आमी रोखडीच एक बसका घेतली जिका विशेक जाण जमिल्ले. तांकां आमी मंत्र्यान कितें म्हळें तें सांगलें आनी मडगांव शार निवळ करपाक आमी माथें मारुंया म्हळें.

हें काम बऱ्याच कश्टांचें तशें खर्चाचेंय आशिल्लें. सांगतात ते प्रमाण मडगांवांत पुर्विल्ले सात 'कानाल' आसात, जे साळ न्हयेक मेळटात. तांतले दोन तीन सोडल्यार बाकीचे पुरवल्यात. हे सगळे कानाल उसपप जावचेंच नाशिल्लें. पूण जे दोन तीन रेब्यान भरिल्ले ते निवळ करपाचें काम आमी करपाचें थारायलें.

हाका खर्चूय आशिल्लो. ते बसकेंतूच खासा आमी एक एक हजार रुपया काडले. थंयचे थंय 18/20 हजार रुपये जमले. ह्या वेळार मधुबाब मोर्डेकार बरेच 'ॲक्टीव' आशिल्ले.

आतां कानालांतलो रेबो उसपूंक 'शॉवलीन' जाय जालें. तें भाड्याक घेवन वावराक हात घालो. ह्यो गजाली गोंयच्या दिसाळ्यांचेर आयल्यो. परिणामी पयशे मागूंक भोंवचें पडलें ना. दोन-चार दिसांत देड लाख रुपये जमले. निमाणे आनीक पयशे नाकात असें सांगचें पडलें.

हाका गोंयांत अमाप प्रसिद्धी मेळ्ळी. गोंयचें दुर्दैव म्हळ्यार हांगा वांकडें कितेंय घडत जाल्यार ताका देशभर प्रसिद्धी मेळटा. पूण खासा गोंयांतली एक थळावी संस्था नागरिकांच्या पालवान शारांतलो बाराशीं ट्रक चिखल उसपिता हाका गोंया भायल्यान दाद मेळ्ळी ना. पूण मडगांव शारान आपलें अलोकीक दर्शन घडयलें.

* * *

आमचे मुखेल मंत्री मनोहर पर्रीकार हाणी पयरूच म्हापशेंच्या सरकारी कार्यालयांक भेट दिली तेन्ना तांकां थंयचीं अदिकशीं कदेलां रिकामी दिसलीं.

मुखेल मंत्री पर्रीकार हांचे विशीं समाजांत आदर तसो वचक आनी हय-न्हयसो भंयूय आसा. अशें आसतना अडेच वर्सां सरकार चलयता आसून प्रशासन अशें धील कशें ? हो सरकार चलयतल्याचो अपमान न्हय तर कितें? 'वॉर्निंग' दिली म्हण हें जाग्यार येतलें व्हय ?

गोंय म्हळ्यार शीड नाशिल्लें तारूं जायत चल्लां काय कितें ? हाचेर मुखेल मंत्र्यांनी विचार करूंक फावता. समज आशिल्ल्या नागरिकां कडेन संवादाचो अभाव हें एक कारण आसूं येता.






# आमी 'मागपी' न्हय; 'दिवपी' जावचे!

आमी गोंयकार एके नदरेन 'भाग्यवान'! आमी पुर्तुगेजा सुवादीन आशिल्ले हें आमच्या 'आगळेपणाचे' एक लक्षण. हें आगळेपण आमच्या शेजाऱ्यांक फावो जालें ना. आमच्या शेजरा बेळगांव, कारवार आनी सावंतवाडी आसा. गोंयांत जो अर्थीक, शिक्षणीक बी विकास जायत चल्ला ताचो गंध, वास थंय ना. हांगा गोंयांत वैचारीक विकासूय जायत चल्ला; साहित्यीक विकासूय चल्ला. हांगा दिसाळीं भायर सरत आसात आनी वेगळ्या वेगळ्या भासांनी साहित्य उडवाडा येत आसा. अशें भाग्य खूब थोड्या प्रदेशांक फावो जालां.

अशें आसुनूय आमी तृप्त नात. आनीक जाय, आनीक जाय हें आमचें व्यसन जालां. आमकां दोन पंच वर्सुक्यो येवजण्यो चुकल्यो हाचेर बोट दवरून ह्या येवजण्यां पोटीं केंद्रा कडेन हक्कान पयशे मागुंया अशें आमी म्हणूंक लागल्यात . मेळटा तें आमकां थोडें दिसता.

आमी केंद्रशासीत आशिल्ले तेन्ना आमकां फकत पन्नास हजार रुपया आमच्या अधिकारान मोडूंक मेळटाले. राज्य जाले उप्रांत आमकां सुर्वेक लाखांनी आनी आतां करोडांनी रुपया मोडपाचो अधिकार मेळ्ळा. आतां आमी केंद्रा कडल्यान पंचवीस हजार करोड रुपया मेळोवया म्हणटात, कारण

गोंयचो आनीक खूब विकास करचो आसा अशे भुमिकेचेर आमी पावल्यात.

गोंयांत तुर्ताक विधानसभा चलता. हांगा अर्थीक विकासाचेरूच चडशी भासाभास चलता. आनीक पूल, पार्किंग प्लाझा, मार्केटां, बस स्टॅण्ड, रवीन्द्र भवनां... आमच्यो विकासाच्यो गरजो इतल्यो वाडल्यात की तांकां अंत ना.

विकासाचें अशेंच आसता. पर्यटनाक लागून आमी आंतरराष्ट्रीय जाल्यात, आमी आमच्यो स्वताच्यो गरजो विसरूंक लागल्यात आनी फोरेनरांक खोशी करपाक कितें कितें करूंक जाय ताचेर चिंतूंक लागल्यात.

पर्यटनाचो विकासाचेर येवजितना कितलें फुडें वचूं येता हाका शीममेर ना. थायलॅण्ड देश पर्यटना खातीर नांवाजतो. लेखक खुशवंत सिंग हाणी ताच्या 'थायलॅण्ड' नांवाचेर 'जांगडांचो प्रदेश' म्हण कोटी केल्या. थंय पर्यटन खंय मेरेन पावलां हें तांकां सांगूंक जाय आसलें. विकासाचे धुंदेंत आमी लक्ष्मण रेषा बालांडूंक फावना हाचे कडेन लक्ष दिवंक जाय.

आमदार विष्णू वाघ एक साहित्यीक. ताणी पयर विधानसभेंत एक पॉयण्ट मांडलो. ते लेखक जाल्यान तांचेच तकलेंत तो येवपाचो. हे पूल जे आमी बांदतात ते दोन सुवातांक लागीं हाडटात आनी ती गरजूय म्हणूं येता, पूण ह्या पुलांचो आमी जीव दिवपाक उपेग वा दुरुपेग करूंक लागल्यात हे गंभीर गजाली कडेन ताणी लक्ष ओडलें. सगळे हांसले. खरें म्हणल्यार हो हांसपाचो विशय न्हय. गोंयकार मोट्या प्रमाणांत अनैसर्गीक मरणांनीं मरूंक लागल्यात. जीव दिवन, ड्रग्स घेवन, सोरो पियेवन.... ह्या विकास जाल्ल्या गोंयांत मरण सोंपें जालां. मार्गांचेर तर दिसपट्टे दोग तीग जाण मरतात. हाचेर गांभिर्यान विचार जायना.

गोंयांत शिक्षणाचो हुंवार म्हणटा तसो आयला. शिक्षणाक लागून ट्युशनांक ओतो आयला. आतां 'कौन्सेलिंग' ही मोटी गरज जावंक लागल्या. आमच्या शिक्षणान मेंदू अशक्त जायत चल्ला अशें दिसता.

हें कितें सांगता? पुरुषार्थाचे नदरेन गोंयकारांचो विकास जावपा बदला आमचे तरणाटे खचूंक लागल्यात काय कितें? गोंयांत जो विकास चल्ला तो

आमचे प्रस्न वाडयता काय उणे करता? आमचो विकास फकत अर्थीक विकास जाल्ल्यान तो पेलप आमकां कठीण जाता काय कितें?

ह्या पन्नास वर्सांनी आमची गुणात्मक, चारित्र्यात्मक उदरगत कितली जाल्या? उदरगत म्हणल्यार ऊर्ध्वगती, वयर सरप. आमची ऊर्ध्वगतीन वाटचाल चल्ल्या काय अधोगतीचे दिशेन चल्ल्या? हाचेर कोण विचार करतलो आनी वाट दाखयतलो?

परिस्थिती आमी अशी तयार केल्या की आमचे भोंवतणी आमी एक वंय बांदल्या, गोंयां पेल्यान आमच्या पुरुषार्थाक वाव आसा तो आमकां दिसचना. आरे, आमी मुक्त जाल्यात म्हणल्यार भारता एदे जाल्यात, ही गजाल आमच्या लक्षांत गेल्लीं पन्नास वर्सां येना. आमी आतां मागपाचो न्हय जाल्यार दिवपाचो वेळ आयला इतली आमची प्रगती जाल्या.

हांवें बेळगांव, सावंतवाडी, कारवारचो उल्लेख केलो. हांगा गोंयांत विचार 'सॅच्युरेट' जाला जाल्यार थंय विचारूच ना अशी परिस्थिती जाल्या. आमी हांगा गोंयचें बांयंत आशिल्ल्यान आमचे घुस्मटमार चल्ल्यात आनी ते दर्यांत सांपडिल्ल्यान बुचकळटना दिसतात.

आमी आतां मागपाचो न्हय, जाल्यार दिवपाचो वेळ आयला अशें तुमकां दिसना? आमी जगभर पावल्यात. दिवंक न्हय. आमच्या पोटा खातीर. शिकूंक लेगीत वतात ते थंय पोटार्थी जावन रावतात. आमी फकत जो गोंयच्या विकासाचो विचार करतात ताची व्याप्ती वाडोवपाचो वेळ आयला. देशा संदर्भांतली आमची लागणूक आमी विसरूंक फावना. पर्यटन आमकां पुरुषार्थी करचें ना. देशाचे प्रस्न सोडोवपाचे नदरेन आमी विचार करूंक लागूंक जाय. खरें म्हणल्यार आमकां व्हिजन ना जालां आनी where there is no vision. people perish!






# ओ, मडगांव!

आयचें म्हजें पत्र हांवें मडगांव शाराक ओंपचें थारायलां. ह्या शारांत फाटलीं 50 अदीक वर्सां हांव रावतां. हांव ताच्या रिणांत आसा अशें सदांच मानीत आयलां. मडगांवान म्हाका एक उद्दिश्ट दिलें आनी थोडी भोव शाराची सेवा करपाची संद दिली, ते पासत हांव म्हाका भाग्यवान मानतां.

हालींच कांय दिसाळ्यांनी मडगांवां विशीं दोन खबरो वाचल्यो. त्यो वाचून मन खन्ती जालें. कारण मडगांवांक जाल्लीं हीं दुयेंसां बरींच जडायेर पडल्यांत आनी सेवा करून तीं निवळावप कशेंच शक्य ना. ताचेर ऑपरेशनूच करूंक जाय, तेंय सरकारान. सगळ्यो नगरपालिका नगाच्यो जाल्यात. तांचेर बरयना जाल्यार बरें.

मडगांवां संबंदान पयली खबर वाचली ती खारेबांदा विशीं. हांगा उकत्यार राती वेळार सर्रास गोरवां कापतात अशी ही खबर आशिल्ली. पोलिसांनी अचकीत (?) धाड घाली आनी मारूंक नाशिल्ल्या गोरवांक धरलीं. लायसन्स नाशिल्ल्या कसाबांक धरप तांकां जमलें ना. तांकां पळून वचपाची संद दिवप तांकां जमलें.

जाका मडगांवांत गांधी मार्केट म्हणटात आनी जें पुराय 'गंदी' (घाणयारें)

जालां थंयूय खासा करून पाडकांक दिसाचेच मारताले अशी फाटीं खबर आयिल्ली. पोलिसांक ह्यो गजाली खबर आसतात, पूण ते एक दीस धाड घालतात आनी व्हडलें कितें केल्ल्याची जाहिरात करतात.

दुसरी खबर मडगांवचें आदलें रेल्वे स्टेशन आशिल्ल्या वाठाराची. हो वाठार खरें म्हळ्यार कुसला. ग्राम्य भाशेन ताका 'भायली पिडा' जाल्या म्हणूं येता. थंय सकाळीं फांतोडेर उकत्यो जावपी गादयो आसात. थंय मटक्याचीं धा पंदरा मेजां आसात. थंय शिंदळकी चलोवपी हॉटेलां आसात. थंय पोटा खातीर गोंया आयिल्ले धा पंदरा मानाय सोरो पियेवन मार्गार वा फुटपाथार पडिल्ले आसतात. सगळ्या वाठाराक एक घाण मारता अशी ती खबर आशिल्ली.

हें सगळें उणें म्हणून हांगा गुंडा राज्य चलता अशेंय ती खबर सांगताली. थंयचे कांय तरणाटे एकठांय येवन ताणी 'मालभाट बचाव' नांवाची संघटना बांदल्या अशेंय जाहीर जाल्लें.

पोलिसांक हें सगळें खबर आसता. हांगा दर आयतारा चोर बाजार चलतालो. पर्रीकार सरकार आयलें आनी एका खिणांत बाजार बंद जालो.

पूण हीं शाराक लागिल्लीं दुयेंसां बंद करप पुलिसांक पुटवना. शारांतल्या खंयच्या तरी एका वर्गाच्यो गरजो हीं दुयेंसां भागयतात.

हे फाटभुंयेचेर कांय वर्सां पयलीं मडगांवान आमकां जी सेवा करपाची संद दिली ताची याद जाली. म्हज्या एका आदल्या पत्रांत हांवें सुरतेच्या प्लेगा विशीं बरयल्लें. आमी मडगांवांतल्या कांय चरांतल्यान (कानालांतलो) बाराशीं ट्रक रेबो काडलो म्हण बरयल्लें. उदकाक व्हांवपाक मेकळीक करून दिल्ली.

मडगांवाची स्पेशालिटी म्हळ्यार सगळ्यांक हें शार आपलें दिसता. गरिबांतले गरीब हांगा येवन गिरेस्त जाल्यात. आदल्या काळा बेकार मनीस मुंबय धांवताले आनी थंय आपलो जम बसयताले. तशेंशें मडगांवांत घडटा. जाचे कडेन कांय ना असल्या मनशान एक ल्हान पाटल्यांत लिंबू वा कोथमीर घेवन फुटपाथार बसचें. ताचो म्हाल खपलोच म्हण समजुचें. ह्या असल्या

धंद्यांतल्यान जायते मडगांवांत वयर सरल्यात.

ह्या सगळ्यांक मडगांव आपलें दिसता आनी हाचो परिणाम म्हणून कांय जाण मडगांवची सेवा करतात तर कांय जाण दादागिरी करून मडगांवांतली सुवेवस्था इबाडटात.

मडगांवच्या भाडेलांचो आमी भोवमान केलो. मडगांव शार खुशाल जालें. आदीं हांगा दोन-तीनशीं भाडेलां आसतालीं. मडगांव रेल्वे स्टेशनार तींच आसतालीं. भोंवडे वयल्यान येतल्याक 'बाबा, आयलो?' म्हण पाचारतालीं. ह्या भाडेलांची अपुर्बाय करुंया म्हण आमी थारायालें. तांकां भेट म्हणून स्टिलाचे सट आमी वांटले. मडगांवकारांनी उदार हातांनी मजत केली. तांची तोखणाय करूंक खासा मडगांवची एक नामनेची आवय लीलाबाय दामोदर नायक आयिल्ल्यी. हो सुवाळो दोळ्यांत उदक हाडपी आशिल्लो.

गोंयचे मुक्तीक पन्नास वर्सां जाल्लीं तेन्ना गोंयच्या सरकारान मुख्यमंत्री दिगंबर कामती हातान भाडेलांक दरेकी 25 हजार रुपया भेटोवन तांचो सत्कार केलो.

हो सन्मान तांचे सचोटी खातीर आशिल्लो. भाडेलाचें दुसरें नांव प्रामाणीकपण, सचोटी. हांवें ह्या सुवाळ्या वेळार म्हज्या उलोवपांतल्यान मडगांवांत भाडेलाचो एक पुतळो बांदचो अशें म्हळें. भाडेलान मडगांवांक 'सचोटी' दिली. 'सचोटी' हें मडगांवचें 'प्रतीक' आसूंक जाय अशें अजून म्हाका दिसता.

मडगांवांत डॉ. लोहिया हांचो पुतळो उबारून मडगांवकारांनी तांचें व्हड रीण म्हणटात तशें फारीक केलें. लोहिया मैदान ह्या पुतळ्याक लागून मडगांवचें देवूळ कशें जालां. लागींच व्हड गोंयकार फ्रांसिस्कू लुईश गोमीश हांचो अर्द-पुतळो स्थापन करून मडगांवकार जाणट्यांचो आदर करतात हें दिसून आयलें.

मडगांवांत जे वरिश्ठ अधिकारी येतात ताणी आसन ग्रहण करचे पयलीं लोहिया मैदानार वचून हुतात्मा स्मारक आनी डॉ. लोहिया हांच्या उगडासाक

नमन करचें ह्या हेतून हांवें जायतें बरयलें. कांय अधिकाऱ्यांचें लोहिया मैदानाचेर स्वागत लेगीत केलें. पूण आमच्यांत ही नमळाय ना. आनी सरकारूय असले नेम करीना.

मडगांवांत धा वर्सां पयलीं मार्गाचेर झेब्रा क्रॉसिंगां नाशिल्लीं, पट्टे नाशिल्ले. ते आयले, रातीच्या बारा एक वराचेर हें काम करचें पडटालें. मडगांवचे मधुबाब मोर्डेकार हांकां कोणें तरी रातीचे मार्गार पळयले आनी तांकां जबरीन गाडयेंत बसोवन घरा पावयले.

इतल्यान खंय सोंपलां? ट्राफीक पोलीस गरमेच्या दिसांनीं धुल्ल खातात आनी पावसा दिसांनी उदक न्हातात आनी दुयेंत पडटात. कोण तांकां 'देव बरें करूं' म्हणनात. आमी 'थँक यू ट्राफीक पुलीस' कार्यावळ राबोवन तांकां कांय रक्कम भेटयली.

कॉलेज विद्यार्थ्यांक ट्राफीक मॅनेजमेण्टाचें शिक्षण दिवन दोन वर्सां मार्गाचेर दवरलीं. तेन्ना आयचे भशेन होम गार्ड नाशिल्ले. आमी 'रोड गार्ड' तयार केले.

तीन चार वर्सां मडगांवच्या रेल्वे स्टेशनार दर म्हयन्याचे दोन तारखेर वचून आमी निवळसाणीचेर लक्ष दीत रावले. कामगारांचो भेट वस्तू दिवन सत्कार केलो.

असलो वावर सातत्यान जावचो अशें दिसता. ताचे बदला पेपरांनी ज्यो खबरो येतात त्यो मन खंती करतात.

ओ, मडगांव!





# 50

# स्पेशल स्टेटस् नाका; नेहरू फॉर्म्युला मागचो.

पंडित नेहरूंक गोंयचो चड मोग आशिल्लो अशें म्हणप म्हळ्यार तांचेर तसो हेर राज्यांचेरूय अन्याय करप. आवय आपल्या सगळ्या भुरग्यांचो सारकोच मोग करता. पंडित नेहरूंचें तशेंच आशिल्लें. तरी लेगीत एक गजाल न्हयकारूंक जावची ना, ती म्हळ्यार देशांत कांय मागास राज्यां आशिल्लीं. (आतांय आसात). तेच भाशेन वेगळेचारांतल्यान  कांय वाडिल्लीं राज्यां आशिल्लीं (आतांय कांय उरल्यांत.)  तांचे कडेन ते इल्लें चड लक्ष दिताले. हांतलें गोंय हो तेन्नाचो एक तसोच प्रदेश हें मान्य करूं येता.

देशाचे मुखेल धारे पासून गोंय पयस उरलें; देशाक स्फूर्त दिवपी स्वातंत्र्य लढ्यांत वांटो घेवंक पावलें ना. गोंयांत क्रिस्तांव धर्मी अल्पसंख्येचे लोक आसात तांतले कांय जाण देशाचे मूळ संस्कृती पासून पयसावल्यात ही गजाल तांच्या लक्षांत आसताली जावंक जाय.

"आमी गोंय वेगळें दवरुचें थारायलां" अशें पं. नेहरू परपरत सांगताले. हें सांगप आमकांच न्हय तर देशाक तशें जगाक आशिल्लें. आमच्यांतल्या कांय जाणांक गोंय वेगळें उरिल्लें जाय आशिल्लें. तर कांय जाणांक गोंय महाराष्ट्रांत विलीन जाल्लें जाय आशिल्लें. गोंयचे मुक्ती पयलींचीं नेहरूंचीं

जायत्या वर्सांतलीं उलोवपां तांच्या 'सिलेक्टेड वर्क्स' ह्या एकेक हजार पानांच्या दो-दोन म्हयन्यांनी भायर सरपी ग्रंथांनी वाचूंक मेळटात. हीं ताचीं उलोवपां जाहीर सभांनी आसतालीं तशीं लोकसभा राज्यसभा हांतुंतूय आसतालीं.

गोंय मुक्ती उप्रांत गोंय महाराष्ट्रांत विलीन करचें ह्या मागण्याची चळवळ हांगा सुरू जाली. हे चळवळींत आख्खो महाराष्ट्र वांटेकार जाल्लो. महाराष्ट्रूच न्हय तर तेंकून आशिल्ल्या म्हैसूर (आतांचें कर्नाटक) राज्याकूय गोंय आपल्याक मेळ्ळयार जाय आशिल्लें. पं. नेहरू ह्या दोनूय राज्यांक गोंया पासून पयस रावपाची शिटकावणी दिताले. परिणामी म्हैसूरान आंग काडलें. महाराष्ट्र आपल्या मागण्याक दसून रावलो. पंडित नेहरू 1964 त गेले. महाराष्ट्र फाटीं सरलो ना. हांतल्यान ओपीनियन पोल आयलो. महाराष्ट्राक गोंय मेळ्ळें ना.

* * *

पं. नेहरू 1963 तल्या मे म्हयन्यांत गोंया चार दिसांचे भेटेर आयिल्ले. ते गोंयभर भोंवले. हांव तेन्ना 'नवें गोंय' नांवाचें पंद्रशी नेमाळें काडटालों. म्हजे कडेन मोटार-सायकल आशिल्ली. तरणाटो जाल्ल्यान पंडितजी गेले थंय थंय हांव गेलों आनी तांकां 'कवर' केले. तेन्ना गोंयांत दोन तीन दिसाळीं भायर सरतालीं. हावें जमयल्ल्या आनी दिसाळ्यांनी आयिल्ल्या बातम्यांचें संकलन करून हांवें पंडित नेहरूंचे गोंय भेटेचेर एक खाशेलो अंक काडलो. तेन्ना कंप्यूटर नाशिल्ले. रंगीत छापणावळूय नाशिल्ली.

ही 1963 तली खबर. त्या अंकाची एक प्रत म्हजे आरमारींत विसव घेताली. सात आठ वर्सां पयलीं पोरणे अंक चाळटना ह्या अंकाचेर म्हजी नदर गेली तेन्ना हो तर इतिहासीक दस्तऐवज अशें म्हाका दिसलें. हो पुस्तिकेच्या रुपान सासणाक उरत अशे रितीन उजवाडा हाडूंक जाय अशें दिशिल्ल्यान मे 2008 त 'नेहरू गोंयांत' ह्या नांवान पंडितजींचे भेटेची पुराय माहिती दिवपी हांवें एक पुस्तिका उजवाडायली.

हे भेटेंत पंडितजींनी उलोवपांतल्यान आनी पत्रकार परिशदेंतल्यान गोंयकारांक जें स्पश्ट मार्गदर्शन केल्लें तांतलो काय उपदेश आमकां कोडू लागूं येता आसलो तरी तांतलें तथ्य उणें जायना.

* गोंयची उदरगत करप तुमच्या हांतांत आसा. दीसभर 'गोंय गोंय' करीत बसूं नाकात. मोटवे नदरेचे जावन उरतले. हांवें सांगलां त्या मार्गान उदरगतीक पावतले.
* ह्या प्रदेशाक बौद्धिक बदलाची खूब गरज आसा. विचार करूंक शिकात.
* तुमची उदरगत करतना गोंयां पुरतो मर्यादीत विचार करिनासतना सगळो भारत दोळयां मुखार दवरून वावराक लागात.
* गोंय भारतांत आयिल्ल्यान स्वराज्य पूर्ण जालां.

हाचेच वांगडा पंडितजींनी गोंयकारांक कांय आश्वासनांय दिलीं तीं अशीं:

* गोंयांत जे बदल करतले ते तुमचे कडेन उलोवणीं करुनूच करतले.
* गोंयकारांचेर वयल्यान (केंद्रा कडल्यान) कसलीच गजाल लादचे नात, जाका लागून तुमचेर अन्याय जायत.
* हो प्रदेश (गोंय) आपणाक जाय तशें आपलें जिवीत घडयतलो अशें हांव मानतां.
* ह्या भुरगुल्याची आमी माये-मोगान जतनाय काडटले.

पंडित नेहरूंनी आमकां जें मार्गदर्शन केलें तांतलें आमी कितलें आचारांत हाडलें हो चिंतपा सारको प्रस्न आसा.

ताणी जीं आश्वासनां दिल्लीं तांचो तरी आमी खंय अभ्यास केलो ? आयज जेन्ना उजो पेटला तेन्ना आमी बांय खणूंक भायर सरल्यात.

देशभरांतलीं राज्यां आपणाक स्पेशल स्टेटस् मागतात. हांतल्या व्हडल्या राज्यांक फक्त पयसोच जाय. करोडांनी रुपये जाय. ताका ते 'स्पेशल स्टेटस्'

म्हणटात. कांय राज्यांक सवलती जाय आनी पयसोय जाय. हाका ते 'स्पेशल स्टेटस्' म्हणटात. स्पेशल स्टेटस मागल्यार कितें पूण मेळटलें अशी सगळ्यांची धारणा जाल्या.

आमी गोंयकार तसले कांय मागिनात. आमचें गोंय सामकें ल्हान. भायले लोक आमची जमीन विकती घेत सुटल्यात. आयज गोंयकाराक ल्हानशी खोंप बांदतलो जाल्यार जमीन घेवप कशेंच परवडना. आमकां जाय गोंयां भायल्यां पासून आमची जमीन वाटायल्ली. हाचे पासत स्पेशल स्टेटस कित्याक मागप ? जमनीचो प्रस्न हो आमचे मुखा वयलो खरो प्रस्न. बाकी आमकां सगळें मेळ्ळां. ताचें चीज कशें करचें ताची अक्कल मात आमचे कडेन ना.

आनीक एक गजाल. आमी स्पेशल स्टेटस् मागल्यार ताका दुसरो अर्थ म्हळ्यार हे गोंय देशा पासून वेगळें दवरूंक सोदतात अशें कांय जाण काडटात. देखून आमकां स्पेशल स्टेटस् मेळप कठीण.

स्पेशल स्टेटसा बदला आमी नेहरू फॉर्म्युला मागप सारकें जातलें.






# गोंयकारांक व्हडपण दिवपी मार्ग

टणण!

सकाळीं आठांक दाराची बॅल वाजली. दार उगडून पळयत जाल्यार शुचिर्भूत अशी वेवस्थीत न्हेशिल्ली एक चाळिशेक वर्सांची बायलमनीस हातांत एक मोटी धवी पोती घेवन दारांत उबी!

'बाबा', हांसरे नुरेन तिणें म्हळें, 'कचरो व्हरूंक आयल्यां....'

म्हज्याय तोंडार खोशेचो हांसो उदेलो. एक नवें निवळ वारें आयिल्ल्याचें जाणवलें.

दोन दीस जातले, एक पत्रक घेवन दोगी जांणी आयिल्ल्यो. त्या पत्रकांत मडगांव नगरपालिका दर एका घराक दोन प्लास्टीक बालद्यो दितली, जांतली एक काळी आनी एक पाचवी आसतली अशें बरयल्लें. पाचवेंत सुको कचरो आनी काळेंत ओलो कचरो व्हरूंक आयिल्ली. मडगांव नगरपालिकेन सुरू केल्लें हें अभियान चालीक लागिल्लें.

दारांत उबी आशिल्ले बायलेक हांवें कचरो दिवन वयार केली. घरांत तसो कचरो नाशिल्लो. बिस्कुत्यांचे कांय रॅपर आशिल्ले.

"घरांतल्यान हांव जायतेदां आठां पयलीं भायर सरतां. हे मुखार बालदी

दारा भायर दवरतां." अशें हांवें तिका सांगलें.

ती कोंकणी बेस बरी उलयताली. तरी लेगीत ती नीज गोंयकार न्हय म्हण कळटालें. घडये गोंयांतूच जल्माक आयिल्ली जातली. जायते भायले लोक, चडशे कर्नाटकांतले, गोंयांत कदीम काळा सावन स्थायीक जाल्यात. ते आपसांत कन्नड उलयतात आनी गोंयकारां कडेन बेस बरी कोंकणी उलयतात. लक्षांत घेवपा सारकी गजाल म्हळ्यार जशी वायटाची लागण तशी बऱ्याचीय लागण लागता. हांचीं भुरगीं आदीं असलींच कामां करतालीं. पूण आतां ह्यो आवयो आपल्या भुरग्यांक शाळांनी धाडटात. सगळ्यांक शिक्षणाचें म्हत्व कळ्ळां.

आयज गोंयकारांनी 'मॅनुअल लेबर' करपाचेर बहिश्कार घाला. कोणूच गोंयकार हातांत सारण, खोरें वा कुदळ घेवंक तयार ना. तें तांकां उणेंपण दिसता. हाचे बदला जायते जाण शारांनी वा येरादारीच्या रस्त्यांचेर बसून आपलो म्हाल विकतात. म्हळ्यार गोंयकार 'वेपार करप' पसंत करतात म्हळ्यार जाता.

गोंयकारांक हीं हात-कामां करूंक भायलो लोक जाय. शेजारचीं राज्यां आमकां ह्या लोकाची पुरवण करतात. तांचे कडेन मॅनपावर घे म्हण आसा. एके वटेन गोंयकार तांकां घांटी म्हणून हिणसायतात, तर दुसरे वटेन गोंयकारांक ते जाय आसतात. हाचे वयल्यान कोण कोणाचे गुलाम जाल्यात तें कळटा.

अशे तरेन गोंया भायले लोक गोंयांत कश्ट करून गोंयकार जातात आनी आपली घर-मठी हांगा उबारतात. गोंयकार मात गोंयांत काम मेळना म्हण पिरंगत गोंया भायर परदेशांत वतात. गोंय खंयचे वटेन वता हें हाचे वयल्यान कळटा. कितेंय जालें तरी घरांतलो कोयर उबारपाचें काम मडगांव आनी दुसऱ्या कांय नगरपालिकांनी सुरू केलां. तें फळादीक जावं आनी मडगांव शार चक्क जावं म्हण मागुंया.

ह्या शेनावारा (सोमारा) हें बरयतना फुडल्या शेनवारा, आयतारा 23-24 वेर, गोंयच्या मार्ग अभियानाचे प्रेरणेन बेळगांव शारात

'बेळगांव मार्ग परिशद' जावची आसा तिचे कडेन वाचप्यांचे लक्ष ओढूंक सोदतां. हाचे आदीं हांवें बरयलांच की बेळगांवा, सावंतवाडी आनी अंकोला अश्या तीन सुवातांनी अनुक्रमान बेळगांव मार्ग, सावंतवाडी मार्ग आनी अंकोला मार्ग अशे स्वतंत्र पंगड वावराक लागल्यात. ते मार्ग पंचशीलाचो प्रचार करतात. हांतली 'बेळगांव मार्ग' ही स्वतंत्र संस्था बेळगांवा गेल्लीं दोन वर्सां वावर करता. ह्या कामाक आनीक गती येवची म्हण ताणी ही 'बेळगांव मार्ग परिशद' घेवची थारायल्या.

दोन दिसांचे हे परिशदेंत पयल्या दिसा, शेनवारा सांजवेळा उक्तावणाचो सुवाळो, सोयऱ्यांची आनी अध्यक्षांचीं उलोवपां जातलीं. उप्रांत नाटिका जातली. आठ दिसां पयलीं कांय बेळगांवकार गोंयचे येरादारी मंत्री सुदिन ढवळीकार हांकां परिशदेचें उक्तावण करूंक येवपाची विनंती करून गेल्यात. तेच भाशेन येरादारी संचालक अरूण देसाय हांकां आपले अणभव सांगूंक येवचे अशी विनंती करून गेल्यात. 24 वेर परिसंवाद आसात तांतूंत गोंयकारूय वांटो घेतले. अनमोड हायवेचेरूय चर्चा जातली. हाचे भायर आयतारा एक भोवभाशीक कवी संमेलन दवरलां तातूंत कन्नड, मराठी, कोंकणी, हिन्दी भाशीक कवी वांटो घेवचे आसात. कवी संमेलनाचें येजमानपण आमचे ज्येश्ठ कवी रमेश वेळुस्कार करपाचे आसात. गोंयचे कवी ह्या कवी संमेलनाक आपली मोलादीक उपस्थिती लायतले.

गोंयांत तुर्ताक विधानसभेंचें सत्र चलता. ह्या सत्रांत गोंयचे आदले मुख्यमंत्री तथा आयचे मडगांवचे आमदार दिगंबर कामत हाणी मार्ग अभियानाच्या वावराचो उल्लेख केलो ते खातीर तांकां हांव धन्यवाद दितां. मुख्यमंत्री आसतना ताणी मार्गाच्या वावराक पुराय पालव दिल्लो ताचो उगडास काडटां.

एकादी कोंकणी परिशद वा लेखक संमेलन गोंया भायर आसता तेन्ना शें-शंबर गोंयकार अगत्यान थंय आपली उपस्थिती लायतात. कारण ती कोंकणीची म्हळ्यार आमची परिशद वा संमेलन आसता.

बेळगांव मार्ग परिशद ही बेळगांवकारांची तशी गोंयकारांची परिशद. पयले फावट गोंयांतल्यान एक विचार भायर वता ही हे परिशदेची खाशेलकाय. गोंयकार एक विचार देशभावांक दितात ताची ही गवाय.

गोंयकारांनी हो विचार देशभर पावोवंक फुडाकार घेवची गरज आसा. गोंयकारांक व्हडपण मेळपाचो हो एक मार्ग जावन आसा.

बेळगांव परिशद हें एक गोंयकारांनी फुडें घाल्लें पावल म्हणूंक जाता.





# मोटारी, मोटारी, सगळ्याक मोटारी पूण चलूंक मात वाट ना !

अंदूंच्या टुरिस्ट सिझनांत गोंयांत चाळीस लाख टुरिस्ट येवचे  अशी तजवीज सरकारान केल्या अशें गोंयचे पर्यटन मंत्री दिलीप परुळेकार हाणी उलोवन दाखयलां. पंदरा लाख लोकसंख्येच्या येद्याश्या गोंयांत चाळीस लाख टुरिस्ट !  इंडियन तशे भायले !  दादले तशे बायलां !  वेगळ्या वेगळ्या धर्मांचे, जातींचे, रंगांचे, वृत्ती-प्रवृत्तींचे आनी अर्थीक पावंड्यांचे ! पेलूंक जायत गोंयकारांच्यान हें वजें ?

टुरिस्ट अभ्यासा खातीर भोंवडेर वचनात. विसवा खातीर वा मौजे खातीर वतात. (हातुंतले लेखक वा लेखिका प्रवास-वर्णनां बी बरयतात. पूण ह्या वर्णनांनी पर्यटन थळाची वयली वयली माहिती आसता. प्रदेशाच्या अभ्यासा खातीर म्हण वतल्यांक थंय रावचें पडटा.)

विसव वा मन-रिझवणे खातीर वतात ते टुरिस्ट मेकळ्या हातांनी पयशे मोडटात. खूब थोडे थळावे आसतले जे तांकां अतिथी मानतात. हेर लोक मात पयशांचे आशेन तांचे कडेन पळयतात. तांच्या बॉल्सांतले पयशे कशे काडचे तें येवजितात.

टुरिस्टांक लागून त्या प्रदेशांत पयसो घोळटा. थळाव्यांक काम धंदे

मेळटात. तांचो वेपार धंदो वाडटा. पयसो येता तश्यो थळाव्यांच्यो तकल्यो 'चलूंक' लागतात. आतां तर गोंयकार देशांतलोच न्हय तर देशाभायलोय टुरिझम 'शिकूंक' भायर वचूंक लागल्यात आनी थंयच्यो नविदादी हांगा हाडूंक लागल्यात. ह्या नविदादींक अंत ना. आपल्या राज्यांत वा हॉटेलांत येतल्याक कोणाय भाशेन खोशी करूंक जाय ह्या हेतान तांच्या फोल्गाची भूक भागोवपा संबंदान थळावे विचार करतात. हाका टुरिझम म्हणटात, हॉस्पिटॅलिटी म्हणटात!

पूण फोल्ग म्हळ्यार कितें ?

* * *

गोंय मुक्ती उप्रांतची गजाल. गोंयां भायर राबितो करून आशिल्ले गोंयकार स्वतंत्र गोंय पळोवंक एक फेरी मारताले. हांगा म्हजें एक नातेवर्गी कुटुंब मुंबयच्यान गोंया आयलें. तांकां घेवन भोंवपाची जबाबदारी म्हजेर पडली. म्हज्या एका बरें मागत्यान म्हाका एका दिसा खातीर आपली मर्सिडीज दिली.

हांव ह्या पांच स जाणांच्या कुटुंबाक घेवन मडगांवच्यान भायर सरलों. फोंडें, ओपा, पाळी, सांखळी, म्हापशें करून आमी कळंगुटे पावलीं तेन्ना दीस धारेर पाविल्लो. वाटेर आमकां केळीं, पणस, आंबे, जांबळां बी मेळ्ळीं. आयज वाटेर फकत कुरकुरे मेळटात. कळंगुटे रेंवेर बसून आमी पार्टी केली. तेन्नाची कळंगूट वेगळी आशिल्ली.

दिवे-लागणेक आमची गाडी बेतीं फेरीबोटींत देंवली. दार उकतें करून हांव वारें खावंक भायर सरलों तर थंय म्हाका प्रो. शंकर सरदेसाय मेळ्ळो. प्रो. सरदेसाय सुटके झुजारी. पिरायेन जाणट्यांतलो. हांव तरणाट्यांतलो. ताच्या सांगाता हांव बंदखणींत आशिल्लों. तो म्हाका सारको वळखतालो.

'आरे गुरुनाथ, खंय तूं हांगा ह्या वेळार ?' ताणें अजापान विचारलें.

आनी हांवें जाप दिली, 'फोल्ग मारतां !'

तो हांसलो. हांसतना ताच्यो हड्ड्यो दिसताल्यो. ताच्या हांश्यांत अर्थ भरिल्लो.

'गुरुनाथ, फोल्ग आनी तूं ? फोल्ग म्हळ्यार कितें तें तुका खबर आसा ? तूं त्या नायकाचें, त्या बोरकाराचें, त्या कामतीचें फोल्ग जाणा ?' तो प्रस्न करीत रावलो आनी ताणें म्हळें, 'जाणा मरे, फोल्ग कित्याक म्हणटात तें तुका कळचें ना !'

हांव चिंतूंक पडलों. तो म्हणटालो तें खरें आशिल्लें. म्हजें फोल्ग एक सिगार आनी एके पानपट्टी फुडें वचनाशिल्लें. चडूच जाल्यार सिनेमा. ती पानपट्टी लेगीत कशी खावची तें म्हाका कळनाशिल्लें. हांव पानपट्टेचो रोस गिळटालों.

फोल्ग जायत्या तरांचें आसता. म्हजें आयचें फोल्ग सांगतां. हांव जेन्ना नव्या शारांत वतां तेन्ना थंयचें खादी भांडार, पुस्तकांचीं दुकानां खंय आसात ताची चौकशी करतां. वतां थंय खांदार हुमकाळावंक एक 'शबनम' झोळी घेतां जिका हांवें 'दिल्ली दरबार' अशें नांव दिलां. ज्या शारान म्हाका आनंद दिलो त्या शाराचें देणें हांव अशे तरेन फारीक करतां.

* * *

सामान्यतायेन टुरिस्ट 'बॉडी प्लॅजर' सोदतात. 'बॉडी प्लॅजर' हजार तरांचें आसता. एक गोड पद आयकप हेंवूय कुडीक सुखायता. परदेशांत प्रवास करून आयिल्लो म्हजो एक इश्ट त्या देशांनी ब्लू फिल्मांचीं थिएटरां प्रेक्षकांक कशीं ओडटात तें सांगतालो. फिल्मांच न्हय तर 'सॅक्स प्लॅजर' दिवपी, 'प्लॅश ट्रेड' चलोवपी सरकारमान्य हॉटेलांय भायर आसतात अशें तो सांगतालो. थंयच्या समाजान तें मानून घेतलां.

टुरिझम म्हण धंदो वाडोवंक जाय जाल्यार भायल्यान चार दिसां खातीर येतल्यांच्यो फॉल्गाच्यो गरजो चत्रायेन समजून घेवच्यो पडटात आनी भागोवच्यो पडटात. थळावी लोकसंस्कृती पळोवन टुरिस्टांची भूक भागना. 'गोड म्हजें गोंय, सुंदर म्हजें गोंय' सोंपलां.

चाळीस लाख लोक गोंयांत अंदूंच्या सिझनांत येतले, पर्यटन मंत्री परुळेकार गर्वान सांगता. मुखेल मंत्र्यांचें ताका फाटबळ आसा. हे चाळीस

लाख गोंयांत देंवत रावतले तेन्ना गोंयकार वेपारी पयशे जोडटले हातूंत दुबाव ना. पूण सामान्य नागरिकांचें कशें जावचें ?

सामान्य नागरीक नुस्त्याक वळवळटा अशें पयलीं केन्नाच जालें ना. बाकीबाबान तर म्हणून दवरलां, "नुस्तें आसल्यार गोंयकार वीर, नासल्यार व्हीर !" हांगा तर टुरिस्ट येवचे पयलींच सामान्य नागरीक व्हीर जाल्यात.

एके वटेन टुरिस्टां खातीर हांगा सोन्याच्यो न्हयो व्हांवूंक लागल्यात. दुसरे वटेन 'उदकासाठीं दाहि दिशा आम्हां फिरविसी जगदिशा...." म्हणपाची पाळी गोंयच्या सामान्य नागरिकांचेर टुरिस्ट सिझन सुरू जावचे पयलींच आयल्या.

चाळीस लाख टुरिस्ट आंगार पेलपाची शक्त गोंयाक आसा जाल्यार थोडें मानसीक टेन्शन सोंसपाची शक्त गोंयकारांनी कशी वघडायल्या ? उठ-सूठ गोंयकार जीव कित्याक दितात ?

Water water everywhere water but not a drop to drink अशी म्हणणी आसा. हांगा मोटारी, मोटारी, मोटारी, सगळ्याक मोटारी ! पूण चलूंक वाट ना, जेवणार नुस्तें ना ही म्हणणीय लागू जावंक लागल्या.






# जें सरकार नागरिकांचें अस्तित्व मानिना तें लोकशाय बळिश्ट कशें करतलें?

26 फेब्रुवारी 2009. काकोड्या शिवाजी महाराजांचो पुतळो आसा त्या चौकांत एक आक्सिदेंत जालो. ह्या आक्सिदेंतांत सांग्या सावन 20-22 किलो मिटरांचेर आशिल्ल्या पाडी गांवचो रामा गांवकार हो 34 वर्सां पिरायेचो तरणाटो ट्रकान मोखिल्ल्यान आत्ताक सोंपलो.

ह्या वाठारांत तेन्ना मीन ओडपी ट्रक 'बंपर टू बंपर' धांवताले. हाचे भायर मोटारी, स्कुटरी, मोटारसायकली बी आशिल्ल्योच.

रामा गांवकार स्वयंरोजगाराचेर जियेतालो. ताचे कडेन एक स्कुटर आशिल्ली. तिचेर पानपट्ट्यांचें सामान घालून तो जात्रांनी वतालो आनी ह्या वेवसायाचेर संवसार चलयतालो. पाडी खेड्यांत तांचें घर आसा. घरांत तेन्ना ताची 27 वर्सांची बायल राजश्री आशिल्ली आनी दोग पूत आशिल्ले.

ट्रक आनी स्कुटर अपघातांत पाडीचो तरणाटो रामा गांवकार सोंपलो म्हणपाची खबर दुसऱ्या दिसा गोंयच्या सगळ्या दिसाळ्यांनी वर्णना सयत आयली. खबरांनी ताच्या घराब्याचे गरीब परिस्थितीचेरूय बरयिल्लें.

गोंयच्या रस्त्यांचेर दीसपट्टीं अशीं मरणां चांटे-पावलाक घडत आसतात. 'झुजाच्यो कथा रम्य' अशी एक म्हणणी आसा. आयज गोंयांत अपघातांच्यो,

आत्महत्यांच्यो, बलात्कारांच्यो, मारामाऱ्यांच्यो, अपहरणांच्यो, चोरयांच्यो तश्यो दरवड्यांच्यो 'रम्य' खबरो वाचूंक मेळना असो दीस वचना. वाचपी वाचतात, चुरचुरतात, अजापतात आनीं 'हें चडूच जालां, पयलीं अशें नाशिल्लें!' असले कमेण्ट मारून पेपर दवरतात. इतल्यान वाचप्यां पुरत्यो ह्यो खबरो सोंपतात.

हांवूय हाका अपवाद ना. पयलीं पयलीं असल्यो घडणुको हांव चड लावन घेतालों. आतां हांवूंय असो कसो बादड जालां तें म्हजें म्हाकाच कळना जालां!

पूण त्या दिसा मात हांव रामा गांवकाराची खबर वाचून सामको हाल्लों. मार्ग अभियान पासत कार्य करपी वकील सुमिता सावंत देसाय हाका हांवें म्हळें: 'आमी पाडी या.'

भायर पावस घोग्यांनी ओत्तालो. आमी मडगांवा भायर सरलीं तीं नीट सांगें पोलीस स्टेशनार देंवलीं. हांगा आमचे बराबर पाडी वचूंक पोलीस स्वप्नील रावत देसाय आयलो, तशी आमी पाडीचे दिशेन गाडी सोडली. पावसाक लागून वाटेर काळोख गुप्प जाल्लो. आमी पावून पावनात. पावलीं तेन्ना सांजेचीं साडेपांच स जाल्लीं. त्या पावसांत त्या भितर भितर आशिल्ल्या खेड्यांतल्या अशीर रस्त्यांचेर जितो मूस नाशिल्लो.

रामा गांवकाराचें घर मेळूंक कळाव लागलो ना. घर दिसना फुडें हांवें सुमिताक राजश्री कडेन धाडलें. घटना घडून पांच स दीस जाल्ले. घरांत राजश्री सावळी कशी आशिल्ली. सुमिता नीट घरांत तिचेसरीं गेलें आनी उलोवप सुरू केलें. घरांत दुसरीं कोण नाशिल्लीं. भुरगीं शेजाऱ्यागेर गेल्लीं. पेपरांनी इतल्यो खबरो येवन वासपुशेक कोणूच आयले नात अशें राजश्रीन सांगलें. गांवचो सरपंच, पंच आनी गांवच्या लोकान निमणे संस्कार संपादूंक आधार दिल्लो.

सुमितान तिचे येणावळीची चवकशी केली. हो घराबो गरिबींत दीस सारतालो हें पळयल्यार कळटालें. वतना हांवें पांच हजार रुपया व्हेल्ले. ते

मार्गाची मजत म्हणून सुमितान राजश्री कडेन दिले आनी सरकारा कडल्यान कितें मेळूं येत काय कितें ताची चवकशी करतात अशें तिका सांगून आमी परतलीं.

दिगंबर कामत तेन्ना मुखेल मंत्री. सरकारा मार्फतीन राजश्रीक कितेंय दिवचें अशी हांवें तांकां विनंती केली. मुखेल मंत्र्यांनी पंचवीस हजार रुपया दितां म्हण सांगून दुसऱ्या दिसा पंचवीस हजारांचो राजश्री रामा गांवकार नांवाचेर बरयिल्लो चेक म्हजे सुवादीन केलो. रोखडींच आमी सांग्यार गेलीं आनी बँक अधिकाऱ्याक मेळून चेक ताचे सुवादीन केलो आनी आठ दिसांनी राजश्रीक घेवन येतां म्हण सांगून मडगांवां परतलीं. उप्रांत आनीक एक दीस पाडी वचून आमी राजश्रीक सांग्यार हाडली आनी बँकेंत तिची वळख करून दिली. बँकरान तिका चेक बूक दिलो आनी पयशे जाय तेन्ना तो घेवन येवंक सांगलें.

हो जालो एके संस्थेन संकश्टांत सांपडिल्ले एके बायल मनशेक दिल्लो आधार.

हांगा सरकाराचो 'रोल' कांयच ना? आयज गोंयचें सरकार व्हडल्या व्हडल्या तथाकथीत विकासाच्या कामांनी इतलें घुस्पून गेल्लें आसा की ताका समाजाच्या व्यक्तिगत प्रस्नां कडेन लक्ष दिवंक मात पसून वेळ ना, वा येवजना. आयज अपघातांनी सांपडिल्लीं, आत्महत्यांच्या अचकीत संकश्टांनी पिडिल्लीं, बलात्कार, मारामाऱ्यो, चोरयो अश्या प्रसंगांनी कोसळिल्लीं हजारांनीं कुटुंबां गोंयांत आसात. घराघरांनी दुयेंसां, कोर्ट कचेऱ्यांतले दावे, विद्यार्थ्यां मुखा वयलीं आव्हानां हाचे कडेन मंत्र्यांक वा आमदारांक लक्ष दिवपाक वेळ ना. हाचे भायर मिना-खणींक लागून उपराशिल्ली परिस्थिती, पर्यटनाक लागून गोंयच्या सामान्य मनशांचेर पडटा तो प्रत्यक्ष अप्रत्यक्ष ताण, लोक पिशे जावपा कडेन पावल्यात.

भायलेचाराक आमकां मोटारीच मोटारी दिसतात; गाडयोच गाडयो दिसतात; लोक कचाकच पयशे मोडटात ते दिसतात. सगळ्याक नवे नवे

शोरूम दिसतात! हें जालें गोंयचें आयचें बाह्यांग. गोंयचें अंतरंग सामकें काकुटवाणें जालां. सरकारान हाचेर विचार करूं नाका?

सरकार भोवमताच्या नाड्यार आपणाक जाय तें करीत चल्लां. सरकारांत नात ते आमदार एकोडे पडल्यात. तांचो फुडार काळखांत सांपडला. सरकारी पक्षाचे भितोडेक गेल्यार घडये उजवाडाचीं किरणां दिसतीत हे आशेन ते प्रयत्न करतात. हांगा नागरिकांक कांयच 'रोल'ना! कांयच मोलूय ना. विचार करपी, परिस्थिती समजुपी, आव्हानां पत्करपी अशे नागरीक गोंयांत नात? सरकाराच्यान तांची मजत घेवंक जायना?

संकश्टांचे अचकीत आघात जांचेर जाल्यात तांचे मेरेन वचपाक सरकारान नागरिकांची एक यंत्रणा कित्याक करची न्हय?

जें सरकार नागिरकांचो मान राखीना, नागरिकांक विस्वासांत घेना तें सरकार लोकशाय बळिश्ट कशी करतलें?





# रामायणी प्रजा

सुनापरान्ताच्या 1-9-2014 च्या अंकांत आयिल्ल्या म्हज्या पत्रान कांय इश्टांच्या मनां-काळजांक स्पर्श केलो. कालच्या सुनापरान्तांत म्हजो इश्ट माणिकराव गावणेकार हाणें आमी सरकाराक राविनासतना संकश्टांत सांपडिल्ल्यांच्या आधाराक धांवून वचुंया, अशी सुचोवणी केल्या. माणिकराव फुडें म्हणटा, मार्गान ह्या वावराक माथें मारचें. खासा आपूण पांच हजार रुपया दितां अशेंय ताणें म्हळां.

म्हाका अशेच कांय फोन आयले. ताणीय आमी आमचो भार उखलतात म्हण सांगलें.

सगळे जाणात, गोंयांत अशे मन-मोवळायेचे जायते लोक आसात. पूण ते प्रदर्शन करीनात. तांचे कडेन दिवंक पयशेय आसात. आमी तांचे सरीं पावूंक जाय. इतलेंच.

म्हजो एक अणभव सांगतां. कांय वर्सां पयलींची गजाल. मडगांवांत चड नरक जाला ताचेर कितें तरी उपाय घेवया अशें थारावन आमी कांय नागरीक जमले. हो रेबो वा चिखल यंत्र घालून आमी उसपुचो अशें थारलें. खासा आमी विशेक जाणांनी एकेक हजार रुपया थंयचे थंय काडले आनी

वावराक हात घालो.

हाका लागून मडगांवकारांचें काळीज हाल्लें. परिणामी, एका फाटल्यान एक चेक येवंक लागले. चार दिसांत देडेक लाख रुपया जमले. आमी 1200 ट्रक रेबो/चिखल काडलो आनी भाटकारांक सारें म्हण दिलो. आतां पयशे पुरो अशें देणगीदारांक सांगचें पडलें.

म्हज्या हिसपान गोंयांत आयज गंभीर परिस्थिती उपरासल्या. मार्गा वयले, उदकांतले अपघात, आत्मघात, खून, मारामाऱ्यो, बलात्कार, सुण्यांचे घांस, व्यसनां हांकां लागून गोंयांत वर्साक हजारभर लोक मरतात आसूंक जाय. हाका लागून ह्या संदर्भा पुरती सरकारान 'आणिबाणी' जाहीर करपाची. पूण सरकाराचें वर्तन आपणाक कांय लागना अशें जाल्लें दिसता.

माकियावेली म्हण एक इटालियन राजकारणी तत्वज्ञ जावन गेलो. आमच्या चाणक्या कडेन ताची सर करतात. तो म्हणटा: ''सरकारा इतलो बळिश्ट कोण ना. जाय जाल्यार सरकाराच्यान सूर्य अस्तमेक उदेत अशें करूं येता.'' हें लक्षांत घेतल्यार आनी गोंयच्या सरकाराच्या मुखेल्याचें बळ पळयल्यार गोंयांतलीं मरणां आडावप सरकाराक शक्य कित्याक जायना हें समजप कठीण न्हय. सरकाराक ही गजाल गंभीर दिसना. हें ताचें कारण.

राजा असो जाल्यार प्रजेक फकत उत्सव जाय. सगळो 'उत्सव प्रदेश' करून सोडला गोंयचो. सरकाराक हें बऱ्याक पडटा. सालाझारान गोंयकारांक फुटबॉल दिलो आनी पारतंत्र्यांत सूख मानूंक शिकयलें. उत्सवाचें पिशें लागिल्ल्यांक कर्तव्याची जाणवीक जाली ना जाल्यार अजाप न्हय.

आचार्य काकासायब कालेलकरांचो खूब पयलीं बरयिल्लो 'रामायणी प्रजा' माथाळ्याचो एक लेख आसा. राजा जावचे बदला रामाच्या नशिबांत 14वर्सां वनवास आयलो. ताचे वांगडा बायल सीता आनी भाव लक्ष्मणूय आशिल्लीं. हरशीं प्रजेक राम जीव काय प्राण. ह्या अन्याया आड प्रजेन आवाज काडपाचो न्हय? रामाक आडावपाचो प्रयत्न करपाचो न्हय? प्रजा तर लागली रडूंक. रामाक निरोप दिवंक ती ताचे वांगडा न्हयच्या कांठा मेरेन

गेली आनी 'बाय बाय' म्हणत रडत परतली. काकासायब असले प्रजेक, ती रामाच्या काळांतली जायना, कर्तव्य विसरिल्ल्यान मिस्किलपणान 'रामायणी प्रजा' म्हणटात. इतल्या वर्सां उप्रांत, राजा वचून खासा प्रजे कडेन सत्ता येवन लेगीत प्रजा ती प्रजाच उरल्या. तिका 'आमुडपी' लिडर जाय. तिका 'व्होटर' करून तथाकथीत लिडरांनी मोनी करून दवरल्या. तिची विचार करपाची तांकूच काडून उडयल्या.

मार्ग अभियानान संकश्टग्रस्तांक मजत करूंक निधी पुंजावचो अशें गावणेकारबाब म्हणटा. पांच पांच हजार रुपया दिवपी मार्गाक पांच पंचवीस जाण मेळचे नात अशें न्हय, पूण हो वावर पयशे वांटपा पुरतो मर्यादीत ना. तो सासणाचो चलोवचो पडटलो. ना तर सरकार तो चलयत हाची खात्री करून घेवची पडटली. आतां मेरेन कितल्या अपघातग्रस्तांक सरकारान मजत केल्या तें सांगचें. रामा गांवकार हाचे बायलेक सोडून कोणाक ना, ही ताची जाप. ही मजत गेल्या सरकारान दिल्ली.

एकेकदां दिसता, गोंयचो लोक मायेस्त, दयेस्त, चुरक्याचो हें फट. मनोहरबाबान खऱ्या गोंयकाराक 'मोगाळ जिवाक जीव दिवपी' म्हळां. खंय आसा तो गोंयकार?

खरी गरज आसा ही परिस्थिती निवळावपाची. गोंयकारांक भानार हाडपाची. ताची मानसिकता भश्टल्या ती पूर्वपदार हाडपाची. हें गरजेचें काम करपी गोंयांत धा जाण नाच्च अशें न्हय, ताणी भायर सरूंक जाय. दिसाचें हें काम करून लेखकांनी रातीचो वेळ कथा कविता बरोवंक दिवचो.

गावणेकार सुचयता तशें मार्गाच्यान हें काम आतां जावचें ना. पणजी आतां तरणी जाल्या, पूण मार्गाची आतां पिराय जाल्या आनी हें काम तर एक 'इवेंण्ट' न्हय, चार दिसांचें न्हय. हें एक आव्हान.

तरी लेगीत ही जबाबदारी घेवपी कोण तरी आसत जाल्यार ताचे सरी वचपाची म्हजी तयारी आसा. 'अ-सरकारी असरकारी' हें विसरूंक फावना.

नेगेटिव्ह परिस्थिती पॉझिटिव्ह करप हें आमचे सारकिल्यांचें काम, आमची

लागणूक. असो पंगड स्थापन जालोच जाल्यार ताका 'मोगाळ गोंयकार' हें नांव सोबतलें.

'सकाळीं फुडें पातळ भाजी पाव  गोंयकारपण' हें 11.1.2014 च्या सुनापरान्तांतलें म्हजें पत्र जायत्या जाणांक खोस दिवन गेलें. 'खरी गजाल! खरी गजाल!' ताणी म्हळें. एका जोड्यान तर तें पत्र नव्यान टायप करून व्हड केलें आनी प्लास्टीक भिंगांत घालून कुंकळ्ळेच्या शिवानंदाच्या हॉटेलांत लायलें. तेन्ना सावन तें शिवानंदाच्या हॉटेलाचे वणटीचेर मिरयत आसा, धोलत आसा.

हें जोडें कोण तें हांव नकळं. हांवें हॉटेलकार भावाक विचारूंक ना. विचारचोय ना. ताचे परस ह्या जोड्यान जी खोस दिली ती चोखीत रावपांत जो आनंद आसा ताका सर ना. अशे लोक समाजांत आसात ही गजाल गोंयच्या फुडारा विशीं म्हाका आशावादी करता.






# चवथ्या येरादारी सप्तकाचो संदेश -

गोंयचे येरादारीचो प्रस्न दोन पांवड्यांचेर सुटावो करपाचे प्रयत्न जावंक जाय. पयलो पांवडो : पॉलिसी आनी मॅनेजमेण्ट ; आनी दुसरो पांवडो : शिक्षण.

पॉलिसी आनी मॅनेजमेण्ट सरकारान हाताळूंक जाय. गोंय सरकाराची येरादरी विशींची पॉलिसी अशी ना. आयज इकरा लाखां कडेन वाहनांचो आंकडो पाविल्लो आसा. तो कितलोय जाल्यार जाता अशी सरकाराची भुमिका दिसता. आतां रस्त्यां वयले अपघात आनी मरणां हांचो वाहनांच्या आंकड्याकडेन कांयच संबंद ना ? गोंय सरकाराचो ट्रान्सपोर्ट विभाग हो मॅनेजमेण्ट हाताळटा. गोंयांत जे अपघात आनी मरणां रस्त्यार जातात ताचे वयल्यान आसा तो मॅनेजमेण्ट अदीक परिणामकारक जावपाची गरज आसा अशें दिसता.

गोंय सरकाराच्या वाहतूक मंत्रालयान कांय जाणकारांक घेवन बसपाची गरज आसा काय दिसता. आमचे सारके जे शिक्षणाचो वावर करतात तांकां हें मॅनेजमेण्ट शास्त्र कळूंक कठीण.

गोंयांत येरादारी मळार एक भयंकर परिस्थिती निर्माण जाल्या. दर वर्सा गोंयांतले तीनशीं लोक मरप आनी कांय हजार मोडून पडप ही सादी गजाल

न्हय. “म्हज्या राज्यांत हांव एक मनीस मार्गार मरूंक  दिवचों ना” अशें सांगपी आमकां वाहतूक मंत्री वा घर मंत्री जाय.

आमी वर्तमानपत्रांनी अपघातग्रस्तांचो आनी मरतल्यांचो आंकडो जाहीर करतात : आमकां दुःख जाता म्हण जाहीर करतात, पूण आज शास्त्र खूब फुडें गेलां. आमचे कडल्यान योग्य ते उपाय जायनात अशें म्हाका दिसता.

हाचे दोन वायट परिणाम जातात. शेंकड्यांनी लोक कांय न्हय करून मरतात आनी तातूंत 70% तरणाटे  आसतात. अशे कशे आमी तरणाट्यांक मरूंक दितात ?  आमच्या गोंयांत तरणाट्यांच्या जिविताक कांय मोल ना ? खयचेंच शाणें राज्य आमचे तरणाटे असे इबाडल्यात तशे इबाडल्यात म्हणचें ना. आमचे भुरगे इबाडल्यात ते जाणट्यां कडल्यान योग्य मार्गदर्शन मेळ्ळें ना म्हणुनूच न्हय ?  तर मागीर जाणटेलेय इबाडल्यात म्हणचें पडटलें. आनी तरणाट्यांक केदी ख्यास्त ?  मरणाची ख्यास्त ? खरेंच तर खंय तरी आमचें भयंकर चुकता आनी आज तर प्रत्येक प्रस्नाक शास्त्रीय उपाय आसा. गोंयचो समाज हें सोंसता कशें ?  लोक मार्गार मोडटात वा मरतात तें तर पेपरांचेर व्हडल्या व्हडल्या माथाळ्यांनी छापून येता !  कोण हाची जाप दीत ?

दुसरो पांवडो हांव शिक्षणाचो म्हणटां. ही शिक्षणाची जबाबदारी सरकारान आपल्या आंगार घेवंक फावना. जेन्ना एकाद्रो पोलीस इन्स्पेक्टर हांवें 3456 विद्यार्थ्यांक एज्युकेट केले वा शिकयले अशें सांगता तेन्ना ताची काकूट दिसता. मार्ग अभियानान 70000 सत्तर हजार विद्यार्थ्यांक गोंयभर दोन वर्सां भोंवून परिस्थिती समजावन सांगली आनी तांचे जापसालदारकेची वळख करून दिली. हाचो अर्थ तांकां शिकयले अशें जायना. शिकयल्लें जाल्यार ताचें फळ दिसतलें आशिल्लें. पूण ग्राउण्ड रियलिटी बदल्लेली दिसना.

चाळीस वर्सां अशें चल्लां. कितले मंत्री आयले आनी गेले, कितले डायरेक्टर आयले आनी गेले गणटी ना. पूण परिस्थिती बदलना हें सत्य न्हयकारूंक येवचें ना. म्हणून तर मार्ग अभियान दुसरो मार्ग सोदीत आसा.

संबंद देशान हे गजाली कडेन दुर्लक्ष केलां. देशांत देड लाख लोक मार्गार

मरतात. सरकारां येतात आनी वतात आनी कांय उपाय घेनात. पयर गोपीनाथ मुंडे गेले आनी सरकाराक थोडीशी जाग आयल्या. केंद्रीय वाहतूक मंत्री नितीन गडकरी हाणी कायदो बदलपाचो थारायला अशें आयकूंक येता. हें खऱ्यांनीच घडून येतलें व्हय तर ?

अमेरिका आनी युरोपाच्या देशांनी हाचेर खूब विचार केला आनी दोळयांक दिस सारके आनी तोकणाय करी सारके उपाय घेतल्यात. हजारांनी गोंयकार युरोप अमेरिकेंत आसात. ते गोंयांत येतात. तांतलें पांच धा आमकां मेळूंक येतात. आनी त्या देशांतले रस्त्या वयले परिस्थितीची तोखणाय करून आपली एक मिटिंग दवर म्हण मागतात. गोंयकारांक कितें तरी सांगचें अशें तांकां दिसता. पूण अशे एके मिटिंगेन कितें जावचें आसा ?

अमेरिका म्हणटा, कारभार हातांत येना फुडें आमी पयलीं आमच्या भुरग्यांक नागरीक केले. देखुनूच सगळे अमेरिकन फकत व्होटर न्हय तर नागरीक जावन मागीर व्होटर जाले.

आमच्या विद्यार्थ्यांक खऱ्या अर्थान नागरीक केले बगर हो प्रस्न कसोच सुटचो ना. देशांत आतां नवे प्रधानमंत्री हे विशय घेतात जाल्यार पळोवचें आसा. स्वच्छता हो विशय ताणी घेतला हें बरें आसा.

पूण आमी गोंयकारांनी देशवासी कितें करतात, कशे वागतात तें पळयत रावपाची गरज ना. आमी आमचीं स्वतंत्र अभियानां हांगा सुरू करून कामाक लागचें.

निमाणे सरकारानच हाका माथें मारूंक जाय. सरकार म्हळयार निमाणे मंत्री. हांकांय भुरगीं आसात. तांचे खातीर तरी ताणी ह्या प्रस्ना कडेन गंभिरतायेन पळोवंक जाय.

मार्ग अभियानानूच वावर करूंक जाय अशें ना. कोणेंय करचो, पूण करचो. सरकारान, दोनूय पांवड्यांर पयशे खर्च करचे. एक कोटी, दोन कोटी, शंबर कोटी मोडचे पडल्यार जाता, पूण म्हज्या गोंयचो एक पूत लाख मोलाचो, अशें सरकाराक दिसूंक जाय. सरकाराचे असकतायेक लागून आपूण ताका

वघडावचों ना इतलें चिंतपाची आनी आव्हान पेलपाची तांक सरकारा कडेन जाय.

अमेरिका आपल्या दर एका मनशाक कोटी डॉलरांचो मानता. जगाचे फाटीर तो खंयूय आसा ताका राखण दिता. राष्ट्र अशे तरेन व्हड जाता.

आमी कित्याक फाटीं उरचे ?






# 'बरें गोंय!' शणै गोंयबाब हाणी दिल्ली तावज!

गांधीजीन आमकां एक तावज (तालिस्मान) दिल्ली. लोका पासत काम करतना, ल्हानांतलो ल्हान मनीस दोळ्यां मुखार हाडात आनी आपूण करतां तें काम ताका बऱ्याक पडटलें मूं, असो आपणाकूच प्रस्न करात. 'हय' अशी जाप मेळ्ळी जाल्यार तुमी नीट वाटेर आसात अशें मानात आनी काम करीत रावात.

असोच एक संदेश शणै गोंयबाब हाणी आमकां गोंयकरांक दिल्लो. तुमी नव्या दिसा तुमच्या वळखीच्याक मेळटले तेन्ना 'बरें गोंय' म्हणून संवादाक आरंभ करात. तो उमेदीन तुमकां कशी जाप दिता तें पळयात.

ह्या संदेशाचो उपेग आमी तेन्ना केलो ना. म्हजे सारकिल्याक आतां करचो अशें दिसलें आनी म्हाका तरी गुणाक पडला.

ह्या दिसांनी म्हळ्यार जुलय म्हयन्या सावन काणकोणच्या तीन विद्यालयांनी - एक हायर सेकण्डरी, एक जवाहर नवोदय आनी एक कॉलेज - शंबरेक विद्यार्थ्यांक 'सिटिझनशीप' म्हळ्यार कितें तें समजावंक आमी वतात. मनशान फकत एक व्यक्ती जावन उपकारना. 'इन्सान' जावंक जाय, तेच भाशेन मनशान एक नागरिकूय जावची गरज आसा, एक सिटीजन जावचो,

अशे धर्तेर ती समजणी चलता.

ही शिकवण दर एका शेनवारा अशी धा सत्रांतल्यान दिवन जाल्या. हीं सत्रां म्हळ्यार करियर, बायलांचे प्रस्न, भास आनी संस्कृती, मिडिया, भारताचें संविधान, राज्य आनी राष्ट्र, आदमी और इन्सान, मार्ग संस्कृती, नागरिकत्व आनी सिवीक सेन्स अशीं आसात.

गोंयांतल्या वेंचीक अश्या जाणकारांनी तश्या सामाजीक वावुरप्यांनी मुजरत काणकोणाक एक दीस सारून विदार्थ्यां कडेन संवाद सादला.

आनी हे विद्यार्थी तांचे भेटेक आयिल्ल्या पावण्यांक वर्गांत प्रवेश करतना येवकार कसो दितात जाणात? हाचे आदीं ते 'गुड मॉर्निंग सर वा मॅडम' म्हणटाले. आतां ताणी शणै गोंयबाबाच्या संदेशाचो उपेग करचो थारायला. 'बरें गोंय सर' म्हण हे विद्यार्थी पावण्यांक येवकारतात तेन्ना वर्ग उमेदीन भरून वता, जसो कितें एक चमत्कारूच घडटा! गोंय आमच्या रंद्रांरंद्रांत कशें भरिल्लें आसा तें विद्यार्थ्यांक तशें पावण्यांक जाणवता.

हो अणभव गेल्ले तीन म्हयने आमी घेत आयल्यात. आतां ही 'बरें गोंय' तावज सगळ्या गोंयकारांक बांदची अशें आमी थारायलां.

आमी मार्गाचे वावुरपी तुमकां आयज आनी मुखार केन्ना तुमी मेळटले तेन्ना 'गूड मॉर्निंग, गूड आफ्टरनून वा गूड इविनिंग' म्हणचे नात. 'बरें गोंय' म्हणटले आनी तुमीय तसो प्रतिसाद दितले म्हण रावतले. कर के देखो. अच्छा लगेगा.

सगळ्या कोंकणी भक्तांक हो म्हजो उलो. 'बरें गोंय' हो मंत्र तशें तंत्र म्हण वापरून गोंय आनी कोंकणीचे सेवेक लागात, तुमची मनोकामना पूर्ण जातली.

* * *

ह्या राज्यांत केन्ना कितें घडत हें सांगूं नज. पणजे-मडगांव हायवेचेर अभ्यास करिनासतना वाटे वयल्या पंचायतींनी वा भौशीक बांदकाम खात्यान बस स्टॉप बांदिल्ले ते आमी प्रवासी पळयत आशिल्ले. बशी थंय थांबी

नाशिल्ल्यो. तण आनी कचऱ्यान हे बस स्टॉप गोरवांक विसव घेवपाची सुवात करून सोडिल्ले.

कोणा धुर्ताक पयशे करपाची ही संद कशी दिसली. ताणें ह्या पोरण्या बस स्टॉपांक तेंकून नवे स्टिलाचे चकचकीत बस स्टॉप तयार करून उबे केले. खरें म्हळ्यार, ट्रान्सपोर्ट डिपार्टमेण्टान हे स्टॉप खंय आसचे, उण्यात उणे कशे आसचे हाचो अभ्यास चलयल्लो. आनी पळोवंक गेल्यार एके सकाळीं चकचकीत बस स्टॉप जळीं-मळीं मार्गार उबे!

ट्रान्सपोर्ट डिपार्टमेण्ट म्हणटा आमकां कांयच खबर ना. ताणी खांके वयर काडले. सोद लावंक गेले तेन्ना कोणें तरी एजण्टान एका मंत्र्याक हाताक धरून ते जायरातदारां खातीर उबे केल्ले. तुमी मडगांवच्यान पणजे वतना पळयशात तर तुमकां हे नवे स्टॉप दिसतले. म्हळ्यार बस स्टॉप लोकांक सोंपेपण मेळचें म्हण आसनात, एजंटाक पयशे मेळचे म्हण आसतात.

* * *

हालींसराक हायवेचेर 'रोड सायन्स' तुमकां दिसतलीं. वाटे वयल्या पंचायतींनी शिमेचेर 'वेल्कम आनी कम अगेन' बरयिल्ले तक्ते तुमकां दिसतले.

फाटीं एका पत्रांत हांवें हे तक्ते इंग्लीशींत बरोवंक आक्षेप घेवंक नाशिल्लो, ताचे वांगडा 'सुस्वागतम' तशें 'देव बरें करूं' उपकारावचें अशें म्हणिल्लें. सुनापरान्ताच्या एका पत्र लेखकान हेरां पत्रां बरोवप्यांक 'बरयत रावात' म्हण सल्लो दिला. कोण तरी अधिकारी तीं वाचतात आनी नोंद घेतात अशें ताणें बरयल्लें. म्हाका असो अणभव ना. ह्या सरकाराच्या मुखेल मंत्र्या कडेन, ताच्या हेर मंत्र्यां कडेन आनी अधिकाऱ्यां कडेन तशी यंत्रणाच ना. हें सरकार नागरिकांक लेखीच ना, असो म्हजो जाहीर आरोप आसा. आमी नागरिकांनी तरी सरकाराक लेखचें तशे आपणाकूय लेखचें आनी लेख वा पत्रां जे बरयतात तांची नोंद घेवची.






# एक आनंद-सुवाळो आनी एक प्रस्नचिन्न (?) !

नांवाजते स्वातंत्र्य सेनानी, पत्रकार तशे कथा-कादंबरीकार, समाज वावुरपी, पर्यावरण मोगी श्री लाम्बर्ट माश्कारेन्यश ह्या गोंयकारान 17 सप्टेंबर 2014 वेर जिविताचीं अर्थपूर्ण अशीं 100 वर्सां हुपून 101 व्या वर्सांत पावल घालें. हो आनंद-सुवाळो मनोवंक माश्कारेन्यश हांच्या दोना-पावला रावपी घराब्यान एक डीनर पार्टी ताळगांवच्या कम्युनिटी हॉलांत ते राती दवरलेली तिका गोंयचे प्रतिष्ठीत नागरीक तांका Many happy returns of the day म्हणूंक व्हडा संख्येन आयिल्ले.

हातूंत हांवूय एकलो आशिल्लों. हालींसराक हांव मुजी, साखरपुडे, लग्नां चुकयतां. पूण जेन्ना म्हाका हे कार्यावळीक आमंत्रण आयलें तेन्ना रोखड्या रोखडें तांकां 'हांव मुजरत येतलों' अशें हांवें कळीत केलें आनी गेलोंय बी. मार्ग अभियानाच्या जायत्या निदर्शनांनी लाम्बर्टान उपस्थिती लायिल्ली ती विसरप शक्य नाशिल्लें.

ताच्या आदल्या दिसा गोंय सरकारान मुखेल मंत्र्यांच्या हातान 'गोमन्त विभूशण' हो गोंय सरकाराचो अत्युच्य सन्मान भेटोवन लांम्बर्टबाबाचो सत्कार केल्लो. आतां मेरेन अनिल काकोडकार, रघुनाथ माशेलकार आनी चार्लस

कुरैया हांकां गोमन्त विभूशण हो सन्मान फावो जाला. लाम्बर्ट चवथो हें बिरूद जोडपी. तांकां सन्मान पत्र, भेट वस्तू आनी मान-धन 5 लाख रुपये हे निमतीं सरकारान भेटयले.

तशें पळोवंक गेल्यार सत्कार गोंयांत सदांचेच जाल्यात. सत्कार कोणाचो करचो हें सोदूंक भोंवपी आनी सत्कार करून घेवपाक रावपीय आसात.

हे बाबतींत म्हाका आयिल्लो एक अणभव सांगन दिसता. तीन चार वर्सां पयलींची गजाल. सोनिया गांधी गोंया येवपाची आशिल्ली. कोणा तरी कॉँग्रेसमॅनाच्या मनांत तिचे हस्तुकीं कांय जाणांचो भोवमान करचो अशें आयलें. म्हाका एका कॉँग्रेस उपाध्यक्षाचो काय सेक्रेटरीचो फोन आयलो. “कांपालार सोनियाजींची सभा आसा. आमी तुमच्या सामाजिक वावरा पासत तिचे हस्तुकीं तुमचो भोवमान करचो थारायलां. तुमचें नांव लिस्टार घेवचें ?” हांव रोखडोच ‘हय’ म्हणटलों अशें ताका दिशिल्लें आसूंक जाय. पूण हांवें ताका कांय प्रस्न केले. “म्हजे कडेन तुजी चडशी सवकळ ना अशें आसतना तूं सो विचारता? कोणा-कोणाचो सत्कार करपाचो थारायला? कित्याक म्हणून? सत्काराक फकत नाल्ल दितले काय आनीक कितें दितले हें म्हाका पयलीं फोना वयल्यान आनी उप्रांत पत्र बरोवन सांगपाची गरज कॉँग्रेस वरिश्टांक दिसली ना ?” ताका कितें उत्तर दिवचें तें कळना जालें. तेन्नाची कॉँग्रेस थीर नाशिल्ली. उप्रांत म्हाका हांव बरो वाटावलों म्हण कळ्ळें.

फाटीं म्हळ्यार 2004 वर्सा मडगांवच्या गोमन्त विद्यानिकेतनान म्हज्या सत्काराचो प्रस्ताव म्हाका धाडलो. तांकां हांवें ‘मार्ग’ अभियानाचो सन्मान करचो अशें सुचयलें आनी ताणी तें मानून घेतलें. स्टेजीर हांव गेलों. ताचे उप्रांत म्हजे न्हय तर मार्गाचेच सत्कार हांवें करून घेतल्यात म्हळ्यार जाता.

फाटीं गोंयां गोविंद सहाय ह्या नांवाचे एक गवर्नर आयिल्ले. ते स्वातंत्र्य सैनिकांक बी मदींमदीं च्या-पाणयाक आपयताले. एक दीस अकस्मात तांचे कचेरेंतल्यान एक धा हजारांचो चेक मार्गाक आयलो. आमी पयशे मागूंक नाशिल्ले. ताणी मार्ग अभियानाच्या वावराची चौकशी करून आपणें जावन

चेक धाडिल्लो. आमी तांकां 'बरें गोंय' मागून पत्र धाडलें.

लाम्बर्ट माशकारेन्यश हांकां गोमंत विभूशण फावो जालें म्हण सगळ्या गोंयकारांक खोस जाली. तशें गोंयांत हे तोडीच्यो व्यक्ती जावन गेल्यात आनी आसातूय बी. तांचेय यथाकाल सत्कार जावचे आनी ताणीय डीनर दवरचे.

तर हांव सप्टेंबराचे 17 वेर सांजे आठ वरांचेर ताळगांवच्या कम्युनिटी हॉलांत भितर सरलों. उत्सवमुर्ती पावूंक नाशिल्ली. हॉल उपाट भरिल्लो. कांय जाण वळखीचे दिसले. पयल्या फाराक लेखिका मारीय आवरोरा कोवतु दिसली. तिच्या सांगाताक एके वटेन तिची भयण आनी भावोजी आशिल्लीं. दुसरे कुशीक दिल्ली स्थीत सुमन कुराडे बशिल्ली दिसली. मारीयाबायन आपले सदचे भाशेन 'ग्रेट मॅन' म्हण म्हजी भयणी कडेन वळख करून दिली. 'ग्रेट मॅन' कित्याक लागून तें मात म्हाका कळ्ळें ना. म्हाका खोस जाली सुमन कुराडे हांचे कडेन उलोवंक मेळिल्याची. तिणें दिल्लीच्या गोवा सदनांत कशी अंदाधुंदी चल्ल्या तें सांगलें.

फुडल्या मेजार मोहनदासबाब नायक (डी. एन. नायक) आनी सार्तु आलमेयदा दिसले. मोहनदासबाबान म्हाका हडकिलो. कुशीक एका मेजार बाब सुरेश आमोणकार घसघसून उलोवप करतालो. ताका डिस्टर्ब करप नाका अशें हांवें थारायलें. इतल्यांत शशीकलाताई दिसली. तिणें हास्यवदनान म्हाका वळख दिली. म्हणसर तोमाझिन्य कार्दोज बायले सांगाता दिसलो. तो म्हज्यांत आयलो. "आरे, खंय रे तूं ? दिसोच ना मरे ?" अशें ताणें विचारलें. विचार आयलो, आज तरी दिसतां. फायचें कोणें सांगचें? इतल्यांत जोधपुरी ड्रेसांत इंप्रेसीव दिसपी डॉ. पीटर रोनी सोवजा म्हज्यांत आयलो. फाटीं दोन वर्सां कॉलेज भुरग्यांक दिल्ली व्हेल्लीं तेन्ना डॉ. पीटरान थंयची मांडणी आंखिल्ली.

हे इतलें चलतना अवधूतबाब तिंबलो पयससून कोणाक हात दीत, कोणाक वेंगेंत ओडीत, कोणाच्या गालाक गाल लायत म्हजे सरीं पावलो. 'गुरुनाथबाब' म्हणत ताणें म्हजे फाटीर हात भोंवडायलो.

ह्यो हालचाली चलतना लाम्बर्टबाब आनी घराब्याची मंडळी हाणी हॉलांत अेंट्री केली. अँकरान जाहीर केलें, 'उत्सवमुर्तीचें ताळयो मारून स्वागत करात. ताका हात दिवंक फुडें सरूं नाकात.' हळुहळू पावलां मारीत लाम्बर्टबाबान सदांचो हांसो घेवन फुडें सरत आपल्या आसनार पडाव घालो.

येवकाराचें गोडशें आमंत्रितांनी खावन जाल्लें. आतां मुखार सरलो टोस्टमास्टर डॉ. पीटर रोनी सोवजा. ताणें लाम्बर्टाच्या हजार गुणांचें वर्णन केलें आनी वांगडाच घरकान्न डॉ. जॉली हाणी संवसार बेस भाशेन चलयलो तेंवूय सांगलें. हें उलोवप ताळयो वाजयत सगळ्यांनी आयकलें. उप्रांत लाम्बर्टाच्यो धुवो, नातरां हाणी कोंकणी इंग्लीश गितां गावन कार्यावळीक एक खाशेलो रंग हाडलो. हें इतलें जालें पूण लाम्बर्ट आनंद सुवाळ्याक जाप दिवंक शकलो ना. ताका आयकूंक येनासलें आनी पुरो जाल्ल्यान उलोवंक त्राण नासलें.

हो एदो व्हडलो आनंद सुवाळो उत्सवमुर्तीचे नातेवर्गी आनी मुजरत आयिल्ल्या आमंत्रितां खातीर आशिल्लो.

घरकान्न डॉ. जॉली आनंदीत कशी दिसतली ? पंदरा दिसां पयली शंबराव्या वर्सा कडेन पावतल्या लाम्बर्टाक जोर आयिल्लो ताका लागून तो ह्या सुवाळ्यांत वांटो घेवपाक शकतलो काय कितें ह्या हुसक्यान तिणें दीस सारिल्ले.

ती म्हणटा, 'ताका सांबाळपाचे हे दीस. आमी सगळीं आमचे परीन ताका चोंयवशीन सांबाळटात. कोण अमरपट्टो घेवन येवंक ना. हांव देवालागीं मागतां म्हाका ताचे उप्रांत व्हर. हांव नासल्यार हेरांनी कितलीय राखण दिली जाल्यार लेगीत ताका दीस सारप कठीण वतलें !"

शंबर वर्सां हुपिल्ल्याचो आनंद सुवाळो तुमकां आमकां ! सामक्या लागींच्यांक .....(?)!






# “महात्मा गांधी की जय”

जावं, कोणाल्याय कोंब्यान साद घालूं, दीस उदेलो!

गांधीजींची ‘बाबड्याची’ कोणाक तरी याद जाली, काकूट दिसली आनी ताणें तांचो उगडास काडलो!

मार्केटिंग फायद्याचें करतलो जाल्यार अस्सल वेपारी जाय. खासा महात्मा गांधी वेपारी कुळांतले. तांकां ताचो व्हड अभिमान, गांधी घराणें भुसारी मालाचो धंदो करतालें अशें बरोवन आपले आत्मकथेची ताणी सुरवातूच केल्या. पयले वळींत आपूण वेपारी वंशाचो म्हूण ताणी चक्क सांगलां.

हो वेपारी गांधी विलक्षण. जें बऱ्याक पडटा जावनूय खपना, तें तो खपयतालो. एंडेल पियेवंक नज. पूण आवय तें ‘बाबा पुता’ करून पुताक दितालीच. कारण पुताचे भलायकेचो तिका हुसको आसतालो.

तशें हाचें. सत्य म्हण केन्ना खपपाचें? सत्यान संवसार चलता? पूण हो सत्य खपोवंक भायर सरलो. तो सत्य विकता म्हण शाणे वेव्हारी वेपारी ताका मारूंक भायर सरले. णव फावटी प्रयत्न करून धावे फावटी जिखले. ताका सोंपयलो.

आतां धंद्याक जितो महात्मा नाका, मेल्लो महात्मा जाय. ताच्या नांवाक

मार्केटांत दर आयल्या. घालुया ताका मार्केटांत. पयर ताका 'पाकिस्तान दिवपी' म्हणटाले. काल ताणें पाकिस्तानाक 55कोटी रुपये दिले म्हळें. तो मुस्लिमांची चड अपुरबाय करपी अशें काल म्हणटाले. आज अकस्मात तो 'स्वच्छ नारायण' जालो.

हो असो बदल कसो जालो तें सांगूंक कोण नेणा. काँग्रेस थंडा थंडा कूल. केजरीवाल थंडा थंडा कूल कूल. दोगूय जाण गांधी गांधी म्हणून खरशेले.

आमगेल्या च्याफ्राची एक कविता आसा. नांव तिचें 'हांव खरशेलों'. कोंकणींत पयल्या पांच कवितांनीं हांव तिका सुवात दीन. हो बावडो खरशेत आसता. 'कट्ट्यो सोडणां पेंवन गेलीं.' हो फकत खरशेता. हो तिचो मोग करीत खरशेलो, तो दुसरो तिका चुमून वता.'

काँग्रेसीन आनी आपान महात्मा गांधी वगडायलो. अस्सल गुजराती वेपारी मोदी हाणी गांधीजींचें मार्केटींग आपल्या हातांत घेतलां. लाखांनी लोकांक ताणी गांधीचो जप करूंक लावन घरा भायर काडले. खासदार म्हण वेंचून ये मेरेन गांधीजींचें नांव घेतलें ना. ताणी वेंचून येना फुडें गांधींचो जयजयकार करूंक सुरवात केली. आज जाच्या ताच्या तोंडांत गांधी गांधी.

अमेरिकेंतले भारतीय देशांत दोगूच गांधी जावन गेले म्हणूंक लागले. एक मोहनदास करमचंद गांधी आनी दोन नरेंद्र दामोदरदास मोदी गांधी!

आतां गांधीचो ब्रँड जावचो आसा. वचत थंय गांधीचीं देवळां जातलीं आनी गांधी नवसाक पावतलो. मागणें करचें आनी मेळोवचें. गांधी चमत्कार करतलो. मागता तें दितलो. पयसो जाय ताका पयसो, भुरगें जाय ताका भुरगें; खण जाय ताका खण; ट्रक जाय ताका ट्रक; मंत्रीपद जाय ताक मंत्रीपद! म्हणात महात्मा गांधी की जय! वंदे मातरम तीनदां म्हणपाचें! फास्ट! वंदे मातरम्, वंदे मातरम्, वंदे मातरम्!

गोंयांतूय महात्मा गांधी सगळ्याक जालो. मुख्यमंत्री पर्रीकार महात्मा गांधी जालो, आनी अहिंसा, अहिंसा अहिंसा म्हणूंक लागलो.

म्हाका दिसलें, लागलो आमकां चान्स! आतां गांधी गोंयांत खपतलो.

हजारांनी रुपयांचीं गांधी चरित्रां हांवें हाडलीं. कोंकणी, मराठी, हिंदी आनी हेर भारतीय 16 भासांतलीं. गोंय आतां भोवभाशीक जालां न्हय? पूण 'कसचें काय, कसचें काय!'

भाऊसायब बांदोडकार आपूण काँग्रेसवादी म्हण सांगतालो. पूण ती 'आयची' काँग्रेस न्हय म्हणटालो. महात्मा गांधी आनी नेहरू हांची काँग्रेस. 'ते काँग्रेसीचो हांव,' भाऊ सांगतालो.

तशें आमचें जालें! हांवूय महात्मा गांधी आनी तांचो महाशिश्य पंडित नेहरू हांचे काँग्रेसीचो, पूण कटा कटा! कसो हांव दिल्लीक पावलों आनी त्या गिरीश चोडणकारान म्हाका 'तुका आयचो गांधी दाखयतां' म्हणून राहूल गांधी सरीं व्हेलो आनी आमच्या दोगांयचोय फोटो काडून घेवन गोंयच्या पेपरांनी छापून हाडून मार्गाचो सत्त्यानाश केलो. 'तूं त्या गांधीचो न्हय, ह्या राहूल गांधीचो, तुका हांवें पयशे दवरिल्ले, ते आतां हांवें परते तिजोरेंत दवरल्यात' अशें सांगून म्हाका पर्रीकारान सारको निवळायलो.

आतां गांधी जाय जाल्यार गांधीजींची आत्मकथा न्हय तर सारण हातांत घेवपाची. केजरीवालान सारण हातांत घेतली आनी ती बावटो कशी उबयली! आतां आमची सारण लांब दांड्याची. आर.एस.एस. वापरता ताचे परस लांब दांड्याची! निमाणें आमी कोणा वंशाचे हें विसरूंक फावना!






# होम गार्डस!
# आनीक एक फावट...

मडगांवांत हालींच एक नविदाद घडल्या. तशी ती गोंयांत हेर शारांनीय घडल्या आसतली. ही नविदाद म्हळ्यार मडगांवाक 40/50 नवे होमगार्ड मेळ्ळ्यात. मडगांवच्या मार्गांचेर थारावीक पॉयणटांचेर ते दिसूंक लागल्यात. ट्राफीक इन्स्पेक्टर प्रबोध शिरवयकार बरोच खोशी जाला आसतलो.

हे होमगार्ड नवे आशिल्ल्यान तांकां खाशेलें थोडें शिक्षण दिवचें पडटलें. मार्गार कशें उबें रावचें आनी प्रसंगाक तोंड कशें दिवचें ह्या शिक्षणाची तांकां गरज लागतली. कारण मार्गार वता पावसांत उब्या आशिल्ल्यान ट्राफीक पोलिसांची वा होम गार्डांची कोणाक काकूट दिसना. उरफाटें, कांय मोटारकारबाब तांचे कडेन हुज्जत घालतना दिसतात आनी ह्या ट्राफीक पोलिसांक तांकां तोंड कशें दिवचें तें चार पांच सोडल्यार कोणाक कळना.

नवे होमगार्ड सामके कंवळे तरणाटे आसतात. तांकां एक पिल्लूक दिल्ली दिसता. ती तांच्या तोंडांत आसता जी ते 'फी फी' करीत आसतात. जो गाडी चलोवपी कितें पूण आड करणी करता, तो पिल्लूक आयकून शिटकावता.

हे नवे होमगार्ड रुजू जावचे पयलीं दुसरे कांय होमगार्ड कामार आशिल्लेच. ते अणभवी जाल्ल्यान नव्यान भरती जाल्ल्यांक मार्गदर्शन करतात.

आतां हाचो फायदो धवें खमीस घालतल्या ट्रापीक पोलिसांक जाला. तांच्या हातांत तालांव (चलन बूक) आयलां आनी तांकां इन्स्पेक्टरान हॅल्मेट घालिनासतना जे अजून मोटारसायकलींचेर दिसतात तांकां तालांव दिवपाचे मोहिमेर धाडल्यात. सरकाराक बसलां थंय बरीच जोड जाता आसूंक जाय. हो टॅक्स न्हय. हे दंडाचे पयशे. ही बजेटांतली येणावळ न्हय.

खरें म्हळ्यार, दंडाचे पयशे चड येवप हें कोणाय सरकाराक अभिमानाचें न्हय. हो दंड कितें सांगता? जितलो चड तितली गुन्यांव करतल्यांची संख्या वाडल्या म्हण कळटा. गुन्यांव करप ही लजेची गजाल हें ह्या गुन्यांवकारांक कळना. एका बऱ्या शिकिल्ल्याक कायदो मोडला म्हूण पोलीस आडायता, तेन्ना तो तोंड कशें करता तें पळोवपा सारकें आसता.

ह्या होमगार्डांक तीनशीं रुपया दिसवडो मेळटा. तांकां पगार मेळना. आयताराच्या वा सरकारी सुटयेच्या दिसांनी दिसवडो मेळना. तांकां बडटी ना. म्हळ्यार हे आयुश्यभर होमगार्डूच उरतले. तांकां बडटी दिवन पोलीस करपाचो कायदो ना.

हांकां पयलीं दोनशीं रुपया दिसवडो मेळटालो. हांवें  दिगंबर कामत मुख्यमंत्री आसतना  दिसवडो तीनशीं करचो अशी विनंती केली. ताणीं ती मानून घेतली आनी कागदां तयार जावंक तांचें सरकार कोसळ्ळें. तें काम करपाची संद नव्या सरकाराक  मेळ्ळी.

एके बसकेंत मुख्यमंत्री पर्रीकार हांचे होमगार्डांचे वतीन आभार मानून हांवें होमगार्डांक पांचशीं रुपया दिसवडो दिवचो म्हळें. 'ते काम बरें करतात' अशी हांवें पुश्टी जोडली. 'ते सरकारी नोकरेंत नात म्हण काम बरें करतात' अशीं उतरां म्हाका आयकुचीं पडलीं. सरकारी पगारी नोकर काम सारकें करिनात असो तांचो थोमणो आशिल्लो.

ह्या नव्या होमगार्डांक मार्गार चार दीस बरें दिसतलें. एक बायल खंय आपल्या घोवान हात दाखयल्यार हजारांनी गाडयो मार्गार थांबतात अशी बडाय मारताली. तो कितें करता काय विचारल्यार तो ट्रापीक पोलीस हें

उत्तर तिणें दिलें, तेन्ना फस्स करून सगळे हांसले.

मार्गार रावन गाडयांक दिशा दर्शन घडोवप हें सोंपें वा हलकें काम न्हय. ट्राफीक पोलीस म्हण मार्गार शिस्त दिसता. ट्राफीक पोलिसांक कामाच्या दिसा मार्गार धाडूं नाकात आनी मार्गार कितली बेशिस्त मातता ती पळयात. 'पोलीस खंय, पोलीस खंय' सगळे म्हणटले.

देखून मार्ग संस्थेन ही कार्यावळ गोंयभर राबोवन तांचो दिगंबर कामती वेळार भोवमान केल्लो.

लजेची गजाल म्हळयार ह्या सुदारिल्ल्या प्रदेशांत ज्या वर्सा चाळीस लाख टुरिस्ट आनी संत झेवियराचे पन्नास लाख भक्त येवचे आसात त्या प्रदेशांत दुसरे कडेन खंयूय दिसता तीं लायटीचीं सिग्नलां नात. मनशांक वरांचीं वरां वता पावसांत उबे रावन धुल्ल खायत 'फी फी' करीत गाडयो चलयतल्या बाबांची ही अशी सेवा करची पडटा! हाका प्रजेचेर सरकारान केल्लो अन्याय म्हणचें पडटा.

हांव हांगा मुख्यमंत्री पर्रीकार हांकां याद करून दिवंक सोदतां की जेन्ना हांवें होमगार्डांचो दिसवडो पांचशी करचो म्हणिल्लें तेन्ना ताणी दिसवड्यांत वाड न्हय, तर दुसऱ्या मार्गान पांचशीं रुपये तांकां पावतीत अशें आपूण करतां म्हण म्हाका उतर दिल्लें. ताका ताणी अजून मेरेन पाळो दिवंक ना तो दिवचो.

बाकी भारत सरकारान होमगार्ड केन्ना कित्याक निर्मिल्ले तें हांवें हाचें पयलीं सांगलांच. आज होमगार्ड दिसवड्याचो मानाय जाला, मडगांवचें भाडेल दिसाक चारशीं रुपया घेता हें सांगनशें दिसता.

सरकाराच्या हातांत लोखणाचें भांगर जायना. भांगराचें लोखण जाता ही ताची गवाय!





## भायल्यो होंकलो हाडच्योच पडल्यो जाल्यार काश्मीरांतल्यान हाडच्यो

गोंय सरकाराचे सेवेंतल्यान हालींच मुक्त जाल्ले गोंयचे चीफ सेक्रेटरी बी. विजयन हाणी नवहिन्द टायम्साक दिल्ली मुलाखत 12 ऑक्टोबराच्या त्या दिसाळ्यांत आयल्या, जी जायत्या जाणांनी वाचल्या आसतली. ती वाचून म्हज्या मनांत आयिल्ले 'सुविचार' मांडले बगर म्हज्यान रावूं नज.

विजयन हाणी गोंया चार वर्सां काम केलां. तांकां एक कार्यक्षम अधिकारी म्हणटाले. विशेश म्हळ्यार कोंकणीचे मोगी जाल्ल्यान ते स्वता कोंकणी शिकताले आनी कोंकणी शिकोवंक फाटबळ दिताले अशें हांवें आयकलां.

ह्या मोगाक लागून गोंयच्या फुडारा विशीं तांच्या मनांत हुसको वसतालो, जाका तांणी हे मुलाखतींत वाट करून दिल्या.

गोंयकारां मुखार जायतीं आव्हानां आसात हें मानतना जिका आमी गोंयची 'आयडेण्टीटी' (व्यक्तित्व) म्हणटात तिच्या अस्तित्वाची तांकां चिंता जाल्ली दिसता.

देशांत वेगळीं वेगळीं राज्यां आसात जांकां भाशीक अस्तित्व आसा. विजयन हांच्या मता प्रमाण कोंकणी भाशेचें अस्तित्व संकश्टांच्या रेवाड्यांत सांपडलां. गोंयांत कोंकणी भास उलयतल्यांची संख्या उणी जायत चल्ल्या.

हाका, तांकां दिसता, कांय कारणां आसात, जीं ते दितात. शिक्षणांत कोंकणीक विरोध; जांची ती मायभास तांकां ती शिकचीशी दिसना तशी उलोवचीशीय दिसना; लिपीच्या प्रस्नान कॉम्युनल वळण घेतलां; भायल्यान गोंयांत जायते लोक पोटा-पाणयाक येतात ते कोंकणी उलयले नात तरी थळाव्यांक तें चलता. आनी म्हत्वाचें म्हळ्यार, गोंयांत चलयांचो आंकडो चल्यांच्या मानान उणो जायत चल्ला. हाका लागून विजयनाच्या मता प्रमाण एक काळ येतलो तेन्ना हांगा गोंयांत होंकलांचो उणाव जाणवतलो आनी सुनो म्हणून चलयांचो भायल्यान इंपोर्ट सुरू करचो पडटलो. ह्यो चलयो आपल्यो भासो घेवन येतल्यो.

जांकां स्वभाशेचो अभिमान ना तांची संस्कृती तगप महाकठीण. गोंयांतली ही परिस्थिती आळाबंदा हाडली ना जाल्यार शंबर वर्सां उप्रांत कोंकणींतल्यान उलोवपी गोंयकार पळोवंक लोक म्युझियमांत वतले अशी शिटकावणी विजयन हाणी गोंय सोडटना दिल्या.

हो प्रस्न जांकां सतायता अशे जायते गोंयकार आसात. पूण कितें करचें तें तांकां कळना. राजकारणा अंतर्गत ही परिस्थिती येता. कालची परिस्थिती आयज ना. बदल झपाट्यान जायत आसात. 'बांगर' ह्या उतरा सुवातेर 'भांगर' हें उतर हांगा घोळूंक लागलां.

आतां गोंय खूब फुडें गेलां जें परतप शक्य ना. गोंय कोंकणी उरूंक ना. गोंय गोंयकारांच्या हातांत उरूंक ना. पुराय दिल्लीश्वरांच्या हातांत गेलां. गोंय इंटरनॅशनल जालां अशेंय म्हणूं येता.

हाचो अर्थ गोंय सर्वभाशी म्हळ्यार कॉस्मॉपॉलिटन जालां. विशेश करून इंग्लीश भास गोंयचेर सत्ता गाजोवंक लागल्या.

देखीक, गोंयांत नवीं नवीं 'इंटरनॅशनल' स्कुलां सुरू जायत आसात. हेर वेवसायीक संस्था स्थापन जायत आसात जांची टीव्हीचेर झलक दाखयतात. हांगा इंग्लीशीचो सगळ्यांनी ध्यास घेतला. गोंयांत चलतल्या थळाव्या स्कुलांच्या कारभाऱ्यांनी विद्यार्थ्यांच्या पालकांक कळयलां की तांणी विद्यार्थ्यां कडेन घरांनी इंग्लीश उलोवचें. कांय स्कुलां विद्यार्थी जर स्कुलांत आपले

थळावे भाशेंत उलयले जाल्यार दंड लायतात.

आतां मोपा विमानतळ अवतरतलो. लाखांनी टुरिस्ट तुर्ताक गोंयांत येतातूच ते करोडांचे संख्येन येतले. प्रत्यक्षांत मोपा चालू जातकूच थंय गोंय गोंय उरचें ना, जशें कांदोळे कळंगुटे सगळें वातावरण इंग्लीशमय वा रशियनमय जालां तशें मोपा जातलें.

शेंकड्यांनी हॉटेलां हांगा जाय पडटलीं. थंय कोंकणी उलोवपी कशे चलतले?

गोंयांत आय आय टी येता. आनिकूय व्हडल्यो शिक्षणीक संस्था येतात. तांकां लागून कोचिंग वर्गांची खातड जातली. हांगा भायल्यान शिकूंक हजारांनी विद्यार्थी येतले. इंग्लीशी बगर बात चलची ना.

गोंय टुरिस्ट ठिकाण म्हण व्हड नामनेक पाविल्ल्यान ताचेर आकांतवाद्यांची नदर गेल्या. हांगाच्या पोलिसांक आकांतवाद्यांक तोंड कशें दिवचें तें शिकयतले, ही टेक्नोलॉजी गांवठी भाशेंत उपकारची ना. ती इंग्लीशींत आसतली.

परिणामी, कोंकणी भास साहित्या पुरती मर्यादीत उरतली. विचारांतल्यान साहित्य जल्माक येता अशें जरी आसलें तरी राजकारणान वा अर्थकारणान साहित्याक वेटीक दवरिल्ल्याचें सगळ्याक दिसता. हाका अपवाद आसा.

गोंयांत चल्यांच्या मानान चलयो उण्यो जावंक लागल्यात अशें विजयन म्हणटात. न्हवऱ्यांक होंकलो मेळच्यो नात म्हणटात आनी ती नुपुरवण भरून कांडूंक भायल्यान होंकलांचो इंपोर्ट करचो पडटलो म्हणटात. बाकी गोंयकारांक एक्सपोर्ट न्हय, तर इंपोर्ट आवडत आयला. आतां हो इंपोर्ट करचोच जालो जाल्यार काश्मीरांतल्यान करचो अशें हांव सुचयन. काश्मीरांतल्यो चलयो बऱ्यो ऊंच तश्यो सुंदरूय आसतात. ऊंच चलयांची गोंयाक गरज आसा.

विजयन आनीक एक उपाय सुचयतात तो हांवें पयलीं सांगूंक ना. तो म्हळ्यार गोंयकरांनी एक वा दोन न्हय, तर चड भुरगीं जल्माक घालप.

पुर्तुगेजा काळांत जीं आवय-बापूय चड भुरगीं जल्माक घालतालीं तांकां पुरस्कार दिताले. आमच्या पिर्वोळ गांवांत अठरा भुरगीं जल्माक घालून हो पुरस्कार एकल्यान जिखिल्ल्याची याद जाता. Are there any takers?

बाकी मनोहर पर्रीकार मुख्यमंत्री आसासर गोंयांत कोंकणीक कांयच उणें पडूंक दिवचे नात म्हणूं येता. देखुनूच कोंकणी भक्तांनी कोंकणी तांचे सुवादीन केल्या!

मनोहरबाबा कडेन सगळ्याचेर उपाय आसा हें निवृत्त मुखेल सचीव बी. विजयन हाणी लक्षांत घेवंक ना काय कितें?






# आतां मेळटले तेन्ना 'बरें गोंय' म्हणुंया!

कसलींय भोवशीक आंदोलनां सभाघरांनी तशीं भायर मार्गांचेर चलतात. सभाघरांनी भाशणां जातात, चर्चा जातात, सुचोवण्यो येतात, निर्णय घेतात, ठराव पास करतात आनी अशे तरेन आंदोलनांक दिशा मेळटा

ह्यो चळवळी मार्गांचेरूय चलतात. लोकशाहींत चळवळी वेगळीं वेगळीं रुपां घेतात. मिरवणुको काडप, घोशणा दिवप, नारे गाजोवप, आलेटी मारप, आड्डप, नाचप असलें मार्गार पळोवंक मेळटा. हांतलें 'आड्डप' कांय प्रमाणांत हिंसा आळाबंदा हाडटा.

अश्या ह्या आंदोलनां वा चळवळीं खातीर घोशणा, नारे, आलेटी मुजरत घडोवच्यो पडटात. कांय कवी कविताय रचतात. एकेक फावट व्हड व्यक्तींच्या तोंडांतल्यान जीं उतरां भायर सरतात तीं 'मंत्र' कशीं अज्रंवर जावंक पावतात.

"स्वराज्य हा माझा जन्मसिद्ध हक्क आहे आणि तो मी मिळविणारच!" ह्या लोकमान्यांच्या मंत्रान स्वराज्य प्रजेच्या काळजांत वचून बसलें आनी ताणें फुडल्या घडामोडींक वाट करून दिली.

'वंदे मातरम, भारतमाता की जय, जय हिन्द, इन्किलाब झिंदाबाद, चले जाव' आदी घोशणा तोंडपाठ जाल्यात.

गोंयांत मुक्तीचे चळवळीक जय हिन्दाची चळवळ म्हणटाले, 'महात्मा गांधी करे पुकार - इन्किलाब झिंदाबाद, वंदे मातरम, भारतमाता की जय, पंडित नेहरू की जय, डॉ. राम मनोहर लोहिया की जय' ह्यो घोशणा आमचे सत्याग्रही दिताले तेन्ना पुर्तुगेजांच्या काळजांत कलकलतालें. बाकीबाबांच्या 'सात लाख गोंयकार आमी युग नवें फुलयतले' हे कवितेन मुक्ती चळवळीक व्हड उर्बा दिली.

गोंय मुक्त जालें तशे एक नवें संकश्ट गोंयकारां मुखार उबें रावलें. कांय गोंयकारांक गोंय महाराष्ट्रांत विरघळावपाचे वेध लागले. तेन्ना जें विलिनिकरणाआड आंदोलन पेटलें ताणेंय कांय नव्यो घोशणा, आलेटी जल्माक घाल्यो.

"गोंय कोणाचें? गोंयकारांचें!"

"जायात जागे, जायात जागे!"

"दिवचे ना रे दिवचे ना, गोंय कोणाक दिवचे ना!"

"हिन्दू क्रिस्तांव भाव भाव, एकवटान रावं रावं!"

शेवटाक ओपिनियन पोल आमी जिखले.

निमाणें स्वबळाचेर कोंकणी भास आमी साहित्य अकादेमींत पावयली, विधानसभेंतूय पावयली. 'कोंकणी भास आमची माय, आमची भास आमकां जाय' ही कवी मनोहरराय सरदेसाय हाणी कोंकणी चळवळीक दिल्ली देण, 'कोंकणी उलय, कोंकणी बरय, कोंकणीतल्यान सरकार चलय' ही घोशणा एका काळा गोंयभर गाजताली, जी ह्या लेखकान घडयल्ली.

अशे तरेन गोंयचें कोंकणी राज्य जालें.

गोंय कोंकणी राज्य जावन 25 वर्सां उलगल्यांत. ह्या काळांत कितल्याश्याच सरकारांनी गोंयचेर राज्य चलयलें. पूण ल्हानशें गोंय 'गोंय' म्हण सांबाळपांत कोणाक शक्य जालें ना.

गोंयचो तथाकथीत विकास वादळावरी इतलो झपाट्यान जायत चल्ला की तो कालचें गोंय पुसुनूच उडोवंक सोदता अशें दिसता.

खंयच्याय प्रदेशाच्या जिवितांत कवींक खाशेलें स्थान आसता. 'जें न देखे रवी, तें देखे कवी' ह्या उतरांनी आमी भारतीयांनी कवींक सूर्यापरस चड दोळे दिल्यात. वाल्मिकीन मुखार घडपाचें आशिल्लें 'रामायण' खाशेले नदरेन पयलीं पळयलें आनी तें बरोवन दवरलें आनी तें तशें तशें घडत गेलें, अशें सांगतात. केदी तांक कवींत वसता तें पळयात. अश्या ह्या आमच्या कवींक 'सत्यार्थी' थारावपाची जापसालदारकी आमी लोकानी घेवंक जाय.

गोंयांत शणै गोंयबाब, बाकीबाब, दामोदर कारे, मनोहरराय हाणी आपल्या काव्यांतल्यान गोंय अज्रंवर करून दवरलां.

*गोड म्हजें गोंय, सुंदर म्हजें गोंय,*
*सासणाचें सूखदिणें हें म्हजें गोंय!*

– शणै गोंयबाब

*पूर्व आमचें कीर्तिवंत ते परस फुडार*
*गोंय आमकां करचें आसा भावकेचें कुळार*

– बाकीबाब बोरकार

*कुंतलि तव केतकि वरी आम्रमंजरी*
*रजतधवल निर्झर पदिं पैंजणापरी*

– दा. अ. कारे

*फायच्या गोंयांत एद्दे नाल्ल*
*आनी शेतांत तीन पिकां*
*फायचें गोंय म्हणटलें गा*
*तुमची भीक आमकां नाका*

– मनोहरराय सरदेसाय

गोंयच्या कवींनी चित्रायल्लें हें गोंय (जातूंत गोंयचो आत्मो वसला) सांबाळपाची जबाबदारी जांणी गोंयाक कोंकणी राज्य मेळोवन दिलें तांची, अशें म्हाका दिसता.

हें गोंय सांबाळपा खातीर आमकां एक घोशणा जाय, एक नवो मंत्र जाय. ह्या सुत्रान येवजिताना शणै गोंयबाब हाणी दिल्लो 'बरें गोंय' हो मंत्र म्हज्या मनांत जागलो आनी गेल्या चार म्हयन्यांत ज्या ज्या शाळांक हांवें भेट दिली त्या त्या शाळांतल्या विद्यार्थ्यांकडल्यान 'गुड मार्निंग' बदला 'बरें गोंय' वदोवन घेवंक लागलों. तेन्ना एके नवे उर्जेचो जल्म जाता अशें जाणवलें.

सगळ्या विद्यार्थ्यांक 'बरें गोंय' उर्जेन व्यापून आनी भारावन उडोवंक जाय अशें म्हाका दिसता.






# अमेरिकेंत 'लिबर्टी', गोंयांत 'ऑनेस्टी'!

मडगांवच्या लोहिया मैदानाचेर एक कार्यक्रम चलतालो, मडगांवच्या भाडेलांक दरेकी 25,000/- रुपयांचो चेक दिवपाचो. गोंय सरकारान भाडेलांनी जी सेवा दिल्या ते सेवेची तोखणाय करपाक ही कार्यावळ दवरलेली.

हेराल्द दैनिकाचो मडगांवचो प्रतिनिधी गिल्येर्म आल्मैद हाणें ही सुचोवणी तेन्नाचे मुख्यमंत्री दिगंबर कामत हांकां केल्ली. हांव कामतीगेर गेल्लों तेन्ना ताणी ती सुचोवणी आपल्याक आवडिल्याचें सांगलें. एक समिती घडोवन प्रत्यक्षांत आशिल्ल्या भाडेलांची एक यादी करची आनी नांवां काडचीं अशें थारलें. मामा कार्दोज हांकां समितीचे अध्यक्ष केले. समितींत हांव मेंबर म्हणून आशिल्लों.

लोहिया मैदाना वयले हे कार्यावळींत उलोवपाचो म्हाका संद मेळ्ळी. हांवें एक 'अफलातून' कल्पना मांडली, ती म्हळ्यार, मडगांवच्या प्रवेश दाराचेर भाडेलाचो एक पुतळो बांदचो जाका नांव दिवचें 'सचोटी-ऑनेस्टी'.

भाडेलांनी जी गेल्ल्या शंबर वर्सांत सेवा दिल्या ते खातीर मडगांवकारांक भाडेलांचें सदांच अप्रूप दिसत आयलां. 'भीक मागतलीं पूण चोरचीं नात' हें भाडेलांचें ब्रीद. हाका लागून मडगांवकार संपूर्ण बाजार भाडेलां कडेन सोंपोवन

जेवंक घरा वताले आनी हेवटेन भाडेलां आपणें हाडिल्ली भुती जेवन पसऱ्यांची राखण करतालीं.

भाडेलांचें कौतूक करचें ही मूळ कल्पना 'मार्गा'ची. आठ धा वर्सां पयलीं मार्गान ही कल्पना मांडली आनी मार्गाच्या वावुरप्यांनी ती उखलून धरली. वाऱ्या भशेन ही खबर मडगांव बाजारांत पातळ्ळी आनी नांवां दिवपाक भाडेलांची रस्त लागली. मधुबाबाच्या (मोर्डेकार) विवेक ट्रेडिंगांत तेच भशेन आवदा वियेगश हांच्या 'बायलांचो एकवट' कार्यालयांत नांवां दिवपा संबंदान उलो मारिल्लो. म्हाका याद जाता ते प्रमाण 250 भाडेलांनी नांवां दिल्लीं.

अश्या ह्या कार्याक्रमांत भाडेलांक कितें दिवचें हो प्रस्न आयलो तेन्ना स्टेनलॅस स्टील आयदनांचे सट दिवचे अशें थारलें. पयशे खंयचे हाडचे हाचेर 'बाजारकार दितले' अशें आत्मविस्वासान मधुबाबान सांगलें. हे निमती 50000/- रुपये जमले आनी सगळ्या भाडेलांक सट दिवंक मेळ्ळे. हे सट आमी श्रीमती लिलावती दामोदर नायक (दत्ता दामोदर नायक हांची आवय) हांचे हस्तुकीं वांटले. श्रीमती नायक हाणी इल्लेंशें भाशण करून भाडेलांची तोखणाय केली. भाडेलांनी 'देव बरें करूं'चो गजर लायलो. वातावरण सामकें भावनाम्रय जाल्लें.

* * *

ह्या कार्यक्रमा उप्रांत कांय वर्सांनी गोंय मुक्तीचे सुवर्ण जयंती निमतान तो कार्यक्रम जालो. ताका अदमास 140 भाडेलांनी नांवां दिल्लीं. हाचो अर्थ भाडेलांचो आंकडो उणो जालो. थोडीं आतां नात, थोडीं जाणटीं जाल्यांत आनी म्हत्वाची गजाल म्हळ्यार बऱ्याच भाडेलांनी हो वेवसाय सोडला. तांचीं भुरगीं शिकल्यांत आनी नोकरेक लागल्यांत. पूत परदेशांत गेल्यात. आतां भाडेलां गरीब उरूंक नात.

पूण भाडेलांचो मूळ सभाव बदलूंक ना. भाडेल मुळावें गोंयकार. मुळावो गोंयकार जातकूच प्रामाणिक आसता हें भाडेलांनी सिद्ध करून दाखयलां. एका काळा आदल्या रेल्वे स्टेशनार फकत भाडेलांच आसतालीं. तांबड्यां

कापडांत तीं आसतालीं. उप्रांत गोंय 'मुक्त'जालें ताचें 'पानवळ' म्हण रेल्वे स्टेशनार तांबडे डगले घाल्ले हमाल आयले. तांचे मुखार भाडेलांचें चलना जालें. 'बाबा, बरो करून वचून यो. वा 'बाबा, येयलो तूं?' हीं उतरां प्रवाशांक मेळप बंद जालें.

हांवें जेन्ना भाडेलांचो 'सचोटी' नांव दिवन पुतळो बांदचो म्हळें ताका जाप म्हणून दिगंबर कामत हाणी पुतळे नाका, भाडालांचेर पुस्तक काडचें अशें आर्ट कल्चर डायरेक्टर प्रसाद लोलयेंकार हांकां सांगलें. धा-पंदरा लाख खर्चून सरकार पुतळो बांदचें ना आनी आर्ट कल्चर पुस्तक काडचें ना हें हांव जाणा आशिल्लों.

'पुतळे बांदचे' आनी 'पुतळे बांदचे न्हय' अश्यो दोन विचारसरण्यो चलतात तरी लेगीत पुतळे बांदपाची आवड वाडत आसा. देशभरूच न्हय, जगभर. फरक इतलोच की आमी पुतळे बांदतात आनी सांबाळिनात. आमी उमेदीन ते बांदतात, एके व्हडले सभेंत मंत्र्याक हाडून ताचें अनावरण करतात आनी कांय दिसांनी पुतळे रातच्या काळखांत फोडटात. आमच्यांत जायते हैवान आसात जी असली नीच करणी करतात.

पयर प्रधानमंत्री नरेंद्र मोदी अमेरिकेक वचून आयले. ओबामाक ताणी भगवद्‌गीता दिली. ओबामान तांकां अमेरिकेंतल्या जगप्रिसद्ध 'लिबर्टी' पुतळयाची प्रतिकृती दिली, हें लक्षांत घेवपा सारकें आसा.

मडगांवांत आयचे घडयेक 50 भाडेलां आसतलीं. आदले चीफ सेक्रेटरी बी विजयन हाणी 'आनीक 100 वर्सांनी कोंकणी उलोवपी पळोवंक म्युझियमांत वचचें पडटलें' म्हणिल्लें. तेच भशेन भाडेलूय पळोवंक थंय वचचें पडटलें. शंबर वर्सांनी न्हय. पांच वर्सांनी.

मागीर मडगांवकार भुरग्यांक भाडेलांच्यो काणयो सांगतले. भाडेलांच्योच कित्याक, 'दूदसागर आशिल्लो' आदी कितल्योश्योच. 'एका काळा गोंयांत हें आशिल्लें, तें आशिल्लें आतां ना!' ह्यो काणयो सांगत रावतले! खरें न्हय?





## विद्यार्थी कितें आनी कित्याक शिकतात?

दोन तीन म्हयन्यांपयलीं 'गुणाजी' फिल्म पळोवपाचो योग आयलो, हें पत्र बरयतना तांतल्या एका प्रसंगाचो म्हाका उगडास येता.

गोरवां राखतल्या गुणाजीक दिल्लीच्यान आपोवणें येता. ताका केंद्र सरकाराच्या एका खात्यान पुरस्कार जाहीर केला. गोरवांचो बेस बरो सांबाळ करपी म्हण ताका पुरस्कार फावो जाला. गुणाजीन दिल्ली आयकल्या, पूण पळोवंक ना. गुणाजीचे बायले मुखार प्रस्न. 'कित्याक आपयला काय? ताका ते थंयच दवरचे नात मूं? परतो येतलो मूं गोंयांत म्हजो घरकार?'

घराब्यांतलीं मनशां बसल्यांत आनी आपापले परीन 'कित्याक काय?' हो प्रस्न सोडोवपाचो प्रयत्न करतात. अशा वेळार गुणाजीची सून आपल्या आठ-धा वर्सांच्या पुताक विचारता: 'दिल्लींत कोण आसता रे?' आनी तो एदोसो चिलंगलो कीर कशी जाप दिता: "दिल्लीत राष्ट्रपती आनी प्रधानमंत्री आसात."

हाचेर सुनेचो अभिप्राय: "तशें जाल्यार तांचींच गोरवां आसतलीं राखपाचीं!"

खीणभर हांव सिनेमा पळयतां तें विसरलों आनी त्या भुरग्याक हांवें

कोंकणी भाशा मंडळाचे मुळावे विद्याभुवन शाळेंत चवथें यत्तेंत शिकपी विद्यार्थी म्हण पळयलो. इतलो हुशार विद्यार्थी कोंकणी मुळावे शाळेंतूच पळोवंक मेळपाचो अशें चिंतून, फाल्यां थंय वचून ताका शाबासकी दिवंक जाय, अशें येवजितनाच हांव सिनेमा थियेटरांत बसून पिक्चर पळयतां ताची जाण आयली.

आयज हें पत्र बरयतना दोन-तीन म्हयन्यां पयलीं 'गुणाजी' पळयिल्ल्याचें येवजलें, हाचें कारण दोन दिसां पयलीं प्रुडंट चॅनलाचेर जें कितें म्हाका दिसलें तातूंत आसा.

ह्या दिसांनी प्रूडंट चॅनलाचेर 'युवा पनती' ह्या नांवाचो एक प्रोगाम चलता. 'पनती' हाचो अर्थ म्हाका कळूंक ना. तरी आमच्या युवकां संदर्भांत हो प्रोगाम चलता हें समजलें.

प्रोग्रामांत हातांत मायक घेतिल्लो रिपोर्टर बांबोळेच्या युनिवर्सिटी कॅम्पसांत विद्यार्थ्यांक कांय प्रस्न करता.

ताच्या 'भारताच्या राष्ट्रपतींचें नांव कितें?' ह्या प्रस्नाक एकाद्रो विद्यार्थी वा विद्यार्थीनी सोडल्यार कोणाकूच जाप दिवंक येना. "खबर ना, खबर ना, हांव नकळं...." ह्यो जापो! एके विद्यार्थिनीन तर राष्ट्रपतींचें नांव 'ए. के.अडवानी' अशें ठोकून दिलें आनी उप्रांत 'नो नो नो' म्हणूंक लागली.

तो रिपोर्टर तर वस्त्रहरणूच करूंक आयला काय दिसलें. ताणें दुसरो प्रस्न विचारलो, "गोंय राज्याक तालुके कितले?" विद्यार्थी ताका विचारता, "तालुके म्हळ्यार डिस्ट्रिक्टस न्हय? गोंयांक दोन तालुके." रिपोर्टर फुडें सरता. ताका जापो मेळटात, "2, 6, 8, 11, 12 तालुंके" तोंडांत आंकडे येतात ते. रिपोर्टर हांसता आनी "तूं आतां खंयच्या तालुक्यांत आसा?" काय विचारता. जाप मेळटा - "पणजी, म्हापशें, बांबाळे, पर्वरी..." रिपोर्टर फुडें विचारता- 'मोपा' नांव कित्यावयल्यान घेतलां?' "मोपा? विमानतळ! पेडण्यां आसा! हांव नकळं. म्हाका खबर ना. आगो, तूं जाणा गो? मोपा. MOPA. म्हळ्यार ॲरोड्रोम." रिपोर्टर आतां विचारता - गोंयची विधानसभा

खंय आसा? हाका जाप मेळटा:"पर्वरी, म्हापश्यां, न्हये पेल्यान; पणजे शारांत..."

गोवा युनिवर्सिटींत पोस्ट ग्रॅज्युएशन करपी हे विद्यार्थी/विद्यार्थिनी! रिपोर्टर म्हणटा, "हें कांयच न्हय, आगे आगे देखो, होता है क्या?"

शेवटाक ताका एक विद्यार्थिनी मेळटा. तिका रिपोर्टर विचारता-

1)आमच्या देशाच्या राष्ट्रपतींचें नांव कितें? प्रणव मुखर्जी.

2) गोंय राज्याक तालुके कितले? बारा

3) तूं ज्या जाग्यार आसा त्या तालुक्याचें नांव? तिसवाडी.

4) मोपा हें नांव कोणाचें? पेडण्यांतल्या एका गांवांचें.

5) लोकसभा खंय भरता? दिल्लीक.

"कॉंग्रेट्स! पांचूय प्रस्नांचीं उत्तरां तुवें बरोबर दिलीं. प्रूंडटचे वतीन तुका हें गिफ्ट."

"थँक्स!"

हांव टीव्हीर हें पळयत आशिल्लें. हे प्रस्न तशे 'कौन बनेगा करोडपती'तले नासले. सादे प्रस्न. गुणाजीचो नातू लेगीत उत्तरां दितलो आशिल्लो. पूण पोस्ट ग्रॅज्युएशन करतल्या विद्यार्थ्यांक तांचीं उत्तरां दिवप जमलें ना.

जिणें उत्तरां बरोबर दिलीं तिका हांव वळखलों. तिचें नांव हांव सांगचों ना. ती कोंकणी विद्यार्थिनी इतलेंच हांव जाणां आनी इतलें पुरो. हे नागरीकशास्त्राचे मुळावे धडे कोंकणी विद्यार्थ्यांकूच कळपाचे अशें हांव खोशयेन मानतां.

तिका हांव 'बरें गोंय' म्हणटां.

पूण ह्या प्रसंगान म्हजे मुखार एक गंभीर प्रस्न उबो केला. युनिवर्सिटींत पोस्ट ग्रॅज्युएशन करपी हे विद्यार्थी अशे अनभिज्ञ कशे?

विचारता त्या प्रस्नाक 'हांव नकळं, म्हाका खबर ना, कोण जाणा!' हींच उत्तरां हे विद्यार्थी वा विद्यार्थिनी दितलीं?

स्वामी विवेकानंदाक जाय आशिल्ले ते असलेच तरणाटे? शणै गोंयबाबान 'नवें गोंय' खातीर मागल्यात ते हेच 'म्हाका खबर ना' छाप गडे?

आयच्या आमच्या गोंया मुखार येदें व्हडलें उकतें मळब आसा की मेळटीत तितले तरणाटे तो जागो भरूंक उणे पडटले. आमच्या गोंयांत सिर्वीस छाप तरणाटे आमी तयार करूंक लागिल्ल्यान घडये भायले हजारांनी तरणाटे येवन वेगळे वेगळे वेवसाय करून लाखांनी न्हय तर करोडांनी रुपया जोडूंक लागल्यातूय.

हांव जायत्या शिक्षण संस्थांक तशें तांच्या विद्यार्थ्यांकडेन संवाद सादपाचो प्रयत्न करतां. हांव तांकां पयलो प्रस्न विचारतां तो 'तुमी कित्याक शिकतात?' ताका जवाब मेळटा 'नोकरी मेळपा खातीर!' थोडेच कोण हांव दोतोर जातलों, इंजिनियर जातलों म्हण सांगूंक जाय म्हण सांगतात. कांय जाण टीचर जातले वा जातली म्हण सांगतात. पूण टीचर वा शिक्षक जावपा खातीर 'हांव नकळं, म्हाका खबर ना' हें भांडार चलना हेंच तांकां खबर आसना.

देखून सिटीझनिशपची जी बारा सत्रांची कार्यावळ आमी काणकोणा चलयली तातूंतलें पयलें सत्र करियर आसलें आनी तें हायर एज्युकेशनचे डायरेक्टर भास्करबाब नायक हाणी घेतलें आनी भुरग्यांक जायत्यो वाटो दाखयल्यो.

पूण हें प्रकरण इतल्यान सोंपना. विद्यार्थ्यां कडेन लागून संवाद चलोवंकूच जाय. एके वटेन सरकार करोडांच्या अब्जांच्या उलाढालींच्यो खबरो करता, तर दुसरे वटेन 'हांव नकळं, म्हाका खबर ना, म्हाका जमचें ना....' छाप विद्यार्थी तयार करता हें गोंयच्या बेस बऱ्या फुडाराचें लक्षण न्हय.





# आपलीच फाट थापटितना.....

दिल्ली सावन रेल्वेन मडगांवां परततालों. हांव बशिल्लों त्या डब्याच्या खणांत आनीक एकलोच आशिल्लो. गाडी सुटले उप्रांत कांय वेळान तिकेटी तपासपी आयलो ताका हांवें म्हजो 'फ्रीडम फायटर पास' दाखयलो जो ताणें 'ओके' केलो आनी त्या दुसऱ्या पॅसेंजराची तिकेट तपासून तो फुडें सरलो.

आतां त्या दुसऱ्या प्रवाशान म्हाका विचारलें: 'फ्रीडम फायटर?' हांवें म्हळें: 'हय'. ताचेर ताचो प्रस्न : 'पेन्शन कितलें मेळटा?'

हांवें ताका म्हळें: "कितें वावर केल्लो, असो प्रस्न केल्यार बरें दिसतलें आशिल्लें!" तो लजेलोसो आनी फुडें उलयलो ना.

पणजे एकदां एक वेगळोच प्रसंग घडलो ताचो म्हजेर बरोच परिणाम जालो. ही गजाल वयर बरयल्या तिचे परस उरफाटी. जायत्या तेंपान एक आदलो वळखीचो मनीस पणजेंत वाटेर मेळ्ळो, "आरे, जायत्या तेंपान!" ताणें शॅकहॅण्ड खातीर हात फुडें केलो आनी परत विचारलें: "कितें करता रे?" आनी रोखडेंच शिटकायल्ले भशेन केलें: "घरा खातीर कितें करता तें म्हाका सांगूं नाका. तें आमी सगळे करतातूच. ताचे भायर तूं कितें करता (समाजां पासत) तें सांग."

अशें विचारपी आनी शिटकावपी मनीस पयलेच फावट मेळिल्लो. विनोबाजीच घडये जावये, सदांच सव्या पांडवा विशीं उलयताले. महाभारताचें झूज सव्या पांडवाक म्हळ्यार जाचेर अन्याय जाल्लो त्या कर्णाक लागून जालें असो ताचो सार आशिल्लो. आमच्या जिवितांतूय हो 'सवो' पांडव आसा, म्हणचे अन्याय जाल्ली जनता आसा तिची आमी दखल घेवंक जाय हें ते सांगताले. आमी हाची दखल घेनात. कितें तें सगळें आपल्या घरा खातीर, आपल्या संवसारा खातीर. ग्राम्य भाशेंत सांगचें जाल्यार आपल्या पोटा खातीर करतात. हें मान्य करूंक जाय.

"तूं कितें करता?" ह्या प्रस्नाक "हांव व्यापार करतां, हांव टीचर, हांव दोतोर, हांव आर्किटेक्ट, हांव ॲक्टर" असल्यो आमच्यो जापो आसतात. म्हळ्यार आमच्या देशांत सगलो लोक आपल्या संवसारांतूच मग्न आसता आनी तेवटेन तो 'सवो' अस्वस्थ आत्मो आमकां सस्ततायेन जियेवंक दिना. हिंसेच्या रुपान ताची अस्वस्थताय प्रकट जायत आसता.

हांव इंग्लडं अमेरिकेक पावूंक ना. हांवें वचप टाळ्ळें. संद आसली, पूण थंयची गिरेस्तकाय, स्वच्छता, शिस्त पळोवन दुख्खी जावन येतलों अशें कितेंशें मनान घेतलें. हांगाच्या हांगाच प्रेरणा दिवपी जायत्यो व्यक्ती आनी घडणुको आसात तितल्यो पुरो अशें मानून थोडेंशे काम करीत रावलों.

इंग्लंड अमेरिकेंत वा सिंगापूर मलेशिया वा मध्यपूर्वेत जायते गोंयकार रावतात. थोडे शिकतात तर हेर थंय स्थायीक जाल्यात. ते एकेकदां गांव-घरा गोंयां येतात. कांय जाण 'मार्ग' हें नांव आयकतात. गोंयांत मार्गार जी बेशिस्त चलता वा गोंयकार जी घरा भायर घाण करतात ती पळोवप तांच्यांनी सोंसूंक जायना. तांतले एक दोन म्हाका मेळूंक येतात आनी आपलें एक भाशण दवरूंक सांगतात.

"ह्या लोकाक कोण शिकयनात?" ते खासा गोंयकार जावन गोंय परकी जाल्ले भशेन प्रस्न करतात. हांव तांकां देशांत वा गोंयांत घरां भायली परिस्थिती सुदारपाक कांय व्यक्ती वा संस्था कश्यो वावुरतात तें सांगतां तें आयकून

"हांगाचे लोक केन्नाच सुदरचे नात" असो कमेण्ट मारून ते वतात.

हांवें वाचलां, टीव्हीर पळयलां, आयकलां ते प्रमाण अमेरिका इंग्लंडांत सोशल वर्क म्हण नाच्च. सगळे लोक सुशिक्षीत, सुसंस्कृत. घरा भायर वचत थंय शिस्त, निवळसाण, गाडयो थंडसाणीन चलयत आसतात. थंय एक वेगळीच मानसीकताय तयार जाल्या. हांगा गोंयांत तरी भायलें जग पळयल्ले हजारांनी लोक आसात, पूण ती मानसीकता आमच्यांत कशीच रुजना.

पूण हेंय वायट न्हय. हांगा घरा भायली परिस्थिती निवळावंक जायतो अवसर आसा. हांगा 'गरिबी हटाव' खातीर वावरूं येता. वायटकारांची सेवा करूं येता. मोदींचे सांगणेन गांधीजींचें नांव घेवन देशभर सारण वावडूं येता. हाका लागून म्हजे सारक्या कांय करिनाशिल्ल्याक एक व्याप मेळटा आनी आपली फाट थापटूंक मेळटा. अशेंच हांवें आज करचें थारायालां कारण....

फाल्यां 16 नोव्हेंबराक म्हजो जल्मदीस. जाका ह्या दोन वर्सांत हांव घटदीस मानत आयलां. वयर दिल्या ते फाटभुंयेर म्हज्या लांब जिवितांत त्या महाभारतांतल्या सव्या गड्याची हांवें थोडी भोव दखल घेतल्या काय किते हो हांवें म्हाकाच मनोमनी प्रस्न केलो. तेन्ना थोडें भोव जिवीत सार्थकाक लागिल्ल्याचें समाधान मेळ्ळें, देखीक -

1) रवींद्रबाबाचे प्रेरणेन गांधीजींचें आत्मचरित्र कोंकणीत हाडलें. गांधीजी सदांकाळा खातीर उरतले तसो ह्या निमित्तान कोंकणी अणकारूय उरतलो. ते भायर, ताच्यो सतरा-अठरा हजार कोंकणी प्रती गोंयकारांच्या घरांनी पावयल्यो. हाचे खेरीत इंग्लिश मराठीय पावयल्यो.

2) मडगांवच्या लोहिया मैदानार डॉ. लोहियांचो पुतळो स्थानापन्न केलो, त्या वेळार सुटके झुजारी वसंत मळयो, मधुकर मोंडेकार, वसंत कारापूरकार, रोनाल्द कोवतीन, दामोदार कवळेकार, अँथनी फेर्नांदीश हांचो आधार मेळ्ळो. मुख्यमंत्री दिगंबर कामत हाणी सगळो सरकारी आधार दिलो.

3) सगळ्यां परस ऊंच गोंयकार फ्रांसिश्कु लुईश गोमीश हांचो अर्दपुतळो नगरपालिकेच्या आधारान शारांत बसयलो. श्रीमती कमलिनी पैंगिणकार तेन्ना

अध्यक्ष आशिल्ल्यो.

4) मडगांवच्या भाडेलांचें बाजारकारांच्या पालवान सचोटी खातीर जाहीर कवतूक केलें.

5) 'कोंकणी उलय, कोंकणी बरय, कोंकणींतल्यान सरकार चलय' ही घोशणा रचून 70 दिसांची कोंकणी दिसाळ्या पासत 1980 त गोंयची इतिहासीक पांय भोंवडी काडली. हे सगळे दीस वांगडा कामगार फुडारी ख्रिस्तोफर फोंसेका आशिल्लो.

6) 'मार्ग अभियान' नांवाची चळवळ पंदरा वर्सां चलोवन मार्गाचो मोग करुया, मार्गाक मान दिवया, मार्गाक इश्ट मानुया, मार्गाक देव मानुया हो देशांत पावोवपाचो संदेश गोंयच्या खांची कोनश्यांनी पावयलो. आतां ही चळवळ बेळगांवां पावल्या आनी थंय 6-7 डिसेंबराक भव्य 'बेळगांव मार्ग' संमेलन जावचें आसा.

7) मार्ग चळवळीचें रुपांतर लोकांक नागरिकत्व शिकोवपी संस्थेंत जावचें म्हणून इंस्टिट्यूट फॉर सिटिझनशिप स्थापन करपाक मार्ग अभियानान फुडाकार घेतला.

8) नेहरू सेंटर गोंयांत स्थापन केला जाचे कडेन नेहरूंचे आनी नेहरूंचेर शेंकड्यांनी ग्रंथ आनी फोटो जमल्यात.





# भंय मुक्त समाज घडोवंक तोंड लिपोवन चलचें ना!

त्या दिसा एक नांवाजती हिंदू परब आशिल्ली. फुलांक खूब मागणें आशिल्लें. मडगांवांत शेंवतीं आनी रोजां घेवन पावला-पावलाक चडशीं क्रिस्तांव बायलां बशिल्लीं दिसतालीं. परब हिंदूंची आसूं वा क्रिस्तांवांची, धंद्याक धर्म जात लागना.

घरांतल्या पांयजेलाक घालूंक म्हाका एक फुलांहार जाय आशिल्लो. चालंत दिसा असलो हार पंचवीस तीस रुपयांक मेळटा. म्हाका त्या दिसा पन्नास रुपये दिवन घेवचो पडलो.

गोंयकाराचें फुलां बगर जायना. तशीं आमकां हांगा जाय तितलीं फुलां मेळनात. गोंयांत म्हाड्डोळा आनी बोरी हांगा जायो जातात आनी तांचो मोट्या प्रमाणांत खपूय जाता. पूण जीं तरेकवार फुलां भायल्यान येतात तांच्या हिसपान गोंयांत जातात तीं फुलां नगण्य म्हणूंक जाय.

गोंयांत हालीं हालीं फुलांचे मळे लावपाचो विचार जनमानसांत रुजूंक लागला. तो फळाक (फुलाक) येत जाल्यार हांगा एक फुल-बाजारपेठ तयार जातली. अभिमान दिसपा सारकी ही गजाल थारतली.

आमकां गोंयकारांक श्री पासून ज्ञ मेरेन फुलां जाय. देवाच्या माथ्यार,

आंगार, पांयांर घालूंक आमकां फुलां जाय. मडगांवांत तर धनयाचो दोळो चुकोवन ताच्या पोरसांतलीं फुलां आपल्या देवा खातीर खुडटात. मालकूय म्हणटा, "निमाणें देवाच्या आंगार घालूंक मू? व्हरूंदी जाय तितलीं!"

आमकां देवा खातीर फुलां जाय हें जालेंच, पूण आमच्यो परबो फुलां बगर जायनात. मेल्ल्यांचे कुडीर घालूंक आनी गेल्ल्यांच्या फोटवार घालूंक आमकां फुलां जाय. लग्ना कारणाक घर-सजावटी खातीर वा मंटप सोबोवंक पयशेकार फुलां पासत लाख लाख मोडटात. न्हवऱ्या-होंकलेक परबीं दिवंक गेल्ले आमंत्रीत फुलांचे तुरे घेवन वतात. सभा संमेलनां तर फुलां बगर जायच नात. परिक्षांनी बरें जैत जोडिल्ल्या विद्यार्थ्यांक फुलांचे तुरे दितात. पुतळ्यांच्या पांयांचेर आमी फुलांचीं चक्रां दवरतात. लीडरांच्या गळ्यांत आमी हजारांनी रुपयांचे हार घालतात आनी हातांत जड गुळे तुरे दितात जे ते आपल्या पी.ए. कडेन थंयचे थंय दितात. हालींच एका लीडराक दिल्लो तुरो ताका ल्हान दिसलो. 'हांवें तुमचीं व्हडलीं व्हडलीं कामां केलीं पूण एक व्हडलो तुरो घेवंक तुमकां जमलें ना? ' तो तापलो आनी ताणें तुरो घेतलो ना.

गोंयची हिंदू बायलां पयलीं फुलां माळटालीं आतां ते दीस नात. आतां ते केंसा आंबाडे ना. ऑफिसांनीं फुलां माळून वचप आतां सोबना. खाला दक्षिणेक कारवारा आनी मुखार फुलां माळूंक ना अशी अस्तुरी दिसच ना. गोंयां फुलां माळटात तीं स्कुटरींक, मोटार-सायकलींक वा मोटारींक. वर्साक दोन तीन फावटी तरी.

एक मत आसा जें झाडाचें फूल तोडचें न्हय म्हण सांगता. फूल झाडारूच फुलचें, परमळचें आनी बावून सोंपचें अशें हें मत सांगता. गांधीजी फुलां खातीर पयसो मोडूं नाकात, पानांनी सजावट करात म्हण सांगताले. आतां गांधी-जमानो ना.

पूण एक गजाल मनांत येताच. फुलां ही देवाक जावं, हेरांक जावं भेटोवपाची, आनंद दिवपाची वस्त. लाखांनी रुपये आमी तांचे पासत खर्चितात. पूण तीं दुसऱ्या दिसा बावतात. निकामी जातात. कचरो जातात.

लाखांनी रुपयांचो हाका इबाड कोण म्हणचो ना. पूण फुलांचो इबाड मात जाता खरो!

* * *

हो आतां दुसऱ्या फुलांचो विशय. पयर एक कविमित्र मेळ्ळो. उदास दिसलो. 'कितें रे? कितें जालां? कविता येवपाच्यो बंद जाल्यात काय कितें?' हांवें विनोदान विचारलें.

ताणें गोंयांत धामी भाशेन पातळिल्ले एके विचित्र परिस्थितीचेर बोट दवरलें. गोंयांत स्कुटरी वयल्यानूच न्हय तर चलून वचपी लेगीत तमाम चलयो आतां तोंडार बुरखो घालूंक लागल्यात अशी ताची तक्रार आशिल्ली.

"मोयरांच्यो बायलो तोंडूच न्हय तर सगलो देह बुरख्यान लिपयतात हें समजून घेवं येता पूण बाकीच्यांनीय तशेंच करचें?" ताचो प्रस्न.

जायत्या काळा सावन हो विशय चर्चेक घेतलों म्हणटालों. कविमित्रान ही संद दिली. आतां हे पिरायेर हो विशय हांव 'न्हय त्या अर्थान' घेतां अशें चलयो मानच्यो नात अशें म्हज्यान धरूं येता इतलो विस्वास हांवें कमायला अशें हांव मानतां.

म्हज्या मित्रान जें म्हळें तें म्हाका पटलें. मार्गार आज एक सुंदर रूप दिसप दिशीं दिशीं अवघड जायत वचूंक लागलां. धाम आयल्या हातूंत दुबावूच ना. जंय सोंसूंक जायना त्या गरम प्रदेशांतल्यान ती आयल्या आसूं येता, पूण सैमान गोंयाक एक आशिर्वाद दिला. हांगाची गरमी, थंडी आनी पावस सोंसपा भायलीं आसना. अशे परिस्थितींत फॅशन म्हण कितेंय पत्करप हें चालंत प्रसन्नते आड दिसता. आयज कदीम काळा सावन ज्या नारी सौंदर्यान कवींक सुंदर सुंदर कविता रचूंक प्रेरणा दिल्या, भूल घाल्या ती सवलत अचकीत काडप म्हळ्यार अन्यायूच म्हणूंक जाय. आयज मेरेन आमच्या कवींनी स्त्री सौंदर्याची तुळा मुक्त उतरांनी आनी हातांनी केल्या. दोळे साळकां भाशेन, नाक चांफ्या कळ्या भाशेन, दांत मोगऱ्यां हळये भाशेन, गाल जांबां भाशेन, ओंठ गोड संत्रांचे शिरे भशेन....

इतलें आसुनूय बायलांची दादल्या आड तक्रार आशिल्लीच पूण तो लढो आतां मोव जाला. आपूण दादल्यां परस कूसभर लेगीत उण्यो नात, हें बायलां सिद्ध करीत आसात. बायलां बुद्दीन, शिकपांत दादल्या परस सरसूच आसतात हें दिसून आयलां. सरकारी वरिश्ठ अधिकारी म्हणून, बँकानी वयल्या जाग्यांचेर बायलां काम करतात. व्यापार धंद्यांतूय आतां बायलां फुडं सरूंक लागल्यांत. बायलां डॉक्टर, इंजिनीयर, आर्किटेक्ट, विज्ञानीक, विमानांचीं पायलट म्हण जैतिवंत जाल्यांत. कुडीच्या बळग्या विशीं म्हळयार बॉक्सिंग, कराटे, कुस्ती हातुंतूय बायलां फाटीं नात.

इतलीं जीं समाजांत फुडें आयल्यांत ताणी, त्या बायलांनी/चलयांनी 'कात काळी जाता, कात करपता, पोल्युशन त्रास दिता' असलीं निबां फुडें करून तोंड लिपोवन भोंवप हो तांचो आपणाचेर तसो समाजाचेरूय अन्याय कसो दिसता.

खरें म्हळयार, मनशाक तोंडा वयल्यान जोखतात. हात पांय वा फाट पळोवन न्हय. हाकाच लागून नाका जाल्ल्या मनशाक 'तोंड दाखोवं नाका, तोंड घेवन चल, तोंड काळें कर' म्हणपाची चाल पडल्या. समाजांत फुडें येवचें आसल्यार, भंय मुक्त समाज घडोवंक तोंड लिपोवन चलचें ना. जांकां समाजांत कांय करचें ना तीं तोंड लिपयतात म्हळयार तें चूक जायत काय?

ते भायर आकांतवाद्यांचे दीस हे. फाल्यां आमीय तोंडार बुरखो घालून भोंवतले अशें दादल्यांनी म्हळयार आनी ते तशे भोंवल्यार सरकार सस्त बसतलें?

म्हाका जाल्यार स्कूटर चलयतली कोणूय उगत्या रुपांची चली घोड्या वयल्यान वतले तेजस्वी झांशीची राणये भाशेन दिसता. तांची संख्या वाडूं अशें हांव मागतां आनी कविमित्रांची उदासिनता नश्ट जावन बायलांच्या रुपाचेर आधारिल्ल्यो नव्यो नव्यो कविता तांकां सुचूं अशें मागतां.





# मार्ग-विचार देशभर पातळावया

'मार्ग' ही एक चळवळ, रस्त्याचो मोग करुंया हें शिकोवपी पाठ. हे चळवळी फाटल्यान एक विचार आसा. तो गोंयच्याच न्हय तर भारतीय जनमानसांत रिगोवंक जाय ही मोख.

आयज मेरेन आमी फकत आमच्या घराचो मोग केलो. तें पवित्र दवरलें, निवळ राखलें आनी घरांत सगळ्या तरांची सुखां भोगलीं. घरान सदांच 'हाड हाड' म्हळें आनी तें आमी घर भरून ओतता इतलें हाडलें. रस्तो सदांच दीत आयलो. ताची आमी मानतूक केन्नाच केली ना. ताचो मानपान राखलो ना. रस्तो आमी हळशिकेन भरलो; माड्डिलो; गुड्डिलो; ताचे वयल्यान वाहनां कश्या कशींय चलयलीं, तो बुरसो केलो आनी ताचेर झगडीं मारामाऱ्योय केल्यो. सगळी पोटा-पाणयाची जोड आमी रस्त्याच्या आधारान करतात हें आमच्या, म्हळयार गोंयकारांच्याच न्हय तर भारतीयांच्या तकल्यांनी केन्नाच रिगलें ना.

पंदरा, वीस वर्सां पयलीं कांय गोंयकारांचे तकलेंत रस्त्याची ही दुरावस्था गेली आनी ताणी देशांत मार्गाक मानाची सुवात मेळोवन दिवपाचें थारायलें. हे पासत 'गोंय' ही कर्मभूंय थारावपा बगर गत्यंतर नाशिल्लें. कर्मभूंय दिल्ली

जाल्ली जाल्यार हे चळवळीक राष्ट्रीय रूप येवपाचें. गोंयांत हे मार्ग चळवळीन येस जोडलें, पूण 'कप अर्दें भरलां आनी अर्दें रिकामी आसा' इतली ती जोड जाल्या.

ही मार्ग चळवळ जायत्या गोंया भायल्या लोकाच्या कानार पडल्या आनी ती थंय चालीक लावपाची मनिशा ताणी व्यक्त केल्या. 'नॅशनल युनियन ऑफ स्टुडंटस ऑफ इंडिया' हे विद्यार्थ्यांचे संघटनेन मार्ग-विचार देशांत राबोवपाचो एक विधायक कार्यक्रम म्हण आपणायला. मार्गाचो 'स्वच्छ नारायण' तर लोकप्रीय जायत आसा. हांगा लागीं बेळगांवकारांनी 'बेळगांव मार्ग' हें नांव दिवन मार्ग-विचार आपणायला.

बेळगांवां 6 आनी 7 डिसेंबरांक, शेनवारा आनी आयतारा पयली 'बेळगांव मार्ग परिशद' जावपाची आसा. तीन चार वर्सां पयलीं बेळगांवकारांक मार्ग-विचार भावलो आनी ताणी 'बेळगांव मार्ग' हे संस्थेची स्थापना केली. गेल्लीं दोन तीन वर्सां 'बेळगांव मार्गा'चें कार्य बेळगांवां चल्लां आनी ताचीच परिणती म्हण डिसेंबरांत 'बेळगांव मार्ग परिशद' मोट्या दबाज्यान जाता.

पन्नास वर्सां पयलीं बेळगांव हें सायकलींचें शार आशिल्लें. म्हशींकूय बेळगांवचे रस्ते मेकळे आशिल्ले. पियेवंक दूद जाय जाल्यार मार्गार म्हशीचें धारोश्ण दूद रस्त्यार थंयचे थंय काडून दिताले. आज बेळगांव ही व्हडली बाजार-पेठ जाल्या. हांगा गांवांतलें उत्पन्न येता तशें मुंबय बंगळूरचें उत्पादनूय येता. परिणामी, हें शार आतां दोन-चक्री आनी चार-चक्री वाहनांनीं व्यापलां. आत्र्या पयऱ्यान बेळगांवांत अपघात जावंक लागल्यात. बेळगांव गोंयचे वाटेन वता म्हळ्यार अतिताय जावची ना.

म्हणटकूच ही दोन दिसांची परिशद योग्य समयार जाता म्हणूं येता. गोंयच्या आदल्या सरकारान 2011 वर्सा गोंयचे मुक्तीची सुवर्णजयंती गोंयांत मनयली. गोंय सरकारान दिल्ल्या आधाराकूच लागून बेळगांवांतूय एक भव्य कार्यक्रम जालो. हाका लागून बेळगांवकारांक तेन्नाचे मुख्यमंत्री दिगंबर कामत हांचे विशीं मोग आनी आदर दिसता आनी म्हणून बेळगांवकारांनी पयले

बेळगांव परिशदेंचें उक्तावण कामतीच्या हातांनी करचें थारायलां. शेनवारा 6 तारखेर परिशदेचें उक्तावण खडे बाजार परिसरांत जातलें.

बेळगांवकारांची खासियत म्हळयार विधायक कार्या विशीं तांकां आशिल्ली ओड. समाजकार्याक ते रोखडे जमतात. बेळगांवांत ताणी कितल्योशोच 'स्वच्छ नारायण'च्यो पुजा बांदल्यो. स्वच्छ नारायणाक धर्मीक कार्यावळ लागना. मार्ग सफाई करप, वाहनां चलोवंक ज्यो ज्यो वस्तू लागतात तांकां नमन करप, फूल घालप आनी प्रसाद वांटप इतली ही पुजा आसता. अजाप म्हळयार डॉक्टर, वकील, इंजिनीयर, शिल्पकार अशे मानेस्त वेवसायीक हे पुजेंत वांटेकार जातात. हातूंत तोपी आनी पुडवें न्हेशिल्लेय आसतात. स्वातंत्र्य सैनिकूय आसतात.

हे परिशदेक बेळगांवचे पालक मंत्री, आमदार, लोकप्रतिनिधी, कलेक्टर आनी वाहतूक आनी पुलीस खात्याचे वरिश्ठ अधिकारीय उपस्थिती लायतले.

हे परिशदेक गोंयच्यान पंदरा वीस जाण वतले. गोंयचो 'मार्ग' बेळगांवां वता हाची तांकां व्हडवीक. खरें म्हळयार, गोंयकारांचें बेळगांवां बगर जायना. बेळगांवकार गोंयचेर जायतें धन जोडटात. बेळगांव गोंयाक जायत्यो वस्तू सवाय दरेन दिता. भाजी-पालो, फळफळावळ तेवटेंतल्यानूच गोंयां येता. गोंयकार हजार कारणांक लागून बेळगांवां वतात. टुरिस्ट म्हणून जग गोंयां येता, पूण गोंयकार बेळगांवचो आलाशिरो घेतात. थंयचीं कांय हॉटेलां गोंयकरांनी भरिल्लीं आसतात. हॉटेला भायर गोंयच्या GA नंबर प्लेट आशिल्ल्या गाडयांची रस्त लागिल्ली दिसता.

बेळगांवच्या रस्त्यांचेर गोंयकार फामिली मनसोक्त भोंवतना दिसतात. घोव बायल भुगीं-बाळां हॉटेलांनी च्या पियेतना मेळटात. उप्रांत 'केन्ना आयलीं, केन्ना वतलीं?' भास सुरू जाता.

पयर शेनवारा हांव बेळगांवच्यान व्हाया चोर्ला परततालों. वाटेर सुमार शंभर देडशें गाडयो बेळगांवचे दिशेन फास्ट वतना दिसल्यो.

इतली उलाढाल आसून गोंयकारांक बेळगांव विशीं आनी बेळगांवकारांक

गोंयां विशीं आपलेपण दिसना. गोंयच्या राजकी समाजीक घडामोडींचो बेळगांवाचेर कांय परिणाम जायना, आनी बेळगांव जें आतां 'बेळगावी' जालां आनी कर्नाटकाची पालवी राजपाटण जालां ताचो गोंयचेर परिणाम जायना.

हें 'बेळगांव मार्ग' अधिवेशन बेळगांवचे मार्ग प्रस्न चर्चेक घेतलें. गोंयसून बेळगांवां वचपी अनमोड रस्तो मुंबय-पुणे रस्त्या भशेन चकाचक करचो म्हण ह्या अधिवेशनात मागतले तशें गोंयच्यान बेळगांव-मिरज वचपी रेल्वे ट्रीपीय वाडोवच्योच म्हण मागतले.

बेळगांवांत कन्नड भास व्हड प्रमाणांत चलता. गोंयांतूय जायते कन्नड लोक रावतात. बेळगांवचें अधिवेशन विशेश करून मराठी लोकांनीच आटापलां. तातूंत कन्नडियांनीय वांटो घेवचो हे नदरेन अमचे प्रयत्न चल्ल्यात. कवी संमेलनांत कन्नड, मराठी, हिंदी आनी कोंकणी भाशेचो सहभाग आसतलो. कवी संमेलनाचें अध्यक्षपद आमचे कवी रमेश वेळुस्कार चलयतले.





# 67

# उत्सवांच्या संगिताचें जिविताच्या संगिताचेर आक्रमण

गोपाळ कृष्ण गोखले हांकां गांधीजी गुरु मानताले म्हणपाचें आमी जाणात. गोखले हांचे विशीं गांधीजींनी पिरायेच्या 27 व्या वर्सा अशें बरयलां:

''सर फिरोजशाह म्हाका हिमालया सारके, लोकमान्य दर्या कशे आनी गोखले गंगे भशेन लागले. हिमालयाचेर चडूंक शकनाशिल्लों; दर्यांत बुडून वचपाची भिरांत आशिल्ली; गंगेंत म्हज्यान न्हावं येतालें, गंगेचे मांडयेर खेळूं येतालें, गंगेंत पनेळ सोडून भोंवंक येतालें.''

1896त दक्षिण आफ्रिकेंतल्यान कांय दिसां खातीर गांधीजी देशांत आयिल्ले. ते देशभर भोंवले आनी हांगाच्या व्हड फुडाऱ्यांक ते मेळ्ळे. तांचे तेन्नाचे हे वयले विचार.

उप्रांत 1915 त गांधीजींनी दक्षिण आफ्रिकेचो सासणा खातीर निरोप घेतलो. देशांत येतकच ते पुण्यांत वचून गोखलेंक मेळ्ळे आनी आपल्या मनांत देशांत एक आश्रम स्थापन करून देशाची सेवा करची आसा म्हणपाचें सांगलें. आपूण गुजराती जाल्ल्यान गुजरातेंत रावन आपणा कडल्यान देशाची बरी सेवा घडटली अशें आपणाक दिसता अशेंय ताणी म्हळें.

गोखलेंक हे विचार पटले. ताणी गांधीजींक सांगलें, ''तुमी कितेंय

थारायात, पूण तुमी आश्रमा खातीर म्हजे कडल्यानच पयशे घेवचे. हो आश्रम म्हजोच कसो हांव लेखतलों."

गांधीजी बरयतात: "गोखलेंनी डॉ. देव हांकां आपोवन हाडून सांगलें- गांधीजींचें खातें आमचे कडेन उगतें करात आनी तांकां आश्रमा खातीर आनी खासा तांचे खातीर जितले पयशे लागतीत तितले दियात."

गांधीजी टागोरांक 'गुरुदेव' म्हणटाले. तांचे मजगतीं लागून पत्र वेव्हार चलतालो. तांचे भितर जायते मतभेदय आशिल्ले, पूण गांधीजींची 'खासियत' म्हणल्यार ते मतभेदांचो इश्टागतीचेर परिणाम जावंक दिनाशिल्ले. कांय फुडाऱ्यां कडेन खर मतभेद आसून लेगीत ते तांचे विशीं अनादर दाखयनाशिल्ले वा असवडीं वायट उलयनाशिल्ले.

शांतीनिकेतनांत तेन्ना संवसारभर नांव जोडिल्लें. नांवाजते विद्वान थंय शिकयताले. अशें आसलें तरी ब्रिटिशांच्या त्या काळांत शांतीनिकेतन सदांच अर्थीक अडचणींतल्यान वतालें आनी पयशां खातीर खासा रवींद्रनाथ हांकां आपली मंडळी घेवन नाट्य/नृत्य प्रयोग करूंक देशांत ठांयठांय भोंवचें पडटालें.

रवींद्रनाथ पयशांचे अडचणींत आसतात, ते पासत ते मंडळी घेवन भोंवतात तें गांधीजींक रुचनाशिल्लें. एक फावट तर स्टेजीरूच रवींद्रनाथांक चिर्र जालें. गांधीजींच्या कानार ही गजाल पडली तेन्ना ते अस्वस्थ जाले. त्या वेळार गांधीजींचे सचीव महादेव भाई देसाई हाणी गांधीजींक एके आदले घडणुकेची याद करून दिली. "तुमी जेन्ना देशांत रावंक आयिल्ले तेन्ना गोखलेंक मेळिल्ले आनी गुजरातेंत रावपाक सोदतात म्हूण सांगिल्लें. याद करात, तुमी पयशे मागूंक नाशिल्ले पूण गोखले हाणी डॉ. देव नांवाच्या सांगात्याक 'गांधीजींच्या वावराक आमचे संस्थेच्या खात्यांतल्यान लागतात तितले पयशे दियात' म्हूण फर्मायिल्लें."

"खरी गजाल." गांधीजीन म्हणलें आनी आपल्या एका दुडवांकार इश्टाक चीट बरोवन शांतीनिकेतनाच्या नांवान एक चेक बरोवंक सांगलें आनी तो

चेक रवींद्रनाथां कडेन पावोवपाची वेवस्था केली.

रवींद्रनाथांचो सोंपतो काळ आयिल्लो. हाचे मुखार शांतिनिकेतनाचें कितें जातलें हाचो हुस्को तांकां सतायतालो. ताणी गांधीजींक पत्र बरोवन शांतीनिकेतनाचो भार आपल्या भुजार घेवचो अशी विनंती केली. गांधीजीन तांच्या पत्राक जाप दिवन बरयलें: "तुमचो निरोप घेतना तुमी म्हज्या हातांत एक पत्र दिलें - ह्या पत्रान म्हजें काळीज हालयलें. विश्वभारती ही राष्ट्रीय संस्था. तिका आंतरराष्ट्रीय म्हणूं येता. ती सासणाक उरची म्हूण सगळे प्रयत्न करतात. हांवूंय म्हाका जमता तें सगळें करतालों, हाची तुमी खात्री बाळगुची." हें 17.02.40 चें पत्र. 1941त टागोर गेले.

उप्रांत, 1942च्या 'चले जाव' आंदोलनांत गांधीजींक धरले. सुटके उप्रांत 1945त ते शांतिनिकेतनाक गेले. टागोर गेले उप्रांत ते पयले फावट थंय पाविल्ले. थंयच्या कांय गजालींनी तांकां बेचैन केलें.

रवींद्रनाथांची पुतणयी इंदिरा देवी हाणी गांधीजींक एक प्रस्न केलो, "हांगा संगीत आनी नाच इल्ले अती चलतात अशें दिसना? जिविताच्या संगिताक आवाजाचें संगीत घुस्मटायता अशें तुमकां दिसना?" असो प्रस्न आशिल्लो. गांधीजी परतुपाच्या बोवाळांत आशिल्ले. तुमच्या ह्या प्रस्नाक कलकत्याच्यान पत्र बरोवन जाप धाडटां अशें ताणी सांगलें.

कलकत्या सावन इंदिरा देवींक बरयिल्ल्या पत्रांत गांधीजी म्हणटात: "जिवीत फर्मायिता ताचे परस घडये चडूच आमी संगिताचो नाद लावन घेतला, असो दुबाव म्हज्या मनांत येता. जिविताचें संगीत आवाजाच्या संगितांत शेणून वचपाचें संकश्ट मुखार उबें रावलां. चलपांत संगीत कित्याक नाका? 'मार्च' करतना ते कृतींत संगीत कित्याक नाका? आमच्या भुरग्यांक चलचें कशें तें कळूंक जाय; बसचें कशें, खावचें कशें, 'मार्च' कसो करचो... हें कळूंक जाय. थोड्याच उतरांनी सांगचें जाल्यार जिवितांतली दरेक करणी कशी करची तें कळूंक जाय. संगिताची ही म्हजी कल्पना."

सत्तर वर्सां पयलीं देशाचेर ब्रिटिशांचो शेक चलतालो तेन्नाची गांधीजींचे नदरेंतल्यान देशाची ही स्थिती.

आयज आमी स्वतंत्र जाल्यात, आयज म्हज्या गोंयांत परिस्थिती कशी आसा? उत्सवांच्या संगितान हांगा जिविताच्या संगिताचेर आक्रमण केलां अशें तुमकां दिसना?






# गोंयांक बरे राजकारणी आनी अर्थतज्ञ जाय

पंडित नेहरू मे 1963 त गोंयां आयिल्ले. मुक्ती उप्रांतची तांची ती पयली भेट आशिल्ली, तशी ती निमाणीय थारली.

हाचे आदीं 1936च्या अदमासाक देशांत स्वातंत्र्याची चळवळ चलयतना तांचें विमान गोंयां देंविल्लें. पूण पुर्तुगेजान तांकां सकयल देंवूंक दिलें ना. एक 'खतरनाक' मनीस आयला अशें पुर्तुगेजान म्हणिल्ल्याची नोंद आसा. खास पंडितजींनी गोंयांत एके सभेंत ती याद काडिल्ली.

पंडितजी गोंयांत चार दीस रावले. हाचे वयल्यान गोंयची तांकां कितली ओड लागिल्ली तें कळटा. चौदा वर्सां ते तळमळ्ळे अशें हांव म्हणन. देश स्वतंत्र जायनाफुडें भारत सरकारान सैन्य धाडून गोंय घेवपाचें अशें जायत्या जाणांक दिसत आयलां. तशें केल्लें जाल्यार पुर्तुगेजांच्या वळवळ्यांतल्यान गोंयकार देशा बरोबर सुटकेचो उस्वास सोडूंक पावतले आशिल्ले अशें तांचे मत. कांय गोंयकार गोंयाक दोन पंचवर्सुक्यो येवजण्यो चुकल्यो म्हण खंत परगटायतात.

हांव जाणां पंडित नेहरूंचे गोंयांत जायते कट्टर विरोधक आसात. गांधीजी

विशींय ते बरें उलयनात. पूण प्रधानमंत्री नरेंद्र मोदी सकाळींफुडें गांधीजींचे प्रतिमेक हार घालून आनी नमस्कार करून आसनार बसतात हें आयकत सावन बऱ्याच जाणांचे जिबेक ब्रेक लागला.

पंडित नेहरूंक मानतले गोंयांत जायते आसात. ते कळंगुट गेल्ले तेन्ना कळंगुटकारांनी आपणाक गोंयकारांच्या काळजाची भांगराची चावी दिली हाचो ताणी जाहीर उल्लेख करून गोंयकारांचे आभार मानिल्ले.

पंडितजी गोंयकारांक पुराय वळखताले. तांचे गुण-दोश पंडितजींक खबर आशिल्ले. मुंबयंत राबितो करून आशिल्ल्या गोंयकारां कडेन तांचे लागून 14 वर्सां संबंद आशिल्ले. मुक्ती खातीर गोंयकार कितले उचांबळ जाल्यात हें ते जाणा आशिल्ले. 'आकारान एदेंशे आसुनूय म्हान त्याग करपी स्वातंत्र्य सैनिक गोंयान दिले', अशी ताणी गोंयकरांची तुस्त केल्या. हाचेच वांगडा मुंबयस्थित गोंयकारांच्या फुडाऱ्यांक ताणी बेजबाबदार म्हळां. हें सगळें तांच्या 'सिलेक्टेड वर्क्स' ग्रंथांनी वाचूंक मेळटा. अशे 67 ग्रंथ आजवेर प्रसिद्ध जाल्यात. दोन म्हयन्यांत एक ग्रंथ. 1960 मेरेनची तांची बरपावळ ह्या ग्रंथांनी आसा. तांकां गोंयकारां विशीं आपलेपण दिसतालें हातूंत दुबाव ना. कारण विचारांचे आनी लोकशाहीचे पुरस्कर्ते जाल्ल्यान गोंयकारांच्या चिंतपाचेर सालाझारान बंदी घाल्या हाचो तांकां राग येतालो आनी गोंयकारां विशीं कणव दिसताली.

पंडितजी गोंयां आयले आनी गोंयकारांक परबीं भेटोवन कांय मार्गदर्शन करून गेले. ताणी सांगलें तुमी : 1) फकत गोंयांत बसून 'गोंय गोंय' आडूं नाकात. मोटवे वृत्तीचे जातले.

2) गोंयांक वैचारीक बदलाची चड गरज आसा. विचार करूंक शिकात.

3) आपली उदरगत करतना फकत गोंयां पुरतें चिंतूं नाकात. आख्खो भारत दोळ्यां मुखार दवरात.

जे गोंयकार पंडित नेहरूंक मानतात ते तांचे कडेन एक शुद्ध विचार

दिवपी मनीस म्हण पळयताले. देखून पंडित नेहरूंनी केल्ले मार्गदर्शन कितल्यांनी मानून घेतलां ताचो विचार जावची गरज आसा.

आयज एक कर्तुत्वी गोंयकार देशाचो संरक्षण मंत्री म्हण दिल्लींत गेला. केदी जबाबदारी! गोंयकारांक ही चड अभिमानाची गजाल दिसूंक जाय. तो गोंय चलोवं नज म्हण पळून गेला अशें म्हणप हें हलकेपण. हांव बिजेपीचो न्हय. तरी लेगीत एक गोंयकार ती जबाबदारी पत्करता हाका आव्हान स्विकारप (accepting challange) म्हणूंक जाय. आनी ताका यश चिंतूंक जाय. ताचें अभिनंदन करूंक जाय.

पूण तो गोंयकारूच. 'गोंय गोंय' म्हणटल्यांतलोच. ताणें आपलें कर्तुत्व दाखोवचें पडटलें. पावल फाटीं घेनासतना झूज कशें टाळप हें ताणे दाखोवचें पडटलें. आज झूज भारताच्या दारार पावलां. अशा वेळार घेतिल्ली जबाबदारी तो कशी हाताळटा तें कळचें आसा.

गोंयचें सरकार चलोवप आनी देशाचो संरक्षण मंत्री जावप हातूंत अंतर आसा. देशांचें फुडारपण पत्करिल्ल्यान गांधी, नेहरू, पटेल, आंबेडकर, वाजपेयी हांचे भाशेन देशांतले जनते कडेन ताणे पुराय तादात्म्य सादोवचें पडटलें.

गोंयाक आज बरे राजकारणी आनी अर्थतज्ञ जाय तेच भाशेन अभ्यासू नागिरकूय जाय. गोंया खातीरूच न्हय तर देशाक दिवपा खातीर म्हणूं येता. अशे नागरीक आनी फुडारी तयार करपाचे नदरेन मार्ग संस्थेन पंदरा वर्सांचो अणभव लक्षांत घेवन Institute for Citizenship अनुपचारीक रितीन स्थापला आनी तो कार्यरतूय जाला.

पोटतिडक आसले बगर कार्य सिद्धीक वचना. अशे पोटतिडकीचे कांय जाण आमकां मेळ्ळ्यात. ही कल्पना कांय जाणांक आवडल्या. असो इन्स्टिट्यूट उबो जालो जाल्यार देशांतलो तो पयलोच जातलो आनी ल्हान गोंयाक म्हान करतलो.

बेळगांवचें आतां बेळगावी जालां. थंयच्या मराठी लोकांक हें नामांतर पसंत ना. पूण केंद्र सरकाराची ताचेर म्होर पडल्या. तेन्ना बेळगांवांक बेळगावी म्हणचेंच पडटलें.

मुंबईक मुंबय, मद्रासाक चेन्नय, कलकत्त्याक कोलकाता, बंगळूराक बंगळुरू अशी ब्रिटिशान भश्टिल्लीं नांवां पूर्वपदार येत आसात.

गोंयचें कितें विचित्र जालां! गोंय, गोंयें (रोमी), गोमन्तक, गोवा, गोआ आनी गोअ (पुर्तुगेज) हीं सवूय नांवां गोंया खातीर वापरतात. अजीब गजाल न्हय?





# खऱ्यानीच आमी देसा येदे जाल्ल्यात न्हय?

19 डिसेंबर 1961. हो निखटो गोंय मुक्त जाल्ल्याचो दीस न्हय. खरें म्हळ्यार, भारताचें स्वातंत्र्य पूर्ण जाल्ल्याचो दीस. गोंय मुक्त जायसर भारताचें स्वातंत्र्य पूर्ण जावचें ना अशें प्रधानमंत्री नेहरूच सांगताले. तशें जाल्यार गोंय मुक्त करूंक ताणी 14 वर्सां कित्याक लायलीं?

हाका कारणां आसात. तांकां गोंय मुक्तीची चळवळ गोंयकरांनीच चलोवची अशें दिसतालें. गोंयकारांक कश्ट काडचे पडटले आशिल्ले खरे, पूण त्याग केले बगर, कश्ट भोगले बगर, इतलेंच न्हय तर मेले बगर कोणा प्रदेशाक स्वातंत्र्य मेळ्ळां? खासा पंडित नेहरू बिन्नीचे स्वातंत्र्य सेनानी आशिल्ले. ताणी सुमार धा वर्सां बंदखणींनी काडिल्लीं.

अहिंसक वा हिंसक चळवळ करतकूच सालाझार बिटकी कवळटलो अशें गोंयकारांक केन्नाच दिसलें ना. नेहरू मदीं पडूंक जाय अशें तांकां दिसतालें. नेहरूंची इंग्लंड अमेरिके कडेन दोस्ती आशिल्ली. तीं राष्ट्रां सालाझाराक आतां वचपाचो वेळ जाला हें सांगतलीं आनी सालाझार तें आयकून वेळ काळ वळखून बरेपणान वतलो अशें सगळ्यांक दिसतालें.

पूण तशें घडपाचें नाशिल्लें आनी नेहरूंक तर गोंयांत सैन्य रिगोवपाचें

नाशिल्लें. कारण जगाच्या राजकारणांत एक नवो प्रयोग करूंक ते सोदताले. ताका गांधी-प्रयोग म्हणूं येतालें.

काय दोस्त राष्ट्रांक घेवन एक अलिप्त राष्ट्रांचो पंगड घडोवन अमेरिका आनी सोवियत रशिया हांचे मदें झूज पेटचें न्हय म्हण ते हर तरांचे प्रयत्न करताले. जगापासत न्हय तर आमच्या देशाचे शांती पासत आमी वावुरतात अशें ते म्हणटाले. कारण एकदां झूज पेटलें की तें तिसरें म्हाझूज जातलें. आनी तातूंत अॅटमा फुडल्या  बॉम्बांचो उपेग करून जग काबार जावपाची परिस्थिती येतली, जातूंत आमचोय देश सांपडटलो अशें ते म्हणटाले.

म्हणटकच मुळांतूच हातांत शस्त्र घेवप ना हें तत्व मानिल्ल्यान पुर्तुगेजाक धांवडावंक उलोवणें - बोलणीं होच उपाय अशें ते धरताले. हो उपाय फसलो. गोंयांत चळवळ चलयतल्यांचो आंकडो कांय हजारां कडेन पावलो. शंबर अदीक लोक मेले. कांय जाणांक पुर्तुगेजान आफ्रिकेच्या बंदखणींनी धाडले नी शेंकड्यांनी गोंयकारांक गोंयच्या कादयांनी घाले.

'आमी गोंयांत वचून सत्याग्रह करून पुर्तुगेजाक धांवडायतले' अशें चिंतून 1955 तल्या 15 ऑगस्टाक हजारांनी भारतीय गोंयांत भितर सरूंक सरादींचेर जमले. तांच्या पयल्या पंगडांतल्या जायत्या जाणांक पुर्तुगेज पोलिसांनी फारांनी जिते मारले. दांड्यांनी जखमी केले आनी वर्सां संख्येन बंदखणींनी उडयले. तरी लेगीत भारत सरकार गोंयांत सैन्य धाडिना. खरें म्हळयार सत्याग्रह सालाझारा आड नाशिल्लो. सत्याग्रह नेहरूनी कृती करची म्हण आशिल्लो. तांचेर दबाव पडचो म्हण आशिल्लो.

निमाणें ना ना म्हणटना भारत सरकाराक गोंयांत सैन्य धाडचेंच पडलें. इंग्लंड अमेरिकेक दिसतालें नेहरू केन्नाच सैन्य धाडचे नात. सालाझार हाचो कसो गैरफायदो घेत तें कळनाशिल्लें. (ताणे हाचे आदीं हैदराबादच्या निझामा कडेन दोस्ती केल्ली). आतां पाकिस्ताना कडेन दोस्तीचो करार केल्लो. अमेरिकेक गोंय मिलिटरी तळ म्हण जाय आशिल्लें. हाची सुलूस लागना फुडें भारतीय सैन्याक गोंयांत धाडचें थारलें. निमाण्या वगतार स म्हयने तरी सैन्य

धाडूं नाका अशें अमेरिकेचे अध्यक्ष केनेडी हाणी मागलें. पूण हे फावट नेहरूंनी जाप दिली 'चौदा वर्सां सोंसलें. आतां रावप शक्य ना. सैन्यान गोंयांत प्रवेश केला.'

26 वरांत गोंयांतलें पुर्तुगेज सरकार शरण आयलें. स भारतीय शहीद जाले. तेय घाताक लागून.

ते दीस भारिल्ले आशिल्ले. 1954 ते 1961. चडशे लोक नेहरूंचेर रागार जाल्ले. गोंयांत सैन्य धाडिना म्हण गोंयकार तशे भारतीय तिडकल्ले. आनी सैन्य धाडले उप्रांत सगळ्या अस्तंतेच्या राष्ट्रांनी नेहरूंची निर्भत्सना केल्या तिका तुळा ना. "उलोवपी एक आनी करपी भलतेंच" असो ह्या राष्ट्रांनी नेहरूंचेर शिक्को मारलो.

गोंय मुक्त जाल्ल्यान नेहरूंक आनंद जालो. "आज खऱ्या अर्थान भारत देश पुरायेन स्वतंत्र जालो." हीं तांचीं पयलीं उतरां आशिल्लीं. पूण तेच बराबर येदेंशे गोंय मुक्त करूंक शस्त्र हातांत घेवचें पडलें हाचें दुख्ख जाल्लें जावंक जाय.

उप्रांत 1962 त चीनान भारताचेर घुरी घाली आनी भारताक पराभव सोंसचो पडलो.

ह्या दोनूय खन्तींनी तांचें काळीज कोरांथलें आसूंक जाय अशें म्हाका दिसता. परिणामी 27 मेक 1963 त प्रधानमंत्री भायर पडले.

1954 ते 1961 ह्या सात वर्सांचो अभ्यास गोंयकारांनी करची गरज आसा. नेहरूंक गोंयकार तशे वळखलेच नात. जगांतलें तिसरें म्हाझूज नेहरूंक लागून आडावलें हें सगळे मान्य करतात. तें झूज आडावपांत नेहरू रात दीस खपताले. त्या मानान गोंयचो प्रस्न गोंयकारांक व्हडलो दिसलो तरी सामको नगण्य आशिल्लो.

त्या निमित्तान गोंयचें नांव जगभर गाजलें. अशें सांगतात की 1942 त जी 'चलेजाव' चळवळ जाली तेन्ना जाल्ले उचांबळाये परस चड उचांबळाय गोंयाक लागून 1956त देशांत जाल्ली.

गोंयांत सैन्यान 17 डिसेंबराक प्रवेश केलो आनी पुर्तुगेज सैन्यान 19 वेर आर्मां खाला दवरलीं. हजारांनी गोंयकरांनी रस्त्यार येवन सैन्याक येवकार दिलो. हें आमच्या दोळ्यांनी आमकां पळोवंक मेळ्ळें. आमी जांणी हें पळयलें तें भाग्यवान!

आमचें डॉ. माधवी सरदेसाय बरें ना. तें बरें जावचें म्हण मागतना पिरायेच्या धा वर्सां ताणें बरयल्ले 'मिठा-कणी' हे कवितेची म्हाका याद जाता.

*"मिठाची कणी हांव, दर्या भेटेक गेलीं;*
*दर्याक हात लायना फुडें, दर्या येदी जालीं!"*

हे कवितेचेर म्हजें भाष्यः
*"पयसाविल्लें येदेंशे गोंय*
*मायदेसावशीन धांवलें*
*देसाच्या गोपांत पावतकीच*
*देसायेदें जालें!"*

खऱ्यांनीच आमी देसायेदे जाल्यात व्हय?






# आपसांतलो मोग वाडचो हीच खरी मोख!

सोमारा, 22 डिसेंबर 2014 दिसा फांतोडेर 4 वरांच्या समयार, जाका आमी लागसरलीं 'नान' म्हण पाचारतालीं, ते माधवीन बारा म्हयने दूख सोंसून आमचो निरोप घेतलो. माधवीक अमकें कितें जालां म्हूण दोतोरान लागसरल्यांक सांगलें त्या खिणाक ताचो घोव राजू नायक आनी भाव विजय सरदेसाय हाणी ताका मुंबय व्हेलें आनी लीलावती हॉस्पिटलांत उपचारा खातीर दवरलें.

माधवी इकरा म्हयने मुंबय उरलें. हॉस्पिटलांत रावपाची गरज ना त्या दिसांनी तें ताची इश्ट सुषमा सोनक हिगेर अंधेरी रावलें, जंय सुषमा आनी तिचो घरकार हाणी ताका आपली खासा भयण मानून ताची शुश्रुषा केली, शेवटाक ताका आतां घरां व्हरचें असो थंयच्या दोतोरांनी सल्लो दिलो तेन्ना 1 डिसेंबर 2014 ह्या दिसा ताका गोंयां हाडून भयण सविता सुबोध केरकार हागेर साळगांवां व्हरून दवरलें. थंय ते निवळटलें अशी आशा आशिल्ली अशें म्हणूं येना. पूण कुडींत प्राण आसा तोंवर कांयच उणें पडूंक दिवंक जायना ह्या न्यायान माधवीची शुश्रुषा चलताली.

हो सगळो बारा म्हयन्यांचो काळ अंतरांत कळा सोंसून मुखा मळार

हांसो आनी जिबेर गोड उतरां दवरून माधवी जियेलें. ह्या काळांत खासा हांव मुंबय गेलों ना. तें म्हाका जमलें ना, पूण म्हजो फोन मेळना फुडें 'आं, गुरुनाथ काका, तूं कसो आसा?' हीं उतरां म्हाका पयलीं आयकुचीं लागतालीं. आनी 'तूं मुंबय येवं नाका, हांव रोखडें गोंयां येतलें,' म्हण ताची जाप आयकुची पडटाली.

* * *

माधवीक गोंयां हाडलां म्हूण कळनाफुडें कांय दिसांनी तें 'सेटल' जालां आसतलें अशें धरून सविताची मान्यताय घेवन फादर मोवझीन्यु आनी हांव ताका मेळूंक गेले. पूण मेळून उमेदीन परतले नात.

सोमारा 22 वेर फांतोडेर माधवी गेलें. ताचे आदीं आयतारा दिलीप बोरकार, संपादक बिम्ब हाणी बिम्बाची वर्सुकी पुरस्कार वितरणाची कार्यावळ आगशी आपल्या बंगल्यार दवरलेली. तिका बाब सुरेश आमोणकार अध्यक्ष आनी हांव मुखेल सोयरो म्हण उपस्थीत आशिल्ले. माधवीक फावो जाल्लो रवींद्र केळेकार पुरस्कार ताची चली आसावरी हिणे स्विकारलो तेन्ना जमिल्ल्या सगळ्यांचीं काळजां कळवळ्ळीं. हे कार्यावळीक जमिल्ल्या सुमार दोनशीं अडेचशीं बिम्ब परिवाराच्या वांगड्यांनी मोन्यांनी उबे रावन माधवीचे भलायकेंत सुधारणा जावची अशी इत्सा परगटायली. ती फळादीक जावची ना हें आमी जाणा आशिल्ले पूण हे कृतीन बिम्ब परिवाराक लागीं हाडले.

ही हांवें ओंपिल्ली श्रद्धांजली न्हय. माधवी म्हजी तिपोल भयण मोगरें हिची धाकली चली. चौगां घरांत रावून आयिल्ल्यान भयण, बापोल भयण, तिपोल भयण असो वेगळोचार आमी केन्नाच मानलो ना. खरें म्हळ्यार, माधवीन म्हजे उप्रांत म्हाका आर्गां ओंपपाचीं, तें भाग्य म्हाका अभाग्याक फावो जालें ना!

चड पयसुल्लो न्हय अश्या एका काळा स्मशानांत लासूंक व्हेल्ले कुडीक अग्नी दिलो की कांय जाण भाशणां करून थंयचे थंय दिवंगताक आर्गां ओंपताले. हावें चार कडेन पळयलें की कोण एकलो 'तुमी उलयतले?' काय

विचारीत भोंवता आनी कांय जाण फुडें सरून भाशणां करतात. हातूंत कांय जाण संयम पाळिनात, उलयत रावतात. म्हाका हें आडखळूंक लागलें तेन्ना हांवें रवींद्रबाबाक विचारलें. तेन्ना ताणी आमी कोंकणी भक्तांनी तरी स्मशानांत उलोवचें न्हय असो सल्लो दिवन तूं चत्राय बाळगून अशें घडूंक दिवं नाका अशें सांगलें. तेन्ना सावन स्मशानांत भाशण करप ना अशें हांव आमच्यांक सांगत आयलां.

जालें कितें म्हळ्यार, इश्ट शंकर भांडारी हाचे अंत्येष्टीक कुंभारजुव्यां वचप जालें. थंय एका ल्हानश्या मळार सगळें सलवासतालें. शंकराची कूड सरणार दवरले उप्रांत 'तुमी कोण उलयतले?' विचारीत एकलो म्हजे सरीं पावलो. हावें ताका अश्या वेळार अश्या थळार आमी कोणेंच उलोवचें न्हय म्हण थारायलां अशें सांगलें. ताचेर ताणें म्हळें, 'आमकां हें खबर नाशिल्लें. आमचे कडेन कांय नांवां पावल्यांत ते उलयतले.'

हें आयकना फुडें म्हाका सट्ट जालें. पयलीं कोण उलयतलो, हावें ताका विचारिना फुडें अमको एकलो उलयतलो म्हण ताणें म्हाका सांगलें. तो बऱ्या वायट उतरांनी शंकराचो सदांच उद्धार करतालो. तें आयकून तशें जाल्यार हांव पयलीं उलयतलों अशें हांवें ताका ठणकावन म्हळें आनी हांव पयलीं उलयलों.

* * *

आयज बिरेस्तारा हावें वाचलें की कांय कोंकणी संस्थांनी माधवी सरदेसाय हांच्या दुखेस्त मरणावयर आर्गां ओंपूंक 27 तारखेर सभा दवरल्या. तांकां इतली ताकतीक कित्याक जाली तें कळ्ळें ना. तांकां दुख्ख जालां हें समजुपा सारकें आसा. पूण अशा वेळार तारतम्य बाळगुपाची गरज आशिल्ली अशें म्हाका दिसता.

माधवी तशें परपरत जाचें नांव पेपरांनी येता तशें राजकारणी वा समाज वावुरपी नाशिल्लें. माधवी एक स्कॉलर, विद्यापीठ शिक्षक. अभ्यासक आनी आपल्या सदगुणांनी मनमोवळायेन सगळ्यांक आपलेंशें करपी आशिल्लें. ताचीं

मतां मानिनाशिल्लेय ताका मानताले. देखून ताच्या मरणाची खबर पातळतकूच हजारांनी लोक ताचे कुडीचें दर्शन घेवंक धांवले. स्मशानांत तर दोनेक हजार लोक जमिल्लें. जातूंत चडश्यो वचनात अशीं हिंदू अस्तुऱ्योय आशिल्ल्यो. असो इतलो मोटो जनसमुदाय दिवंगताच्या सदगुणांचे ओडीन स्मशानांत जमता हाचे वयल्यान आमच्या समाजांत मनीसपण नंदता हाची गवाय मेळटा.

हें लक्षांत घेवन माधवीचो घोव राजू नायक आनी भाव विजय सरदेसाय आनी भयण सविता हांचे कडेन उलोवन आनी ते भायर ज्यो कोंकणीच्यो संस्था आसात तांच्या जाळवणदारांनी बसका घेवन पयले बुजवण सभेखातीर एक दीस थारावं येतालो आनी ते भाशेन थळूय थारावं येतालें. ह्या दिसांनी क्रिस्तांव भाव पुराय तांच्या धर्मीक व्यापांत आसतात अशेंय म्हाका क्रिस्तांव जाणकारांनी सांगलें.

गेल्ल्याक आर्गां ओंपप हे सुसंस्कृतायेचें लक्षण. जी व्यक्ती गेल्या तिका हांतलें कांय खबर आसना. 'गेल्ल्याच्या आत्म्याक शांती लाभूं' ह्या मागण्याचो आमकां अर्थ कळना आनी गेल्ले व्यक्ती मेरेन तो अर्थ पावना.

हें सगळें आमी करतात ते आमचेच खातीर करतात. आमी सगळ्यांनी लागीं येवन मोग वाडचो आनी शांतीन जियेवचें हीच ताची खरी मोख आसता.





# गोंयकार कोंकणी सुपुत्रांनो, तुमी जोडिल्लें कोंकणी राज्य वगडावं नाकात!

पुर्तुगेजा काळा पुर्तुगेजांक हांगा 'पाखले' म्हणटाले आनी तांच्या बायलांक 'पाखलिणी', हांचे कडेन वावराक पुर्तुगाल वा अफ्रिकेंत सावन हाडिल्लीं 'क्रियादां' आसतालीं जांकां 'खापुल्लीं' म्हणटाले. निग्रो दादल्यांक 'खापरी' म्हणटाले.

गोंयकार हिन्दूचो पाखल्यां कडेन घरगुती संबंद नासतालोच म्हळ्यार जाता. पाखले एक तर सरकारी कचेऱ्यांनी ऑफीस कामांक आसताले ना तर पुलीस म्हण नोकरी करताले. मिलिटरींत वयल्या पांवड्यार पाखले आनी सकयल्या पांवड्यार खापरी आसताले.

त्या काळा पुर्तुगेज राजवट अधिकृत रितीन कॅथॉलीक धर्माची आसली. देखून हिंदूंक कांय साद्यो सरकारी नोकऱ्यो सोडल्यार वयलीं पदां मेळनासलीं. ते राजवटीत हिन्दू आनी क्रिस्तांव बहुजनसमाजाक अस्तित्वूच नासलें.

चडशे क्रिस्तांव तेन्ना हिंदूक 'कोंकणे' म्हणटाले. 'बाप्पा' म्हणुनूय उलो मारताले. तेन्ना उच्च वर्गी क्रिस्तांव सोडल्यार, हिन्दू आनी क्रिस्तांवांची उलोवपाची भास कोंकणीच आसताली. तरी लेगीत हे क्रिस्तांव आपणाक कोंकणे म्हणून घेवंक कबूल नासताले. आजूय ही पिरस्थिती आसा. 'कोंकणो'

उतर ते उणाक लेखतात.

आतां एक आयकीव काणी. कोण एक पाखलीण खंय न्हावंक भाटांतले एके झरीर गेली. सांगाताक तिचें खापुल्लें क्रियाद आशिल्लें. हीं क्रियादां तशीं अन्नाडीच आसतालीं. झरींत देंवताना पाखलिणीन त्या खापुल्ल्याक वयले पांयवाटेर दवरलें आनी कोणूय मनीस येतासो दिसल्यार रोखड्या रोखडें आपणाक सांग म्हळें.

आतां पाखलीण न्हाताली. तितल्यांत खापुल्ल्याक एकलो कोण येतासो दिसलो. ताणें बेगोबेग आपले मालकिणीक सांगलें, "बाय, बाय, येता, येता, एक मुनीस येता..." (हें ताणें आपले भाशेंत सांगलें.)

पाखलिणीन आंगा भोंवतणी तुवालो रेवडायलो आनी दोन सपणां वयर चडून मान लांब करून कोण येता ताचो नियाळ घेतलो. पळयल्यार तो आशिल्लो पुडवें न्हेशिल्लो, खोमसार कोट आनी माथ्यार काळी तोपी घाल्लो एक वाटसूर. पाखलीण क्रियादाचेर तापली. रागान तिणें म्हळें, Não é homem, é Konknno!" (तो मुनीस न्हुय, तो कोंकणो!)

आज स्वतंत्र गोंयांत कांय क्रिस्तांव हिन्दूंक 'कोंकणे' म्हण पाचारतात आसले आनी तियात्रांनी 'बाप्पा' म्हण दाखयतात आसले तरी आयचो हिन्दू कालचो उरूंक ना.

गोंया भायर वेगळ्या वेगळ्या राज्यांनी कोंकणी उलोवपी आसात. तांच्यो संस्थाय आसात. ते आपणाक 'कोंकणी' म्हणोवन घेवपांत अभिमान बाळगितात. अशें आसलें तरी हे गोंयां भायले कोंकणी एक 'शक्त' म्हण फुडें येनात, हें लक्षांत घेवपा सारकें आसा.

निमाणें पळयल्यार गोंयांतूच कोंकणी भास एक शक्त जाल्या. पूण तिचीय दोन पंगडांनी आमी वांटणी केल्या. क्रिस्तांवांनी नागरींतल्यान बरयल्ली कोंकणी न्हयकारल्या. ताणी रोमी लिपी आपणायल्ली आसली तरी ती एक शक्त जावच्चिना. कोंकणीक फावो जाल्लें वैभव नागरी लिपींतले कोंकणीन दिलां, हें सत्य न्हयकारूंक येवचें ना. रवींद्रबाब लिपीक न्हेसपाची साडी

मानूंक तयार नासले. ते लिपी  म्हळयार कात म्हणटाले. निमाणे नागरी कोंकणीच कोंकणीची खरी शक्त म्हण मानचेंच पडटलें.

भास जशी फळफळटा तसो समाजूय सुसंस्कृतायेचीं सपणां वयर चडत आसता. तेच भाशेन समाजाची उदरगत भाशेक वयर काडटा. हें सगलें मानलें तरी गोंयांत परिस्थिती एक वेगळेंच मॉडण घेतना जाणवता.

गोंय हें कोंकणीन मेळयल्लें राज्य. कोंकणी आपले गतीन वाडत आसा. स. चंद्रकांत केणी हाणी 1959 वर्सा दिल्ली सावन कोंकणीचो पयलो वयलो पांच कथांचो 32 पानी लघुकथांचो संग्रह 'भूंयचांफी' ह्या नांवान उजवाडा हाडिल्लो. ताचे उप्रांत ह्या 50 वर्सांत कोंकणीत हजारांनी पुस्तकां उजवाडा आयल्यांत. ही हनुमान उडी म्हणूंक जाय. हे मुखार ही संख्या वाडटली हातूंत दुबाव ना. पूण...

गोंयांत मराठी आनी इंग्लिश पुस्तकांनी भायल्यान येवन संख्येच्या बळार कोंकणीक तिसऱ्या पांवड्यार दवरल्या. हाका लागून गोंय भोवभाशीक राज्य असो दावो जावंक लागला. परिणामी, मराठी आनी इंग्लिशच न्हय तर दुसऱ्यो भासो आनी त्यो उलोवपी कांय गोंयचे तशे गोंया भायलेय लोक हो प्रदेश कोंकणी राज्य म्हण मानचे बदला भोवभाशीक मानूंक लागल्यात.

ह्या अशा समयार महात्मा गांधींच्या त्या उतरांची आमकां याद जावची गरज आसा. "म्हज्या घराचीं जनेलां आनी दारां भायल्या वाऱ्याक सताड उकतीं आसतलीं, पूण त्या वाऱ्यान हांव कोसळचो ना इतलो म्हाका घट उबो रावंक जाय."

हें आयज गोंयकार कोंकणी सुपुत्रांनी समजून घेवचें. ताणी कोंकणी भाशाच न्हय तर गोंयच्यो अर्थीक, राजकी, सांस्कृतीक, शिक्षणीक नाडयो आपल्या हातांत घेवपाचो निश्चय करपाची गरज आसा.

हें काम फकत कोंकणी साहित्यीक करूंक शकतले ह्या भ्रमांत कोणेंय रावचें न्हय. गेल्ल्या पन्नास वर्सांत जायत्या गोंयकारांनीं कोंकणींतल्यान मुळावें वा वयलें शिक्षण घेतलां. ते सगळे साहित्यीक जावंक नात. हातूंत मुखार

वचून अर्थशास्त्र, राज्यशास्त्र, शिक्षणशास्त्र, आधुनीक तंत्रज्ञान हातूंत नांव जोडिल्ले जायते गोंयांत वा गोंया भायर आदले विद्यार्थी आसात. हांच्या अंतरांत कोंकणी आसा. तांकां एके माचयेर हाडचे अशें म्हाका दिसता. कोंकणी शिकतले मागास उरतले हो जनमानसांत रुजयल्लो भंय तांची मजत घेवन पयस करूंक जाय आनी तांचे आनी थळाव्या साहित्यिकांच्या आधारान एक आधुनीक नवी फुडें पळोवपी कोंकणी संस्कृती रुजोवंक घालची अशी ताकतिकेची गरज आसा अशें म्हाका दिसता.

आमी दर वर्सा घडोवन हाडटात तीं संमेलनां गोंयच्या संदर्भांत कालबाह्य जाल्यांत. भोगावळी जाल्यांत. तीं घडोवन हाडातूच, पूण आज आमी एक नवी वाट धरची  गरज उप्रासल्या अशें म्हाका दिसता.

गोंयकार कोंकणी सुपुत्रांनो, तुमी जोडिल्लें कोंकणी राज्य वगडावं नाकात!






# महोत्सवा वांगडा जिवंत व्रतोत्सवूय आसचो!

माधवी सरदेसाय गेल्यार पंदरा दीस जावन गेले. ताका वळखतल्यांक आनी ताचें कितें पूण वाचतल्यांक जबरदस्त दुख्ख जालें. ताचे कुडीचें अंतीम दर्शन घेवंक उप्रांत स्मशानांत अंत्यकार्याक हजारांचो जनसमुदाय गेलो. पयर जानेवारी 6क मडगांवां रवींद्र भवनाच्या परिशद सभागृहांतूय माधवीक आर्गां ओंपूंक लोक भल्लो.

माधवीची विद्यार्थिनी आनी आतां विद्यापिठांत शिकोवपी कृपाली तर माधवी मॅडम सासणाक गेल्या म्हणपाचें मानुकूंच तयार ना. माधवी दीत गेलें. मोग, गिन्यान, हांशें दीत, वांटीत गेलें. कोंकणी संस्कृती कांयच मागिना; दीत आसता.

श्रद्धांजली सभेन अशें एक वातावरण तयार केल्लें जाका लागून संस्कृतायेचें एक सपण आमी वयर चडले.

हे सभेंत दत्ताबाब दा. नायक हाणी माधवीक 'गोंय ब्रँड' म्हण पाचारलें तें जिस्ताजिस्त आशिल्लें. हांव तर अशें म्हणन की माधवी आमच्या दिश्टाव्यांतलें मनीसरुपी गोंय आशिल्लें. 'गोड म्हजें गोंय, सुंदर म्हजें गोंय, सासणाचें सुखदिणें हें म्हजें गोंय' अशें हें माधवी शणै गोंयबाबांचे 'धर्तरि

वयलो सर्ग' आशिल्लें.

माधवी सारकिल्याक भयांकृत पिडा जावं येता आनी तातूंत ताचो अंत जावं येता हे घडणुके पासून आमी बोध घेवपाची गरज आसा. तो म्हळ्यार, आमचें गोंय तसल्या वायटां पसून आमी वाटावपाच्या प्रयत्नांक लागूं येता. हें येवंक घाल्लें अरिश्ट आमी आडावंक शकतले काय? 'आमच्या पुरसा आमकां पाव' म्हण होरावपाचो आनीक एक फावट वेळ आयला.

आमच्या गोंय राज्याचो खूब वेव्हारीक विकास जाला. निमाणे पुर्तुगेज गवर्नर वास्सालु सिल्व आज ना. गोंयचो गोबर करचो ही सालाझाराची ऑर्डर ताणें मानली ना. तो गोंयच्या मोगांत पडिल्लो, तो जिवो जावन गोंया आयिल्लो जाल्यार खऱ्यांनी 'हेंच 1961तलें गोंय?' काय प्रस्न करतलो आशिल्लो!

एक मत म्हणटा होच गोंयचो खरो विकास. असल्या विकासाक थोडेशें मोल फारीक करचेंच पडटा. जशीं रस्त्या वयलीं शेंकड्यांनी मरणां, घाणी-गुट्टाणीचो रस्त्यार पडिल्लो टनांनी कचरो, दिशी माशीं वाडत वचपी हजारांनी गोंयकार पिडेस्त...विकास जाय, मोटारी जाय जाल्यार हें मोल फारीक करचेंच पडटलें अशें हें मत सांगता.

दुसरें मत म्हणटा, गोंयकारांची चाल-चलणून भावकेची जावंक जाय. चारित्र्यांत उजुपण वाडूंक जाय. शिक्षण दुसऱ्याक वयर काडपी आसूंक जाय.

कितें खरें आनी कितें फट?

* * *

गेल्ल्या मनशांची याद काडटना सभेंत आमी 'ताचो वावर फुडें व्हरूंक जाय' अशें म्हणटात. 'ताच्या आत्म्याक शांती मेळूं' म्हणुनूय आमी मागतात. ती चाल जाल्या. माधवीचे बाबतींत सभेच्या जाळवणदारांचे वतीन प्रशांत नायकान जें उतर दिलां ताका हांव येवकार दितां. "एक समिती नेमून वांगड्यांनी एक विचारपूर्ण थारावणी घेवची; कांयच उणें पडूंक दिवचे नात" अशें ताणें आश्वासन दिलां. ह्या वावराक जाता तितले बेगीन चालना दिवची.

भाशेचें संशोधन हो माधवीचो आवडीचो विशय. ते नदरेन आंखणी जावचीच, पूण माधवी कोंकणी संस्कृतीचें प्रतिनिधित्व करतालें. ही संस्कृती जिवंत व्रतोत्सव जावची.

संस्कृती 'स्टॅटीक' नासता. एका जाग्यार तशा तशी घट्ट उरना. कालानुरूप परिस्थिती प्रमाण बदलत आसता. पयलीं आमच्या घरांचीं दारां बंद नासतालीं. दारां बंद दवरप हें आयब मानताले. आज दार उकतें दवरप हें मुर्खपण मानतात. धांपिल्ली दारां, चार चार कुलपां लायिल्लीं दारां दिसा उडवाडे फोडटात. आतां दारां बंद दवरप, जनेलांक लोखणी ग्रील लावप हें शाणपण. हाका संस्कृती म्हणूं येत काय कितें तें मात म्हाका समजना.

माधवी दीत रावलें. कोणे तरी म्हळें, ह्या हातान दितालें तें त्या हाताक खबर नासतालें. ही दानत. परत ही संस्कृती.

हे कोंकणी संस्कृतीचेर जायतें बरोवन जालां. 'जेवनूच चल रे...' ही आमची दनपारां दारांत आयिल्ल्या अतिथीक जेवंक दवरून घेवपाची संस्कृती.

हांव तुमकां आदीं कळयनासतना तुमगेर वतां तेन्ना ॲपॉयणटमेण्ट घेवन येवपाचो अशें तुमी म्हणचेना. "आगो आयकलां? गुरुनाथबाब आयला!" अशें तुमी म्हणटले आनी ते वटेन गॅसार च्याचें आयदन चडलेंच म्हण समजुचें. महाराष्ट्रांत 'पाणी आणि गूळ आण ग...'अशें सांगतात. थंयच्या हवामानाक तशी गरज. वतांतल्यान आयिल्लो अतिथी उदकाच्या घोंटान 'फ्रॅश' जाता.

कोंकणी भास धर्मसभभावी अशें आमी म्हणत आयल्यात. कोंकणीन हिन्दू क्रिस्तांवां मदलो एकवट सदांकाळ खातीर घट केलो. ह्या एकवटान आमकां कोंकणी राज्य मेळोवन दिलें. हालींसराक आमी मातशे पयसावल्यात. पूण हें थोड्या दिसां पुरतें. गोंय 'गोंय' उरूंक जाय जाल्यार निमाणे एकवट राखचोच पडटलो.

आतां गोंयांत व्हड संख्येन मोयर आयल्यात. ताणी ल्हान व्हड वेवसाय सुरू केल्यात. जशे परीन फळां, फुलां, भाजी विकप, आतां रिक्षागिरी आनी पायलटगिरी ताणी आपणायल्या. हें कशें जालें जाणात? ते कोंकणी उलोवंक

पयलीं शिकले. ते गिरायका कडेन कोंकणी उलयतात. भास मनां जिखता. आतां ताणी 'गांव तसो भेस' आपणावचो अशें हांव मागन. उप्रांत, "हिन्दू, क्रिस्तांव आनी मोयर, आमी भाव भाव" म्हणचें पडटलें. बरें जातलें.

सांगपाचें सार म्हळ्यार काळानुसार नवे कोंकणी संस्कृतीची भर घालची पडटली. कम्प्युटर संस्कृती जोडपी आसची, तोडपी नासची. 'कोंकणी पुरस्कर्ते बहुजन समाजाक मागास दवरूंक सोदतात' अशें कोण एक फुडारी वेंचणुके समयार सांगतालो तें खरें न्हय. कोंकणी संस्कृती सगल्यांक फुडें व्हरपी आसतली हें पटोवन दिवचें पडटलें. हें काम तरणाट्यांचें. तरणाटे म्हळ्यार महासागरांत बुडपी न्हय, तरपी. तशेच बुडटल्याक तारपीय बी. तरणाटे म्हळ्यार उमेद, उत्साह, आनी उत्सव. महोत्सव! जसो महोत्सव तसो जिवंत व्रतोत्सवूय बी!

माधवीन कोंकणी भास आनी कोंकणी संस्कृती एक जिवंत व्रतोत्सव मानून निश्ठेन केळयली. तेंच व्रत तरणाट्यांनीं फुडें चलोवचें. गोंय राखतले जाल्यार होच मार्ग!






# मार्ग सुरक्षा सप्तक - एक भोगावळ!

गोंय सरकाराच्या वाहतूक खात्यान ह्या सप्तकांत 26 वें 'राष्ट्रीय मार्ग सुरक्षा सप्तक' मनयलें. आयज ताचो निमाणो दीस.

एक प्रस्न विचारीन दिसता. आमच्या देशांत खंयच्या राज्यांत 'मार्ग सुरक्षा' जैतिवंत जाल्ली आसा? दर वर्सा देशांत मार्गांचेर मरतल्यांची संख्या वाडत आसा. आतां हो आंकडो देड लाखांचेर पावला. तरी लेगीत सरकारां वांजुट्टीं सप्तकां मनयत आसात आनी जाहिरातबाजीचेर करोडांनी रुपया मोडीत आसात.

म्हज्या पंचवीस वर्सांच्या मार्गा पासतच्या वावरांतल्यान आनी अणभवांतल्यान हांव ह्या निर्णायार पावलां की मार्ग सुरक्षा सप्तकां पाळून आनी भाशणां करून रस्त्यां वयली बेशिस्त, अपघात आनी मरणां उणीं जावचीं नात.

तरी लेगीत म्हाका दिसता. म्हज्या गोंयांत परिस्थिती वेगळी आसा. गोंय हें ल्हान राज्य. सुशिक्षितांचें तशें सुसंस्कृतांचें, गिरेस्तांचें आनी बुदवंतांचेंय बी राज्य. गोंयकारांनीं हाचें इल्लेंशें भान बाळगिल्लें आनी आपल्या राज्यासवें आमची एक लागणूक आसा अशें मानिल्लें जाल्यार आयचे परिस्थितींत व्हड बदल दिसतलो आशिल्लो.

पूण गोंयकारांक जिवीत-उद्दिश्ट ना. आमकां व्हीजन ना. मिशन ना. उरफाटें हांगा स्वैराचारी जिवीत जियेवपाची सर्त लागल्या. माया, मोग, चुरके हांकां हांगा जागो उरूंक ना. फकत सुवार्थ हें जिवीत जालां. 'म्हाका कित्याक पडलां तें?' ही वृत्ती बळावत चल्ल्या. आमी स्वकेंद्रित जाल्यात. वायट प्रसंगार आमी रडटात आनी हेर वेळार आमी कितें करतात म्हणुंया?

हो स्वैराचार फकत रस्त्यांचेरूच चलता अशें म्हणप चूक जातलें. जिविताच्या दर एका मळार हो स्वच्छंद चालू आसा, जो चडांत चड बेगिनांत बेगीन पयशे जोडप आनी भोगप हाची होड (सर्त) लायता. गाडी फास्ट चलयतना ब्रेकाचेर लक्ष आसूंक जाय हाचें भान आमी वगडायलां.

परिणाम: हांगा लग्नां आनी मरणां समांतर वतात. पंदरा लाख लोकसंख्येच्या राज्यांत हजारां परस चड लोक दर वर्सा अ-सैमीक मरणांक तोंड दितात हाची जनतेक खंत जाल्याचें जाणवना. खून, मारामाऱ्यो, ड्रग, सोरो, आत्मघात, अपघात, बुडून मरप हीं गोंयांत अजापां उरूंक नात. लोक लग्नां चुकयनात आनी मरणांकूय धांवतात. हांव तर अशें म्हणपाचें धाडस करीन की कोणा एकल्याचें मरण ही कांय जाणांक जायत्या दिसांनी मेळपाची संद थारल्या आनी 'अशेच केन्ना केन्ना मेळुंया' अशें म्हणपाची चाल पडल्या.

हाचेर उपाय ना? आज पन्नास वर्सां गोंयांत रस्ते ही समस्या जाल्या. प्रतापसिंग गील नांवाचे एक गृहस्थ चाळीशेक वर्सां पयलीं गोंयांत नायब राज्यपाल म्हण आयिल्ले. ते गोंय 'कीलर' राज्य म्हण देशांत गाजता अशें सांगून शिटकायताले. तेन्ना वर्सांक 70/75 जाण रस्ता अपघातांत मरताले. आज हो आंकडो 300 चेर पावला. 'एक मनीस लेगीत हातूंत उणो जालो तर चड जालें' अशें म्हणपाची आनी समाधान मानपाची चाल पडूंक लागल्या ती आत्मघातकी म्हणूंक जाय. लाल बहादूर शास्त्री रेल्वे मंत्री आसतना एका अपघाताक लागून ताणी राजिनामो दिलो. गुन्यांव तांचो नासतना तो आपलो अशें ते मानताले. आज देशांत अशे कोण मंत्री आसात? गोंयांत कोण आसात?

गोंयांत फुडारी आसात जे गुन्यांव लोकाच्या माथ्यार थापतात. ते तरणाट्यांक उपदेश करीत आसतात. शिस्त पाळात म्हण सांगीत आसतात. पूण कोणूच शिस्त पाळिनात ते कोणा कारणाक लागून ताची चवकशी

कोण करता?

मोटर सायकलीर फाटल्या सिटार आपल्या पियूक बसोवन जेन्ना एक तरणाटो मोटरसायकल चलयता, तेन्ना जी 'कीक' येता ती 'जावें त्याच्या वंशा तेव्हां कळे!' अशें म्हळ्यार चूक जायत?

हांव आयकतां, भायल्या विकसीत देशांनी मोटर-सायकली प्रवासाखातीर वापरनात. तें वाहन फकत रेसीं खातीर वापरतात आनी तांकां तसलेच रस्ते दितात.

देशांत आज मोटारी आनी मोटर-सायकली, स्कुटरी तयार करपाचे कारखाने वाडत आसात. गोंयांतूच पळयात, दर एका एजण्टाच्या शोरुमांत आनी भायर हजारांनी गाडयो रस्त्यार देंवूंक उतावेळ जाल्ल्याच्यो दिसतात.

तर हें बेशिस्त, अपघात आनी मरणांचें थैमान आळाबंदा हाडप कशेंच शक्य ना अशें म्हणप योग्य जातलें? मनीसपणा वयली श्रद्धाच वगडायल्ले भशेन जावचें ना?

इतलें खरें की आमचे कडेन संयमाची दिशा दाखोवपी समाज-मान्य अशे फुडारी नात. तरी लेगीत कांय सुंस्कृत मनां गोंयांत आसाच आसात ताणी लागीं येवप हो एक उपाय म्हाका सुचता. ताणी एकठांय येवन मार्गदर्शन करपाची गरज म्हाका दिसता.

तेच भशेन राजकी मळार जो स्वैराचार चल्ला ताका लागून कायदो हो पाळपाक न्हय तर मोडूंक अशें समस्त जनतेचें मानस जाल्लें आसा. कायदो मोडटल्यांक धरून आमी अमके कोटी जमयले हाची सरकार फुशारकी मारता तेन्ना 'सरकार' ह्या उतराक अर्थूच उरना. असलीं सरकारां 'नागरीक' घडोवंक केन्नाच शकचींनात आनी जय नागरीक ना थंय अंदाधुंदी आयलीच.

जे मेरेन गोंयकारां मदीं आमी व्हडल्या कामां पासत जल्माक आयल्यात ही धारणा जल्माक येना तें मेरेन सुरक्षा सप्तकां नांवान जें कितें करतात ती भोगावळूच उरतली.





# संतांक तांचोच धर्म लागता? कांय संत सगळ्यांचे?

म्हज्या फाटल्या 17 जानेवारीच्या पत्रांत हांवें राष्ट्रीय मार्ग सुरक्षा सप्तकां संबंदान बरयल्लें आनी तीं पुराय निर्फळ जाल्यांत म्हणपाचें म्हजें मत मांडिल्लें. वाहतुकींत/ येरादारींत शिस्त हाडपाचे भारत सरकाराचे गेल्या 70/80 वर्सांचे आनी गोंय सरकाराचे 50 वर्सांचे प्रयत्न फशिल्ले आसुनूय दोनूय सरकारां हो विशय गंभीरपणान घेनात हे पासत हांवें खंत परगटायिल्ली.

हें रस्त्या वयलें हत्याकांड हाचे आदीं हजारदां आंकडे दिवन आनी फोडिणशी सयत मांडिल्लें आसा. आमच्या देशांत वर्साक देड लाख लोक रस्ता अपघातांनी मरतात आनी पांच स पटींनी चड लोक मोडून वळवळ्यांनी पडटात. गोंयांत मार्गार मरतल्यांचो आंकडो वर्साक सुमार तीनशीं, तर वळवळ्यांनी जियेतल्यांचो वर्साक पांच हजारांचे भायर भितर आसा. हें सगलें महाभयंकर म्हणपाचें सगळ्यांक कळटा, पूण वळना. दीस येतात. वर्सां येतात आनी वतात. सरकारां लावन घेना आनी आमीय अशेंच घडपाचें म्हण धरून वतात. रडटात संवसार उध्वस्त जाल्लीं कुटुंबा!

देशांत ज्या प्रदेशांनी वाहतूक/येरादारी सादरणशी बरी चलता तातूंत नांव जालां तें चंदिगडाचें, उप्रांत चेन्नयचें. बंगळुरूंत तीस लाख वाहनां

मार्गांचेर धांवतात. तोखणाय करिसारको थंय ट्रॅफिक मॅनेजमेण्ट पळोवंक मेळटा असें थंय रावपी सांगतात.

पूण अमेरिका, इंग्लंड, जर्मनी हांगा रस्त्यांचेर ट्रॅफीक पोलीस सामके उणे दिसतात; थंय खासा नागरीक गाडयो चत्रायेन चलयतात. दुसरे वाटेन सिंगापूर, दुबय, कुवेट आदीं देशांनी/शारांनी पोलिसांच्या वचकान लोक मार्गांचेर शिस्त पाळटात. जशी पुर्तेगेज काळांत थोडी भोव शिस्त आमी पाळटाले. ती आमचे आंगवळणी पडिल्ली.

देशांत वाहतूक/येरादारी संदर्भांत बेस बरें काम केल्ल्या/ करतल्या दोन व्यक्तींचीं नांवां हांव घेतां. हांतले आमी मार्ग अभियान चलयतल्यांनी गोंयां हाडिल्ले, महाराष्ट्राचे डायरेक्टर जनरल ऑफ पोलीस म्हण रिटायर्ड जाल्ले आनी ताचे आदीं मुंबयचे येरादारी मुखेली आशिल्ले डॉ. पी. पसरिचा तीनदां गोंयां येवन ट्राफीक पळोवन गेले. ताणी केल्ल्यो लेखी सुचोवण्यो गोंय सरकारान चालीक लायल्योच ना. त्यो मार्ग बुलेटिनांत दोन तीनदां उजवाडा आयल्यात.

दुसरे दिल्लीचे डॉ. रोहीत बलुजा. हांची आय. आर. टी.ई. नांवाची संस्था देशभर काम करता. खासा मुख्यमंत्री मनोहर पर्रीकार आनी सांगाती मंत्री दिगंबर कामत (2002-2007) हाणी तांचें दिल्लींतलें काम पळोवन तांकां आपोवण्यान हांगा हाडले. पर्रीकार हाणी एका म्हयन्या भितर सगळ्या सुविधांनी भरिल्लें ऑफीस पणजे आलतिन्यार तांकां करून दिलें. उप्रांत नावाडगी काँग्रेस सत्तेर आयली आनी पांडुरंग मडकयकार ट्रान्स्पोर्ट मिनिस्टर जालो. हाणें पराक्रम केलो तो म्हळ्यार डॉ. बलुजाक गोंयच्यान धांवडायलो.

दिल्ली शेजरा सूरजकुंड नांवाची सुवात आसा. हांगा आय. आर.टी.ई. न ट्रॅफीक पोलिसांक अप-टु-डेट प्रशिक्षण दिवंक चार मजली इमारत बांदल्या. सगल्या सुविधांनी भरिल्ली. देशांतल्या कितल्याशाच राज्यांतले प्रशिक्षणार्थी थंय ट्रॅफीक मॅनेजमेण्टांत परफेक्ट जावंक वतात. ट्रॅफिकांतले तज्ञ म्हण डॉ.

बलुजांनी खूब मान मेळयला. देशांत पयलेच फावट तयार जाल्ले दोन इंटरसॅप्टर डॉ. बलुजानी केंद्र सरकारा मार्फतीन गोंयाक दिल्ले. त्या इंटरसॅप्टरांनी दरकार बसयल्लो, पूण काँग्रेस कारकिर्दींत ते निकामी जावंक वेळ लागलो ना.

गोंयांतले आयचे वाहतूक /येरादारी परिस्थितीक तोंड कशें दिवचें तें सरकाराक कळना जालां ताचें कारण आपणेंच रचिल्ल्या सांपळ्यांत सरकार सांपडलां. हाका आदलींय सरकारां जापसालदार आसात कारण ह्या सरकारांनी वाहतूक धोरण म्हणटात तें आंखलेंच ना. धा जाणांचे कुडींत शंभर जाणांक भरल्यार कितें जातलें?

सरकारांक जाय जाल्यार ही परिस्थिती जाग्यार हाडूं येताली. सरकाराच्यान जायना अशें कांय ना. मॅकियावेली नांवाचो एक युरोपियन तत्वज्ञ जावन गेलो. तो सांगी, "आरे, सरकाराच्यान जायना अशें कांय ना. सरकाराच्यान सूर्य अस्तमतेक वयर कांडू येता!"

पूण आमची हांगाची सरकाराची व्याख्या म्हळ्यार आश्वासनां आनी भाशणां दिवपाची एक यंत्रणा. खरें म्हळ्यार गोंयांत अर्थीक उलाढाली चल्ल्यात तांकां लागून वाहतूक/येरादारी संदर्भांत फुडल्या पन्नास वर्सांची तयारी आतांच करपाची. एका वरिश्ठ पोलीस अधिकाऱ्यान म्हाका सांगलें, "गुरुनाथबाब, हें लायनीर येवप कशेंच शक्य ना. हांगा चल्ल्यांत तीं नाटकां!"

परिणाम: महाभारतांतलो बकासूर दिसाक एका मनशाक खातालो. गोंयचो येरादारी बकासूर दिसाक कितल्यांक खायत सांगूं येना!

* * *

ह्या काळखांत उजवाडाची एक पण्टी पेटल्या. गोंयां जें शवप्रदर्शन जालें थंयची येरादारी गोंयच्या पोलिसांनी हाताळ्ळी तिची सगळ्याक तोखणाय चल्ल्या. म्हणटकूच जाता तर आमचे कडल्यान! आमी करूंक शकतात तर! Goa can!

पूण हाचें पुराय श्रय हांव वाहतूक/येरादारी खात्यांक दिवंक कबूल ना. हांतलें अर्दे श्रय प्रत्यक्षांत हांव चर्चीक दितां आनी अप्रत्यक्ष क्रिस्तांव समाजाक दितां. ह्या आमच्या क्रिस्तांव समाजांत ज्यो धर्मीक आनी सामाजीक कार्यावळी जातात तांतली शिस्त सगळ्या गोंयकारांनी आपणावची. हाचे संबंदान मुखार बरोवं येत.

* * *

फादर जुझे व्हाजाक संतपद फावो जालें. हाची खोशी फकत क्रिस्तांवांनीच मनोवपाची? संतांक तांचोच धर्म लागता? काय संत सगळ्यांचे? म्हाका दिसता सगळ्या गोंयकारांनी एकठांय येवन ही खोशी मनोवपाची गरज आसा. हाकाच धर्म-सम-भाव म्हणटात.

संत जुझे व्हाज हांचो वरदहस्त सगळ्यांक लाभूं!





## कसली टॅक्नोलॉजी वापरची? कसलें व्रत धरचें?

व्रत म्हळ्यार थारावणी, आपणाक नेमांनी बांदप. कुडीक, मनाक दण्डणावचें पडल्यार जाता, अमकें करतलों म्हळ्यार करतलोंच, अशें थारावप.

गांधीजींचे एकादश व्रत सगळेच जाणात. आश्रमाचे प्रार्थनेंत ताचो आसपाव आसा. पूण त्या व्रताक पाळो दिवप आमच्या सारक्या सामान्यांक सोंपें न्हय. तरी लेगीत प्रार्थनेक बसले म्हणटकीर तिची उजळणी आमी करतातूच.

"अहिंसा, सत्य, अस्तेय, ब्रह्मचर्य, असंग्रह
शरीरश्रम, अस्वाद, सर्वत्र भयवर्जन,
सर्वधर्मी समानत्व, स्वदेशी स्पर्शभावना,
हीं एकादश सेवावीं नम्रत्वें व्रतनिश्चयें. "

तुमी आमी हीं व्रतां पाळचीं म्हण सांगूंक हांव हें बरयना. पूण म्हाका दिसता, तुमी आमी जांणी कोंकणी भाशीक राज्य मेळयलें ताणी आपलो वावर कांय नेमानीं बांदपाचो वेळ आयला. कारण स्वराज्याचें आमकां सुराज्य करचें आसा.

पयर म्हाका सिद्धहस्त लेखिका हेमा नायक मेळ्ळें. कांय वेळ आमी

चार पांच जाणां सांगाता आशिल्लीं. सांगाताच जेवलींय बी. हेमाची आनी म्हजी सपसप गांठ पडना आनी पडटा तेन्ना उलोवंक वेळ आसना. “आगो, कशें आसा? कितें चल्लां? युगांक कसो आसा?” हे प्रस्न आपसुकूच हांव विचारून वतां.

आतां युगांक कसो आसा, केदो जाला, कितें करता हें सादारणशें हांव जाणा. पूण संवयेचो हात तोंडांत वता. आतां लेगीत म्हाका कांय जाण मेळटात जे ‘चित्रा संजू कशीं आसात, समीर अमेरिकेक बरो आसा मरे, तांचीं लग्नां बी जालीं?’ असले निरर्थक प्रस्न करतात. चलपाचेंच.

हेमाक हांव ताच्या कॉलेज दिसां सावन वळखतां. तेन्ना तें One and Only आशिल्लें. कोंकणी-मोगी जाल्ल्यान ‘एकला चलो’ अशी ताची अवस्था जाल्ली. मडगांवच्या पोरण्या बस स्टॅण्डार कॉलेजींतल्यान येवपी बशींतल्यान तें देंवता तें दिसतालें. एकशिवड आशिल्लें. ताचें चलप ‘सप्सप्’ आसतालें. हांव चलपा वयल्यान मनशाचो अदमास घेतां.

गंगाधर गाडगीळ नांवाचे एक मराठी कथाकार आशिल्ले. ही चाळीस वर्सां फाटलीं गजाल. तांच्यो कथा म्हाका खूब आवडटाल्यो. एके कथेंतलें “पांयांच्या कातरीने ती रस्ता कापीत चालली होती.” हें वाक्य आतां लेगीत म्हजे यादींत घट्ट उरलां. हेमाक पळयतकूच म्हाका हें वाक्य येवजता. आयज प्रौढावस्थेंत हेमाची पांयांची चाल मंदावल्या जायत, पूण ताच्या ‘तायट बाण्याक’ आनी कण्याक मानुंकूच जाय. अजून तें One and Only आसा.

आमी कोंकणी पासत वावुरपी त्या काळा ‘बहिष्कृत’ आशिल्ले. मार्गारूच न्हय, तर घरांनी लेगीत. सांगल्यारूय आयच्या भुरग्यांक हाची कल्पना येवचिना. घरांत आवयो ‘पानी तेरा रंग कैसा, जिसमे मिलावे वैसा!’ अश्यो आसताल्यो. त्यो मराठीवाद्यांच्या घरांतल्यान आयिल्ल्यो आसल्यार दिल्ल्या घरांत, तें कोंकणीवाद्यांचें आसल्यार, कोंकणीमोगी जाताल्यो. आनी कोंकणीवाल्यांच्या घरांतल्यान मराठीवाद्यांगेर पावल्यार मराठीचो पाखो घेताल्यो वा ओग्गी रावताल्यो.

आयजूय थोडी भोव ही परिस्थिती काँग्रेसवादी आनी बिजेपीवाद्यांत जाल्ली जाणवता.

हेमानूच त्या दिसा फाटल्यो यादी उस्तिल्यो. सांगूंक लागलें: "एक दीस हांव एकलेंच वतालें. वाटेर मराठीवाद्यांचो एक ग्रूप आशिल्लो. हांव दिश्टी पडना फुडें म्हजे वशीन बोटां करून 'कोंकणीवादी, कोंकणीवादी' म्हण ते हांव एक गुन्यांवगार जाल्ले भशेन आड्डूंक लागले. कसो कोण जाणा, गुरुनाथबाब थंय पावलो. ताच्या कानार 'कोंकणीवादी' उतर पडूं नाका, तो उसळ्ळो. ताणें त्या तवनासांक लेखून म्हळें, 'कोण कोंकणीवादी नात! हांगा वादी वा वादयो नात. आमी कोंकणी-मोगी, कोंकणी-भक्त'! चलात, मार्ग धरात!' असो धेंगसो पडना फुडें ते मोन्यांनी कडसरले."

हांव हो प्रसंग विसरलेलों. ह्यो फाटल्यो यादी. सुरवात 'कोंकणीवादी' ह्या उतरान जाल्ली. उप्रांत 'कोंकणी-मोगी, कोंकणी-भक्त' हीं उतरां चालीक लागलीं.

आज आमकां 'कोंकणी-मोगी, कोंकणी-भक्त' म्हण पाचारप योग्य जायत काय?

आयज कोंकणीभाशीक चळवळ कोंकणी राज्य मेळोवपांत जैतिवंत जाल्या. ह्या जैतान आमकां 'वादी, मोगी, भक्त' ह्या त्या काळच्या बिरुदांतल्यान मुक्त केल्यात. आज आमी 'कोंकणी' जाल्यात, जसे महाराष्ट्रांतले लोक मराठी, गुजरातेंतले गुजराती, आमी भारतीय, आमची वळख आमी भारत-मोगी, भारत-भक्त म्हण करून दिनात. आमी भारतीय तशे आमी कोंकणी.

अशें आसलें तरी आमी एका चक्रव्यूहांत सांपडल्यात. त्या चक्रव्यूहाचें नांव 'गोंय'. गोंयान आमकां गोंयकार केल्यात. आनी गोंय पुरायेन कोंकणी राज्य जावनूय थोड्यांक तें मराठी जाल्लें जाय; थोड्यांक इंग्लिश जाल्लें जाय आनी कांय जाणांक तें पुर्तुगेज जावं येता अशें अजुनूय दिसता.

आमी जे अस्सल 'कोंकणी' जावन आसात ते ह्या चक्रव्युहांत

सांपडल्यात. ह्या चक्रव्यूहांतल्यान आमी भायर सरपाची गरज आसा. तो अभिमन्यू त्या चक्रव्यूहांत प्राण वघडावन बसलो जायत. पूण आमी आमचे बाबतींत तशें घडूंक दिवंक फावना. गोंय हें गोंयूच आसचें. पूण गोंय हें कोंकणी राज्य हें सर्वमान्य करुंकूच जाय. आज आमी overpowered जायत चल्ल्यात. आमचो दुसरो कबजो घेवंक लागल्यात.

* * *

हातूंतल्यान वाट काडुंकूच जाय. आमच्या काळार अशीच परिस्थिती आशिल्ली. त्या काळार मराठीचें आमकां आडमेळें जाल्लें. आज इंग्लिशीचें. तेन्ना पयशे नाशिल्ले. आज 'पयसो' हो देव जाला. आदले परस ही चॅलेंज हें आव्हान 'खडेगांठ' म्हळ्यार जबरदस्त आसा.

तांचे कडेन एकूच शस्त्र आसा. "कोंकणी तुमकां फाटीं दवरतली, मागास दवरतली. ते इंग्लिश शिकून फुडें वतले आनी तुमी फाटल्यान उरतले!" हें तें शस्त्र. ह्या शस्त्रानूच आमी तांचो प्रतिकार करचो पडटलो.

आयज मेरेन आमच्या शेंकड्यांनी भुरग्यांनी कोंकणीतल्यान मुळावें शिकप घेवन इंग्लिशींत वरतेपण, 'मास्टरी' जोडल्या. हें प्रत्यक्ष दाखोवपाची गरज उप्रासल्या. माधवी सरदेसाय, राजू नायक, राजेश भाटीकार, उमेश भाटीकार, समीर, चित्रा, संजीवनी केळेकार हे दोळ्यां मुखा वयले प्रॉडक्टस. अशे शेंकड्यांनी आसतले. हांकां इंग्लिश बेस बरी कळटा हें दाखोवंक जाय. बरी कोंकणी, बरी इंग्लिश. तुर्ताक मार्केटिंगाचें यूग चलता. जायरातीचें यूग चलता. तें आत्मसात करपाची गरज उप्रासल्या.

त्या गांधीच्या आत्मचरित्राची पयली वळ 'गांधी घराबो आदल्या काळा भुसारी धंद्यांत आशिल्लो' अशी आसा. 'बरें, पूण खपना' ही अवस्था गांधजींनी बदल्ली. ताणी जी टॅक्नोलॉजी वापरली ती वापरप आमकां जमत काय? कसलें व्रत आमी धरचें लागतलें काय?






# 'देव बरें करूं' सगळ्याक गाजोवया; गोंयकारांचो एकवट घट करुंया!

'देव बरें करूं!' हें मागणें गोंयकारांचे जिबेर घोळत आसता. दर दिसाक कितले फावटी 'देव बरें करूं' गोंयकार म्हणटात ताचो हिशेब ना. देशांत दुसरे कडेन खंयच ह्या अर्थाचे उद्‌गार थंयच्या लोकाच्या तोंडांतल्यान भायर सरतात आसतीत अशें दिसना.

'देव बरें करूं' हांतलो देव एकाच धर्माचो न्हय; तर सगळ्यांचो. हो देव कोण हाचो अर्थ लावपाचो प्रयत्न कोणेंच करचो न्हय. हो देव म्हळ्यार मनीस मानता तें सर्व-कल्याणकारी तत्व. दीस-रात केल्ल्या ह्या घोषाक लागुनूच घडये जावये गोंयांत एक मोगाचें वातावरण जाणवता.

'देव बरें करूं' हें गोंयांत खंयच्यान आयलें हाचो हांवें म्हजे पुरतो सोद लायला. पुर्विल्ल्या काळांत आमचे क्रिस्तांव भाव जोडी पासत बोटीर वताले. तांकां केन्ना बोटलेर म्हणटाले. ते शिक्षीत नासताले. तांकां कोंकणी सोडून दुसरी भास कळनासली. इंग्लिश तर बोटीचेर पावतकूच आयकून कळूंक लागिल्ली. तेन्ना परिस्थिती वेगळी आशिल्ली. गोंयांतले गरिबीक लागून ते धा दिशांनी वताले. बोटींतल्यान ते संवसारभर भोंवताले आनी वर्साचे आठ धा म्हयने भायर रावन दोन तीन म्हयन्यां खातीर गोंयां परतताले. आपलीं घरां

सरी करताले वा नवीं घरां बांदताले आनी 'गोंय' तकलेंत घेवन परतून भायर वताले.

ह्या प्रवासांत ह्या बोटलेरांचो बोटींतल्या इंग्लिश वा हेर भाशीक लोकां कडेन संबंद येतालो. हातूंत जे इंग्लिश लोक आशिल्ले ते ह्या क्रिस्तांव चाकरांक ताणी केल्ल्या कामा खातीर God bless you म्हणटाले. Thank you म्हणनासले. कारण हे इंग्लिश लोक नोकर वर्गाक दोन नंबरचे लेखताले. देखून God bless you अशें ते म्हणटाले.

कोणा एका क्रिस्तांव बोटलेरान ताचें 'देव बरें करूं!' केलें आनी तें धरलें.

ह्या 'देव बरें करूं' त वरतेपण (superiority) नासलें. आसल्यार ल्हानवीकाय वा नम्रताय आसताली. ह्या उद्‌गारा फाटल्यान 'थँक यू' नासतालें. एक होरावणी आसताली. सगळ्यांचें बरें जावं, सगळें बरे भशेन चलूं ह्या अर्था कडेन तें पाविल्लें.

God bless youचो कोंकणी अणकार करपी कोण तें आमी नकळत. इतलें खरें की 'देव बरें करूं' एक मंत्र जाला. आतां तर हिन्दूय 'देव बरें करूं' म्हणटात. काल सकाळीं हांवे म्हजे परम इश्ट नागेश करमलीक फोन लावन ताचे भलायकेची चवकशी केली. ताणें आपूण बेस बरो आसा म्हण सांगून म्हजो हुस्को निवारलो आनी 'देव बरें करूं' म्हळें.

हरशीं उपकारी, आभारी, दिनवाशी हीं उतरां आमी थँक यू पासत वापरतात. पूण 'देव बरें करूं' हें सर्वमान्य जालां. मदींच देवाक कित्याक हाडटात म्हण थोडे विचारतात. पूण हो प्रस्न तांचे पुरतोच उरता.

मडगांवां भाडेलां आसात तांची मजुरी फारीक केले उप्रांत ती हटकून 'देव बरें करूं' म्हणटात. बाजारांतली नुस्तेकरां वांटपण करिनासतना पयशे फारीक करतल्याक 'देव बरें करूं' दिताली़ंच. भिकारी आपणाक देव पावचो म्हण मागिना, आपणाक धा रुपयांची भीक कोणे घाली जाल्यार ताका देव बरें करूं म्हणटा.

'देव बरें करूं!' हें मागणें मनशाक बऱ्याची, मांगल्याची कितली ओड हें दाखयता. गोंयांत किजिलां, वादावादी, मारामाऱ्यो, खून, अपघात, आत्महत्या पावला-पावलाक घडटात. पूण शेवटाक 'देव बरें करूं' सगळ्यांचेर मात करता!

मडगांवच्यान पणजे वतना कितले तरी पंचायती वाठार हुपचे पडटात. अशें सगल्या रस्त्यांचेर घडटा. मडगांवां सावन पणजे वतना नुवें, वेर्णे, कुट्ठाळी आदी पंचायत वाठार लागतात. हे वाठार जंय सोंपतात थंय Thank You! Come again हे फलक दिसूंक लागल्यात. गोंय सरकाराच्या ट्रान्सपोर्ट खात्यान आनी/वा पुलीस कक्षान कोणा तरी मनशाक वा कंपनीक हें काम दिलां काय दिसता. ही कंपनी कोणा सांगाता बसून ह्या फलकांचेर कितें बरोवचें तें थारायता काय कितें हें खबर ना. इतलें खरें की कोंकणी भाशेच्या ह्या राज्यांत वचत थंय इंग्लिश फलक दिसतात. Thank You, come again अशे हे आनी दुसरे दिशादर्शक फलक इंग्लिशींत बरयतात.

आतां तर रस्त्यांचेर रोड सायन आसुंकूच जाय. गोंयची उत्तर सराद हुपून सिंधुदुर्गांत प्रवेश करतकूच सावंतवाडी, कुडाळ मार्गाचेर पावला-पावलाक ड्रायव्हरांक शिटकावणी आनी प्रवाशांक म्हायती दिवपी फलक वाचूंक मेळटात.

"सावधान, पुढें शाळा आहे; पुढें गांव आहे; पुढें अपघाती वळण आहे; अरुंद पूल आहे" अशे ते म्हायती फलक न्हय तर शिक्षणीक अशे फलक आसात. घाट-माथ्यार पावता थंय 'पावले, पावले' म्हणत माकडां नाचतात तो फलक पळोवन भुरग्यांचे खोशयेक पारावार उरना.

हे सगळे फलक तांचे राजभाशेंत म्हळ्यार मराठींत आसात. बाकीच्याय राज्यांनी राजभाशेक अग्रक्रम दितात. गोंयांतूच कोणाक् खोशी करूंक फकत इंग्लेज वापरतात? आमचे कोंकणी राजभाशे पसून आमकां तोडटात कित्याक?

हें म्हज्यांतल्या मार्ग निमंत्रकाक सहन जायना. पयर गांधीजींच्या दिसा

आमी कांय कार्यकर्ते मडगांवां जमले. जातूंत फादर मोवजीन्यू, कुमार कलानंद मणी, मार्टिन मिनीन फेर्नांदीश, अरविंद काकोडकार आशिल्ले. आमी हें रस्त्या वयल्या फलकांचें पुराय इंग्लिशीकरण करूंक दिवंक फावना अशें थारायलां. इंग्लीश आसल्यार जाता, पूण ती कोंकणी मराठी सकयल. म्हजे हिसपान 'देव बरें करूं', 'सुस्वागतम' हीं उतरां रोमींतूय आसल्यार जातात. हांवें तोमझिन्यू कार्दोज, प्रशांत नायक हांचे कडेन म्हजी व्यथा उक्ती केल्या आनी हाणी 'आमी आसात' म्हळां.

सगळे गोंयकार 'देव बरें करूं' तोंडांनी म्हणटात. आतां ते बरयल्लें सगळ्यांक दिसूं. गोंयभर सगळ्याक 'देव बरें करूं' गाजूं!

टुरिस्टांक तें नागरींत आनी रोमींतूय वाचूंक मेळूं.

'देव बरें करूं' गोंयकारांचो एकवट घट करतलें असो हांव विस्वास बाळिगतां.






# पणजेचो स्वतंत्र उमेदवार समीर केळेकार

पणजेची वेंचणूक कोण जिखतलो ते विशींची भविष्यवाणी आयच्या दिसाळ्यांनी दिल्या आसतली. बी.जे.पी. आनी काँग्रेस हांकां हो कळेचो प्रस्न. आनीक दोन उमेदवार आसात ते स्वतंत्र. तांकांय कितें घडटलें हाची उमळशीक लागल्या आसतली.

ह्या स्वतंत्र उमेदवारांतलो समीर केळेकार तसो पणजेक अनवळखी. 'तो मडगांवचो, ताचें पणजे काम कितें?' अशेंय विचारपी आसात.

मानपाचें म्हळ्यार पणजेचे वेंचणुकेन पणजेची सुसंस्कृती दाखयल्या. कोणेंच दुसऱ्याचे कमरे सकयल घाव घालूंक ना. आपल्या शिक्षणाचो उमेदवारांनी आब राखला. हाका लागून थोड्यांक वेंचणूक अळणी लागल्या आसूं येता. पूण ह्या वर्तनान गोंयांक सुर्वेक सावन एक देखदिणें राज्य केलां. गोंयांत ही सभ्यताय आतां रुजल्या.

आमच्या राज्यांत आतां मेरेन वेंचणुको जाल्यात तांचो विशय विकास होच जावन रावला. विकासाक 'लक्ष्मणरेषा' लागना. विकासाक अंत ना. विकासाची भूक वाडत आसता.

पणजेच्या विकासाचेर उलयतना शाराची सफाई, येरादारी, मार्केट,

कॅसिनोंनी घाणयल्ली मांडवी न्हय, सांत इनेजचो नालो हाचेर उमेदवारांनी फोग काडला. हे प्रस्न सुटपाचे. उप्रांत नवे प्रस्न उप्रासतले, जे आतां भाशेनूच आसतले.

एकूच गजाल लक्षात घेवपा सारकी. दर एक वेंचणुके वेळार त्या काळा आसतात ते प्रस्न हुनहुनीतच न्हय तर कडकडीत तशे सळसळीतूय आसतात. ओपीनियन पोलाच्या दिसांनी मारामाऱ्यो जावच्यो उरिल्ल्यो. उप्रांत तशी परिस्थिती केन्नाच आयली ना.

जायत्या जाणांक आपलो उमेदवार थळावोच आसचो अशें दिसता. कारण ताका थळावे प्रस्न खबर आसतात. पूण ही नदर विशाल नासता. आतां पणजेचोच विचार केल्यार पणजी गोंयची राजधानी हाची जाण आसची पडटली. आपापल्या कामां खातीर हजारांनी हेर तालुक्यांतले लोक पणजे येवन वतात. पणजी हें सुंदर शार. तें पळोवंक लाखांनी पर्यटक येतात. आमकां त्रासांत घालूंक हे हांगा येतात अशें म्हणप योग्य कशें जातलें?

जायत्या जाणांक विकास म्हळ्यार रेंव आनी शिमीट दिसता. मोटारी दिसतात. विकास म्हळ्यार मनशाचो अर्थीक, शिक्षणीक तसो संस्कृतीक विकास हें लक्षांत आसूंक जाय. हातूंत भलायकीय धरूंक जाय. उमेदवारा मुखार एक सपन आसचें पडटलें, एक दिश्टावो आसचो पडटलो. त्या मार्टीन ल्यूथर किंगान खंय आपलें सपन फळाक आयलें म्हणिल्लें. आज एक 'काळो' अमेरिकेचो राष्ट्राध्यक्ष जाला. हे नदरेन पणजेकूच न्हय तर पुराय गोंयाक एक व्हीजन आसचें पडटलें.

तुर्ताक पणजेकार मांडवींतल्यान येवपी वासान बेजारल्यात. एका न्यूज चॅनेलांत चर्चा चलताली. एकलो पेंवपी सांगतालो, आतां मांडवींत पेंवपाचो अविचार कोणेच करचो न्हय. कॅसिनोंतली सगळी घाण नीट मांडवींत सोडटात. पेंवतल्याच्या तोंडांत कसलें उदक वतलें सांगपाची गरज आसा?'

गोंयकारांत जायते दोश आसात. पूण खरो गोंयकार शिक्षणाचो आनी ज्ञानाचो भक्त. सगळ्या देशांत गोंय हें एकूच राज्य, जाचो दर एक नागरीक

आपल्या भुरग्यांक शाळेंत धाडटा. हाचोच एक परिणाम म्हळ्यार गोंयकार शिकिल्ल्यांक मान दिता.

आदले मुखेलमंत्री आनी आतांचे संरक्षण मंत्री मनोहर पर्रीकार हांचो गोंयकारांक ते आय आय टीयन म्हण व्हड अभिमान. देशांत आय आय टीयन मुख्यमंत्री हे एकलेच.

खरें म्हळ्यार आय आय टी ही उच्च तंत्रज्ञान शिकोवपी संस्था. ही संस्था बुदवंत तंत्रज्ञ तयार करता. मुदलचे बुदवंत विद्यार्थी आय आय टींत वतात. हाचे बरोबर हेंवूय खरें की आय आय टी विचारवंत तयार करिना.

समीर केळेकार आय आय टीयन म्हण कळनाफुडें गोंयकारांक तो कोण कितें हें समजून घेवपाची उमळशीक लागली. पूण तेच बरोबर ताणे न्यू यॉर्कांतले कोलंबिया युनिव्हर्सिटीची डॉक्टरेट घेतल्या हें कळनाफुडें तांची बारीकसाण वाडली. कोलंबिया युनिव्हर्सिटी ही विचारवंतांची युनिव्हर्सिटी. तिणे साठां परस चड नोबेल पुरस्कार जोडपी दिल्यात. जगांतले विचारवंत वा व़ेगळो विचार  करपी फुडारी अमेरिकेक वतात तेन्ना कोलंबिया तांकां आपोवन तांचीं व्याख्यानां दवरता. जवाहरलाल नेहरू हांचें अमेरिकेक गेल्ले खेपेक कोलंबियांत व्याख्यान आसतालेंच. डॉक्टर आंबेडकर हो कोलंबियाचो प्रॉडक्ट.

अशे हे आगळे वेगळे युनिव्हर्सिटींत समीर स अदीक वर्सां रावला आनी हे युनिव्हर्सिटीची ताणें डॉक्टरेट जोडल्या. उमेदवार म्हणून समीरान जे विचार मांडल्यात तांतल्यान समीराची एक खाशेली वळख घडटा. ही जमेची बाजू, हे नदरेन समीर विचारां वरवीं  गोंयभर पावला.

हांव समीराचो बापूय म्हणून न्हय, तर मित्र म्हणून आनी नागरीक म्हणून समीर भारताक तशी गोंयांक फावो जाल्ली एक देण मानतां. समीरान पन्नाशी हुपल्या. तो स्वयंभू, देखून ताच्या उमेदवारी काळांत हांव पणजे वचूंक ना. तो जे अणभव जोडटलो ते ताच्या उर्वरीत जिवितांत ताका उपकारा पडटले. ताका हांवें फकत आशिर्वाद दिला.

मुजरत सांगन दिसता, समीराचो जल्म ताचे भयणी सांगाता शणै गोंयबाब पुण्यतिथीक म्हळ्यार 9 एप्रीलाक जाला. ताचें मुळावें शिकप कोंकणींतल्यान जालां. ताणें बुद्दीबळांत खूब इनामां जोडल्यांत हें सांगतना म्हाका व्हडवीक भोगता.

समीरान आपली वळख दितना मुकुंद केळेकार, रवीन्द्र केळेकार, सुमंत केळेकार हांचो उल्लेख केला. शंकर भांडारी, माधवी सरदेसाय केळेकारांचीं भाचरां.

समीर अमेरिकेक सावन पत्रां बरयतालो. ताणें पयलीं दोन वर्सां सावथ कॅरोलिनाचे क्लॅमसन युनिव्हर्सिटींत एम. एस. करपांत काडलीं. पत्रांत ताणें बरोवचें: 'अमेरिकेंत पायलेक पांचशीं युनिव्हर्सिटी आसात. पूण म्हाका बरी युनिव्हर्सिटी मेळ्ळे बगर समाधान जावचें ना.'

तेच भाशेन, 'म्हाका बॉम्बे कार्फेतले पातळ भाजयेची याद येता. हांगा तशी भाजी मेळ्ळ्यार हांव एक डॉलर दीन.'

हें गोंयकारपण!






# विचारांक कृतीची गरज

अर्दी-मर्दी हांव शाळा कॉलेजींनी वतां. 'मार्गाचें आमच्या जिवितांत म्हत्व' हाचेर उलयतां; तुर्ताक 'सिटिझनशिपीचेर' उलयतां.

हांवें विद्यार्थ्यांक 'तुमी कित्याक शिकतात?' हो प्रस्न केलो तेन्ना सभांनी उतर फुटना अश्या ह्या भुरग्यांनी एका आवाजांत जवाब दिलो: 'जॉब मेळोवपा खातीर.'

तांकां सगळ्यांक हें उत्तर तोंडपाठ आशिल्लें हाचे वयल्यान तांकां कोणे तरी हें उत्तर शिकयल्लें आसूंक जाय अशें दिसलें. विद्यार्थ्यांकूय हें उतर पटिल्लें दिसतालें, हाचे वयल्यान तांचो मायण्डसॅट तितले मेरेन सॅटल जाला अशें लागलें.

'आमी शिकतात जॉब मेळोवपा खातीर' हाचो अर्थ परिक्षे अंतीं आमचें पयलें काम जॉब मेळोवपाचें अशेंच ताणी धरिल्लें आसता हें स्पश्ट जालें.

म्हणचे शिकप कित्या खातीर? जॉबा खातीर. ज़ॉबाची सुरवात आज **8-10** हजार रुपयांनी जाताच जाता. जॉबाक लागून पयशे येवप आनी त्या पयशांचें जाय तें करूंक मेळप हेंच खरें सूख तशें स्वातंत्र्य म्हणूं येता.

'तुमी कित्याक शिकतात?' ह्या प्रस्नाक एकल्यान लेगीत 'ज्ञान मेळोवंक'

अशी जाप दिली ना. कोणेंच 'विद्या प्राप्त करपाक' म्हळें ना; कोणेंच 'व्हड मनीस जावंक' म्हण सांगलें ना; कोणेंच 'चड पयशे जोडपाक' म्हण उत्तर दिलें ना. सगळ्यांनी 'जॉबा खातीर' इतलीच जाप दिली.

जॉब मेळोवपाची एक रीत जाल्या; ती अशी.

1) पयलीं मंत्र्याक धरून मेळटा जाल्यार पळोवप. तो नात्यांतलो आसलो, नात्यांतल्यांचो फ्रँड आसलो, वळखीचो आसलो जाल्यार ताचे कडेन सरळ वचप आनी चल्या-चलयेचीं कागद-पत्रां दिवप.

2) नंबर दोन चेर खासदार, आमदार आसतात. तांचे खातीर 'पक्षाक कितेंय दिवचें पडल्यार पडूं' हें पालूपद तयार आसताच.

म्हजो एक अणभव सांगतां. म्हज्या नात्यांतली एक चली डॉक्टर जाली आनी रोखडीच सरकारी नोकरी सोदूंक लागली. सरकारांत म्हजो कोण एक इश्ट आसा अशें तिका कळिल्लें. 'कितेंय दिवचें पडल्यार पडूं' अशें तिणें म्हजे कडेन म्हळें. हांवें तिका तापयलें ना, पूण सांगूंक फावता त्या उतरांनी म्हजी मर्यादा सांगली. 'पूण एक सांग' हांवें तिका विचारलें, 'तूं स्वतंत्र डॉक्टरकी कित्याक करिना?' तिणें दिल्ले जापेन म्हजी बोलतीच बंद जाली. 'सरकारी नोकरेंत कांय काम करचें पडना न्हय?' तिणें म्हाकाच परतो प्रस्न केलो.

मागीर सरकारी नोकरेचें जमलेंच ना जाल्यार बँकेची नोकरी, कॉरपोरेट नोकरी अशे तरेन देंवचें पडटा आनी मेळटा ती नोकरी सुगूर करची पडटा.

ह्या संदर्भांतलो खासा म्हजे चलयेचो अणभव सांगतां. म्हजी चली बारावी पास जाली तेन्ना तिका 18 पूर्ण जावंक नाशिल्लीं. मेडिकलाक प्रवेशा खातीर 18 जावंक जाय ही अट आशिल्ली. हें खातें आरोग्याचें अखत्यारींतलें. दिल्लीक राजनारायण आरोग्य मंत्री आशिल्ले. आमी बरोच पत्र वेव्हार, टेलेग्राम वेव्हार केलो, पूण 18 जावंक ना म्हणून प्रवेश मेळोवप शक्य जालें ना. आमी थळाव्या मंत्र्या सरीं गेलीं आनी कायद्यान कितें करूंक जाता जाल्यार करचें म्हण विनंती केली. हाचेर ताणें म्हाका मुर्खांत काडलो. कितें कायदो घेवन बसला

काय ताणें विचारलें. 'एक ॲफिडावीट दिवन ताका 18 जाल्यांत म्हण सांग. प्रस्न सुटलो' ताणें म्हळें.

हें आमी केलें ना. चित्रान बीएससीक एक वर्स दिलें आनी उप्रांत एम.बी.बी.एस. जातकूच तें घटप्रभेक डॉ. माधवराव वैद्य हांचे सरीं दोन वर्सां रावलें. कर्नाटक आरोग्य धामाक ताणें सेवा दिली आनी डॉक्टरांचे तोखणायेचें लिखीत सर्टिफिकेट आनी अर्थीक पुरस्कार जोडून वैजकी सेवा म्हळ्यार कितें तें शिकून आयलें आनी हांगा एम.डी. केली.

घटप्रभेक जोशी म्हणून रिटायर्ड डॉक्टर आशिल्ले. ते चित्राची खूब अपुरबाय करताले. तांचेसरीं एक फावट एक तांचे इतलोच जाणटो इश्ट आयिल्लो आशिल्लो. एक दीस सांजेवेळार कामा वयल्यान परततना जेन्ना डॉ. जोशीक चित्रा मेळूंक गेलें तेन्ना जोशीन ताची त्या इश्टा लागीं वळख करून दिली. 'ही चिमुरडी डॉक्टर चित्रा, डॉक्टरांच्या (माधवराव) हाताखालीं काम करते.' हें आयकना फुडें तो जाण्टेलो इश्ट कदेला वयलो उठलो आनी ताणें दोनूय हात जोडून चित्राक नमस्कार केलो. चित्रा ह्या अनपेक्षीत मेळिल्ल्या नमस्काराक लागून फाटीं सरलें. तेन्ना त्या जाणटेल्यान म्हळें. 'हा नमस्कार तुम्हाला नव्हे, तुमच्या विद्येला. फार आनंद झाला.'

चित्राच ही गजाल केन्ना केन्ना सांगता. 'विद्या, ज्ञान, सेवा हांकां कितलें मोल आनी कितलो मान तें हांव घटप्रभेक शिकलें.' आमकां हें आयकून जिणेचें सार्थक जाल्याचें जाणवता.

गोंयच्या विद्यर्थ्यांचे तकलेंतलें 'जॉबा खातीर आमी शिकतात' हें काडूंक जाय. शणै गोंयबाबांचें दायज तुमकां फावो जालां; तुमी बाबत कुळां न्हय; पांय मारता थंय उदक काडपाची धमक तुमच्यांत आसूंक जाय, हें ह्या विद्यार्थ्यांक म्हाका सांगन दिसता.

परतून एकदां गोंयच्या प्रूडंट चॅनलाचेर 'हांव नकळ, म्हाका खबर ना' हें हांवें पळयलें. युवा पंतीन ही प्रस्नावली चलता. गोंयचो गवर्नर कोण? 'हांव नकळ.' 'गोंयचो गवर्नर खंय रावता?' 'म्हाका खबर ना.' 'गोंयचो उपमुख्यमंत्री

कोण?' 'म्हाका खबर ना.' दिलीप परुळेकारा कडेन कसलें खातें आसा? 'हांव नकळं.' 'जय जवान, जय किसान' ही घोशणा कोणें राष्ट्राक दिली?' ह्या प्रस्नाक एक विद्यार्थी उत्तर दिता, 'म्हज्या शेजाऱ्यान', आनी आपणें सगळ्यांक हांसयले म्हण तो आनीक हांसता.

हांव विद्यार्थ्यांक दोश दिना. पालक ह्या नात्यान हांव म्हाका दोश दितां. पूण हांव पालकांकूय दोश दिना. आयचो पालक तांच्या पालकांचो प्रॉडक्ट. हांव दोश दितां शिक्षकांक. म्हजो इश्ट माणिकराव गावणेकाराक जो स्टेट आनी नॅशनल अॅवार्ड वीनर शिक्षक जाला ताका हांव विचारतां. 'हे विद्यार्थी तुमचे मूं? फायचें गोंय हांच्याच हातांत मू?' तोय हांसता पूण त्या हांशांत एक व्यथा आसा ती म्हाका दिसता.

हांव बरोवंक जाय म्हण मनोरंजना खातीर ही पत्रां बरयना. हांव नकारार्थी बरयना. न्हयकार बरयना. हांव आमचे मुखा वयलीं आव्हानां पळयतां, दाखयतां.

ह्या आव्हानांक तोंड दिवपी नागरीक आनी विद्यार्थी सोदतां.

फकत विचार न्हय, विचारांक कृतीची जोड जाय अशें म्हजें मन आक्रंदून सांगता.






# शिक्षकां पासून अपेक्षा

गोंयच्या फुडारा संबंदान गोंयकारांच्या मनांतलो हुस्को वाडत आसा जो जाहीर सभांनी, संमेलनांनी, बसकांनी, निदर्नशां आदींनी व्यक्त जायत आसा. ह्या विशयाचेर लागून लेखूय येत आसतात.

असो एक लेख नामनेचे विचारवंत डॉ. नंदकुमार कामत हाणी गेल्ल्या आयतारा लोकमतांत बरयला. 'गोवा संस्कृतींतून विकृतीकडे' असो लेखाचो माथाळो आसा.

त्या लेखा विशीं हें पत्र न्हय. पूण लेखान दिल्ली शिटकावणी चड गंभीर अशी आसा. गोंयांत तरेतरेचे गुन्यांव घडटातूच. तें नवल उरूंक ना. पूण हे गुन्यांवूय आतां विकृत रुपान परगटूंक लागल्यात ही लेखकाक चड हुस्क्याची गजाल दिसता.

आतां गुन्यांव जावं, विकृत्यो जावं, फोल्गां जावं तांचीं मुळां खोल गेल्यांत, जीं मुळांसकट हुमटून काडचीं पडटलीं ते बगर गोंय रोगमुक्त जावचें ना.

आतां हाचें मूळ आमी स्वातंत्र्याचे उप्रांतच्या काळांत शील-संवर्धना कडेन लक्षूच दिलें ना हातूंत आसा अशें म्हाका दिसता. शिक्षण जाय पूण तें कित्याक जाय म्हळ्यार पयशे जोडूंक ही विद्यार्थ्यांची वृत्ती जाल्या. आयची

डिग्री रोखडी नोकरी दिता ही फट अपेक्षा मनांत बाळगून भुरगीं शिकत आसतात. विद्यार्थ्यांच्या आवय-बापायक तांचें नांव शाळेंत घालें की आपणे गड जिखिल्ल्याचो भास जाता. कांय पालकांक शाळा कॉलेज म्हळ्यार लाँड्री कशी दिसता. पयशे फारीक केले की चकचकीत भुरगो - चलो वा चली - मेळटलो अशें ते धरतात. कांय शिक्षकांक तर विद्यालय म्हळ्यार 'ड्रायविंग स्कूल'शें दिसता. ड्रायविंग स्कूलांत गाडी 'चलोवंक' शिकयतात; चार रोड चिन्नांची म्हायती दितात आनी पयशे घेवन लायसन्स मेळोवन दितात.

परिणामी विद्यार्थी धोकंपट्टी करून, ट्युशनां घेवन देवा म्हाका पास कर, सत्यनारायणाची पुजा करतां अशें सांगून घेवन, जाल्यार पास जाता. ताका नोकरे पासत अर्ज करपाक सर्टिफिकेट लागता. मात नोकरी ह्या सर्टिफिकेटान मेळना. ते पासत हजारांनी लाखांनी मेजचे पडटात. आयज हो कायदोच जाला म्हळ्यार जाता.

अशा विद्यार्थ्यान 'हांव नकळ, म्हाका खबर ना, हांव जॉबा खातीर शिकतां' अशें सांगल्यार अजाप न्हय. म्हाका ह्या खिणाक फिल्मांतल्या गुणाजीच्या नातवाचें चित्र दिसता, जाची आवय ताका विचारता, 'दिल्लीक कोण आसता?' आनी तो येदोसो भुरगो सट्ट करून 'राष्ट्रपती, प्रधानमंत्री' अशी जाप दिता. खरें म्हळ्यार, नोकरी मेळोवन होच वतलो आशिल्लो.

आयज पयशे जोडूंक कॉलेज शिक्षण जायच अशें ना. पयशे जोडूंक फुडें सरपाची कळाशी जाय. आमच्या भुरगेपणांत आमी घाम येसर, तिळसांज जायसर कोंयडेबालांनी खेळटाले. गांवठी क्रिकेटूच आशिल्लो तो खेळ. आज आवय बापायक भुरग्यांनी खेळप म्हळ्यार लाखांनी करोडांनी रुपये जोडपाची, मान मेळोवपाची संद जाल्या. बरो खेळगडो म्हण सचिनान भारतरत्न जोडलें. त्या काळार भुरग्यांनी केंस वाडयल्यार 'तबलजी कसो दिसता' अशें म्हणटालीं. आयचो तबलजी 'वा, ताज!' हीं उतरां म्हणून लाखांनी रुपये जोडटा.

कॉलेजांनी विद्यार्थी पावलो की ताका पास जाले उप्रांत आपणे पयशे

जोडुंकूच जाय अशें दिसता आनी ते सभावीक म्हणूंक जाय. आयच्या तरणाट्या चल्या चलयांक मोबायला खातीर पयशे जाय. केंसांच्या तेलां खातीर आनी आंगाच्या क्रिमां खातीर पयशे जाय. हे पयशे आपणे जोडचे अशें दिसल्यार नवल ना. पूण ते खातीर जॉबूच जाय अशें ना. आयज पयशे जोडपाच्यो हजार कळाशी जाल्यात. हें वृत्तीचेरूय आसता हें जाणा जावनूय जॉबाचो जप करीत रावप हें सारकें न्हय हें कशें कळना तें समजना.

एके नदरेन प्रुडंटाच्या सचिनाक हांव धन्यवाद दितां कारण एका अती गंभीर प्रस्ना कडेन ताणें लक्ष ओडलें. हें एके तरेचें वस्त्रहरणूच म्हणचें पडटलें. आतां ही परिक्षा नाका. आतां तांकां आमी जॉब मेळोवपा खातीर शिकतात हाचे बदला 'आमी स्वाभिमानान चड आनी चड पयशे मेळोवपा खातीर शिकतात' अशें सांगूं दी. तांच्यांतली मुमुर्शेवणी काडपाची आज चड गरज आसा. चलयांचे केंस आनी चल्यांचें खाड ह्या ट्रॅपांतल्यान तांकां भायर काडची गरज आसा.

हें काम शिक्षकूच करूंक शकता. हांव जायत्या शाळा कॉलेजींक भेट दितां आनी थंय जबाबदार अशे खूब शिक्षक मेळटात. शिक्षक हो आपली जापसालदारकी सारकी पाळिना अशी तक्रार मात आयकूंक येता हें कित्याक तें ताणी सांगूंक जाय.

डॉ. नंदकुमार कामत हाणी 'गोवा-संस्कृतींतून विकृती', गुन्यांवाचे प्रकार लागून आमकां वाचूंक मेळटात. उत्सव आनी गुन्यांव हाणी दिसाळ्यांचीं पानां भरिल्लीं असतात. आमी फोल्गांनी मग्न उरिल्ल्यान आमचें जिवीत उथळ जालां आनी गुन्यांव आनी विकृत्यो सायड-इफेक्ट जाल्यात.'

शिक्षकांनी थारायलें जाल्यार विद्यार्थ्यांचे मनोवृत्तींत ते बदल घडोवन हाडूंक शकतले. दिवचलचे रमेश गांवस हे एक सोशल ॲक्टिविस्ट. खण धंद्यांतली अंदाधुंदी ताणी चवाट्यार मांडली. ते प्रसंगांक तोंड दीत जियेत आसात. महाराष्ट्रांत दाभोलकर आनी पानसरे हांकां मारले. गोंय विकृतेचेच दिशेन न्हय तर हिंसेचे दिशेनूय वता.

पूण रमेश गांवस हांची नमन धावस्कारान आमकां दुसरी एक वळख करून दिली. विद्यार्थ्यांक एक नवी नदर दिवपी ते शिक्षक म्हणून सांगलें. अशे कितलेशेच शिक्षक गोंयांत आसात. ताणी थारायलें जाल्यार विद्यार्थ्यांचो न्हयकारी मायण्ड सॅट ते बदलूंक शकतले.

अशा पन्नाशेक शिक्षकांची बसका घेवची म्हण आमी थारायलां. आमी संस्कृती कडल्यान विकृती कडेन वचूंक लागल्यात. हांगा की खरें यू टर्न जाय. शिक्षकूच हें यू टर्न घडोवन हाडूंक शकतले असो भरवंसो.






# होमगार्डांक दिसवड्याचे मानाय लेखूं नाकात!

तो काळ आगळो-वेगळो आशिल्लो. देश निकतोच स्वतंत्र जाल्लो. सगळ्याक उमेद ओतताली. स्वतंत्र जाल्ल्या देशा पासत कितें पूण करपाची लोकांक उमळशीक लागिल्ली. तेन्नाच होमगार्ड संघटनेची स्थापना जाली. पोलिसांक आधार दिवपाक कोण तरी जाय आशिल्ले. बऱ्या बऱ्या घरांतले शिकिल्ले सवरिल्ले तरणाटे भरती जावंक लागले. पगार बी नाशिल्लो. आपलो युनिफॉर्म आपणेंच करपाचो. धवो फुल्ल. मुंबय हांवें हें पळयलां.

आयज होमगार्ड संबंदींचें म्हजें हें तिसरें पत्र. सत्याक तीनदां म्हणपाची चाल आसा. हें पत्र फळदिणें जावं.

1947 तले होमगार्ड आनी आयचे होमगार्ड भूंय मळबाचो फरक. कित्याचें कितें केलें, भांगराचें लोखण केलें हाची सरकारांक लज दिसूंक जाय.

आयज होमगार्डांत दादले तशीं बायलां आसात. हातूंत आदले तशे हालीं भरती जाल्ले होमगार्ड आसात. ते सरकारी नोकरेंत नात. कितें दशा पळयात. ते दिसवड्यार आसात. ते खाकी युनिफॉर्म घालतात, पूण पोलीस न्हय. तांकां जाय तेन्ना सरकार आपयता आनी जाय तशे वापरता.

चालंत दिसांनी होमगार्ड येरादारी सांबळटना दिसतात. ते पोलिसांच्या हाता खाला काम करतात काय दिसता. पूण ते दिसवड्याचे मानाय न्हय तर सेवाधन घेवपी स्वयंसेवक! ते समाजा कडल्यान मान अपेक्षितात. नोकरी मेळना, काम जाय तसलें मेळना म्हण ते होमगार्ड जाल्यात. एक दीस सरकारान तांकां आपलें सेवेंत कित्याक म्हण आसपावन घेवचे न्हय? सरकार म्हळ्यार कितें? Exploiter number one व्हय? आपूण जावन कांय करचेंना, कांय दिवचें ना. मार्गार देंवांत, मार्गार बसात, सत्याग्रह करात, उपासाक बसात, इल्लीशी हिंसा करात. आतां सांगात 'तुमकां कितें जाय?' सरकार विचारतलें.

आतां होमगार्ड्स पळयात. म्हाका हांगा एक सांगूंक जाय. हांव हांगा फकत होमगार्डां विशीं बरोवंक बसलां. ट्रॅफीक पोलिसां खातीर हांवें जायतें केलां आनी ते मागिनासतना म्हाका 'बरें गोंय' म्हणटात. एकेकदां सलाम करतात जो म्हाका आवडना.

तर हे होमगार्ड मार्ग-दर्शन करतात. ट्रॅफीक मॅनेज करतात. वतांत करपतात; पावसांत भिजतात; उदकाक तानेतात; धुल्ल खातात आनी 'फी फी' पिल्लूक मारीत आसतात. ताका लागून हड्डें अशक्त जाता; टीबी जावं येता! तांची तक्रार ना. ते येरादारीक शिस्त लायतात. अपघात आळाबंदा हाडटात. गाडयांक आपटूंक दिनात. पूण कोणाक ताचें पडिल्लें ना. कोण तांकां थँक यू म्हणनात.

गोंय हो टुरिस्ट प्रदेश. जगांतल्या पयल्या धांतलो एक अशें म्हणटात. पूण हांगा रोडसायनी नात. रोड सिग्नल्सूय (लायटीचीं) नात. होम गार्डांक वता-पावसांत आमी तळमळायतात. बरें जावं ह्या सरकाराचें आनी सरकारांतल्या मंत्र्यांचें आनी संत्र्यांचें!

हांव सदांच म्हणत आयलां की रस्त्या वयलो पोलीस वा होमगार्ड हांकां डॉक्टरूच म्हणूंक जाय. डॉक्टर एका मनशाक बरो करता. पोलीस वा होमगार्ड

समाजाक सांबळटात. आकांता वेळार लोक पोलिसां कडेन धांवतात आनी पोलीस तशे होमगार्ड तापिल्लें वातावरण थंडायतात.

ना म्हळ्यार, मार्ग ही एकूच संस्था जिणें 'थँक यू ट्रॅफीक पोलीस' कार्यावळ गोंयांत राबयली. देशांत कोणेंच असली कार्यावळ राबोवंक ना. ट्रॅफीक पोलिसांक, होमगार्डांक मार्गान पुरस्कारूय दिल्यात. ही कार्यावळ आमी दिल्लीक पावयली आनी काँग्रेसीच्या विद्यार्थी पंगडान विधायक वावर म्हण देशांत पातळायली.

आज मार्ग अभियान होमगार्डांचो कॉज घेवन नागरिकां मुखार तशें सरकारा मुखार येता. होमगार्डांक दिसाक सरकार 300/- रुपया दिता. लज दिसना ह्या सरकाराक मार्गार धोको पत्करतल्या ह्या तरणाट्यांक 300/- रुपया दितना? आरे, मडगांवची जाणटीं भाडेलां आज दिसाक 500/- रुपया जोडटात आनी ह्या भुरग्यांक, लोकांक मरणा पासून वाटायतल्यांक पंचखादय वांट्टात काय कितें?

दोन वर्सां पयलीं तांकां दिसाक 200/- मेळटाले. तेन्नाचे मुखेल मंत्री दिगंबर कामत हाणी 300/- दिवपाचें मानून घेतलें. चान्स पडलो पर्रीकाराक. ताणें दिगंबर कामतीन पास केल्ली फायल चालीक लायली आनी होमगार्डांक 300/- रुपया मेळूंक लागले. हांवें पर्रीकाराक म्हळें '500/- कर. ते बेस बरें काम करतात!' हाचेर ताची मल्लीनाथी. म्हणूंक लागलो, 'ते सरकारी नोक न्हयत म्हण बरें काम करतात!' पूण ताणें तांकां 500/- फावतात म्हण मानून घेतलें आनी कितेंय करतां म्हण उतर दिलें. कांय केलें ना. आनी आतां देशाची राखण करूंक दिल्लीक गेला. जैतिवंत जावं म्हण मागुया! तेच भशेन देश सांबळटना होमगार्डांक विसरूं नाका म्हण सांगूं या. ते मार्गा वयल्या लोकाक सांबळटात. हेंय म्हण उण्या मोलाचें काम न्हय.

आतां घर-खात्या मंत्री लक्ष्मीकांत पार्सेकार हो प्रस्न हाताळटले म्हण मार्ग अभियान रावता. हांव तांकां दोन म्हयन्यां पयलीं पयलेच फावट मेळ्ळों.

हांवें पळयलें, ते बडवाचाराचे न्हय. ते चित्त लावन आयकतात. जाय दितलो वेळ दितात. म्हाका वेळ ना म्हणनात. जो आयकता तेन्ना काम 50% जाल्लें आसता.

होमगार्डांक कितें जाय? म्हज्या अभ्यासा प्रमाण:

1) होमगार्डांक ह्या समयार 500/- रुपया दिसवडो जाय. ताका सेवा-धन म्हणचें.

2) तांकां वर्सांक धा तरी सुटयो दिवच्यो.

3) ते दुयेंत पडटात. धुल्ल खावन आनी पिल्लूक वाजोवन वाजोवन तांचें हड्डें कल्ल जाता. तांची नेमान वैजकी तपासणी करून तांकां फुकट वखदां दिवचीं.

4) ताकां 4 वर्सांनी 1 युनिफॉर्म दितात. वर्साक दोन दिवचे.

5) होमगार्डांक प्रवास भत्त दिवचो. ते दिसाक 50-100 रुपया दिवन बशींतल्यान ड्युटीचे सुवातेर येतात.

6) तांकां येरादारी सांबाळटना अपघात जावं येता. इजा जावं येता. तांकां अश्या वेळार 1500 मेळटात ते वाडोवचे.

7) होमगार्डांचो विमो उतरावचो.

8) सेवे शेवटाक तांकां सेवाधन म्हण एक हाती रक्कम दिवची.

9) समाजान आनी सरकारान होमगार्डांक मान दिवचो.

10) नागरिकांनी चलतना वा मोटारींत आसतना मार्गा वयल्या ट्रॅफीक पोलिसांक 'देव बरें करूं' म्हणचें.

तीस दिसांत ह्या मागण्यांक घरमंत्री तशे मुख्यमंत्री लक्ष्मिकांत पार्सेकार हाणी मान्यताय दिवची.





# खूब खूब चलचें आसा; लांब पल्लो गांठचो आसा!

विद्यार्थ्यां मुखार उलोवपी उलयतालो. तो तांकां अमेरिकेंतल्या पोलिसां संबंदान आपणाक आयिल्लो एक अणभव सांगतलो. उलोवपी धा वर्सां अमेरिकेक रावून शिक्षण पूर्ण करून घरा परतल्लो.

“त्या दिसा हांव एका इश्टागेर वचूंक भायर सरिल्लों. रस्त्यार स्नो पडिल्लो. स्नो पडटा तेन्ना रस्ते बर्फान भरतात. धवे फुल्ल जातात. रस्त्यांच्यो कडो दिसनात.

“वतां वतां स्नो चड पडूंक लागलो. गाडी चलोवप कठीण जावंक लागलें. कडो दिसनात जाल्यो. अदमासान गाडी चलोवची पडटाली. थंडीय कडक आशिल्ली. हात घटशे जावंक लागिल्ले.

“म्हजे गाडये मुखार दुसरी एक गाडी वताली. चलयतल्याच्या ती कंट्रोला भायर वताशें दिसूंक लागलें. गाडी रस्त्याचे कुशीक वता म्हणपाचे जाणवलें. अचकीत लवंडली. गाडी दिसना जाली!

“म्हाका कडकडो भरलो. हीच गत म्हजी जातली म्हणपाचें जाणवूंक लागलें. अमेरिकेंत मुखेल रस्त्यांक सायड लेनी आसतात. प्रसंगा वेळार गाडी कुशीक काडटात. हांव मातसो मुखार गेलों आनी पयले सायड लेनींत गाडी कशीबशी व्हेली.

“देंवलों आनी पोलिसांक फोन लायलो. ‘हांव ...... च्यान उलयतां. म्हजे मुखा वयली गाडी रस्त्या कुशीक पडल्या. बेगीन येयात!’

“जाप आयली. ‘Don’t worry! आमची रेस्क्यू गाडी थंय पावल्या. सगळे बरे आसात. थँक यू!”

ही अमेरिका आनी अमेरिकेचे पोलीस. हांकां डॉक्टरां परस चड न्हय, जाल्यार तितलें तरी शिक्षण मेळ्ळांशें दिसना?

अमेरिका जाली. आतां इंग्लंडाक या.

टीव्हीर पळयल्लो प्रसंग. इंग्लडांतल्या एका रेल्वे स्टेशनार आकांतवाद्यांनी बॉम फोडला. एका खिणांत पोलीस थंय हजर. ताणी वाठाराक रेवाडो घाला आनी लोकांक घरा वचात म्हण सांगूंक लागल्यात.

घडये आनीक बॉम फुटूंक शकतात. आनी चमत्कार म्हळ्यार खिणांत हजारांनी लोक आशिल्ल्या त्या मार्गार किण्ण! जितो मूस ना. पोलिसांचें तपासकाम सुरू.

हें इंग्लंड!

आतां भारतांत, आमच्या गोंयांत - मडगांवांत...

शारा लागसार दिकारपाल नांवाचो एक गांव आसा. ताचे कुशीक दोंगुल्ली आसा. दोंगुल्लेच्या तळाक आठ धा दिसवड्याच्या मानायांच्यो खोंपी आसात.

उटंगाराच्या पावसांत दोंगुल्लेचें देगण कोसळ्ळें. तळपां आनी मातयेचे राशी पोंदा खोंपी पुरवल्यो. खोंपींनी मानायांचीं बिराडां आशिल्लीं. शारांत ही खबर पातळ्ळी. सिनेमा पळोवंक मडगांवकारांची सत्र्यो घेवन वा भिजत धांवाधांव. हजारांनी लोकांचो रेवाडो. रस्ते बंद. फायर ब्रिगेडीक वाट मेळना. शॉवेलाक वाट ना. सगळ्याक चिखोल. पावस उसरपत घेना.

निमाणें पोलिसांक लाठी उबारची पडली. ‘व्हडलें गोंय’ दाखोवचें पडलें. मागीर पळापळ.

माती उपसूंक दोन दीस लागले. मातये पोंदा खोंपीनी धा एक मडीं मेळ्ळीं.

* * *

मडगांवां पोस्ट ऑफिसा मुखार पासयेर कोण एक आपलें बॅग दवरून गेलो. त्या दिसांनी असल्या बॅगांच्यो खबरो येताल्यो. बँगांनी बॉम दवरताले आनी मागीर स्फोट जाताले. गोंयां न्हय. भायर.

पासयेर बॉम-बॅग आसा म्हणपाचें फां जालें. फुकट सिनेमा! लागींच बस स्टॅण्ड. हजारांनी लोक जमले. मदीं एकली एकसुरी काकुटवाणी बॅग!

लागींच पोलीस स्टेशन. थंय खबर पावली. पोलीस भायर सरले. बॉम निश्क्रीय करपी स्क्वॅड (squad) मडगांवां ना.

कित्याक तें स्क्वॅड? हांव पळयतां तें! एकलो हुशार (?) पोलीस एक सितारी घेवन भायर सरलो. पावलो बॅगा सरीं. आतां सिनेमा सुरू जातलो म्हण लोक रावल्यात. आतां बॉम फुट्टलो आनी मजाच येतली ही अपेक्षा. मागीर मंत्री बी येतले. फोटोग्राफर, टीव्ही वाले येतले! मजाच मजा!

पोलिसान सितारी बॅगाक लायली. बॅग शांत. मागीर सितारेन बॅग मातशें धुकल्लें. बॅग थंड! उप्रांत त्या पोलिसान बॅगाक हात लायलो. बॅग उक्तें केलें. खंय बॉम आनी खंय ठॉम! लोक निराश! बॉम फुटलो ना. मजा पळोवंक मेळ्ळी ना! सिनेमा कॅन्सल! केदें धाडस (?) पोलिसाचें?

* * *

हांव मडगांवां हरिमंदिर वाठारांतले कामत बिल्डिगेंत गेल्लीं 40 वर्सां रावतां. सकयल मानायांनी फुटपाथाचें घर केलां. हमाली करतात. जेवतात, खातात, न्हिदतात, मटको लायतात, सपनांय पळयतात, हांगाच.

म्हाका हडकितात. 'पात्रा' (पात्रांव) म्हणटात. प्रसंगा वेळार धांवत येतात.

लागींच एक बांय आसा. तिका चिऱ्याचो मोडको कांठ आसा. थंय वाऱ्याक बसूंक मेळटा. हमाल बांयच्या पाऱ्यार बसतात. ह्या हमालांत एक पांडू आसा. सावंतवाडी, कुडाळ तेवटेंतलो. एकलोच मराठी उलोवपी. बाकीचे कन्नड बी उलोवपी. पांडूक तंबाखूचें व्यसन. तंबाखू खावन तांबडोच जावपी. वाऱ्या खातीर बांयच्या पाऱ्यार बसपी. पांडू!

हो पांडू अचकीत बांयंत पडलो. हमाल धांवत म्हज्या दारार आयले.

पांडू बांयंत पडलो म्हण सांगूंक. म्हज्यान कितें करूं येतालें? हांवें 100 घुंवडायलो.

'xxx टॉवन पोलीस स्टेशन. जयहिन्द. कितें जालां?'

'तुमी मातशे हरिमंदिरा कडेन येशात?'

'हरिमंदिर खंयशें आसा?'

'मडगांवांत दिंडी जाता ती तुमी जाणात'?

'जाणात जाणात. हरिमंदिरा कडेन कितें जालां?'

'पांडू बांयंत पडला...'

'पांडू तुमचो कोण?'

'म्हजो कोण न्हय. पांडू हमाल.'

'बांयंत कसो पडलो?'

'बांयचे धडेर वाऱ्याक बशिल्लो.'

'वाऱ्याक बशिल्लो तो पडलो? अजाप! कितलो वेळ जालो?'

'अर्द वर जातलें...'

'अर्द वर तूं कितें करतालो?'

'हांव तुका फोन लायतालों.'

'फोन आमकां 100क न्हय. 108 कूय न्हय. ॲम्बुलन्स येतली. 101 क लावचो. फायर ब्रिगेडीक. ते येतले. बॉडी वयर काडूंक!'

पोलिसांक डॉक्टरां इतलो मान मेळूंक जाय हीं उतरां कांय जाणांक उस्तऱ्यां, कांय जाणांक नाकसुऱ्यां गेलीं. खंय डॉक्टर आनी खंय पोलीस!

पोलिसांक मान आसूं, शिक्षण तरी मेळूं नाका? म्हाका जाल्यार देशाक डॉक्टरां परस पोलिसांची चड गरज आसा काय दिसता. आमकां पोलीस सुसंस्कृत, सुशिक्षीत, प्रसंगार धांवपी, संकश्टाक तोंड दिवपी, टॅक्निशियन, टॅक्नोलॉजिस्ट...डॉक्टरां परस चड न्हय तर तांचे इतलेंच शिक्षण घेतिल्ले जाय.

खूब खूब चलचें आसा; लांब पल्लो गांठचो आसा. 



## आप हमे सिखाओ, हम आपके साथ है!

मराठींत ना. सी. फडके नांवाचे एक नांवाजते कादंबरीकार जावन गेले. 1940-50-60 हो तांचो जमानो. प्रेमसंबंद ते नाजूक धाग्यांनी विणटाले. कॉलेज विद्यार्थ्यांच्यो घिट्ट्यो पडटाल्यो तांच्या कादंबऱ्यांचेर.

हॉटेलांत एका मेजार एक प्रेमी युगूल बसता आनी तो चलो पांयांच्या आंगठ्यान तिचें पावल मेजा पोंदा दामता ही प्रणय वर्णनाची त्या काळची पराकाष्ठा आशिल्ली. आयचे परिस्थितीचेर हांव बरोवंक बसन जाल्यार हाका म्हातारचळ लागलां अशें वाचपी म्हणटले.

पूण हांव हांगा ना. सी. फडके हांच्या कादंबऱ्यांचेर बरोवंक बसूंक ना. म्हाका सांगूंक जाय तें म्हळ्यार हे ना. सी फडके, महाराष्ट्रांतले नामनेचे लेखक, आपल्या नांवा मुखार सदांच 'एम.ए' लायताले. तांकां लेखक म्हण व्हड मान्यताय मेळिल्ली, तरी लेगीत 'एम.ए' ही तांचे विद्वत्तेची निशाणी जाल्ली.

हांगा गोंयांत मडगांवांत नरशिंवबाब सुकेरकार नांवाचे एक विद्वान आशिल्ले. ते प्रखर मराठी आग्रही आशिल्ले. व्यासपीठा वयल्यान अस्खलीत मराठींतल्यान व्याख्यानां दिताले. तांच्या मराठी उलोवपांक लागून जायत्या

समारंभांनी ताकां अध्यक्ष म्हण व्हरताले. हे नरशिंवबाब सुकेरकार आपल्या नांवा मुखार 'बी.ए' म्हण चुकनासतना लायताले. ही डिग्री तांचो मान वाडयताली.

हांगा आमच्या गोंयांत ल्हान ल्हान भुरगे एम.ए. जातात पूण तितल्यान ते समाधानी जायनात. ते पी.एच.डी. करतात आनी काल पयर जांचे कडेन 'भुरगे' म्हण आमी पळयताले ते वा तीं भुरगीं आपल्या नांवा पयलीं 'डॉक्टर' लायतात तें पळोवन म्हजे सारक्याक तोखणाय आनी अभिमान दिसता.

म्हाका जेन्ना 'स्वातंत्र्यान गोंयाक कितें दिलें?' असो विचारपा सारको न्हय असो प्रस्न विचारतात तेन्ना शिक्षणा सारकी गिरेस्तकाय दिली अशें हांव अगत्यान सांगतां.

पूण....हो पूण भयंकर जावन आसा आनी ताणें म्हाका अस्वस्थ करून सोडला. टी.व्ही. चॅनल प्रूडंट मिडियाचे 'युवा पंतीन' हे कार्यावळीन म्हाका जितलो उचांबळ केला तितलो दुसरे खंयचेच कार्यावळीन केला जायत अशें म्हाका दिसना. 'युवा पंतीन' चो सुत्रधार युनिवर्सिटी आनी कॉलेज कॅम्पसांनी वचून थंयच्या विद्यार्थ्यांक चवथे-पांचवेच्या भुरग्यांक विचारपा सारके प्रस्न विचारता आनी ग्रॅज्युएशन आनी पोस्ट ग्रॅज्युएशन करपी विद्यार्थी 'म्हाका खबर ना; हांव नकळं' हें 'म्हाका सायबा वाट कळना' टायप गीत गायत आसतात. एका विद्यार्थ्यान तर 'जय जवान जय किसान' ही घोशणा आपल्या शेजाऱ्यान घडयली म्हण सांगून आपणाक लजेक घालें हें खासा ताका लेगीत कळ्ळें ना.

वयर हांवें पी.एच.डी. विद्यार्थ्यांचो उल्लेख केला. ते आपापल्या विशयांत तज्ञ आसतले हे विशीं दुमत आसूं नज. पूण हें शिकप जर आपणाक 'मनीस' करपा खातीर वा आपल्या राज्याचें वा आपल्या देशाचें नांव म्हान करपा खातीर नासत जाल्यार शिक्षण घेवपाचो कितें उपेग?

कॉलेज विद्यार्थ्यांक 'तुमी कित्या खातीर शिकतात?' असो प्रस्न विचारलो तेन्ना ह्या प्रस्नाक सगळ्यांनी एकमुखान 'जॉब करपा खातीर' हें उत्तर दिलें तें

कितें सांगता? शिक्षण हें ज्ञान मेळोवपा खातीर आसता आनी ज्ञान संवसारांतलें सगळें कितें दिता ही जाप जांकां येवजना; वा हांव चड आनी चड पयशे जोडपा खातीर शिकतां अशें उतर दिवपाचें जाका धाडस जायना जाल्यार कितें अर्थ उरलो त्या शिक्षणांत? कोणाक जबाबदार धरचें हे परिस्थितीक? हो प्रस्न विचारचे पयलीं, ही परिस्थिती बदलप आमकां कशें शक्य जायत हाचेर विचार करप गरजेचें काय म्हाका दिसता.

आनी पयर अचकीत म्हाका जो एक अणभव आयलो तो ह्या आमच्या भुरग्यांक नानाकाराच्या काळखांतल्यान 'हम होंगे कामयाब' ह्या हयकाराच्या उजवाडाक हाडपाक शकतलो अशें काय म्हाका दिसलें.

आठ दिसां पयलीं हांव भोंवता भोंवतां पिलारचे आग्नेल कॉलेजींत पावलों. हांगाच्या फादर प्रिन्सिपलान म्हाका आनी मार्गाचे 'सिटिझनशीप' येवजणेक येवकार दिलो. आनी आपले कॉलेजींतल्या 50 एन.एस.एस. विद्यार्थ्यांकडेन उलयात अशें सुचयलें. रोखडीच ही बसका जाली जिका गोंय विधानसभेचे आदले सभापती, आदले हेड मास्टर आनी 'आमचो आवाज' सातोळ्याचे संपादक तोमाझीन्यु कार्दोज, बाय श्रद्धा भारतीय (दिल्लीत एन.जी.ओनी काम केल्लें चली) आनी हांव उपस्थीत रावलीं.

विद्यार्थ्यां कडेन तोमाझीन्युबाबान नागरिकत्वाचेर संवाद केलो. श्रद्धान आपल्या विशयांचो अभ्यास करतना भोंवतणच्या संवसारांतल्या घडामोडीं कडेन लक्ष दिवपाचेर भर दिलो. हुंवारा सारक्या संकश्टांनी उत्तराखंड आनी काश्मीर हांगा कसलो हाहा:कार मातयला ताचे कडेन लक्ष ओडलें. आमच्या राज्यांत कांय जावचेंना, आमच्या गांवांत कांय घडचेंना अशें चिंततल्यांच्या घरां मेरेन संकश्टां कशीं पावतात तें श्रद्धान सांगलें. आनी हे पासत नागरीक जावन भोंवतणचे प्रस्न समजून तरी घेवचे म्हणपाचें लक्षांत हाडून दिलें.

पिलार जंक्शन पन्नास वर्सां फाटीं आशिल्लें तश्शें आसा. उप्रांत हायवे जाली पूण ह्या जंक्शना वयलो प्रॅशर देंवचना. देड दोन हजार विद्यार्थी, हजारांनी भावार्थी आनी हेर थळावे नागरीक ह्या जंक्शनाचो उपेग करून सांवारांत भर

घालीत आसतात.

'हें जंक्शन मांडणेर घालपा खातीर सरकाराक जागोवंक तुमी तयार आसात व्हय?' असो एक प्रस्न आमी विद्यार्थ्यांक केलो तेन्ना 'आप हमे सिखाओ, हम आपके साथ है।' अशें एका मुखान विद्यार्थ्यांचे वतीन उत्तर आयलें.

सभाघरांत उमेद पातळ्ळी. आमी तुमचे बरोबर येतात सर. अशे भुरगे सांगूंक लागले.

म्हणटकच आमी मार्गाचे वावुरपी योग्य मार्गार आसात अशें आमकां दिसलें.

आमच्या विद्यार्थ्यांक नागरिकत्व शिकोवप हो एकूच मार्ग आसा आनी आमचे विद्यार्थी नागरीक जावंक फुडें सरतले असो आमकां विस्वास आसा. आमीय तांच्या वांगडा रावतले.

खंय आसात संदेश प्रभू देसाय, मोहनदास लोलयेंकार, डॅसमॉंड कॉश्ता, प्रशांत नायक, दिलीप बोरकार? त्या काळा ह्या विद्यार्थ्यांनी गोंय हालयल्लें.

आयचे विद्यार्थी गोंय सांबाळूंक फुडें कित्याक सरचेनात?






# फायच्या गोंयांत गोंयची 'गांवठी' सासाय आसतली काय?

आमच्यो 'हायवेस' तश्यो 'स्टेट वेस' आतां बाजारपेठो जावंक लागल्यात. ह्या मार्गा वयल्यान गोंयच्यो तश्यो भायल्यो हजारांनी गाडयो धांवत आसतात. ह्या मार्गांच्या कुशीक गांव आसात, म्हणटकूच घरांय आसात. चड करून कश्ट करून पिकां काडटले कांय जाण तांचे जमनींत पिकता तो जिनस घेवन मार्गा कडेक बसतात, वा उबे रावतात, तो म्हाल विकूंक.

काणकोणा करमल घाट काडलो की वाटेर बाळ्ळी मेरेन दोंगरी भाजी तशी फळावळ घेवन बशिल्लीं शुचिर्भूत बायलां दिसतात. पंचायतीन जायत, तांचे पासत लांकडी गाळे बांदल्यात. ह्या गाळयांक लागून ह्या म्हाल विकतल्यांक एक प्रतिष्ठा फावो जाल्या. लोक आपापल्यो गाडयो थांबयतात आनी सकयल देंवून त्या गाळयांसरीं वचून जाय तें घेतात. हो म्हाल पिकता थंयच्यान डायरेक्ट विकता त्या पॉयण्टार आयिल्लो आसता, देखून मदीं दलाल नासता. म्हाल ताजो रसरशीत तसो दरेन सवायूय आसता.

तेच भशेन फोंड्यां फर्मागुडी ते म्हाड्डोळ मेरेन थंयचे रोवपी पावस लागूंक, मळयांतल्यो पिपऱ्यो, घोसाळीं, काराथीं बी घेवन रस्त्याचे कडेक बसतात. ह्यो पिपऱ्यो धव्योफुल्ल, आंगार ल्हान कांटो आयिल्ल्यो आसतात. त्यो खावंक

कुरकुरीत लागतात. वाटभर मोटारी थंय थांबतात आनी पिपऱ्यो, घोसाळीं घेतात.

बोरये पूल बालांडलो की एक वेगळेंच चित्र दिसता. हांगा मार्गाच्या दोनूय कुशींनी बायलां कितें मागिल्लें भशेन उदारो हात करून उबीं आसतात. प्रत्यक्षांत तीं मागिनात. तांचो बोरी गांव बोरांचो न्हय तर जायांचो आनी मोगऱ्यांचो. ह्या बायलांच्या हाताच्या तळटार चोळख्याचेर मांडिल्ले जायांचे पोड आनी मोगऱ्यांच्यो हळयो आसतात.

हें सगलें बरयतना म्हाका हेंवूय सांगन दिसता की जायतेदां दिसता तशें नासता. मार्गा कुशीक जो लोक आपलो म्हाल घेवन बसता तो अस्सल निजाचो गांवठी जिनस अशें प्रवाशांक दिसता, पूण जोडीक सवकल्ले कांय जाण तातूंत घांटी म्हाल भरसून तो गोंयचो म्हण गिरायकाच्या गळ्याक बांदतात.

देखीक घाटा वयल्यान गोंयांतल्या पिपऱ्यां भशेन धव्यो फुल्ल पिपऱ्यो हांगा येतात. त्यो गोंयच्यो म्हण गोंयाकार घेतात आनी एकाद्री तोंडांत घाली की बियांनी कुचकुचीत भरिल्ली ती (काकडी) गोंयची न्हय म्हण कळटा. गोंयची पिपरी कातली कशी कुरकुरीत आसता. पोपायांचेंय तशेंच. गोंयची पोपाय म्हण ते घाटा वयली पोपाय दितात. आपूण फटवलों हें दुसऱ्या दिसा घरा कळटा.

नुस्त्याचे बाबतींतूय अशेंच घडटा. जाका कळटा तो नुस्तें वेंचून घेता. सुवादा वयल्यान नुस्त्याची परिक्षा घेवंक मेळटा. पूण तेन्ना कळाव जाल्लो आसता.

एक दीस असोच वतना हेर भाजये वांगडा एकली गोंयकान्न पोपायूय घेवन बशिल्ली दिसली. आतां चडशे गोंयकार डायबेटीक जाल्यान पोपाय दिसली की ती उबारतात. ती पोपाय म्हजीच वाट पळयताली दिसता. ती पोपाय गोंयची म्हण कळून लेगीत ते बायलेक मातशी तिडावंक हांवें 'ते घांटी पोपायेक कितले गे?' म्हण विचारलें. तिका तें लागपाचेंच.

'घांटी?गांवठी ती, गांवठी. सत्तर रुपये काड,' तिणें फर्मायलें आनी हांवें

ती पोपाय सत्तर रुपयांक घेतली. घेवंक नाशिल्ली जाल्यार खिणांत दुसरो ती उबारतलो आशिल्लो.

कारण ती आशिल्ली गांवठी पोपाय, घाटी न्हय, गांवठी!

गांवठी!

गांवठी ह्या विशेशणान आमचे पोपायेक केदी मोलादीक केली पळयात! उतरांचो अर्थ काळा प्रमाण बदलत आसता.

एका काळा गांवठी म्हळ्यार गांवगिरो, गांवढळ, शिकूंक नाशिल्लो, खालतो, शार-सुधारणेचो गंद लागूंक नाशिल्लो, अन्नाडी, अपरिपक्व, जल्मूच वरत्यांची सेवा करूंक जाला म्हण मानपी, मानायपण करपी अशें मानताले.

आनी आयज-

गांवठी म्हळ्यार पाचवो चार, सळसळट्या रगताचो, रसरशीत, शारी कृत्रीम सुधारणां पसून पयस, आंगान भरिल्लो, नकली भेस घालूंक ना असो, सणसणीत कुडीचो, सैमा कडेन एकरूप जाल्लो, निजाचो, एका काळच्या म्हज्या गोंयां भशेन फळांनी चकचयाळ, भाजयांनी पिकाळ, फुलांनी परमळीत, वचत थंय खळखळट्या झऱ्यांनी आनी वझऱ्यांनी भरिल्लो...

फाटल्या गोंय सरकारान ल्हानांतल्यान व्हड जाल्ल्या, थोर शास्त्रज्ञ अशा एका गोंयकाराचे अध्यक्षते खाला GOA 2015. VISION AND ROAD MAP तयार करपा खातीर Goa Golden Jubliee Development Council नांव दिवन एक सोळा सतरा वांगड्यांची समिती घडयली आनी मुखा वयलें गोंय कशें आसचें हाचो एक रिपोर्ट तयार करपाचें काम तिचे कडेन सोंपयलें.

हे समितीन 11.7.12 वेर हो रिपोर्ट गोंय सरकारा कडेन सुपुर्द केलो. सात प्रकरणांत हो रिपोर्ट बांदला.

1) सुरम्य गोंय 2) सुसंस्कृत गोंय 3) संतुलीत.गोंय 4) सुविद्य गोंय 5) समृद्ध गोंय 6) सुशासित गोंय आनी 7) स्वानंदी गोंय.

सरकारान ह्या रिपोर्टाचेर विचार केला काय? तो विचारा खातीर लोका मुखार दवरला काय? ताचेर चर्चा घडोवन हाडल्या काय? बजेट करतना तो

विचारांत घेताल कांय? खंय आसा तो रिपोर्ट?

'आमचें गोंय, आमचें गोंय' म्हणटल्या आमची ह्या रिपोर्टा कडेन कांयच लागणूक ना काय?

2035 व्या वर्सा जें सुधारलेलें, विकास पाविल्लें गोंय आसतलें तातूंत गोंयची 'गांवठी' सासाय आसतली काय?






# भार कोणाचेर येवपाचो आसा?

आमचे  तरणे पिरायेर कोंकणीचे चळवळींत वांटो घेवपाची आमकां संद मेळ्ळी. त्या काळा शणै गोंयबाब हांच्या पुस्तकां खेरीज दुसरें कोंकणी साहित्य आमकां वाचूंक मेळनाशिल्लें. गोंयांत तर पुर्तुगेज राजवटकेंत कोंकणी पुस्तकां मेळनाशिल्लींच. मुंबय पावतकूच गिरगांवांतले रामचंद्र बिल्डिंगेंत वचप जातालें. हांगा काशिनाथबाब नायक हांचो गोमन्तक छापखानो आशिल्लो. थंय काशिनाथबाब (बयाभाव) मेळटालेच. वांगडाच शणै गोंयबाब हांच्या पुस्तकांच्या प्रतींनी भरिल्लीं कपाटांय पळोवंक मेळटालीं. पुस्तकां खपनाशिल्ल्यान वा तशींच उरिल्ल्यान तांबडीं जाल्लीं. 1946-50 तलो तो काळ आशिल्लो.

ह्याच अदमासाक इस्रायेल राष्ट्र जल्माक आयिल्लें. ताच्या प्रधानमंत्र्यांचें नांव आशिल्लें डॅवीड बॅन गुरियोन. भास आशिल्ली हिब्रू. प्रधानमंत्र्यांक आपणाक आपली भास सारकी येवंक जाय असें दिसतालें. ती आपणें शिकूंक जाय हें ताणी मनार घेतलें आनी दर दिसा हो प्रधानमंत्री आपले कचेरेंतल्यान चुकनासतना थारिल्ल्या वेळार हिब्रूच्या वर्गाक वचूंक लागलो.

स्फूर्त घेवपा सारकें हें व्यक्तित्व तेन्नाचे वडील आमचे मुखार दवरताले.

गोमटेर तर शणै बशिल्लेच. अदीं मदीं काकासायब कालेलकर जागयताले. आतां आमकां अदिकतरांचें इस्रायेल मेळिल्लें. त्या प्रधानमंत्र्याक मुखार दवरून आमची भास वयर काडटले म्हणून आमी पोटतिडकीन वावुरले आनी उप्रांत फुडले पिळगेन घुडी हातांत घेतली आनी कोंकणी सपन एका राज्याच्या रुपान आमकां मेळ्ळें.

इस्रायेलाचो वावर ताचे भाशे पुरतो मर्यादीत नाशिल्लो. तांकां राष्ट्र 'घडोवपाचें' आशिल्लें. डॅवीड बॅन गुरियोनाची पिळगी, तांची फुडली पिळगी आनी तिची फुडली पिळगी पेटून उठून ताणी एदेंशे इस्रायेल आयज एक महासत्ता केल्या. थंयच्या राजकारणांत कोणाचें सारकें आनी कोणाचें चूक तो हांगा चर्चेचो विशय न्हय. पोटतिडकीन पेटल्यार समाजाक केदी तांक येता तें इस्रायेल दाखयता.

त्या काळांतल्या एक-दोन प्रसंगाची म्हाका याद येता. 1951-55 ह्या अदमासाक रवींद्रबाब आनी गोदूबाय वर्धा आशिल्लीं. म्हाका तांचेसरीं वचन दिसलें. हांव आठ धा दिसां खातीर गेलों. थंय काकासायबांचें दर्शन घडलें. ते 'मंगल प्रभात' नांवाचें पाक्षिक उजवाडायताले. रवींद्रबाब तांचे लेखनीक म्हण काम करताले.

एक दीस रवींद्रबाबान म्हाका एके आगळेच मोहिमेर धाडलो. काकासायबांची मुलाखत घेवपाचे. हांवें घेता म्हळें. रवींद्रबाबानूय कांय प्रस्न सुचयले. हातांत कागद घेवन हांव काकासायबासरीं गेलों.

'बोला....' ताणी म्हळें.

हांवें भियेत भियेत म्हजो बाण सोडलो.

'मराठी सारखी सर्वमान्य भाषा असताना कोंकणी सारख्या बोलीला भाषा करण्यांत वेळ वाया का घालवावा?'

आतां त्या काळार होच प्रस्न गोंयकार विचारताले.

'मी तसें सांगितले आहे काय?' काकासायबांनी म्हाका परतून प्रस्न केलो. 'तुम्हाला वेळ वाया जाईल असें वाटते ना? नका घालवू!'

'पण कोंकणींत व्याकरण नाही, शब्दकोश नाही. हे काम करायचे म्हणजे माणसे हवीत; पैसा हवा; हा भार मोठा बोजा नव्हे काय?'

ही सगळी म्हजी पोपटपंची आशिल्ली.

काकासायब म्हाका वळखले. आयज हे प्रस्न कोण करिनात. तेन्ना सगळ्यांच्या तोंडांत 'नवी भास कित्याक? आमची मराठी आसा न्हय?' हेंच आसतालें.

काकासायब म्हाका घेवन बसले. 'बोजा' आनी 'उर्जा' हाचे विशीं ताणीं समजायलें.

आयज आमी पळयतात. कोंकणीचो पाखो घेवपी पयलीं एकलोच आशिल्लो. ताचे शंबर जाले. तांचे हजार जाले. हांचे लाख जाल्यात....हीच ती उर्जा!

दुसरो प्रसंग 1959 तलो. चंद्रकांत केणी तेन्ना दिल्लींत काकासायबांसरीं आशिल्लो. रवींद्रबाबाच्या जाग्यार. रवींद्रबाब मुंबय आयिल्ले. चंद्रकांत मुळांत कथाकार. ताणें 1959 वर्सा कोंकणींतलो पयलो-वयलो 32 पानांचो 'भुंयचाफीं' ह्या नांवान 5 कथांचो कथासंग्रह दिल्लीक उजवाडा हाडलो. ताचें मोल दवरिल्लें 40 नये पैसे. आपल्या सुर्वेच्या दोन उतरांत चंद्रकांत आपणे 'हुतहुतेपण' केलां म्हण बरयता. हाचो अर्थ हो पांच कथांचो संग्रह तयार करतना तो सामको पिसो जाल्लो म्हणूं येता. ताका तो हुतहुतेपण म्हणटा. खरें म्हळ्यार तो एक आगळोच निर्मितीचो आनंद आशिल्लो.

चंद्रकांताची आनी म्हजी वळख आमच्या कथाप्रेमांतल्यान जाल्ली. म्हाका ताणें गोंयांत कांय प्रती धाडिल्ल्यो. खासा म्हजी एक कथा ह्या संग्रलांत ताणें दिल्ली. तेन्ना आमी गोंयांत गोमन्त भारतीचीं पुस्तकां विकताले. तो त्या पारतंत्र्याच्या काळांतलो मर्यादीत पुरुषार्थ आशिल्लो. गोंयांत मुक्ती केन्ना येतली आनी ती कितें घेवन येतली हाचे विशीं फकत सपनां पळोवं येतालीं. फुडल्या आव्हानांची कोणाक सुलूस लागूंक नाशिल्ली.

मुक्ती उप्रांत आदल्या मर्यादीत पुरुषार्थाक आपली तांक दाखोवपाची संद मेळ्ळी आनी आमी इस्रायेला भाशेन कोंकणी लोकाच्या पुरुषार्थान कोंकणी राज्य मेळयलें.

हो विजयरथ हांगा थांबला.

महाभारतांतल्या त्या विजयरथाचो धनुर्धर झूज सुरू जावचे पयलीं गळसणिल्लो. ताका ताच्या सारथ्यान गीतोपदेश करून झुजाक तयार केलो.

आमच्या विजयरथाचो सारथीच जैता उप्रांत गळसणला! (काय खंय गेला?) आमच्या विजयरथा मुखार पांच वाटो जाल्यात.

पयले वाटेचें नांव गोंय : 'गोंय' ही साहित्याच्या नोबेला कडेन व्हरतली म्हणपाची आस्त दाखयता.

दुसरेचें नांव 'गोयें' : तियात्राची घुडी संवसारांत नाचोवपाचो हावेस बाळगिता.

तिसरेचें नांव 'गोवा' : तथाकथीत मराठी संस्कृतीची दिंडी भोंवडावपी.

चवथेचें नांव 'गोअ' : पुर्तुगाला व्हरपी.

पांचवेचें नांव 'गोआ' : कॉर्पोरेटाच्या घोडवळींनी वचपी.

आतां ह्या विजयरथाक ताची निजाची वाट कोण दाखयत? तो वेळ परतून आयला काय? भार कोणाचेर येत काय?






# गोंयांत मोटर-सायकल म्हळ्यार 'अे के 47!'

'अे.के. 47' नांवाचें एक आर्म आसा म्हणपाचें सगळे जाणात. सैन्य वा पोलीस तें वापरतात. हेरां कोणाक तें बाळगुपाक मान्यताय ना. ह्या आर्माचें नांव गाजता तें आकांतवाद्यांक लागून. ताणी असलीं आर्मां फैदासल्यांत आनी ते सैन्याचेर वा पोलिसांचेर राग काडटात. ह्या आर्मांतल्यान फारार फार सुट्टात आनी खिणाभितर शेंकड्यांनी लोक मरतात.

ते चालंत नागरिकांकूय सोडिनात, तशे भुरग्यांकूय कुशीक दवरनात. हालींच पाकिस्तानांत ताणी एके शाळेचेर घुरी घालून देडशेंक विद्यार्थ्यांक मारले. आमच्या देशांतूय ताणी जायत्या जाणांक मारून हाहा:कार मातयला.

'अे.के.47' चे भयांकृत तांकीक लागून तें हेर कोण बाळगिनात. संजय दत्तान बाळगिलें आनी तो त्रासांत पडलो. पंचवीस वर्सां पयलीं मुंबय दंगो जाल्लो त्या वेळार संजय दत्ता कडेन 'अे. के. 47' सांपडलें. पोसिसांनी ताका धरून कोर्टा कडल्यान 5 वर्सांची ख्यास्त लागू केल्या ती तो भोगता. नर्गीस आनी सुनील दत्त हांचो संजय पूत. ताका वाटावप कोणाक जमलें ना. म्हणटकूच अे.के.47 म्हळ्यार कितलें भयंकर आर्म तें लक्षांत घेवचें.

आतां आमकां हांगा 'अे. के. 47' खंय लागता? म्हाका दिसता लागता.

गोंयांत जितल्यो म्हणून मोटार-सायकली वा स्कूटरी आसात तांकां 'अे.के.' म्हणचें अशें हांव मागतां. म्हणटकूच कितें जातलें? मोटर-सायकल चलयतल्याक आपूण अे.के चलयतां हाचें भान येतलें. एक तर ताका गुर्मी येतली ना तर तो नम्र जातलो.

गोंयांत आज मोटार-सायकल 'अे.के.' चेंच काम करता. 'अे. के. 47' एकेच वटेन फार सोडटा. मोटर-सायकल आपणाकूय मारता आनी दुसऱ्यांकूय मारता.

हो कोणाकूय विनोद दिसूं येता. पूण आज गोंयांत जें चल्लां ताचेर उपाय घेना जाल्यार हो मरणांचो सांवार आळाबंदा येवचो ना.

गोंयांत रस्त्यांवयल्या अपघातांचें तशें मरणांचें प्रमाण वाडत चल्लां. दिसाक दोग-तीग-चार जाण मेल्ल्याचें वाचूंक मेळटा. आतां हीं मरणां पेपर वाचतल्यांखातीर बातम्यो जाल्यात. मरतात ते नशिबाक दोश दीत आसतात आनी रडत आसतात. आमचे सारके अंत्ययात्रांक (मरणांक) वतात आनी लोक खूब जालो म्हण कौतूक करतात.

गोंयांत मार्गांचेर मरतात तातूंत हांगा पोटा-पाणया खातीर आयिल्ले भायलेय जायते आसतात. कांय टुरिस्टूय हांगा मरूंक येतात.

मार्गा वयलीं मरणां हो मनशांनी निर्माण केल्लो प्रस्न. हो प्रस्न नागरिकांचें बरेपण घेवन सरकारान सोडोवंक जाय. ज्या सरकाराच्यान तो सोडोवंक जायना ताका अधिकारार रावपाचो हक्क आसा काय?

ह्या दिसांनी सरकारान हॅल्मेट सगळ्या रस्त्यांचेर लागू केलां. आतां मोटार सायकलीचेर वा स्कूटरीचेर बसलो रे बसलो, माथ्यार हॅल्मेट दवरुंकूच जाय. पोलीस भायर सरल्यात आनी चलनां दीत आसात. केदी ख्यास्त! लोक संतापल्यात. ते आपूण 'मेल्यार मरूं' म्हणटात. तुमका कितें लागता?' विचारतात.

हॅल्मेट घालें ना म्हण अपघात जाता अशें न्हय. अपघात जाता आनी हॅल्मेट नासता तेन्ना तकली फुट्टा आनी मरण येता. लोक हें काना-मनार घेनात. जाय तशी मोटर-सायकल चलोवप हो आपलो हक्क अशें लोक

मानतात. आतां सरकार कोण? कालचें सरकार काल पातकां करून गेलें. आयचें सरकार पातकां करून फाल्यां वतलें. विचारतल्याक मोल ना! मनीस-जातीक, देवान म्हणुंया, पांय दिले. चक्रां दिवं येतालीं. पांखां दिवं येतालीं. पांय दिले. चलतना दोळे उक्ते आसल्यार पुरो, विचार करचो पडना. वाटेर खड्डो आसलो, जिवाणें दिसलें, मनीस आपशींच कुशीक सरता.

मनशाक स्पीड जाय. बेगीन पावूंक जाय. म्हणुनूच बशींतलो कंडक्टर 'बेगीन देंव, बेगीन चड' म्हणटा. मनशान पांयांक चक्र लायलें. यंत्र लायलें. यंत्र चलोवंक बुद्द लागता. मनस्थिती लागता. सराव लागता. शिक्षण लागता. आमी हाचो विचार केलो ना. आमकां ड्रायविंग स्कुलान फकत गाडी चलोवंक शिकयलें. नेम शिकयले नात. शिश्टाचार शिकयले नात. सरकारान ड्रायविंग स्कुलां कशीं चलयतात तें केन्नाच पळयलें ना.

गोंयांत ट्रान्स्पोर्टान हाहा:कार मातयला ताचीं कांय कारणां:

1) पब्लिक ट्रान्सपोर्ट अपुरो आसा.

2)पब्लिक ट्रान्सपोर्ट कायदे सारके पाळिना.

3)पब्लिक ट्रान्सपोर्ट पॅसेंजराचेर जियेता पूण पॅसेंजराक मान दिना.

4) परिणामी लोक मोटार-सायकली घेत सुटल्यात.

5) फोन आनी मोटार - सायकल भुरग्याक लेगीत जाय.

6) बारा वर्सांचीं भुरगीं मोटार-सायकली धांवडायतात.

7) ड्रायविंग स्कुलां कायद्याक धरून चलनात.

8) भायल्या देशांनी मोटर सायकलीं खातीर जश्यो लेनी आसतात तश्यो हांगा नात.

9) लोक कायदे-नेम पाळिनात. पोलिसांक मान दिनात. ज्या राज्यांत कायदे-नेम पाळिनात थंय सरकार आसा काय ना हो प्रस्न विचारूं येता.

10) आतां चलयां भशेन चलेय तोंडार बुरखे घालूंक लागल्यात. ज्या राज्यांतले चले चलयो तोंड लिपयतात त्या राज्याकूय तोंडच ना म्हणचें पडटलें.

तर हें अशेंच चलपाचें? आवयांनी आपली भुरगीं वगडावपाचीं आनी 'तो कसोच आयकनाशिल्लो' म्हणत रडपाचें? भुरगीं वगडायिल्ल्यो ह्यो आवयो भायर कित्याक सरनात, हेरां आवयांक इशारो दिवंक?

एक आशेची गजाल घडल्या. ती म्हळ्यार सुप्रीम कोर्टान हातूंत लक्ष घालां. सगळ्या राज्यांतल्या वाहतूक खात्यांक सुप्रीम कोर्टान सुचोवण्यो धाडल्यात आनी तांकां पाळो दिल्ल्याचें कळयात म्हळां. दुसरे वाटेन केंद्रीय मार्ग खात्यान वाहतूक संदर्भांत नवो कायदो तयार केला तो पास जावचो आसा. हातूंत कायदे-नेम मोडटल्यांक जबर ख्यास्त सांगल्या.

पूण इतल्यान हें सोंपचें ना. कांय सुचोवण्यो जांकां पाळो दिवप सरकाराक परवडपाचें ना.

1) सरकारान मरणाचो आंकडो देंवयतलें म्हण जाहीर प्रतिज्ञा करची. कितलेय खर उपाय घेवचे पडल्यार पडूं!

2) इंदिरा गांधीन जश्यो बँको नॅशनलायज केल्ल्यो तसो गोंयचो पब्लीक ट्रान्सपोर्ट धपक्याक नॅशनलायज करचो.

3) गाडयो विकपी एजंटांक ह्या मार्ग सुरक्षा कामांत वांटेकार करून घेवचे.

4) गोंयांत स्कूटर विक्रेक स म्हयने बंदी घालची!

5) खाशेलीं चार पांच ड्रायविंग स्कुलां सुरू करचीं.

6) जाचे कडेन स्कूटर वा मोटार सायकल आसा अशांक कांय दिसांचें प्रशिक्षण दिवचें. कौन्सेलिंग करतात तशें!

7) जांकां चलन दिलां ताचे फोटे छापचे.

मरण म्हळ्यार केदो आकांत हें जे मेरेन नागरिकांक कळना आनी जें सरकार मरणा कडेन नागरिकांक खेळ्ळूंक दिता ताणें आपूण आपले लागणुकेचें भान बाळगुचें.





# शाण्याक उतरांचो मार!

गोंय मुक्तीच्या तब्बल सतरा म्हयन्यां उप्रांत पंडित नेहरू 22 मे 1963 दिसा चार दिसांचे गोंय भेटेर आयले. तांचे आदीं देशांतले जायते ल्हान व्हड फुडारी मुक्त गोंयचें दर्शन घेवन गेल्ले. थोड्यांक पारतंत्र्या उप्रांतचें गोंय पळयनशें दिसतालें, तर कांय जाण फोरेन वस्तू विकत्यो घेवपाच्या इराद्यान येताले. त्या काळा गोंयकारांक फोरेन वस्तू म्हळ्यार कांय न्हय दिसताल्यो. दुसरे वटेन गोंयां भायल्यान हांगा येवपी कांय फुडारी लेगीत इंपोर्टेड वस्तू सोदीत भोंवताले.

पंडित नेहरूंची ही गोंयाक पयलीच भेट नाशिल्ली. 1937 त चुकून म्हणटात तशे ते दाबोळे पाविल्ले. स्वातंत्र्य लढ्याच्या काळांत ते देशभर भोंवताले. दिल्ली परततना पेत्रोला खातीर तांकां दाबोळे देंवचें पडलें. विमानांत नेहरू आसात म्हण कळना फुडें विमानाक विमानतळा भायर वचूंक दिवं नाकात म्हण पुर्तुगेज सरकाराची ऑर्डर सुटली. पणजेचे सभेंत ताणीच हो उगडास काडलो.

विमानाक तेलाची गरज लागली म्हण तें खाला देंवले. "थोडो वेळ हांगा हांव उरलों, पूण हांगाचे राजवटकेक तितलेंच पुरो जालें. ती भियेली.

'खतरनाक' मनीस हांगा पावला अशें तांकां दिसलें. विमानतळा वयल्यान हांवें भायर सरचें न्हय अशी ताणी बंदिस्ती केली (संदर्भ : नेहरू गोंयांत 2008)"

गोंयांत प्रधानमंत्र्यांच्यो मुखेल शारांनी जाहीर सभा जाल्यो. जायत्या म्हत्वाच्या थळांक ताणी भेट दिली. थंयूय ते जमिल्ल्या जम्या मुखार उलयले.

तांची पयली सभा पणजे 22 वेर जाल्यार दुसरी सभा मडगांवां 23 वेर एम. सी.सी. ग्रांवडार जाली. मडगांवचे सभेक 25-30 हजार लोक जमिल्ले. हांगा उलयतना ताणी म्हळें: 'गोंया हाचे पयलीं येवचें अशें हांव येवजितालों. पूण चीनाच्या प्रस्नाक लागून येवप लांबणेर उडोवचें पडलें.' (संदर्भ : नेहरू गोंयांत 2008)

मडगांवचे सभेंत ते जायत्या विशयांचेर उलयले. ताणी म्हळें: 'गोंयांत मराठी चलता हें हांव जाणां. खंय खंय कन्नडूय उलोवपी आसतले. आमी मराठीचें म्हत्व मानतात. पूण गोंयची भास कोंकणी. जनतेची भास कोंकणी. सगळ्यांक समजता ती भास कोंकणी. तिका विकासाची संद दिवंक जाय.' (संदर्भ : नेहरू गोंयांत 2008)

गोंयचो निरोप घेवचे पयलीं पणजे (आदल्या) सचिवालयांत पंडितजींचें प्रेस कॉन्फरन्स जालें. हांव तेन्ना 'नवें गोंय' नांवाचें पाक्षिक काडटालों. रिपोर्टर म्हणून म्हाका पास मेळिल्लो. हे परिशदेंत एकल्यान मडगांवचे सभेक लेखून तांकां 'तुमी गोंयांत खंय खंय कन्नड उलोवपी लोक आसतले अशें म्हळें. तेन्ना गोंयांत कन्नड भास नक्की खंय चलता तें सांगशात?' अशें विचारलें. (संदर्भ : नेहरू गोंयांत 2008)

पंडितजींनी ताका जाप दिली. 'हांवें गोंयांत जायत्या सुवातांनी मराठी चलता म्हणिल्लें आनी कन्नडूय कांय सुवातांनी, दिसता ते प्रमाण दक्षिणेक, चलता अशें म्हणिल्लें. पूण कोंकणी भास मात सगळ्याक आसा अशें म्हाका दिसता,' म्हळें. (संदर्भ : नेहरू गोंयांत 2008)

तांकां हो प्रस्न कवी डॉ. र. वि. पंडित हाणी केल्लो. ते तेन्ना

विलिनीकरणाचो पुरस्कार करताले. कन्नड भास गोंयांत चलता ह्या पंडितजींच्या वक्तव्याक तांचो आक्षेप आशिल्लो.

1963 त ली ही गजाल. तुर्ताक 2015 चलता. 52 वर्सां जावन गेल्यांत हे घडणुकेक. आज कन्नड भास गोंयांत खंय चलता अशें कोण विचारचोना. मिडियांत आयलां ते प्रमाण दक्षिणे कडचे साडे तीन लाख लोक गोंयांत स्थायिक जाल्यात. हातूंत कन्नड भाशीक चड आसात हें सांगची गरज ना.

आमी गोंयकारांनी शेजारी भाशां संबंदान विचारूच केलो ना. मराठी आमी परंपरेक धरून शिकले म्हण ती आमकां येवंक लागली आनी हांगाची जाली. मराठी वरी कन्नडूय आमची शेजारी भास. ही एक प्रगल्भ भास. करोडांनी लोकाची भास. ह्या पन्नास वर्सांत तिणें गोंय बरेंच व्यापलां कारण थंयचो लोक पोटा-पाणयाक हांगा आयलो. पूण खासा आमी कन्नड शिकपाचो आसूंच, उलोवपाचो लेगीत प्रयत्न केलो ना. ते मात आमचे कडेन कोंकणी उलोवंक लागले. हाचे उरफाटें मराठी भाशिकांनी हांगा वर्सां संख्येन रावन कोंकणी उलोवंक तोंड उपकारायलें ना.

आमच्या कोंकणी साहित्यिकांक द्रविड भाशांनी उत्तमोत्तम साहित्य आसा म्हण कळना फुडें त्या साहित्याचो आमचे साहित्यीक भोवमान करूंक लागले, पूण त्या लोकां विशीं तितली ओड आमच्या साहित्यिकांनी दाखयली ना.

बेळगांवचेंच घेवया. बेळगांवां नित्याक हजारांनी गोंयकार वेगळ्या वेगळ्या कारणांक लागून वतात. पूण तांचो थंयच्या कन्नड भाशिकां कडेन संवाद केन्नाच जायना. कारण फकत साहित्याचे नदरेन आमच्या साहित्यिकांनी त्या वाठारा कडेन पळयलां आसूं येता. मनशांचे नदरेन न्हय. 'जे न देखे रवी तें देखे कवी' हे दायज आपणायल्लें जाल्यार जायतें एकात्मतेचें काम जावये आशिल्लें.

आयज कर्नाटक आनी गोंय हांचें बिनसलां तें त्या त्या सरकारांक परवडटा पूण आमकां परवडपा सारकें ना. म्हादय हें एक कारण. पूण ह्याच कर्नाटकान

(म्हैसुरान) गोंयच्या मुक्ती लढ्याक आनी विलिनीकरण-विरोधी आंदोलनाक जायतो आधार दिल्लो, हें आमी विसरूंक फावना. तांचे मुख्यमंत्री निजलिंगप्पा तर जायते फावटी गोंयांत रावून गेल्ले.

ही इश्टागत केळोवपाची गरज आशिल्ली. सरकारांत सुसंस्कृत मनीस आसले जाल्यार ते हे नदरेन काम करतात. पूण सामान्यतायेन आमदारांचो दर्जो तितली ऊंचाय आनी खोलाय गांठटना दिसना. देखून हें काम साहित्यिकांनी, तशेंच समजिकायेच्या नागिरकांनी करचें आसता, जें आमकां जमलें ना. निमाणे आमी गोंया येदेच!

तेन्नाची म्हैसूर/कर्नाटकाची इश्टागत कन्नडाच्या आधारान चालती बोलती उरिल्ली जाल्यार तांचे आमचे संबंद मोगाळ उरतले आशिल्ले. कर्नाटकाचे मंत्री देशपांडे 'तुमचे वीस हजार आय.टी. शिक्षीत तरणाटे बंगळुरूंत नोकऱ्यो करतात' अशी अप्रत्यक्ष धमकी दिवचे नाशिल्ले. इश्टागतीचें नातें आशिल्लें जाल्यार 'तुमचे वीस हजार गोंयकार तरणाटे कर्नाटकाचे गिरेस्तकायेंत भर घालतात' ही भास तांच्या तोंडांतल्यान येतली आशिल्ली.

दुसऱ्या एका आमदारान 'गोंयकारांक कर्नाटक दुदाची आनी भाजयेची पुरवण करता' अशी भास वापरली ते ती वापरचे नासले. ते बदला 'दूद, भाजी, फुलां बी गोंयांत विकून कर्नाटक तशे कन्नड भाशीक जायती जोड करतात', म्हणटले आशिल्ले. गोंयांतल्यान कितलो पयसो कर्नाटकांत वता हाचो हिशोब ना. कर्नाटकाचे गिरेस्तकायेंत, खासा करून बेळगांवचे, गोंयकारांनी जायती भर घाल्ली आसा, घालीत आसात म्हणूं येता.

बाकी देशपांडे आनी पाटील जें उलोवन गेले तांतल्यान गोंयकारांनी जायतें घेवपा सारकें आसा. 'शाण्याक उतरांचो मार' ही म्हण हांगा लागू जावं येता काय?






# काळ आयिल्लो, पूण वेळ येवंक नाशिल्लो....

बरोच वेळ चिंतलें, निमाणें बरोवचें अशें थारायलें. फोन येत आसतात. 'कितें जालें, कशें जालें?' आनी सगले सांगतात: "take care, take care!"

इतलें खरें की जें घडलें ताका रावनाशिल्लों. म्हजे दीस घटत चल्ल्यात हाची म्हाका पुराय जाण आसा. पूर्वसुची मेळटली अशी नाय म्हळ्यार अपेक्षा आसता.

पूण अशी कुवाड्याची भास कित्याक? जिवीत प्रामाणीकपणान जनतेचे सेवेक ओंपलां जाल्यार घडलें तें सांगप ही लागणूक जायना?

अशें म्हणूं येता: 'काळ आयिल्लो पूण वेळ येवंक नाशिल्लो!'

म्हजी घरकान्न कुमुदिनी 13 फेब्रुवारी 2007 वेर हो संवसार सोडून गेली. ती पुर्तुगेजा काळांत मडगांवच्या पोप्युलर हायस्कूलांत हिन्दी शिकयताली. तिचें वाचन खूब जाल्लें. नामनेचे संशोधक स. काशिनाथ दामोदर नायक हांच्या संपर्कांत ती आसताली. भाशणां दिवप तिका जमलेंना, पूण कितल्याय हजार लोका मुखार ती गायताली. ओपीऩियन पोला वेळार आनी कोंकणी प्रचार कार्यावळींनी ती सुर्वेक गावन वातावरण तयार करताली.

ती भुरग्यां खातीर बरयतालीय बी. 'मारुती' मासिकांत तिचें साहित्य आसा.

कुमुदिनी एक विद्यार्थीप्रिय शिक्षिका आशिल्ली अशें म्हाका दिसत आयलां. ती तापय नासतना वा आवाज चडयनासतना विद्यार्थ्यांक शिकयताली आसूंक जाय. हाका गवाय कोंकणीचो गडगंज खांबो म्हणटात तसो बाब नारायण मावजो. तो तिचो विद्यार्थी. मावज्यान जायते फावटी म्हजे कडेन तिचे विशीं आदर परगटायला.

कुमुदिनीन पयले चलयेच्या जल्मा उप्रांत नोकरी सोडली. घरांत भुरग्यांची आवय आसूंक जाय अशें तिचें मत तिणें खरें करून दाखयलें. म्हळ्यार तो काळ वेगळो आशिल्लो हेंवूय खरें. उप्रांत चली चलो अशीं जुवळीं जालीं. तिका फूलटायम जॉब मेळ्ळो.

त्या काळा आनंदवाडी, बालवाडी, केजी 1-2, मॉटिसॉरी बी नाशिल्लीं. कुमुदिनीन भुरग्यांच्या पयल्या पांच वर्सांत तांकां लिपी आनी वाचन शिकयलें. पांच पर्सां उप्रांत कोंकणी 'नवी शाळा' हातूंत दाखल जालीं. शिक्षणांत ताणी नांव केलें ताचें सगळें श्रय भुरग्यांचे आवयक वता.

कुमुदिनी वचून वर्स जाता म्हळ्यार तिचे यादीक कितें पूण खासगत पांवड्यार करचें अशें आमकां दिसलें. मार्गार हेडपी भुरग्यांक लागीं करून तांकां मार्ग दाखोवपी 'जन उगाई' हे संस्थेच्या 70/80 भुरग्यांक घेवन एक सांज कुमुदिनीच्या नांवान सारची अशें थारलें. तब्बल सात वर्सां ही कार्यावळ चल्ली. सगली सांजवेळ भुरगीं हॉलांत घोसोळ घालतालीं. तांकां च्या पाणी, बरेंशें खाण, प्रेझेंट्स बी आमी भेटोवचीं. शिकतल्या भुरग्यांक चोपड्यो, पुस्तकां बी आमी दिलीं. हातूंतलीं कांय भुरगीं मार्गार म्हाका धरतात, आनी 'च्याच्या' 'च्याच्या' करीत परत केन्ना मेळुया विचारतात.

अंदू आमकां कितें वेगळें करीनशें दिसलें. कोंकणी भाशा मंडळाच्या रवींद्र केळेकार ज्ञान मंदिराक एक टी ॲण्ड कॉफी मेकर दिवचो अशें आमी

थारायलें. ज्ञानमंदिराचे मुख्याध्यापक अनंत अग्नीन प्रस्ताव आनंदान मानून घेतलो. दोन म्हयन्यां पयलीं तो टी-कॉफी मेकर तांचे कडेन पावयलो. हे निमतान चित्रा, समीर, संजीवनी हाणी भाशा मंडळाक भेट दिवची अशें थारलें. अग्नीन समीर येताच न्हय, तेन्ना भुरग्यां मुखार एक संवाद दवरतां म्हळें, जें समीरान मानून घेतलें.

आमी चवगां शणै गोंयबाब हांच्या पवित्र दिसा 9 एप्रिल 2015 वेर भाशा मंडळांत टायमार पावलीं. समीर संजीवनी हांचो हो जल्मदीस. अध्यक्ष चेतन आचार्य आनी हेड मास्टर अनंत अग्नी हाणी तांकां आपलेपणाचो येवकार दिलो. तीं परके सुवातेर पावूंक नाशिल्ली. थंय परकेपणाक सुवात नाशिल्ली. कोंकणीचीं अपत्यां तीं.

कार्यक्रमाक 150 विद्यार्थ्यांची आनी टीचरांची उपस्थिती आशिल्ली. विद्यार्थ्यांक पळयना फुडें हीं आगळीं-वेगळीं भुरगीं म्हण कळटालें. हांसकुरी नुरा आनी चकचकीत दोळे. तीं शिस्तींत बशिल्लीं. हुळेहुळेपण नाशिल्लें.

चेतनान आनी अग्नीन वळख करून दिवपाचो उपचार केले उप्रांत समीर विद्यार्थ्यां कडेन उलयलो. आपलें अमेरिकन युनिवर्सिटीचें शिक्षण पूर्ण जावन वीस वर्सां जाल्यांत. आमच्या काळा कंम्प्युटर निकतेच येताले. डॉक्टर आनी इंजिनीयर जावप बगर दुसरी बात नाशिल्ली. समीराच्या मता प्रमाण आज विद्यार्थ्यांक हजार मार्ग आसात. ताणी विचार करून आपले आपणे जाय तो करीयर सोदून काडचो. उप्रांत विद्यार्थी आनी समीर हांचे भितर प्रस्नोत्तरी जाली. तातूंत पंदरा वीस भुरग्यांनी वांटो घेतोल. म्हाका शेतकार जावंक जाय, कलाकार, राजकारणी, शिक्षक, गावपी, डॉक्टर, इंजिनियर, वैमानीक, फोटोग्राफर, सिने आर्टिस्ट जावंक जाय अशें विद्यार्थी सांगताले.

म्हज्या अणभवा प्रमाण विद्यार्थी सामान्यतायेन पावण्यांच्या भाशणा उप्रांत उलयच नात. ह्या ज्ञानमंदिरांत प्रस्न विचारपी विद्यार्थी शिकतात म्हणपाचें कळून डॉ. समीर केळेकार हांकां खोस जाली.

कार्यावळ सोंपचे पयलीं हांवें दोन उतरां उलोवचीं अशें अग्नीन मागलें. बसून उलयता काय उब्यांनी उलयता ह्या प्रस्नाक हांवें नीट पोडियमा कडेन वचून जाप दिली.

म्हजे म्हऱ्यांत बाब नारायण मावजो बशिल्लो. ताणें कानांत म्हणिल्लें 'समीराचें भाशण अभ्यासाचेर जालां. तूं लायटशें उलय.'

'दामू आनी मानू खेळटात, खेळटां खेळटां शिकतात' हें तकलेंत घेवन उलयतलों म्हण आशिल्लों. भुरग्यांनी 'बरें गोंय सर' म्हणून दिसाची सुरवात करची हें सांगूंक वतना शणै गोंयबाबाचें 'मोगाचें लग्न, झिलबा राणो' कोणें वाचलां हो प्रस्न हांवें केलो. इतल्यांत पांयां पोंदा भुंयकांप जाल्ल्याचो म्हाका भास जालो. पोडियम आंगार पडटा काय जालो. अशें चिंततना पोडियम न्हय तर हांव पडटां हाची जाण येवन 'हांव पडटां' म्हण हांव किळांचलों आनी प्लॅटफॉर्मार पडलों.

माचयेर चेतन आचार्य, अनंत अग्नी, नारायण मावजो, चित्रा, समीर आनी संजीवनी आशिल्लीं. तीं खिणांत उठलीं. चित्रा आनी संजीवनी डॉक्टर जाल्ल्यान ताणी म्हजी नाडी पळयली. हांव पडिल्लों खरों, पूण म्हाका खंयच लागूंक नाशिल्लें, दुखूंक नाशिल्लें आनी हांव साबुद्देर आशिल्लों. फकत तकलेंत गिरगिरतालें जें पंदरा वीस मिण्टांनीं थांबलें. हांव उदक पियेलों. कॉफी मेकराची कॉफी पियेलों आनी 'हांव बरो आसां' म्हण देडशें विद्यार्थ्यांचे, टीचरांचे सभेंत हांवें जाहीर केलें.

एके विचित्र दशेंतल्यान हांव गेल्लों. एप्रीलाची 9 तारीख. शणै गोंयबाबाचो पुण्य दीस. सर्मीर संजीवनी हांचो जल्मदीस. कोंकणी भाशा मंडळाचें पवित्र सभाघर. अध्यक्ष चेतन आचार्य, मुख्याध्यापक अनंत अग्नी आनी कोंकणीचे प्रतिनिधी कशे नारायण मावजो हांची माचयेर उपस्थिती. मुखार 150 विद्यार्थी जे फाल्यां व्हड मनीस जावचे आसात अशे. आनी सांगाताक तांचे शिक्षक तश्यो शिक्षिका, जांतल्या कांय जाणांनी साहित्य अकादमीचे पुरस्कार

जोडल्यात. आनी म्हज्या मुखांत शणै गोंयबाबांचें नांव! असो आनीक दुग्ध शर्करा पवित्र म्हूर्त आसूं येता? आनी भांगराळी संद तर कसली जाल्यार कुमुदिनी, माधवी, रवींद्र, मनोहरराय, र.वि. पंडित, अ. ना. म्हांबरो, शशीकर, सुमंत, शंकर आनी चंद्रकांत हांकां भेटपाची आनी गोंयच्यो खबरी करपाची!

पूण काळ आयिल्लो, वेळ येवंक नाशिल्लो!

जायते फोन आयले, दोन दीस येत रावले. ह्या पत्रांतल्यान हांव वांचप्यांसरी पावतलों अशी आस्त बाळगितां. हांव बरो आसां. डॉक्टरांनी अभय दिलां. मेळचें.





## परतून एक फावट: “देव बरें करूं!”

‘देव बरें करूं’चेर आदीं एक-दोनदां हांवें बरयलां. आयज म्हाका परतून एक फावट ह्या विशयाक लिखणी लायन दिसता.

म्हज्या चिंतपा प्रमाण ‘देव बरें करूं’ खासा गोंयांत जल्माक येवंक ना. तरी लेगीत तें पुराय गोंयचें जालां.

आदल्या काळा आमचे क्रिस्तांव भाव सिर्विसे पासत वा व्यापार धंदो करूंक परदेशाक वताले आनी थंयचे जावन रावताले. तांकां बोटींचेरूच सिर्विसो मेळटाल्यो जावंक जाय.

तो काळ पडट्या दिसांचो आशिल्लो. गोंयांत गरिबी वसताली. पयसो घोळनाशिल्लो. त्या काळा विमानांची येरादारी खूब उणी जाताली. मुंबय लोक बोटीन वताले. चडशे हिन्दू नोकरे पासत मुंबय वताले. क्रिस्तांव बोटींचो आलाशिरो घेवन आफ्रिकेंतल्या देसांनी बी वताले. थोडे बोटी वयल्यो सिर्विसो करताले. बोटी ठाण्यार पावूंक म्हयन्यांचे म्हयने लायताल्यो. तेन्ना गोंयांत उंचेलें शिकप मेळनाशिल्लें. बोटींचेर काम करपी हात-काम करताले आसूंक जाय. ते घडये बोटींतल्या प्रवाशांकूय उपकारा पडटाले जावं येता. प्रवाशांचो दर्जो ह्या सेवेकाऱ्यापरस वरतो आसतालो हें सांगची गरज ना. म्हणटकूच हे

गिरेस्त प्रवासी तांचे कडल्यान काम करून घेतले उप्रांत तांकां 'थँक यू' म्हणनासले. 'गॉड ब्लॅस यू' चो आशिर्वाद दिताले, असो म्हजो अदमास.

आयचो काळ सामको वेगळो. आयज हिंदू तशे क्रिस्तांव गोंयकार शिकल्यात. ते बोटींचेरूय वतात आनी हेर देशांनीय वतात. थंय ते बुद्दीचें काम करतात. आयज बोटींचेर God bless you चलता काय कितें हें दुबावाचें. आयज बोटींचेर "थँक यू" चड चलता आसूंक जाय.

परिणामी 'गॉड ब्लॅस यू' बोटींचेर पातळ जावंक लागलां आनी 'देव बरें करूं' गोंयां सगळ्यांक आसपावन घेवंक लागलां. आयज हिंदू तशे क्रिस्तांव इश्टांक मेळून जातकूच वा माचये वयल्यान 'देव बरें करूं' म्हणटात. आयज ह्या 'देव बरें करूं'क एक विस्तारीत अर्थ फावो जाला. तो 'थँक यू' पुरतो मर्यादीत उरूंक ना. तो व्यक्तीगत उरूंक ना. तो सगळ्यांक आसपावपी जाला. आमी 'देव बरें करूं' म्हणटना आमचे तकलेंत देवळांतलो देव वा म्हूर्त आसना.

हालींसराक गोंयांत शेंकड्यांनी देवळां जाल्यांत. आयज वता थंय जागेश्वराचीं देवळां, झाडेश्वराचीं देवळां, झरेश्वराचीं देवळां जाल्यांत. पयर हांव मडकय गेल्लों थंय किलोमीटर भर रस्त्या कुशीक अठरा देवळांचीं नांवां हांवें वाचलीं आनी मेजलीं. म्हळ्यार एके मडकयंत ल्हान व्हड कितलीं देवळां आसतलीं हाचो अदमास करचो.

भोंवत आशिल्ल्यान हांव पयर फातर्प्या पावलों. थंय पावपाक पयलीं महालक्ष्मीचें, उप्रांत शांतादुर्गा किटलीकरीण, मागीर शांतादुर्गा कुंकळ्ळीकरीण आनी शेवटाक शांतादुर्गा फातर्पेकरीण हांचीं प्रवेश दारां दिसलीं. आनी तांच्या सांगाताक करोडांच्यो बांदावळी दिसल्यो. पयरूच टीव्हीचेर म्हाड्डोळचे म्हाळशेच्या देवळाचेर भारी वजनाचो भांगराचो कळस स्थानापन्न करतना पळयलो. हजारांनी लोक प्रत्यक्षांत तो देखावो पळोवन 'पावन' जाल्या आसूंक जाय. तो भांगराचो कळस पळोवन बऱ्याच दरवडो घालतल्यांच्या तोंडांत लाळूय सुटल्या आसूंक जाय. हे सर्तींत मोयरूय फाटीं नात. एका मडगांवांत सोळा सतरा मशिदी आसात अशें हांव आयकतां. गोंयांत खुरिसूय तशेच.

हजारांनी. सगळ्यांचीं देवस्थानां 'जागृत'. तांचे भक्त जायते. थंय तरेकवार तथाकथीत धर्मीक कार्यावळी जातात. मागणीं, आंगवणी, दिवप-घेवप चलत आसता. उप्रांत सण-परबो. सांस्कृतीक कार्यावळी हातूंत भजनां, किर्तनां बी आसतातूच. निमाणें नाटकां, तियात्रां आसतात. भायल्यान व्हडले व्हडले कलाकार हाडटात. ह्या कार्यावळींनी सगळयो जमाती करोडांनी रुपये खर्चितात.

पूण आमच्या 'देव बरें करूं' तलो देव ह्या वयर सांगलां त्या देवांतलो न्हय. आनी 'अल्ला हो अकबरूय' न्हय. हो 'देव बरें करूं' तलो देव गांधीजींच्या God is Truth हांतलोय न्हय. सामान्य लोक एक कल्याणकारी तत्व आसा अशें मानतात. अशी श्रद्धा बाळगितात ते देव. 'बरें करूं' तलें 'बरें' म्हळ्यार सगळ्यांचे कल्याण. हाचो अर्थ "सगळ्यांचें बरें जावं, सगळे सुखी जावं!" म्हळ्यार दुसरे वटेन गोंयकारांची मानसीकताय कितली उदार (generous) जाल्या तें पळयात.

आयज गोंयांत 'अर्थ आनी काम' ह्या मळांचेर धरबंद उरूंक ना. भायल्या लोकांक आमी गोंयां कडेन दुडवांचो तसो चेडवांचो प्रदेश म्हण पळोवंक मेकळीक दिल्या. परिणामी, थळाव्या पेपरांचेर मारामाऱ्यो, चोरयो, दरवडे, खून, बलात्कार, विनयभंग, अपघाती मरणां, आत्महत्या, ड्रग्स घेवन मरणां ह्योच खबरो आसतात अशें म्हळ्यार अतिताय जावची ना. राजकारणान तर इतलो नीचांक गांठला - एक पाशेको प्रकरण पुरो!

हालींच मार्ग टीम पेडण्यां हरमल गेल्ली. थंयच्या मावण्ट कार्मेल हायस्कूलाच्या शिक्षक आनी विद्यार्थी वर्गा कडेन उलोवंक. थंयची शिक्षिका तशी लेखिका अपर्णा गारूडीन ही कार्यावळ दवरलेली. ती आटापून परततना आगरवाडो हुपून शिवोले पूलार गाडी भितर सरूंक कुशीक लायिल्लो बोर्ड वाचूंक मेळ्ळो. 'देव बरें करूं!'

गोंयच्या पुनरुद्धाराचो 'देव बरें करूं!' हो मंत्र जावये काय?!






# मानसिकता बदलपाचो प्रयोग जैतिवंत करूंक जाय!

गोंयांतल्या रस्त्यां वयल्या अपघातांची तशी मरणांची संख्या वाडत आसा. ह्या वर्सांच्या पयल्या चार म्हयन्यांत शंभरां परस चड मनशांनी गोंयच्या मार्गांचेर जीव वगडायला. असो दीस वचना ज्या दिसा मार्गार मरण घडना. आमी लक्ष्मण-रेषा हुपल्या. पयर म्हापश्यां करासवाड्यार बस उमथली. दोग जाण थंयच मेले. कांय प्रवासी हॉस्पिटलांनी अत्यवस्थ आसात. ह्या अपघातांत जे वांचले ते भाग्यवान म्हणपाचे. हांगां अपघातांचो 'सांवार' आयला म्हणूं येता.

पंदरा वीस वर्सां जालीं आमी 'मार्ग' वावुरपी ह्या विशयाचेर बरयतात. वांगडाच लोकाक, विद्यार्थ्यांक मेळून मार्ग-शिक्षण दीत आसात. हालीं हालीं आमकां दिसूंक लागलां लोकाक लेक्चरां दिवन बदल जावचो ना. लोक एका कानान आयकतात जाल्यार दुसऱ्या कानान सोडून दितात. गंभीर गजाल म्हळ्यार लोक रस्त्याचे कायदे पाळिनात. जंय No Entry म्हण फलक आसा थंय तांकां पुलिसूय जाय. पुलीस ना जाल्यार No Entry ची Entry जालीच.

कायद्याक पाळो दिवप हें जणा एका नागरिकान आपलें कर्तव्य मानपाचें. कायदो मोडप हो गुन्यांव हें नागरिकाक कळपाचें. पूण ज्या शिक्षणाक लांबाय

रुंदाय आसा, पूण खोलाय ना थंय तें शिक्षण नांवा पुरतेंच म्हणपाचें.

सरकार कायद्यांच्या आधारार चलता. जे कायदो पाळिनात तांकां दंड आनी बंदखणूय फर्मायल्ली आसा. दंड आनी बंदखण म्हळ्यार सरकाराच्या हातांत दिल्लो 'दांडो'. सरकारा कडेन दयेची नदर आसा अशें दिसचें, वांगडाच सरकारी यंत्रणा हातांत लाठी वा आर्म घेवन उबी आसा हेंय कळचें. ज्या सरकाराक प्रजे कडल्यान कायदे पाळून घेवंक कळना तें सरकार सरकार म्हणूक घेवंक पात्र ना.

अमेरिकेंत, इंग्लंडांत, फ्रान्साक सत्ताधाऱ्यांक कायदो मोडल्यार दंड फारीक  करूंक लायतात. हांगा सरकाराक लोक मात पूण भियेना वा मान दिना. उरफाटें, हांगाचें सरकार कांय जाणांचे दादागिरीक मान दिता, भियेता.

गोंयांत 8-9 लाख दोन-चक्री गाडयो मार्गार धांवतात. सरकारान सगळ्यांक हॅल्मेट सक्तीचें केलां. एक लाख रायडरां कडेन हॅल्मॅटां आसात अशें धरल्यार स लाख हॅल्मॅटांची ह्या खिणाक गरज आसा. पयर खबर वाचल्या ते प्रमाण सतरा हजार रायडरांक दंडाची ख्यास्त लायल्या. ही हॅल्मॅटांची भूक सरकारान भागोवं येताली. थोडे उणे दरेन हॅल्मॅटा विकिल्लीं जाल्यार सरकाराक दोन-चक्रीवाल्यांचें इल्लें बरेपण मेळपाचें. मोटर-सायकलकारांनी आपली कॉऑपरेटीव स्थापुनूय हॅल्मॅटा विकूं येतालीं.

बाकी हॅल्मॅटां आपली तकली सांबाळूंक चड गरजेचीं हें रायडर मानूंक तयार नात. ते सरकाराक खेपतात. हॅल्मॅट तकलेर दवरपाचें सोडून हारशार हुमकळायतात आनी जेन्ना अपघात जाता तेन्ना हारसो सुगूर उरता आनी तकली फुट्टा.

आमच्या वाचप्यांक आमी कळयतात की मार्ग संस्थेन आपली  Our Friend the Road ही पुस्तिका जे कायदे मोडटात तांकां भेट म्हणून दिवंक पुलिसां कडेन दिल्या. जांणी दंड फारीक केला ताणी ही पुस्तिका वाचून शाणे जावचें.

खरी गरज आसा लोकांची मानसिकताय बदलपाची. देशान आदले

मानसीकतायेंत बदल जावचो म्हणून लोकशाही आपणायली. गांधी, नेहरू आशिल्ले वा स्वातंत्र्याची चळवळ तकलेंत आशिल्ली तोंवेर सरकाराचें आनी जनतेचें नातें थोडें तरी माये-मोगाचें आशिल्लें. उप्रांत लोकाचो सरकारा वयलो विस्वास उणो जायत वचूंक लागलो. आज पुराय जनता आपल्याच सरकाराक फटोवचें कशें, टॅक्स चुकोवचो कसो हें चिंतीत आसता. सरकाराक लोक परकी मानतात. सरकारा विशीं लोकमानसांत अनादराची भावना वाडीक लागत आसा.

ल्हानश्या गोंयांत कांय गजाली आमी घडोवन हाडूं शकतात. अमेरिकेंत ताणी सत्ता हातांत येना फुडें विद्यार्थ्यांक नागरिकत्वाचें शिक्षण दिवंक आरंभ केलो. फकत अमेरिकेंतूच न्हय तर इंग्लंड, फ्रान्स, जर्मनी ह्या दिशांनी सिटिझनशिप स्कुलां ठांय ठांय आसात. ते म्हणटात भुरग्यांक आमी सिवीक सेन्स शिकयलो. आमचीं शारां पळयात कितलीं निवळ तशीं सोबीत तीं! आमचे लोक देशाचे नागरीक जाले आनी देसाचो मोग करूंक लागले. ह्या नागरिकांक लागून आमची लोकशाही जैतिवंत जाली!

आमची लोकशाही जैतिवंत करपांत गोंयकारांनी फुडाकार घेवं येता. आनीक थोड्याच दिसांनी मार्गाचो Institute for Citizenship & Civic Sense Education मडगांवां लागीं राय गांवांत सुरू जावचो आसा. हांगा लोकशाही, निधर्मीवाद, सहकार म्हळ्यार कितें तें शिकोवपाचो विचार चलता. हांगा विद्यार्थी परिपूर्ण नागरीक कसो जातलो हाचें शिक्षण दितले. मानसिकताय बदलपाचो हो प्रयोग तुमी आमी जैतिवंत करूंक जाय.






# कर्नाटक आनी महाराष्ट्र आमचे दुस्मान व्हय?

दर एका देशाचें परराष्ट्रीय धोरण आसता. ते पासत खाशेलें मंत्रालय आसता. संवसारांतल्या हेरां देशां कडेन संबंद कशे दवरचे तें हें मंत्रालय थारायता. आपल्या देशाच्या हिता खातीरूच हें आसता.

जशें परराष्ट्रीय धोरण आसता तसें आंतर-राज्यीय धोरण राज्यांनी आंखप शक्य ना काय? आमच्या देशांत 29 राज्यां आसात. ते भायर केन्द्रशासीत आनी हेर प्रदेश आसात. दिल्ली सारके. ह्या प्रदेशां कडेन 'पॉजिटीव' अशे संबंद जोडपाची गरज आसा काय ना? विविधतायेंत एकता अशें आमी म्हणटात, पूण ते खातीर आमी खाशेले अशे प्रयत्न करतात व्हय?

पंचतंत्रांतल्या 'इश्टागत' नांवाच्या तंत्रांत इश्टागतीचीं लक्षणां दिल्यांत. इश्टाक दिवप आनी इश्टा कडल्यान घेवप; इश्टागेर जेवपाक वचप आनी इश्टाक जेवपाक येवप; आनी इश्टाक अडचणी सांगप आनी इश्टाचो अडचणी समजून घेवप आनी सोडोवप अशीं तीं लक्षणां आसात. इश्टागत आपशींच जायना. ती केळोवची पडटा. तेच भाशेन राज्यां राज्यां मदले संबंद केळोवचे पडटात. गृहीत धरून चलना.

आतां कर्नाटक आनी गोंय हांचे संबंद पळोवया. ते पुराय इबाडिल्ल्यांत

जमा. म्हादयक लागून झगडें इतलें जडायेर पडलां की दोनूय पक्ष हो प्रस्न आपसांत इश्टागतीन सोडोवंक पावनात. आमकां उदक दिवचे नात अशें ताणी थारायलां. ही भयंकर परिस्थिती म्हणूंक जाय.

तशें पळयल्यार आमी पुराय कर्नाटकाचेर आधारून आसात. कर्नाटकांतल्यान आमकां भाजी, फळां, फुलां, दूद, मांस येता. हे खरेदीक लागून कर्नाटकाक करोडांनी रुपया वतात जाले, तरी ती तांची गरज न्हय. एक दीस हे जिनस कर्नाटकांतल्यान आयले नात, म्हळ्यार आमी सोंपले! गोंयांत 'मॅनुअल लेबर' करपी कोण नात. गोंयकार सगळे शिकल्यात. म्हणटकूच कुडीची मेहनत करप आमकां जमना. भायले हांगा येवन हीं कामां आमचे पासत करतात. हांगा निवळसाण राखतात. आमची घाण उसपितात. ही आमची गरज काय तांची? आठ दीस ते गांवांक गेल्यार कितें जातली आमची दशा?

आमचे आय टी शिकिल्ले भुरगे शेंकड्यांचे संख्येन कर्नाटक, आंध्र, महाराष्ट्र ह्या राज्यांनी नोकऱ्यां पासत गेल्यात. ही आमची गरज न्हय जाता?

कांय कारणांक लागून खंय कितें तरी घडटा आनी कीट पेट्टा आनी ताचो उजो जाता. दोनूय राज्यां मदलो तणाव वाडटा. आमच्यो तांच्या राज्यांत गेल्ल्यो बशी ते फोडटात. तांच्यो दोन बशी हांगा आडायल्यो जाल्यार तांकां 'दर्या मे खसखस!'. कर्नाटकान आमचे पासत कांय दिसां खातीर दारां बंद केल्यार आमकां परवडटलें? बेळगांव बंद जालें जाल्यार आमी खंय वतले? सावंतवाडी?

फाटीं हांवें कन्नडिगांनी गोंयचे मुक्ती पासत आधार दिल्लो, उप्रांत गोंय महाराष्ट्राचे भकीक पडपा पसून वाटावंक मजत केल्ली ते विशीं बरयल्लें. ह्या कर्नाटका कडेन सदांकाळ बरे संबंद उरचे, ते वाडीक लागचे म्हण आमी खाशेले अशे प्रयत्न करची गरज नाशिल्ली? थोडीशी तांची भास शिकूंक नाका आशिल्ली?

आतां अजाप म्हळ्यार महाराष्ट्रा कडेनूय आमचे संबंद इबाडल्यात. विर्डी प्रकरण सुप्रीम कोर्टांत पावलां. उदकाचो एक थेंब लेगीत गोंयाक दिवचे नात असो दुर्योधनी धेंक महाराष्ट्रान गोंयकारांक घाला. महाराष्ट्रा कडल्यान हीं उतरां?

महाराष्ट्र म्हळ्यार आमचो जानी दोस्त. आमची संस्कृती मराठी अशें म्हणटात. हे मराठी संस्कृतीचीं विंगड विंगड तासां घेवन एका फाटल्यान एक थंयच्यो संस्था आपापले पंगड गोंयां घेवन येतात. तांचे प्रॉडक्टस हांगा खपयतात आनी ते हांगाच्यान जायतो पयसो व्हरतात.

मुंबय बगर तर आमचें जायच्चना. दिसपट्टे शेंकड्यांनी गोंयकार बशींनी, गाडयांनी, विमानांनी मौजेक, धंद्याक वा भलायके निमतान मुंबय वतात.

आतां नुस्त्याचो प्रस्न उप्रासला. नुस्तें धरपाक गोंयकार मालवणा कशे पावले? ते पयलेच फावट पावल्यात असें सांगूं नाकात. ताणी तुमकां पेट दिलो, तुमचीं जाळां तोडलीं, करोडभर रुपयांचें तुमकां लुसकान केलें आनी तुमची सुवात तुमकां दाखयली. आमी गोंयकारांनी गोंयांतूच दादागिरी करपाची! गोंया भायर आमकां बळिश्ट म्हण कोण लेखिना. तुमी पयलेच फावट मालवणा चुकून पावले म्हण सांगूं नाकात.

मनशां मनशां मजगतची इश्टागत गृहीत धरून चलना. ती केळोवची पडटा. हेच भशेन राज्यां राज्यां मदीं इश्टागत घट करूंक राज्यांनी खाशेलें धोरण आंखूंक यंत्रणा घडोवंक जाय. आयज आमी महाराष्टर आनी कर्नाटक हांचे मदीं चिड्डल्यात. आमी तांचे अंकीत जाल्ल्यान हें घडलां.

महाराष्ट्रांतल्यान एक दीस नुस्ते आयलें ना, आमी उपाशीं! कर्नाटकान भाजी धाडिना म्हळें, आमचे वळवळे! अशें कितलो काळ चलपाचें? हाचो विचार जावं नाका?

देशांतल्या सगळ्या राज्यां कडेन आमी इश्टागतीचीचे संबंद दवरूंक एक यंत्रणा घडोवची. बंगाल, ओडिशा, गुजरात, केरळ, तामीळनाडू, आंध्र

हांचे पसून आमी जायतें घेवं येता. आनी तांकां जायतें दिवं येता. पाँडिचेरी फ्रान्साची वसणूक आशिल्ली. थंय फ्रँच कल्चर ताणी सांबाळ्ळां काय? देश समजून घेवप, देशाची वळख करून घेवप हें सरकाराचें काम आसूंक जाय. नागरिकांक विस्वासांत घेवन ही विवीधतायेंत एकता सांबाळूंक न्हय तर घट करूंक सरकारांनी फुडाकार घेवची गरज आसा. आमच्या आदल्या फुडाऱ्यांक लागून हो एकवट तगला.





# तरणाट्यांनी 'तरूंक' तशें 'तारूंक' शिकचें!

'अलीबाबा आनी चाळीस चोर' ही संवसारभर गाजिल्ली काणी, वाचपाची आवड आशिल्ल्या संवसारांतल्या सगळ्या भुरग्यां मेरेन अरेबियन नायट्सांतली ही काणी पावल्या.

अलीबाबा एक गरीब दुर्बळ मनीस. रानांतलीं लांकडां पुंजावन आनी विकून तो संवसार चलयी. एक दीस असोच रानांत गेल्ले कडेन अचकीत ताका घोड्यांच्या गेतांचो आवाज आयकूंक येता. थंयच तो एका आडोसाक लिपता आनी कोण येतात वा वतात ताचे तेळणेक लागता.

इतल्यांत ते घोडेसुवार थंय पावतात. तांचो मुखेली पयलीं देंवता आनी वांगड्यांक एके धोलीसरीं व्हरता. उप्रांत धोली मुखार उबो रावन तो 'तिळा उगड!' म्हण फर्मान सोडटा, आनी अजाप म्हळ्यार ती धोल आं करून उगती जाता. आतां ते सगळे धोली भितर वतात आनी पोतयांनी भरून हाडिल्लो ऐवज भितर रितो करून भायर येतात. तो मुखेली परतून धोलीक हुकून सोडटा, 'तिळा धांप!' ते धोलीचें दार बंद जाता आनी ते लुटमारे घोड्यांचेर बसून आयिल्ले वटेन परततात.

आतां थंय रानांत किण्ण जाता. अलीबाबान 'तिळा उगड, तिळा धांप'

हीं उतरां आयकल्लीं आसतात. तो आपूण जावन हो प्रयोग करता आनी खरेंच तर, धोलीचें दार उगतें जाता. जाल्यार भितर अलीबाबाक कितें दिसचें? हिरे, माणकां, मोतयांच्यो राशी! भांगर रुपें घे म्हणून!

अलीबाबा थंय विचार करूंक रावना. आपली पोती तो माणकां-मोतयांनी भरता आनी 'तिळा धांप' म्हण हुकूम सोडटा. आतां धोल बंद जाता तसो अलीबाबा लांकडां बदला माणकां मोतयां घेवन घरा परतता.

मुखार कितें जाता? भुरग्यांक खबर आसा... पूण भुरग्यांक 'तिळा उगड' ह्या उतरांक दुसरो एक अर्थ आसा तो हांव सांगूंक सोदतां.

हालींसराक हांवें अणभविल्ल्यो दोन घडणुको म्हाका अस्वस्थ करीत आसतात.

पयली - प्रुडंट चॅनलाच्या रिपोर्टराचे विद्यार्थ्यां मजगतचे भोंवडेची. कॉलेज कॅम्पसांनी वचून तो विद्यार्थ्यांक सादे सरळ प्रस्न करता. 'गोंयचो मुख्यमंत्री कोण? गोंयचो गवर्नर खंय रावता? नवो विमानतळ खंय जावपाक घाला? विधानसभा संकूल खंय आसा?'

विद्यार्थी ह्या प्रस्नांचीं उतरां दिताली तीं 'हांव नकळ, म्हाका खबर ना...' असलीं! कॉलेजांतले सगळेच विद्यार्थी अशे अज्ञानी (अन्नाडी हें उतर हांव टाळटां) आसतात अशें कोण मानचोना. पूण चडशे विद्यार्थी एका वेगळ्याच विश्वांत वा नशेंत जियेतात. हे जिणेक cosmetic जीण म्हणूं येता. चले तश्यो चलयो 'केंस आनी खाड' हातुंतूच घुस्पल्ले दिसतात.

आमचे आयचे फुडारी 'मिकी पाशेको' सारके! आमचे फायचे फुडारी ह्या 'शिकून अज्ञानी' भुरग्यां सारके व्हय?

आतां दुसरी घडणूक-

हांव मार्ग-विचार विद्यार्थ्यां मदीं रुजोवंक कॉलेजांनी वतां. म्हजो पयलो प्रस्न विद्यार्थ्यांक आसता, 'तुमी बसकेक येना फुडें फाटल्या कदेलांचेर कित्याक बसतात? तुमी संवसारांत फुडें सरपा खातीर शिकतात न्हय? म्हणटकूच फाटलीं कदेलां तुमी कित्याक आडायतात? तुमी प्रस्नांक भियेतात व्हय?'

म्हजो दुसरो प्रस्न आसता, 'तुमी कित्याक शिकतात?' ह्या प्रस्नाक तांचे कडेन रोखडी जाप आसता, 'जॉब मेळोवपा खातीर आमी शिकतात.'

आमच्या आयच्या शिक्षणान शिक्षणाचो अर्थूच बदलून उडयला. 'हांव नकळं; म्हाका खबर ना; हांव खंय तरी नोकरी मेळची म्हण शिकतां.' ह्यो जापो आमच्या तरणाट्यां कडल्यान येवप म्हणचे तांची, स्पश्ट बरयतां, 'आत्महत्येची पूर्वतयारी!'

तरणाटो वा तरूण ह्या उतराक एक अर्थ आसा. तरणाटो ह्या विश्वसागरांत बुडना, तरता! इतलेंच न्हय तर तरणाटो उदकांत बुचकळटल्याक तारता, वाटायता!

1990 वर्सा पेडण्यां जाल्ल्या कोंकणी लेखक संमेलनाचो हांव अध्यक्ष आशिल्लों. म्हज्या अध्यक्षीय भाशणांत हांवें त्या 'जॉनाथान लिविंगस्टोन सीगल' हाचो उल्लेख केल्लो. म्हाका आजूय दिसता आयच्या आमच्या विद्यार्थ्यांनी स्फूर्त घेवपा सारकी जॉनाथान ही 'व्यक्तिरेखा' आसा.

दर्याविेळेर जो नुस्त्याचो कचोप पागपी सांडटात ताचेर उडी घालपी आनी जियेवपी शेवणीं आसतात. तीं भिऱ्यान रावतात. ते पागपी केन्ना तो कचोप सांडून वतले ताची वाट तीं पळयत आसतात. प्रत्यक्षांत तो कचोप, ती घाण खावन ते पक्षी 'सुखान' जियेत आसतात. बरे गुबगुबीत जातात. परिणामी, आपणाख पांखां आसात म्हणपाचें ते विसरतात आनी 'उडप' हो आपलो धर्म म्हणपाचेंय विसरतात.

पूण तांच्यांत एक तरणाटो आसता. जॉनाथान. तो प्रस्न करता - 'आमकां पांखां कित्याक मेळ्ळ्यांत? मळबांत उडपा खातीर न्हय?' ताच्या ह्या प्रस्नान भिऱ्यांतले पक्षी खुबतात. 'प्रस्न करूं नाका, मेळटा तें सुशेगाद बसून खा!' म्हण ताका शिटकायतात. जॉनाथान तरणाटो. तरणाटे बंडखोर आसतात. तो हें मानिना आनी कडेक वचून उडपाचो सराव करूंक लागता. प्रयत्नांतीं आपणाच्यान उडूंक जाता म्हणपाचें ताका कळटा. करतां करतां तो ऊंच उडूंक लागता. तो खोशयेन आडुता आनी शीम मेर नाशिल्लें मळब ताचें

जाता.

पोरणी पूण आतां मेरेन स्फूर्त दीत आशिल्ले हे 'जॉनाथान लिविंगस्टोन सीगल' कादंबरीन संवसारांतल्या लाखांनी तरणाट्यां मुखार लुसकान करपी पारंपारीक वाटो तोडपाचो एक आदर्श दवरलो. 'तरणाट्यांनो, तुमचेच खातीर हें मळब आसा, हें विश्व आसा' म्हण सांगलें. उठसूट आत्महत्या करप हें विद्यार्थ्यांक सोबना म्हणपाचें शिटकायलें.

'नुस्ताचो कचोप खावन जियेवं नाकात. उडूंक शिकात. केदो भव्य संवसार तुमचे मुखार पुरुशार्था खातीर पातळ्ळा तो पळयात' म्हण सांगलें.

अलीबाबाचो तरणाट्यां खातीर एक संदेश आसा. अलीबाबा म्हणटा, म्हाका रानांतली धोल मेळ्ळी. विद्यार्थ्यांनो, तकली नांवाची तुमचे कडेन एक तिजोरी आसा ती उगती करपाची कळाशी सोदून काडात. हे तकलेंत माणकां मोतयां परस मोलादीक विचारांचें धन आसा. तें धन जोडून जिविताचें सार्थक करात.

आमच्या तरणाट्या विद्यार्थ्यांनी 'आमी कोण? आमकां मनपांखां कित्याक दिल्यांत?' हो प्रस्न आपणाक करचो.

तेच भाशेन तकलेंत जी विचारांची तिजोरी आसा ती उगती करपाचो मार्ग सोदून काडचो.






## अतीविचारा सारको अविचार ना!

गांधीजी जिविताचो निमाणो खीण मेरेन  देशा पासत, वा म्हणुया, मनीसकुळये पासत वावरत आशिल्ले. आपूण 125 वर्सां जियेतलों अशें ते अगत्यान सांगताले. आनी तशी ताणी आपली भलायकी सांबळिल्लीय बी. पूण ब्रिटिशांच्या भारतांतल्या सोंपत्या दिसांनी जी परिस्थिती उप्रासली तिका लागून जियेवपाची तांची उमेद अस्तमूंक लागली. निमाणें घडपाचें तें घडलें. 79 व्या वर्सा तांचें जिवीत संपुश्टांत आयलें.

गांधीजी भौशीक जिवितांत दोन दिशांनी काम करताले. एक 'राजकारणी' दिशा आशिल्ली. तर दुसरी 'समाजकारणी'. राजकारणाचे वाटेर देंवत्यो चडट्यो आसतातूच. निर्शेणी आनी उमेदूय आसता.

स्वातंत्र्या पासतचो लढो चलतालो तेन्ना देशांत उमेदीचीं ल्हारांचेर ल्हारां उसळटालीं. लोक उज्यांत उडी मारूंक आपूण जावन मुखार येताले. मदीं मदीं हें आंदोलन मंदावतालें तेन्ना ती पोकळसाण 'विधायक' वावराचेर भर दिवन गांधीजी भरून काडटाले.

गांधीजींचो एकूच विधायक कार्यक्रम नासतालो. ही एक वळेरी आसताली जातूंत अनेक विशय आसताले. देखीक:

1) धर्मीक एकचार 2) अस्पृश्यता निवारण 3) दारुबंदी 4) खादी 5) गांवगिरे धंदे (6) ग्राम स्वच्छता 7) मुळावें शिक्षण 8) स्त्री शक्ती 9) राज्य-भासो 10) भलायकी 11) शेतकाम 12) श्रमशक्ती 13) कुश्टरोग निवारण 14) विद्यार्थ्यांचे प्रस्न...आदी

हो वावर तेन्नाच्या एका प्रांता पुरतो मर्यादीत नासतालो, तर तो देशभर चलतालो. ह्या वावरांतल्यान कांय कडेन उत्पन्न मेळटालें, जोड जाताली जिचेर कांय जाणांचे संवसार चलताले.

आतां हें विधायक कार्य चलतालें ताका विरोध जायनाशिल्लो अशें न्हय. देखीक दारुबंदीची चळवळ चलयतना जायतीं आडमेळीं येतालीं. बऱ्या बऱ्या बारां मुखार पिकेटींग चलतालें. बारांनी वतल्यांचो रस्तो आडावंक गांधीजी गिरेस्त घराण्यांतल्या बायलांक बारां मुखार दवरताले. गांधीजींच्या सांगण्यान शिक्षीत बायलो आपूण जावन फुडें सरताल्यो.

विधायक वावरा खातीर घेतिल्ले कांय विशय वादाचे (controversial) आसताले. तांकां वेळूय दिवचो पडटालो. पूण नांव दितल्यांत सर्त लागताली. वातावरण उमेदीन रसरसातालें.

हांगा गोंयांत आमकां गांधीजींच्या दर्शनाचो वा मार्गदर्शनाचो लाव मेळ्ळो ना. एक धर्मानंद कोसंबी आनी दुसरो पुरुषोत्तम काकोडकार हे बाबतींत भाग्यवान थारले.

गोंयांत प्रत्यक्षांत 1946 त राजकीय चळवळ सुरू जाली. खासा गांधीजींनी हे चळवळींत लक्ष घाल्लें. पूण 1948 चे जानेवारींत तांची जिवीत-यात्रा सोंपली तशे आमी तांच्या मार्गदर्शनाक अंतरले. उप्रांत जवाहरलालजी आमकां मेळ्ळे, पूण तांची कालेत वेगळी आशिल्ली. गांधीजी बापाय समान भुरग्यांक वाट दाखयताले.

अशें जालें तरी गोंयचो पुराय मुक्ती-लढो गांधीजींचे सासायेंतूच चल्लो. सत्याग्रह करून आपणाक कश्ट करून घेवपाचेर हें आंदोलन चल्लें. आमच्यांतल्या कांय जाणांनी हिंसेचो मार्ग धरिल्लो, पूण सामान्यतायेन गोंयचें

मुक्ती आंदोलन अहिंसकूच आशिल्लें.

ही जाली लढ्याची वा राजकारणाची बाब. पुर्तुगेज राज्यांत विधायक वावराक सुवात नाशिल्ली. मदीं 42-46त मडगांवांत सूत-कताई चलताली तितलीच.

गोंय मुक्त जालें. मुळांत गोंयकार 'पुलीत्क' (गांवठी अर्थान politician) आनी 'देमांदिस्त' (कोर्ट-पिसो). मुक्ती उप्रांतचो 50 वर्सांचो दीर्घ काळ आमी 'राजकारणांत' घालयलो. हांतली 'ओपीनियन पोल' आनी 'राज्यभास आंदोलन' हीं दोन प्रखर राजकी आंदोलनां सोडलीं जाल्यार आमी आतां मेरेनचो काळ व्हड जावपाच्या लढ्यांनी न्हय, तर ल्हान करपी चळवळींनी घालयला. आतां मेरेन हें चलत आसा.

ह्या काळांत एक कोंकणी पासतची विधायक चळवळ सोडली जाल्यार दुसरी म्हाका येवजना. हे चळवळीन कोंकणीक साहित्य अकादमींत, गोंय विधानसभेंत आनी घटनेच्या आठव्या परिशिश्टांत पावयली.

एक विधायक चळवळ म्हण आयज आमी कोंकणी आंदोलनाक तिलांजली दिल्या. एक साहित्यीक व्यवसाय म्हण तो आमी चलयतात.

आज हे घडयेक विधायक म्हणूं येत अशी 'मार्ग' ही घडये एकमेव चळवळ गोंयांत चलता. घरा भायर वर्तन कशें आसचें हें मार्ग चळवळ शिकयत आसता. मार्ग चळवळ जैतिवंत जाल्या? कांय जाण जावंक ना म्हणटले, तर कांय जाण जाल्या म्हणटले. इतलें खरें की 'मार्ग' नांव हें गोंयभरच्या चडश्या लोकाच्या तोंडांत घोळसारकी ही चळवळ जाल्या. जंय एके वटेन रस्त्या वयलीं मरणां वाडपा सारकी परिस्थिती (रस्त्यां वयलीं वाहनांची संख्या वाडोवन) सरकार निर्मीत आसा, थंय दुसरे वटेन मार्ग सारकी चळवळ लोकाची मानसीकताय बदल्ले बगर रस्त्या वयलो सांवार आळाबंदा येवचो ना अशें आड्डून सांगीत आसा. जंय जागृतीची (awareness) सुवात उर्मटायेन, खरमस्तीन (arrogance) घेतल्या थंय तकली फुट्टून मरण येतलेंच.

हाका उपाय आसा. ही आमीच निर्मिल्ली परिस्थिती. आमी सगळे

'व्होटर्स' जाल्यात ते 'सिटिझन' जावची गरज आसा. आमी आतां नागरीक जावप कठीण, पूण आमच्या भुरग्यांक तरी नागरीक करुया. एकदां नागरीक जाले की ते चिंतूंक लागतले आनी जाय तो मार्ग धरतले. सरकाराच्या नांवान बोटां मोडीत बसचेनात.

हे पासत कांय वावुरप्यांनी फुडें सरची गरज आसा. गोंयांत सिवीक क्लब जाणट्यां खातीर तशे भुरग्यां खातीर स्थापन करप गरजेचें. हे नदरेन मार्ग अभियान वावुरता. अभियानान बरीच प्रगती केल्या.

मार्ग अभियान देशांतलो पयलो सिटिझनशीप इन्स्टिट्यूट गोंयांत साश्टींत स्थापला. ताचे पासत एक व्हडलें घर अभियानाक मेळ्ळां आनी ह्या घराचें इन्स्टिट्यूटांत रुपांतर करपाक आधार दिवपीय मेळ्ळ्यात.

मार्ग अभियानाक जाय ते तुमी. तुमी म्हळ्यार तुमच्यांतले वाचपी आनी फकत विचार करपी न्हय. तुमच्यांतले कृती करपी. 'नागरिकत्व' म्हळ्यार कितें तें जाणट्यांक तशें भुरग्यांक सिवीक क्लबांनी सांगपी.

हें काम देशांतूय करची चड गरज आसा. पूण पयलें पावल तरी गोंयांत घालुंया.

हे निमतान वाचप्यांक हांव एक धोक्याची इशारत दिवंक सोदतां. फकत विचार करीत बसूं नाकात. फकत विचारवंत जावं नाकात. कृतीवंतूय जायात. आनीक एक: 'अतीविचारा सारको अविचार ना!' पाणिनीक विचार करतना शिंवान/वागान खालो.





# पाव भाजयेचीं तशीं शीत कडयेचीं 'भाई कॅण्टिनां' सरकारान चलोवचीं

सकाळीं साडेसातांक डोअर बॅल वाजली.

फांतोडेर पांचांक म्हजो नवो दीस सुरू जाता. गोपाळ पेपरवालो साडेपांचाक पेपरांचो पेळो दाराक लावन वता. हे पेपर आनी हांवेंच केल्ली च्या आनी बिस्कुत्यो म्हाका सकाळची तरतरी दितात. पेपरांतल्यो खबरो कसल्योय आसूं, त्यो त्या दिसाची म्हजी मनोधारणा थारायतात. न्हावन धुवन हांव नव्या दिसाक तोंड दिवंक तयार जातां.

नामनेचे तत्वज्ञ जे. कृष्णमूर्ती सांगताले, सकाळीं न्हाले-धुले उप्रांत नव्या ताल्ल भेसान नव्या दिसाक रसरशीत येवकार दिवचो. हांव प्रयत्न करतां.

तर साडेसातांक बॅल वाजली तसो हांव उमळशिकेन दारासरीं गेलों आनी दार उगडलें. पळयल्यार दारार उजवाड कसो इश्ट विनायक मोर्डेकार उबो. तोंडार बापूय मधुबाब मोर्डेकार हांचें हास्य आनी हातांत पोती. हो इडल्यो घेवन आयला म्हण म्हाका कळ्ळें.

गोड यादीचे मधुबाब अशेच अदीं-मदीं येताले. ब्रेकफास्टाक इडल्यो केल्यात म्हण सून सांगताली तें आयकना फुडें ह्या इडल्यांत गुरुनाथबाबाचो वांटो आसतलोच म्हणपाचें ते जाणटाले. आनी आज आतां विनायक आयला

तेच भशेन आपलें मधूर हास्य आनी इडल्यो घेवन मधुबाब म्हजेसरीं येताले.

आमी गोंयकार मुळांत सान्नां करपी. सान्नांक हीटूय म्हणटात. चवथीची पंचम हो हीट करपाचो दीस. गोडाच्या रोसांत हीट बुडोवन खावपाचो. पूण ताचेय परस पंचमी उप्रांतची सस्ट हो हिटांचो खरो दीस म्हणप चूक जावचेंना. कशें तें पळोवया.

चवथ पंचम अशे दोन दीस नुस्त्याविणें तळमळून सारल्यात...केदी ख्यास्त! नुस्त्याच्या वासाक जीव आशेला! अश्या समयार तेफळ घालून केल्लें बांगड्याचें हुमण आनी मसालो भाजून केल्लें सुंगटाचें तोंडाक! वांगडा काल पंचमीक केल्ले आनी आज तव्यार घाल्ले हीट! मार डाला!

'धन्य आनंद दिन, पूर्ण होई कामना!' हाकाच गोंयकारपण म्हणटात न्हय?! आतां ते साननधाकणे नात, ते हीट नात. आतां इडल्यो करपाचे तवे आयल्यात आनी घरांनी इडल्यो जावंक लागल्यात. इडल्यो करप हो विनायकाचे घरकान्नीचो हातखेळ!

इडली म्हळयार फकत 'इडली' न्हय. इडली होंकल कशी सदांच सांगाताक सांबार आनी चटणी घेवन येता. आनी म्हत्वाचें म्हळयार ह्या तिनूय पदार्थांक तांचें अशें वेगळेपण आसता. ताका हांव व्यक्तिमत्व आनी व्यक्तित्व म्हणटां. कांय जाण हीं दोनूय उतरां एकाच अर्थान वापरतात. कांय जाण म्हजे भशेन विंगड विंगड अर्थान उपकारायतात. म्हजे नदरेन व्यक्तिमत्व म्हळयार भायलें रूप आनी व्यक्तित्व म्हळयार अंतरंग.

म्हजो स्टेटमेण्ट, 'इडलेक स्वताचें व्यक्तिमत्व तशें व्यक्तित्वूय आसा.'

देखीक, इडली लोणयावरी भायल्यान धवी शुभ्र दिसची पडटा. इडली टणक वा चिकचिकीत आसूंक फावना. इडली म्हळयार पिठाचो गुळोय नासचो. इडली 'मुलायम' आसची, फुलार दिसची, आकारान चड चेपटी नासची, मातशी उबार आसची. म्हज्या हिसपान हें इडलेचें व्यक्तिमत्व.

इडलेचें व्यक्तित्व म्हळयार तिची खाशेली रूच. सुकी इडली मातशी खातूस लागची. सांबार आनी चणटेचेर इडली निंबून आसा अशें जावंक

फावना. इडली सुकी खावपांतूय एक गोडी येवंक जाय. इडली तोंडांत घाले बराबर विरगळूंक जाय. हांव हॉटेलांत जेन्ना इडली म्हणटां तेन्ना डबल इडलीची प्लेट येना फुडें एक सुकी इडली खावंक घेतां. तितल्यान इडली कशी जाल्या तें कळटा.

इडलीच्या सांगात्यांकूय म्हळ्यार सांबार आनी चटणेक, तांचे ताचें व्यक्तिमत्व तशें व्यकित्त्व आसता. सांबारांत सांगेचें करवण आनी सुकी मिरसांग दिसूंक जाय. सांबाराची रूच गोड-आंबट-तीख आसूंक जाय.

आमी गोंयकार नाल्लाचे सोयेची चटणी करतात. सोयेचो चोंथो जेवणा-खाणांत आमी वापरनात. इडले वांगडची चटणी वाटिल्ल्या दाळीची आनी सोय-चोथ्याची आसता. तिची आगळीच रूच आसता.

म्हाका इडली म्हळ्यार जाली हें विनायक मोर्डेकार आनी ताचे घरकान्नीक खबर आसा. देखून इडल्यो केल्यो की म्हजो वांटो म्हाका पावताच. आतां हांव बडबडो जाल्ल्यान ही खबर चार कडेन पावल्या आनी अदीं मदीं म्हगेर इडल्यो येवंक लागल्यात. कोण धाडटात तांचीं नांवां सांगिना. सांगीन जाल्यार तांकां फोन वचपाची शक्यताय न्हयकारूंक जावची ना. देखीक, असो फोन वचूं येता: 'हॅलो, उषा गो, आमकां सांगलें ना मगो तुवें? तुका बेस बऱ्यो इडल्यो करूंक येतात म्हण, गुरुनाथबाबान बरयलां मगो! अशें आमकां लिपोवन मगो?'

आतां कोणाकूय दिसूं येता गुरुनाथबाबान हें इडली पुराण आपलो 'घोस्त' जाहीर करूंक बरयलां म्हण. प्लीज, तसो समज वा गैरसमज करून घेवं नाकात. म्हज्या बरपांत म्हजें 'हांवपण' वा म्हजी 'साहित्यीक कळाशी' पळोवं नाकात. ते कंगरखिशे पासत जायते साहित्यीक आसात. म्हजीं पत्रां प्रस्नाक लेखून आसतात. इंग्लिशींत तांकां issue based म्हणटात.

खबर आयल्या ती म्हळ्यार तामीळनाडूची राणी जयललिता हिणे राज्यभर 'अम्मा कॅण्टिनां' सुरू केल्यांत जंय रुपयाक एक इडली मेळटा. गोंयांत दोन इडल्यांक तीस रुपया पडटात.

म्हज्या मनांत प्रस्न आयलो, गोंय सरकारान अशी एकाद्री येवजण आमचे सारक्या आम आदमी खातीर चालू करपाची वेळ येवंक ना? आयज हॉटेलां पातळ भाजी, पाव आनी च्याक कितले पयशे घेवंक लागल्यांत ताची सरकारान दखल घेतल्या व्हय? आयज नुस्त्याक उजो पेटला हें ढवळीकाराक खबर नासत, कारण तो शिवराक. पूण पार्सेकारूय शिवराक? वळवळायता मरे हें सरकार आमचे सारक्या दुर्बळांक!

गोंयांत पयसो घोळटा जायत पूण तो सगळ्यां कडेन न्हय. सरकारी नोकरां कडेन आनी माती विकून जोडिल्ल्यां कडेन. खऱ्यांनीच पातळ भाजयेक आनी नुस्त्या हुमणाक लोकाक वळवळावपी हें सरकार बाकीबाबांचे ते वळीची याद करून दिता: 'आयलां तें स्वातंत्र्य न्हय, स्वातंत्र्य न्हय!'

हें सरकार हॉटेल धनयांचें, बस धनयांचें! ताका जनतेचें पडून गेल्लें ना!

पुण्याक राबितो करून आशिल्ली प्रेमा पुरव मूळ गोंयची. गोंयच्या मुक्तीलढ्यांत तिणें वावर केला. ती मुळची तेंडुलकार. आमच्या सर्गेस्त गोड उगडासाच्या भाई तेंडुलकाराची नातेवर्गी. महाराष्ट्राच्या कठीण काळांत तिणें मुंबय पुण्यांत ठांय ठांय अन्नपुर्णा केंद्रां सुरू केलीं. तिणें महाराष्ट्राची झुणका-भाकर धवाड्यां मेरेन पावयली. रस्त्याचे कुशीक तिणें हीं निर्मळ केंद्रां सुरू केलीं. थंय जेवपाक झुंडी पडटात. बायलांक तिणें जोडीचें साधन तयार करून दिलें.

प्रेमा पुरव आतां ॲक्टिव नासतली. पूण तिचो सल्लो मेळटलो, जो घेवन सरकारान हांगा 'कॅण्टिनां' सुरू करूं येतात. सकाळी पातळ भाजी, पाव भाजी च्या धा रुपयांत आनी दनपारचें हुमणाचें जेवण तीस रुपयांत दिवं येतालें.

पण लक्षांत घेतो कोण?





# हो विकास जगपा खातीर काय मरपा खातीर?

सुप्रीम कोर्टान रस्त्यां वयले येरादारींत शिस्त येवची आनी अपघात आनी मरणांचो आंकडो उणो जावचो म्हण सगळ्या राज्यांक कांय कडक उपाय चालीक लावंक सांगलां. 2020 मेरेन रस्त्या वयल्या अपघाती मरणांचो आंकडो अर्दार हाडुंकूच जाय अशीय शिटकावणी दिवन सुचयल्ले उपाय लागू केल्यात म्हणपाचें कळीत करूंक मागलां.

दुसरे वाटेन केंद्राचे वाहतूक मंत्री नितीन गडकरी हाणी वाहतुकी संदर्भांत बील तयार केलां तें लोकसभेच्या पावशी अधिवेशनांत मांडटले म्हळां. चार फावट ह्या बिलांत सुदारणा करची पडल्या. ह्या बिलांत येरादारी नेम खूब कडक केल्यात, तेच भाशेन दंडाची रक्कमूय खूब वाडयल्या. तें बिल लोकसभेंत मांडले उप्रांत वाहतूक धंद्यांत आशिल्ले आनी गाडयो आशिल्ले लोकूय बोवाळ घालचे आसात.

हे फाटभूंयेर गोंयच्या रस्त्यांचेर खऱ्यांनीच शिस्त आयिल्ली दिसतली व्हय, असो प्रस्न मनांत येता.

गोंयांत आज रस्त्यांचेर बारा तेरा लाख वाहनां धांवत आसात. राज्यांत रजिस्टर जाल्ल्या वाहनांचो आंकडो इकरा लाखां कडेन धांवत आसा. ते

भायर भायल्या राज्यांतल्या शेंकड्यांनी वाहनां चालंत दिसांनी गोंयांत येत आसतात. राज्यांत पर्यटनाचे दीस येतात तेन्ना हो आंकडो हजारांचेर पावता.

हालीं दिसांनी रस्त्यांचेर वचत थंय गाडयो आडायतना पोलीस दिसतात. सरकारान हॅल्मॅट सक्तीचें केलां. राय-मार्गाचेर (हायवेचेर) हॅल्मॅट घाल्ले रायडर दिसतात, पूण शारांनी भितर तशे गांवांनी हॅल्मॅट खूब उणें दिसता. पोलिसांनी ही मोहीम आतां शारांभितर सुरू केल्या. हाचो एक वायट परिणाम जावं येता तो म्हळयार वाटेर पोलीस रावला म्हण कळना फुडें रायडर भियेता आनी गाडये वयलो ताचो ताबो सदळ जाता आनी ताचे कडल्यान अपघात घडूं येता.

ज्या नेम मोडटल्याक तालांव फारीक करचो पडटा ताका मेळिल्लो तालांव वा रसीट तो कायदो मोडपाचें सर्टिफिकेट मेळिल्ले भाशेन वापरता, आनी आख्खो दीस आनी केन्ना केन्ना दुसरो दीस तो तालांव फडफडायत हॅल्मॅट घालिनासतना गाडयेर दिसता. हॅल्मॅटांय आतां बरींच म्हारग जाल्यांत. कांय उंची हॅल्मॅटां तीन चार हजारांचेर पावल्यांत. कांय हॅल्मॅटां वापरतकीर रायडराचें तोंड मात पूण दिसना. आतां तर जायत्यो चलयो वा बायलां बुरखो घाल्ले भाशेन तोंड धांपून गाडयो चलयताना दिसतात. अदिकतराचें म्हळयार दोळ्यांचेर काळें वक्ल दवरतात. फॅशनीच्या नांवान आमी आमकांच केद्या संकश्टांत घालतात हाचें आमकां भान उरना.

ह्या चार म्हयन्यांत दंडाच्या रुपान गोंय सरकारान लाखांनी रुपया वसूल केल्यात. मुखेल मार्गांचेर कांय कडेन रोड सायन्स दिसतात हें खरें, पूण ह्या फलकांनी सगळें इंग्लिशमय करून उडयलां. कोण कोणाक कसली बुद्द दिता तें कळना.

पयर आमच्या मुख्यमंत्र्यान एक विधान केलें. आपल्या मांद्र्यांत जीं हॉटेलां (रावपाचीं) चलतात तांतली 99% बेकायदा चलतात अशें ताणी म्हळें. हीं एका मुख्यमंत्र्यांची उतरां मांद्र्यांतलेच न्हय तर गोंयचे परिस्थितीचेर उजवाड घालतात. गोंयांत व्यापार धंद्याच्या नांवान जें कितें चलता तें 99% कायदो

मोडून चलता असोच ताचो अर्थ जाता, हें मुख्यमंत्र्यांच्या लक्षांत येवंक ना.

पयर म्हाका दुबय रावतलो एक गोंयकार मेळ्ळो. आमचें हांगाचें लायसन थंय चलना. थंय थळावें लायसन्स सोंपेपणी मेळना. एक वेळ डिग्री मेळप सोंपें, पूण गाडी चलोवपाचें लायसन मेळप कठीण म्हण सांगूंक लागलो. हांगा सगलें उरफाटें. गोंयचीं ड्रायवींग स्कुलां पांच हजारांत एका म्हयन्या भितर गाडी चलोवंक शिकयतात आनी उप्रांत रोखडेंच लायसनूय हाडून दितात अशें सांगतात. दुबय कुवेट सारक्या शारांनी पयलीं गाडी चलोवंक (फुडें व्हरूंक) शिकयनात. गाडी चलोवपाचे नेम आनी अटी आनी 'एतीकेती' म्हळयार चाली-रिती शिकोवंकूच कांय म्हयने घेतात. गाडयेंत बसचें कशें, गाडयेंत बसना फुडें बॅल्ट आंगार घेवचो कसो, गाडी चलोवचे पयलीं ती तपासची कशी, सगलीं रोड सायन्स पाठ आसप गरजेचें कशें, तें शिकयतात. चलपाक दोळे पुरो. पूण गाडी चलोवप म्हळयार यंत्राचेर पुराय शेक दवरप. हाचें भान आमच्या देशांत कोण बाळगिना. सोरो पियेवन गाडी चलोवप हो तेवटेन मोट्यांतलो मोटो गुन्यांव मानतात. हॉटेलांनी जे जेवताना सोरो पियेतात तांचे वांगडा ड्रायव्हर नासत जाल्यार घरा व्हरपी ड्रायव्हर दितात.

ही मानसीकताय आमच्या देशांत वा राज्यांत हाडप सोंपे काम न्हय. ती येतली तेन्नाच परिस्थिती बदलतली. स्कुटरीन आशिल्ल्या मनशान रस्त्या वयले नुस्तेकान्नीसरीं वा फळां विकतल्या सरीं स्कूटर वा बायक व्हरप आनी माल विकतो घेवप; मागीर गाडी उबी दवरून इश्टा कडेन गजाली करप हें हांगा सर्रास चलता. कोणाक कांय दिसना. आतां पावसांत सकाळीं फुडें हजारांनी आवय-बापूय आपापल्या तीन चार भुरग्यांक दुचाकेर बसोवन स्कुलांनी पावयतना दिसतले. ते 'नो एंट्री' पाळिनात. नाका थंय ओव्हरटेक करतात आनी अपघाताक आमंत्रण दितात.

हें इतलें हाता भायर गेल्लें आसतना गाडयांचें उत्पादन करपी कंपन्यो लाखांनी न्हय तर करोडांनी गाडयो मार्गार सोडपाचे सर्तीक पेटल्यात अशे परिस्थितींत शिस्त हाडपाचे प्रयत्न फकत नाटकां जातात.

आतां तर बँको आपल्या ऑफिसांनी विकपा खातीर स्कूटरी दवरूंक लागल्यात. थंयचे थंय विक्री करूंक लागल्यात. तुमचे कडेन ल्हानसो गाळो गांवांत लेगीत मार्गा कुशीक आसल्यार पुरो आनी एके फावटी चार पांच स्कुटरी घेवपा पुरतो पयसो आसल्यार पुरो, तुमी गाडयांचे एजंट जावंक शकतात. गोंयांत मोबायलां भाशेन गाडयांची विक्री जावंक लागल्या.

सगलें हाता भायर तशें पांयां भायर गेलां. आनी तकले भायरूय. रस्त्या वयलीं शेंकड्यांनी मरणां लेगीत आमकां जाग हाडिनात. सरकार तर जबाबदारी लोकाचेर घालून 'सलामत' जाता.

आतां आतां तर पावसांत सत्र्यो फुलोवन स्कूटरी/मोटार सायकली चलोवप सुरू जालां. हो विकास जगपा खातीर काय मरपा खातीर?






# 18 जून 1946 ते 19 डिसेंबर 1961
# गोंयांत रंगिल्लें एक महानाट्य

गोंयांत 18 जून म्हणटकूच आमी सदचीच एक रिकॉर्ड लायतात. ती डॉ. राम मनोहर लोहिया हांचें नांव घेवन सुरू जाता आनी तांच्याच जपान सोंपता. डॉ. लोहिया हाणी मडगांवां त्या 18 जूनाक एके उत्के दोंगुल्लेचेर पुर्तुगेजाचो सभाबंदी कायदो मोडलो आनी आपणाक अटक करून घेतली. हजारांनी गोंयकारांनी हो अजरामर देखावो आपल्या दोळ्यांनी पळयलो. जांणी तो पळयलो ते धन्य जाले. दुसऱ्या अर्थान सांगचें जाल्यार, लोहियांनी गोंयकारांक न्हिदेंतल्यान जागे केले आनी पुर्तुगेजाची न्हीद सासणाची खळयली.

डॉ. लोहिया गोंयांत त्या वर्सा दोनदां आयले. पयले खेपे पुर्तुगेज सरकारान तांकां शिटकावणी दिवन सरादीर सोडले. दुसरे फावट मात तांकां तांची व्हडवीक लक्षांत घेनासतना आग्वाद किल्ल्याच्या काळखा कुडींत दवरले आनी धायेक दिसां उप्रांत 'आतां परत आयल्यार खबरदार!' अशे दटावणेन भारताचे सरादेर पावयले.

इतले मजगतीं ही वार्ता गांधींजींच्या कानार पडली. तेन्ना इंग्लंड भारतांतली बिटकी कवळुपाचे तयारेक लागिल्लें. दिल्लींत नेहरूंच्या

फुडारपणांत तत्पुरतें सरकार चलतालें. लोहिया हांकां गोंयांत 'ब्लॅक सॅलांत' दवरल्यात हें कळना फुडें गांधीजी अस्वस्थ जाले आनी ताणी लोहियांक तार करून सुटले उप्रांत आपणाक मेळूंक येवचें म्हण कळयलें. लोहिया गांधीजींक मेळ्ळे तेन्ना गांधीजीन गोंयकारांक जागयल्ले खातीर लोहियांचें कौतूक केलें, तेच बराबर "आतां परत गोंयां वचूं नाकात; गोंयचो प्रस्न पंडित नेहरू सोडयतले" अशें सांगलें. उप्रांत लोहिया गोंयांत गेले नात. गोंय मुक्त जाले उप्रांत 1962 त ताणी गोंयाक भेट दिली.

हो हांव म्हणटां त्या महानाट्याचो पयलो वांटो.

उप्रांत 1947 सावन 1961 मेरेन महानाट्याचो दुसरो खंड चल्लो जो गोंयचे मुक्तीन सोंपलो. आमी सगळे अदीकशे पयल्या खंडा संबंदानूच उलयतात. तो एका दिसाचो चमत्कार आशिल्लो. दुसरो खंड हो 14 वर्सांचो साक्षात्कार आशिल्लो.

ह्या दुसऱ्या भागांत गोंयकारांनी भोगिल्लीं मरणां, सोंशिल्ल्यो मरण-यातना, रगत मुतसर खाल्लो मार, फातरां-शीत जेवन बंदखणींनी साल्लिीं वर्सां, बायल-भुरग्यांनी कलकलान अणभविल्ले तापत्रय हें सगलें आसपावता. हातूंत अशे कांय प्रसंग आसात जातूंत कांय जाणांनी पुर्तुगालच्या आनी आफ्रिकेच्या भयांकृत बंदखणींनी वर्सां सारिल्लीं आसात. मोहन रानडे, तेलु माशकारेन्यश, दिवाकर काकोडकार, दत्तात्रय देशपांडे सारकिल्ले स्वातंत्र्य सेनानी गोंय मुक्ती उप्रांत लेगीत पुर्तुगेजाच्या बंदखणींनी वळवळत तळमळत जियेताले.

खरें म्हळ्यार, सालाझाराक आमी गोंयकार हारोवंक शकचेनात हें आमकां कळनाशिल्लें अशें न्हय. निमाणें नेहरूंनीच गोंयचो प्रस्न सोडोवचो पडटलो हें आमी जाणा आशिल्ले. सालाझार आयकना जाल्यार नेहरूंनी सैन्य धाडून गोंय मेकळें करचें अशी गोंयकार तांकां 'बुद्द' दिताले. गोंयकारांक आपलो प्रस्न हो संवसारांतलो एकूच प्रस्न अशें दिसतालें. म्हज्या सारक्याक दिसता, आमकां त्या वेळचें राजकारण समजनाशिल्लें. तेच भशेन नेहरूंकूय आमी

समजूंक शकूंक नाशिल्ले.

1955त त्या ऑगस्टांत पुर्तुगेज पोलिसांनी गोंयांत भितर सरिल्ल्या निशस्त्र भारतीय सत्याग्रहींचेर गोळीबार करून जायत्यांक जिवानशीं मारले. त्या वेळार पुर्तुगेजा आड देश इतलो खुबळिल्लो, देशांत इतली उचांबळाय जाल्ली की देशाच्या स्वातंत्र्य लढ्यांत लेगीत तितली जावंक नाशिल्ली अशें कांय जाणकारांनी बरयल्लें वाचूंक मेळटा. दुसरो कोणूय लीडर आशिल्लो जाल्यार रागान पेटून त्याच खिणाक गोंयांत सैन्य धाडटलो आशिल्लो. पूण नेहरूंनी देशाचो राग आपणांत जिरयलो. ताणी गोंयांत सैन्य धाडलें ना. 'समजिकायेचो देश असो वागूंक शकना' अशें ताणी म्हळें. झुजाची प्रत्यक्ष एक कीट आकांत घडोवन हाडूंक शकता अशें ते म्हणटाले. देशांतले उचंबळायेक नियंत्रणांत दवरपाची तांक तांच्या एकल्यांतूच आशिल्ली. आख्खो देश तांकां मानतालो.

तेन्ना तिसऱ्या म्हाझुजाची कुपां मळबांत जमतालीं. मॉडा पयलींचो काळोख पसवतालो. पंडित नेहरू मदीं पडिल्ल्यानूच सोवियेट रशियान क्युबा वटेन अमेरिके आड धाडिल्लें आरमार परत घेतलें. दुसऱ्या म्हाझुजान ॲटम बॉम्बान जपानाचो गोबोर केल्लो. तिसरें म्हाझूज पेटिल्लें जाल्यार कोणाचो आनी केदो विध्वंस जातलो आशिल्लो हाची जाण जावन नेहरू मदेस्ती करताले आनी ती फळादिकूय जाली.

नेहरू परपरत 'वसणुकवाद आतां फाटीं पडला' अशें सांगताले. आतां तिसऱ्या म्हाझुजाचो काळ आयला, जो थंडावंक जाय म्हणटाले. पूण तेच बराबर पुर्तुगेजाच्या आनी फ्रान्साच्या आफ्रिकेंतल्या वसणुकांनी स्वातंत्र्य सैनिकांचो जो छळ जातालो ताका लागून थंयच्यान त्या साम्राज्यवाद्यांक धांवडावंक जाय हें तांकां पट्टालें.

गोंयांतल्यान पयलीं सालाझाराक धांवडायात अशें आंगोला मोसांबिकेंतले स्वातंत्र्य सैनिक गळवञा येताले.

शेवटाक नेहरूंनी हातांत शस्त्र घेतलें आनी गोंयांत सैन्य धाडून 26 वरांत गोंयांतल्यान सालाझाराक घरा धाडलो.

पंडित नेहरूंनी आपूण हातांत शस्त्र घेवचोंना अशें केन्नाच म्हणूंक नाशिल्लें. गोंयचो प्रस्न शांततायेन सोडोवपाची ते पराकाश्टा करताले. ह्या संदर्भांत एक गजाल सांगीन दिसता. विनोबाजी गोंय संदर्भांत मिलीटरी बदला शांतीसेना वापरची असें सुचयताले, पूण विनोबाजी विशीं चड आदर आसुनूय तांची सुचोवणी नेहरूंनी मान्य केली ना. सैन्या बगर सरकार चलूंक शकना अशें मानतल्यांतले ते आशिल्ले.

आमी जायते गोंयकार नेहरूंच्या मनांत तेन्ना चलताली ती घालामेल समजूंक शकलेनात. बंदखणींत आशिल्ल्या दादले आनी बायल स्वातंत्र्यसैनिकां सबंदान तांचें काळीज तळमळटालें. तांच्याच प्रयत्नाक लागून अमेरिका मदीं पडली आनी सालाझारान 1959 त स्वातंत्र्य सैनिकांक सोडले.

तिसऱ्या म्हाझुजांत जावये आशिल्लो तो संव्हार आनी गोंयचे स्वातंत्र्य सैनीक बंदखणींनी भोगताले त्यो यातना, हांतलो पयलो प्रसंग आडावपाक नेहरूंनी प्राधान्य दिलें.

गोंयांत सैन्य धाडलें म्हण सगलीं अस्तमतेची राष्ट्रां नेहरूंचेर चाळवलीं. सोवियेट रशिया मात नेहरू वटेन रावलो.

नेहरूंक एकूच व्यक्ती वळखल्ली ती म्हळयार गांधीजी. आयज जो लोकशाहीचे आनी अर्थीक बुनयादीचेर देश तायट उबो आसा तो नेहरूंक लागून अशें राजकारणाचे अभ्यासक म्हणटात.

सोपयतां सोपयतां निमाणो पुर्तुगेज गवर्नर वासालु सिल्व हांचो म्हाका उगडास येता. 'गोंयचो गोबर कर' अशें सालाझाराचें फर्मान आशिल्लें. तें ताणी मानलें ना. तें मानिल्लें जाल्यार झुजाचो अर्थ गोंयकारांक कळूंक गोंयकार उरचे नाशिल्ले.

हे दोनूय कालखंड म्हळयार एक महानाट्य. आमच्या साहित्यिकां खातीर ही संद, हें आव्हान, ताणी तें पत्करचें.

(संदर्भः सर्वपल्ली गोपाल, जवाहरलाल नेहरू, अे बायोग्राफी).






# गोंयकारांक परतून एकदां गोंयची नशा 'चडची' गरज आसा!

नशा म्हळ्यार माणें न्हय. नशा म्हळ्यार कैफ, धुंदी, कीक (kick). एका आगळ्याच जगांत आपलेच भिरकेंत वागप. माणें म्हळ्यार गुंगी, सुस्ती, एके तरेची न्हीद.

ताका पयशांची नशा चडल्या; ताका सत्तेची नशा चडल्या अशें आमी म्हणटात. नशा चडली की एकेकदां मस्तीशी येता आनी मनीस संयम सोडूनसोय वागता. पूण सदांच न्हय.

सोऱ्याची नशा चडटा. म्हज्या वळखीच्या एका तरणाट्याक सोऱ्याचें व्यसन लागलें. तो एका थारिल्ल्या बारांत वतालो आनी वरांची वरां थंय बसतालो. शेवटा-शेवटाक सोरो ताचे तकलेंत वतालो. ताका नशा चडटाली आनी तो हिंसक (व्हायलंट) जातालो. तो कोणाची तरी तीड काडटालो आनी वादावादी सुरू करून निमाणें ग्लास भूंय मारतालो. ते फुट्टाले. बाराचो धनी ताका वळखतालो. ताच्या घराब्याक तो मानतालो. आनी ताका सांबाळून घेवन गाडयेंत बसोवन घरा धाडटालो.

आमी रावतात थंय एक वळखीचो दिसवड्याचो मानाय रातीच्या धा वरां उप्रांत सोरो मारून मार्गाचेर बोब मारून कोणाचेर तरी राग काडटालो.

आमी ताका हांसताले. काकूट करताले.

ह्यो नशेच्यो नेगेटीव पती. नशेच्यो पोजिटीव तराय आसतात.

हालींच म्हजो परम इश्ट नागेशबाब करमली म्हगेर आयिल्लो. आमी बरेंच उलयले. जाका आमी 'सांस्कृतिक कार्यक्रम' (दुसऱ्यांची तांचे असवडीं अहिंसक तासमपट्टी) म्हणटात तोय करून जालो. आनी उप्रांत खलील जिब्रानागेर पावले. नागेशबाबाचो जिब्रानाचो कोंकणी प्रोजेक्ट आतां छपाईक वचपाचो जाला. ताका हांवें तो बेस बरो छापूंक जाय म्हण सांगलें. डॉन मोराईश ह्या (सोंपिल्ल्या) कवीचो कविता कशी छापची ह्या माथाळ्याचो एक दीर्घ लेख हांवें वाचिल्लो. त्या संबंदान हांवें नागेशबाबाक सांगलें. आनी अचकीत म्हाका ओमर खयामाचे रुबायतची याद आयली.

चलो समीर अमेरिकेंत धा वर्सां आशिल्लो. मदीं मदीं तो येतना चॉकलेटी बराबर कांय अपरूप अश्यो थंयच्यो वस्तू हाडटालो. एक फावट ताणें ओमर खयामाच्या रुबायतींचें पुस्तक हाडलें. ह्या पुस्तकाची छपाई इतली चकचकीत आशिल्ली म्हळ्यार तो एक दागिनोच दिसतालो. आनी तो दागिनो हांव पापी कवी नाशिल्ल्यान म्हजे आरमारींत सस्त पडून आशिल्लो. आज हांवें तें पुस्तक आरमारींतल्यान काडलें आनी 'इश्टा, ह्या धनाची सुवात तुजे आरमारींत' अशें बरोवन नागेशबाबाच्या हातांत दिलें.

नागेशबाबान बाळकाक घेतात तशें तें घेतलें आनी ताचें एकेक पान परतूंक ताणें सुरवात केली आनी तो ओमर खयामाचे ते गाजिल्ले रुबायती कडेन पावलो. थंयचे थंय ताका ती 'लागली' वा 'चडली' आनी ते नशेंत ताणें थंयचे थंय तिका कोंकणी रूप दिवन आपली कविकीर्त सार्थ केली.

*"वयर माथ्यार कुचकुचीत पानांनी भरिल्ली रुखा सावळी,*
*मुखार रुचीक पाव, भरिल्लें मदिरा पात्र,*
*पटी कवितांची आनी तूं फुलती कळी*
*तूं बगलेक म्हज्या, गायत तुजो म्होंवा मधूर कंठ!*
*आहाहा! हो वन-वाठारूच जालो आतां एक भूवैकुंठ"*

कवितेच्यो, ती कोणाय प्रकारची आसूं, दोन वळी वाचप आनी तिची नशा चडप, ते घुंवळेंत वचप हो एक स्वर्गीय अणभव म्हणूंक जाय.

हांव पोजिटीव नशेचेर बरोवंक बसलां. बाकीबाबाची 'सासाय' 'पांयजणां' आरमारींतल्यान काडलीं आनी 'त्या दिसा वडाकडेन' कवितेन म्हाका सुर्वेकूच धरलो.

*"पयसुल्ल्यान वाजली घांट, दाटलो न्हयचो कंठ कांठ*
*सांवळ्यांनी घमघमाट सुटलो त्या खिणा...."*

म्हाका नशा चडली. हांव खंयचे तरी न्हयचे देगेर तीनसांजचे कातरेर पावलों. पयसुल्ले दोंगुल्ले वयले इगर्जेची घांट वाजली. त्या उजवाड आनी काळोख हांच्या मीलना वेळार घांटीच्या आवाजाक वेंगावंक येवपी उदकाचें रूप हांवें पळयलें, आनी हांव दोळे धांपून ती धुंदी अणभवपाक लागलों.

कांय वेळान पानां चाळटां चाळटां "सात लाख गोंयकार आमी यूग नवें फुलयतले, अंदल्या मंत्रजिवीं ते फाल्यां उलयतले...." ह्या वळींनी म्हाका 1946 त व्हेलो आनी मुक्तीची ओड काळजांत अनावर जाली. उप्रांत 'भावकेचें गीत' आयलें.

*"जिवीं आमच्या प्रीत आनी चलणुकेंत नीत*
*आमच्या मनीं मुखीं सदां माणसुकीचें गीत*
*दुर्बळांक ग्रास दिवंक काडूं केदेय त्रास"*
*आनी*
*"पूर्व आमचें कीर्तिवंत, त्या परस फुडार*
*गोंय आमकां करचें आसा भावकेचें कुळार*
*ते खातीर पितर देव धरून आसात आस"*
*"गोंय आमचें मूळ पीठ कोंकणी आमची भास*
*कोंकणी संस्कृताय आमच्या जाणट्यांली मिरास!"*
*इतल्यान हांव सामको ज्यार जालों!*

चोर्ला घांटा वयल्यान देंवतना Welcome to Goa पाटी वाचली आनी आंगा भोंवतणी एक 'कवर' चडिल्लें तें गळिल्लें भाशेन दिसलें. इतलो वेळ 'केन्ना गोंय, केन्ना गोंय' करीत आशिल्लों. आतां हांव केरीच पाविल्लों, पूण म्हाका हांव मडगांवा घरा पाविल्ल्याचो भास जालो. मन मेकळें मेकळें जालें. भोंवतणची रुखावळ उलयता असो भास जावंक लागलो. गोंयचो वास नाकांत रिगलो आनी हांव ते गोंयचे नशेचो अणभव घेवंक लागलों.

गोंयची नशा! शणै गोंयबाब हांकां चडिल्ली! गोंयच्या मुक्ती लढ्या वेळार ती गोंयकारांक चडिल्ली! विलीनिकरण-विरोधी चळवळी वेळार ती चडिल्ली! राज्य मेळोवपा आंदोलना वेळार चडिल्ली!

अशें गोंयांत आसा तरी कितें जें नशा लायता? बाकीबाब म्हणटात:

*'गोंयांत अशें आसा कितें*
*खरेंच म्हाका सांगूंक येना*
*तुमी कोणूय सांगात तरी*
*अजून म्हाका नाट मेळना!'*

परतून एक फावट आमकां गोंयकारांक ह्या खिणाक गोंयची नशा चडपाची गरज आसा. ते बगर आमकां सुटका ना!





# 97

# नुस्तें म्हळ्यार गोंयकारांचो प्राण! गोंयकारांच्या प्राणार कोण उठल्यात?

निमाणें सात वर्सांचे तपश्चर्ये उप्रांत म्हाका मडगांवां 'घरचें जेवण' मेळूंक लागलें. पूण....

सकाळचें तशें रातचें कशेंय निभावन व्हरतालों. सकाळीं घरा च्या आनी राती वेळार पाव बटरान काम भागतालें. पूण जेवण घरा करप शक्यूच नाशिल्लें. तशें शीत कुकरान करूं येता, पूण हुमण? हुमण म्हळ्यार जेवणाचो प्राण!

म्हाका आग्वाद बंदखणींतल्या त्या दिसांची याद आयली. बंदखणींतल्या त्या सालांत आमी एकवीस जाण आशिल्ले. तिगांची एक अश्यो सात टिमी आमी घडयल्ल्यो. दर एके टिमीक एक वार दिल्लो. आमचे टिमींत वकील पांडुरंग मुळगांवकार, तानाजी पेडणेकार आनी हांव आशिल्लों. टिमीचें काम सकाळची आनी सांजची च्या करप, दनपारचें जेवण करप, राती खातीर भाजी बी कितेंय करप, आयदनां घांसून पुसून निवळ करप, सान्न मारप, संडास साफ करप अशें आसतालें. सगलें सायसंगीत चलतालें.

आमचे टिमींतले पांडुरंगबाब ज्येष्ठ. ते तांदूळ वेंचप, कड्डुण निवळ करप असलीं नाजूक कामां करताले. तानाजी आनी हांव च्या, जेवण बी करपांत फिशाल जाल्ले. त्या काळा वानार वांटचें पडटालें. सोय कांतची पडटाली.

नुस्तें उजरावप, हुमणांत घालप आनी तळप ही कळाशीय आमकां जमिल्ली. एकवीस जाणां खातीर हो आटाप आशिल्लो. उरिल्ल्यो सवूय टिमी उमेदीन आपापले परीन वावुरताल्यो.

आमकां कादयेंत आशिल्ल्यांक सरकारा कडल्यान दर दिसा चौदा आणे मेळटाले. जेवणा-खाणाक ते पावताले. कारण हें रासवळ चलतालें. कांदोळेचो एक पसरकार नित्य नेमान जेवणा-खाणाच्या जिनसांची पुरवण करतालो. नुस्तेंय तोच धाडटालो. तेन्ना नुस्तें चकचयाळ! जाय तसलें मेळटालें. आमी कादयेंत आशिल्ले खरे, पूण चौदा आण्यांत आमी एके नदरेन खुशाल आशिल्ले. फकत गोंय मुक्त जावपाची वाट पळयताले. ती बैचेनी सतायताली.

सकाळचे उंडे येताले. "ते पदेर गेले आनी तें उंडे गेले" अशें म्हणपाची चाल कशी पडल्या तें कळना. तेन्नाचे उंडे आतांच्या पावां परस वेगळे आसताले. तातूंत घाल्ले सुरीक लागून उंड्याक खाशेली रूच आसताली. सकाळची केन्ना केन्ना भाजी करताले. ते भायर जण एकल्या कडेन ताचे खाशेले जिनस आसताले. बटर, चीज, जॅम बी. घरचेंय खाण येतालें. सगळे सकाळच्या उंड्यांची वाट पळयताले. रोखडीच च्या जाताली आनी उंडो च्यांत बुडोवन खावपात जी मजा येताली ती कशी वर्णुची? तो एक अपरूप अणभव आशिल्लो. आज लेगीत पाव च्यांत बुडोवन खातना हांव खुशाल जातां.

सांगपाचें म्हळयार कादयेंत आमकां 'घरचें जेवण' मेळटालें कारण तें जेवण आमी करताले, उमेदीन रांदताले.

'घरचें जेवण' ओगीच जायना. तांदूळ, सोय, मिरसांग, हळद, मीठ आनी नुस्तें इतले जिनस आसले म्हळयार घरचें जेवण जायना. घरचें जेवण करूंक एक आई, ताई वा घरकान्न लागता!

* * *

तशी आमच्या मडगांव शारांत जायतीं हॉटेलां आसात. शिवराक तशीं नुस्त्याचीं. म्हाका सोमार, बिरेस्तार बी लागनाशिल्ल्यान नुस्त्याचींच हॉटेलां

धरचीं पडूंक लागलीं. हांव नुस्त्याच्या हॉटेलांनी वचूंक लागलों तेन्ना म्हाका एक विचित्र अणभव येवंक लागलो. हॉटेलांतलें जेवण घरचें कशें कशेंच लागना जालें. तें बरें जाल्लें आसल्यार लेगीत. घरच्या जेवणाचें खाशेलपण म्हळ्यार सद्दां एकेच तरेचें जेवण लागून कितलेय दीस जेवल्यार नाकाशें दिसना! वीट येना! एकाच हॉटेलांत तीन चार दीस गेल्यार आतां हॉटेल बदलचेशें दिसता. आमचें गोंयकारांचें जेवण हुमणाचेर आधारून आसा. त्या हुमणांत नुस्त्याचे कुडके घाले म्हण जायना. तें हुमण वा जेवण घरचें जावंक मोगान भरिल्ले अस्तुरेचे हात आसचे पडटात!

सयेक वर्सां असो भायर भोंवत रावलों आनी भायर जेवत रावलों. सदांच इश्टां वांगडा जेवणाचेर चर्चा चलताली. केन्ना केन्ना नांवाजल्या हॉटेलांनी इश्टां वांगडा वचप जातालें आनी आमी खुशालूय जाताले. पूण एका दिसा खातीर! एका जेवणा पुरते!

अशें चलतना हालींच कोणें तरी लागींच 'घरचें जेवण' मेळटा म्हण सांगलें. 'नीट वच, उजव्यान सर आनी मागीर दाव्यान. थंय दोन चार मोटरसायकली दिसतल्यो. तेंच तें हॉटेल म्हण समज आनी भितर सर...'

भितर सरलों, तर हॉटेल कसलें? कुंकळ्ळेच्या शिवानंदा भशेन नांव नाशिल्लें! भितर मेजां नात; वण्टीक फळयो बसयल्यात आनी जाग्याची मांडणी केल्या. धा-बारा जाणांक बसपाची सुवात आसा. शिवानंदाच्या हॉटेलांत दोग भाव वावुरतात. हांगा घोव आनी बायल जेवंक येतल्यांक तृप्त करून धाडटात.

भितर सरतनाच पयलो प्रस्न कानार सादलो, 'नुस्त्याचें काय शिवराक?'

हांवें जाप दिली - 'नुस्त्याचें.'

परतून प्रस्न - 'सुरय काय उकडें?'

आयुष्यांत उकडें केन्नाच जेवलों ना त्या हांवें 'उकडें!' म्हण कशी जाप दिली तें हांवूच नकळ.

आनी दोन मिनुटांत ताट आयलें. हुनहुनीत उकडें शीत, वाटयेंत नुस्ते

नाशिल्लें हुमण, आंगूळभर सायजीचे दोन ताल्ले, कुलेरभर भाजी आनी लोणचें!

'हेंच तें घरचे जेवण!?'

'आलिया भोगासी असावें सादर' अशें मानून हांवें त्या हुनहुनीत शिता-गोट्यांचेर हुमण सोडलें आनी बोटांनी तें शीत कालयलें आनी पयली उंडी तोंडांत घाली.

आनी ते उप्रांत आज स म्हयने हांव तें 'घरचें जेवण' जेवन तृप्त जायत आसां. उकड्या तांदळा-शिताच्या त्या हुनहुनीत गोट्यां कडेन एकजीव जाल्लें तें हुमण, तो प्रिती-संगमूच म्हणूंक जाय. कुशीक आशिल्ल्या ताल्ल्यांक हांव विसरलों.

विचारीन दिसता, "कितें जादू आसता काय अस्तुरेच्या हातांत?"

आतां तुमी जर विचारशात, खंय आसा 'घरचें जेवण' दिवपी हॉटेल जाल्यार हांव तुमकां सांगचों ना. कारण तुमी रोखडेच दनपरां घरकान्नी वांगडा आलिशान मोटारींत बसून थंय वतले आनी ती सुवात पळोवन तुमची उमेद-मोड जातली. घरकान्न तर 'खंय पावल्यांत आमी' विचारतली.

आतां खरें सांगपाचें म्हळ्यार मडगांवच्या हॉटेलांची जायरात करूंक हांव हें बरयना.

तर कित्याक बरयतां?

कालूच त्या हॉटेलकारान सांगलां - 'हे मुखार तुमकां दिसपट्टें हुमण मेळचेंना. तीन दीस फकत तेफळाचें कडवण आसतलें. पोंवशेल्ल्या नुस्त्याचें तुमकां हुमण घालूंक घरकान्नीक पुटवना. बाजारांत नुस्त्याक उजो पेटला. घरच्या जेवणा खातीर नुस्तें हाडप परवडना. साठ रुपयांची थाळी शंभर रुपये करची पडटली!'

हें आयकून म्हाका खप्प जालां. 'नुस्त्याक जशें उदक तशें गोंयकारांक नुस्तें!' बाकीबाब म्हणून गेल्यात 'नुस्तें आसल्यार गोंयकार वीर; नाजाल्यार व्हीर!'

तर गोंयकारांच्या तोंडांतलो हो हुमणाचो घांस काडूंक कोण भायर सरला? गोंयकारांक 'व्हीर' म्हळ्यार अशक्त करपाचें हें षडयंत्र न्हय मू? ह्या कारस्थाना फाटल्यान आसा तरी कोण? नुस्तें पुरवण मंत्री, पर्यटन मंत्री, मुख्यमंत्री, काय....

खंय आसात त्यो वीरांगना ज्यो फाटल्या सरकाराच्या काळांत दर दिसा रस्त्यार येताल्यो? सगळ्यांनी शिवराक जेवण धरलां काय कितें?

ताणी समजून आसचें, व्हिरांची सारण जाता! सारणीक एक मुंडो आसता, आनी सारण बडोवपाचें तशें झाडून साफ करपाचेंय काम करता! चत्राय आनी खबरदार!






# गोंयचो स्वातंत्र्य संग्राम आमी मतींत दवरूंक जाय

दिल्लीक पावतां तेन्ना थंयच्या स्फूर्त दितल्या थळांतल्या तीन सुवातांक हांव भेट दितां. पयली सुवात म्हळ्यार राजघाट, जंय गांधीजींचे समाधी मुखार हांव थंड बसतां. दुसरी सुवात, गांधीजींनी देह दवरलो ती बिर्ला हावसा कडली सुवात, जंय त्या दिसाच्या त्या खिणाची याद करून सुन्न मनान हांव उबो रावतां. आनी तिसरी सुवात त्रिमुर्ती हांगा देशाच्या स्वातंत्र्य संग्रामाचो पुराय इतिहास अक्षरबद्ध आनी चित्रबद्ध करून दवरलेलो आसा थंय हांव कांय वेळ सारतां.

त्रिमूर्तिंतलीं चित्रां/फोटो खूब कितें सांगतात. देशा पासत सर्वस्वाचो त्याग केल्ले आनी आयज विसरायेर पडिल्ले तेन्नाचे फुडारी ह्या चित्रांनी/फोटवांनी पळोवंक मेळटात. तेच भशेन गंभीर अशे प्रसंगूय दिसतात, जे त्या युगांतल्या म्हजे सारकिल्या मनशाच्यो यादी जागयतात. आनी हाचेय परस म्हत्वाचें म्हळ्यार, तेन्नाच्या दिसाळ्यांचीं वा नेमाळ्यांचीं कात्रणां थंय पळोवंक मेळटात. जातूंत तेन्नाच्यो फुरफुरो हाडपी, आंगार कांटो फुलोवपी खबरो वाचूंक मेळटात. ज्यो म्हजे सारकिल्ल्याच्या दोळयां मुखार तेन्नाच्यो घडणुको मुर्तिमंत उब्यो करतात.

हांगा लागींच नेहरू लायब्ररी आसा जंय भारतीय स्वातंत्र्य संग्राम ग्रंथ रुपान सांबाळ्ळेलो दिसता. हांगा हजारांनी फोटो आसात जे आमकां त्या काळांत व्हरतात. लक्षांत घेवपा सारकी गजाल म्हळयार गोंयचें सगळें मुक्तीझुज हांगा फोटवांतल्यान पळोवंक मेळटा. देश-विदेशांतले शेंकड्यांनी अभ्यासक हांगा संशोधना पासत येतात.

पयले खेपे हांव हांगा कवी रमेश वेळुस्कारा वांगडा गेलों तेन्ना थंय डॉ. मृदुला मुखर्जी डायरेक्टर आशिल्ल्यो. आमी गोंयांत एक नेहरू सेंटर स्थापूंक सोदतात हें तांकां सांगिना फुडें आपूण तुमकां जायतीं पुस्तकां दितां अशें सांगून तीं दिवपाची ताणी वेवस्था केली. आज आमचे कडेन हो गडगंज असो नेहरू ग्रंथ संग्रह आसा जो आमी गोंयच्या नेहरू सेंटराक अर्पिला.

हो नेहरू सेंटर आमी अनुपचारीक रितीन मडगांवां स्थापन केला. आतां ताचें उपचारीक उक्तावण साश्टींतल्या राय गांवांत आमी संपादिल्ले एके वास्तूंत करचे आसात, ताका म्हयने दोन म्हयने लागतले.

ह्या नेहरू सेंटराचे निसबतीं आमी भारतांतलो पयलो-वयलो Institute for Citizenship सुरू करपाचे आसात. फकत गोंयांकूच न्हय तर देशाक अश्या इन्स्टिट्युटांची गरज आसा. गोंयकारांनी ह्या वावराक माथें मारूं येता.

हे दिशेन विचार-मंथन चलतना गोंयांक एके खाशेले वास्तूची चड गरज आसा अशें म्हाका तीव्रतायेन जाणवलें. इतलें उसरां हें तकलेंत कशें आयलें, म्हाका कळ्ळें ना.

जांकां आमी आमचे ज्येष्ठ स्वातंत्र्य सेनानी मानले ते पुरुषोत्तम काकोडकार, पां. पुं. शिरोडकार, डॉ. विनायक मयेंकार, डॉ. पुंडलीक गायतोंडे, लक्ष्मीकांत भेंब्रे, गोपाळ आपा कामत, डॉ. फ्रां. मार्टिन्स, पांडुरंग मुळगांवकार, श्यामराव मडकयकार आदी हांकांय त्या वेळार हें कशें सुचलें ना तें हांव समजूंक ना. तेन्ना हुनार हून अवस्थेंत ही येवजण चालीक लावप शक्य जातलें आशिल्लें.

जसो गोंयां भायल्या देशांत महात्मा गांधी हांच्या फुडारपणा खाला एक

प्रदीर्घ स्वातंत्र्य संग्राम जालो, तसोच, जें कायद्यान एका वेगळ्या राष्ट्राचो भाग आशिल्लें, त्या गोंयांतूय जालो. गोंयांत हें आंदोलन तब्बल पंदरा वर्सां चल्लें. गोंय आकारान ल्हान तरी ह्या आंदोलनाची लांबाय, रुंदाय, उंचाय आनी खोलाय मात लेगीत उणी नाशिल्ली. हातच्या कांकणाक हारसो कित्याक? खासा प्रधानमंत्री नेहरू हाणी गोंयच्या लढ्याक जें सर्टिफिकेट दिलां तें ह्या लढ्याची व्हडवीक कळूंक पुरो.

**'गोंयचो स्वातंत्र्य संग्राम आमी सगल्यांनी मतींत दवरूंक जाय. ह्या संग्रामाचें खाशेलपण म्हळयार ह्या ल्हानेल्या प्रदेशांत ताचो आकार लक्षांत घेतल्यार ह्या झुजा पासत म्हान त्याग करपी असंख्य दादले आनी बायलां दिल्यात.'**

अभ्यासकांनी गोंयच्या मुक्तिसंग्रामा संबंदान जायतें बरोवन दवरलां. ह्या लढ्याक लागून देशभर जी उचांबळाय उफाळून आयिल्ली तितली खासा भारताच्या स्वातंत्र्य लढ्यांत येवंक ना अशें बरयल्लें वाचूंक मेळटा. इतलेंच न्हय, तर जगाच्या खांची कोनश्यांनी गोंयचें नांव तेन्ना गाजतालें. न्हय एक पर्यटन स्थळ म्हणून, तर एक स्वातंत्र्या पासत लढो दिवपी थळ म्हणून. त्या दिसांनी भारतीय पत्रकारांक गोंयांत येवंक पुर्तुगेजान बंदी घाल्ली, पूण तितल्याच अगत्त्यान विदेशी पत्रकारांची भिरीं गोंयांत येतालीं आनी बंदखणींतल्या स्वातंत्र्य सैनिकांक मेळटालीं. आनी ना विसरपाची गजाल म्हळयार, पुर्तुगेज पोलिसांनी फारांनी जिते मारिल्ल्या नि:शस्त्र भारतीय सत्त्याग्रह्यांचीं मडीं उबारून भारताचे सरादी भितर पावोवपाचें काम तांतले कांय पत्रकार करून गेल्ले आसात.

पंडित नेहरूंनी गोंयच्या मुक्तिलढ्या संबंदान एक न्हय तर शंभर फावटी 'गोंय मुक्त जावन भारताचें स्वातंत्र्य खऱ्या अर्थान पूर्ण जालें' अशें म्हणिल्लें तें लक्षांत दवरूंक जाय.

तीन-चार वर्सां पयलीं गोंयकरांनी मुक्तीची सुवर्ण जयंती मनयली. तिका केंद्रीय मंत्री चिदंबरम आयिल्ले. तांकां आमी मुख्यमंत्री दिगंबर कामत हांचे

उपस्तिथीत भर समारंभांत एक निवेदन दिवन गोंय मुक्तीन भारताची मुक्ती पूर्ण जाली अशें अधिकृत रितीन भारत सरकारान मानचें आनी 19 डिसेंबर हो दीस फकत गोंयचो दीन मानिनासतना राष्ट्रीय दीस म्हण जाहीर करचो म्हण मागिल्लें. ताका चिदंबरम हाणी पत्र बरोवन स्पश्ट न्हयकार दिलो. तशें जाहीर केल्यार भारताच्या अधिकृत स्वातंत्र्य दिनांक 15ऑगस्टाक, न्हयकारिल्ले भशेन जातलें म्हणपाचें ताणी कळयलें.

हाचेर आमकां कोणाक तोंड उगडपाची कपशी जाली ना. हाचें कारण तें मागणें तोला-मोलाचें करपाक आमी असफल थारले.

गोंयच्या स्वातंत्र्य संग्रामाचो पुराय इतिहास गोंय सरकारान एक खाशेलो म्युझियम पणजे बांदून जागयत दवरचो अशें म्हाका तशें जायत्या स्वातंत्र्य सैनिकांक तशें स्वातंत्र्य मोग्यांक दिसता. असो म्युझियम हें दिल्लीचे त्रिमूर्ति सारकें एक तीर्थ-स्थान जातलें.

हांव फकत हो विचार मांडून सस्त बसूंक सोदिना. वय जालां तरी निमाण्या स्वासा मेरेन हें सपन प्रत्यक्षांत हाडपा खातीर वावर करप हांव म्हजी लागणूक मानतां. नामनेचे स्वातंत्र्य सेनानी नागेशबाब करमली, तुमी हें वाचतात मूं?






# 'टू-वीलर' वाल्यांक गुन्यांवकार थारावं नाकात

'टू वीलर' ही सामान्य जनाक 'मोटार' जाल्या. टू-वीलर घरांत आसप म्हळ्यार सुसेग. जाय तेन्ना, जाय थंय जाय त्या कामाक टू-वीलराचेर बसून वचूंक मेळटा. टू-वीलराचेर दोगा भुरगीं, बायल आनी जाणटी आवय इतल्यांक घेवन फेस्तां-जात्रांक वचूंक मेळटा. चवथीक तर टू-वीलरानूच सगळें कुटुंब घेवन कितल्याय पयस गांवघरा आमी वतात. टू-वीलराक मोटारी भशेन व्हड सुवात लागना. मोबायल आमी बोल्सांत दवरतात. टू-वीलर बोल्सांत दवरूंक मेळ्ळयार भांगरा परस हळडुवें जातलें आशिल्लें. पूण तशें जायना. तरी पूण-

-टू वीलर आसल्यार सकाळीं बाजारांत वचून पातळ-भाजी आनी पाव हाडूंक मेळटा.

- उप्रांत भुरग्यांक, तीं कितलींय आसूं, एके फेरयेंत शाळांनी पावोवंक मेळटा.

-मागीर परत मार्केटांत वचून नुस्तें हाडूं येता.

-आनी शेवटाक, कामाची सुवात आसा थंयूय वचपाक मेळटा.

तात्पर्य, संवसारीक मनशाक टू-वीलर हजार कामांक उपकारा पडटा. आतां तरणाट्यांचें तर टू-वीलरा बगर जायना.

---

चड सुखाची गजाल म्हळ्यार 'बस' नांवाच्या संकश्टा पसून टू-वीलर आमकां सुटका दिता. खरें म्हळ्यार, हेच पासत गोंयांत टू-वीलरची संख्या वाडत आसा. ते पासत टू-वीलरवाल्यांचे उपकार मानूंक जाय. पूण खरें म्हळ्यार प्रत्यक्षांत बसी वाडूंक जाय आसल्यो.

'फाटीं सर, फुडें सर, बेगीन चड, बेगीन देंव' नासल्यार हो प्रवास सुखाचो जावपाचो. पूण गोंयातं भलतेंच घडलां. बस-प्रवास सामान्य जनां पासत न्हय, तर बसवाल्यांचे जोडी पासत चलता. हे नदरेन घरांत मोटार-सायकल वा स्कूटर आसप हें आम आदमीक वरदान थारलां.

पूण हेंच वरदान एक श्रापूय जाला अशें म्हळ्यार अतिताय जावची ना. टू-वीलराक एक यंत्र आसता. ताका लागून वेग, एक गती आसता. टू-वीलर बुद्धी-संयमाचेर चलोवची आसता. ताचें भान आमी बाळगिनात. टू-वीलराचेर बसतकूच झणझणीत वारें आंगांत रिगता आनी चलयतल्याक ती 'आनीक फास्ट' चलोवचीशी दिसता. परिणामी टू-वीलर म्हळ्यार आमकां मेळिल्ली सवलत म्हणपाचें आमी विसरतात. तो आमी आमचो हक मानतात. आमची टू-वीलर पोलिसांनी आडायल्यार, आमकां राग येता. पोलिसांक आमी टू-वीलरवाले दुस्मान लेखतात. आज गोंयांत पोलीस आनी टू-वीलरकार हांच्यांत मार्गार एक झूज चल्लां. एक अविश्वासाचें वातावरण पसवलां. पोलिसाक पळोवन टू-वीलरवाले काचाबूल जातात. टू-वीलरवाल्याक सरकारान गुन्यांवगार थारायिल्लें भशेनशें जालां. ही परिस्थिती बरोबर ना.

खिणभर भान वगडायल्यार टू-वीलरांक अपघात घडटात. दुसरीं हजारांनी वाहनां रस्त्यांचेर घोळटात तांकां भोंवतणी संरक्षण आसता. टू-वीलर आंगार कपडे नाशिल्ले भशेन. ह्या कारणान ह्या पंचवीस वर्सांत आमी हजारांनी अपघातांनी मोडून पडिल्ल्यांचीं संख्या लाखां वयर पावल्या. हजारांनी संवसार उध्वस्त जाल्यात. गोंयांत मार्गार सगळो चकचक तसो लकलक. पूण कितले संवसार आज ह्या आक्सिदेंतांक लागून वळवळटात हाका सुमार ना. हांचीं दुकां कोणें पुसचेलीं? हे नदरेन टू-वीलर म्हळ्यार श्राप जाल्या.

30 जानेवारीक आमी हुतात्मा दिन पाळटात. त्या दिसा सकाळच्या इकरा वरांचेर खिणभर मोन्यांनी उबे रावन देसा पासत जीव अर्पिल्ल्यांक आर्गां ओंपतात. तेच भाशेन वर्सांतल्यान एक दीस अपघातांत सोंपिल्ल्यांची, आमच्या मोगाळ मनशांची आमी याद करूंक जाय आनी वाहनां चत्रायेन चलयतले असो सोपूत घेवंक जाय अशें म्हाका दिसता. गोंयभर ही चळवळ चलची.

हो रस्त्या वयल्या मरणांचो तेच भाशेन रस्त्या वयले बेशिस्तीचो प्रस्न गोंयांत महाभंयकर जाला. हालींसराक ह्या कारणाक लागून गोंयचें येरादारी खातें अ‍ॅक्टीव जालां. पूण लाखांनी टू-वीलरवाल्यांक हॅल्मॅट घालीनात म्हणून प्रत्यक्षांत दंड घालप शक्य आसा व्हय? आमचे हायवेंचेर लांब पल्ल्याच्या प्रवासाक टू-वीलरकार हॅल्मॅट घालतात पूण शारां भितर, बाजारांनी कोण घालीनात. कारण टू-वीलर चलयतल्यांत शिक्षितां बरोबर अन्नाडीय जायते आसात. विद्यार्थ्यां बरोबर अशिक्षीत तरणाटेय आसात. मडगांवांत हें भयांकृत चित्र दिसता. पोलीस असहाय जाल्ले दिसतात. पोलिसांचेर हात घालपीय जाल्यात.

हो आतां कायद्या-नेमांचो प्रस्न उरूंक ना. हजारांनी रुपयांचो दंड लागू करतकूच हें आळाबंदा येतलें म्हणटात? म्हाका दिसना. सरकार आनी लोक हांच्यांत वैर वाडत वचूंक फावना. आतां केंद्र सरकाराचो कडक कायदो लागू जावचो आसा. तेन्ना No Entry मोडटल्याक एक हजार रुपये दंड लागू जातलो अशें आयकूंक येता. इतल्यांत मार्गार शिस्त येतली व्हय?

खरें म्हळ्यार हो प्रस्न मानसीक जाला. ह्याच न्हय तर आदल्या सगळ्या सरकारांनी ही विपरीत विकृत परिस्थिती हाडल्या. पूण हे आपलेच ओंठ आनी आपलेच दांत! वंयूच शेत खाता असो हो प्रकार जाला. सरकाराक भीक लागल्या म्हण दंडांतल्यान सरकार रेवेन्यू पंजायता अशें उलयल्लें आयकून हाकाच Welfare state म्हणटात काय असो प्रस्न पडटा.

रस्त्या वयली बेबंदशाही सरकार आनी नागरिकांनी निर्माण केल्या. ही

आळाबंदा हाडप सरकाराक शक्य ना. लोकांतली सुसंस्कृताय जागी जावची पडटली. तांतल्यान एक आगळें-वेगळें सरकार सत्तेर येवचें पडटलें.

दिल्लींत केजरीवाल सरकार खऱ्यांनीच कितें वेगळें घडोवंक सोदता काय? धा हजार नव्यो बसी मार्गार घालपाची ताणी थारावणी घेतल्या. बसींत बायलांक राखूंक 'मार्शल' दवरतले म्हळां. सज्जनांचें सरकार आसत जाल्यारूच असले उपाय घेवप शक्य आसा. हो फकत विचार. सज्जन आसल्यार ताणी चिंतन करचें.

सरकाराक हांव कांय ड्रॅस्टीक उपाय सुचयतां. म्हाका खबर आसा ते प्रत्यक्षांत हाडपा इतलें सरकार नितीक नदरेन समर्थ ना. पूण 'धोल ताशे बडय बडय, येतलो भार येतलो भार' म्हण आशेन रावप इतलेंच हातांत उरलां. कांय कृतींत हाडूंक धाडस जाय अश्यो सुचोवण्यो.

1) टू-वीलर वाल्यांक गुन्यांवगार थारावचे न्हय. तांकां लागून गोंयांत प्रवास 'चलता' हें मान्य करचें.

2) हायवेचेर आनी स्टेटवेचेर हॅल्मेटाचो आग्रो धरचो. शारांत आदले भाशेन सूट दिवची. एक भयंकर 'हॅल्मॅट' टेन्शन सरकारान लोकाच्या माथ्यार थापलां तें काडचें. सगळ्यांक सू जातलें. योग्य वेळाची वाट पळोवची.

3) गोंयांत हजारांनी/लाखांनी टू वीलर खपतात. जे कारखाने त्यो तयार करतात तांची कांयच लागणूक ना? तांकां स्कूटरीं भाशेन मोटारसायकलीं खातीर खण करूंक लावचे.

4) टू वीलर तयार करतल्या कारखान्यांक टू वीलर चलोवपाचें शिक्षण दिवपाची स्कूलां चालू करपाक लावचीं.

5) लाखांनी हॅल्मेटां भायल्यान हाडचे बदला गोंय सरकारान गोंयां हॅल्मेटां करपाचो कारखानो घालचो आनी सवाय हॅल्मेटां दिवचीं.

6) गोंयांत इ गवर्नन्स, डिजिटल गवर्नन्स सुरू जालां. आतां रस्त्यार पिशां भाशेन पोलिसांनी हातवारे करपाचे दीस फाटीं पडल्यात. पोलिसांक पिल्लूक मारून आनी धुल्ल आनी धुंवर खावन टीबी जाता. आमच्या तरणाट्यांक

अशे काबार करूं नाकात.

7) ट्रॅफीक मॅनेजमेण्टाचें गोंयांत केंद्र स्थापन करचें. तें फकत गोंयांक न्हय तर बेळगांव, हुबळी, कोल्हापूर आनी कोंकणाकूय ट्रॅफीक पोलीस तयार करूंक उपकारा पडटलें.

8) होमगार्डांचो दिसवडो रोखड्यो रोखडो रु. 750/- करचो.

9) रस्त्यां वयल्या फलकांचेर 'देव बरें करूं' ह्या वाक्याचो सर्रास उपेग करचो. वातावरणांत हिंसा भरल्या ती इल्ली निवळटली.

10) 'गोवा कॅन' सारक्या एन.जी. ओंची मजत घेवची.

11) टू-वीलर वाल्यांचो सहकारी संस्था स्थापन करून सरकारा कडल्यान सवलती मेळोवच्यो. स्पेअर पार्ट सवाय दरान विकचे.






# भुरग्यांनी मनीस जावनूच उडूंक शिकचें

सुनापरान्ताक हारीन दर शेनवारा बरयल्लें माळेंतलें हें म्हजें 100 वें पत्र. हीं पत्रां बरोवंक सुनापरान्ताचे आदले संपादक बाबली नायक हाणी संद दिली.

हें 100 वें पत्र हांव हायर सेकण्डरीच्या विद्यार्थ्यांक ओंपतां आनी आदीं थारायल्ले प्रमाण लिखणेक तुर्ताक बुकल लायतां.

* * *

वर्गांत सरान प्रवेश केलो तशे विद्यार्थी उबे रावले आनी ताणी एका आवाजान 'बरें गोंय सर' म्हणून मोटे उमेदीन सराक येवकार दिलो. सरानूय 'बरें गोंय, बरें गोंय' म्हणून भुरग्यांक 'बसात' म्हण कुरवेन सांगून थाकाय दिली.

सरान आतां सरळ उलोवंक सुरू केलें.

म्हज्या प्रिय विद्यार्थ्यांनो, 'आतां हांव तुमकां कांय सामके सोंपे प्रस्न करतलों. तांकां तुमी जापो दिवच्यो. प्रस्न विचारूं?'

'हय सर.' उमळशिकेन भुरग्यांनी एका सुरान जाप दिली.

'तर सांगात, तुमी गोगलगाय पळयल्या?'

'गोगलगाय?' थोड्या भुरग्यांनी विचारलें. पांच स जाणांनी म्हळें: 'हय, आमी पळयल्या. येदीशी आसता. बुळबुळीत. सरपटत मुखार सरतना दर फावट फाट वयर करता. सवका सवकास वता.'

'बरोबर, बरोबर', सरान म्हळें. 'आनी म्हणुनूच सवकास चलतल्या मनशाक तूं गोगलगाय कसो चलता मरे म्हणटात. बरें, आतां सांगात, तुमी गोठाण पळयल्या? '

पांच स जाणांनीच गोठाण पळयल्ली. ताणी म्हळें: 'हय सर. तांबडीशी आसता. बोटभर लांब आसता. येदीशी गोठाण, तिका शेंकड्यांनी पांय आसतात. तीय सवकास वता.'

'खरें तुमचें.' सरान म्हळें. 'चड पांय आसल्यार चलप सुटसुटीत जायना. पूण गोठाणेक बस कांय धरपाची नासता!' भुरगीं हांसलीं.

सरान नवो प्रस्न केली: 'तुमीं जिवाणीं पळयल्यांत?'

'हय सर. आमकां ताचो भंय दिसता.'

'भंय कित्याक? तीं आपले वाटेन वतात. तीं कशीं वतात तें सांगशात?'

'तांकां पांय नासतात सर. तीं सरपटत वतात.'

'शाब्बास. आतां फुडलो प्रस्न. तुमी माकड पळयला?'

'हय, हय, हय,' भुरग्यांचो माकड म्हणना फुडें कलकलाट सुरू जालो. 'माकड ह्या झाडा वयल्यान त्या झाडार उडक्यो मारतात. ह्या घरा वयल्यान त्या घराचेर उडक्यो मारतात. आपूण घराचे नळे फोडटात म्हणपाचें तांच्या बोडकांतूच येना!'

'कशें येतलें?' निमाणे माकडूच ते! हुतहुते तशे उळउळे! आतां फुडें सरुंया. 'तुमी गोरवां पळयल्यांत?'

'हय सर. गोरवां म्हळ्यार गायो, म्हशी, पाडे, रेडे.'

'तीं कशीं चलतात?'

'तांकां चार पांय आसतात. तीं सुशेगाद वतात, मार्ग आडायतना तांकां

कांय दिसना.'

'तांचीं मळां मनशांनी आपलीं घरां बांदून आडायल्यांत. देखून तीं मार्गार येतात. चूक तांची न्हय.' अशें म्हणून सरान फुडलो प्रस्न केलो. 'तुमी नुस्तें पळयलां?'

'कितें विचारतात तुमी सर? नुस्तें पळयनाशिल्लो गोंयकार मेळत?'

'नुस्तें कशें चलता?'

'नुस्तें चलना सर. नुस्तीं उदकांत पेंवतात सर.'

'आतां फुडलो प्रस्न. तुमी शेवणीं पळयल्यांत?'

'हें कितें विचारतात सर? शेवण्यांक पांखां आसतात. तीं झाडांचेर रावतात. तीं मळबभर भोंवतात. तीं सुंदर गायतात. तांची 'चिंव चिंव' आयकन आयकन दिसता.'

'शाब्बास! आतां सारकें सांगात. तुमी मनशांक पळयल्यांत?'

भुरगीं आड्ळलीं - 'आमी, आमी, आमी!'

सरान विचारलें - 'मनशाक शिंगां कितलीं आसतात?' एकल्यान कोणे तरी जाप दिली - 'दोन'. सगळ्या भुरग्यांक मोटट्यान हांसूंक आयलें.'

उप्रांत सरान सगळ्यांक सांगलें - 'आतां परिक्षा, निमाणो प्रस्न. सगळीं दोळे धांपात आनी हांव विचारता त्या प्रस्नाक उत्तर दियात.'

भुरग्यांनी दोळे धांपले आनी 'विचारात सर' म्हळें.

सरान विचारलें - 'आतां तुमी परतून गोगलगाय, जिवाणें, माकड, बैल, नुस्तें, शेवणें आनी मनीस धांपिल्ल्या दोळ्यां मुखार हाडात. आपूण कोण तें खीणभर विसरात आनी हांतलें कोण जावचें शें तुमकां दिसता तें मोटट्यान सांगात.'

आनी कितें अजाप! सगळ्यांनी 'शेवणें, शेवणें' म्हळें. 'आमकां उडूंक जाय. आमकां उडूंक जाय.' अशी घोषणा भुरगीं दिवंक लागलीं.

'वा वा !!' सर उदगारलो 'तुमी सगळ्यांनी शेवणीं जावपाचें थारायलां



तर? अशें कित्याक?'

'हांगा वाज आयला सर. आमकां उडपाक जाय. झाडांचेर बसूंक जाय. वयल्यान सकयल कितें चलता तें पळोवंक जाय. मज्जा येतली!'

'ह्या झाडा वयल्यान त्या झाडार वचूंक जाय.'

'ह्या फुलांतलें, त्या फुलांतलें म्होंव चोखूंक जाय.'

'वयर वयर मळबांत वचूंक जाय.'

'मळबांतल्या नक्षत्रांक हात लावंक जाय.'

'मडगांवां सावन पणजे उडत वचूंक जाय. त्यो बसी पुरो जाल्यो. 'फाटीं सर, फुडें सर' पुरो जालें. वयर तसलें ना सर.'

'म्हणटकूच तुमी मनीस हें तुमकां आवडना तर?'

'तशें न्हय सर. आमकां पांय दिल्यात खरे, पूण एक दीस मार्गार सारकें चलूंक मेळना. रस्तो क्रॉस करूंक मेळना सर! सगळ्याक गाडयोच गाडयो. आक्सिदेंतांनीं कितलींशींच भुरगीं मरतात सर. आतां पयशेकार पांय आसून पांयांनी चलनात. मोटारींनी भोंवतात. आमकां शाळांनीं पांयांनी वचचें पडटा. ह्या मोटारींनी वाट आडायल्या. आमकां जर पांखां आशिल्लीं जाल्यार आमी भुर्र करून वयर उडटलीं आशिल्लीं. मळबांत शेवण्यांचे आक्सिदेंत जाल्ले आमी पळोवंक नात सर! तुमी पळयल्यात सर? आनी आमचीं स्कुलां झाडांचेर चलतलीं आशिल्लीं. कितली मज्जा!'

'सारकें तुमचें! पूण फकत उडपाक आयलें म्हण जायना. फकत उडून कशें जातलें? पोट भरूं नाका? फकत फळां खावन मनशांचें चलना. सगळो बाजारूय वयर व्हरचो पडटलो. पूण एक उपाय आसा.'

'उपाय कितें सर?'

'उपाय मनशांनी आपणाख पांखां लावपाचीं. आमच्या भाग्यान आमकां मनशांक एक खाशेलें 'मशीन' मेळ्ळां. ताचें नांव 'मन'. त्या मनाक पांखां लावं येता. आनी वयर जाय थंय शेवण्यां परस फास्ट वचूं येता. तुमच्यांनी

[illegible] मनान मुंबय वचूं येता. अमेरिकेक वचूं येता. हीं येवजणेंतलीं पाखां जालीं. पूण मनशान मनांत घेतल्यार खरीं पांखां आपणा खातीर करूं येता. जगांत कोण ना कोण सायंटिस्ट ह्या कामांत गुल्ल आसतलो.'

सरान इतलें सांगूंक मुखार विचारलें - 'शेवणें जावचे परस मनीस रावनूच उडूंक शिकिल्लें बरें अशें तुमकां दिसना?'

भुरग्यांनी 'हय सर' म्हळें खरें, पूण तीं गंभीर जाल्लीं.

सर फुडें उलयलो. 'पांखां परस मनशाची बुद्द श्रेश्ठ. ती कितें कितें करीत सांगूं येना. आज बसल्यात थंय सावन अमेरिकेंत राबितो करून आशिल्ल्या मनशा कडेन खिणांत उलोवंकूय मेळटा इतलेंच न्हय तर ताका पळोवंकूय मेळटा. मनीस फाल्यां कसलो सोद लायत म्हण सांगूं येना. तशें पळोवंक गेल्यार मार्गार लेगीत शिस्त हाडप कठीण न्हय. देखून म्हज्या हुशार विद्यार्थ्यांनो, मनशाची बुद्द ही संवसारांतली सर्वश्रेश्ठ, सगळ्यांत मोलादीक वस्त. ती मनशाकूच मेळ्ळ्या. देखून मनशान मनिसूच उरचें. दुसरो कोण जावची वानसा बाळगुची न्हय. आपणाक मेळिल्ले बुद्दीचो आपल्या खातीर आनी पेल्यां खातीर बेस बरो उपेग करचो. बुद्दीन खूब खूब ऊंच उडूंक शिकचें पूण परत मार्गार येवचें आनी मार्ग जाग्यार घालचो. आनी टू विलरा वयल्यान वतना माथ्याक हॅलमॅट घालचें. कारण आमचो मेंदू आमचे तकलेंत आसता. पांखांत न्हय.'

भुरग्यांनी 'कळ्ळें सर' म्हळें, 'आमी टू-विलरार बसतलीं तेन्ना हॅलमॅट घालतलीं सर' म्हळें. सरान भुरग्यांचो 'बरें गोंय' म्हणून निरोप घेतलो.





**Gurunath Kelekar in action :**

- Tamra Patra awardee Freedom Fighter.
- Brought out ***Novem Goem*** Konkani fortnightly on March 11th, 1961, that is immediately after Goa got liberated.
- Published a monthly children's magazine ***Maruti*** in Konkani for more than 6 years.
- A foot march of Goa was initiated which went throughout Goa for 67 days to propagate Konkani.
- Was President of 10th Konkani Lekhak Sammelan at Pernem in 1990.
- Prepared the first English-Konkani Dictionary of 16 thousand words.
- Was instrumental in installing Dr. Lohia's statue and Dr. F L Gomes' bust in Margao.
- Edited the book ***'Freedom Fighter Pandurang Mulgaonkar - a legacy'.***
- Took 20 college students to Delhi to discover India from the Capital.
- Translated ***Gandhiji's autobiography*** in Konkani which got him Sahitya Akademy translation award.
- Established Civic Clubs in educational institutions in Goa.
- ***Nehru Center*** was established at Raia, Salcete. Now a research library in the name of ***Freedom Fighter Pandurang Mulgaonkar*** is functioning here.
- Propagated friendship towards ***'Road Culture'*** among more than 70 thousand students in Goa, a unique activity.
- *MARG* Bulletin, a magazine, being published from 1995.